# अनुक्रमणिका




मुखपृष्ठ
समीर झांटये


संपादक
दिलीप बोरकार

पालवी संपादक
मानसी धाऊस्कार

अंक सजावट
गिरीश नंदा बोरकार / संकेत लवंदे



संपादकी पत्रवेव्हाराचो नामो
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji - Goa. 403 001
Tel. : 0832-2438355
Mail : bimbkonkani@yahoo.co.in



वर्गणीचे दर
जानेवारी २०२१ सावन
वर्सुकी ५०० रु. ३ वर्सां १४०० रु.
विद्यार्थी - वर्सुकी ३०० रु.
वाचपघरां - वर्सुकी ८०० रु.
३ वर्सां २५०० रु. पोस्टेजा सयत
वर्गणीचो चेक 'BIMB MONTHLY'
ह्या नांवान धाडचो


## कथा



## ललित



## भोंवडी



## मुलाखत



## एकांकी



## बालसाहित्य



## काव्यफुलोर २२३

# संपादकी

दिवाळी ही उजवाडाची परब. दिवाळी घेवन येता आमचे पासत खुशालकायेचे लक्ष लक्ष दिवे. हे दिवे आमच्या रुंबा रुंबांत पेटयत आमचें पुराय जिवीतच दिवाळी करपाची आज गरज आसा. तो दर एक भारतीयांचो हक थारता. कित्याक ही उजवाडाची परब आमी आमचे भारतीय संस्कृतायेंत मुळा मेरेन रुजयल्या. अशें आसलें तरी कोणूय म्हणूं येता आज आमी सरभोंवतणी नदर मारून एकंदर वातावरण नियाळतात तेन्ना आमकां उजवाडाची पणटी खंयच दिसना. दिसतात ते कवदे. कितलेच म्हारू हातांत कवदे घेवन, चूड घेवन आमच्या घरांत घुसल्यात. एकलो म्हारू उठटा आमचे लोकशाये फाटल्यान कवदो घेवन धांवता. दुसरो उठटा आनी अभिव्यक्तीक ल्हासून गोबोर करपाच्या हावेसान चूड घेवन तिचे फाटल्यान लागता. म्हणटकच जाचे कडेन उजवाडाचो स्रोत म्हूण आमी पळयतात आनी ती पणटी न्हय तर म्हारवाची चूड म्हणपाचें लक्षांत येता तेन्ना अशे न्हयकारी विचार कोणाच्याय मनात उदेवंचेनात अशें आमी म्हणूंक शकनात. पूण आमी आयच्या सरभोंवतणच्या काळखांत उजवाडा पासत हेरां कडच्यान पणटेची अपेक्षा धरली जाल्यार ती पणटी आसतलीच अशें म्हणूं नज. ती कवदो आनी चूडय आसूं येता. म्हणटकच करप कितें?

आयज आमचे भोंवतणी जो सगळे तरेच्या अरिश्टांचो काळोख दाटत आसा तो पयस करतलो जाल्यार आमी दरेकल्यान आपले भितरली पणटी पेटोवपाची गरज आसा. आमच्या बाकिबाबान टागोरांचे कवितेचेर आदारीत एक सुंदर कविता कोंकणींक दिल्या. तेच कवितेंतल्या आमचे भितरले पणटेची जाणविकाय ते आमकां करून दितना म्हणटात, एक पणटी भितर पेट्टा ती जगय रे ती जगय.. आमकां आमचे भितर जी पणटी पेट्टा ती जगोवपाचो वेळ आयला. भायर जो दिसान दीस काळोख फांकत आसा ताचेर उपाय म्हळ्यार पिरंगप न्हय तर आपले भितरली पणटी पेटोवन ती जगोवपा पासत आपली जीण सारप. आमी दर एकल्यान ही पणटी जगोवपाचो थोडो जरी यत्न केलो जाल्यार आमच्या भोंवतणी सगळ्या मळार जो काळोख मातला तो थोडो तरी उणो जावंक पावतलो. जी पणटी आमचे भितर पेट्टा तेच पणटेचेर भरवंसून आमी हो सोबीत असो दिवाळी अंक दिवाळेच्या हुंबऱ्यार तुमकां भेटोवंक पावले. आमचे पणटेंत तेल घालून वात सारपाक खूबशे हात मुखार आयल्यात.तातूंत आमचे जायरातदारूय आसात आनी लेखकूय आसात. तांकां सगळ्यांक आमी दिवाळेचीं परबी आनी दिनवास भेटयतना एकूच इत्सा उक्तायतात,जी एक पणटी आमचे भितर पेट्टा आनी ती जगोवपाक आमी धगपडटात तेन्ना तुमचे हात मातशे लागीं येवंदी येवपी वारें परतऽ मेरेन.....

ललित






# तमसो मा 'अमृता' गमय



दिलीप बोरकर
साहित्यीक आनी ज्येश्ठ पत्रकार

'बृहदारण्यक उपनिषद' हें शुक्ल यजुर्वेदा अंतर्गत एक उपनिषद. ह्या उपनिषदांतलो एक श्लोक सर्रास आमी वापरतात.

असतो मा सद्गमय ।
तमसो मा ज्योतिर्गमय ।
मृत्यर्मा मा अमृत गमय ।
ओम शान्ति शान्ति शान्तिः।।

–बृहदारण्यकोपनिषद् 1.3.28

हाका 'पवमान मंत्र' वा 'पवमान अभयारोह' मंत्र म्हणटात. हो मंत्र सोम यज्ञाची तुस्त गावपा पासत तो यज्ञ करपी यजमान म्हणटाले.



ना. सत्य हेंच म्हजें जिवीत मानत आयलां.

म्हजे पासत काळोख हें सत्य कित्याक..? तर काळोखूच हें ब्रह्मांड म्हजे मुखार अल्पशें जायना उगतें करता. पूण उजवाड तें धापून दवरता आनी हें दिसता तितलेंच तुमचें विश्व म्हणपाचें धडधडीत असत्य दिसा उजवाडाक सांगता. पूण जेन्ना सूर्य अस्ताक वता आनी काळखाचें साम्राज्य जेन्ना ल्हव ल्हव पातळूंक लागता तेन्ना नदर पावता थंय मेरेनचें सत्य म्हाकां होलमता आनी म्हजें हें विश्व, म्हजी ही प्रिथूम आनी ताचे वयलो हांव आनी ताचे भितरलें हांवपण खंयचे खंय शेणत वता.

अशें आसलें तरी अर्दी मर्दी म्हज्या वोंठार ह्या श्लोकांतली निमणी वळ आपसूक येता. खास करून दिल्ली पावता तेन्ना. आसा तश्शी न्हय तर 'अमृत' ह्या उतरांतल्या निमण्या अक्षराक आडी जोडून, 'अमृता' जावन. 'मृत्यर्मा मा अमृता गमय।' – मरणांतल्यान म्हाकां 'अमृता' कडेन व्हर.

दिल्ली गेल्यार म्हजें रावप गोवा सदनांतूच जाता. गोवा सदन अमृता शेरगील रस्त्याचेर आसा. ह्या गोवा सदनांत रावल्या उपरांत म्हज्या सदच्या नेमा प्रमाणे सकाळ फुडें चलपाक वतां. गोवा सदनाक लागींच लोदी गार्डन आसा. प्रशस्त गार्डन. थंय वतलों जाल्यार अमृता शेरगील मार्गा वयल्यानूच वच्चें पडटा. केन्ना केन्नाय वेळ मेळ्ळो जाल्यार हांव हौज खास पासय मारून येतां. अमृता प्रितम



कितें अर्थ हाचो...?

असत्या कडल्यान म्हाकां सत्या कडेन व्हर ।
काळखांतल्यान म्हाकां उजवाडा कडेन व्हर ।
मरणांतल्यान म्हाकां अमरत्वा कडेन व्हर ।

खूब लोक मोठे आवडीन आनी भक्तीभावान हो मंत्र खूब कडेन म्हणटना हांवें आयकलां. तातूंतलें 'तमसो मा ज्योतिर्गमय' म्हणल्यार काळखांतल्यान म्हाकां उजवाडा कडेन व्हर ही एकूच वळ विशेश अर्थान एक घोशवाक्य कशेंय वापरतात. तातूंत तांकां कसली स्फूर्त मेळटा म्हाकां केन्नाच कळ्ळेंना. म्हाकां ती वळ केन्नाच आवडूंकय ना. ना म्हणल्यार 'मृत्यर्मा मा अमृत गमय' हीय वळ आवडना. आवडटा ती पयली वळ–'असतो मा सद्गमय...' असत्या कडल्यान म्हाकां सत्या कडेन व्हर! म्हजे नदरेन काळोख हेंच सगळ्यांत व्हडलें सत्य आनी उजवाड हें असत्य. मरण हें व्हडलें सत्य आनी अमरत्व हें असत्य. देखून हांव असत्याचे लगाडींत केन्नाच पडलों

आसा जाल्यार पळोवंक. थंय वतलों जाल्यार म्हाकां गोवा सदनांतल्यान भायर सरून अमृता शेरगील मार्गार येवंचेंच पडटा. एका अमृताक मेळपाक हांव दुसऱ्या अमृताचे यादीक नांव दिल्ल्या मार्गार बशीची वाट पळयत रावतां. तेन्ना म्हज्या वोंठार आपसूक वाक्य येता तें 'मृत्यर्मा मा अमृता गमय ' दोन अमृता...जांचे पासत कितलेच संवेदनशील सर्जक ह्या अमृतांच्या संपर्कांत येवपाक खीण खीण मरत आसताले...!

अमृता प्रीतमाक हांव मेळ्ळां, तिचेर, साहिराचेर, इम रोजाचेर हांवें हे आदीं खंय खंय बरयलां. पूण ज्या अमृता प्रीतमाक मेळूंक वचूंक अमृता शेरगील मार्गाचेर तिश्ठतां त्या अमृता शेरगीलाची मात म्हाकां व्हडलीशी कल्पना नाशिल्ली. सुर्वेक म्हाकां दिशिल्लें अमृता शेरगील ही कोण तरी राजकारणी बी आसूं येता. जेन्ना हांवें पयले खेप तिचीं पेन्टींगां पळयलीं आनी मागीर तीं समजून घेवंक हांव अमृता शेरगीलाक समजून घेवंक लागलों, तिचेर बरयिल्लें साहित्य वाचूंक लागलों, तिचीं पत्रां हांवें वाचलीं तेन्ना हांव हे चित्रकर्तीक वळखना हाची म्हजी म्हाकांच लज शी दिसली. ती तर म्हजेच जातकुळीची सर्जक आशिल्ली. अशें आसुनय हांवें तिची वळख करून घेवपाक केन्नाच यत्न केलो ना. हेच गजालीक लागून म्हाकां त्या रस्त्यार उबो रावपाचो अधिकार ना अशें कितें शें दिसूंक लागता.

अमृता प्रीतमचीं 'प्रेम पत्रां' वाचून हांव तिच्या मोगांत पडलां. तिचें चडशें साहित्य हांव घटाघटा पियेलां. तिच्या कवितांचें पारायण केलां. तिच्यो कविता रासवळ कार्यावळींनी सादर केल्यात. कवितांचो अनुवाद केला. तिच्या जिविताचें तत्वगिन्यान म्हजें मानून तेच तरेचें जिवीत जियेलां. कोण कितें म्हणटलो, कोणाक कितें दिसतलें हाची पर्वा करी नासतना जें कितें सत दिसलां ताचो हात धरून चलत रावलां. अमृता प्रीतम म्हणटाली, 'हांव म्हज्याच तत्वगिन्यानाची बळी थारल्यां.'(I am the victim of my own philosophy) हें जेन्ना अशें आसता तेन्ना मागीर कोणाक शिणपाचो प्रस्नूच येना. जें जिवीत वांट्याक आयलां तें मोन्यानी जियेवप आनी तातूंतच खोस मानप हेंच आपल्या हातांत उरता. कुसुमाग्रज हे मराठींतले व्हड कवी. विलिनीकरणाच्या काळांत ते 'झालाच पाहिजे' वाटेन रावले, साहित्य अकादेमीन कोंकणीक स्वतंत्र साहित्यीक भाशेचो दर्जो दिवपा पासत विशय भासाभासेक घेतलो, तेन्नाय कोंकणी आड रावले. सत्या वाटेन रावले नात देखून हांव तांकां



प्रज्ञावंत मानिना आसलों तरी ते एक संवेदनशील श्रेश्ठ कवी. तांचे कवितेची एक वोळ ह्याच संदर्भांत हांव मनांत खेळयतां, जी म्हाकां थाकाय दीत रावता-'वेगळ्या वाटांची लाभता पायकी असते नसते म्हणायचे नाही.' कळटां नकळटां म्हज्या पावलांनी वेगळी वाट पत्करली तेन्ना म्हजें जिवीत अशें आसपाचें आनी तशें आसपाचें असो विचार करपांत कांय अर्थ नाशिल्लो. जेन्ना जिवीत घडपाची पिराय आशिल्ली तेन्ना संवेदनशील मनाक आदर्श मोगाचें तत्वगिन्यान अमृता प्रीतमान शिकयलें. तेन्नाच्यान आदर्श प्रेमाच्या सोदाचें पिशें लागलें तें आजून तशेंच आसा. तें जे सर मेळना ते सर ताचो सोद थांबचोना. तें प्रेम सोदप म्हणल्यार खिणा-खिणान मरण वेंगावप. मृत्यर्मा मा अमृत गमय । न्हय तर मृत्यर्मा मा अमृता गमय । अशेंच म्हणत हो सोद जिविताच्या निमण्या खिणा मेरेन चालूच दवरप. अमृत गमय बदला 'अमृता' गमय म्हणपा फाटलो म्हजो हेत होच आसा. अमृता प्रीतम आनी अमृता शेरगील ह्यो दोनूय अस्तुऱ्यो कलाकार. कोण कितें म्हणटलो हाची पर्वा करी नासतना खऱ्या 'सोलमेटा'चो सोद घेवंक जिवीत भर जळपेलीं. तेच वेदनेंतल्यान कलाकृती निर्माण करीत रावलीं.

अमृता प्रीतम हालींची(1919-2005). 31 आगोस्त हो तिचो जल्मदीस. हांव ते दिसा अमृताचो 'कागज और कॅनव्हास' हो ज्ञानपीठान सन्मानीत काव्यसंग्रह वा 'रसीदी तिकट' वा 'अमृता के प्रेमपत्र' बी कितेंय घेवन वाचूंक बसतां. तिचो वाढदीस मनोवपाची म्हजी ही भावूक रीत. हांव तिका जेन्ना मेळ्ळां तेन्ना भोवतेक तिची पिराय सत्तर आसूंक जाय आनी हांव तेन्ना पंचेचाळीस बी आसूंक जाय. मोगाक, आपलेपणाक पिराय लागना. पिराय लागता फकत संभोगाक. म्हज्या जिवितांत पांच दसकांच्या काळांत कितल्यो तरी अस्तुऱ्यो म्हज्या खूब लागीं आयल्यात. आंकवार तश्यो लग्नीकूय. पूण अस्तुरी ही भोगपा पासतूच आसता हो विचार म्हजे तकलेंत केन्नाच आयलों ना वा हांवें येवंक दिलों ना. आनी जवळीक दाट जायत गेल्या उपरांत वेंगेंत आयिल्ले अस्तुरेक पयसूय केन्ना केली ना. ती एक सैमीक गजाल सहज घडून गेल्या आनी सैमीक गजालींत केन्नाच पापभावना आसना. पाप आसता तें कोणूय कितेंय म्हणटलो ह्या भंयान वा भैरजळपान लागीं येवंक सोदपी एखाद्रे इश्टीणीक अस्तुरी म्हण्णूच मना आड पयस दवरप! अस्तुरी लागीं आयली म्हणटकच तिका भोगपाकूच जाय अशें कोण सांगता..? ही एकूच गजाल दादल्याक अस्तुरे कडेन ओडटा...? काय ती ओड आनीक कित्या पासत तरी आसता..? एकविसाव्या शतमानांत पावल दवरून लेगीत आमी अस्तुरे कडलें आपलें नातें निश्चित करूंक पावले नात हीच खरी मनीसजातीची शोकांतिका! हाका लागून

कितल्योच बऱ्यो इश्टीणी आपल्या मनांतल्यो गजाली मुक्त आनी निर्व्याजपणान आपल्या इश्टाक केन्नाच सांगूंक पावनात. कारण एकूच, कोणूय दुबाव घेतलो! अशें जर आसा जाल्यार दोन दादल्यांचो दुबाव कित्याक घेनांत..? म्हाकां तर म्हज्या भुरगेपणार दोग जाणांनी लुटला. दोनदां एका मास्तरान आनी दोन-तिनदां एका गंवड्यान. उपरांत कितल्याच दादल्यांनी माया करपाच्या निमतान हात भोंवडायला. सुर्वेक मुर्वतीक लागून सोंसून घेतल्यात आनी जेन्ना तिरसुवादीक सभाव म्हज्यांत हांवें बळायलो तेन्ना हांवें असल्यांक शेडायल्यातूय बी..! आसूं..पाड पडूं त्या खबरांचें!

वासना आनी प्रेम ह्यो दोन तोंकाच्यो घडणुको. वासनेक प्रेम आसल्यार चलता आनी नासल्यारूय. प्रेमाक जाय आसता तें फकत प्रेम. थंय वासना खंयच उरना. प्रेमांतल्यान एकामेका भितर समरसून वचपाची भावना जागृत जाता. देखून म्हाकां केन्नाय प्रस्न पडटा, प्रेमान लग्न जाल्लो दादलो आपली बायल आसतना दुसरें प्रकरण करूंकच कसो शकता..? हांव दादलोच म्हणटां, अस्तुरी न्हय..! आमची भारतीय नारी अजूनय पाप-पुण्याचे संकल्पनेंत गुरफटून आसा. ताकाच लागून ती आपल्यो भावना मरणा मेरेन चिड्डून दवरता आनी आपले वांगडाच घेवन वता. तांकां मृत्यर्मा मा अमृत गमय। हेंय कळना आनी मृत्यर्मा मा अमृता गमय। हेंय कळना. कांय अस्तुऱ्यांक तें होलमता आनी उतार पिरायेर काय जायना त्यो आपल्यो प्रेमभावना सार्थी पावयतात, तेन्ना कोण दुबावूय घेनात आनी कोण कोणाक भियेनाय बी. मागीर पाप-पुण्य कित्याचेर थारावप...? कुडीचेर काय मनाचेर..?

विशय आयलाच म्हणटकर हो विशय हांगा मात्सो आनीक खोलायेन व्हरूं येता. हातूंत अवांतराचो दोशूय दिसूं येता. पूण विशयांतर जायना. हो विशय केन्ना तरी कोणें मांडपाची गरज आसा. म्हज्या फाटल्या स दसकांतल्या जिवितांत म्हज्यो कितल्योच इश्टिणी जाल्यात. पिरायेचीं स ते पंदरा वर्सां हो काळ खरो इश्टागतीचो आशिल्लो अशें म्हाकां दिसता. त्या काळांत सहसा कोण चलो चलयेन वांगडा खेळ्ळ्यार, भोंवल्यार विशेश लक्ष दिल्लें हाची म्हाकां याद जायना. चडूच दाटी आसल्यार 'घोव-बायल' म्हणून चाळोवप आनी तातूंतल्यान



मागीर राग येवन रडप असल्यो गजाली चलताल्यो. त्या काळांत आतां वरीं ल्हान पिरायेच्या भुरग्याचेर लिंगीक अत्याचार कोणें केला म्हणपाच्यो घडणुकोय घडल्यात अशें हांव आयकून नकळों. पूण पिरायेच्या सोळा वर्सां उपरांत मात चलो चली चड जवळीक करीत जाल्यार घरांतलीं जाणटेलीं धेकणो घालून दोळे मोठे करतालीं आनी आपली जापसालदारकी पाळटालीं.

उपरांतच्या काळांत ह्या जाणटेल्यांची सुवात रासवळ सुवातांनी कांय ज्येश्ठ अस्तुऱ्यो घेतात. ती कल्पना म्हाका हालीं हालीं कोणें कोणें करून दिल्या. तशें पळोवंक गेल्यार ही जापसालकी तांच्या माथ्यार कोण दिनांत. पूण त्यो आपूण जावन ती मक्तेदारी आपखोशयेन घेतात आनी हेरांचेर दबाव हाडटात. कोंकणी चळवळींत हांव पिरायेच्या अठरा वर्सांचेर भितर सरलों. हे चळवळीची तेन्नाची खाशियत म्हणल्यार चळवळींत एकठांय जाल्ल्या वावुरप्यांचें एक कुटुंब जाल्लें. धर्म-जात, उच्च-नीच, ल्हान-व्हड असो कसलोच भेद नाशिल्लो. चल्यां वांगडा चलयोय खांदाक खांद लावन वावुरताल्यो. हें आमचें एक कुटूंब असो म्हजो समज आशिल्ल्यान

वा विश्वास बशिल्ल्यान ह्या चलयां कडेन हांव कुटुंबाचोच घटक कसो वागतालों आनी अजून वागतां. पूण कांय चलयो अंतर दवरून, ते काळचे भाशेंत सांगचें जाल्यार कुसकेपणान वागताल्यो. ताका लागून तांचें बरप आवडटा आसतनाय तांचे कडेन ते विशीं मेकळेपणान संवाद जाय नाशिल्लो. हांव विद्यार्थी चळवळींतल्यान आयिल्लों तरनाटो जाल्ल्यान मुंबयंत वेगवेगळ्या कॉलेजींनी भोंवतालों. दिल्लींत जेएनयुंत वचप जातालें. काम नासल्यार लेगीत वतालों. म्हाका थंयचें मुक्त वातावरण आवडटालें. चलो चली असो भेद थंय नाशिल्लोच आनी आवय बापायकूय तो दिसनाशिल्लो. विद्यार्थी आनी युवा चळवळींत वावुरतना दावे विचारसरणेचो पुरस्कर्तो जाल्ल्यान कम्युनिश्ट वावुरप्यां मदीं रावून डायलेक्टीक्स समजून घेतालों. ह्या वातावरणांत चलो-चली असो भेद केन्ना नाशिल्ल्यान एकामेकां कडेन संवाद जातालो. तातूंतल्यान एकामेकाक समजप जातालें. मुक्तपणान विचारांचें दिवप घेवप जातालें. पूण कोंकणी चळवळींत वावुरतना म्हाका कांय कडेन हो वेगळोचार जाणवतालो. त्यो तेन्नाच्यो चलयो आतां लग्न बिग्न जावन संवसारी जाल्यात. साठी कडेन पावल्यात आनी आतां तातूंतल्या चार पांच जाणांनी तरी म्हाकां अदीं मदीं म्हणलां लेगीत, ‘ दिलीप, तूं इतलो बरो म्हूण आमकां खबरूच नाशिल्लें मरे..! तूं धड न्ही, तुजे पासून पयस राव म्हूण अमक्यान सांगलें देखून आमी गरजे भायर पयस रावलीं..!’कोणें सांगिल्लें तेंय तांणी सांगलें. सांगपी तर पुरोगामी विचारांची पुरस्कर्ती..

ह्यो असल्यो घडणुको तश्यो घडत आसतात. पूण हातूंतल्यान कितें साध्य जाता..? असले हे विचारसरणेक लागून मनशाच्या मनांत लींगभेद बळावता. तातूंतल्यान संवाद पयस वता आनी वाद निर्माण जाता. लिंगीक अत्याचाराक उदक सारें हातूंतल्यानूच पडटा जावंक जाय! ह्यो असल्यो गजाली टाळून, लिंगभेद कुशीक दवरून जर म नीस म्हूण संवाद घडत जाल्यार जिवितांतल्या ह्या

ल्हानशा काळांत जीवन सुंदरपणान जगूंक मेळटा. ह्या वैचारीक संवादांतल्यान मनशाक खूब प्रगल्भता येता आनी सर्जनशील मनशाक तातूंतल्यान सृजनशक्त लाभता. ती मेळपाक समाजांतले कांय घटक जेन्ना वणटी उबारून आडखळी हाडटात तेन्ना त्यो हुपपाचो यत्न कांय करतात जाल्यार कांय त्यो भावना चिड्डून उडयतात. जांणी चिड्डून दवरल्यो तांचो घुस्मटमार जाता. जांकां तातूंतल्यान भायर सरपाचें धाडस जाता, तातूंतल्यो कोणूय आपले कलेच्या मालवजार नामना मेळयतात. आपल्यो भावना मांडटात, आपलें जिवीत मुक्तपणान जियेतात. प्रसिद्धीच्या वलयाक लागून तांचें नांव चर्चेक येता. तांच्या धाडसाची आमी सगळेच तोखणाय करतात. जांचे फाटल्यान ग्लॅमर नासता तांकां मात आपल्या मुक्त जिवितांत समाजा कडल्यान नांवा दवरून घेवंचें पडटा. आपल्या सोलमेटाक सोदतां सोदतां नाना तरेचीं बिरुदां लावन घेवंचीं पडटात.

सोलमेटाच्या अश्रेकणेक लागून साहित्य जगतांत चर्चेंत नांव आयलें तें अमृता प्रीतमचें. अमृता प्रीतमावरींच आनीक एक अमृता अतृप्त मोगा पासत झळपेली ती अमृता शेरगील. एक संवसारीक नामनेची चित्रकार. तिका आपली चित्रकारिता केळोवंक जिवितांतली फकत सातूच वर्सां लाभलीं. पूण ह्या सात वसांत तिणें कॅनव्हासाचेर जे रंग उधळ्ळे ते रंग तिका अंजरंवर करून गेले. ह्या रंगां वांगडाच तिणें आपले जिणेंत आनिकूय कितलेच रंग उधळ्ळे जांकां लागून ती सदांच वादग्रस्त अस्तुरी थारली. अमृता शेरगील- पुरायेन बेफिकीर सभावाची बायलमनीस, कोणाचीच पर्वा करी नासतना, भिडमुर्वत बाळगी नासतना आपल्याक जाय तशी जियेवपी आनी बेधडक विधानां करपी. तिच्या लैंगीक संबंधांक तर धरबंदूच नाशिल्लो. तिणें एकार एक कितलेच जोडीदार बदल्ले. कितल्याच जाणां कडेन कुडीचो संबंध दवरलो. तातूंतल्यान कितलेच खेप करचे पडले तिका गर्भपात आनी तिच्या ह्या फुलपाखरा सारख्या स्वच्छंद जिविताक लागून कितलींच दुयेंसां तिची कूड पोखरीत रावलीं. कपडे बदलचे तशे तिणें जोडीदार बदल्ले खरे पूण तिका शेवट मेरेन आत्मीक जोडीदार, सोलमेट लाभूंक पावलोच ना. मानसीक प्रेम खंय तरी मेळटलें हे आशेन ही अस्तुरी सतत झळपेली, व्हळपेली पूण ती जें कितें सोदताली तें मात तिका ह्या जिवितांत मेळूंक पावलें ना. हें इतलेंय करून तिणें आपले





आज़ादी अमृत महोत्सव

कले कडेन मात प्रतारणा केन्नाच केली ना.

असले स्वच्छंदी अस्तुरेक, जी एकाच दादल्या कडेन प्रामाणीक रावना, जिका एका दादल्या कडल्यान समाधान मेळना, तृप्त जायना तिका समाज कितें नांवां दवरता..? पुंडलीक नायकाच्या कथा-कादंबरी आनी नाटकांनी लेखकान 'खाजी'ची हें उतर वापरलां. साहित्यांतली भास ही समाजाचीच भास आसता. समाज असल्या बायलांक खाजीची कित्याक म्हणटा...? बायल मनशेचें दादले मनशा कडेन वा दादले मनशाचें बायल मनशे कडेन कसले तरेचें नातें आनी संबंध आसतात हाचे विशीं समाज कितले मेरेन खात्रीपुर्वक आपलें मत घडोवंक शकता..? दादलो आनी बायल हांचे संबंद बरे काय वायट हें थारावपी खंयचे मापदंड समाजान कोणाच्या नाड्यार आपल्या हातांत बाळगिल्यात..? दोन दादले एकमेकांचे बरे इश्ट आसतात, वांगडा हातांत हात घालून भोंवतात आनी भोंवूक शकतात तश्योच दोन इश्टीणी करूंक शकतात. समाजाक एका काळार तातूंत वेगळें कांयच दिसनाशिल्लें. सगळें सभावीक अशें धरून चलताले. पूण आतां असली जवळीक दुभावाची मानतात. दोन दादले एकामेकाक वेंग मारून चलूंक शकनात. दोन अस्तुऱ्यो आपल्या मोगाचें, इश्टागतीचें रासवळ प्रदर्शन करूंक शकनात. केल्यार तांचे कडेन पळोवप्यांची नदर वेगळी आसता. आयज समलिंगी आपले इत्से प्रमाण एकठांय येवन आपलो संवसार थाटतात. न्यायालयान तांकां मान्यताय दिल्या. तशी मान्यताय आतां सहजिवन जियेवंक सोदपी जोडप्याकूय आसा. आर्दी सहजिवनांतल्यान जर भुरगें जल्मलें जाल्यार ताची जापसालकी कोणें घेवपाची हो प्रस्न चड खर आसतालो. दादलो आपलें कर्म करून मकळो जातालो पूण मागीर सगळे त्रास वांट्याक येताले ते अस्तुरेच्याच..! जर तिका त्या भुरग्याक सांबाळपाची तांक नासत जाल्यार तांचो समाजाक ताप जातालो. देखून ही जापसालकी कायद्यान बांदून घेवपाचें काम समाजान केलें. उपरांत ती परंपरा जाली. आज सहजीवनाक कायद्याची

गरज ना. अमुकच काळ सहजीवनात सारल्या उपरांत कायदेशीर लग्न जावंक नासलें तरी तांकां घोव-बायल म्हूण कायदेशीर मान्यताय न्यायालयान दिल्या. अशे तरेन सामाजीक प्रस्न निस्तारपाचें समाजकार्य वेवस्थेन केलां. पूण सोलमेटा पासत जीं कोण हुमकळत रावतात तांची वेवस्था कोणें लावप..? तांकां कोणें समजून घेवप..? परत आनीक एक प्रस्न..! अवांतर आसलो तरी विशयाक धरून..!

सोलमेट म्हणल्यार कितें..? ताची संकल्पना कितें..? ताची विस्कटावणी तशी उतरांनी करप शक्यूच ना..! ती भावना समजून घेवपाची आसता. ती समजना देखूनूच जाका ते उत्फर्के लागतात तो वा ती पिशांतूर जावन जिवीतभर त्या प्रेमाच्या फाटल्यान लागतात. वाळवंटांत तानेल्ल्याक मृगजळ दिसता. तें उदक म्हूण समजून त्या मृगजळा फाटल्यान तो तानेल्लो धांवत सुट्टा. शाणे लोक ताका पिशेपणा म्हणटात. आसत तीं पिशेपणां ! पूण ताची तान खरी हें कोणाकूच कळना. एकल्याचे तानेची खराय दुसऱ्याक होलमताच अशें खंय आसा..!

म्हाकां कांय लोक मेळ्ळ्यात. तातूंत दादलेय आसात आनी बायलोय आसात. सर्जक, उच्चशिक्षीत आसात तशेच सर्वसामान्य लोकूय आसात. प्रेम केन्ना खंयचे मोडणार मेळत हें सांगूंक येना. प्रेम केन्नाच थारावन जायना. तें सैमीक कुळयेंतलें. थंय फकत प्रेम रुजवणां येता, बाकी सगळें मिथ्या थारता. प्रेमा पासत मनीस पिसो जाता, तें मेळना जाल्यार जीव दिवपाचे अवस्थेंत विचारांचें रुपांतर जाता. एक प्रेम तात्पुरतें आसता. ताची मर्यादा लग्ना मेरेन आसता. प्रेमाची परिणिती लग्नांत जाली काय आपलें ध्येय यशस्वी जालें अशें भोवतेकांक दिसता. मागीर कांय काळ भोग घेतलो काय हें प्रेम ल्हव ल्हव अडसत रावता. मागीर भुरगीं जालीं काय प्रेयसी घरांत भुरगीं सांबाळटा, रांदता, वाडटा आनी उश्टीं काडटा. प्रियकर आपलो वेळ जोडी पासत घालता. प्रेमाच्या आरंभाच्या काळांत एकामेकांचेर जीव हुवाळून उडोवपाची भावना आशिल्ली, एकमेकाक मेळपा पासत जी तळमळ आशिल्ली ती खंयच मागीर दिसना. मागीर उरता ती तडजोड. मागीर आयुश्य सरता रुटीन पद्तीन. एका काळा वयलें हें लैला मजनूचें प्रतीरूप आनी सोयरीक व्हरून लग्न जुळोवन संवसार थाटिल्लें हेर खंयचेंय सर्वसामान्य जोडपें हातूंत खंयच



फरक जाणवना. असले तरेचे संवसार समाजांत चडशे पळोवंक मेळटात आनी हेच गर्दैत आदर्श संवसार करूनय एखाद्रो वा एखाद्री आपल्या मनांतल्या त्या अरळ मोगाक पारजता फुलांवरी मनांतल्या पोशांत जपता. हें कशे तरेचें प्रेम आसता...?

एके चलयेक शाळेंत आसतना एक चलो आवडटा. हांगां चलीच कित्याक..? जाय जाल्यार चलोय म्हणात. हांवें चली म्हणल्या ताचें कारण मनुसारख्या विद्वानानी केन्ना तरी अस्तुरेची गची धर्मा कडेन सांगड घालून आपले मुठींत अंदून दवरिल्ली. उपरांत ती परंपरा जावन पडली. विचार आनी शिक्षणाचे प्रगल्भते मुखार परंपरेच्या भुताची सावळीच चड आकांताळी आसता. अस्तुरी मागीर बोकडी जावनच उरता. एका शेतकारा कडेन एक बोकडेचें पील आसता. तो ती ल्हान आसतना सद्दां तिच्या गळ्यांत दोरी बांदून आपले खोपीचे म्हेडीक बांदून दवरता. तो वेळ आयलो काय ती बोकडीय दोरी बांदून घेवपाची वाट पळयता आनी शेतकारान गळ्यांत दोरी घालून तिका सदचे वरीं म्हेडीक बांदली काय तीय सुखावता. कांय दिसां उपरांत बोकडेक दोरीय बांदपाची गरज पडना. तो फकत तिका बांदपाचो वेळ जालो काय दोरी घेना आसतनाय फकत तिका बांदपाचो अभिनय करता आनी बोकडी



आपल्याक बांदून घाल्या असो समज करून ते म्हेडी कडेन बसून रावता.

तर ते चलयेक तो चलो आवडटा. त्या काळाच्या एकंदर वातावरणा प्रमाण तांचें एकमेका कडेन चोरून पळोवप, नदरा नदर जाले उपरांत एकमेकाक हांसो दिवप बी सगळें घडटा. ना उलोवप, ना स्पर्श. शाळेंतले दीस सोंपतात. दोगांय वेगवेगळ्या वाटांनी वतात. आपापल्या संवसारांत रमतात. दोगांकूय भुरगीं, दुड्डू, सूख बी सगळें मेळटा. आदर्श असो संवसार करीत उतार पिरायेर पावतात. एक दीस कोणाच्या तरी लग्नाच्या निमतान कितल्याच वर्सांनी दोगांय मेळटात. एकमेका कडेन पळोवपाची तीच नदर आनी तोच हांसो. मेळ्ळ्या बराबर मुखामळार अशी एक खोस जी इतलीं वर्सां सुखान केल्ल्या आदर्श संवसाराच्या काळांत खंयच निशेवंक नाशिल्ली. मागीर अर्दी मर्दी मेळप, गजाली, उलोवप, हय न्हयसो स्पर्श, त्या स्पर्शान सामकीं चंवरून वचप. कॉलेजींत शिकपी दोगांयच्या नातरांक प्रस्न पडप आमचो आजो आनी आजी ह्या दिसांनी आमचे परस चियरफूल कशीं..?

म्हजो एक दोतोर मित्र आसा. ताचो कॉलेजींत आसतना प्रेम जालो. दिसपाक आनी वागपाक स्मार्ट आनी उलोवपाक लागोळो. कर्तृत्वानूय इस्पेर्त. खंयचीय चली मोगान पडटली..आनी पडलीय बी. आमी ताचे इश्ट ताचो मोग पळोवन ताचेर जळटाले. कांय काळान ते चलयेच्या बापायन आपले चलयेचें एका गिरेस्ता लागीं लग्न केलें. म्हजो मित्र थतर वितर जालो. पिवपाक लागलो. एक दीस गळ्यांत दोरी बांदून हॉस्टेलाच्या तेर्रासा वयल्यान सकयल उडी मारली जीव दिवपाक. पूण मेलो ना. ताका इश्टांनी हॉस्पिटलांत घालो. बरो जातकच हो परत जीव दितलोच म्हूण आमी सगळे हुसक्यांत. ताका तातूंतल्यान भायर काडलो. ताका रिजोवपा पासत आमी ताका एक इश्टीण हाडली. तिका सगळी कल्पना दिली. रिजवण चलतां चलतां दोगांयचीय तार जुळ्ळी. लग्न जालीं, भुरगीं जालीं. भुरगींय कर्तृत्वी. सुखाचो संवसार. भुरग्यांचीं लग्ना बिग्ना जावन तांणी संवसार थाटलो.

एक दीस खबर आयली आदले मोगिकेचो घोव सोरो पियेवन पियेवन मेलो. हो तिचे भेटीक गेलो. आपले बायलेक घटस्फोट दिवन, तिची दुडवांची बी सगळी वेवस्ता लावन आपले ते आदले मोगिके कडेन लग्न जालो. उतार पिरायेर. तरनाट्यांक लेगीत फाटीं उडोवपी हावेसांत ताचें तें चंवरप खरेंच तोखणायेचें आनी खरें जिवीत जियेवपाचो अर्थ समजल्लें अशें म्हाकां तांचें वावरप पळोवन दिसलें. हो दोतोर आनी ताची ती प्रेयशी कलाकार बी कांय न्हय. तीं अमृता शेरगीलाक, अमृता प्रीतमाक, साहिराक जावं इमरोजाक वळखतात काय ना तेंय हांव नकळों. पूण तांची तान खरी. तान तांकां उदकाचे सोदीक धांवडायता. कोणाक शीतळ उदकाचें तळें मेळटा जाल्यार कोणाक मृगजळ. म्हणटकच अमृता प्रीतम जावं, अमृता शेरगील जावं, तो दोतोर इश्ट जावं वा हांव जावं.. कोणाच्या व्यक्तीगत कर्तृत्वाक लागून चारचौग तांकां वळखतात आसूंये..कोणाक चड तर कोणाक थोडेभोव. जांकां चड वळखतात वा नामना आसा तांची तान चड खर आनी जाका कोण वळखना असो सामान्य आसता ताची तान उणी अशें कशें थारावं येता..? तान ही शेवटाक तानूच आसता.

दोनूय अमृतांची तान म्हाकां होलमता. ती अचूक कशी

हें जरी स्पश्ट करप तांकी भायलें तरी तें होलमता. समाधी लागले उपरांत एक दैवी भाव संचारता तशीच हीय एक दैवी भावना. जाका ती होलमता तरी व्यक्त करप जमना ताका ती खावन उडयता. हें खावपूच एक वेगळी खोस दिता. म्हजे नदरेन ही खोस म्हणल्यारूच अमृत..अध्यात्म ताका अमरत्व म्हणटात. समुद्र मंथनाच्या वेळार देवांक अमृत मेळ्ळें. अमृत पिल्यार खंय कोण मृत जायना. जो मृत जायना तो अमृत. मरण येना तसलो. मरणा कडल्यान आपल्याक अमृता कडेन व्हर, अमरत्वा कडेन व्हर अशी मागणी आमचे मदलो दरेक करीत आसता. पूण हें अमरत्व कित्या पासत..? कळपाक मार्ग ना.

अमृता प्रीतम आनी अमृता शेरगील हांकां अमरत्व मेळ्ळां हें तांच्या मदल्या सोलमेटाच्या उत्फर्क्या पासत न्हय तर त्या उत्फर्क्यांचें रुपांतर तांणी कलेंत केलें देखून. पंजाबी भास जे सर आसा ते सर अमृता प्रीतमाक कोण कडेक काडूंक शकनात. पंजाबी भासूच न्हय तर भारतीय साहित्याचो इतिहास तिका कडेक दवरून समृद्ध जावंक शकना. जे सर कलेविशीं समाजमनांत मान सन्मान आनी कला पारखुपाची तांक आसा तेसर अमृता शेरगिलाक कोण कुशीक काडून मुखार वचूंक शकना. तिच्या चित्रांच्या रंगा मुखार तिणें जिवितांत जे कितें रंग उधळल्यात अशें जांकां दिसता ते रंग काळाचे व्हांवतेंत ल्हव ल्हव विरळ जायत वतले आनी गडद जायत रावतले, ठळक जावन नदरेक भरतले ते तिच्या पेंटींगांतले रंग.

कोण ही अमृता शेरगील..? अमृता शेरगील ही भारतांतली पयली मॉडर्न अस्तुरी चित्रकार अशें म्हणटात. तशीच ती देशा भायर वचून पारिसाक रावून कलेचें शिक्षण घेवपी पयली अस्तुरी चित्रकार अशेंय मानतात. पूण आपलो कोणें अस्तुरी चित्रकार म्हूण उल्लेख केल्लो तिका आवडनाशिल्लो. एके नामनेचे कला संस्थेन एक खेप उत्कृश्ट अस्तुरी कलाकार म्हूण तिका सन्माना पासत वेंचून काडली. आपलो फिमेल आर्टीस्ट –अस्तुरी कलाकार म्हूण केल्लो उल्लेख पळोवन तिची तकली सणकली. तिणें ते एकेच घडणुके पासत तो प्रतिश्ठेचो भोवमान न्हयकारलो. अमृता शेरगील ह्या संवसारांतल्यान गेल्यार आतां सुमार पाऊणशीं वर्सां सरल्यांत पूण तिच्या दरेक चित्राचेर तिची वळख जाणकारांक सांपडटा. चित्रकार इमरोज आपल्या चित्रांचेर केन्नाच आपली निशाणी करिना वा नांव बरयना. अशें कित्याक काय विचारल्यार ताणें सांगलें, चित्रकाराची निशाणी त्या चित्राचो वांटो जावंक शकना. चित्रकाराच्या कामा वयल्यान तें चित्र कोणाचें तें कळूंक जाय. जर कोणूय विद्यार्थी वा कलेंत नवखो आसा आनी तो जाणा जावंक सोदता चित्रकार कोण तो जाल्यार त्या चित्राच्या भायर नांव बरोवंक जाय.

अमृता शेरगिलाचेंय मत तेंच आशिल्लें वा म्हणुया आपलीं चित्रां हीच आपली वळख हाची जाण तिका जेन्ना तिणें चित्रां काडूंक सुरवात केली तेन्नाच्यान तिच्या मनांत रुजिल्ली जावंक जाय. आपूण कितें करतां हाचें भान वा कल्पना नाशिल्ले भुरगे पिरायेर अमृताची एकूच आवड आशिल्ली ती चित्रां काडपाची.

अमृता शेरगिलाचो जल्म 109 वर्सां आदीं 30 जानेर 1913 त बुडापेस्टाक जालो. बुडापेस्ट ही हंगेरीची राजधानी. हो काळ पयल्या म्हाझुजाचो. हंगेरीय ह्या झुजाच्या सांवटांतल्यान सुटूंक नाशिल्ली. त्या सांवटांत अमृताचें भुरगेपण सरतालें तें चित्रां रंगयत. तो एकूच तिजो छंद! ॲन्डरसनचे परिकथेंतलीं चित्रां तें रंगीत पेन्सिलींनी काडटालें.

अमृताची आवय मारी आन्तोआनेत गोतेस्मान हंगेरीयन. ती ऑपेरांत गायताली. ती ऑपेराच्या दौऱ्या निमतान लाहोर शारांत आयिल्ली. थंय तिजी वळख उमराव सिंग शेरगिला लागीं जाली. उमराव सिंग जाट. तो संस्कृत आनी पर्शियन भाशेंतलो विद्वान. खगोलशास्र, छायाचित्रण हांचो छंद आशिल्लो जाणकार. कले विशीं उप्पाट आदर. पंजाबांत अमृतसर लागसार मजिशिया गांवांत रावतालो. ताची मारी आन्तोआनेत लागीं वळख लाहोराक जाली आनी ते वळखीचें रुपांतर मोगांत जालें. दोगांयचेंय लग्न शीख रिवाजा प्रमाण जालें आनी तिजे वांगडा तो बुडापेस्ट गेलो. पूण पयलें म्हाझूज सोंपसर ताका थंयच रावचें पडलें.

अमृताची पिराय आठ वर्सांची आसतना शेरगील घराबो परत भारतांत आयलो. शिमलाक तांच्या जाण्टेल्यांचें घर आशिल्लें. हिमालयाच्या मुळसांतलें त्या काळचें शिमला म्हणल्यार सर्गूच! थंय वसती उच्चभ्रू भारतीय आनी ब्रिटीश लोकांची. उमराव सिंग शेरगील त्या वाठारांत, थंयच्या वातावरणांत फोटोग्राफी करतालो. त्या फोटवांतलें जिवितूय उच्चभ्रूच. त्याच वातावरणात अमृता

वाडटालें देखून ताचो संबंध शिमलाच्या पहाडी लोकां लागीं येवंक पावलो ना. तें आपले संस्कृतायेंतलीं चित्रां रंगयत आसतालें आनी आपूण फकत चित्रकारूच जातलें हें ताचे तकलेंत घट्ट बरें रुजिल्लें.

ताच्या चित्रांक प्रोत्साहन मेळटालें ताच्या मामा कडल्यान. ताणें अमृताक पारिसाक वचपाक फोर्सार केलें आनी थंयचे 'एकान द बोझान' हे नामनेचे कला संस्थेंत ताचें नांवूय घालें. अमृता मुळांतूच संवेदनशील. तातूंत ताका सांगात मेळ्ळो पारिसच्या उन्मुक्त, मेकळ्या वातावरणाचो. त्या वातावरणांत अमृताक फुलपाख्याचीं पाखां फुटलीं ना जाल्यारूच अजाप म्हणपाचें!

अमृता जातीचें सुंदर. पंजाबी आनी हंगेरियन सुंदरायेचो मेळ! तातूंत ताका तरातरांचीं न्हेसणां न्हेसपाचो शौक. केन्ना वेस्टर्न फॅशनांचे तरातरांचे ड्रेस तर केन्ना कपलाक बिंदी लावन भारतीय साडी. निकतेंच वयांत येवपी अमृतान चल्यांक पिशें लायिल्लें. ताचे भोंवतणीं वेगवेगळ्या तरनाट्यांची गर्दी आसताली. हाकाच लागून अमृताचीं एका फाटल्यान एक प्रेमप्रकरणां जायत रावलीं. तातूंत ह्याच काळार अमृताक पिशें लागलें गोगँ ह्या फामाद चित्रकाराचे चित्रशैलीचें. गोगँची शैली स्वैर आनी भटके मनोवृत्तीची. हे चित्रशैलीचो अमृताचे मुक्त जिणेचेर आनीकूय खर प्रभाव पडलो.

पारिसाक कलेचें शिक्षण घेतना अमृताचो कलागुरू आशिल्लो सीमाँ. अमृताच्या चित्रांत अमृताक जाल्ली स्त्रीत्वाची जाणविकाय आनी तिजे भितरलो मर्दानी जोम तिच्या चित्रांतल्यान जाणवता म्हणपाचें सगल्यांत आदीं सीमॉच्या लक्षांत आयलें. अमृताची रंगांची ओड आनी चित्रांतलो आवेग ताणें वळखलो आनी पारिसच्या स्टुडियोंच्या कोंदट, काळख्या वातावरणा परस भारतांतलें परजळीत वातावरण अमृताचे कलेक पुरक थारतलें म्हणपाचें ताणें पारखिलें. अमृताकूय तशेंच दिसतालें. सीमॉन अमृताक भारतांत वचपाक फाटबळ दिलें. पूण प्रस्न आशिल्लो असली स्वच्छंद धूव भारतीय बापायक परवडटली काय कितें..? अमृताविशीं, ताच्या वागपा विशीं उमराव सिंग शेरगिलाक येन्नाधर कल्पना आयिल्ली. तिच्या चारित्र्याविशीं आयकल्ल्यो गजाली आयकून अमृताची आवयूय अमृताचे चलणुकेर समाधानी नाशिल्ली. आवय बापायक अमृता भारतांत आयिल्लेंच नाका आशिल्लें. तें भारतांत आयलें आनी पारिसांतले वरींच बेजबाबदार वागलें जाल्यार आपली बदनामी जातली अशें तांकां दिसतालें.

जेन्ना ही गजाल अमृताक कळ्ळी तेन्ना आपले आवय-बापायच्या मनांतलो हो दुराग्रह पयस करपाची गरज आसा म्हणपाचें अमृताक जाणवलें. ताणें सरळ आपल्या बापायक चीट बरयली. तुमी भारतांत जें नांव जोडलां तें धुवेच्या मोगा पासत इबाडटलें अशें जर तुमकां दिसता जाल्यार तें सामकें चूक. तुमचो हो हुसको म्हाका होलमता आनी वायटूय दिसता. भारतांतले म्हजे वागणुकी विशीं तुमी निश्चिंत रावचें. हांवें म्हजें चारित्र्य घाणांक दवरूंक ना. जे कोण म्हाकां वळखूंक शकलेनात त्या मूर्ख, टवाळखोर लोकांच्या उलोवण्यांतल्यान तुमचें मत घडलां. असले धर्मकुड्डे, संकुचीत वृत्तीचे लोक संवसारभर आसात आनी भारतांतय आसात. तांचें घेवन बसपांत शाणेपण ना.

लोक कितें म्हणटात ताची म्हाकां पर्वा ना. असल्या मूर्ख आनी टवाळखोरां विशीं हांव म्हणटां. सभ्य आनी बुदवंतांचो म्हाकां आदर आसाच. लिंगीक गजालीं बाबतींत हांव बिनधास्त हें खरें. पूण म्हज्यांत आतां बदल जाला. कित्याक म्हाका भारतांत येवपाचें आसा तें म्हज्यांतले कलेच्या विकासा पासत. म्हाका भारताविशीं आस्था आसा, थंयची संस्कृती, थंयचे लोक, थंयचें साहित्य हे विशीं म्हाका कांयच खबर ना अशें जर तुमकां दिसता जाल्यार तें चूक आसा. तो तुमचो गैरसमज. म्हाका म्हजी कला विकसीत करूंक नव्या प्रेरणास्रोतांची गरज आसा आनी ती फकत भारतांतूच म्हाका मेळूंक पावतली हाची म्हाका खात्री जाल्या. भारतीय चित्रकला आनी शिल्पकलेचो आस्वाद कसो घेवप हें म्हाका आधुनीक कलेन शिकयलां. हांव युरोपाक येवंक नाशिल्लें जाल्यार म्हाका अजिंठ्यांतली कला समजूंक पावची नाशिल्ली.

आपल्या बापाय कडेन आपली भावना पत्रांतल्यान उक्तावन अमृता 1934 त अमृतसाराक आयलें. उपरांतचीं सात वर्सां ताणें सांवार आयिल्ले वरीं आपल्यांतली कला मुक्तपणान उधळ्ळी. हो काळ भारतीय कलाक्षितीजाचेर तितलोसो परजळीत नाशिल्लो. बदलाचें वारें निकतेंच व्हांवपाक लागिल्लें. अशे वेळार अमृतान आपले आपूण आपले भितरल्या चित्रकाराचो सोद घेत आपल्या मुळा



मेरेन प्रवास आरंभ केलो. त्या वेळार ताची पिराय 21 वर्सां आशिल्ली. हो प्रवास करतना तिका आनी हेरांकूय कल्पना नाशिल्ली ही चित्रकार अल्पजिवी. अल्पजिवी आसली तरी तिणें जीं चित्रां काडल्यांत तीं अजरंवर जातलीं.

भारतांत येवन सात वर्सां भितर अमृतान जीं चित्रां काडलीं त्या चित्रांनी आंतरराष्ट्रीय शीम हुपली. ताच्या चित्रांनी येवरोपी रंग आशिल्लो तसो पुराय भारतय आशिल्लो. अजंठा-वेरूळांतलीं शिल्पां तिणें अभ्यासलीं. समजून घेतलीं. आपले नदरेन कॅनवासाचेर हाडलीं. कन्याकुमारी मेरेन वचून श्रमजीवी अस्तुऱ्यांचे सुंदरायेचे रंग नियाळ्ळे आनी ते विस्कटावन कॅनवासाचेर दाखयले. हें सगळें करतना तिज्या जिवितांत कितलेच मोगी आयले आनी तांकां लागून तिज्या जिवितांत कितलेच वाद जाले. पूण तांची सावळी अमृतान आपल्या चित्रांचेर पडूंक दिली ना. समाजाचे नदरेन अमृताचें हें असलें वागप, असलें जिणें म्हळ्यार नितिमत्तेच्या भायलें. पूण सदांच ताका प्रस्न पडटालो आपले खुंयच्याय दादल्या कडेन जे संबंद आसात ते कसले प्रकारचे आसात हें समाज कशें वळखता? आपणें काय कोणाक ते सांगूंक ना आनी जे आपले इश्ट आसात तांकांय फुशारकी मारपाची कूय येवन आपले कडले संबंद ते रंगोवन सांगूंक वच्चेनात. कित्याक तातूंत सांगपा सारकें तर कांयच ना. इश्टागतीच्या काळांत जर दोगांयीय इत्सा जाली आनी तांणी एकमेकाचे संग तीन जर कुडीचें सूख घेतलें जाल्यार तो विशय समाजाचे चर्चेचो कसो जावं येता? समाजाचे चर्चेचो विशय आसूंक जाय ह्या संबंदांतल्यान जें एकमेकाक समजप जालें आनी तातूंतल्यान एके कलाकृतीचेर विचार जावन आपले कडल्यान निर्मिती जावंक पावली जाल्यार ती समाजाकूच देण आसतली. ती निर्मिती कशी आसा हाचेर विचार आनी चर्चा समाजांत घडूंक जाय. पूण जांकां सत कांयच खबर ना आनी जे आपले कल्पनेंतल्यान आपले वैचारीक कुवती प्रमाण जें कितें भंकस उलयतात वा बरयतात तातूंत सत कितलें आसता आनी अर्थ कितें आसा हो प्रस्न ताका पडटालो. अमृताचे नदरेन ह्यो असल्यो गजाली सदांच बीन म्हत्वाच्यो आशिल्ल्यो.

अमृताक एक धाकटी भयण आशिल्ली, इंदिरा. अमृता परस एकाच वर्सान ल्हान. आपल्याक समाजा विशीं पडिल्ले हे प्रस्न वा समाजाची तिच्या व्यक्तीगत जिवितांतलो हो अज्ञानाचेर आधारिल्लो धवळ अमृता पत्र बरोवन इंदिराक सांगताले. पत्रांतल्यान दोगांयचीय असल्या विशयांचेर भासाभास जाताली. तांचीं हीं पत्रां आज म्हजे सारको एखादलो अभ्यासाक घेता तेन्ना तातूंतल्यान कितल्याच गजालींचें वैचारीक उत्खनन जावंक पावता.

एका पत्रांत अमृता इंदिराक विचारता, लोक आपले विशीं हें कितें उलयतात वा कशे तरेन विचार करतात? हांवें सैमा भायलें कितें केलां? हांवें जुवानपणांत पावल घालां. म्हणटकच म्हजे भितर एके जुवान चलयेच्यो भावना वयर सरप हें सैमीकच न्हय? आपूण भुरगेपणार अशें करी नाशिल्लें. तेन्नाची ती गरज नाशिल्ली. तेन्नाची गरज वेगळे तरेची आसूं येता. पिराये प्रमाण गरजो बदलतात.

म्हज्यो जुवानपणा वयल्यो गरजो म्हाका होलमतात आनी तांचे मागणे प्रमाणें आपूण तांकां जाप दिता.

हे पिरायेर चल्यां विशीं आकर्शण दिसप, तांच्या सहवासाक वथरेवप ही पिरायेची गरज. ते पिरायेक फावो तशेंच तर हांव वागतां. जे चले म्हाका पळोवन म्हजे कडेन आकर्शीत जातात ते हांव आनी म्हजी कला तांकां आवडटा म्हण्णूच. म्हाका तरनाट्यां कडेन बौद्धीक संवाद करपाक आवडटात देखून तांचे वांगडा हांव वेळ सारतां,नृत्य करतां. वेगवेगळे तरनाटे म्हाका मेळिल्ल्यान तांचे भितरलें वेगळेपण म्हाका समजून घेवंक मेळटा. म्हजे जे इश्ट आसात ते म्हजे विशीं कांयच वायट उलयनात. पूण जे कोण म्हाका वळखनात तांचेच कडल्यान नाका जाल्लें उलवप जाता हाचें तिका अजाप दिसता आनी असल्यांक अमृता भिडमुर्वत धरी नासतना उजरावन काडटा. तेच वांगडा कोणाय भितर कलेचो अंश दिसलो जाल्यार ताका भोवमान दीत ताचे मुखार नतमस्तक जाता.

अमृताच्या ह्या असल्या सभावाक लागून अमृता जिवें आसतना ताच्या चित्रांची समिक्षा करपा कडेन कोणेंच भर दिलो ना. अमृताक हाचेंच दुखख जातालें. तें ताचीच जाप सोदतालें. आपलीं चित्रां ह्या लोकांक कळटात काय कळुनय हे लोक अनुंल्लेखान ताका मारूंक पळयताले? अमृताक प्रसिद्धीची हाव नाशिल्ली. ताका आपले कलेचेर पुराय विश्वास आशिल्लो. पूण लोकांची खास करून समिक्षकांची मानसिकताय ताका समजून घेवपाची आशिल्ली.

आज अमृताच्या चित्रांची मोलावणी जाता तेन्ना ह्या प्रस्नाची जाप अभ्यासकांक मेळटा. णव्वद वर्सां आदलो काळ आनी समाजाची मानसिकताय पळोवंक गेल्यार हो प्रस्न सुटावो जाता. अमृता ही पंजाबांतल्या एका खेड्यांतली चली चित्रकलेच्या मळार आपले ऐन विशींत येता कितें आनी आपल्या चित्रांतल्यान सरभोंवतणच्या समाजांतल्या बायलांचे अंदल्ले श्वास ,चिड्डल्लें जिवीत उक्तायता कितें आनी आपलें स्वताचें आनी हेरांचींय नग्न चित्रा काडटा कितें हाका लागून तेन्नाचे प्रस्थापीत चित्रकार सैरभैर जाल्ले. त्या भायर फकत समकालीनांचेरच न्हय तर प्रस्थापितांच्या चित्रांचेर ही तरनाटी परखडपणान मत मांडटा हाचो तांकां दुस्वास दिसतालो. ही मनोवृत्ती तशी सनातन. मागीर ती शंबर वर्सां आदली चित्रकले सारख्या मळा कडेन वा साहित्या कडेन संबंदीत आसूं वा आतांच्या काळार त्याच मळा कडेन संबंदीत आसूं. दुस्वास हो आसताच. आपल्याचेर उलोवपी तूं केन्नाचें वा केन्नाचो? हो प्रस्न प्रस्थापितां कडल्यान येताच आनी मागीर आपले हातांत ज्येश्ठत्वाक लागून आशिल्ल्या निर्णयात्मक अधिकारांचो दुरूपेग तांचे कडल्यान जाता. हाका लागून अभिव्यक्त जावपाक नवे विचार आंग मारतात. तें तशें मारपा फाटल्यान भंय जसो राजकी सत्ताधिशांचो आसता तसो तो कला आनी साहित्य सत्ताधिशांचोय आसता. मोस्त म्हूण कोणेंय आमच्या कोंकणीच्या साहित्यीक मळार नदर मारून पळोवं येता.

अमृता शेरगील असल्या दबावाक अनमनलें ना. आपलें मत परखडपणान कोणाक भिये नासतना मांडत रावलें. ताका लागून ताच्या चित्रकलेच्या मळार ताका हक्कान फावताल्यो त्यो गजाली मेळूंक पावल्यो नात. ताच्या बदलाक ताचें दादल्यां लागीं आशिल्ल्या संबंदाचेंच चर्वण चड आकांताळें जालें आनी मुखेल विशय जाणविकायेन कुशीक पडूंक लागलो. जेन्ना कर्तृत्वी व्यक्तीक आपल्या कर्तृत्वान वलांडूक जायना तेन्ना मागीर कर्तृत्वी व्यक्तीच्या चारित्र्याचीं कस्पटां सोदप सुरू जाता. अमृतांचे बाबतींतच न्हय दरेक परजळपी व्यक्तींच्या वाट्याक हेंच येता. सम





ाजाची भौतीक उदरगत जाता, बौद्धीकूय जाता पूण मानसीक वृत्ती शेकेता. ताका लागून स्वतंत्र विचारांनी आयुश्याचो अर्थ सोदप्यांक गरजे भायर मनस्ताप सोंसचे पडटात. असले विकृत हळशिकेंतल्यान तांकां कुशीकूय सरूंक मेळना आनी जिवितूय सारूंक मेळना.

अमृता प्रीतम जावं अमृता शेरगील. दोगांय कलावंत. दोगांय सुंदर, दोगांयचीय बुद्द तल्लाख, दोगांय कोणाची भीड मुर्वत बाळगिनासतना स्पश्ट उलोवपी. दोगांय स्वच्छंद आनी पुरायेन पारदर्शी आयुश्य जियेवपा पासत धडपडपी! पूण तांका तशें जगपाचो अधिकार ना असो समज समाजांतले मुखेल थेलये करून घेतात आनी मागीर तांचेर विस्वासून बाकिचेय लोक आपले हातांत फातर घेतात. शेवटी मारी माग्दालेनाचेर फातर शेवटुपीय हेच, येसू क्रिस्ताक खुर्सार मारपीय हेच आनी ताका पुनर्जिवीतूय करपी हेच. पूण ही सनातन प्रवृत्ती स्वतंत्र विचारांनी जिवीत जियेत ह्याच समाजाक कितें तरी आगळें वेगळें दिवंक प्रयत्न करप्यांचो मात जियेवपाचो अधिकार कोचून घेतात!

हे स्वतंत्रपणान जियेवपाचे खीण कोचून घेवपाचें कार्य फकत घरा भायल्यां कडल्यानूच घडटा तशें घरातले चार वणटी भितरल्यानूय घडटा. घरा भायले अदमासान,तर्कान एखादल्याचें व्यक्तीमत्व रंगयता आनी ती व्यक्ती अशीच आसूंक जाय म्हूण आपले मतींत थारायता. मागीर त्या मताचेर आपुणूच शिक्को मारून आपलें पुरती ताका मान्यताय दिता, मागीर आपलें मत हेंच खरें सत हें सिद्द करपाक तो मागीर आपलें हें काल्पनीक मत हेरांक सांगत सुट्टा. ताका बळ दिवपाक आपणेच तयार केल्ले पूण खरे दिसपी अशे पुरावे तयार करता. जांका तो हे पुरावे दिता ते खरे मानून आयकुपी ताच्या त्या मताक घटाय दिवपाक आपले म्हूण कांय पुरावे जोडटा. हे प्रक्रियेतल्यान ह्यो अफवा मागीर एक आकांताळें रूप घेता. लोकां मुखार तेंच सत म्हूण उबें रावता आनी मजेची गजाल म्हळ्यार जांचे विशीं हो राकेस तयार केला ते लोक मात मोन्यानी तोंडार बोट,हाताची घडी असले भुमिकेंत आपलें काम करीत रावतात. तांका पुरायेन खबर आसता, हो अफवांचो राकेस तयार करपी खंयचे खंय ना जावन वतले आनी अस्तीव आसतलें तें

आमचेंच. तें सासणाचें काय कांय खिणाचें हें आपली निर्मिती आनी काळ थारायतलो.

आतां हेंच पळयात, अमृता शेरगिलाचो बापूय उमराव सिंग शेरगिल त्या काळचो तसो एक व्हड फोटोग्राफर,बुद्धीवादी आनी विचारवंत आनी आवय मारी आन्तोआनेत गोतेस्मान त्या काळची नामनेची हंगेरियन कलाकार. दोगांय मोगान लग्न जालीं खरीं पूण दोगांयची संस्कृताय वेगवेगळी. हांगा हांचो मोग हो सोलमेटा पासत नाशिल्लो जाल्यार सर्वसामान्य मोगी आसतात तसल्यांतलो आशिल्लो. लाहोराक आयिल्ली ऑपेरांतली गावपी एक कलाकार आनी एक फोटोग्राफर मेळटात,वळख जाता, मोगांत पडटा,मागीर लग्ना उपरांतचो भोगाचो एक थारावीक काळ आसता तो उलगल्या उपरांत दोगांकूय जाणविकाय जाता आपली संस्कृताय वेगळी. मागीर तातूंतल्यान मतभेद, वादावदी, ताणतणाव..घरचें इबाडिल्लें वातावरण. त्या वातावरणांत अमृताचें भुरगेपण..ताचें तें चित्रांतल्या जगांत आपल्याचेंच अस्तित्व सोदीत वयर सरप...हें सगळें तशें दिसता तितलें सोंपे ना. अमृताच्या बापायन जो एक उत्कृश्ट फोटोग्राफर आशिल्लो ताणें भुरगेपणा वयल्या अमृताचे कितलेच फोटो काडिल्ले. कॅमेऱ्याची नदर जितली सशक्त आसता तितली मनशाची आसना. कॅमेरा त्या खिणाक जें टिपता तें खूब बारकायेन टिपता. अमृताचे त्या काळांतले ते फोटो जर अभ्यासत जाल्यार त्या फोटवांतल्यान अमृताचो मानसीक संघर्श पळोवंक मेळटा.

पंडित जवाहरलाल नेहरूंक अमृता खूब आवडटाली. अमृताकूय जवाहरलाल मित्र म्हूण आवडटालो. नेहरून अमृताक कितलींच पत्रां बरयलीं आनी अमृतानूय नेहरूक बरयलीं. उपरांतच्या काळांत तातूंतलीं खूबशीं पत्रां बापायन उपरांत बोवाळ बिवाळ जावंक नाका म्हूण लासून उडयलीं. तरी तातूंतलीं खूबशी आज सांपडटात. त्या पत्रांतल्यान नेहरू आनी अमृता हांचे कितले लागशिल्ले संबंध आशिल्ले ताची कल्पना येता. नेहरू हे कलासक्त म्हणपाचें जगजाहीर आसा. तांचो बायलां कडलोय मृदूभाव लिपून उरूंक ना. नेहरू आपली मेळटा तेन्ना हिसपा भायर तुस्त करता ती आयकून अमृता भुरकुटून,भुल्लुसून वचना. नेहरूंक बरयिल्ल्या पत्रांत अमृता स्पश्टपणान तांकां सांगता,जेन्ना तुमी आपल्या चित्रांचेर वयले वयर नदर भोंवडायतात तें पळयत जाल्यार तुमकां आपल्या चित्रांत विशेश रस आसा सो दिसना.

अमृताची कलेविशींची नदर अभिजात आशिल्ली. कले कडेन कोण खेळ मांडटा अशें दिसल्यार ती तो कोण हें पळय नासतना, भीड मुर्वत बाळगिनासतना ताका शेडायताली. मागीर तो नेहरू आसू वा आनीक कोणूय! ताच्या परिणामाची अमृतान पर्वा बाळगिली ना, फकत मोन्यानी सोंसलें. आपल्या मनांतलें हें वादळ अमृता आपले भयणीक पत्र बरोवन कळयतालें. आपूण एका निराश कालखंडांतल्यान वतां, हांव हताश आनी असमाधानी आसा..म्हजे आड कितल्योच शक्ती वावुरतात ताचे फाटलें कारण म्हाका सांपडना..

तशें पळोवंक गेल्यार असले पिडपी वावुरपी समाजांत सगळ्याच काळांत आसतात. तांचेर कितलें लक्ष दिवप तें दरेकल्यान थारावंक जाय. अमृतान तें निमण्या दिसांनी चडूच मनाक लावन घेतिल्लें म्हणपाचें ताच्या पत्रांतल्यान जाणवता.

अमृता 1941 वर्सा आपले 28 वर्सांचे पिरायेर हो संवसार सोडून गेलें. अमृता काळाच्या खूब आदीं जल्मलें आनी अस्तुरी म्हूण जल्मलें होच ताचो गुन्यांव थारलो अशें ताचीं चित्रां आनी पत्रां पळोवन होलमता.

अमृता प्रीतम आनी अमृता शेरगिल...दोनूय अमृता. दोगांयचें रसायन एक..दोनूय अमृता विमुक्त जियेल्यो. दोगांयचो निरंतर सोद चलतालो एका सोलमेटा खातीर, असो सोलमेट जो आपल्याक पुरायेन समजून आपले भितर पुरायेन समरस जावन वता. हें समरस जावप म्हळ्यार कितें हें तशें उक्तावप शक्य नासता.तें फकत समजप आसता.तें समजतना जी मनाची तडफड चलता ती मरणा परसूय खर आसता..तातूंतल्यान मेकळें जातलें जाल्यार अफवांच्या काळखांतल्यान भायर सरून तमसो मा अमृतगमय म्हणून भागचें ना. 'अमृता' गमय अशेंच म्हणचे पडटलें...

---

*मो. ९८२२१३६८८५, पणजी*



# पासपोर्ट टू हॅपिनेस




मीना काकोडकार

केंद्रीय साहित्य अकादेमी आनी हेर साबार पुरस्कारांनी सन्मानीत भोवआयामी साहित्यकार


'झोपाळो' एक सादीशी वस्त पूण म्हजे जिणेंत ताका एक वेगळेंच म्हत्त्व आसा. म्हज्या भुरगेपणाचो तो एक वेगळांव नज असो भाग म्हणूंक येता.

मात म्हजें भुरगेपण याद जाता तेन्ना फकत हो झोपाळोच न्हय तर तेन्नाचो तो वाठार, तीं मनशां, त्यो इश्टीणी, तीं सोयरीं, शेजारी-पाजारी त्यो घडणुको, त्यो सगल्यो गजाली त्या झोपाळ्या वांगडा झूलत दोळ्यां सामकार येतात.

यादींचें म्हणून सगलेंच नवलांचें. बटण लेगीत दामपाची गरज ना. खंयचो तरी एक खीण काळजाक स्पर्शून वता आनी यादी काजुले जावन लिकलिकूंक लागतात.

हे काजूले खंयच्या खांची कोनशांनी पावत आनी केन्ना कित्याचेर उजवाड घालीत सांगूंक येवचें ना. त्यो यादी भुरगेपणांतल्यो आसत जाल्यार मनाक खोस दिवन वतात...

पासपोर्ट टू हॅपीनेस म्हळ्यार जाता...

व्हिजा, बिजा कांय नाका.

काजुल्यांचो पासपोर्ट घेवपाचो आनी जाय थंय मनभोंवडी करपाची.

मुक्त, मेकळी, खोशेची....

000

तेन्ना आमी पणजे घाणेकाराल्या घरांत भाड्यान रावतालीं. आमच्या घरा फाटल्यान बोरकारां रावतालीं. दोनय घरां मदल्या जाग्यांत एक बांय आशिल्ली. सदांच उदकान भरिल्ली. पावसा दिसांनी, 'डरांव डरांव' करपी बेबे थंय आशि-कुशीक दिश्टी पडटाले.

नळ नाशिल्ले देखून बांयचें उदक हाडचें पडटालें.

दोड भरून बांयचें उदक घरा हाडपाचे ते दीस आशिल्ले. जायू दोड भरून उदक घेवन येतालें तेन्ना ताच्या कमरा वेले घागरींत उदक बुचुक्क बुचुक्क जातालें.

सद्दां वापरून आनी घांसून पुसून तांब्याची दोड लखलखीत आसताली.

आतां भशेन बाबर्डीशीं जावन माळ्यार पडूंक नाशिल्लीं.

हालीं कांय जाणांगेर ह्यो दोडी बऱ्यो लखलखीत जावन अँन्टीक पीस कसो सालांत मिरयतात.

आमगेले दोडीचें बिराड माळ्यार..

नशीब आसता दर एके दोडीचें..

आमच्या ह्या घराक फुडलें दार आनी मागीलदार आशिल्लें. मागीलदारा भायल्या पोरसांत म्हजे आवयन - माईन- म्हर्शींग, पोपायो, केळी बी रोयिल्ल्यो, तरेकवार केळी...

रसबाळीं, बीकबाळीं, वेलची, सावरबोंडीं, सालदार्टी, मंयडोळीं, खापरी...

जायते पावटी एकाच वांगडा कितल्योश्योच केळी व्हिताल्यो. तांबडींच बोंडां तकल्यो वयर काडटालीं.

घड जून जातकीर शेजरां पाजरां, सोयऱ्यां धायऱ्यांगेर केळ्या फेणे धाडप जातालें.

एक घड आमी राजवाक हुमकळांयतालीं आनी केळीं पिकतात तशीं आमी काडून खातालीं.

त्या दिसांनीं घरांत केळी बोंडांची भाजी, मंयडोळ्या केळ्यांचो हालवो, सावरबोंड्या केळ्यांच्यो फोडी बी चालूच आसताल्यो.

म्हर्शींग राशीनीं सांगो दितालो.

ह्यो सांगोय वाडोभर पावताल्यो.

पोरसाक धव्या आनी हळडुव्या गोटलांची वंय आशिल्ली. गोटलांचे कळे आपल्यो तकल्यो वयर काडूंक लागले म्हणटकीर ते काडून होटयेंत भरून हाडपाचें काम म्हजें आसतालें आनी कळ्यां मदीं रतन आबोलीं, बोकोड्याचीं पानां आनी कलाबून बी धरून तांच्यो फांतयो घालपाचें काम माई करताली. विणयांचेर आनी आंबाड्यांचेर फांतयो माळून मिरोवपाचे ते दीस आसले.

आंबाडो नागडो दवरप बायलांक आवडनासलें.

आतां फांती माळपी तकल्यो उण्यो जाल्यात. तेन्ना every फांती had its own आंबाडो.

पोरसाच्या एका कोनशाक धवे आनी तांबडे वाळचे भाजयेच्यो वाली एकामेकाच्या सांगातान माटवार चडटाल्यो. तांच्या पानांचीं भजीं, नाजाल्यार सुगटां घालून केल्लें तोणाक बेस बरें जातालें. वालीचीं पांचवीं फळां- जांभळी काळीं जातकीर तीं पाटयेक घश्टुन पाटी काळीच करप हो एक उमेद दिवपी उद्योग आशिल्लो.

गांगू नांवाचो एक मानाय अर्दी मर्दी आमगेर कामाक येतालो. ताच्या आदारान माई घोसाळीं, भेंडे, वांयगीं बी रोयताली. मागीर आमकां भाजी विकती हाडचीच पडऽ नासली.

पोरसांत फुडले वटेन तरेकवार फुलझाडां रोयिल्लीं. आतांच्या म्हज्या घराच्या पोरसाचें बीं तेन्नाच्या माईच्या पोरसांत रूजिल्लें हें आतां जाणवता.

000

फुडले वटेन एक राजआंवाळ्याचें झाड आशिल्लें. ताका कुचकुचीत राजआंवाळे लागताले. कांय पिकून सकल पडटाले. आंबट गोड. माई तांचें गोड लोणचें करताली.

राजआंवाळ्याच्या आयल्यान बाबान म्हजे खातीर एक व्हडलो झोपाळो उबो केल्लो. होच तो 'द झोपाळो'. दोन वटेन लाकडाचे व्हडले खांबे, तांचेर एक आडवी पाटी. ताका लोखणाचीं आरगोलां आनी त्या आरगोलांत लोखणाच्यो सळयो. सकल दोग जाणांक वांगडा बसूं येता येदी रूंद लाकडाची फळी.

ह्या झोपाळ्याक लागून आमचें घर 'झोपाळ्याचें घर' म्हणून फामाद जाल्लें. भुरग्यांक हो झोपाळो म्हळ्यार व्हड आकर्शण आशिल्लें. म्हज्यो इश्टीणी तर फकत सुटये दिसांनीच न्हय तर हरशीं लेगीत आमगेर झोपाळ्यार बसूंक



येताल्यो.

झोपाळो ऊंच ऊंच व्हरून आवाळ्याचे खांदयेक पांय लावन राजआंवाळे टपटपावंक खूब मजा येताली. त्या दिसांनी 'बैजूबावरा' हो सिनेमा लागिल्लो. त्या सिनेमांतलें – 'तूं गंगाकी मौज मै जमुना की धारा' हें पद आमकां खूब आवडटालें. तातूंत हिरो होडयेंत बसून हें पद म्हणटा.

झोपाळो हीच होडी जाल्ले भशेन तो झेलयत आमी हें पद व्हडल्यान म्हणटालीं.

आयज लेगीत ह्यो म्हज्यो इश्टिणी म्हाका मेळ्ळ्यो जाल्यार त्या झोपाळ्याच्यो यादी काडटात.

आयज तो झोपाळोच न्हय तर घर लेगीत उरूंक ना. पूण झोपाळो नासलो तरी 'झोपाळ्यावांचून झुलायचें ' हें यादींत शक्य आसा.

000

त्या तेंपार लोकांचें एकामेकांगेर येवप वचप आसतालें. आयिल्ल्या मनशाक हुनहुनीत येवकार मेळटालो. फोन बी करून तुमगेर येवूं काय म्हणून परवानगी घेवची पडऽनासली कारण मुळांत सगळ्यांगेर फोनच नासताले .

माई महिला मंडळाची वांगडी आशिल्ली आनी तिचें आनी हेर वांगड्यांचें एकामेकांगेर यो वच चालू आसतालें. माई सदांच म्हाका घेवन वताली. जाणटीं भितर गजाली करतालीं तेन्ना भुरगीं भायर खेळटालीं.

माधुरी मावशी म्हणून माईली इश्टीण आशिल्ली. तांगेर कोण ल्हान भुरगीं नाशिल्लीं म्हणून म्हाका तांगेर वचूंक आवडनाशिल्लें. पूण म्हाका माई वांगडा तिगेर वच्चें पडटालें. हांव मागीर तांच्यो गजाली आयकत आनी च्या केन्ना येतली ताची वाट पळयत थंय बसून रावतालें.

माधुरी मावशी केन्ना केन्ना लक्तुबायेन म्हजे कडेन गजाली करूंक लागताली. शाळेंतल्यो गजाली सांग म्हणटाली. केन्ना केन्ना पाढे पसून म्हणूक सांगताली. 'तेरा आठी कितले गो बाय?' अशें तिणें विचारतकीर म्हज्या कपलाक आठी पडटाली. लोकांगेर वतात थंय पाढे म्हणून विचारप आसतात? एक दीस हांवें म्हजे गिन्यान तिका दाखोवन दिवपाचें थारायलें.

च्या पितां पिता हांवें म्हळें,''माधुरी मावशे, भुरगीं कशीं जातात तें मगे म्हाका खबर आसा.''

माधुरी मावशेन 'आगे बायेऽऽ' म्हणून आपल्या तोंडार हात दवरलो. माईक च्या पितना उस्तूरें गेलें. मुळांत माईकय बी म्हज्या त्या गिन्यानाची सुलूस नाशिल्ली. भुरग्यांक हें असलें शिक्षण दिवपाचे ते दीस नासले.

म्हजी पिराय तेन्ना णव–धा वर्सांची.

हें गिन्यान म्हाका कशें मेळ्ळें तें सारकें याद ना. चड करून तें पिकेनिनान दिला आसतलें. पिकेनीन कोण हें

फुडें कळटलें.

पोट उकतें जावन भुरगीं भायर येतात अशें जें जाणटी सांगतालीं तें फट. भुरगीं कशीं भायर येतात हें गिन्यान म्हाका प्राप्त जाल्लें. पूण मुळांत भुरगीं भितर कशीं पावतात हें कळूंक पावूं नाशिल्लें.

अर्दकुट्या गिन्यानाचेर लेगीत धादोशी जावपाची ती पिराय आशिल्ली. मुळांत पुराय गिन्यान आपल्याक ना हें लेगीत खबर नासतालें. माधुरी मावशेन हांसत म्हळें, "सामकी होळो गो बाये तुजी धूव!"

'होळो' ह्या उतराचो अर्थ म्हाका खबर नाशिल्लो. मुळांत तो बरो काय वायट हेंय खबर नाशिल्लें, तरीकय घरा पावतकीर धीर करून माईक ताचो अर्थ विचारपाचें हांवें थारायलें.

पूण घरा वतकीर लोकांगेर हांव फुरफुरपणां करतां म्हणून माईन म्हाका बरेंच तापयलें आनी हांव होळ्याक विसरून गेलें.

000

आमच्या शेजरा लोबो फामील रावताली. आमच्या दोनय कुटूंबां मदीं दाट इश्टागत आशिल्ली. आमच्या दोगांयच्या घरां मदीं फकत एक दुरीग आशिल्लें. त्या दुरगा वेल्यान तांचे केक, दोस, बिबींका आनी आमचीं खतखतीं, लाडू, हुमणां आनी तोणाकां एकमेकांगेर आयात निर्यात जातालीं.

लोबोली जाणटेली आव्हो दीसभर क्रोशे विणत आसताली आनी म्हजी खूब अपुरबाय करताली. आव्होक तीन पूत आनी एक धूव.

व्हडलो पूत पुर्तुगालाक आसतालो. दुसरो पूत आनी धूव आंकवार. तिसरो पूत काजारी. तीं सगलीं एकठांय रावतालीं. तांगेर एक मारी म्हणून पोसकेंय आशिल्लें.

तिसऱ्या पुताची एकच धूव बियात्रीज- तिका सगलीं अपुरबायेन पिकेनीन म्हणटाली. हेंच तें भोव गिन्यानी पिकेनीन.

तें म्हजे बरोबरचें पूण ताचें गिन्यान हिसपा भायलें. म्हाकाय हुशार करपाचो तें आपलेपरीन यत्न करतालें. पूण म्हजी तकली ताचे भशेन वांवांनी धांवनासली तर वेतानींच फुडें सरताली.

लोबो फामील आमकां सामकी घरच्यां भशेन आशिल्ली. कार्निव्हालाक पिकेनिनाची मांय णववारी कापड न्हेसोवन घेवंक माई म्हऱ्यांत येताली.

माई तिका आपलो शालू न्हेसयताली. आपलीं भांगरां शिंगरां, वज्रां वेडी तिका घालताली.

आपलीं भांगरां शिंगरां हुस्क्या मेकळीं दुसऱ्यांक वापरूंक दिवपाचे ते दीस आशिल्ले.

000

आमचे गोटलां वंये पेल्यान एक पांयवाट आशिल्ली. तिका तेंकून भागें आका, ताचो घोव दत्तू, धूव देवयानी आनी दोन पूत एके खोपींत रावतालीं.

देवयानी म्हजे बराबरचें पूण तें शाळेंत वचनासलें. भाग्याआका वांगडा वावराक वतालें. ताचे दोनय ल्हान भाव मात शाळेंत वताले.

देवयानी शाळेंत कित्याक वचना हें म्हाका कळनासलें.

एक दीस हांवें भाग्याआकाक विचारलें जाल्यार तें म्हणूंक लागलें, - बाये तें सामकें धोणें. त्येका कित्याक जायी शाळा आनी बिळा?

पूण शाळेंत धाडी नासतना देवयानी धोणें हें भाग्याकाक कशें कळ्ळें हें म्हाका कुवाडें आशिल्लें.

दत्तू सद्दां पिवन घरा येतालो. मागीर ताचीं आनी भाग्याकाचीं व्हडलीं झगडीं जातालीं. दत्तू आयदनां बी शेंवटून मारतालो आनी भाग्याकाक बडयतालो.

एक दीस दत्तून चडच केलें.

दनपारचो सोरो पिवन आयलो आनी आतां म्हाका कोंबडेंचें मट्टाण करून वाड म्हणून थयथयाट करूंक लागलो.

भाग्याकाक मारली तिडक.

"मेल्ल्या, घरांत ना पेजे निवळ आनी तुका कोंबडेचें मट्टाण जायें? राव तुजें घट्टाण करतां" अशें म्हणून ताणें थंय आशिल्ली कोळसुली दत्तूचे तकलेर मारली...

दत्तू शेंवटून खोपी भायर पडलो.

तेवटेन वचपी एका दोगांनी तें पळयलें आनी भाग्यान दत्तूक बडयलो ही गजाल दत्तूचे सोऱ्या गादयेर लेगीत पावली.

लोक मागीर, 'दत्तू कोळसुलेक चेंप पडलें काय तुका रे?' अशें म्हणून ताचीं फकाणां मारताले.

000

मे म्हयन्याचे सुटयेंत म्हजी मुंबयची मावशी आपल्या भुरग्यांक घेवन आमगेर रावंक येताली.

तिचो चलो दिपू म्हजे बराबरचो आनी धूव चिनू ल्हान. माई आनी म्हज्यो हेर मावश्यो णववारी कापड न्हेंसताल्यो. मात ही मुंबयची मावशी पांच वारी साडी न्हेसताली. मुंबय सावन ती म्हाका तरेकवार रिबीनी, गोंडे, फॅन्सी नॅकलेस बी घेवन येताली. मे म्हयनो येवपाची हांव साम की वाट पळयतालें.

दिपू सामकोच आडांगी आशिल्लो. आमच्या टॉमीची तो चडच फाट घेतालो. बेठीच ताची शेपडी ओड, न्हिदिल्ले कडेन ताचेर खोंट घाल अशें करीत आसतालो.

टॉमी बाबडो मोन्यांनी सगलें सोंसतालो. म्हाका मात शीट्ट जातालें. पूण मावशेक वायट दिसतलें म्हणून म्हाका ओगी रावचें पडटालें. तरीकय हांव दिपूक भिश्टायतालें. 'दिपू तुला टॉमी चावणार हं' म्हणटालें.

दिपू नेट्टान म्हणटालो, ''हॅट ! तो काय चावणार? तो तर अगदी मांजर आहे..!''

टॉमीन बाबड्यान खूब पासियेंस काडलें आनी अती जालें तेन्ना कच्च करून दिपूचो हात धरलो. सोडच ना. वेल्यान गुर्र गुर्र करूंक लागलो.

दिपू गर्भगळीत.

दांत लागले नात पूण त्या दिसा सावन दिपू टॉमीचे वाटेक केन्ना गेलो ना..

000

दिपूक झोपाळ्याचेर बसूंक आवडटालें. तो म्हजे परस लांब आशिल्ल्यान आंवाळ्याचे खांदयेक ताचे पांय सहज लागताले. उबो रावनय तो झोपाळो वयर वयर व्हरतालो. आमीय व्हरतालीं पूण दिपू इतल्या नेटान न्हय. तो पडत म्हणून म्हाका भंय दिसतालो.

''दिपू, झोका सावकाश घे ना रे,'' अशें हांव ताका सांगतालें. आनी दिपू म्हाका 'घाबरट कुठली' म्हणून चाळयतालो.

एक दीस मावशी चिनूक घेवन सुमित्रा आत्यागेर गेल्ली. सुमित्रा आतें आमच्या घरा पसून पयस न्हय, पूण सामकें लागींय राव नासलें. चलत गेल्यार धा मिनटां लागतालीं. धांवत गेल्यार उणीं लागतात हें म्हाका त्या दिसा समजलें.

जालें अशें...

माई, हांव, दिपू आनी टॉमी इतलींच घरांत आशिल्लीं. माई रांदचे कुडींत चिनूचे आवडीचे पिठ्या लाडू वळूंक बशिल्ली. दिपू झोपाळ्याचेर उबो रावन वयर वयर वयर



व्हरतालो. तो पडत म्हणून म्हाका भंय दिसतालो.

पोर सामको नांवाडगो..ताचेर लक्ष दवर म्हणून माईन म्हाका सांगिल्लें.

पूण ताका आडायल्यार तो म्हाका घाबरट म्हणटलो म्हणून हांव मोन्यांनी ताचीं कर्तुपां पळयतालें.

इतल्यांत दिपून म्हळें, ''ए बघ हं मी काय करतो ते.''

''दिपू, नको हं तूं कांही करूंनकोस.'' हांव आड्डलें. पूण म्हाका चाळयत दिपून फळये वयलो एक पांय वयर काडलो आनी तो आंवाळ्याचे खांदयेक तेकोवंक लागलो.

पूण ती सर्कस ताका जमली ना. आनी हात सुटून तो झोपाळ्या वेल्यान ढण्ण करून सकल पडलो. ताणें उठपाचो यत्न केलो तेन्ना झोपाळ्याचें हालतालें तें फळें येवन परत ताचे तकलेक आपटलें.

''मेलो, मेलो!'' दिपू आडल्लो.

ताचे तकलेक कोक जावन रगत व्हावतालें. टॉमीन

भुकून घर माथ्यार घेतलें. हांव किळच्यो मारीत माई म्हऱ्यांत धांवलें.

"दिपू मेलो गे माई..." हांवें रडत सांगले.

माई आबूज जावन लाडू थंयच उडोवन भायर आयली. तेदोळ म्हणसर झोपाळो हालपाचो बंद जाल्लो आनी दिपूय मोनो जाल्लो.

भाग्याका बी धांवून आयलीं. सगलोच बोवाळ.

"धांव बेगीन मावशेक आपोवन हाड." माईन म्हाका सांगलें.

हांव कुल्यांक पांय तेंकोवन धांवत सुटलें. बद्द सुमित्रा आत्यागेर...

पांच मिणटांत हांव तांगेर पावलें.

"मावशें, दिपू झोपाळ्यावेल्यान पडलो आनी ताका व्हडली कोक जाल्या. बेगीन यो." हांवें एका धपक्यांत सांगून उडयलें.

मावशी ताकतिकेन उठली.

चिनू व्हडल्यान रडूंक लागलें. मावशेन ताका हाण्डीर मारलें आनी सुमित्रा आत्या सकट आमची पालखी घरा कडेन आयली.

तेदोळ म्हणसर दोतोर देसाय आमगेर पाविल्लो.

दिपूच्या कपलाक कोंक जाल्ली. ते भायर हात पांय झरकटिल्ले. आवयक पळोवन दिपूक रडूंक आयलें.

"कशाला बसला होतास झोपाळ्यावर?" मावशी तापली.

"मी बसलो नव्हतो मम्मा,उभा होतो?" दिपून आपलो आज्ञाधारकपणा दाखोवपाचो यत्न केलो.

"मावशे, तो एका पांयार उबो आशिल्लो झोपाळ्याचेर आनी दुसरो पांय आंवाळेचे खांदयेक लायतालो." हांवें उरिल्ली म्हायती दिली.

माईन म्हजेर धेंगसो घालो.

मावशेन दिपूचे फाटीर धपको घालो.

दिपूच्या कपलाक चार पोंत पडले.

राती कडेन ताका सणसणीत जोर आयलो.

दुसऱ्या दिसा बाबान गांगूकडल्यान आंवाळ्याच्यो खांदयो संवकळायल्यो.

इतलेंच न्हय तर दिपू परत झोपाळ्याचेर बसून नाडपेन्ना करत म्हणून व्हडली लोखणी सरपळी हाडून झोपाळ्याक आनी खांब्या भोवतणी घाली.



आनी ताका कुलूपय लायलें.

झोपाळो बाबडो बंदखणींत पडलो.

हांव आनी म्हज्यो इश्टीणी सामक्यो बेजार जाल्यो.

टॉमी लेगीत बेजार जालो आसतलो. कारण केन्ना केन्ना तो आनी हांव त्या झोपाळ्याचेर बसून झेलतालीं आनी ताका एकल्याक लेगीत झोपाळ्याचेर बसून घराची राखण करूंक आवडटालें.

मावशी भुरग्यांक घेवन परत मुंबय वतकीर झोपाळ्याची बंदखण सोंपली. तो परत आमच्या वांगडा ऊंच ऊंच झेलूंक लागलो.

'तू गंगा की मौज मैं जमुना की धारा' च्या तालार धोलूंक लागलो.

यादींचे काजुले-तो झोपाळो, तें घर, तें पोरसूं, ते शेजारी, इश्टीणी, सोयरीं धायरीं, तो वांटार, त्यो घडणुको-ह्या सगल्यांचेर लिकलिकून ल्हवूच परत यादींत वचून लिपले.

घडये परत एकादरो खीण येतलो आनी तें परत लिकलिकून म्हणटलें, याद आसा न्हय?

तांकां काळ-वेळ लागच ना...

देखून हांव पासपोर्ट तयारच दवरतां..

पासपोर्ट टू हॅपिनेस...

***मडगांव-गोंय मो.८०८७७८-८०५०***



# नितळ



**अरुण काकोडकार**
कथा आनी ललित लेखनांत फिशाल

आसावगीक एकदम जाग आयली. न्हिद तशी सारकी जावंक नाशिल्ली. दोळे उकते करून ताणें पळयलें. गुडुप्प काळोख... ए.सी. बंद जाल्लो. फॅन चालू आशिल्लो. मागीर ताचे लक्षांत आयलें, लायट गेल्ली.

इन्व्हर्टराक लागून फॅन चलतालो.

बाज्जे वयल्यान उठून जनेलांतल्या हारशांतल्यान ताणें भायर पळयलें. नेटान वारो सुटिल्लो आनी पावसाच्यो दडको रकताल्यो. वाऱ्याच्या नेटान बाल्कनींतले पत्रे हालताले. काळखांत एक एक पावल घालीत तें भुरग्यांच्या रुमांत आयलें. नायट लॅम्प पेटयलो. दोगांय भुरगीं अवनी आनी आयुष सुस्त न्हिदिल्लीं. ताणें तांचीं पांगरूणां तांचेर सारकीं घालीं आनी परत आपल्या बेडरूमांत आयलें. अळंग बाज्जेर पडलें. राजेश जागो आसा काय ना ताणें अदमास घेतलो. काळखांत कांय कळनाशिल्लें.

राजेशाचेर खूब कितें टेन्शन आयलां हें ताका सम जतालें. पुणून ताका कसो समजावप हें ताका कळनाशिल्लें. सकाळीं ताच्या सस्पेन्शनाची खबर कळना फुडें तें गडबडलें, मनांतल्यान हाल्लें. ताणें ताका ऑफीसांत ताच्या मोबायलाचेर फोन केलो. तो फोन काडी नाशिल्लो. घरांत आयले उपरांत तरी आपल्याक तो सांगतलो अशें ताका दिसतालें. पुणून तो ओग्गी आशिल्लो. जरी ताणें ताका विचारिल्लें जाल्यार लेगीत तो म्हणपाचो, 'कांय ना गो. वेव्हारांत केन्नाय अशें घडटा. बशिल्ले कडेन आंगलट येता!' ताचीं तीं थारावीक उतरां ताका खबर आशिल्लीं. येदी व्हडली गजाल आनी तो ती कांय न्हयशी करून उडयतालो.

भायर पावस घोग्यांनी पडटालो. मर्दी मर्दी जोगलावतालें. भायर सगळे इतल्याक लायट नाशिल्ली.

आसावरीक भंय सो दिसपाक लागलो. राजेशाक उठोवंचो अशें ताका दिसपाक लागलें. पुणून तें दोळे धांपून तशेंच पडून रावलें. ताचे दोळे भरून आयले.

आयची न्यूज चॅनेलावेली ती बातमी! अफरातफराच्या आरोपा वयल्यान राजेशाच्या सस्पेन्शनाची बातमी व्हडल्या अक्षरांत दिल्ली. वांगडा ताचो फोटू. आसावरीचें सगळें आंग थंड पडलें. हाता पांयाची सगळी शक्त वता अशें ताका दिसलें. हालींसराक राजेशाचें वागप ताका बरें लागनाशिल्लें. तो आपल्याच जगांत आसतालो. सदांच घरा उसरां येतालो. कितेंय विचारल्यार तोंड फिरोवन बसतालो आनी म्हणटालो, "कितें बारीक बारीक विचारता तूं? म्हज्या ऑफीसाचे भानगडींत तूं पडूं नाका." तें मागीर तोंड धांपून रावतालें. मनांत एक हुस्को आसतालो..आनी आतां जाता ती बदनामी इतल्या वयल्या हुद्याचेर आसतना जाल्या ती निंदा, नालस्ती.. आयज मेरेन मानान,व्हडपणान जियेलीं. आयुश्यांत कितल्यो नडी अडचणी, संकश्टां आयलीं. पूण अशे म ानहानीचे प्रसंग मात केन्नाच आयलेनात.

कितलो वेळ मेरेन तें चिंततालें. मनांतलो घुस्मटमार वाडत वतालो. पावसाचो गडगड आनी जोगलांचो उजवाड जनेलांच्या हारशांतल्यान दिसतालो. भयभीत जावन ताची नदर एक सारकी भायले वटेन वताली

फाटल्या वर्सांच्यो यादी अचकीत ताच्या दोळ्यांच्या पड्ड्या वयल्यान एक एक करून वचत रावल्यो. बावीस वर्सां पयलींचो तांचो लग्नाचो सुवाळो, तो झगमगतो थाटमाट, सव्या वयलीं मंगलाश्टकां ताच्या कानांत घुमत रावलीं..

***

दीस कशे अत्तर शिंपडायल्ले वरी वताले. निकतीच वळख जाल्ली. दोगांय मोगान पिशीं जाल्लीं. आसावरीचें देखणें रुप, लांब, मोव, तांबशे कशे केंस! पातकड्यां आड दडिल्ले निरागस बदामी दोळे..ताचो मध्यम लांबायेचो रेखीव आंगलोट. बरी साडी न्हेसून तें येतालें तेन्ना ताचें गोरें आंग, ताचीं नाजूक पावलां, मुमुरखो हांसो! तो एक सारको ताका पळयत रावतालो.तरणायेची धुंदी भरिल्ली, तातूंतच मोगाच्यो चांदराती उजळटाल्यो. दोगांय मदलो लागसार वाडत वतालो. सगळ्यो घटका मोयपासांत चिंब भिजताल्यो..

इल्लेंशें दोन रुमांचें बिराड. पुणून तें सजोवपाक आसावरीक वेळ पावनाशिल्लो. तो ऑफीसांत गेलो तशें तें एकलें जातालें. सांजवेळा ताचो येवपाचो वेळ जालो तशें तें गॅलरींत उबें रावन ताची वाट पळयतालें. वेळ पासार करपाक घरा मुखार क्रिकेट खेळटल्या भुरग्यांक पळयतालें. रस्त्या वयल्यान येता वतल्यांक पळयत ताचो वेळ वतालो. राजेशाक पावपाक कळाव जालो तशे तें काचाबूल जातालें. तो येना फुडें ताका तें च्या-खावंक हाडून दितालें. सगळो वेळ ताचे भोंवतणी उरतालें... सुटयेच्या दिसांनी एकामेकांक तेंकून तीं फिरपाक वतालीं तेन्ना कॉलनीतले लोक तांकां पळयत रावताले. नवेंच लग्न जाल्लें जोडपें. लोकांच्यो नदरो तांचेर वताल्यो. कांय जाण तांची मस्कऱ्यो करताले, कांय जाण तोखणाय करताले. हांसत हांसत तें तांकां हटकीतालें. सगळ्यां लागीं हांसून उलयतालें...एकामेकांच्या सांगातांत दीस सरताले. कानांतली कुजबज, स्पर्शांतली गोडी, दोळ्यांतलीं सपनां, धादोसकायेन मन भरून येतालें.

आनी एक दिसा मजाच जाली. तें ताची वाट पळयत बसलें. तो येतासो पळोवन दारा फाटल्यान लिपून रावलें. तो घरांत भितर आयलो. तें खंयच दिसना जातकीर ताची नदर सगळे कडेन भिरभिरपाक लागली. एकदम तें ताचे सरीं आयलें. ताका येवन तेकलें.

" हें कितें? कसली नविदाद शी?" ताणें अजापान विचारलें.



" हय, एक नविदाद आसा." लजत लजत आंग मोडत हळूच ताणें राजेशाच्या कानांत सागलें.

" आं अशें आसा तर!" दोळे मिचकायत राजेशान म्हळें. तें आनीकय लजलें. मान बागोवन मुमुरखें हांसत तें एक सारकें ताच्या तोंडा कडेन पळयत रावलें. राजेशाक खूब खोस जाली. आसावरीक म्हऱ्यांत ओडीत तो ताका सांसपीत रावलो.

***

दीस कशे भुरुभुरू करून वताले. अवनीच्या जल्मा उपरांत दोन वर्सांनी आयुषाचो जल्म जालो. आसावरीचो सगळो वेळ भुरग्यां बराबर वतालो. आतऱ्या पयऱ्यान ताचें गांवांत वचप जातालें. गांवांत वतकीर आई-बाबा, राजदीप, रेश्मा वांगडा बरी मजा येताली. दोगांय भुरग्यांक आजो, आजी, राजदीपकाका, रेश्माआतीची माया लागिल्ली. चवथीक, दिवाळेक, हेर सुटयेच्या दिसांनी थंय वचप जातालें.

राजदीपाचें इंजीनियरिंग शिकप पुराय जाल्लें. ताका पुण्यांत आय.टी. कंपनींत नोकरी लागली. 'जांव, बरें जालें.' आसावरी चिंततालें. भांवडाच्या शिक्षणाक राजेशाक हातभार लावचो पडटालो. रेश्माच्या लग्नाची तयारी चलताली. बाबाचे फोन येताले. आय.टी.इंजीनियर जांवय मेळिल्ल्यान लग्न थाटांत करपाचो बाबाचो विचार आशिल्लो. पयशांची गरज आशिल्ली. थोडी कितें मजत राजेशाक करची पडटली.

राजेशाच्यो जबाबदाऱ्यो वाडल्यात. तातूंत आनी तो ओनरशीप फ्लॅट घेवपाची तजवीज करतालो. भरमसाठ घरभाडें दिवचे परस फ्लॅट घेतिल्लो बरो अशें ताका दिसतालें. सरकारी नोकरी.जेमतेम पगार पावनाशिल्लो. गाडी घेवपाक बँकेचें रीण काडिल्लें. आनी आतां घराचें रीण. अर्दो पगार रिणाचे हप्ते भरपाक वताले. आसावरी सगळें पळयतालें. तें ताका समजायतालें, सगळें एकाच बराबर कित्याक जाय आशिल्लें? गाडीय बी, घरय बी! आनी थोडे दीस रावल्यार कितें जातलें आशिल्लें?

" तूं समजना आशू, ते ते वेळार तशें तशें करपाचें आसता. म्हजे बराबरचे इश्ट सहकारी खंय खंय पावले, जाणा तूं? आमी आसा थंयच आसात. धडपड केले बगर कांय मेळना. तांच्यो बायलो जोडटात. हांगां सगळें म्हजेर एकल्याचेरच पडटा." केन्नाय तो असो ओग काडटालो.

तेन्ना मागीर आसावरी कांय उलयनाशिल्लें. तोंडाक तोंड लागत म्हण तोंड धांपून रावतालें. मनांतल्या मनांत

घुस्मट्टालें. राजेशाची तांक कितली मेरेन आसा हाचो ताका अदमास आसतालो. तो धडपडी आसा. म्हत्वाकांक्षी आसा. ताका फुडें फुडें वचपाचें आसा. यु.पी.एस.सी.चे परिक्षे खातीर तो अभ्यास करता. मदीं मदीं मुंबय वचून पूर्वपरिक्षेची तयारी करता.

निमाणे ही धडपड कित्या खातीर? सगळ्या कश्टांची बेरीज केन्ना करूंक येता व्हय? धांवपळीच्या वेव्हारीक रस्त्यार एकाद्रो गुलमोहर आसूं येता. पुणून जाय तो रस्तो रोकडोच खंय मेळटा? तेखातीर पाशिंयेंस आसूंकच जाय! अख्खें मळब एकदम वेंगेंत घेवंक येना.ते खातीर आपल्याक उखलूंक येता तेदेंच मळब सोदचें पडटा.

हांव जोडना ही ताची निर्शेणी. आतां तोंडसूख घेवन कितें जावपाचें आसा? हांव सामान्य हें समजूनच ताणें म्हजे वांगडा लग्न केलें काय ना? आतां येवजील्यार दिसता, म्हजी योग्यताय कितें आसा हें म्हाका ते वयार कळ्ळेंच ना. हांव ग्रॅज्युएट जालें आनी रोकडेंच आमचें लग्न जालें. नव्या संवसारांत घुस्पून उरलें. हे घुस्पावणेंत म्हजीं पावलां चलपाचींच विसरलें. राजेशाक म्हजें सर्वस्व मानलें. ताचें वागप, वावरप म्हजो तोल सांबाळून सगळें सोंसलें. आतां इतल्या वर्सांनी नोकरी सोदप? नोकरेचो कसलोच अणभव म्हाकां ना.भुरगीं व्हड जातात. सगळो वेळ तांचे मदीं वता!

कितलो वेळ मेरेन आसावरी चिंततालें. राजेशाक कसो समजावप हेंच ताका कळऽ नाशिल्लें. राजेश रागाच्या भरांत कितेंय उलोवन वतालो. मागीर आपुणच जावन आसावरी सरीं येतालो. ताका समजायतालो. आनी एक दीस ऑफीसांतल्यान राजेशाचो ताका फोन आयलो. तो उमेदीन सांगतालो, 'आशू, हांव यु.पी.एस.सी. परिक्षा पास जालों.' आसावरीचे खोशयेक अंतपार नाशिल्लो. देशांतले कठीण अशे परिक्षेच्या फायनल लिस्टांत नांव येवप... ग्रेट..रियली ग्रेट! राजेशाच्या कश्टांचें, रात दीस केल्ल्या अभ्यासाचें हें फळ आशिल्लें. राजेश आतां व्हडलो अधिकारी जातलो, वयल्या हुद्याचेर पावतलो. देवा कुडींत वचून आसावरीन देवा मुखार हात जोडले...'देवा, ताका सुखी दवर. फुडें फुडें वचपाची शक्त ताका दी!'

***

दीस, म्हयने, वर्सां मेजिल्ले मापिल्लेवरी वतालीं. सुखाचे घडे भरिल्ले. राजेश यु.पी.एस.सी.त सिलेक्ट जाले उपरांत, सोळा सतरा वर्सांत खूब कितें घडून आयिल्लें. सरकारी खात्यांत एक एक बडटी घेत घेत राजेश डायरेक्टराच्या हुद्यार पाविल्लो. ताचें ऑफीस, दीसपट्टयो मिटींग्स, आतऱ्या पयऱ्यान भोंवड्यो, कामाचो व्याप, व्हि.आय.पी.लोकां मदीं उठ-बस, मोबायलावेले नॉन-स्टॉप कॉल्स, सद्दां घरा पावपाक ताका कळाव जातालो. खूब फावटीं तो थकिल्लो दमिल्लो आसतालो. घरांत खीणभर बसून उलोवपाक ताका उसंत मेळनाशिल्ली.

तातूंतल्यान वेळ काडून, सुटी घेवन तो आसावरीक, भुरग्यांक पयसुल्ले भोंवडेर व्हरतालो. सगळीं वांगडा आसतना मनमेकळेपणान उलोवपाचो तो तितलोच वेळ. अवनीचें मेडीकलाचें तिसरें वर्स..आयुषाचें इंजीनियरिंग कॉलेज. ताच्या फुडल्या शिक्षणाची तयारी, एम.टेक., एम.बी.ए.. फ्लॅटांतल्यान आयसपयस घरांत रावपाची मजा वेगळीच आसता. नव्या घराची बांदणी, नवें टुमदार माळयेचें घर, मुखार सोबीत पोरसूं. आसावरीन खंयचे खंयच्यान सोदून तरांतरांचीं फुलझाडां रोयिल्लीं. खूबसो वेळ ताचो थंयच वतालो. उदक शिंपप, माती घालप. फुलां बरीं फुलतालीं. घसघशीत वाडटालीं. वेलींच्या माटवार हळडुवीं, गुलाबी, धवीं, तांबडीं. दंवांत न्हाल्ले तणाच्या पात्यांचेर टवटवी घेवन नाचिल्लेवरी!

आयचे वरी कालची सकाळ आशिल्ली आनी आयचे वरी फाल्यांची सकाळ उदेतली. ती सकाळ कसली खबर घेवन येतली कोणाक खबर आसता!

आयची खबर हें नवें प्रकरण. आसावरीन सकाळचो पेपर उगडलो. पयल्याच पानार ती खबर आयिल्ली...फोटो सयत नांवां आयिल्लीं तातूंत राजेशाचें नांव. भ्रश्टाचाराचो आरोप वाचना फुडें आसावरीचें आंग थंड पडलें. हाता पांयांतली सगळी शक्तच गेल्या अशें दिसलें ताका. अशें कशें जालें? फाटले चार-पांच दीस राजेश अस्वस्थ आशिल्लो. हरशीं कसलीय अडचण आयल्यार तो उलोवन दाखयता. पुणून आतां तो तोंड धांपून आशिल्लो. ताका सगळें खबर आशिल्लें काय? आतां ताचेर दुबाव, वादावादी करून कांय अर्थ ना. तो तोंड दुबळो जावन कित्याक वागता हेंच ताका समजनाशिल्लें. आनी तो इतल्या थराक वचत हेंय ताका खरें दिसनाशिल्लें. कितें खरें, कितें फट? मनशां एकामेकांक कितलीं समजूंक शकतात? घोव-बायल अशीं नाजूक नात्यांतलीं मनशां.

तांकां एकामेकांक पुराय वळखूंक येता काय? व्यक्तीम त्वाचो जो वांटो हाताक लागता ताचेवेल्यान तांकां एकामेकाची वळख पट्टा. बाकीचें तांचें व्यक्तीमत्व पाणसोरपा भशेन उदका भितर हुळहुळटा.

तें राजेशाची वाट पळयत रावलें. तिनसांजचो तो आयलो तेन्ना ताचें तोंड पडिल्लें. ताची अस्वस्थताय जाणवताली. सदां भशेन ताणें ताका च्या-खावंक हाडून दिलें. पुणून ताची खावपाची वान्सा नाशिल्ली. तें उगड्या दोळ्यांनी ताका पळयतालें.पुणून ताका विचारपाचो धीर जायनाशिल्लो. निमाणें राजेशानच सुरवात केली. भुरगीं अजून घरांत येवूं नाशिल्लीं. ताणें आसावरीक भितर बेडरूमांत आपयलें. ताच्या म्हऱ्यांत बसून ताणें सांगलें, "आशू, म्हज्या सस्पेन्शनाची जी गजाल घडल्या, ताका लागून आमकां सगळ्यांकच त्रास जाला. म्हाकां हें खबर आशिल्लें पूण तुका वायट दिसत म्हणून हांवें तुका सागलें ना. पळय, वेव्हारांत कांय चुको घडटात. ह्यो चुको जाणा जावन केल्ल्यो न्हय.नदरचुकीन जातात. वेव्हारांत, वेवसायांत खूब लोकां लागीं आमचो लागींचो संबंद येता. तेन्ना तीं मनशां आपलींचशीं दिसतात. आमच्या सदच्या वेव्हारांत आमी तांचेर विस्वास दवरतात. तातूंत केन्नाय घाळपण येता.आमी फटवतात. तांचें बरें-वायट कळऽ मरेन खूब उशीर जाल्लो आसता. पुणून ही चूक, हें घाळपण सादेंसुदें न्हय. आमची बेअब्रू जी जाल्या ताका लागून लोकांक तोंड दाखोवपाक आमचे लागीं मार्ग ना. इतलें मनाक लावून घे नाका, आशू..म्हजेर तुजो विस्वास ना? बावीस वर्सांचें आमचें नातें. नात्यांतलो विस्वास मातये भरवण जावपाक दिनाका. हांव तुज्या माथ्यार हात दवरून सांगतां, हांवें कसलेंच वायट काम करूं ना."

"आतां फुडें कितें?"

" हांवें केस फाईल केल्या. हांव आतां घराच आसतलों, बिनपगारी रजेर. जे मेरेन केसीचो निकाल लागना ते मेरेन फुडलें कांयच सांगूक शकना. पुणून म्हाकां खात्री आसा, हांव हातूंतल्यान सुट्टलों. आयुश्यांत हांवें खूब कश्ट काडल्यात,आशू. ध्येयाचो सोद घेतना ब्रेक लागतात. आपट्यो खावंच्यो पडटात. खूब फावटीं दोरी तुटिल्ल्या पतंगा सारकी अवस्था जाता. पुणून एक गजाल



लक्षांत दवर, जितलो व्हडलो संघर्श, तितलें व्हडलें येस! काळ सदांच सारको उरना. तो बदलता, वेळ बदलता, पात्रां बदलतात, भुमिका बदलतात. थोडो तेंप पाशिंयेंस काड. सगळें सारकें जातलें. बिलीव्ह मी!''

तो सहज उलोवन वतालो. आसावरी ताका पळयत रावलें. भायर पावस पडटालो. पावसा भशेन आयज ताचें मन भरून आयलें. पावसाचें एक बरें आसा. तो केन्नाय पडटा. पुणून मन! मनाक केदो बांद आसता. कोणाचेरय दुबाव घेवचे पयलीं ताचो सभाव जाणा जावचो पडटा. राजेशाचेर ताचो पूर्ण विस्वास आसा. तो कितेंय उलोवंचोना हाचो ताका भरवंसो आसा. राग आनी मोग! बावीस वर्सांत खूब कितें पळयलें, अणभवलें. आयज मेरेन आयुश्य इतलें कणखर जावन उबें केलें. येदो संवसार दोनय हातांनी सांबाळ्ळो. आतांच्या ह्या संकश्टात मातयेच्या गुळ्यावरी व्हांवन वचप? ना, तशें जावंक जायना. आपलें मन तें घट्ट करतालें.

***

राजेश आतां घराच आसतालो. भायर चड वचनाशिल्लो. केसीचे पेपर्स जमयतालो. आपली बाजू सिद्द करपाक धडपडटालो. प्रकरणाची चवकशी चालू आशिल्ली. केसीचो निकाल रोकडोच लागपाची शक्यताय उणी आशिल्ली. राजेशाचे इश्ट-सोयरे फोन करताले, केन्ना मेळपाक येताले. लोक ताचे अस्वडीं बरें-वायट उलयताले. राजेश थंड आसतालो. ताका त्रास जाताले पूण दाखोवन दिनाशिल्लो. घरांतले वेव्हार सदचे भशेन चलताले. अवनी-आयुषाच्यो इश्ट-इश्टीणी तांच्या तोंडार कांय उलयनाशिल्लीं. फाटल्यान तांच्यो कुचेश्टा करताल्यो.

आठ-धा म्हयने चलतलीशी दिसताली चवकशी पांच-स म्हयन्यां भितर सोंपली. राजेश निर्दोश म्हणून सिद्द जालो. जाणीं कोणें ताचेर आरोप केल्लो तांच्याच आंगलट आयलें. पेपरांत जें वायट वायट छापून आयिल्लें तातूंत कांय तथ्य नाशिल्लें. गुन्यांवाचे सगळे मुद्दे बिनबुडाचे म्हण सिद्द जाले. राजेशाक रोकड्या रोकडो नोकरेर रुजू जावपाची नोटीस आयली.

राजेश, आसावरी आनी तांच्या घरच्यांचे खोशयेक अंतपार नाशिल्लो. नवो उजवाड, नवो परमळ भोगपाची उमेद वेगळीच आसता. आयुश्यांत ल्हान-व्हड वेगवेगळे प्रसंग येत रावतात आनी सुख-दुःखाचे शिताडे आंगार उडोवन वतात.

आनी तो दीस उदेलो. कसल्या एका हिंदी सिनेम ांतल्या पदाची धुन, शिळोणी घालीत सुटाबुटांत राजेश ऑफीसांत वचपाची तयारी करतालो. सकयल ऑफीसाची गाडी, शोफेर उबो आशिल्लो. आयज राजेश खूब खोशी आशिल्लो. 'आशू, आशू' म्हणत एक सारको उलो म ारतालो. आसावरीक याद जाली, निकतेंच लग्न जाल्लें तेन्ना तो असोच करतालो.

आतां दार उगडून भायर वच्चें पयलीं तो थांबलो. आसावरीच्या खांदार हात दवरून सांगपाक लागलो, ''पळय आशू, जिविताच्या दरेका मोडणार आमकां दोन रस्ते मेळटात. एक सरळ नीट, फोंडकुलां नाशिल्लो. दुसरो खडबडीत, फातराळ, वांकडो तिकडो. सरळ बरो रस्तो थोड्यांच जाणांच्या नशिबांत आसता. वांकड्या तिकड्या खडबडीत रस्त्यार सांबाळून वच्चें पडटा. नाजाल्यार अपघात जावंक शकता...म्हज्या आयुश्याचो रस्तो असोच खडबडीत, कांट्याकुंट्याचो!''

'' हें सगळें उलोवपाचो हो वेळ न्हय. मागीर सवकासाणेन उलोवंया. भायर ड्रायव्हर वाट पळयता.'' हांसत हांसत आसावरीन म्हळें.

गाडयेंत बसना फुडें राजेशान हात हालयलो. गॅलरींत उबें रावन आसावरीन हात वयर केलो. ताणें मुखार पोरसांत पळयलें. फुलझाडां घसघशीत वाडिल्लीं. तरेतरेचीं फुलां सकाळच्या वतांत चकचकतालीं. पांच-स म्हयन्यां आदीं जाल्ले वादळांत फुलांची, झाडांची नाशाडी जाल्ली हें कोणाकय सांगल्यार खरें दिसचें नाशिल्लें. एके वेगळेच जिद्दीन, वेगळ्याच हावेसान आसावरीन इबाड जाल्लीं फुलझाडां परतून उबीं केल्लीं.वादळ परतून आयल्यार लेगीत ताका ताची पर्वा नासतली. मुखार दिसता तें निळें निळें मळब. काल दडकांनी पावस पडटालो. आयज लकलकीत हारशेल्लें वत. केन्ना मळब दाटून येता. काळें काळें किट्ट जाता. म्हणटासर पावसाची वावझड येता आनी मागीर मळब नितळ निवळ जाता..आयुश्य हें अशेंच!

कितलो वेळ मेरेन तें आपल्याच विचारांत आशिल्लें.

---

*करंजाळे -गोंय मो. ९८२२५८८८५२.*

कथा




# रि-युनियन



**सखाराम शेणवी बोरकार**

लोकवेदाचे अभ्यासक तशेंच काव्य,विनोदी लेखन,कथा आनी अणकाराच्या मळार योगदान.

रेशान आपली स्कुटर कला आकादेमीच्या 'पार्कींग लॉटांत' लायली आनी तो कला आकादेमींत वचपाक भितर सरलो.

आयज ताच्या 'एसएससी' बॅचीचें 'रि-युनियन' कला अकादेमींत दवरिल्लें. कालूच ताणें 'भांगरभुंयत' आयचे सुवाळ्याविशींची खबर वाचिल्ली. तागेल्या 'एसएससी'च्या वर्गांतले वांगडी आयज खूब वर्सांनी मेळटाले. 'दिनानाथ मंगेशकार' सभाघरांत मुखेल कार्यावळ दवरिल्ली आनी समारोपाची कार्यावळ 'कृष्णकक्षांत' दवरिल्ली. अजापाची गजाल म्हळ्यार त्या 'एसएससी' बॅचीचो एक वांगडी आसून लेगीत नरेशाक मात सुवाळ्याचें आमंत्रण नासलें.

खरें म्हळ्यार ह्या 'एसएससी'च्या वर्गानूच नरेशाचे जिणेंत खवदळ घाल्लो.फाटलीं पंचेचाळीस वर्सां जें वजें ताणें आपल्या काळजांत दामून दवरिल्लें तें उकतें करपाच्या हावेसानूच आमंत्रण नासतनां लेगीत तो आयिल्लो.

नरेशान 'कृष्णकक्षां'त पावल दवरलें. सभाघर सगळें भरिल्लें. सगळे आपआपले फामिलीक घेवन आयिल्ले.

नरेश एका कोनशाक आंग चोरून बसलो...नरेशान माचयेर नदर मारली. माचयेर बॅनर लायिल्लें. ताचेर बरयिल्लें Modern English High School, Panaji, Reunion of S.S.C. Batch 1970-71. माचयेर कार्यावळीचे मानेली बशिल्ले. सगळे ताचेच वर्गइश्ट आसले.

इतल्यांत कार्यावळीचो सुत्रसंचालक नानू साळगांवकार उबो रावलो. "भावांनो आनी भयणींनो, आतां आमी कार्यावळीच्या निमण्या सत्रांत पावल्यात. आयज खूब वर्सांनी आमी एकामेकांक मेळ्ळीं आनी खूब मजा केली, आमच्यो आदल्यो यादी जागयल्यो. अशेंच आमी परत परत मेळूंया. आतां हांव आयच्या कार्यावळीचो मुखेल सोयरो, आमच्या 'एसएससी' बॅचीचो वांगडी आनी सुप्रिम कोर्टाचो आदवोगाद भौमानेस्त वामन देसाय हांकां आपयतां!"

वामन देसाय भाशण करपाक उबो रावलो. ही कार्यावळ घडोवन हाडिल्ले खातीर ताणें जाळवणदारांची तोखणाय केली. आपल्याक घडोवपाक 'मॉडर्न इंग्लिश स्कुलाचो' खूब मोलादीक वांटो आसा अशें सांगलें.

नरेश आपल्या जाग्यारूच चुळबुळटालो. इतल्यांत नानून कार्यावळीचे अध्यक्ष उमेश कामत हांकां भाशण करपाक आपयलो. उमेश कामतीन आपल्या भाशणांत कार्यावळीची तुस्त केली आनी स्कुलाक पांच लाखांची देणगी जाहीर केली.

अध्यक्षाचें भाशण जातगीर नानून उपकाराचें भाशण करपाक सदानंद बांबोळकार हाका आपयलो. बांबोळकारान ही कार्यावळ जैतवंत करपाक जांणी -जांणी हातभार लायलो तांचे उपकार मानले.

कार्यावळ सोंपली म्हण सांगपाक नानू मायका मुखार आयलो. इतल्यांत नरेश आपल्या आंगातलें आशिल्लें नाशिल्लें सगळें बळ एकठावन उबो रावलो आनी म्हणूंक लागलो, " रावात! म्हाकां उलोवंक जाय!"

सगळ्यांच्यो नदरो नरेशा वटेन थिरावल्यो. एक सटरफटर मनीस उबो रावता आनी आपल्याक उलोवंक जाय म्हणटा हाचें सगळ्यांकूच अजाप दिसलें.

नानून ताका विचारलें, "तूं कोण? तुका हांगा कोणें आपयलां?"

नरेशान म्हळें, "हांव 'मॉडर्न इंग्लिश स्कुलाचो' 1970-71 वर्साच्या 'एसएससी' बॅचीचो एक विद्यार्थी!'

अध्यक्षान नानूक थांबोवन म्हळें, 'उलोवं दी ताका.' नरेश माचयेर चडलो. माचयेर बशिल्ल्यांक अभिवादन केलें आनी म्हणूंक लागलो, 'म्हज्या मोगाळ भावांनो आनी भयणींनो! तुमकां अजाप जातलें की हो कोण सटरफटर मनीस उलोवंक सोदता काय म्हण? आयज ज्या 1970-71 वर्साच्या 'एसएससी' बॅचीचें 'रि-युनियन' तुमी घडोवन हाडलां त्या बॅचीचो हांव एक वांगडी, म्हजें नांव नरेश गांवस!'

नरेश गांवस म्हणिना फुडें कांय जाणांचे तकलेंत लख्ख उजवाड पडलो.

"हांव एक गरीब कुटुंबांतलो भुरगो. म्हजो गांव वळवय. म्हाकां शिकपाची खूब आवड आसली. पूण तेन्ना आमच्या गांवांत फकत चवथी मेरेनचीच शाळा आसली. चवथी यत्ता हांव पयल्या नंबरान पास जालों. म्हज्या बापायकूय हांवें खूब शिकिल्लें जाय आसलें पूण आमची अर्थिक परिस्थीती बरी नासली. आमचीं खूब पयशिल्लीं सोयरीं पणजे रावतालीं, थंय बापायन म्हजी वेवस्था केली आनी म्हजें नांव पणजेच्या 'मॉडर्न इंग्लिश स्कुलान' घालें.

म्हजो बापूय म्हयन्या म्हयन्याक तांकां पयशे धाडटालो. हे पयशे धाडपाक बापायक कितले त्रास पडटाले हें ताणें म्हाकां केन्नाच कळूंक दिलें ना. हांव एसएससीक पावऽ मेरेन बापायक आमच्या शेताचो अर्दो कुडको विकचो पडलो.

हांव एक हुशार भुरगो आसलों. एसएससीक पावऽ मेरेन हांवें पयलो नंबर केन्नाच सोडलो ना. म्हज्या वर्गशिक्षकाक आनी प्रिन्सीपॉलाक हांव स्कुलाचें नांव वयर काडटलों हाची खात्री आसली.

गणित हो म्हजो खास आवडीचो विशय आसलो. कठीणांतलें कठीण गणित हांव कांय न्ही करून सोडयतालों. पूण म्हाकां खबर नासलें कीं हेंच गणित एक दीस म्हज्या आयुश्याच्या गणिताची वाट लायतलें म्हण!

फायनल परिक्षा सुरू जाली. आमच्या वर्गांतल्या थोड्याच भुरग्यांनी संस्कृत विशय घेतिल्लो. त्या खातीर आमच्याच वर्गांतले हांव धरून आनीक तीन चार भुरगे एकाच सेंटरांत, एकाच हॉलांत पडिल्ले.

पयलो पेपर आसलो इंग्लिश. तो सगळ्यांचो बरो गेलो. पूण दुसऱ्या दिसा आसलो गणित पेपर. थोड्यांक



गणिताच्या पेपराच्या हुस्क्यानच न्हिद पडली ना.

दुसऱ्या दिसा गणिताचो पेपर सुरू जालो. प्रस्नपत्रिका वाचले बराबर म्हाका कळ्ळें की पेपर सोंपो ना. हो पेपर बाकीच्या भुरग्यांक खूब कठिण वतलो. म्हाकांय तो सोंपो नासलो, पूण बरे गूण पडटले हाची म्हाकां खात्री आसली.

हांव झपाझप पेपर सोडयतालों. हांवें मुखेल उत्तरपत्रिका बरोवन सोंपयली. इतल्यान म्हज्या फाटल्यान बशिल्ल्या भुरग्यान म्हाकां पेनान धोंगशिलो आनी म्हजी उत्तरपत्रिका मागली. म्हाकां येवजूंक वेळच नासलो. हांव गणितां सोडोवंक गुंग आसलों. हांवें बरयिल्ली मुखेल उत्तरपत्रिका ताका दिली आनी थंयच म्हजे जिणेक वादळी मोड आयलें.

आपणें कॉपी करून ताणें ती उत्तरपत्रिका फाटल्यान एकल्याक दिली. अशें करून ती उत्तरपत्रिका म्हज्या तीन चार वर्गमित्रां कडेन पावली. इतल्यान पेपर सोंपिल्ल्याची घांट जाली आनी हांव भानार आयलों. पेपर बरो गेलो म्हणून हांव खूश आसलों. हांव पुरवण्यो बांदपाक लागलों. पूण म्हजी मुखेल उत्तरपत्रिकाच म्हजे कडेन नासली. हांवें म्हज्या फाटल्यान बशिल्ल्या भुरग्या कडेन म्हजी उत्तरपत्रिका मागली. ताणें सांगलें की ताणें ती फाटल्या भुरग्या कडेन दिल्या. अशें करून ती उत्तरपत्रिका म्हज्या खंयच्या तरी वर्गमित्रां कडेन पाविल्ली.

सुपरवायजर म्हजे कडेन उत्तरपत्रिका मागपाक आयलो. पूण म्हजे कडेन मुखेल उत्तरपत्रिकाच नासली. म्हजे हातपांय थरथरपाक लागले, दोळ्यां मुखार सामको काळोख आयलो. इतले म्हणसर ज्या भुरग्या कडेन म्हजी उत्तरपत्रिका पाविल्ली ताणें आपल्याचेर आनी बगलांट नाका म्हण ती पिंजून भायर मारली आनी आपली उत्तरपत्रिका दिवन भायर सरलो.

सुपरवायजर म्हाकां घेवन त्या शाळेच्या प्रिन्सीपॉला कडेन गेलो. तो प्रिन्सीपॉल काय म्हाकां वळखनासलो. ताणें म्हाका म्हजी उत्तरपत्रिका खंय काय म्हण विचारलें. पूण हांव वोग्गी रावलों. ताणें सुपरवायजराक सांगलें की हाका फुडल्या पेपरांक बसूंक दिंव नाका.

म्हजे हात पांय गळसणले. तसोच उठून बद्द घरा आयलों. म्हज्या आवय बापायक ही खबर सांगली. खबर आयकना फुडें बापूय घुंवळ येवन पडलो. कितलीं सपनां ताणें पळयिल्लीं! सगळीं सपनां हांवें मातये भरवण केल्लीं. आवय म्हजे कडेन उलयना जाली. त्या शॉकान बापूय जो हातरुणार पडिल्लो तो परत उठलोच ना.

थोड्याच दिसांनी बापूय भायर पडलो आनी ते खंतीनच आवयनय प्राण सोडलो. गांवांत म्हाकां तोंड दाखोवपाक लज दिसताली. कांय दिसांनी हांव पणजे परत आयलों आनी एका हॉटेलांत वेटराची नोकरी धरली. थंय थोडीं वर्सां काम करतगीर हांवें ताळगांवां एक ल्हानशेंच हॉटेल घालें आनी थंयच म्हजें बस्तान बसयलें. आयज 'मॉडर्न इंग्लिश स्कुला'चो एक हुशार भुरगो च्या आनी बटाटवडे विकता.'

सगळें सभाघर एकदम स्तब्ध जालें.

'आतां फुडली गजाल सांगतां. ज्या भुरग्यान पयलीं म्हजी उत्तरपत्रिका घेतिल्ली तो जावन आसा आयच्या कार्यावळीचो मुखेल सोयरो वामन देसाय! आनी कॉपी मारून म्हजी उत्तरपत्रिका पिंजून भायर मारपी आनी म्हाकां जिणेंतल्यानय भायरावपी जावन आसा आयच्या कार्यावळीचो अध्यक्ष उमेश कामत!

बरें तर! इतल्या वर्सांचें म्हज्या काळजांतलें वजें आयज हांवें तुमच्या मुखार ल्हव केलें. तुमी म्हजीं दोन उतरां मन लावन आयकलीं म्हण तुमचे उपकार!' अशें म्हणीत नरेश झपाझप माचयेचीं सपणां देंवक लागलो आनी त्याच बराबर माचयेर बशिल्ल्या आनी सभाघरांत जमिल्ल्यांचीं तोंडां एकदम पडलीं.

***मो. ९९२३३०६७५१, मडगांव***



# सुरक्षा




**काश्मिरी पावसकार**

शिक्षकी पेशांतली लेखिका.ललित लेखनांत फिशाल


आमचें भुरगेपण सुरक्षीत गेलें. शाळा धरून कॉलेज मेरेनचें शिक्षण घेतना सकाळीं भायर सरून दनपार मेरेन आमी घरा पावतालीं. पूण आतां शिक्षणाच्या मळार आकांताची क्रांती जाल्ल्यान आदलेवरी सगलीं भुरगीं एकेच वाटेन वचऽ नासतना वेगवेगळ्या वेवसायांचें शिक्षण घेवंक गोंयां भायर वचून तांतूंत फिशालकाय जोडून आपलो फुडार बरो करतात. हें सगलें सांगपाचें कारण म्हळ्यार म्हजे धुवेनूय वेवसायीक विशयांचो अभ्यास करून वेगळी वाट धरिल्ली.

तागेलें मुळावें शिक्षण धरून बारावे मेरेनचें शिक्षण हांव शिकयतां तेच शाळेंत जाल्लें. देखून तें सुरक्षीत आसा अशेंच म्हाकां दिसऽ. पूण बारावे उपरांत हेरां परस आपणें वेगळ्या मार्गान वच्चें अशें थारावन हॉटेल मॅनेजमेंटाची चार वर्सांची पदवी मेळोवंचे तयारेक तें लागलें. तशी इत्सा ताणें आमचे लागीं उक्तायली. चली भुरगें ह्या वेवसायांत वता हें आमकां सुरवेक बरें पटलें ना. देखून ताचें मन बदलपाचो आमी खूब यत्न केलो, पूण आमी अपेशी थारलीं.

हांगां प्रवेश मेळोवंक ताका मुंबय वचून मुलाखत दिवची पडली. ॲडमिशनाचे दीस लागीं पावले तसो जीव वयर- सकयल जावंक लागलो. पूण देवा दयेन

एन्ट्रन्स परिक्षेंत बरी टक्केवारी मेळयल्ल्यान ताका 'वीच स्टेट यू प्रिफर?' म्हूण तांच्यांनी पर्याय दिलो. तशें ताणें वेळ व्हगडाय नासतना 'गोवा' म्हूण सांगून आय एच एम, परवरचे संस्थेंत प्रवेश मेळयलो. गोंय (तेन्ना) सुरक्षीत आशिल्ल्यान आमीय हुस्क्या मेकळीं जालीं. तरी यो वच करतना वाटेर बर्शीत घडिल्ल्यो कांय घडणुको घरा येवन ताणें म्हाकां सांगच्यो. त्यो आयकून चलयेन आपली सुरक्षा कशी घेवची, एकलें आसल्यार कितें करचें, वाटेर आगळीक जाल्यार कशी जतनाय घेवची बी गजाली ताका सांगच्यो.

निमणें हावा शिवा करून थंयचीं चार वर्सां कशीं गेलीं कळ्ळेंच ना. निमण्या वर्साक ताजांत स म्हयन्याचे इन्टर्नशीपाक किचनांत काम करतना एका जाणटेल्या शेफान ताका उपदेश करीत म्हणलें, 'तुमकां चलयांक हो वेवसाय न्हय गो बाय. हीं दादल्यांचीं कामां!' ते दीस घरा आयिल्ले कडेन ताचो इल्लो मूड ऑफ जाल्लो. पूण ताणें नेट सोडलो ना. उपरांत मास्टर्स डिग्री करपाचें भूत माथ्यार बसलें. ते खातीर गोंयां भायर म्हणल्यार उडपी हांगां, मनिपाल शारांतल्या 'वक्शा' संस्थेंत प्रवेश मेळोवंचो आसलो. आय.एच.एमांत तें दुसऱ्या क्रमांकाचेर आयिल्ल्यान हांगांय ताका रोखडोच प्रवेश मेळ्ळो. पूण हॉस्टेला खातीर धांवपळ सुरू जाली, कारण थंय सुवात मेळूंक ना जाल्यार खंय तरी रूम पळोवंचो पडटलो! परत हांगांय सुरक्षेचो प्रस्न आयलोच. हॉस्टेलाची सोय जाली तशी साटली पोटली बांदून ताका मनिपाल पावयलें. घरा येतना वाटभर हांव रडलें. त्या वेळार घोवान समजूत घालून म्हणलें,'जाय जाल्यार फुडल्या शेनवारा परतून येवंया!' आयकून म्हाकां सूऽ जालें. तशीं हांगा हेर भुरगीं देश- प्रदेश सोडून वचनात? पूण आयज बायलांची असुरक्षीत जीण पळोवन जीव सामको गोळाक लागतालो इतलेंच! दर दिसा आमची फोनाफोनी चलताली. रोखडीच तांची फ्रेशर्स पार्टी आसली. ताणें परवानगी मागूंक फोन केलो. हांवें ताका सांगलें, 'एकदां वचून पळय. पूण जतनाय घे.' पूण ताका पार्टी बरी मानवली ना. थंयच्या चल्या-चलयांचीं कर्तुबां पळोवन, आपल्याक धुंवराची ॲलर्जी जाता म्हूण सांगून ताणें अर्दारूच कूस मारली. मुखार ताणें सोशयलायजींग सोडलें. 'सुंठी वाचून खोकला गेला!' शें म्हाकां जालें. निमाणें हुस्के खंती काडीत दोन वर्सांनी एमएसीची पदवी पदरांत पडली. म्हणटा थंय आसा रोखडीच ताका तेच संस्थेंत सहाय्यक प्राध्यापकाची नोकरी लागली. भगवान देता है तो छप्पर फाडके म्हणटात तें फट न्हय. परत फाटल्या पानावेलें मुखार सुरू! परतून ताका आमचे परी सुखरूप फ्लॅट पळोवन दिवन आमी घरा परतलीं. रोखडींच माया म्हयन्याचे सुटयेंत आमी थंय रावूंक गेलीं.

एक दीस पावसा तोंडार मालप्यां दर्या देगेर जायतीं तारवां, व्हडीं खोपिनी दवरिल्लीं दिश्टी पडलीं. कांय व्हड्यांचें दुरुस्तीचें काम चालू आसलें, तर कांय उदकांत बुचकळ्यो मारताल्यो. तांचेर लायिल्ले तरेकवार ल्हान-व्हड बावटे वाऱ्यार हुबताले. अशीं नांगरिल्लीं तारवां पळोवन काकळूट शी दिसली. खरें म्हणल्यार तीं थंय सामकीं सुरक्षीत आसलीं, कारण केदेंय मोटें मोड आयल्यार लेगीत तीं कशींच बुडचीं नासलीं.

हीं व्हडीं 'सेफ', सुरक्षीत आसलींच पूण म्हाकां एक सांगात, सुरक्षीत रावप हेंच जिविताचें उद्दीश्ट आसता व्हय? धुवे विशीं हुस्को करतना हांव येवन-वचून ताची सेक्युरिटी सोदीत आसतां हें खंय तरी चुकता शें म्हाकां जाणवलें. अर्थात, हांव हांगां आकांतवादी हमल्या पासून सेक्युरिटी विशीं उलयना, तर धाडस, साहस आनी रिस्क घेवपाक विरुद्ध अर्थान सेक्युरिटी म्हणटां. करियरांत, शिक्षणांत रिस्क घेवपाक आमी तयार आसूंक जाय. परदेशांत, पराज्यांत वचून नवे उमेदीन करिअर करपाचें आव्हान स्विकारप वा अमकीच, थारावीक पूण सुरक्षीत जीण जगप हातूंत फरक आसता हाची जाणीव त्या व्हड्यांनी म्हाकां करून दिली. आयुश्यांत कितेंय मेळोवपाक, हासील करपाक तर जोखीम स्विकारचीच पडटा. हय, अशी जोखीम घेवपाची हिम्मत तांचे भितर तयार करप ही आमची पालकांची जापसालदारकी. तशें प्रशिक्षण दिवप हेंच तर आमचें पालकांचें काम आसा. बरोबर काय न्हय? काय फकत अम केच वाटे वयलें सुरक्षीत, पूण बोरींग जिवीत जगपी वाटसरू आमी ;निर्माण करतले? असो स्वताक प्रस्न विचारचो पडटलो. आनी हे खातीर हमें सोचना पडेगा!

---

*मो. ९४२११९२८५८, शिवोले*

# सह्या चला एक मोग काणी



## अर्पण पत्रिका

**धरणीमातेर निस्सीम प्रेम करपी आनी भारतांतल्या सामान्य लोकांचें शाणपण आनी सामर्थ्य हांचेर पुराय विश्वास दवरपी बिस्मार्क डायसच्या स्मरणार्थ.**

हांव बिस्मार्काक 14 जानेर 2011 त दक्षिण गोंयच्या कावरें गांवांत पयले खेप मेळ्ळों. कावरें गांवच्या दोंगरा वयले खणीन तांचे देवराईचेर आनी तांचे गांवकारी जमनीर आक्रमण केल्लें, तांचे उदकाचे स्रोत अडसयल्ले, तांची शेत जमीन इबाड केल्ली आनी लोकांचें आरोग्य आनी शांतताय नानपयत केल्ली. लोकांचें म्हणणें आयकुपा पासत हांव कावरें गांवांत येतां म्हणपाचें आयकून बिस्मार्कय मुद्दम थंय आयिल्लो. रोखडीच आमची वळख जाली, लय जुळ्ळी आनी घट्ट इश्टागत जाली.

गोंयांत पुर्तुगेजांनी ग्रामसमाजाच्या कितल्याच हक्कांची जतनाय केल्ली. गांवकारी प्रणाली, लोकांचो गांवच्या सामूहिक जमनीवयलो अधिकार हो ताचो गाभो. बिस्मार्कचो शाकाची जुवें गांव मांडवी न्हंयतलो एक मनभुलायणो जुंवों! बिस्मार्क थंयच्या गावकारी समितीचो अध्यक्ष आशिल्लो आनी गांवचे मालकीचो दोंगर एकलो दुडवांकार हॉटेल मालक बळकावंक पळयतालो ताका निबरपणान विरोध करतालो. नक्की कितें तें कांयच सांगू येना, पूण मांडवी न्हंयच्या जुंव्यार ल्हानाचो व्हड जाल्लो, फिशाल, खडेगांठ पेंवपी बिस्मार्क 5 नोव्हेंब्र 2015 दिसा सांजचो  ना जालो आनी 48 वरांनी नुस्त्यांनी भोवतेक खावन उडयल्ली ताची कूड दर्या लागसार गावली. ताचो खून केला जावंक जाय असो ताच्या गांवच्या लोकांक आनी कितल्याच इश्टांक दुबाव आसा.

बिस्मार्कान म्हाकां आपल्या घरा रावपाक आफयल्लो आनी ताच्या नुस्तेंमार समाजांतल्या इश्टांनी हाडून दिल्ल्या ताज्या ताज्या व्हडल्या इस्वणाचेर आमी ताव मारिल्लो. जेवल्या उपरांत रातची ताच्या घराचे गच्चीर एक संगीताची मैफल रंगली. ताचो गीतकार, संगीतकार गायक इश्ट जॅक्सन डायस कोंकणी पदां गायतालो आनी बिस्मार्क ताका गिटारचेर सांगात दितालो. म्हाका भोवतेक तें पद मोगाचें - प्रेमाचे तुफान दिसता. म्हज्या ह्या असामान्य इश्टाक म्हजी ही मोग-काणी समर्पित करप हो म्हजो भोवमान.



आपजीण

# सह्या चला एक मोग काणी




**माधव गाडगीळ**

पर्यावरण तज्ञ


### आरंभ

*खोप्यामधी खोपा, सुगरणीचा चांगला,*
*देखापिलासाठी तिनं झोका झाडाले टांगला*
*खोपा इनला इनला जसा गिलक्याचा घोसा*
*पाखराची कारागिरी जरा देख रे माणसा*

**– बहीणाबाई चौधरी**

### निसर्गप्रेम

शृंगाररसराज कालिदासान अस्तंत घाट वा सह्यगिरीक उपमा दिल्या एके लावण्यवती युवतीची. अगस्त्यमलय ह्या सह्याचलेचो शिरोभाग, आणेमलय आनी नीलगिरी उरोभाग, गोमन्तक कटिप्रदेश आनी सातपुडो पदकमलां. कालिदास सांगता, ह्या मनभुलायण्या सह्याचलेन पांगुरला सदाहरित अरण्याचो शालू, लायला  चंदनाचो लेप,



गळ्यांत घातल्यात वेलदोड्यांच्यो माळो. आज महाराष्ट्रान जांकां राज्यविहंगमांचो दर्जो दिल्लो आसा तीं पांचवीं कबुतरां- हरियाळ तांच्या रानांतल्या हत्तींचे दांडगायेन बुजून भराऱ्यो घेतात. हांव पिरायेच्या तिसऱ्या-चौथ्या वर्साच ह्या सह्याचलेच्या मोगांत पडलों; जल्मभर हो मोग वाढतच गेल्लो आसा.

म्हजो जल्म 1942 तलो. तेच वर्सा महात्मा गांधींन इंग्रजांक 'भारत छोडो' म्हण शिटकालें आनी ताचे आदल्याच वर्सा सलीम अलींचें भारतीय पक्ष्यां वयलें सचित्र पुस्तक प्रसिद्ध जाल्लें. म्हज्या बापायक - धनंजय रामचंद्र गाडगीळ - हांकां पक्षी निरीक्षणाचो छंद आशिल्लो. तो सलीम अलींचो इश्ट. आठवड्यांतल्यान दोन-चार सांजवेळो हातांत एक दुर्बीण घेवन चंडोल, रॉबिन, होले, नीलकंठ, हूपो, लावे, तित्तीर, खाटीक, ससाणे पळयत, पळयत पुण्यांतल्या सर्वोच्च स्थानार आरूढ जाल्ल्या वेताळबाबां कडे आमची दोगांयची फेरी जाताली. परिसरांत पसरिल्ली अश्मयुगांतल्या गारगोट्यांचीं पातीं सोदताले. दोंगुल्लेच्या दक्षिण उताराचेर शेवण्यांनी गजबजील्ली बाभळीची राय आशिल्ली. हांगां सतत भजभज्यांचो कुलकुलाट चालू आसतालो, आनी पावसाळ्याच्या तोंडार पावशांची, 'नाका भिऊं भिऊं। पेरा पेरा पेरा। नवें बीज पेरा। नव्यो आशा धरा। पेर् ते व्हा ! पेर् ते व्हा! 'अशी साद कानार पडटाली. बाबा सांगतालो, ' ईश्वराचीं लेकरां सगळीं काय साधीभोळीं नात. खरें म्हळ्यार हो पावशा मनशाक पेरणी करूंक उलो मारी ना. तो आपले सांगातिणीक आपयता, आनी मागीर ते आपलीं पिलां भजभज्यां सारख्या आपल्याच आकाराच्या, इतलेंच न्हय तर सुभगां सारख्या आपल्याय परस ल्हान शेवण्या कडल्यान फसोवन पोसून घेवपाचीं आसात. इसापनीती, पंचतंत्र वाचपाची गरज ना; सैमूच आपल्याक वेवस्थीत वेव्हार

गिन्यान शिकयता. बाबा अर्थशास्त्रज्ञ आशिल्लो, सांगतालो, पळय, कोगूळवंशी पावशाच्या रुपान सैम धडे दिता तो पळयात , ह्या संवसारांत रंकांक ठकोवन राव कशे गब्बर जायत रावतात!

म्हजो व्हडलो भाव अजित 28 सालांत जल्म ल्लो, सुलभा 32 सालांत आनी पुरुषोत्तम 36 सालांत. हांव शेंडेफळ. पिरायेंत इतली तफावत आशिल्ल्यान म्हजेर तांचो कांयच खास प्रभाव पडूंक ना. हांव एकलोच बाबां वरी पक्षी निरीक्षण करपाक, भरपूर पुस्तकां वाचपाक, आवडीन खेळपाक लागलों. घरांत प्रचंड ग्रंथसंग्रह आशिल्लो. मुखेलपणान मराठी आनी इंग्रजी. हातूंत सगळे तरेचीं पुस्तकां आशिल्लीं. ज्ञानेश्वर, तुकाराम, मोरोपंत, केशवसुत, मर्ढेकरां सावन विंदा करंदीकर, वसंत बापटां मेरेनच्यो पद्य रचना, महानुभाव, जोतिबा फुले, विष्णुशास्त्री चिपळूणकरां सावन हरि नारायण आपटे, व्यंकटेश माडगुळकर, पु. ल. देशपांडे मेरेनच्यो गद्य रचना, मराठ्यांच्यो बखरी, इतिहासाचार्य राजवाड्यांचे निबंध, श्रीधर व्यंकटेश केतकर, इरावती कर्व्यांची समाजशास्त्रीय रचना, प्रवास वर्णनां, प्लेटोचें रिपब्लिक आनी मार्क्सच्या कॅपिटल सावन कितल्याच ग्रंथांचे मराठी अणकार; असो खंयचोच विशय नाशिल्लो,जाचे वयलीं उत्तमांलीं उत्तम मराठी पुस्तकां आमच्या घरांत नात. हांवें मराठी माध्यमांतल्यान अकरावी मेरेनचें शालेय शिक्षण घेतलां. ताका लागून हे मराठी ग्रंथ संपदेंतल्यान म्हाकां वाचनाचो नाद लागलो. खंयचोच विशय समजुंचो ना हें म्हाकां मान्य नाशिल्लें. मराठी पांचवींत आसन, प्लेटाच्या रिपब्लिकचो मराठी अणकार वाचलो. म्हजी धा वर्सांनी व्हडली, बी.ए. शिकपी भयणीन म्हणलें, "हें कितें वाचता? तुका कशें कितें समजतलें?" हांवें म्हणलें, " बेस्टेंच उलोवं नाका. ह्या पुस्तका विशींचो खंयचोय प्रस्न विचार. पळय हांव सारकी जाप दितां काय ना ती!

## सहकाराचो पुरस्कर्तो

बाबा धतरेक घट्ट पांय रोंबून रावपी एक अर्थतज्ञ आशिल्लो. महाराष्ट्रांतल्यो फळबागो, बस येरादारी, गिरणी





आज़ादी का अमृत महोत्सव

कामगारांची आर्थिक स्थिती अश्या अभ्यासांची आखणी करून पळोवणेंत स्वता वांटेकार जातालो. त्या भायर सहकारी बँको, सहकारी साकर कारखाने हांचे उदरगतींत मना सावन वांटो घेतालो. तो लोकशायेचो कट्टर पुरस्कर्तो आशिल्लो, समतावादी आशिल्लो. ताचे नदरेन सहकारी लोकराज्य हीच आदर्श समाज रचना आशिल्ली आनी ते पासत तो जिवीत भर वावुरलो. ताणें म्हाकां सैमा वांगडाच आम आदमीचेर मोग करपाक शिकयलें. तांचीं हीं मुल्यां हांवें आनंदान आपणायलीं.

1947 सालांत देश स्वतंत्र जालो आनी कितलेच सच्चे देशप्रेमी लोकाभिमुख राजकारणी सत्तेर आयले. हातूंतलेच एक आशिल्ले वैकुंठभाई मेहता. ते अहमदबादच्या एका सधन कुटुंबांत जल्मले पूण आयुश्यभर सादेपणान रावन तांणी गांधीवादी चळवळींत भाग घेतलो. बाबा पांच वर्सां सुरतेंत एका महाविद्यालयाचे प्राचार्य आशिल्ले, उत्तम गुजराथी उलयी. तांची वैकुंठभाईं लागीं इश्टागत आशिल्ली; वैकुंठभाई त्या वेळचे मुंबय राज्याचे अर्थमंत्री आनी सहकार मंत्री जाले. तांचे मजतीन आनी अहमदनगरच्या विठ्ठलराव विखे पाटील हांचे फुडारपणा खाला बाबांन देशांतलो पयलो सहकारी साकर कारखानो उबारपाक फुडाकार घेतलो. विठ्ठलराव एक भारदस्त व्यक्तिमत्व आशिल्लें. माथ्याक एक व्हडलो मुंडासो, पांयांत जोतें, जाडो भरडो सुती कोट, धोंपरांच्या मातशें सकयल मेरेन आयिल्लें धोतर, आमचे घरा अचानक अवतरताले. बाबा मोठ्या अगत्यान तांचें स्वागत करताले. दिवाणखान्यांत बसून खलबतां चलतालीं. विठ्ठलराव शेतकारांच्या संघटनांत गुंतिल्ले; बाबा दुडवांची, यंत्रसामुग्रीची वेवस्ता करपाक. बाबां वांगडा अर्दीमर्दी हांवूय अहमदनगर जिल्ह्यांतल्या गांवां- गांवांत वतालों. जमनीर बसून खाेशेन जेवतना शेतकारां वांगडची भासाभास आयकतालों. हो जो खटाटोप चालू आशिल्लो, ताचेर कस्तुऱ्यांनी एक कविता रचल्या -

इक्षुदंड हे उदंड पिकले, फुलवुनि वरती तुरा -द्यावया स्फटिकतुल्य शर्करा ।

उद्योगाची उभी पंढरी, भीम-गर्जनाकरा - कृषिकांच्या लक्ष्मी आणू घरा ।

हातूंतल्यान 1949 सालांत महाराष्ट्रांतलो पयलो सहकारी साखर कारखानो उबो रावलो- प्रवरानगराक. विठ्ठल- धनंजय जोडयेक गाढ विश्वास आशिल्लो तो म्हणल्यार हे सहकारी चळवळींतल्यान एक समृद्ध, सगळ्यांक समान संद दिवपी , दुर्बळांक आधार दिवपी, ग्रामीण समाज उबो रावतलो.



***१९४९ वर्सा स्थापन जाल्लो प्रवरा नगर सहकारी साकर कारखानो***

शेतकाऱ्यां वांगडा इतले आपुलकायेन काम करपी बाबा स्वताय शेतकार आशिल्लो. ताच्या वकील बापायन नागपूरा भायर धा हेक्टरांचेर शेती सुरू केल्ली. देड हेक्टराचो संत्र्यांचो बगीचो आशिल्लो आनी ताका पाटान उदक पावोवपाक आशिल्ली एक बरीच व्हडली बांय आनी तिचेर दोन बैलांची मोट. मोटे सकयल जो पउदकाचो घसघसो पडटालो तातूंत हांव न्हातालों. पाव हेक्टाराचेर ऊस पिकयताले आनी एक ल्हानशी फुलबाग आशिल्ली. बाकी ज्वारीची शेती. शेतार एक शेणान जमीन सारयल्लें चार कुडींचें ल्हानशेंच घर आशिल्लें; वीज, नळाचें उदक थंय मेरेन पावूंक नाशिल्लें. दर दिवाळेक आनी नातलांक नेमान नागपूराक वतालों. दिसभर घरच्या रसाळ संत्रांचो फडशा पाडटालों. हांव मजेंत नांगर चलोवंक शिकलों. नागपुरांतल्यान बाजार करपाक बैलगाडी हाकत व्हरतालों. नागपूरची संस्कृताय पुण्यांतले संस्कृतायेहून खूबूच चड मनमेकळी, शांत वृत्तीची आशिल्ली.तांची बोलीय पुणेरी मराठी परस गोड भासताली. रेग्यांनी म्हणलांच न्हय,-

काहून तिने जो म्हटले, तेव्हाच मला हो पटले,
येणारच अंगाशी, हे गोड वऱ्हाडी खटले!

बाबा काम करपी गड्यांक भरपूर पगार दिताले. ते

सगळी ज्वारी स्वतःच खाताले. ताका लागून आम कां ह्या व्यापांतल्यान व्हडले शे दुड्डू सुटऽ नाशिल्ले. पूण थंय रावून म्हजें जिवीत जें अणभव समृद्ध जालें तार्चे मोल करूंक येवंचें ना.

## इरावती कर्वे

आमच्या शेजराक महर्षि धोंडो केशव कर्वे रावताले. तांचे चिरंजीव दिनकर आनी समाजशास्त्र, मानववंशशास्त्रांतल्यो अग्रगण्य तज्ञ स्नुषा इरावती कर्वे. तांची धूव गौरी म्हजे पिरायेची. मराठी दुसरे-तिसरेंत आसत सावन याद जाता, इरुकाकू उत्खननाक गेली काय ती केन्ना परत येता हाची आमी मोठे उत्कंठतायेन वाट पळयतालीं. कित्याक आयल्या-आयल्या आपले पोतयेंतल्यान गारगोटयांचीं पार्ती, हाडांच्यो सुयो अश्यो खूब अजाबाच्यो गजाली काडून दाखयताली, अश्मयुगांतलो मानव जियेतालो तरी कसो हाच्यो काणयों सांगताली. मराठी चौथेंत आसतना तर म्हजें नशिबूच उगडलें. इरुकाकून निसर्गरम्य कोडागु जिल्ह्यांतल्या मडिकेरींत मानववंशशास्त्रीय संशोधना पासत पुराय म्हयनोभर एक घर भाड्यान घेतलें. म्हजे आईक म्हणूंक लागली, हांव गौरीक घेवन वचपाचीं आसां, तुमीय धाडात माधवाक म्हयनोभर सुटयेक. आमचे शाळे-चे मुख्याध्यापक म्हणूंक लागले, अशी म्हयनोभर शाळा बुडोवपाक हांव मात्तूय परवानगी दिवंचों ना. पूण बाबान चीट दिली की तो ह्या म्हयनोभरांत खूब कितें नवें शिकतलो, शाळेचो अभ्यास घरा घेवं, ती जबाबदारी आमची!

इरूकाकू, गौरी आनी हांव आगगाडयेन म्हैसूराक गेलीं. थंय मेळ्ळे धारवाडचे बाबांचे आत्तेभाव शंकर बालदिक्षित जोशी आनी तांची घरकान्न पार्वतीकाकू. शं. बा. जोशी एके शाळेंत कानडी शिकयताले, तांचो भास- इतिहास-साहित्याचो व्यासंग आशिल्लो आनी मराठी आनी कानडी ह्या दोनीय भासांनी तांणी या विशयांचेर उत्तम लेखन केलां. ते कोडगुंत आमकां दुभाषी म्हूण मजत करपाचे आशिल्ले. थंयच्यान मोटारींतल्यान भायर सरलीं, आनी दोंगरांत, जंगलांत रस्तो भितर सरल्या बराबर चालकान अचानक गाडी थांबयली. पळयत





आज़ादी का अमृत महोत्सव

जाल्यार कितें, रानटी हत्तींचो कळपाचे कळप संथपणान रस्तो आडोवन उबो आशिल्लो, कडेच्या कोंड्याआळीचेर चरतालो. अर्दवर तांच्यो लीला पळयत थांबिल्लीं. मागीर तांणी वाट सोडली, आनी आमी फुडें गेलीं. वनाच्छादीत कोडागूंत खूब खेप अशे हत्ती पळोवंक मेळ्ळे. पूण दुसरो अविस्मरणीय अणभव आशिल्लो थंयच्या लोकांनी पवित्र मानून खास राखिल्ल्यो देवरायो. आर्दीच घनदाट आशिल्ल्या जंगलांतल्या ह्या उत्तुंग रुखांच्या रायांनी किर्र काळोख आसतालो, तातूंत घुसप हो एक चित्त-थरारक अणभव आशिल्लो. मनांत विचार येवंक लागले, असल्याच घनदाट जंगलांत, अशेंच हत्तींच्या सहवासांत आयुश्य काडपाक जमलें, जाल्यार आनीक दुसरी खोस ना!



*तलकावेरी देवराई*

कोडगूंत इरुकाकू समाजांतल्या वेगवेगळ्या थरांतल्या जाती-जमातींतल्या लोकांच्या तकल्यांचीं मापां घेताली, तांचे लागीं तांचे कुटुंब रचने विशीं, नात्यापात्या विशीं म्हायती एकठांय करताली. अशें प्रत्यक्षांत चलपी संशोधन पळोवप हो एक नवोच उद्बोधक अणभव आशिल्लो. शंकरकाकां कडल्यान हांवें कानडीचे पयले धडे घेतले, कर्नाटकाची आहार संस्कृताय समजावन घेतली. मुखा वयलीं 33 वर्सां कर्नाटकाच्या समाजांत समरस जालों ताचो हो सुंदर आरंभ आशिल्लो.

दर गिमाळ्यांत आई, बाबा आनी हांव सिंहगडार लोकमान्य टिळकांच्या बंगल्यांत दोन सप्तकां सुटयेंत रावंक वतालीं. त्या वेळार गडार वचपाक खंयचेच मोटार रस्ते नाशिल्ले आनी आमी मोठे उमेदीन चडटेचे पांयवाटेन तानाजीन सिंहगड कसो जिंकलो ह्या गजालींच्यो यादी काडीत चडून वतालीं. सगळे वटयां गडाचे देंवतेर भरपूर झाडी आशिल्ली आनी तातूंत भेंकर, रानदुकर, बिबटे नक्कीच वावरताले पूण अशे व्हडे पशू आमचे नदरेक काय येना आशिल्ले. पाऊण वाट चडले उपरांत गडा ला-गसार आशिल्ल्या ल्हान ल्हान पठारांचेर रावपी शितळ ताक विकपी गवळी धनगर मेळटाले. मोठे खोशयेन ताक पीत तांचे लागीं गजाली मारतालीं. धनगरांचे वसती लागीं परंपरेन गडाची राखण करपी कोळी लोकांचीं घरां आशिल्लीं. सिंहगडाच्या पोवाड्यांत तानाजीचे मावळे कड्याचेर गार चडोवन वयर वचूंक सुरवात करताले त्या वेळच्या प्रसंगाचें वर्णन आसा: ( ) भाई कसला गलबला, कोळ्याने उत्तर दिले धनगर वाडामे वाघ शिऱ्या, गाईचा बछडा खाते रांडा पोरे बोंब मारते, तुम्ही सुखाने राज्य करा !



*उत्तर पेशवेकाळांतलें पुण्याचें चित्र; फाटल्यान सिंहगड. (चित्रकार- हेन्री सॉल्ट)*

हांव आनी बाबा धनगरां लागीं गजाली मारीत तांचे वसतीर वताले. थंयच्यो पुष्ट, तुकतुकीत म्हशी पळोवन खूश जाताले. आमचेय घरा दोन म्हशी पोशिल्ल्यो, पूण तांकां ह्या गडा वयल्या म्हशींची सर नाशिल्ली. वाटेर पुण्यांत केन्नाच दिसनाशिल्ले देखणे क्रेस्टेडबन्टिंग कुतूहलान पळयत रावताले. गडा वयले उदकाचे टाकयेच्या काठार साजवेळचें मलबारव्हिसलिंगथ्रश सुरेल गाण्याची मैफल रंगयतालो. किल्ल्याच्या तटा वयल्यान तेन्नाच्या

स्वच्छ वातावरणांत पयस मेरेन हिसपा भायर शिकारी पक्षी, गिधाडां उफेतना पळयत, उंचा वयल्यान तांच्यो हेरशी दिश्टीक पडनाशिल्ल्यो फाटी नियाळत, तार्जी, रुचीक काण्णां तोंडांत उडयत शांतपणान बसून रावताले. सैमाचे सान्निध्यांत दोन सप्ताकां केन्नाच सरतालीं..

## सलीम अली

संवसारांतलो सगळ्यांत खुषखबर पक्षी खंयचो अशें म्हाकां कोणेंय विचारलें, जाल्यार हांव बिनधास्त जाप दियन: 'पिसो राघू.' पक्षाचें सगलेंच व्यक्तिमत्व लोभस. सडपातळ आंगलोट, पोपटी रंग, ताचेर राजवर्खी सया, चोंचींतल्यान एक काळसर रेग आनी शेपडेंतल्यान तकली भायर काडपी एकुलतें एक लांब पीस. पिशे राघू रुखांच्या शेंड्यांर, विजेच्या, केबल टीव्हीच्या सरयांर बसून आसमंत न्यियाळत आसतात. मर्दींच ट्रींग- ट्रींग असो साद दितात. केन्ना केन्नाय एकलेच, जायतेदा जोडयेन, तीग, चौग शिकार करीत आसतात. एखाद्रो उडपी किडो दिसलो काय एके सुंदर भरारींत ताका शिताफीन धरून परत स्थानापन्न जातात. आपल्या सावजालक आरतें परतें करीत, आदळीत- आपटीत, गट्ट करतात. सगल्योच हालचाली सामक्यो नेटार!



***पिसो राघू** Meropsorientalis,**तेजिंदर सिंग रावल हांणी नागपूराक घेतिल्लें छायाचित्र***

म्हाकां म्हजे कुडी भायर सरयेर बशिल्ले पिशे राघू पळोवंक खास मजा दिसताली. एक दीस म्हाकां





आज़ादी अमृत महोत्सव

शेपडेंतल्यान तकली भायर केल्लें लांब पीस नासिल्ल्या मुंडे शेपडेचे पिशे राघू दिसले. ही किते भानगड काय म्हूण हांवें सलीम अलींचें पुस्तक सोदलें. मागीर आमगेर आशिल्लीं हेरूय पांच-धा पुस्तकां वाचून पळलीं. पूण कांय जाप सापडना. बाबांकूय खबर नाशिल्लें. ताणें म्हणलें, "सलीम अलींक चीट बरय आनी विचार. एका सुमानातूच जाप आयली: दरवर्सा सवणीं पोरणीं पिसां उडोवन नवीं पिसा न्हेसतात. ह्या स्थित्यंतरांत शेपडेंतलें लांब पीस उदेवपाक कळाव लागता, आनी कांय सप्तकां पिशे राघू मुंडो शेपाडो मिरयतात. सलीम अलींनी म्हजे सारख्या एका शाळकरी भुरग्याक तातडीन जाप दिली म्हूण हांव भलतेच भुरकुटलों आनी आनीकय नेटान सवणीं नियाळपाक लागलों.

सुगरणीचे अफलातून कुटुंब व्यवस्थेचो अभ्यास करपांतल्यान सलीम अलींच्या पक्षिशास्त्रीय संशोधनाक सुरुवात जाली.रायगड जिल्ह्यांत दर्या देगेर किहीमाक कांयच काम-धंदो नाशिल्ले तेत्तीस वर्सांचे सलीम अली आपल्या परिवाराच्या एका घरांत रावताले. थंयच्या आमरायांनी, रानावनांत हेडत सवण्यांचें काळजीदारपणान निरीक्षण करताले. तांणी पळयलें की विणीच्या हंगामांत सुर्वेक एक नरांचें भिरें येवन एखद्र्या रुखार घोंटेर विणूंक लागता. ह्या घोटराची पयली अवस्था आसता एक झोपाळो, घोंटेर बांदतना हे हळदुवेच आकर्शक नर प्रेमगीतां गायत रावतात. एकदां झोपाळे बांदून जाले काय माद्यांचें भिरें अवतरता. एखाद्रे मादीन घोंटेर पसंद केलो काय झोपाळ्यार बसून नर-मादींचो प्रेमसंगम जाता. मागीर नर आनीकूय उत्साहान घोंटेर बांदत रावता. आदीं तार्तीपिलां पासत एक बंद वाटकुळी कूड; उपरांत घोंटरांत भितर सरपाक एक लांबसार नळी. घोंटेर पुराय जातच मादी तांतयां घालता. हाचे बराबरूच नर-मादींचें नातें सोंपता. मुखार तांतयां उबोवपाची, पिलां वाडोवपाची सगळी जापसालदारकी मादीचेर आसता. सुगरणींचो नर एके मादीचो संवसार आरंब जातांच दुसरो घोंटेर बांदपाक लागता. ताचेर गायत गायत दुसरे बायलेक आकर्शित करता. एका फाटोफाट एकाच पावसाळ्यांत अशे तीन-चार घोंटेर लेगीत पुराय करुंक शकता. एकेका घोंटरा फाटल्यान तीन-तीन अशा धा-बारा पिलांचो बापूय जावंक शकता. बहिणाबाई चौधरी म्हणटात,- 'खोप्यामधी खोपा, खोपा सुगरणीचा,---- तिला गंप्या नर, मिळे सोबती जन्माचा.' हें मात्तूय खरें नासता; सुगरणीचो जोडीदार जल्माचो सोबती नासता; मादीन ताणें बांदिल्लो घोंटेर पसंत करुन तांतयां घालतांच, तो आनीक एके सखीची प्रियाराधनेंत घुस्पून वता.

पुण्यांचे पर्वतीच्या मुळसांत उदकाच्या कालव्या लागसारचे बाभळींचेर सुगरणींचे खूब्ब घोंटेर आसताले. तांचें निरीक्षण करपा पासत सलीम अली दर पावसाळ्यांत दोन चार खेप पुण्याक येवन वताले. म्हाकां पत्राची जाप दिले उपरांत कांय म्हयन्यांनी ते पुण्याक आयले, तेन्ना हांव तांकां वचून मुद्दाम मेळ्ळों. तांचो उत्साह, तांचें गिन्यान, तांची विनोदबुद्दी ह्या सगल्या गजालींनी आकर्शीत जावन पिरायेच्या 14 व्या वर्सा पक्कें थारायलें की हांवूय असोच रानावनांत मुक्त भोंवत अभ्यास करपी जीवशास्त्रज्ञ जातलों. म्हजो निर्णय बाबांक सांगलो. ताणें म्हणलें, "तुका जर सामकें दिसता जाल्यार, अवश्य जा. मागीर जें कितें निसर्ग निरीक्षण करता तें पद्दतशीर बरोवन काडपाची संवय लावन घे.' म्हाकां ही कल्पना खूबच भावली. व्यवस्थित टिपणां दवरूंक लागलों. हातूंतल्यानूच म्हजें पयलें लेखन छापून आयलें.

1928 सालात स्थापन जाल्लें 'सृष्टिज्ञान' हें व्हड उत्तम दर्जाचें शास्त्रीय मासिक आशिल्लें. हांव सामको ल्हानपणा सावन 'सृष्टिज्ञान'मदले झाडून सगले भौतिकशास्त्र, रसायनशास्त्र, जीवशास्त्र, भूगर्भशास्त्र लेख नेमान वाचतालों. इरुकाकून म्हणलें, "तुका जर पक्ष्यांची, प्राण्यांची आवड आसा, तर तूय ह्या विशयांचेर मराठींत कसलेय शास्त्रीय लेख बरय. आमी सृष्टिज्ञानांत उजवाडाक हाडूं." खूश जालों, आमी गिमाळ्यांत खूब खेपे महाबळेश्वराक सुटयेंत वताले. थंयच्या जंगलांतले घनदाट सावळेंतले घोडदौडी पासत केल्ल्या रस्त्यांचेर चिकार पायपीट करप. थंयच्या पुण्यांत केन्नाच नदरेक पडऽनाशिल्ल्या सवण्यां वयली टिपणां म्हजे कडेन आशिल्लीं. तीं वापरून म्हजो पयलो , छापून आयिल्लो,'महाबळेश्वरचे काही पक्षी'हो लेख बरयलो. लेखांत स्वत: हातान काळे शाईन रेखाटना काडून अंतर्पून केलीं. तेन्ना हांव पंदरा वर्सांचो धावेंत

आशिल्लों. त्या उपरांत सृष्टिज्ञानात आनिकूय धा बारा लेख बरयले. अशी सुरू जाली म्हजी आनी म्हजे लेखणीची प्रेमकाणी.

म्हजे गुरू, म्हजे उस्ताद सलीम अली म्हजे परस सेहेचाळीस वर्सांनी व्हड आशिल्ले.हांव चौदाव्या वर्सा तांकां पयले खेप मेळ्ळों आनी तेन्नाच्यान उपरांतचीं तीस वर्सां सातत्यान तांच्या संपर्कांत आशिल्लों. भारतांत असतना प्रत्यक्षांत आनी स वर्सां हार्वर्डाक आसतना पत्रवेव्हारांतल्यान. पक्षी निरीक्षणा पासत जायते खेप तांचे वांगडा वेगवेगळ्या निसर्गरम्य सुवातांनी भोंवलां फिरलां, सवण्यांच्या रातनिवाऱ्याचेर आमी दोगांयनी मेळून एक संशोधन निबंध बरयलो. पुण्यांत, बंगलोरांत ते सदांच म्हजे घरा रावताले. तांणी म्हाकां सदांच नेटाचें फाटबळ दिलां; एक-दोन खेप वनविभागाच्या कचाट्यांतल्यान सोडयला. पूण भारताचे किसान, पशुपालक, वननिवासी हेच निसर्गाचे विध्वंसक हो तांचो घट्ट समज म्हाकां मात्तूय पटनाशिल्लो. हो पूर्वग्रह कितलो नाका जाल्लो आशिल्लो हें 1982 सांतल्या भरतपूरचे दुर्घटनेतल्यान स्पश्ट दिसून आयलां.

## खेळगडी

शाळेंत नांव घातलां तेन्ना हांव स वर्सांचो आशिल्लों. त्या आदीचीं सय वर्सां उंडारत बिनवणटींचे शाळेंत खूब कितें शिकूंक घालयल्लीं. शाळेंतल्यान शेजराच्या डेक्कन जिमखान्याच्या क्रीडांगणांत खेळपाक वतालों. एक दीस धावपाची टप्प्यांची शर्यत लायिल्ली. चार-चार भुरग्यांचे पांच पंगड आशिल्ले. पन्नास मीटर धावून फुडल्या भुरग्याच्या हातार टाळी मारपाची, मागीर ताणें धांवपाचें. म्हज्या पंगडांत हांव चौथ्या क्रमांकाचेर आशिल्लों. म्हज्या हातार टाळी मेळऽ मेरेन हेर चारूय पंगडांतलीं भुरगीं खूब्ब मुकार गेल्लीं. पूण हांव जो धूम धांवलो, तो सगल्यांक फाटीं उडोवन आमच्या पंगडाक जैतिवंत केलो. खूब खोस भोगली आनी म्हाकां दिसता पयलेच खेप सातव्या वर्सा म्हजे मनांत एक आत्मविश्वास जागृत जालो आनी ताच्याच बळार खूब कितें करूंक पावलों.

क्रीडा विश्वांत हांवें मुंबय राज्याचो सोळा वर्सा सकयल्या भुरग्यांचो, पुणे विद्यापीठाचे उंच उडयेचो उच्चांक केलो.पेवपांत, टेनिस आनी स्क्वॉश खेळपांत फिशाल जालों. प्रकृती अशी ठणठणीत आशिल्ल्यान



हांव म्हजो सैमाच्या मान्निध्यांतलो परिसर शास्त्राचो अभ्यास व्हडा यशस्वीपणान पुराय करूंक शकलों.

*फर्गुसन महाविद्यालयाच्या ॲथलेटिक्स संघाचो कप्तान उजवे कडल्यान दुसरो बशिल्लो*

## जोतीबा फुले

सह्याचलेचो पाचवो शालू हजारांनी वर्सां -इंग्रजांची राजवट सुरू जाय मेरेन तिगून आशिल्लो. आमच्या घरच्या ग्रंथ संग्रहांत हांवें ग्रँट डफ हाणें 1826 सालांत मराठ्यांचो इतिहास वाचलो. पुस्तकाच्या आरंभाकूच तो सह्याद्रीच्या देखाव्याचें वर्णन करता: घाटांत चडटना, वा घाट माथ्यार पावतकच आपले सामकार एक चित्तवेधक, भव्य देखाव उबो रावता. कल्पना करात: एका फाटल्यान एक तीन चार हजार फूट उंचायेच्या रुखांनी आच्छादीत पर्वतरांको, जांचे भितर झोपांक लेगीत मूळ रिगोवपाक खांच सापडना, असले अर्दी मर्दी तकली वयर करपी प्रचंड काळे फातर. विशेश करून पुण्याचे दक्षिणेक सगळे सह्याद्री वर्सूयभर पाचवेचार आसतात. पावसाळ्याच्या उत्तरार्धाक सगळे कडल्यान न्हंयों-व्हाळ नेटान व्हांवतना ही हरितसृष्टी इतली भारेल्ली आसता ती पळोवन पळोवपी अजापता.

अठराशें साठ च्या सुमाराक इंग्रजांनी जिल्हो गॅझेटिअर तयार करपाक आरंभ केलो. त्या वेळा वयल्या रत्नागिरी जिल्ह्याच्या गॅझेटिअरांतल्यान स्पश्ट जाता तें म्हणल्यार अठराशें अठरा सालांत मराठ्यांचो पाडाव जायत सावन ते अठराशें साठ मेरेन सह्याद्रीच्या पाचव्या शालूच्यो तिस्त्यो वाद्र्यो करून उडयल्यात. हो सगळो इंग्रजांच्या तथाकथीत विज्ञानीक वन वेवस्थापनाचो प्रताप आशिल्लो. ग्रॅण्ट डफान 1826

सालांत वर्णन केलां, ताच्याच फुडल्या वर्सा जल्मल्ल्या महात्मा जोतिबा फुले हांणी आपल्या 'शेतकऱ्याचा आसूड' ह्या पुस्तकांत 'ह्या जुलमी फॉरेस्ट खात्याची होळी करूंक जाय' अशें ठणकायत शेतकारांचे वायट परिस्थितीचें रे-खीव वर्णन केलां: आदीं ज्या शेतकारां लागीं भोवच थोडीं शेतां आसतालीं आनी जांचो आपले शेतवडीर निर्वाह जाय नाशिल्लो, त्या लागसरल्या दोंगरा वयल्या देंगणांतल्या जंगलांतल्यान उंबर, जांभळ आदी झाडांचीं फळां खावन आनी पळस, मोहा आदीदी झाडांचीं फुलां, पानां आनी जंगलांतल्यान तोडून हाडिल्लो लाकूड-फाटो विकून, पोटा पुरता दुडू एकठांय करी आनी गांवचे गायरानाचे भिस्तीर आपल्यो एक दोन गायो आनी दोनचार बोकड्यो पोसून तांचेर थोडोभोव गुजारो करून मोठे आनंदान आप-आपल्या गांवांतूच रावताले. पूण आमच्या माय बाप सरकाराच्या कारस्थानी युरोपियन कामगारांनी आपली विलायती अशटतासी अक्कल सगळे वाटेन खर्ची घालून बरें व्हडलें आकांताळें जंगल खातें नव्यानूच उपस्थीत करून, तातूंत एकंदर सगळे पर्वत, दोंगर, टेकड्यो, दरय-देंगणां आनी ताचे वांगडाच पडंग जमनी आनी गायरानां घालून फॉरेस्ट खातें तेंगशेर पावयल्लें पासत दीन दुबळ्या पंगु शेतकारांच्या गोरवां-बोकडांक हे धतरीचे फाटीर रानांतलो वारो खावपा इतली सुवात सुवात उरूंक ना.

फुलेंक फकत शेतकारां विशीं कळकळ आशिल्ली अशें न्हय. तांकां एकूणच जाती व्यवस्थेची आनी बायलांचेर जावपी अन्यायाची चाड आशिल्ली. ह्या विशयांची चर्चा तांणी 'गुलामगिरी' ह्या दुसरे पुस्तकांत केल्या. फुले फकत विचारवंतूच नाशिल्ले; तांची तत्त्वप्रणाली प्रत्यक्षांत वापरांत हाडटाले. तांचे काळार महिला, दलित शिक्षणा पासून वंचीत आशिल्ले. तांणी आदीं आपले बायलेक सावित्रीबाईक शिकयलें आनी मागीर त्या दोगांयनी मेळून दलीत समाजांतल्या भुरग्यां पासत शाळा सुरू केली. आपले घरांत दलितांक आपुलकान येवंक दिलें आनी स्वतःची बांय उदक पिवपा पासत दलितांक उगती करून दिली.



आमच्या विषमतायेन पिडिल्ल्या ग्राम समाजान वनराजी इतली वेवस्थीत कशी सांबाळिल्ली हाचें म्हाकां कुवाडे पडलें. कांय अंशान हाची जाप त्र्यंबक नारायण आत्रे हांच्या 1915 सालांत बरयल्ल्या 'गावगाडा' ह्या पुस्तकांत मेळ्ळी. आत्रे हांणी जल्म भर इंग्रजांच्या म हसूल खात्यांत नोकरी केल्ली आनी आस्थेन ग्रामसम ाजाचें निरीक्षण केल्लें. तांचे पुस्तकांत वेगवेगळ्या जा-तींक कसलीं कसलीं कामां नेमून दिल्लीं हाचें नेटकें वर्णन केल्लें आसा. गांवाची आनी गांवच्या जंगलाची राखण करप हें दलीत म्हार समाजाचें काम आशिल्लें. जंगलांतल्यान जोळवा पासत लाकूड फाटो तोडून तो घराघराक पुरवप होय तांच्या कामाचो भाग आशिल्लो. ताका लागून जंगलाची राखण करपी म्हार कारण नासतना जंगलाचो विध्वंस जावंक दिनाशिल्ले .

## गावकारी व्यवस्थापन

म्हाकां ल्हानपणा साकून मराठी कवितांचीखास करून निसर्ग कवितांची आवड आसा. साहजिकच म्हाकां गोयच्या बा. भ. बोरकारांच्यो कविता खूबच आवडटाल्यो. बोरकार गोंयच्या निसर्गाचें चित्तवेधक वर्णन करतातः माझ्या गोव्याच्या भूमीत, वनश्रीची कारागिरी, पाना-फुलांची कुसर, पशु-पक्ष्यांच्या किनारी!!गोंयांत हो सैमाचो ठेवो कसो सांभाळ्ळो हाची जाप म्हाकां धर्मानंद कोसंबींच्या बरपांत मेळ्ळें. गोंयचे कोसंबी हे आर्विल्ल्या काळांतले पाली आनी अर्धमागधीचे आनी बौद्ध साहित्याचे बिनीचे अभ्यासक आशिल्ले. बौद्ध धर्माचे अभ्यासाचे ओढीन ते तांच्या गोंयांतल्या मूळ गांवा पासून थेट वाराणशी मेरेन रेल्वेच्या रुळांच्या कडा कडांनी चलत गेले, थंय पाली आनी अर्धमागधी भासांचो अभ्यास करून तांणी मूळ बौद्ध साहित्य वाचलें. मागीर तिबेटाक वचून बौद्ध धर्माचो अदीक सखोल अभ्यास केलो आनी ताचेर मोठे कळकळीन पुस्तकां बरयलीं. तांकां भारताच्या इतिहासाचो आनी तातूंतले बौद्ध धर्माचे भूमिकेचो खोलायेन समज आशिल्लो. गोंयच्या गांव समाजांच्या सैमीक संसाधनांचे गावकारी व्यवस्थेची तांकां जाणीव आशिल्ली आनी तांणी हे व्यवस्थेंतल्यान निसर्ग कसो संयमान राखून सांभाळिल्लो हें समजावन सांगिल्लें आसा.

गोंयचो रमणीय सैम 1961 मेरेन मोठ्या प्रमाणांत आनी आजूनय बरोचसो तिगून आसा. कारण पुर्तुगेजान इंग्रजां प्रमाण सैमीक संसाधनांची पद्दतशीर लूट करपाचो प्रयत्न करूंक ना. इंग्रज हाडाचे वेपारी. औद्योगीक क्रांतीक इंग्लंडान आरंब केलो. मालमत्तेर सरदार-दरकरांनी नेटान कब्जो करपाची प्रक्रियाय इंग्लंडांत आरंब जाल्ली आनी इंग्रजांनी सामाजीक मालकी अवैध थारायल्ली. असल्या जायत्या कारणांक लागून इंग्रजांनी भारतांतल्या सैमीक संसाधनाचे पारंपारीक वेवस्तेची पद्दतशीर तोड-फोड केली. पूण पुर्तुगेजांचो रोख स्वताच्या देशांतल्या वेपार-उद्योगांची भरभराट करपाचेर व्हडलोसो नाशिल्लो. तांचो रोख आशिल्लो ख्रिस्तीधर्माच्या, युरोपीय संस्कृतायेच्या प्रसाराचेर. हाका लागून जरी तांणी गोंयांतल्या मूळ धर्माचेर, भाशेर, संस्कृतायेर जबरदस्त आक्रमण केलें, तरी जल, जंगल, जमीन हांची आदली गांवकारी वा पुर्तुगेज भाशेंत कोमुनदाद वेवस्ता प्रणाली बरेच प्रमाणांत तिगूंक दिली. जांणी मुळांत गांव वसयले तांचे वंशज गांवकार.गांवच्या सरभोंवतणच्या सगल्या जल, जंगल, जमनीचेर गांवकारांचो एकवटीत अधिकार आसा. उपरांत भायल्यान आयिल्ल्यांक म्हणटात बाह्यवासी. ते गावकारांचे मान्यतायेन जल, जंगल, जमनीचो वापर करूंक शकतात. पूण हांकां मालकी हक नात. गांवकारांनी मेळून थारायले प्रमाण सगलीं संसाधना वापरतले. तांच्या सुयोग्य वापराचें भान ते दवरतले. त्या संसाधनांचो गरजे परस चड प्रमाणा भायर चुकीचे पद्दतीन वापर जावं नये म्हूण जतनाय घेतले. गांवकारीची मालमत्ता विकचे नात, गांवकारांचे कायम सुवादीन रावतली. ते राजाक एकवटीतपणान थारावन दिल्लो कर भरतले. राजान ताचे भायर ढवळाढवळ करूंक फावना. पुर्तुगेजांनी हे वेवस्तेंत ढवळाढवळ करपाचो प्रयत्न केले. विशेश करून ज्या गावकारांनी धर्मांतर करपाचें न्हयकारलें, तांचे हक्क रद्द करून फकत धर्मांतर केल्ल्या गावकारांक दिवपाची खटपट केली. पूण असो हस्तक्षेप केल्यार सुव्यवस्थीत चलपी शेती पडंग पडटा. गोंयची अर्थवेवस्ता हालता म्हणपाचें पळयतकच व्हडलोसो बदल करी नासतना मूळ वेवस्ता कायद्याचे फास्केंत बसोवन चालू दवरली.

गौतम बुद्धान भारतांतली वैषम्यपूर्ण समाजरचना न्हयकारली. ताच्या अश्वलायन सुत्तात एक संभाशण दिल्लें आसा. अश्वलायनाचो ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शुद्र हे प्राण्यांचे वेगवेगळे जातीं सारके आसात असो दाव-

ो आशिल्लो. बुद्धान विचारलें की ब्राह्मण आनी क्षत्रिय हांच्या लग्नांतल्यान जावपी संतत निरोगी आनी प्रजननक्षम आसतली व्हय? अश्वलायनान म्हणलें, हय, आस-तली. तेन्ना बुद्धान म्हणलें, मागीर ते प्राण्यांची एकूच जात. हार्वर्ड विद्यापीठात अर्न्स्ट मायरचो उत्क्रांती वयलो अभ्यासक्रम शिकतनाचो हो संवाद म्हाकां याद जालो. जिवांच्यो दोन वेगवेगळ्यो जाती कश्यो निर्माण जातात हाचें विवेचन करतना मायरान म्हणलें, जेन्ना एके जातीचे गण दोशीं जातात आनी तांच्यांतल्या अंतरजातीय संकरांतल्यान निर्माण जावपी संतत वांझोटी आसता. देखीक, घोडो आनी गाढवांच्या संकरांतल्यान निर्माण जावपी खेचरां, तेन्ना नव्यो जाती उप्रासतात.

वेताळाच्या दोंगराच्या उत्तरेचे देंवतेर मुळावी झाडी शिल्लक आशिल्ली, पूण पठाराचेर जंगल खात्यान केल्ली बाभळीची ल्हानशी लागवड सोडल्यार हेर फकत तुरळक झाडां आशिल्लीं. पठारय जंगल खात्याचे सुव-ादीन आसा व्हय? अशें हांवें विचारतकच बाबान म्हणलें, हय, ढेबर समिती म्हणटा तशी हें बिनझाडीचें जंगल. हे समितीन म्हणिल्लें, भारत हो एक बिनझाडीच्या जंगलांचो आनी जाका जंगल म्हणप समा न्हय अशे सैमीक रुखावळीचो विलक्षण देश आसा. अधिकृत दस्तावेजांत जंगल म्हणल्यार जंगल खात्याचे सुवादीन आशिल्ली जमीन, मागीर तिजेर झाडी आसूं वा नासूं असो कारभार आशिल्लो. 1962 वर्सा हांव रत्नागिरीक गेल्लों तेन्ना वनविभागांतल्या म्हजे इश्टांनी सांगलें, थंय फकत तीन टक्के जमनीर जंगल आसा. पूण प्रत्यक्षांत तर जंय थंय सैमीक रुखावळ दिसताली. प्रत्यक्षांत विचारतकच लक्षांत आयलें, सगळी रुखावळ खाजगी मालकीचे जमनीर आशिल्ली. मराठ्यांक भियेताले देखून इंग्रजांनी रत्नागिरी जिल्ह्यांत व्हडा प्रमाणांत जंगल सरकारच्या ताब्यांत घेवंक नाशिल्लें आनी तें खाजगी जमीन मालकांनी सांबाळून दवरिल्लें. 1975 सालांत कर्नाटकांतलल्या कोंड्यांच्या संसाधनांचो अभ्यास करतना वनविभागान आपल्या ताब्यांतलें जंगल कशें सोंपोवन उडयल्लें तें सारकें पळोवंक मेळ्ळें.

## गोऱ्यांचें क्रौर्य

बाबा 1933 सालां साकून 1883 त स्थापन जाल्ले बॉम्बे नॅचरल हिस्ट्री सोसायटीचे(बी एन एच एस) वांगडी आशिल्लो. तेन्ना साकूनचे बी एन एच एसच्या जर्नलचे एकान एक अंक आमच्या ग्रंथालयांत वेवस्तीत दवरिल्ले. माध्यमीक शाळेंत इंग्रजी शिकल्या बराबर हांवें ते मोटे आवडीन वाचले. तांतूंत राल्फ मॉरीस ह्या कर्नाटकांतल्या बिळीगिरी रंगाच्या दोंगरा वयल्या कॉफी मळ्याच्या मालकाचे आनी ईपी गी ह्या आसामांतल्या चाच्या मळ्यांच्या मालकाचे लेख खास वाचनीय आशिल्ले. इतले की हांवें गी च्या गेंड्यांच्या जीवन इतिहासा वयल्या लेखांचो अणकार करून तें सृष्टिज्ञान मासिकांत छापलें. पूण एक गजाल नदरेक भरताली. हे मळेकार सामान्य भारतीयांक कुस्कुटा समान तुच्छ लेखताले आनी तांकां आपल्या मळ्यांत लागीं लागीं गुलाम लेखून काम



ाक लायताले. फकत जंगल खातें दंडुकेशायेन भारताचें जंगल आनी रानवटी जीव वाचोवंक शकतले आनी सर्वसामान्य भारतीयांक आनी तांच्या गोरवांक जंगला भायर धांवडावन घालूंक जाय अशी तांची विचारसरणी आशिल्ली.

हांवें वाचिल्ल्या पुस्तकां मदल्या डब्ल्यू एच हडसनचें 'ला प्लाटा वयलो सैम मोगी' (द नातुरालीस्त इन ला प्लाता) हें पुस्तक वाचतना म्हाकां जो धक्को बसलो तो केन्नाच विसरचों ना. आपल्या विज्ञानाच्या आनी बंदुकीच्या बळाचेर युरोपियनांनी पंदराव्या शेंकड्या साकून एकोणिसाव्या शेंकड्या मेरेन पुराय संवसाराचेर कब्जो केलो. जमलां थंय मुळाव्यांक गुलाम केले आनी ऑस्ट्रेलिया लागचो टास्मानिया जुंवो वा अर्जेंटिनाचीं तणाळ माळरानांची तांणी पुरायेन कत्तल

केली. तेच वांगडा थंयच्या सैमाचेर मोग केलो आनी सैम संरक्षणाचो विचारय करूंक लागले. हडसन हो मुळचो इंग्रज पूण अर्जेन्टिनांत जल्मल्लो सैम मोगी हृआशिल्लो. ताचे पुस्तकांत तो घोड्या वयल्यान वता आसतना ताका अचानक एक मुळावो कसो दिसलो हाचें वर्णन केलां. तो अतिशय कौतुकान म्हणटा, त्या म नशाक आपलें मरण सामकार आयलां हें मतींत आयलें, पूण अतिशय धैर्यान तो म्हजे कडेन पळयत उबो रावलो. मागीर हांवें तुबक खांदाक लायलें आनी ताका गुळी घालून जिवोच मारलो. हो हडसन उपरांत इंग्लंडाक परतलो आनी थंय रॉयल सोसायटी फॉर प्रीजर्वेशन ऑफ बर्ड्स हे संस्थेचे स्थापनेंत ताणें फुडाकार घेतलो. ही साम्राज्यवाद्यांची संस्था भारतांत इंग्रज वसाहतवाद्यांनी स्थापन केल्ली आनी उपरांत सलीम अली हांच्या फुडारपणा खाल भरभराटीक आयिल्ली बी एन एच एस आपलो आदर्श मानताली.

शाळेंत आसत साकून म्हाकां विज्ञान विश्व-ाचें, आनी खास करून तांतूंतल्या सलीम अली आनी जे बी एस हाल्डेन ह्या दोन दिग्गजांचें जबरदस्त आकर्शण आशिल्लें. पक्षी निरिक्षणांतल्यान हांव सलीम अलीं कडेन आनी विज्ञानाचो खोलायेन समज सोंपे भाशेंत वाचकां कडेन पावोवपी लेखनांतल्यान हांव जेबीएस हाल्डेन कडेन आकर्शीत जालों. हाल्डेन ईजिप्ता वयल्या हल्ल्या विरोधांत इंग्लंड सोडून भारताचे नागरीक जाले. भारतांत कित्याक आयलो, विचारल्यार म्हणटाले, साठ वर्सां मेय-बुटांनी पांय उबयले, आतां खोशयेंत कोल्हापुरी पायतणांत मि रयतां. हाल्डेन विनोद बुद्दी पासत फामाद. मरणशय्येर आस-तना. ताणी 'कर्करोग हो गमतीचो' नांवाची विनोदी कविता बरोवन खळबळ माजयल्ली.

***भारतीय पोशाखांतले जेबीएस् हाल्डेन***

हाल्डेनांनी भरपूर मौलिक शास्त्रीय काम केलें. डार्विनचो उत्क्रान्तिवाद आनी मेंडेलचें अनुवंशशास्त्र हांची सांगड घा-लून दिवपी म्हत्वाचे शास्त्रीय निबंद बरयले. रसायनशास्त्राच्या समजाच्या आधाराचेर जिवांची उत्पत्ती कशी जाली आस-तली हाची पयली संकल्पना मांडली, आनी ही खास मोल-ाची संकल्पना ताणी खंयच्याच वैज्ञानीक माध्यमांतल्यान उजवाडाक हाडली ना तर सामके सोंपे भाशेंत सगळ्यांक सम जतली अशे पद्दतीन 'रॅशनॅलिस्ट अॅन्युअल' नांवाच्या साम ान्य वाचकां पासतच्या वार्षिकांतल्यान उजवाडाक हाडली.. श्वसन संस्थेचेर म्हत्वाचें काम करून कोळशाचे खाणींतल्या कामगारांक, सागरांत मोतीं काडपी पाणबुड्या श्रमिकांक सुर-क्षीत दवरपाचें तंत्र विकसीत करपांत मोलाचो वांटो उबारलो. बौद्ध- जैन तत्वगिन्यानांचेर लेख बरयले. पक्षिशास्त्रज्ञ सलीम अली तांचे जानी दोस्त. दोगांयनी सांगातान पक्षिगणांचो अभ्यास केलो.

हाल्डेनांनी सामान्य लोकां मेरेन विज्ञान पावोवपा पासत आटोकाट प्रयत्न केले. खाणकामगारांनी वनस्प-तींचे पुरातन अवशेष सोदून काडून विज्ञानाक कशें यो-गदान करूं येता, हेंय हाल्डेनांनी सांगलें. 'लीकी' ह्या विनोदी पात्राचे काणयेंतल्यान ल्हान भुरग्यांक विज्ञानाचे सिद्धान्त समजायले. हातूंतल्यान स्फूर्त घेवन हांवें बालवाचकां पासत 'मुचकुंद मुंज्या' नांवाच्या एका पात्राच्यो काणयो बरयल्यो. बहुतांश साम्यवादी मानववंशांतल्या आनुवांशीक विषमतायेचो उल्लेखय करपाचे टाळतात. पूण हाल्डेन सच्चे शास्त्रज्ञ आशिल्ले. बौद्ध-जैन तत्वज्ञांचे भाशेंत सांगपाचें जाल्यार 'संदेहवादी' आशिल्ले. दरेक गजालींच्या दोनय वटयांचो विचार करताले. कितलींच वर्सां ते 'डेली वर्कर' ह्या साम्यवादी वृत्तपत्राचे संपादक आशिल्ले. तरीय तटस्थ भूमिकेंतल्यान मानवी आनुवांशीक विषमतायेर लेखन करत रावले. ह्याच वेळार स्टॅलिन, मार्क्सवादी फास्केंत आनुवंशिकताय मांडपी लायसेन्को ह्या शास्त्रज्ञांच्या नादाक लागून बऱ्यांतल्या बऱ्या शास्त्रज्ञांक पिडटालो. हाल्डेनांक हें सोंसलेंना. शेवटाक ताणी साम्यवादी पक्षाच्या बंधनांतल्यान आपल्याक मेकळे करून घेतलें.

तरेकवार पुस्तकां वाचतना, समजावन घेतना म्हजी ज्ञानपिपासा प्रज्वलीत जाली. पूण हें फकत पुस्तकी गिन्यान उरलेंना, ताका हांव वेगवेगळ्या अणभवांची जोड दीत आयलां. शाळेंत आसतना हांवें फकत फाबरचें 'कीटक मानव' हें आत्मचरित्र वाचलें ना तर रोखडेंच वेगवेगळे किडे, विंचू धरून कवचेचे पेटयेंत सांबाळून तांचीं निरिक्षणां करत रावलों. वैज्ञानीक संशोधन करपाक लागतकच हांवें फकत जीवसृश्टी-मानवीसृश्टी विशीं म्हायती जमयली ना तर साम ान्य मनशांच्या जिवितांत समरस जालों.

---

मो. ९८८११५३४१३, पुणे



# सन सिटी
## पृथ्वीवेलो स्वर्ग



**दो. सुषमा आरूर**
ललित लेखन तशेंच अणकाराच्या मळार वावरतात

संवसारांत नामनेस्त आसलें सन सिटिक आमी जोहान्सबर्ग सावन दोन वरांत पावले.पेलेस ऑफ द लॉस्ट सिटी (झरश्ररलश ेष ींहश डीीं उळींू) चो राजवाडो हो जगभरांतल्यान येवपी पर्यटकांक आकर्शीत करपाक तयार केल्लेलो एक फेंटसी विश्व (Fantasy World) म्हळिलें व्हय! हांगा आफ्रिकेचे जंगल सफारी ट्रेकार(trekk) वत्तल्यांक सुंदर वाट,एक व्हड गोल्फ कोर्स (Golf Course) मंत्रमुग्ध करपी व्हाळ, धबधबे आनी ल्हारांचें देंगण (Valley of Waves) जें एक मानव निर्मित दर्यादेग, असलें मन रिजवणा खातीर कितल्यो तरी सुवात तुमकां दुसऱ्याच जगांत व्हरप!

दक्षिण आफ्रिकेंतल्या एका पुर्विल्या संस्कृतायेचें राजवाडो म्हणून हो निवासस्थान बांदिल्लो, पूण भूंयकंपाक लागून तो नष्ट जाल्लो अशें आख्यायिका सांगता. आत्ता तिका आदलें वैभव परतून मेळ्ळां आनी तिजें भेटीदारांलें मन तृप्त करता! राजवाड्यांतलो आमचो पांच दिसांचो राबितो अलौकीक असो थारलो.

थंयच्या मार्गदर्शकान आमकां राजवाड्याचे आवति-भोंवती व्हरन हाडलें आनी हे सुवातेच्यो गजाल्यो सांगपा लागलो.

इसवी 1990 त बांदकाम सुरू करन दोन वरसांत भव्य असो प्रवेशद्वार बांदिले आस्सां. सिलिंग वयलें चित्र रोमच्या सिस्टायन च्यापलच्या नमुनांतल्यान तयार केल्ली आसून चित्र सोंपपाक 5000 दीस लागले खंय! मजगतींत आसले टेबलाक आट विंगविंगड लाकूड वापरलेलें आसून साडेतीन कोटी रॅन्ड खर्चयलेले आस्सा. टेबला वयर लांबतलें सुंदर क्रिस्टलाचें शेंडेलीयरांतु 7000 क्रिस्टल आस्सून ताजो खर्च 1.7 कोटी जाल्लो आसून, अमेरिकेचो पॅट्रीक वोट्सन म्हळिल्ले डिजयिनरान रचयलेलें आस्सा.

राजवाड्याचे अशि-कुशीक पळयतां जाल्यार थंयची सुवात इतली सुंदर की इंद्रसभेंत सुद्दां इतलें अलौकीक दृश्य आस्सू फावना अशें भास जात्तालो. राजवाड्यांतले फर्नीचर इतले गिरेस्त, सोफा, कदेलांर झीब्राच्या चामड्याचीं कवरां पळोवन दंग जाल्लीं आम्मी. लोब्बींत रेण्डीयराचे प्रतिकृति हुबेहूब, फाटल्यान गेल्यार एक व्हड हत्ती इतले सोबीत आसलें.

लांब भोंवड्यो, प्राण्यांक पळोवपा खातीर लांब ड्रायव्ह, भायर जेवप ही आमची नित्यनेम दिसपट्टी आशिल्ली. व्हेली ऑफ वेव्हस हें एक अद्भुत थळ ,जंय दर्या देगेर कृत्रिम रितीन ल्हारां तयार केल्लें आस्सा.

जेन्ना दादले मिटींगांत गुल्ल आशिल्ले तेन्ना आमी पांच वेगवेगळ्या देशांतल्यो, खंडांतल्यो ललनामण्यो (जपान, आस्ट्रेलिया, अमेरिका, द.अफ्रीका आनी हांव ) भायर सरल्यो पिलेनेस अभयारण्य पळोवपाक.

ह्या सगळ्यांले इंग्लिशिचे उच्चार कितल्ये वेगळ्ये, पूण कळपाक कांय चड त्रास जाल्लेना. अमगेली बरी दोस्ती जाल्ली. हांगाचे थळावे अस्तुरीन तिजे गाडींत ड्रायवार घेवन गेली. तो आमचो लेडीस डे अवट आशिल्लो! तेंवय जंगलांत!

आमचें नशीब बरें आशिल्लें. आमकां कितले वेग-वेगळे हती, गेंड्यांचो पंगड, म्हशी आनी मंद गतीन चलपी हिप्पोंचें एक कुटुंब पळोवन आमी सगळीं खूब खूश जाल्लीं! एके झाडींत साळींदराक (Porcupine) मळयलें. मुखार गेल्ले तेन्ना हत्तीचें व्हड कुटुंब झाडां आनी तांचे फांटे उखलून धुमाकूळ घाल्चे पळोवन भियेल्ले आमी थंय दिकून पळ काडलें!

आमी शिंवाक लार्गी थावन पळोवंक शकले नात.



रानांतलो राजा आपली शिकार खावन, पयस सुसेगाद न्हिदिल्लो दिसलो!

झीब्रा तर व्हड प्रमाणांत दिसले. उदक पिवंक वत्तले, रस्तो क्रॉस करतले झीब्रा आपल्या नित्य नेमान पर्यटकांक लक्ष दिनासतना वचपी पळोवन आमकां सगळ्यांक मजा दिसली. जीराफ तरी आमचे गाडये मुखार, आशि-कुशीक लार्गी थावन पळोवन आमचे खोशीक पारा ना जाल्लें!

आमी हे जंगलाचे भोंवडीक परतीं दोन फावटी आयलीं आनी भरपूर मजा लुटली.

एके राती, खोल आनी दाट रानांतल्या 'बुश ब्रेन' म्हळिले सुवातेर केल्लें बोन फायर आनी बार्बेक्यू पार्टीचो अणभव अफ्लांतून आशिल्लो.

आफ्रीकन लोकां मांस भरपूर खातात.चिकन, कोंकरूं, पोर्क, बीफ, हरणाचें, बगळाचें, मगर, सोरपाचें मांस बाबोटी (Babotie) ही डच आनी मलेशीयाची डिश तांका भौ आवडतें आसा. ते लेंब वा बीफांत ड्राय फ्रुट्स घालन, तांतीं घाल्न बेक केल्ले पदार्थ. दुसरें सोसाटी (Sosatie) हो एक खंयचोय मांसाचो स्टेक (Steak), आमगेले देशाचे समोसान दक्षीण आफ्रिकेचे मेनूंत आपलो जागो घट करन दवरिल्लो पळोवन गम्मत दिसलें!

एक सांजवेळाक थंयचे 'आफ्रिकन एक्स्ट्रावेगन्झा' पळोवपाक गेल्लें. हो एक आफ्रिकेच्या नृत्याचो एक व्हड सुवाळो आसलो. वेळ कसो गेलो हाचें भानच उरलेंना. हे स्वर्गीय अशे सुवातेर थावन आमी केपटावन वचपाक भायर सरलीं.

मो. ९७४०३९९९९५, दोनापावला



अमृत महोत्सव

मुलाखत



# सैमाचीं इश्टीण



**श्रद्धा गरड**

साहित्य अकादेमीच्या युवा पुरस्कारान सन्मानीत लेखिका

कोंकणींतली नामनेची लेखिका, कविता, बालसाहित्य, लीत,निबंद,प्रवासवर्णन,कथा हे साहित्य प्रकार हाताळटा. कोंकणी लोकजिवनांतल्यो विसरायेर गेल्ल्यो वस्तू, आयदनां, खाणां-जेवणां , गोंयचीं शे-वणीं, फुलपाखे, रानफुलां हांचीं थळावीं नांवां, म्हायती सोदपाची आवड आनी त्या संदर्भांत लेखन करतात. 'म्हजी माती म्हजे मळब' हो कविता संग्रह, 'मोतयांची माळ' हो ललीत निबंद संग्रह, 'आनंदयात्रा', 'साता समुद्रां पेल्यान' हीं प्रवासवर्णनां,'कथारंग' हो कथासंग्रह, 'गोंयचीं सवणीं' हो सवण्यांची वळख करून दिवपी संग्रह.तशेंच'जगमां','चला भारत भोंवुया', 'बोमाडे', 'चंपू इन रांदची कूड', 'एक आशिल्लें बायूल' हीं तांचीं बालसाहित्याचीं पुस्तकां... तांकां तांचे साहित्य निर्मणे पासत साबार पुरस्कार लाबल्यात तातूंत- 'म्हजी माती म्हजे मळब' ह्या कविता संग्रहाक - २००७ वर्साचो अखील भारतीय कवियत्री संमेलनाचो गोदावरी देवी केजरीवाल पुरस्कार मेळ्ळा. तांच्या 'आनंदयात्रा' ह्या पुस्तकाक- २०१४ वर्सा कोंकणी भाशा मंडळाचो रॉक बार्रेत साहित्य पुरस्कार मेळ्ळा. २०१४ वर्सा प्रवासवर्णन साहित्याक शंकर रामाणी यादस्तीक 'बिम्ब' पुरस्कार मेळ्ळा. तांच्या 'कथारंग' पुस्तकाक - कोंकणी भाशा प्रचार सभा, कोची - केरळाचो सरस्वतीबाय साहित्य पुरस्कार मेळ्ळा. तांची मुलाखत घेतात साहित्य अकादेमीच्या युवा साहित्य पुरस्कारान भोवमानीत लेखिका श्रद्धा गरड...



**श्रध्दा–** तुमी कोंकणी भाशेंत सृजनशील साहित्य रचतात. तुमच्या ह्या साहित्य प्रवासांतले प्रसंग रोचकच आसतले न्हय हर्षाताई..

**हर्षा–** हांवें तशें बरोवपाक उसरांच सुरू केलें. वयाच्या तिशी उपरांत हांव बरोवपाक लागलें. हांव खूब वाचतालें. मनांत विचार येताले पूण बरयलें ना . एक दीस डिसेंबर 1999 त गोंय दुरदर्शनाचेर कविता वाचनाचीं कार्यावळ चलताली. त्यो कविता आयकतां आयकतां म्हाकांय उमाळो फुटलो आनी तेच दिसा काय दुसरे दिसा हांवें 'शेणिल्ले खीण' ही कविता बरयली. मागीर आनीकूय बरयल्यो. तेन्ना डॉ. माधवी सरदेसायाक मर्दी मर्दी मेळप जातालें. एकदां सहज उलयतां उलयतां ताका म्हळें, हांवें कविता बरयल्यात. ताणें तांच्या जाग मासिका खातीर दी म्हळें. बऱ्यो आसा जाल्यार छापतां म्हणून ... आनी शेणिल्ले खीण ही म्हजी कविता जाग मार्च 2000 ह्या अंकांत छापून आयली. आनी ही म्हजी कविता आवडली म्हणून कविवर्य शंकर रामाणी जांचो हालीच आमी जल्मशताब्दी महोत्सव मनयला तांची चीट आयली जाग मासिकाच्या पत्त्यार. ती चीट म्हळ्यार म्हजे खातीर व्हड पुरस्कार आशिल्लो.ते चिटयेन म्हाकां सातत्यान बरयत रावपाची प्रेरणा दिली म्हळ्यार जाता. तेदेवेळार कांय लेख हांवें बरयिल्ले आनी म्हाकां वाचकांचो खूब बरो प्रतिसाद मेळिल्लो. सरस्वती मंदीर, मराठी अकादमी, अपूर्व प्रकाशन, मल्लिका प्रकाशन अशा संस्थांच्यो कथा आनी कविता लेखनाच्यो सर्ती आसताल्यो. थंय कथा, कविता धाडल्यो . म्हाकां पारितोषिकां मेळ्ळी. त्यो कथा जाग म्हयनाळ्यांत छापून आयल्यो... मागीर दोन वर्सांनी बिम्ब मासीक सुरू जालें. माधवीन म्हळें, आतां बिम्बांतूय बरय..... आनी तेन्ना जागांत आनी बिम्बांत बरोवप सुरू केलें तें अजून मेरेन बरयत आसां.

**श्रध्दा–** साहित्याचे खूब प्रकार आसात. तुमी निबंद, कविता,कथा, बालसाहित्य, प्रवास वर्णन आदी साहित्य प्रकार बरयल्यात. तुमी सुरवात खंयच्या साहित्य प्रकारांत केली आनी मागीर हेर प्रकार बरोवपाक तुमी कशें पावल फुडें घातलें?

**हर्षा–** भुरगेपणांतल्यान म्हाकां काणयांचीं पुस्तकां

वाचपाची आवड. फुलबाग, चांदोबा, कुमार,अमृत, हीं मासिकां वाचपाक खूब आवडटालें. आमच्या शेजाऱ्याचो वर्तमानपत्रां, मासिकां बी विकपाचो धंदो आशिल्लो. तांगेर खूब पोरणे अंक आसताले. ते खातीर म्हाकां भुरग्यांच्या साहित्या वांगडा हेर साहित्य म्हळ्यार दिवाळी अंक बी वाचपाक मेळटाले. एकदां पुस्तक हातांत घेतकच म्हाकां खाणां-जेवणाची लेगीत सुद्द नासताली. तेदेवेळार फुलबाग मासिकांत एक सदर येतालें . चंपाचा चपलाहार चोरून चोर चिंचेवर चडला. चंदुने चिंचेवर चढून चोराला चोप चोप चोपले. हाका च ची चंगळ बी असो माथाळो आसतालो. ब ची बडबड , प ची पंगत , म ची मचमच अशेंय आसतालें . मागीर म्हाकां तशें घडोवपाचें पिशें लागलें. हांव तेन्ना सवेक, सातवेक शिकतां आसतलें. 'र' क 'र' आनी 'य' क 'य' जोडून कविताय केल्यो. फुलबागाचो प्रताप ....





आनी मजा म्हळ्यार म्हजें हें साहित्य तेदेवेळार राष्ट्रमतार छापून येतालें. हांव बरयतालें तें व्हरून आमचो शेजारी दिलीप रायकार हांकां दाखयतालें. तांगेर पुस्तकां, वर्तमानपत्रां विकतात म्हळ्यार तांकां साहित्यातलें सगळें कळटा आसतलें म्हणून. खऱ्यांनीच तांणी हें म्हजें साहित्य व्हरून राष्ट्रमतांत दिलें आनी छापुनूय आयलें. तो राष्ट्रमत व्हरून वाडोभर दाखयल्ली याद जाता. अशें दोन तीन वेळा छापून आयलें. आनी मागीर म्हजी उमेद भागली जावये! ही जाली भुरगेपणांतली गजाल.

हांवें वयर सांगलां तशें 2000 सालांत हांवें बरोवपाक सुरू केलें. कथा, कविता, प्रवासवर्णन, बालकाणयो, कवनां म्हाकां सुचता तें बरयत गेलें. म्हाकां खंयच्याच विशयाचो पातसो ना.

**श्रध्दा–** भुरग्यां खातीर बरें मनोरंजन बालसाहित्यांत आसता. बालसाहित्य बरोवपाक तुमकां कल्पना तुमच्या भुरगेपणांतले सोबीत यादिंतल्यान सुचता?

**हर्षा–** म्हज्या भुरगेपणांतल्या यादिंचेर हांवें 'एक आशिल्लें बायूल' ही बाल नवलिका बरयल्या. कांय बाल काणयों बरयल्यात. पूण सदांच तशें जाता अशें ना. आनी जावपाकूय जायना. समाजांत बदल घडत आसात. भुरग्यांचें विश्वूय आतां बदल्लां. स्थलांतरां, सामाजीक तणाव, तंत्रगिन्यान, हवामान बदल हें सगळें भुरग्यांक दिश्टी पडटा. तांकां ताचेर प्रस्न पडटात. ते खातीर भुरग्यांची उमळशीक आनी कल्पनाशक्त वाडोवपी विशय बालसाहित्यांत येवंक जाय. हेर सगळ्या साहित्य प्रकारां भितर बाल साहित्य रचप म्हळ्यार सामकें कठीण. भुरग्यांचे मानसीक पातळीचेर वचून तें बरोवचें पडटा.

**श्रध्दा–** सवण्यां कडेन इश्टागत कशी जाली? 'गोंयचीं सुकणीं' ह्या तुमच्या पुस्तक रूपांत ती कशीं आकाराक आयलीं?

**हर्षा–** हांव भुरगेपणांत सात वर्सां मेरेन म्हज्या आजोळा सांखळें रावतालें. आज्याच्या घराचे चारूय वटेन व्हडलें पोरसूं. पोरसांत खूब तरेचीं सवणीं येतालीं. बोचुड्डयो, कीर, हळदुवे, लालगें.... आज्याक सवण्यांचीं खूब नांवां खबर आशिल्लीं. म्हाकां आज्या बराबर भोवन सवणीं पळोवपाक आवडटालें. माया म्हयन्यांत आजो आमकां नातरांक दोंगरार भोंवडेक व्हरतालो. वाटेर दिसपी झाडां, फुलां, सवणीं हांची वळख करून दितालो. मडगांवांय भुरगेपणांत आमकां तरेकवार सवणीं दिसतालीं. आमी सकयल्या बाजारांत बांदार बी खेळपाक वतालीं. थंय दिश्टी पडपी शेवण्यांचीं नांवां आमकां एक रेंदेर सांगतालो. म्हजे भितर अजून एक ल्हान भुरगें आसा. भुरगें कशें नवीन वस्त दिसतकीच 'हें कितें, तें कितें' म्हणून विचारता तशेंच म्हजेंय जाता. ते खातीर आमचे आशिकुशीक दिसपी आनीक कांय सवण्यांचीं नांवाय म्हाकां खबर आशिल्लीं

. पूण पुस्तक बी काडपाचें मनांत नाशिल्लें . पूण तोय दीस उदेलो. ताचें अशें जालें, 'कोंकणी स्पिक्स' म्हणून एक फेसबूक ग्रूप आसा. ताचेर वेदांग सावंत हो मॅडीकल कॉलेजींत शिकपी भुरगो. आपणें काडिल्ले सवण्यांचे फोटो ताचेर घालतालो आनी तांचीं कोंकणी नांवा विचारतालो. म्हाकां खुबशीं नांवां खबर आशिल्ल्यान हांव तांच्यो जापो दितालें. मागीर ताणेंच म्हळें कोंकणींत सवण्यांचें पुस्तक ना. तुका इतलीं नांवां खबर आसा जाल्यार कित्याक पुस्तक बरयना? पूण हांवें मनार घेवं नाशिल्लें. मागीर एक दीस सवण्यांचेर बरयल्लें एक इंग्लीश पुस्तक मेळ्ळें. तातूंत थोडीं कोंकणी नांवां दिल्लीं. कोंकणींत स्पोटेड डव (spotted Dove) ह्या सवण्यांक 'कवडो' हें नांव आसा. अशें आसतना त्या पुस्तकांत ताका थिपक्यांचो पारवो हें नांव दिल्लें. तशेंच ग्रीन पिजन (Green Pigeon) ह्या सवण्यांक कोंकणींत हड्डी, पोशे, येनकवडो अशीं तीन तीन नांवां आसात. अशें आसतना ताका पाचवें कबूतर हें नांव दिल्लें. आनिकूय असलीं अणकारीत नांवां आशिल्लीं . हीं नांवां वाचून कोणाचोय असो समज जावं येतालो, कोंकणींत सवण्यांक नांवां नात म्हणून! ते खातीर कोंकणींत पुस्तक येवप गरजेचें आशिल्लें. मागीर हांवें वेदांगाचे मजतीन पुस्तक बरयलें. तातूंत आमी सवण्यांचीं कोंकणी, मराठी, इंग्लीश आनी सायंटीफिक नांवां दिलीं. म्हाकां खबर आशिल्ल्यो सवण्यां संबदीत आल्लायो, लोकगितां, लोककाणयो बी तातूंत दिल्यो . रान खातें दर वर्सा पक्षी महोत्सव घडयता. 2016 त बोंडला जाल्ल्या पयल्या पक्षी महोत्सवांत रान खात्यान 'आमचे गोंयचीं सवणीं' हें पुस्तक प्रकाशीत 1केलें .

**श्रध्दा–** फुलां पळोवपाक आनी तांचो परमळ खूब जाणांक आवडटा. फुलांचें अस्तित्व शब्दांच्या रुपान कोंकणी भाशेंत बरोवन तांची वळख वाचकांक करून दिवपाक जाय, म्हणपाची कल्पना तुमकां कशी सुचली?

**हर्षा–** शाळेंत शिकपी भुरग्यांक खुबदां प्रॉजेक्टा खातीर रानफुलांचीं म्हायती बी कोंकणीत जाय पडटा . तेखातीर फक्त भुरग्यांक उपेगा पडचें म्हणून हांव रानफ ुलांचीं बी म्हायती बरयता . आतां म्हाका रानांनी , उगत्या मळांचेर बी भोवपाक आवडटा . वनस्पतिचें फोटो काडपाक , तांचें बद्दल जाणा जावपाक आवडटा . ताचो उपेग आमच्या भुरग्यांक जालो जाल्यार बरोच न्ही .

**श्रध्दा–** फुलांचेर बसपी फुलपाख्यांचेर तुमी संशोधन करून कोंकणींत ती म्हायती बरयतात अशें आयकलां...

**हर्षा–** संशोधन हो खूब व्हडलो शब्द. हांव फ ुलपाख्यांचें मोगी..हालींसराक फेसबुकार फुलपाख्यां संबदीत म्हायती बी दिवपी ग्रुप्स आसात. तांचेर जाणकार आपणें काडिल्ले फुलपाख्यांचे फोटो, म्हायती बी पोस्ट करतात. फुलपाख्यां संबंदीत खंयच्याय प्रस्नांची जाप आमकां तांचे कडल्यान मेळटा. आमच्या पोरसांत बी खूब फुलपाखे येतात. म्हाकां तांचें निरिक्षण करपाक आवडटा. ते खंयच्या फुलांचेर बसतात, खंयच्या झाडांचेर ततयां घालतात, तांची उडपाची पद्दत, तांचे फोटोय काडपाक आवडटा. कॉमन मायम ह्या फुलपाख्यान आमगेर तिखयेच्या झाडाचेर तांतयां घाल्लीं. मागीर तातूंतल्यान भायर सरिल्ले किडीन सगळीं पानां खावन दवरलेलीं. कमांडर, कॉमन लायम, कॉमन रोज हे फुलपाखे लिंबू, बेल, करबील, असल्या झाडांचेर तांतयां घालतात. रेड पियरो पानफुटीचेर घालता. ही तांची खाद्य वनस्पत. म ागीर फुलपाखो जातकीच म्होंव चोखपाक तांकां वेगळीं झाडां लागतात. कोंकणींत फुलपाख्यांचेर बरयल्लें कांयच साहित्य ना. आतां कोंकणींत हें ना, तें ना म्हणून उपेग ना न्ही. आपलें परीन ना तें दिवपाक हातभार लावपाक जाय.

**श्रध्दा –** तुमी गोंयच्या पारंपारीक खाणां जेवणांचेर संशोधनात्मक लेख बरयतात. गोंयच्या पारंपारीक खाणां-जेवणांचें गिन्यान तुमकां कोणें सांगलें? तुमकां रांदपाची आवड कशी निर्माण जाली? तुमकां कोणें रांदपाक शिकयलें? हे कलेंत तुमची उदरगत तुमी कशी केली?

**हर्षा–** खरें सांगू, लग्न जावचे पयलीं म्हाकां रांदचे कुडींतलीं रुटीन कामां करपाक केन्नाच आवड नाशिल्लें. हांवें च्या लेगीत केन्नाच करूंक नाशिल्ली. घरांत जाणटीं आशिल्लीं. ते खातीर गरजूय पडऽ नाशिल्ली. पूण एक आशिल्लें, पापड, नेवऱ्यो बी चार चौगांनी करपाचीं रासवळ कामां आसतालीं तीं मात करपाक खूब आवडटालीं. देखीक - पिठ्याचे लाडू, बेसन लाडू करप. गोडश्यो तिखश्यो नेवऱ्यो, मुसराद आंब्यांचो हालवो, कुवाळ्याच्यो वडयो घालप, शाबुतांदळाचें सांडगे, शेवयो करप असलें करपाक हांव फिशाल आशिल्लें. पापड करतना गुळयो, लोळयो, लातयो, मांडे, पापड ह्यो पापडाच्यो सगळ्यो अवस्था करपाक येताल्यो आनी

आज़ादी अमृत महोत्सव

मजा म्हळ्यार हांव तातूंत रमतालें. असलीं कामां करपाक शेजारच्योय बायलो येताल्यो. घरांतूय आमी पारंपारीकूच खाणां जेवणां जेवतालीं. भुरगेपणांतल्यान आमी जें खातात ताचीच रूच आमचे जिबेर उरता.

म्हजो जल्म मडगांवचो. कोंबा वाड्यार आमचीं सगळ्यांचीं एके वण्टिचीं तेंकून तेंकून घरां. एका घरांत शिजिल्लें दुसऱ्या घरांत पावतालें. वाडो म्हळ्यार एक व्हड कुटूंब कशें. आमगेर नासण्याचें सत्व करतालीं जाल्यार शेजारच्या घरांत उकड्या तांदळाचें सत्व. शेजान्न करंडांत घालून आमगेर पावयताली. आमगेर सांगटाचें धबधबीत करऽनाशिल्लीं. दुसरी शेजान्न करतकीच म्हाकां मुद्दाम दिताली. मसकाचीं किसरां, किल्लाचें लोणचें, भोपशांचें धबधबीत, सुंगटांचें सुकें, भरिल्लीं कारातीं, असले नग वाड्या वयल्या एका एका घरांतल्यान म्हाकां पावताले. तें कशें करतात तें विचारपाची म्हाकां संवय. मातशे वेगळे रुचिचो पदार्थ खालो जाल्यार रेसिपी आनी नांव विचारप. आवय, आजयो, आजयांच्यो भयणी सगळींच जाणां सुगरणी! लग्न जातकच घोवाक तर गोंयच्या पारंपारीक जेवणाचो घोस्त. ते खातीर रांदपाक शिकचेंच पडलें. आनी म्हजी मांयूय बरी रांदपी. कांय नग हांवें कुळारा केन्नाच आयकूंक नाशिल्ले. ते मांय करताली. तिचें पळोवन पळोवन शिकलें. तांदळाचे पातळ पोळे (गवान), ताकाचे पोळे, गुळयांचो रोस, शेपे भाजयेचें धोणस, कंदमूळ हे नग लग्ना उपरांत शिकलें. म्हजी आवय लोणचें बेस्ट करता. तिची आवयूय तशीच करताली. घडये तो हात म्हाकां आयला जांवये! आमचे सगळे फामिलीक म्हजें लोणचें आवडटाॅ. कांय जिन्नास म्हजे आपशींच बरे जातात. ते खातीर मुद्दम अशे कश्ट घेवंक ना.

आतां तूं उदरगत म्हणटा तशें व्हडलेशें कांय करूंक ना. खूबशीं गोंयचीं खाणां जीं थारावीक घराब्यांतूच, वाठारांतूच करतात, तीं हेर वाठारांतल्या लोकांक खबरूच नासतात. कांय रेसिपी विसरायेचेर गेल्यात. अश्यो खूबश्यो रेसिपी एकठांय करीत आसां. त्यो केन्ना तरी पुस्तक रुपांत हाडपाक जाय.

**श्रध्दा–** कुडीक योग्य पोशण मेळपाक गोंयच्या पारंपारीक खाणां-जेवणाचें खाशेलपण आसता बी?

**हर्षा–** आमचो गोंयचो सैम आमचे खातीर त्या त्या ऋतूंत आमचे कुडीक जें कितें बरें पडटलें, जें कितें पचतलें तेंच पिकयता. आमचो येदो व्हडलो दर्या आमकां ताजें फडफडीत नुस्तें दिता. गांवठी मीठ दिता. न्हंयो आमकां रूचीक गांवठी नुस्तें दिता. गोंयची भूंय आमकां नाल्ल दिता. खोबरेल तेल दिता. उकडो, सूरय, तांबडो सूरय तांदूळ दिता. गोंयचे भुंयेर दर एका रूतूंत वेग-वेगळ्यो भाजयो किल्लातात, वेग-वेगळीं फळां पिकतात. कडधान्यां पिकतात. गोंयचे मातयेंतलीं खनिजां, जिवनसत्वां आमकां हे पिकावळींतल्यान मेळटात. ते खातीर आमी शक्य आसा तितलें नॅचरल, सिझनल आनी लोकल खावपाक जाय.

**श्रध्दा–** तुमचे कडेन गोंयच्या पारंपारीक आयदनांचो संग्रह आसा. तुमची ही आवड तुमच्या साहित्यांतूय दिसता. ही आवड तुमकां कशी लागली? पारंपारीक आयदनांचीं कांय नांवां आनी उपेग आमचे भोवतेक पिळगेक खबरूच ना.

**हर्षा–** म्हाकां मगो भुरगेपणांतल्यान रांदपाचीं आयदनां आवडटात. म्हजे कडेन पितुळचो आनी लाकडी आयदनांचो खेळ आशिल्लो. हो खेळ घेवन रांदचें वाडचेंल्यांनी खेळपाक म्हाकां खूब आवडटालें. ह्या खेळाक खुतखुतलो अशें नांव आसा. ह्या रांदपाच्या आयदनांचीं नांवां आयकून म्हाकां तेन्ना मजा येताली. ह्या आयदनांचेर आजी आमकां उमाणींय घालताली. बोगुणे, शकुंतला आयदनां, लगडी, उरवळी, लोखणें, कावळो, कोळमूळ,कदें, मायटी....... असलीं विचित्र नांवां आशिल्लीं. पितुळची ल्हान उरवळी आसताली तातूंत खोबरेल तेल दवरतालीं. काश्याची व्हडली चार खुरांची उरवळी आसताली. तातूंत हुमण, धबधबीत बी करतालीं. बोगुण्यांत च्या, काफी बी करतालीं. मातयेचे मायटेंत नुस्तें उजरायतालीं. तेन्ना प्लास्टिकचीं आयदनां नासतालीं.

आतां म्हजे कडेन जीं आयदनां आसात तीं म्हजे मांयचीं. विकतीं घेतिल्लीं न्ही. ह्या सगळ्यां आयदनांचे फोटो, तांची म्हायती, उपेग , तांचे संबंदान आशिल्लीं लोकगितां हें सगळें घालून एक पुस्तक काडपाक जाय.

**श्रध्दा –** ओल्ड इज गोल्ड म्हणटात. आदल्या वस्तुंचें संकलन करतना भावनीक नदरेन त्या वस्तुंनी तुमकां कितें सांगलें?

**हर्षा–** आतां म्हजे कडेन आशिल्ल्यो चडश्यो वस्तू ह्यो म्हज्या मांय-मांवाच्यो ना तर म्हज्या आजी-आजाल्यो.

ते खातीर त्यो वस्तू म्हजे कडेन उलयतात. तांचे फाटल्यान एक काणी आसता. देखीक म्हजे कडेन गोंय स्वतंत्र जावचे पयलींच्या काळांतलीं कपयाळीं, गोजड्यो आसात. 'ते फिरंगी गेले, ते उंडे गेले' अशी कोंकणींत एक म्हण आसा. पूण पुर्तुगेज तेंपार उंड्याच्या आकाराच्यो कपयो कापून आजयेन गांठायल्लें एक कपयाळें म्हजे कडेन आसा. 1935 च्या काळांतल्यो आज्याल्यो पोर्से लिनाच्यो वस्तू आसात....दर एक वस्त एक एक काणी सांगता...तो काळ, त्या मनशांच्यो यादी, तेदे वेळची साम ाजीक स्थिती, त्या वस्तुंचो त्या काळांत जावपी वापर. त्यो वस्तू म्हळ्यार तेदे वेळच्या समाजमनाची एक कुरू. ते खातीर हांवें त्यो सांबाळून दवरल्यात.

**श्रध्दा–** तुमी प्रवास वर्णन बरयतात. ताचो प्रवासय आमकां सांगात न्ही...

**हर्षा–** म्हाकां प्रवास करपाक आनी प्रवासवर्णनां वाचपाक आवडटात. हांवें मराठींतलीं आनी कोंकणींतलीं खुबशीं प्रवासवर्णनां वाचल्यांत. 2006 त दत्ता दामोदर नायक हांचें 'अरेबीयन डेज' हें पुस्तक हातांत पडलें. हातूंत तांचे विसेक लेख आसात. वेगवेगळ्या जाग्यां वयल्या भोंवडे वर्णनाचे ते आटीव लेख म्हाकां खूब घोस्ताक गेले. त्याच सुमाराक आमी माथेरानाक गेल्लीं. सगळें जांबळांचें रान, आमचे कॉटेजीचे चारय वटेन जांबळांचीं झाडां. टपटप करून जांबळां झडटालीं.सकाळीं फुडें सवण्यांचो किलकील. थंयच्या सैमान म्हजेर भूल घाली आनी थंयच हांवें, 'माथेरान-जांबळांचें रान' हो लेख बरयलो. जाग मासिकांत तो छापून आयलो. असले बरप कोंकणींत येवपाक जाय म्हणून खूब जाणांनी सांगलें आनी म्हाकां प्रवास वर्णनां बरोवपाक उर्बा मेळत गेली. मागीर फुडलीं स वर्सां भोंव भोंव भोंवलें आनी प्रवास वर्णनां बरयलीं. हें बरोवप म्हळ्यार म्हजे खातीर एक आनंदयात्राच आशिल्ली. आनीक एक योगायोग म्हळ्यार ह्या लेखांचें पुस्तक काडटना माधवीबाय सरदेसायान ताका 'आनंदयात्रा' हेच नांव सुचयलें.







**श्रध्दा –** तुमी म्हळें, तुमकां प्रवास करपाक आवडटा. तुमचो प्रवास तुमच्या लेखनाक कसो उपेगी पडलो?

**हर्षा –** खूब बरो प्रस्न विचारलो श्रध्दा. जाणां मगो, म्हाकां एकदां कोणें तरी विचारलें, 'तूं प्रवास कित्याक करता? प्रवास वर्णनां बरोवपाक मेळचीं म्हणून?' म्हाकां दिसना प्रवासवर्णनां बरोवपाचो हेतू मनांत दवरून कोणूय प्रवास करीत म्हणून! पूण जाता कितें, खंयचेंय एखाद्रें थळ पळयतकीच, थंय दोन चार दीस रावतकीच थंय तुका मेळिल्ल्या लोकांचो, थंयच्या वातावरणाचो प्रभाव मनाचेर पडटा. थंयच्यो लोककाणयों, दंतकथा, हांचो मनांत एक छाप बसता. प्रवासांत सतत दोळ्यां मुखार कितें ना कितें घडत आसता. म्हज्या दोळ्यांक त्यो गजाली दिसतात. कानांक त्यो आयकूंक येतात. तकलेंत खंय तरी विचार सुरू जाता आनी मागीर ह्यो गजाली शब्दरुपांत कागदार देंवतात. केन्ना प्रवासवर्णन जावन, केन्ना कथा जाल्यार केन्ना कवितेच्या रुपांत.

केन्ना केन्ना प्रवासाक वतना पळोवंक नाशिल्ल्या जाग्यांचें एक काल्पनीक चित्र दोळ्यां म ुखार आसता. कांय खेपे त्या चित्रा परस चड सोबीत चित्र पळोवन मन धादोस जाता. तृप्त जाता. स्वित्झरलँडाचो सै म पळोवन म्हाकां असोच अणभव आयलो. वचत थंय सुंदर सुंदर तळीं. लाकडाचीं सोबीत घरां. रंगरंगयाळीं फुलां, धबधबे, झेलान भरिल्ले दोंगर, पांचव्याचार मळार चरपी गायो. गोरवांच्या गळ्यांतल्या घाटिंची ती किणकीण...हेजलबर्ग ह्या ल्हानश्या गांवांत आमी राविल्लीं. थंयचो सैम पळोवन हांव सामकें भुल्लुसलें. मन तृप्ततायेन भरून ओतूंक लागलें. हो अणभव केन्ना काय कागदाचेर बरोवन काडीन सो जालो.




फांतोडेचेर चारांक उठून पेन घेवन बसलें. झरझरीत वळी कागदाचेर देंवपाक लागल्यो. तो लेख बरोवन जातकीच मन सामकें ल्हवपीक जालें. रिलॅक्स जालें. केरळांत म ुन्नार हांगचे च्याचे मळे पळयतना होच अणभव आयला. जपानाचींय कांय खिणचित्रां म्हजे कवितेच्यो वळी जावन रावल्यात.

गोंयां भायर केल्ल्या प्रवासान म्हाकां खूब कितें दिलां. म्हजें मन समृध्द केलां. म्हाकां घडयलां. हांवें पळयल्ल्या दर एका थळांचेर हांव बरयतांच अशें ना. पूण खंयचेय गजाली कडेन बारीकसाणेन पळोवपाची, ताचे फाटली काणी सोदपाची आवड ह्या प्रवासांतल्यानूच आयल्या... आनीक एक बरी गजाल घडल्या, हांव गोंयांतल्या गोंयांत प्रवास करूंक लागलां. खंयूय वतना सदची थारावीक वाट सोडून आडवाटेन वचूंक लागलां. गोंयचे पळोवंक नाशिल्ले कितलेशेच जागे आतां पळोवंक लागलां. पोरणी देवळां, दोंगुल्ल्यो,झरी, घोली, झाडां-पेडां, लोककला हें सगळें आवडीन पळोवपाक लागलां. आनी तांचेर बरयन दिसूंक लागलां. प्रवासांतल्यानूच हांव एक लेखिका म्हणून घडूंक लागलां.

म्हाकां पोरण्या वस्तुंची आवड. ते खातीर म्हाकां म्युझीयम पळोवपाक खूब आवडटा. सिंगापुरचो म्युझीयम, पुण्यांतलो राजा केळकर म्युझीयम, बंगळुरू, तिरुअनंतपुराचो म्युझीयम. पूण म्हाकां सगळ्यांत चड भूल घाली ती दुबयच्या अल फहिदी म्युझियमान. दुबयचो हो म्युझीयम अल फहिदी ह्या पोरण्या किल्ल्यांत आसा. हांगा तांणी पोरणें दुबय तयार केलां. ध्वनी, उजवाड, शिल्पां हांच्या माध्यमांतल्यान. दर्यादिगो, थंयचीं खारव्यांचीं घरां, तांची जीण , घरांत येवपी आयदनांचो आवाज, वेळे वयल्या ल्हारांचो आवाज, वाळवंटांत उंटा वयल्यान भोंवपी वेपारी. वाऱ्याचो सळसळ, थंय दिसपी जनावरां, वनस्पत, खाणां-जेवणां, पारंपारीक बाजार, हें सगळें पळयतना जाणवलें गोंयचो पोरणो तोंडावळो शेणत आसा. आमचीं पारंपारीक आयदनां, न्हेसण, भास, सगळें बदलत चल्लां. लोक पोरणीं घरां, पोरण्यो वस्तू विकून उडयतात. आमचे

पिळगेन हें सगळें पळयलां. फाल्यां आमच्या भुरग्यांक हातुंतलें कांयच खबर आसचें ना. हाचेर कोणे तरी बरोवन दवरूंक जाय हो विचार म्हज्या मनांत घोळत रावलो... आतां हांव खंयचेय पोरणे वस्तु कडेन संशोधनात्मक नदरेन पळयतां. ही नदर म्हाकां ह्या म्युझियमांनी दिली. म्हळ्यार प्रवासानूच म्हाकां ही वेगळी नदर दिली. म्हजे खातीर लेखनाचें एक नवें मळ उगतें जालें.

फाटल्या बावीस वर्सां सावन म्हज्या लेखनाचो प्रवास सुरू जालो. प्रवासांतल्यानूच म्हजें लेखन जल्मलां. हांव भारतांत तशें भारता भायर जंय खंय भोंवलां थंयच्या वातावरणान, थळांनी म्हाकां मोहीत केलां. प्रवासवर्णनां बरोवपाक प्रवृत्त केलां. थंयच्या खाणां-जेवणान, मनशांनी म्हजेर भूल घाल्या आनी म्हज्या लेखनाचो भाग जाल्यांत!

प्रवास हो म्हजो स्वास आनी लेखन हो म्हजो प्राण. म्हण्टकच प्रवासानूच म्हजे भितरल्या लेखकाक जिवें दवरलां म्हळ्यार जाता.

श्रध्दा- तुमकां तुमची भुरगेपणांतली जीण आनी सद्याची जीण हातूंत फरक बी जाणवता?

हर्षा- फरक जाणवता तर! सगळ्याच मळांचेर गोंय बदल्लां. तंत्रगिन्यानाक लागून बदल जाल्यात ती वेगळी गजाल. ते बदल जावपाकूच जाय. आतां हांव तुका मडगांव आनी तातुंतलो म्हजो वाडो कसो बदल्ला तें सांगतां.

म्हजो जल्म मडगांवचो, कोंबावाड्या वयलो. शाळा घरा लागसारूच. महिला नूतन हायस्कूल. कोंबावाडो म्हळ्यार मडगांवचें एक सांस्कृतीक थळ म्हळ्यार जाता. म्हज्या भुरगेपणांतलो काळ म्हळ्यार चाळीस वर्सां पयलींचो काळ घेवया. तेन्ना कोंबांत सगळे पायणी पायणीचे रस्ते आनी तेंकून तेंकून एका वण्टिचीं म्हणटात तशीं ल्हान व्हड घरां. उल्याक पावपी शेजारी. शेजरा पाजरा मनशांच मनशां. सण परब म्हळ्यार उमेदीचें वातावरण. शेजारचीं भुरगीं जमून रस्त्यार खेळप. चुकून एक गाडी बी वताली रस्त्या वयल्यान. क्रिकेट खेळपी भुरग्यांनी मागीर विकेटी कुशीक काडून वाट करून दिवप गाडी वचपाक. आज वचत थंय नवीं आस्थापनां उगडल्यांत. ते खातीर सगळ्यां अशीर रस्त्यांचेर गाडयो पार्क केल्ल्यो दिश्टी पडटात. आतां रस्त्यार मनशां कमी आनी गाडयो चड दिसतात. म्हजी 86 वर्साचीं आवय घरा मुखार गाडी थारावन गाडयेंतल्यान देंवतली जाल्यार जाण्टेपणा खातीर तिका वेळ लागता. तेदे म्हणसर हेवटेन तेवटेन गाडयांची रांग लागता. पूण म्हजी खंत वेगळी. आतां खुबशीं पोरणीं घरां तशींच आसात. तातूंत मनशां रावनात. कांय घरां मोडून



थंय इमारती आयल्यात. काळाची गरज. येवंकूच जाय. पूण मागिलदारांनी आशिल्लीं आमचीं थळावीं झाडां नाच्च जाल्यांत. आतां आमच्याच शेजारच्या चार-पांच घरां बद्दल उलोवंया. तोंका वयल्या घरांत भायरूच पोरसांत जगम आशिल्ली. पातपणस आशिल्लो. शेजारच्या घरांतूय मागिलदारां जगम आशिल्ली. बिमलीण आशिल्ली. आमगेर वोंवळ, आंबाडो, मशींग, आतेराचें झाड, घोटीण आशिल्ली. शेजराय ल्हानशी वोंवळ आशिल्ली. पूण फुलां धवीं आनी मोठ्ठीं. तेफळाचें झाड, ओटमाचें झाड आशिल्लें. निरपणस आशिल्लो. एक काफो(Coffee tree) लेगीत आशिल्लो.तांबडेच काफे लागताले. तांच्याच मदल्या आंगणांत राजआंवाळो आशिल्लो. आनीक एका घरांत दोन चवक्यो आशिल्ल्यो. भितरल्या चवकेच्या आंगणांत सिता अशोक आशिल्लो . केंसरीच बरे फुलांचे घोंस लागताले.

आमचे शाळेंत सरळ आनी उंच अशें व्हडले चमेलीचें झाड आशिल्लें. सकाळीं फुडें लांब देंठ आशिल्लीं धवींच चार पाकळ्यांचीं फुलां सकयल पडटालीं. आमी देंठांत देंठ घालून तांच्यो फांतयो घालतालीं. असलें झाड आनी आमी खंयच दुसरे कडेन पळोवंक ना. मराठींत ताका आकाशनिंब, गगनजाई अशीं नांवां आसात. आनीक एक झाड आशिल्लें शाळेंत.ताका बारीक फळां जातालीं. आमी ताका गोमां फळां म्हणटालीं. हालींच म्हाकां कळ्ळें, ह्या गोमां फळांक मराठींत 'भोकर' म्हणटात ..... आतां हातुंतलीं कांय झाडां पडलीं. कांय मारलीं. कांय वाळटी लागून मोडून गेलीं. काळाच्या पोटांत गडप जालीं. पूण आमचे फुडले पिळगेक ह्या झाडांची वळख ना जाली. आमी रस्त्याकुशीक सदांच रेन ट्री, गुलमोहर बी असलींच झाडां लायतात. एक वोंवळ बी कित्याक लावं नजो? म्हज्या एका बालकवनाच्या संग्रहाचें नांव 'जगमां'. भुरग्यांनी म्हाकां विचारलें, 'जगमां म्हळ्यार कसलें फळ?' मात्शें चेरीभशेन आसता म्हणून म्हाकां सांगचें पडलें. आतां कल्पना कर, ह्या येदेश्या वाठारांतलीं इतलीं थळावीं झाडां ना जाल्यांत तर गोंयभर कितलीं दुर्मीळ जातींचीं झाडां ना जाल्यांत आसतलीं तें! जें जें आमचें थळावें आसा तें उरूंकूच जाय न्ही?

**श्रध्दा–** तुमचे निबंद, प्रवासवर्णनां आनी हेर साहित्य वाचतना, वाचक तांचे कडेन कनॅक्ट(connect) जातात. ताचें कारण म्हळ्यार तुमची म्होंवाळ भास आनी व्हांवती शैली. ही शैली तुमी कशी केळयली?

**हर्षा–** दर एका मनशा भितर ताची अशी एक खास शैली आसता. तो मनीस उलयतना बी तें आमकां जाणवता. आमी बरयतनाय बी आपसूकच ती आमच्या बरपांत येता. मागीर बरोवन बरोवन ती बरी चकचकीत जाता. आतां हांवें मुद्दाम ही शैली केळोवंक अशें काय करूंक ना. सहज बरयत रावलें.

**श्रध्दा–** नवोदीत कोंकणी साहित्य बरयतल्यांक तुमचो संदेश ....

**हर्षा–** तुमकां ज्या साहित्य प्रकारांत रुची आसा त्या प्रकाराचो खोलायेन अभ्यास करात. कोंकणी तशेंच हेर भासांतल्या पुस्तकांचें नेमान वाचन करात. तशें करीत जाल्यार तुमची भास सुदारतली आनी विचार समृध्द जातले.

**श्रध्दा–** तुमच्या जिविताचें तत्वगिन्यान कितें?

**हर्षा–** आनंदांत रावप आनी दुसऱ्यांकूय आनंदांत रावपाक दिवप.

**श्रध्दा–** मुलाखत सोंपयतना आमकां सांगात, बायल मनशेन स्वता भितरलो टॅलेंट सोदून दुसऱ्या कडल्यान तोखणायेची अपेक्षा धरनासतना, स्वता स्वताच्याच टॅलेंटाक रेस्पेद दिवप कित्याक गरजेचें? एके अस्तुरेन स्वताची वळख स्वताचे नजरेन घडोवप म्हत्वाचें आसा?

**हर्षा–** बायल मनशेन पयलीं आपल्याक रेस्पेद दिवपाक जाय. तेन्नाच मुखा वयलो मनीस तुका आनी तुज्या टॅलेंटाक रेस्पेद दितलो. तिचे भितरलो टॅलेंट तिणें वळखून ताका तासां मारपाचें काम करूंक जाय.

आतां म्हजे बाबतींत सांगपाचें म्हळ्यार, हांव लग्ना पयलीं लायफ इंश्युरन्सांत काम करतालें. लग्ना उपरांत हांवें नोकरी सोडली. म्हजे छंद सुरू दवरले. रांदप, पक्षी निरिक्षण, प्रवास करप, विणप-भरप. घोवाक गरज पडटा तेन्ना ताच्या धंद्यांत मजत केली. आजुनूय करतां. पूण ती म्हजी आयडेंटिटी (Identity) जायना. लेखिका हीच म्हजी वळख आनी म्हाका ताचो अभिमान आसा.

*मो. ९८५०५३०१५२, दामबाब, फोतार्डा.*




Pastry palace is one of Goa's oldest bakery and cake shop serving delicious cakes, desserts, pastries and snacks with around 40 stores across Goa!






# शिकस्त आनी अस्त



**ॲड. प्रा. अशोक कृष्ण मोये**

लेखक तशेंच वकील

ही गजाल आसा कु. शिवलीला रामभाऊ पडवळ (कै. सौ. शिवलीला अशोक प्रभू मोये) हे एके एकदमूच गरिबींत वयर सरिल्ले वेंगुर्लेंचे चलयेची. हें चली सगळे बाबतींत हुशार, कष्टाळू, हासऱ्या मुखामळाचें, मेकळ्या मनाचें, पोटभर उलोवपी. ताज्या बापायन आपलें शिरविसें खातीर डोंबीवली, मुंबय हांगा बिराड केल्ल्यान थंयचेच एके शालेंत ताणें इकरावी मेरेनचें शिक्षण, मराठी माध्यमांतल्यान घेतलें. सदांच पयल्या वर्गांत आनी पयलो नंबर सोडी नासतना उमेदीन तें शिक्षण पुराय केलें. ताजी शिक्षणाची आवड, मायेस्त वागणूक आनी हुशारकायेक लागून तें सगळ्यांचे आवडीचें जाल्लें.

ताज्या कुटुंबाची कुलदेवी दिवचलच्या मुळगांवची 'धाकटी वनदेवी'! ती कुलदेवी अशिल्ले कारणान तीं केन्ना केन्नाय, ते देवीचे जात्रेक येवन दोन-तीन दीस थंय रावतालीं. ताका लागून आनी ताजो चुलतो दिवचले रावतालो म्हणून ताज्या मनांत गोंयची आवड उत्पन्न जाल्ली.

डोंबवलींतले ते शाळेंत आठवी शिकतना शिवलीलेन

आपले सामकार चार उद्देश दवरिल्ले आनी हयकारी विचारानीच ताका त्यो मोखी साध्य करपाच्यो आशिल्ल्यो. तेच पासत एके तरेचें बळ ताजे आंगांत तयार जाल्लें. तांतूंतलो पयलो उद्देश आसलो गणित हो विशय घेवन मडगांवचे चौगुले कॉलेजांत बीएससी करपाचो आनी थंय पयलो वर्ग पटकावपाचो. दुसरी मोख आसली पणजे पोस्ट ग्रॅज्युएट सेंटरांत दाखल जावन गणित विशय घेवनूच पयल्या वर्गांत पास जावन एमएससी डिग्री घेवपाची. तिसरो उद्देश आसलो गोंयांतल्याच एका उच्च शिक्षीत भुरग्या बराबर लग्न जावपाचें. हें आपलें सपन पुराय करपा खातीर अकरावी पयल्या वर्गांत पास जायना बराबर तें मडगावच्या श्री.मंगेश, श्री. शशीकांत आनी श्री. आनंद दलाल ह्या आपल्या सोयऱ्यांगेर आयलें. ताणें तांकां आपले मनांतले सगळे उद्देश सांगले. आपले गरीब परिस्थीतीची तांकां जाण करून दिली. आपणाक जाय तेन्ना उश्णे पयशेय दिवंचे पडटले जे आपूण जोडूंक लागल्या बराबर परत करतलें हेंय ताणें एका मोठ्या विश्वासा तांकां सागलें. तांगेरूच रावन शिक्षण घेवपाक तांणी आपल्याक आधार दिवंचो अशी तांचे कडेन ताणें कळकळीची मागणी केली. दलाल भावांनी आनी तांच्या कुटुंबियांनी ताका सगळी मदत करपाचें थारायलें आनी ताका तशें उतरूय दिलें, आधार दिलो, धीर दिलो आनी फुडें सरपाक एक प्रकारची ताकदूय दिली.

दलाल कुटुंबान जरी ताका सगळी मदत करपाचें उतर दिलें तरी नियतीच्या मनांत दुसरेंच आसलें. ताका लागून वेगळेच घडून आयलें. ताका दलाला कडल्यान एकय पयसो घेवंचो पडलो ना. दोन दीस दलालांच्या घराच्या सरभोंवतणच्या वाटाराची एकटेंच भोंवून ताणें थंयची आपले आपुणूच वळख करून घेतली. सांजेच्या वेळार श्री. आनंद दलालाची बायल शैला हिचे बराबर मडगांवां पयस पयस भोंवून सगळी जाणविकाय करून घेतली. तिसरे दिसा शैलान ताका सोमार आसल्या कारणान श्रीदामोदराच्या सालांत नमस्काराक व्हेलें. थंयच्यान तीं चौगुले कॉलेजां गेलीं. थंय शिवलीलेन एका कारकुना कडल्यान ते कॉलेर्जीत प्रवेश मेळोवपाक विज्ञानाचे शाखेंत पयल्या वर्साक प्रवेश घेवंक फॉर्म घेतले. फॉर्म घेतल्या उपरांत आपणाक प्रिन्सीपला कडेन उलोवपाचें आसा तेन्ना आपणाक ताचे कडेन व्हर म्हणून ताणें ताका



सांगलें. तशेंतो कारकून तिडकलो. ताणें तिडकुनूच कशें सांगलें, तुका प्रिन्सिपला कडेन पयलीं वचपाक मेळचेंना. आदीं फॉर्म भरून पयशे दितकच ताका मेळूंक मेळटलें. ताजे पयलें कशेंच जावचें ना. हें आयकून शिवलीला नेटान प्रिन्सिपलाच्या कॅबिना कडेन गेलें. वचून ताणें प्रिन्सीपलाचें दार खटखटायलें. तशे प्रिन्सीपल सायब भायर आयले आनी शिवलीलेक कित्याक आयलां तें विचारलें. आपल्याक तुमचे कडेन उलोवपाचें आसा अशें सांगतांच प्रिन्सीपलान ताका भितर बसून कितें तें सांग म्हणलें. तशें शिवलीलेन आपल्या चारूय उद्देशांचो पाडो तांचे मुखार वाचलो. आपले गरिबी संबंदांत सांगलें. तें सांगिना फुडें प्रिन्सीपलान ताका इकरावेचें मार्क शीट दाखोवपाक सांगलें. ताजे इकरावेचे मार्क पळोवन प्रिन्सीपल खोशी जाले. ते प्रिन्सीपल आसले श्री. दत्तात्रय भास्कर वाघ. जे चौगुले कॉलेजीचे पयले प्रिन्सीपल आसले.

वाघसर थोडो वेळ ओगीच बसले आनी मागीर एकदमूच शिवलीलेक सांगलें, तुका आपूण बिएसस्सी करपाक राष्ट्रीय स्कॉलरशीप चारूय वर्साक मेळोवन

दितलों, फुकट हॉस्टेलांत रावपाक दितलों, तुका फुकट जेवण खाण आनी फुकट पुस्तकांय दितलों आनी त्या भायर आपल्या पाकीटांतले प्रत्येक म्हयन्याक थोडे पयशेय खर्चाक दितलों. तुवें बरें शिकचें पडटलें, बरी वागणूक दवरची पडटली आनी प्रत्येक म्हयन्याच्या निम ण्या दिसा चुकय नासतना आपल्या कॅबीनांत येवन आपूण विचारतलों त्या प्रस्नांच्यो जापो दिवंच्यो पडटल्यो अशेंय सांगलें.

मागीर कॉलेजाच्या मुखेल कारकुनाक आपोवन हाडून सांगलें, शिवलीला आपणाक आपले चलये समान आसा. ताका आतांच हॉस्टेलाच्या बऱ्याशा रुमाच्यो चावयो दी, ताका जेवण खाण सारखे दिवपाक लाय, ताज्या बराबर



रावपी दोन चलयो बऱ्याशा वागणुकीच्यो आसात हाजी खात्री करून घेवनूच तांची रुम पार्टनर म्हणून त्या रुमांत धाड. तें अॅडमीशन फॉर्म बी सगळें भरून दितलें. ताका ते भरपाक मदत कर आनी ताजे अॅडमिशनाचेच न्हय तर कसलेच पयशे ताजे कडल्यान घेवपाचे नात. ताका आणें सगळें फुकट दिवपाचें थारायलां म्हणपाचें त्या क्लार्काक सांगलें. क्लार्कान ताका एका बऱ्याश्या रुमाच्यो चावयो दिल्यो आनी त्या दिसाच्यान शिवलीला त्या रुमांत चार वर्सां कु. अमीता रायकार आनी कु. मेघना गावणेकार हांचे वांगडा हांसून खेळून बरे भाशेन शिकत रावलें. पूण बिएस्सीक कांय कारणा खातीर ताका पयलो क्लास मेळ्ळो ना तरी हायर सेकंड क्लास मेळ्ळो.

बीएसस्सीचो निकाल लागतकूच शिवलीला वाघसरांचे आभार मानपाक गेलें. तांचो निरोप घेवपाक जाय आसलो. सरान ताका मडगांवा एका स्कुलांत गणित विशयाची शिक्षिका जाय म्हणपाचें सांगलें.आपूण तुका ती नोकरी दिवपा पासत शिफारस करूंक शकतां म्हणपाचें सांगलें. तेन्ना शिवलीलेन तांचे उपकार मानले आनी गणित विशय घेवन एमएस्सी करून पयल्या क्लासांत पास जावपाचो आपलो उद्देश आसा म्हणपाचें सांगलें. आपणाक आपली मोख साध्य करपाक जाय आनी ती साधतकूच आपणाक कॉलेजांत प्राध्यापिका म्हूण काम करपाचें आसा अशें सांगलें. ताचो तो हावेस आनी आत्मविश्वास पळोवन वाघसर एकदमूच खूश जाले. तांणी शिवलीलेक 'गुड लक' म्हणून निरोप दिलो.

दुसरेच दिसा शिवलीलेन पणजे सुशीला बिल्डींगेंत पोस्ट ग्रॅज्युएट सेंटरांत एमएसस्सीक अॅडमीशन घेतलें. आतांय शिवलीलेक नियतीन परतुनूय जबरदस्त साथ दिली.त्याच दिसा एडमीशन घेतल्या बराबर शिवलीलेक कोणें तरी बातमी दिली,वाघसरांची पोस्ट ग्रॅज्युएट सेंटराचो संचालक म्हणून मुंबय युनीव्हरसीटीन नेमणूक केल्या. दुसरे दिसाच्यानूच ते थंय त्या अधिकाराचीं सुत्रां हातांत घेतले. हें कळ्ळे बराबर शिवलीला दुसरे दिसा सकाळींच वाघ सरांक मेळपाक गेलें. तांणी ताका तुवें अॅडमीशन घेतलें काय म्हणून विचारलें आनी हय म्हणना फुडें तांणी ताका तूं पणजे खंय रावतलें काय म्हूण प्रस्न केलो. आपूण तुका हांगाय राष्ट्रीय स्कॉलरशीप दोन वर्साक मेळोवन दितलों म्हूण सांगलें. आनी अॅडमीशनाचे पयशे रोखडेच परत करतलों म्हणपाचें उतर दिलें. तशेंच पांच वरांचेर सांजे आपणाक मेळ म्हूण सांगलें.

शिवलीला बरोबर पांच वरांचेर वाघसरां कडेन गेलें. सर ताबडतोब कॅबिनांतल्यान भायर सरले आनी शिवलीलेक वांगडा घेवन आपल्या गाडयेन थेट दै. गोमन्तक कचेरी कडेन आयले. थंयच्या कु. सजल प्रभू देसाई हे चलयेच्या फ्लॅटार शिवलीलेक घेवन गेले. हें भुरगें आपणाक चलये समान आसा, ताका तुमच्या फ्लॅटार बाकी स चलया वांगडा रावपाक दी म्हणून सांगतांच सजलान तें मान्य केलें. दुसरे दिसाच्यान शिवलीला त्या फ्लॅटार त्या स जणांच्या वांगडा मजेंत रावंक लागलें आनी थंयूच रावून ताणें आपली एम.एस्सी. पुराय केली.

पूण इतल्यार वाघसर वोग्गी रावले नात. तांणी ताका ताजो खर्च भागोवपाक आपल्या बोरी गांवच्या एका इश्कोलांत गणित विशयाची शिक्षिका म्हूण नोकरी दिली. इस्कोलाच्या मॅनेजमेंटाक ताका बारा वरांचेर सोडचें पडटलें म्हूण सांगलें. तशेंच ताका खूब सवलतीय दिवंच्यो पडटल्यो हाचीय विनवणी केली. शिवलीला दुसरे दिसाच्यान त्या स्कुलांत शिकोवंक पणजेच्यान बोरये वचूंक लागलें.

बोरये वचपाक ताका चारांक उठचें पडटालें. आपलीं देहाची कामां आटपून, उमराव स्टोचेर शीत करून तें साडे पांच वरांचेर भायर सरतालें. गोमन्तक कचेरी कडल्यान चलून पणजे पोस्ट ऑफीसा कडेन वतालें. थंय त्या काळार प्रास आशिल्लो. पणजी-मडगांव बस पकडपाक स वरांचेर तें थंय पावतालें. बोरये साडे सातांक पावून आठांक शिकोवपाक सुरवात करतालें. बारा वरांचेर सुटतकूच बशींतल्यान देड वराचेर पणजे पावन गोमन्तक कचेरी कडेन चलून वेतालें. तें थेट आनंद बार ॲण्ड रेस्टारंट ह्या श्री.नार्वेकार हांच्या बारार येतालें. आठ आण्याचें हुमण ना जाल्यार चिकनाचो रोस व्हरून थंड गार शिताचेर तो ओतोवन बेगीबेगीन जेवन पोस्ट ग्रॅज्युएट सेंटराचेर अडेज वरांचेर लेक्चर अटेंड करतालें. अशे कठीन परिस्थीतींत ताणें रातचें साडे णव पर्यंत एम. एसस्सीचो अभ्यास करून पयलें वर्स पुराय केलें.

परतुनय नियती ताचे मजतीक आयली. ताका पणजे चलतां चलतां श्री. वसंत लवंदे हे प्रोग्रेस हायस्कुलाचे शिक्षक आनी प्रिन्सीपल गंगाधर सरदेसायाचे भावोजी, अचानकच सौ. सुधा लवंदे बराबर मेळ्ळे. तांणी ताका तूं बोरये वचून वचून जाम जातलें, तुका जीवन जड वतलें अशें सांगून फाल्यांच्यानूच तूं आमच्या प्रोग्रेसांत गणित शिक्षिका म्हणून जॉयन जावपाक लायलें. थंय एक वर्स शिकोवन ताणें आपल्या एमएसस्सी कोअर मॅथेमेटीक्स विशयांत पयलो क्लास बरे मार्क घेवन मेळोयलो आनी आपलो दुसरो उद्देश साध्य केलो जो ताका ईश्वरी ताकदी पासुनूच शक्य जालो. कारण ताजी ईश्वराचेर पूर्ण श्रद्धा आसली आनी तें श्री स्वामी समर्थांचें कट्टर भक्त आसलें.

मागीर तें परत वाघसरांचे उपकार मागपाक गेल्ले कडेन तांणी ताका, कॉलेजींत प्राध्यापिका म्हूण नोकरी तुका मेळटलीच अशें नेटान सांगलें. दोन तीन दिसांनी ताका दिवचलच्या नव्यानूच सुरू जाल्या 'श्री शांतादुर्गा हायर सेकंडरी'त गणित विशयाची प्राध्यापिका म्हूण सहजूच नोकरी मेळ्ळी. इतकेंच न्हय तर त्याच इस्कोलाच्या एका मॅनेजमेंट मेंबरान ताका इश्कोला साकून चलून तीन मिनटांचे वाटेर आशिल्लो एक फ्लॅट भाड्याक करून दिलो. मागीर ताणें त्या इस्कोलांत पंदरा वर्सां मौज मजेंत भुरग्यां कडेन, तांच्या पालकां कडेन बरे भशेन वागून नांव आनी आपलेपण जोडलें.

मजगती फोंडा एज्युकेशन सोसायटीचे कॉलेजींत 'हेड ऑफ मेथेमेटीक्स' म्हणून प्राध्यापिकेची सुवात जाहीर जाली. इंटरव्यूंत ताची निवड जाली आनी रोखडेंच नियुक्ती जाल्याचें पत्रय दिलें. ताका आतां बरेच चड पयशे मेळटले आसले. तरी पूण दिवचलेंत बशिल्ली घडी विस्कळीत जातली म्हणून ताणें वाघसरांक मेळून आपले विचार तांकां सांगले. एके चली मनशेक दिवचल ते फोंडें असो प्रवास आनी धांवपळ झेपची ना आनी ताचो शिकवणेचेर परिणाम जातलो हें तांकां पटोवन दिवन ताणें ती नोकरी न्हयकारली. शिवलीला जरी गरिबींतल्यान वयर





आयिल्लें आसलें तरी पयश्यांक जबरदस्त अशें म्हत्त्व दिना आसलें.

शांतादुर्गांत नोकरी मेळिल्ल्यान ताजो तिसरो उद्देश साध्य जालो. तो सहजासहजी साध्य जालो अशें तें केन्नाच म्हण नासलें. तर ईश्वरान तें साधोवपाक श्री स्वामी समर्थाचो 'भिऊ नकोस मी तुझ्या पाठीशी आहे' हाचो प्रत्यय आयलो अशेंच तें म्हाका खूब फावटी सांगतालें.

दिवचले नोकरी करतनाच ताका आपलं लग्न जुळोवपाचे वेध लागले. तें आपल्या मैत्रिणींक मेळून तांचे कडल्यान सुशिक्षीत भुरग्यांची म्हायती घेवंक लागलें. अखेरेक 1986 वर्सा ताजी एक मैत्रीण सौ. लक्ष्मी अनील मोये हाणें ताका म्हजें नांव सुचयलें. आतां म्हाकां ताणें मेळप कशें? एक दिसा तें पणजेच्या ॲड. लक्ष्मीकांत तळावलेकारांच्या ऑफीसांत आयलें. एक फार्स तयार करून म्हज्या कॅबीनांत एक 'रचयल्ली केस' घेवन आयलें. म्हजे कडेन ती केस घेवपाक जातली काय म्हूण विचारूंक लागलें. केस आयकतकूच हांवें ताका हय म्हूण सांगतकूच, फाल्यां इकरा वरांचेर सगळे पेपर आनी आपल्या वांगडच्यांक घेवन येतां म्हूण गेलें. दुसरे दिसा श्री. गोवींद कामत आनी तांची घरकान्न सौ. ललीताक घेवन म्हजे कडेन आयलें. सौ. ललीताक हांव बरो वळखतालों. पूण तितलो परीचय नासलो. येना फुडें ललीतान शिवलीलेन काल केल्ल्या फार्साचेर म्हजी माफी मागली. 'ताजी कसलीच केस ना, ती ताणें रचयल्ली तुमकां पळोवपाक, तुमचे कडेन उलोवपाक जाय आसलें म्हूण. तें ताजें काम जाल्लें आसा. ताका तुजे कडेन, तुका उपकारता जाल्यार लग्न जावपाचें आसा.' अशें सांगून आठ दिसां भितर मानता जाल्यार उपकार करून कळय म्हूण सांगलें. हांवें ही सगळी गजाल म्हजे आवयक सांगली आनी सगळे सोपस्कार रिती रिवाजा प्रमाणे करूनूच आमचें 27 डिसेंबर 1986 दिसा, कोंकणी मराठीचें प्रचंड विध्वंसक अशें आंदोलन चालू आसतना, आमची कुलदेव श्री देवकीकृष्ण, माशेल हांच्या चरणा कडेन श्री देवकीकृष्ण सभाघरांत लग्न जालें. अळे तरेन शिवलीलेचो चवथो उद्देश साध्य जालो.

शिवलीला खरेंच एक हुशार, हांसऱ्या मुखामळाचें, बयऱ्या मनाचें, प्रेमळ आनी एकदमूच मायेस्त मनीस आसलें. ताणें म्हाकां पस्तीस वर्सां माये मोगानूच सांगात दिलो आनी आमी पस्तीस वर्सां खोशेनूच जीवन सारलें. पूण शेवटाक 5-5-2021 दिसा सरकारी इएसआय हॉस्पीटलाच्या आनी गोंय मेडीकल हॉस्पीटलांतल्या आनी थंयच्या डॉक्टरांच्या हलगर्जी पणाक लागुनूच म्हजे मोगाळ घरकान्नीचो अंत जालो.

म्हजी मायेस्त बायल म्हाकां अकस्मात, म्हजे कडेन एक शेवटचो शब्द उलय नासतना, म्हाकां आपलें अंतीम दर्शन दी नासतना ह्या संवसारांतल्यान कायमचेंच गेलें आनी अपत्य नाशिल्ले कारणान हांव एकांतांत पडलों. भ्रमीश्ट जालों म्हळ्यारूच जाता. आनी अजुनूय केन्ना केन्नाय अकस्मातूच हांव भ्रमीश्ट जाल्लेवरी जातां. म्हाकां संवसारांतलें कांयच नाकां दिसता, कित्याक तर म्हज्या मायेमोगाच्या मनशाचें अकस्मातूच निधन जालें. म्हणून म्हाकां जाल्लो शोक हांव पचोवंक शकूंक ना आनी शकचोंय ना. कारण ती ताजी माया, प्रेम, आपुलकी, जवळीक दुसरी खंयचीच व्यक्ती म्हाकां दिवंक शकची ना हें एक सत्य आसा.

---

*मोबा. ९८२२४८६१८, ताळगांव.*

कथा



# दडप



**रामनाथ गजानन गावडे**
कथा,कादंबरी,बालसाहित्य ह्या मळार फिशाल लेखक

दादूच्या गाड्यार भर्जी हाडपाक गेल्लो राजू आड्डतूच येयलो आनी बापायक उलो मरीत म्हणपाक लागलो, ''बाबो बाबो, तुजें नांव आयजूय पेपरार येयलां खंय!''

''आरे पूण राजू, तुजो बोवाळ किद्याक?'' पडवेर मोबायलाचेर खेळटल्या तेज्या भावान तेका हटकिलो.

''भैया, बाबा खंय गेला? तेका हें आतांच सांगपाक जाय.''

''आरे हय रे, पूण तुजो बोवाळ किद्याक?''

''किद्याक म्हणजे! थंय गाड्यार बसोन पेपर वाचतले किदें म्हणटाले जाणा? तें प्रकरण खंय आतां बाबाक शेकपाचें आसा. तेका आतां खंय सांबाळून रावचें पडटलें!''

''कांय जायना तें, तूं मातसो वगी राव. आमची बातमी पेपरार येयल्या म्हणून तरी आमकां घर सारकें

करपाक मजत मेळटली. बाबान तेंकां जें सांगलां तें सारकें आसा!''

''पूण पेपरार भलतेंच येयलां दिसता मरे! ते पेपर वाचपी उलयताले, वयल्यान आमकांच भरतलें म्हणऽ. सरकारी लोक खंय आरत्याचें परतें करपाक शकता. भैया, आतां आमच्या घराचें कशें जातलें रे?''

''पेपराचेरूच न्हू काल टीव्हीचेरूय दाखयल्लो बाबाक. हांवेन मोबायलाचेर पळयल्लो. आमच्या मोडलेल्या ह्या पागेलाचोय फोटू दाखयल्लो आनी आमकां बेगोबेग मजत करची अशें तो बातमीदार उलयतालो.''

'' पुणून ते...''

''आरे, कसलो बोवाळ! दोगूय चला आनी काकाली निसण मातशी घेवन येया पळोवया. ही कापेत मातशी वण्टीचेर सोडुया. ना जाल्यार ह्या पागेला वांगडा घरूय कोसळत...'' अशें म्हणत हाडलेली पोटली पडवेरूच वडयत तो नेटान किदें तरी हाडपाक वयतालो.

इतल्यांत तेका राजून आडयलो, ''आरे बाबो, तुजें नांव परत येयलां पेपरार आनी काल आमचें घर टीव्हीचेरूय दाखयल्लें खंय!''

''तें पडों पाड! पेपरार येयलें म्हणोन आमचीं पोटां भरचीं ना. आमचें घर आमकांच शिंवपाक जाय. त्या सरकारच्या पोटाक उजो पेटला, गरिबांचे तळमळे तेंकां दिसना. फकत आपलीं पोटां कशीं भरपाचीं तें तितलेंच खबर आसता तेंकां! आतां येवनी मतां मागपाक, मागीर तेंकां किदें सांगपाचें तें सारकें सांगतां!''

''आरे पूण बाबो...''

'' तें तुमकां नाका! तुमी चला आनी निसण घेवन येया.''

घराची जाल्ली अवतिकाय पळोवन तेज्या काळजांत उजो पेटलेलो.

इतल्यांत तेजी बायल कोंडे घेवन येयली.

''आगो, दोनूच कोणे हडल्या! ते दोन कोणे कोणाक पावता? ते किदें म्हाका घालपाक हाडल्या! आनी चार तरी हाडपाचे न्हू!''

''म्हाजेर तापता किद्याक! एकट्याच्यान हाडपाक जावं नाका ते? हेतेका मातसो हाडपाक वांगडा आपयल्लो. पूण तो हांगाच मोबायलाचेर पडलेलो दिसता. आतां फोडूनच वडयतां तो मोबायल! आरे, आतां वयता मरे!''

''निसणूय हाडटां आनी कोणेय हाडटां. खंय मारून दवरल्या गे?''

''आजून मारूना. म्हाज्यान ओडूंक जावं नाका ते? फाटल्या बेलामुळांत कोयतो दवरला. व्हाळाकडेचे मारा आनी घेवन येया.''

''नाका नाका, हांवूच वयतां. तुमी हाडटा म्हणसर दनपार जातली. तुमी ती निसणूच घेवन येया. परत पावस येत जाल्यार हें तें धाकलां तेंय भिजतलें!'' अशें म्हणून तो मुकार सरतालो. इतल्यांत गांवचो पंच येयला.

''आरे, विठूदादी खंय वयता रे?''

''असोऽऽ वयतां कोणीय भिकेक किदेंय दिता जाल्यार पळयतां!'' तिडकिनूचशीं तेज्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं.

''हो पळेय, तलाठ्याक घेवन येयलां हांव. तुज्या घराचो पंचनामो करूंक जाय.''

''पंचनामो?''

''हय. सरकारी किदेंय मजत मेळटा जाल्यार पळोवंया मरे!''

''मेळ्ळ्यो, खूब मेळ्ळ्यो आमकां मजती. फाटलीं चार वर्सां हांव हेज्या तेज्या दारार भोंवलों. सांगता तीं तीं कागदां म्हणटा थंय थंय व्हरून दिलीं. पुणून आजून एके काडयेची मजत म्हणटा ती मेळुना. आनी आतां घर मोडटकीर येयल्या मजत करपाक!''

''आरे, म्हाकां सगळें खबर आसा. घर दुरुस्त करपाचे स्किमीचीं हांवेनूच तुजीं फॉर्मां भरलेलीं न्हू!''

'' हय. एकदां सोडून चार चार फावटी फॉमां भरलीं. पूण उपेग किदें!''

''तें किदें जाता जाणा, एके स्किमीन जायना जाल्यार दुसरे स्किमीन बसोवची पडटा. आनी एकेकदा दिल्ल्या सर्टिफिकेटीचो प्रांत सोंपता. इन्कम सर्टिफिकेट बी नवी लागता. प्रत्येक वर्साची वेगळी काडची पडटा. स्कीम पास जायना तो मेरेन तें तें लावचें पडटा. म्हाज्यान जाता तो हांवेन फावोर लावपाचो लायलो. आतां तुजें खंय अडलां तें मात म्हाका समजना!''

ते वाटेन तलाठी तेज्या धाकल्या पुताक घेवन मोडलेल्या पागेलाची टेपीन मापां घेतालो आनी किदेंतरी बरयतालो. तेणेन उलो करतकीच तो धांवतसो तेजे वशीं गेलो.

"तुजें सगलें नांव..."

"विठू फोटो गांवकार."

"ही जमीन कोणाच्या नांवार आसा?"

"अं...म्हणजे..." विठू घुसपलो.

तेन्ना पंच तेजे मजतीक धांवन गेलो. "ही सगली जमीन तशी सरकारीच."

"हय सायब, सरकारीच ती. तसो हो सगलो वाडो सरकारी जमनींतूच आसा. आमचीं घरां तितलीं चोवदाच्या उतार्‍यार लागल्यां."

"तलाठी सायब, पूण हीं घरां आयचीं कालचीं न्हू. ह्या वाड्यार पिळग्योच सोंपल्यो. पूण जमनी मात आजून कोणाच्या नांवार जावंक ना." पंचान अदीक म्हायती दिली.

"आसूं जमनीचो कांय प्रॉब्लेम ना. घर पडलेलें तेन्नाचो फोटू बी काडला?"

"ना सायब. आतां काडपाक लायतां."

"आतां काडून उपेग ना. आतां सगळें तुमी निवळ केलां. घर मोडलेलें अशें दाखोवपाक एक तरी फोटू जाय आसता. आतां हें पळयत जाल्यार घर मोडलां कशें दिसच ना. घराक जाल्ल्या लुकसाणा वयल्यान सरकार मजत करता. पुणून आतां लुकसाण कितलें जालां तें कशें कळटलें?"

"पूण सायब, मोडलेलें घर तशेंच कशें सांडटले भिजत!"

"सायब सायब, तें किदें जालां जाणां..." अशें म्हणत पंच तलाठ्याक घेवन कुशीक गेलो आनी किदें तरी सांगून परत येयलो.

"विठूदादी, किदें करूया जाणा, थोडे वाशे अशे आडवे-तिडवे लावया. थोडे नळे आनी कामी सकयल पडल्या कशो दवरुया आनी मागीर फोटू काडुया."



"बाबो बाबो, भैयान काडल्या फोटू. तेज्या मोबायलांत आसा. तशें आनी वाड्या वयल्या खूब जाणांनी काडल्या आनी ग्रुपाचेर घातल्या खंय!" राजू मर्दीच आपली हुशारी दाखयत उलयलो.

"तशें जाल्यार बरें आसा मरे तर. तलाठी सायब, दोनाक चार फोटू दिवपाचें म्हाजेर पावलें. बाकीचे किदें करपाचें तें कर तूं. मामलेदार सायबाक फोन केल्लो हांवेन. तो आमचोच मनीस आसा. तेणेन केस जाता तितले बेगीन पावय म्हणल्या. पयशे रोखडेच सेंक्शन करून दिता म्हणटालो."

पंच नेटान आनी आपलें मोठेपण सिद्ध करीत उलयलो. कारण आतां इतले म्हणसर आनिकूय जायते लोक जम लेले आनी वगीच हातभार लायल्ले वरी मजा शी पळयत चलतलो देखाव पळयताले.

"आरे, हो तो किदें करता रे तें!" तलाठ्यान कोणाक तरी हटकिलो जो आपल्या मोबायलाचेर चलतलो पंचनामो रिकॉर्ड करतालो.

तें पळोवन पंचूय तेजेर बेजारलो, "आरे बाबा, तूं आनी किदें करता? काल फोटू काडल्या ते पुरो जावना? चल चल, डिलीट कर ते!"

"भाऊ, पंचायत आनी सरकार किदें करता तें लोकांक कळों नाका?"

"नाका नाका. जें कोणाक कळपाक जाय तें आपशींच कळटलें. आनी आमी हें किदें करता तें प्रसिद्धी खातीर करिना. आमचें कर्तव्य आसा तें आमी करता."

तरी तेणें आपलें किदें करपाचें तें केलेंच.

हेवटेन तलाठ्यान बी आपलें काम सोंपयलें आनी वचपाची तयारी करपाक लागले. तेन्ना वयता वयता पंचान विठूच्या हातीर पांचशी रुपया तेकयले. तेन्ना तो 'नाका नाका' म्हणटालो. तरीय तेणेन 'दवर रे, खर्चाक जातले!' अशें म्हणत तेज्या बोल्सांत घातले आनी आपणें आतां किदेंतरी व्हड काम केलां अशे मिजाशेन तो वचपाक लागलो.

इतल्यान कोणाली तरी एक पोरनीशी गाडी येयली आनी पयसूच रावली. भितरल्यान चार जाण देंवले. तशे सगले तेंकाच कोण काय म्हण पळोवपाक लागले.

तेंचे कडले कॅमेरा बी पळोवन ते पत्रकार आसपाक जाय, अशें चिंतून पंचान वयता वयता आपली स्कुटर तेंचे गाडये लागीं थारयली.

"विठू गांवकारालें घर खंयचे?"

चवगां मदल्या एकल्यान तेका विचारलें.

"हेंऽऽ तें. अदें उगतेंशे दिसता तें!"

"बरें."

"तुमी किद्याक येयल्लो? हांव ह्या वार्डाचो पंच. किदेंय मजत जाय जाल्यार सांगात."

"ना ना. आमकां फकत तो विठू जाय आसलो."

तरी तो स्कुटर थंयच लावन आनी तलाठ्याक 'मातसो राव आं!' अशें सांगून तेंच्या वांगडा येयलोच.

विठू पुतान हाडलेले कोंडे हातीन धरून तेंकाच पळयत आसलो.

" हो पळय, हो विठू गांवकार." पंचान तेका बोट दाखयलें.

"बरें! विठूभाऊ, तुजें घर पडलें. तुका लुकसाण जालें. ही खरेंच वायट गजाल घडली. हाचेर तुका किदें म्हणपाचें आसा?" एकलो.

"किदें म्हणटलों, कांय ना. देवाच्या मनांत किदें आसलें तें जालें. परबांच्या ह्या भर शिरवणांत देवाक तें बरें सोबलें. आतां आनी चवथ लागीं पावल्या."

"हय. जावपाचें न्ही तें जालें आनी तुका आतां इतलें लुकसाण सांसचें पडलें. हाचेर तुका किदें म्हणपाचें आसा?" दुसरो.

"म्हणटलों आनी किदें, पोरनें घर तें मदेराक येयल्लें. पावसाचो भार सोसना जावन पडलें."

"तशें न्ही, तुजें घर भर पावसांत कोसळ्ळें आनी तुमी त्रासांत पडलीं. हाचेर तुका किदें म्हणपाचें आसा?" तिसरो.

"ना ना. तशें कोसळोंना तें. हें पळय, फकत एक पागेलूच देंवलां."

"तेंच तें. ताचेर तुका किदें म्हणपाचें आसा?" चवथो.

"म्हणपाचें कांय ना. सरकारान किदेंय मजत केल्यार परत उबें करतलों आसलों!"

" म्हणजे, दोन दीस जाले, आजून तुका कांयच मजत मेळुना?"

"ना ना. पात्रांव, मेळ्ळ्या तेका. म्हणजे... मजत रोखडीच मेळटली तेका." पंचान मर्दीच तोंड उगडलें आनी आपूण मुकार सरलो. तसो कॅमेरा तेजेवशीं घुंवलो.



"बरे, तूं ह्या वाठाराचो पंच. तुका हाचे विशीं किदें सांगपाचें आसा?"

"हांव फाटलीं पांच वर्सां ह्या वार्डाचो पंच आसां. आनी परतूय ह्या वर्सा रावपाचों आसां. हांवेन ह्या भागांत जायतीं विकासाचीं कामां केल्लीं आसात. आनी परतूय म्हाका ते वेंचून काडटले हेची म्हाका खात्री आसा."

"आमी तें विचारिना. ह्या विठू खातीर तुमी किदें केलां काय म्हणटां?"

"तेंच सांगतां हांव. तेका घर दुरुस्तीची स्कीम मेळची म्हण हांवेन जायत्यो खटपटी केल्या. तेजीं सगळीं फॉर्मां भरल्यां. आनी स्वता हांवें भरून पणजे पावयल्यां."

"तीं फॉर्मां भरपाक हांवेनूय दोनेक हजार मोडल्या. पूण पदरांत एकूय पयसो पडोना." विठून मर्दीच तोंड उगडलें.

"आतां घर पडलां म्हणून तुका कोणी कसली मजत दिल्या?"

"हय हय, दिल्या तर. आमी तेका जायती मजत दिल्या. आनी रातीं आमदारानूय म्हाका सांगलां, तेका कांयच कमी पडपाक दिवचेना म्हणून!" पंच.

तेंच्यानी आतां पंचाक कुशीक काडून कॅमेरा सारकोच विठूच्या तोंडा मुकार दवरलो. तेन्ना तो पंच आपूण कॅमेऱ्यांत येवंचो म्हण नस्त्यो खटपटी शो करतालो.

"बरें विठूभाऊ, हें तुजें प्रकरण आतां वयर मेरेन पावलां. आतां हाचेर तुका किदें सांगपाचें आसा?"

"पळय, खरें सांगल्यार आनी खरें उलयल्यार खंय दुसऱ्याक दुखता. पूण आतां सांगल्या बगर पर्याय ना. म्हाजें हांगां घर हड्ड्यार कोसळ्ळां आनी हांव कसो वगी रावतलों? हांव गरीब. म्हाजें घर खूब पोरनें. मातयेच्या पाऱ्यांचें. तें मोडपाक पावलां. तेन्ना तें सारकें करपाक म्हाकां किदेंय मजत मेळची म्हणून हांवेन म्हणटा थंय थंय पावली मारली. पुणून कुस्कुटाचो कोणाचो आदार जालो ना. सगलें घर मातयेचें. फकत पडवेक मात आमी चिरे लायल्या. हांव दिसवड्याच्या कामाक वचपी मानाय. शेत आसा. पूण तें जनावरांकूच पावना, म्हणून हालिंसराक रोवपाचेंच सोडलां. व्हडलो शिकला. पूण तेका शिरवीस ना. लातांचे फॅक्टरींत वयतालो. पूण तेका दोन दोन म्हयन्यांनी बिरक दिता. म ागीर घर सारकें करपाक खंयचो पयसो हाडटलों? कामी सोड, लागीं खंयी एक वासो सुद्दां मेळपाक कुस्तार..."

"पंचायतीतल्यानूय कांय मेळुंना?"

"फट किद्याक सांगो बाबा, चार वर्सां जालीं फॉमां भरल्यार. आमच्या फाटल्या सगळ्यांक मेळ्ळे. काल पयर फॉमां भरलेल्यांकूय पयशे दिले. त्या पयशांनी लोकांनी नेवी घरां बांदलीं. आतां आमचेंच फॉम कोणी कुशीक काडलें तें देवाक खबर!"

"तुवेन सरपंच, आमदाराक बी म्हणूना तर!"

"सगल्यांच्या दरार गेलों."

"म्हणजे जे कोण आपले वोटर आसात तांच्योच ते पयलीं फायली पास करतात आनी विरोधक बी आसता तांच्यो केसी कुशीक दवरता अशें म्हणपाचें आसा तुका?"

"आतां हें तशेंच जालें ना! नाजाल्यार पळया, मोडपाक पावल्ल्या आमच्या असल्या घराक हे पयशे दिना. पयशेकारांच्या बऱ्या घरांक दिता. काल पयरचे खोपीक सुद्दां दिता. गोठ्याक दिता. मागीर आमकांच किद्याक ना? आमी किदें मतां मारिना? आमकां बऱ्या घरांत रावपाचो हक्क ना?..."

तो उलयतना अवचीत तेजे घरकान्नीचें आडसून तोंड उगडलें, " बाबानो, देवानूच आमकां साल्वार केलीं म्हणपाचीं! तरी बरें, त्या वेळार घरांत कोणूच नासलो, ना जाल्यार आयज हांव फटवतलें आसलें. म्होडोन पडलां

थंयच म्हाजे दोगूय चेडे न्हिदताले...'' उलयतां उलयतां तिजो आवाज जड जालो, विठूच्याय दोळ्यांनी दुकां भरली...

''तर इश्टानो, पळयात...'' अचकीत तांचे मदलो एकलो जॅकेट घातलेलो तरणाटो मायक घेवन मुकार आयलो. ''हो आसलो, विठू गांवकार. जाच्या घराचो अर्दो भाग कोसळून दोन दीस जाले. पूण ताका आजूनय सरकारा कडल्यान कसलीच मजत मेळिल्ली ना. आनी ताच्या उलोवण्यावेल्यान स्पश्ट जाता की, हें सरकार सामान्य मनशाचे गरिबीकडेन राजकारण खेळटा. आयज अशे जायते गरीब विठू आसतले, तांकां न्याय केन्ना मेळटलो? असो ह्या माध्यमांतल्यान सामान्य जनता आयज सरकारक जाप विचारता... पळयात पळयात, विठूच्या घराची किदें अवतिकाय जाल्या ती...!''

उपरांत ते पत्रकार अँगलां बदलीत, फोटू बी काडीत किदें किदें मायक मुकार धरून उलयत आसले.

पुणून विठूक तेंचे पडून वचो नासलें. तो बायल भुरग्यांच्या आदारान आनी शेजाऱ्यांचे मजतीन उगतें पागेल धांपपाची नेटान खटपट करीत आसलो. कारण भर दनपारां पावसान केल्लो काळोख तेका खावंक येयल्ले वरी झपय मारता काय दिसतालो.

जालें. तेवटेन थळाव्या टीव्ही चॅनेलांनी विठूच्या घराचो मुद्दो धरून एकूच खवदळ घालपाक सुरवात केल्ली. वेंचणूक लागीं पावल्ली. त्या खातीर विरोधकांक आयतेंच कोलीत मेळेल्लें. दुसरे दिसाच्या दिसाळ्यांनी आरत्यो परत्यो बातम्यो छापून जायतीं हेर प्रकरणांय उक्तीं केल्लीं. जणू काय एक मोठो अन्यायकारी भ्रश्टाचारूच उक्ताडार हाडलेलो. तेन्ना आमदार, संबंदीत खात्याच्या मंत्र्याक बी पत्रकार आनी लोकूय प्रस्न विचारून बेजार करपाक लागले आनी निमाणें खासा मुखेलमंत्र्यांकूय तोंड उगडचें पडलें. एका सामान्य मनशाचो हो प्रस्न आतां राज्याचो प्रस्न कसो जाल्लो आनी वचत थंय लोक त्याच विशयाचेर चर्चा करतना दिसताले. सरकाराचेर टिका करताले.

पूण ह्या सगल्या चलतल्या बोवाळाविशीं विठूक कांयच खबर नासली. त्या वाड्यार केबलूय पावोनासलो आनी पेपरूय कोण हाडी नासले. आनी तीन दिसां उपरांत ती गजाल वाडेकारांक तितलिशी म्हत्त्वाची कशी उरुनासली.

पूण ते गजालींतल्यान एक मात जाल्लें, विठूक कोणें कोणें थोडी मजत पावयल्ली, आनी खूब जाणांनी तेका आश्वासनाय दिल्लीं. आतां तेका स्कीम पास जावन बेगोबेग पयशे मेळपाचे पर्याय उक्ते जाल्ले. सोशल मीडियाचेर येतल्यो प्रतिक्रिया पळोवन चेडोय तेका भावनीक आदार दितालो. जणू काय आतां तेज्या मोडलेल्या घराच्या जाग्यार एक भव्य असो बंगलो उबो रावपाचो आसलो.

ते घुंवळेंतूच आनीक दोन दीस गेले.

तिसरे दिसा दनपारचो कोणतरी येवन दारार रावन उलो मारपाक लागलो. ते दिसा सुतापुनव आसली. सगलीं जेवणाक बसलेलीं. आवाज आयकून व्हडलो बेगीबेगीन भायर येयलो. त्या मनशाच्या हातीन कसलो तरी लखाटो पळोवन तो तसोच परत गेलो आनी बापायक जेवणा वयलो उठयलो.

तेन्ना तो जानवें मिरयत उगत्या आंगान नेटान भायर येयलो.

तेका पळोवन दारांत रावल्लो मनीस उलयलो, ''तुका हें पत्र आसा. घे, आनी हांगा सायन कर!''

तशें तेणेन उमेदीनशें तें पत्र घेवन आपलें नांव बरयलें. तें बरयतना तेज्या दोळ्यां मुकार असंख्य आशा-आकांक्षा आनी रंगयल्लीं सपनां जणू आकाराक येतना तेका स्पश्ट दिसतालीं.

तो मनीस वयतकीर, 'पळय रे बाबू, किदें आसा भितर!' अशें म्हणून जणू काय वीस-पंचवीस लाखांचो चेक आसतलो अशी आस्त फुलयत आपूण झेंतान बसलो.

तेणेनूय उमळशिकेन त्या लाखाट्यांतलीं कागदां भायर काडलीं. तेन्ना वाचतां वाचतां तेजे हातूच थरथरपाक लागले, दोळे दिपकावल्लेवरी जावपाक लागले.

''किदें जालें रे बाबू?''

''बाबो, आमच्या घराक नोटीस धाडल्या...!''

तेन्ना तेज्या गळ्यांतलें एका दिसाचें जानवें तेजो गळो अंदिता काय जातालें..!

---

*मोलें गोंय*
९४२०९७९०१०



# आईचो लंडनाचो प्रवास



**सुशांता दत्ता नायक**
प्रवास वर्णन तशेंच ललित लेखनात फिशाल .

हालींच्या तेंपार प्रवास हो सगल्यांचोच आवडीचो छंद जाला. हाचें कारण म्हणल्यार प्रवास करप आयज सोंपें जालां. विमानाचे तिकेटींचें बुकींग, हॉटेलाचें बुकींग आतां ऑनलायन करूंक मेळटा. फेसबूक आनी इन्स्टाग्राम ह्या सारक्या सोशल मिडियांचेर कोण कोण खंयच्च्या शारांत गेले ते फोटे पळोवंक मेळटात आनी आपणाकूय थंय वचपाची उमळशीक लागता. टेलर मेड टूर करपीय खूब ट्रॅव्हल एजन्सी आयल्यात. फकत पयशे दिवपाचे. तेवूय बी क्रॅडीट कार्डा खातीर सोंपें जालां. आतां तर जी-पे करूंक मेळटा. केदे व्हडले हे पंदरा वर्सांच्या काळांतले बदल!

म्हजी आजी खूब भोंवताली. चड करून ट्रेनीन. तेन्ना विमानां नासतालीं. ती हरिद्वार, ह्षिकेश गेल्ली म्हजे यादींत आसा. तिणें हाडिल्लो गंगेच्या उदकाचो सीलपॅक कलश अजून आमचे कडेन आसा. हांवूंय ल्हानपणांत खूब भोंवलां. मावशे वांगडा उटी, बंगळूर, म्हैसूर, मुंबय, मामा वांगडा हम्पी, हॉस्पेट गेलां.

लग्न जातकच हांवें पळयलें, आईक- म्हजे मांयक

प्रवासाची खूब आवड. म्हज्या लग्ना पयलीं 1977 वर्सा ती एकटीच इंग्लंडाक धुवेगेर-शकूताईगेर वचून आयल्या. म्हजें लग्न जातकच ती एके फावटीं काश्मीर आनी एके फावटीं कन्याकुमारी वचून आयल्या. पंदरा बायलांचो टॅम्पो घेवन ती गोंयच्यान भायर सरिल्ली. एके फावटीं काश्मीर मेरेन आनी एके फावटीं कन्याकुमारी मेरेन. त्या वेळार तांचे वांगडा फकत दोग दादले आसले. एक ड्रायव्हर आनी एक तिचो भाचो-प्रदीप. म्हजे मांयची बापोल भयण-जीवनबाय तांचे वांगडा आशिल्ली. जीवनबाय सामकें धडाडीचें. तें तेन्ना फातिमा कॉन्वेंटाचें सिनीयर टिचर. तांणी सगल्यांची रावपाची तजवीज कॉन्वेंटाच्या बोर्डींग स्कुलांत केल्ली. काश्मीराक वचून येवपाक तेन्ना तांकां वीस दीस लागले. पूण तेन्नाचो तांचो एकूय फोटो ना. तेन्ना स्मार्ट फोन तर नाशिल्लेच, पूण एकेय बायलेन कॅमेरा लेगीत व्हरूंक नाशिल्लो.

ती टुरा वयल्यान येतकच तिका खूब जाणां मेळपाक येतालीं आनी म्हजी मांय आवडीन सगल्यो खबरी तांकां सांगताली. परत परत तेंच सांगचें पडटा म्हणून म्हज्या घोवान-दत्तान एक युक्त काडली. एक कॅसेट प्लेयर घेवन तिचे कडल्यान प्रवासाच्यो सगल्यो खबरी विचारून घेतल्यो आनी रिकॉर्ड केलें. कोणूय आयलो की ती रिकॉर्ड लावप.

तिका नैनिताल खूब आवडिल्लें आनी थंयच्या गार्डाक लेगीत तिणें सांगिल्लें, रोखडेंच आपल्या पुताक आनी सुनेक नैनिताल धाडटां म्हणून. तांचे वांगडा एक फुलायबाय म्हणून बायल गेल्ली. तिणें तर आपले वांगडा किस्मूर करपाक खारे बांगडे आनी फुटी कडी करपाक भिरंडांचीं सोलां व्हेल्लीं. आतां ती कॅसेट आशिल्ली जाल्यार सगलें आयकुपाक मेळटलें आसलें. तरीय एक उपकार, तिच्या इंग्लंडाच्या प्रवासाची म्हायती हेमाबायन चित्रंगीच्या दिवाळी अंकांत घेतिल्ली. तें खुबदां आमगेर येतालें आनी तिचे वांगडा बसतालें. आतांचे भशेन तेन्ना कम्प्युटर नासले, बरोवन ऑनलायन धाडपाक. घरा येवन व्हरचें पडटालें. हे खातीर हांव हेमाबायचें उपकारी आसां.

आईचो लेख 1982 वर्सा चित्रंगीच्या दिवाळी अंकांत आयिल्लो. लेखाचें नांव आशिल्लें : म्हजो लंडनाचो प्रवास, थँक्यू व्हेरी मच. हो लेख वाचतकच तुमकां कळटलें, त्या तेंपा वयल्या विदेशांतल्या प्रवासाची मजेशीर काणी.

आतां आईचो हो लेख मुजरत वाच्चो. तुमकां तो खूब्ब आवडटलो.

***

## म्हजे जिणेंतलो कसोटीचो खीण म्हजो लंडनचो प्रवास : थँक्यू व्हेरी मच

**– लिलावती दामोदर नायक**

म्हजी एक चली फॉरेनाक आसता. जांवयान म्हाका फॉरेनाक येवपाचें आमंत्रण दिलें. म्हाका ल्हानपणा सावन प्रवासाची आवड जाल्यार घोवाक प्रवासाची मातूय आवड ना. गेल्यार एकलें वच्चेंच पडटलें आशिल्लें. इंग्लीश भाशा येना. अशे परिस्थितींत गेलें ना जाल्यार फॉरेनाक पावप शक्य ना. तेन्ना कितें जाता तें जावूं पुणून वच्चेंच अशें हांवें थारायलें.

ब्रिटीश ॲरवेजची तिकेट चल्यान काडली. म्हजें ऑपरेसांव केल्लें. नजं जाल्लें. पूण व्हिजा तारीख सोंपताली म्हणून नजं जावनय वचपाचें थारायलें. बराबर आपलो कोण ना हो विचार येतालो पुणून म्हजे आवडीन तो पुसून वतालो.

मुंबय विमानतळार म्हजो पूत, सोयरीं म्हाका पावंक आयलीं.

रातचें एक वर जालें. एक मराठी उलोवपी बायल लंडनाक वचपी म्हज्या पुताक मेळ्ळी. तिचे कडेन म्हज्या पुतान म्हजी वळख करून दिली. मराठी उलोवपी म्हणटकूच म्हज्या पुताक, म्हाका आनी सगल्यांकूच सूऽऽ जालें. ते बायले बराबर हांव विमानांत पावलें.

"लंडन एअरपोर्टवर भेटुया" तिणें म्हळें.

"बरं" हांवें म्हळें.

विमान येदें व्हडलें. हांव एकटें. सगले लोक परकी. पासपोर्ट, पर्स, हॅंडबॅग सांसपीत बसलें. मुखार सिनेमा सुरू जालो. दोळ्यांर झापडी येताली. पूण न्हिदलें ना. फाल्यां लंडनाक पावतलें. धूव, नातरां, जांवय मेळटलीं. खोशयेंत हांव गुल्ल आशिल्लें. हांव एकटें आसा, भाशा येना हो विचारूय मनांत आयलो ना.

"व्हेअर इज बाथरूम?" व्हडले चलयेन बरोवन दिल्ल्या उतरांनी ॲर हॉस्टेजीक विचारलें. तिणें दाखयलो.

*(पान क्र. १३६ पळयात)*

भोंवडी



# वेदीक धर्माचें मुळपीठ - शृंगेरी




**माया अनील खरंगटे**

कथा,कादंबरी,कविता,बालसाहित्य तशेंच अणकाराच्या मळार फिशाल लेखिका.


कर्नाटकांत खूब कडेन भोंवपाचो म्हाका योग आयला. पूण केन्नाच्यान एका जाग्यार वचूंक सोदतालें, थंय वचपाचो योग म्हाका कसोच येय नासलो. तो जागो म्हळ्यार कूर्ग.

कुर्गाची कॉफी पिलां, वेलची, मसाले वापरल्यात पूण थंय वचपाची संदच म्हाका मेळऽ नासली. ती संद अंदू मेळ्ळी.करोनाचो हावको बरोच कमी जाल्लो. म्हज्या सारके भटके लोक फिरूंक भायर सरताले. अशे वेळार म्हजेंय मन ऊठ- ऊठ जालें.

एक दीस आमच्या ग्रुपांतलीं आमी सगळीं एकठांय जमिल्लीं. थंय गोविंदान सांगलें, ''अंदू आमी कूर्ग, शृंगेरी, सुब्रह्मण्यम आनी धर्मस्थळाक या.''

सगळ्यांत पयलीं हांवें हात वयर काडलो. तेच बसकेंत

केन्ना वचप, कशें वचप तें थारायलें. गोवींद, विवेक आनी सुरजान मेळून सगळो बेत केलो. आनी आमी एकदांचीं ट्रेनींत बसलीं.

फकाणां मस्कऱ्यो करतां करतां अकरा केन्ना जालीं कळ्ळेंच ना. आमी साडे अकरांक सुमार उडपी देंवलीं.

थंय आमी आपयल्लो टेम्पो ट्रॅव्हलर हजर आसलो. तातूंत बसून आमच्या प्रवासाक सुरवात जाली. रातीं बरोच पावस पडिल्लो म्हणपाच्यो खुणो आमकां वाटेर मेळटाल्यो. खळयो, फोंडारे मातकट उदकान भरिल्ले.

आमचें पयलें ठाणें आशिल्लें शृंगेरी मठ. आमचो टेम्पो दोंगर चडटा तस-तशें सैम सुंदराये बराबर म्हजें मनय फुलूंक लागलें. कर्नाटकांतले चडशे सगळेच दोंगर झाडां-झोपांनी गच्च भरिल्ले, भुरगेबाळकार घराब्या भशेन. तांच्या मदल्यान भोंवडेक वचपाक म्हाका खूब आवडटा. पाचव्या रंगाच्या तांच्या वेगवेगळ्या सयांत हांवय पाचवें जातां अशें म्हाका दिसता.

अश्या भरगच्च भरिल्ल्या पाचुच्या दोंगराची वळणा वळणाची वाट आमची टेम्पो चडूंक लागली तशें म्हजें मन शृंगेरी विशीं वाचिल्ल्या लेखांत भोंवपाक लागलें.

कर्नाटकाच्या चिकमंगळूर जिल्ह्यांत शृंगेरी नांवाचो ल्हानसो गांव आसा. इतिहासीक, धार्मीक आनी पुराणीक अशे तिनय नदरेन ताका व्हडपण मेळ्ळां. भारतीय संस्कृतीच्या एका वैभवशाली कालखंडाची याद तें अजुनय जागयता.

शृंग ऋशीचो जल्म ह्या गांवांत जाल्लो. ताच्या नांवा वेल्यान ताका शृंगेरी म्हणटात. पूण शृंगेरीक खरी नामना मेळ्ळी ती शंकराचार्याच्या मठाक लागून. अद्वैत सिध्दांताच्या मूळ प्रवर्तक शंकराचार्यांनी हिंदू धर्माच्या पुनरुज्जिवना पासत भारताच्या चारय दिकांनी धर्मपिठां स्थापन केलीं. तातुंतलो एक काश्मिरचो मठ आमी पळयल्लो. आनी आतां शृंगेरी मठांत आमी वतालीं.

शृंगगिरी पर्वताच्या पांया कडेन तुंगभद्रेच्या देगेवेलो सोबितकायेन नटिल्लो जागो तांणी धर्मपिठा पासत वेंचलो. सातवाहन राजकुलाच्या कालखंडाच्या अदमासाक ह्या मठाची स्थापना जाली. हो मठ म्हळ्यार एके तरेन आश्रमच कसो आशिल्लो. संन्यस्त वृत्तीन रावपी विद्वान थंय रावताले. तो कालखंड परधर्मियांच्या आक्रमणाचो आसलो. तांचें वैचारीक, तात्वीक आक्रमण आडावन



धरपा पासत थंयच्यानच विद्याभ्यासांत तरबेज जावन विद्वान वेदीक धर्माची घुडी खांदार घेवन भारतभर वताले.

उत्तरेक जें म्हत्व काशीक आशिल्लें तेंच म्हत्व दक्षिणेंत शृंगेरीक आशिल्लें. शृंगेरी विशीं येवजितांसर आमचो टेम्पो शृंगेरी मठा कडेन पावलो.

आमी देंवतनाच थंय पोलीस आयले आनी आमकां ताकीत करूंक लागले, 'बेगीन देवळांत चलात. मागीर रोखडींच जेवंक चलात' म्हणून ताणें आमकां सांगलें.

दोना उपरांत थंयचीं सगळीं देवळां बंद जातात म्हणून पोलीस ताकीत करतालो.

आमच्या मुखार व्हड दार आसलें. ताचेर कर्नाटकाचो खास असो व्हड आनी उंच गोपूर आसलो. ह्या गोपुराचें खाशेलेंपण म्हळ्यार, हाचेर रंगयाळीं चित्रां आसलीं.

मठांत पंदराव्या शेंकड्यांत बांदिल्लें शारदांबेचें व्हड बरें देवूळ आसा. सन 1250 वर्सा शंकराचार्यांनी शारदांबेची स्थापना तुंगभद्रेच्या पात्रांतल्या एका तळपार केल्ली. ती मूर्त चंदनाची आसली. ती खास काश्मिरांतल्यान करून हाडिल्ली. काश्मीर हें शारदा देवीचें मूळपीठ

सद्या शृंगेरी जें देवूळ आसा ताचो सभा मंडप 1907 सालांत तेत्तिसाव्या आचार्यांनी बांदला. ह्या देवळांतली मूर्त भांगराची आसा. ह्या देवळाची सगळी वास्तूरचना, रंगसंगती, मेजकेंच आनी सोबीत लाकूडकाम हें सगळें पळोवपा सारकेंच. देवळा भितर सदचेवरी कोरीव कामान नटयल्ले खांबे आसले. तांचे मदल्यान आमी भितर गेलीं. देवीक नमस्कार करून प्रदक्षणा मार्गान गेलीं. दावे वटेनचे वणटीक हारशाच्यो आरमारी केल्यात. तातूंत सकयल्ल्या खणांत चांदीचे मोर, हंस, गरुड अशे पक्षी आनी वयर तेच पक्षी भांगराचे आसात. हीं पालखेचीं वाहनां खंय!

थंयच्यान आमी भायर सरलीं. वाटेर ल्हान ल्हान देवळां, काळभैरव, विष्णू, गणपती हांचीं. पूण तीं बंद जाल्लीं.

थंयच्यान आमी जेवणाच्या हॉलांत आयलीं. भितर आकांत व्हड हॉल. एका बराबर सातशें-आठशें

लोक बसून जेवंक शकतात इतलो व्हड हॉल. जेवंक बसूंक शिमिटाचेच दोन वेतां रुंद पट्टे हॉलांत आसले. कोणाच्यान सकल बसूंक जायना तांचे पासत वणटीक तेंकून कदेलां आसलीं.

आमी ताटांत जेवण घेवन(तांचे लोक वाडटाले) कदेलार येवन बसलीं. ह्या सालाच्या दोनय कोनशांनी खुबशा स्टिलाच्या ताटांची चळत बरी मांडणी करून दवरिल्ली.

थंय जेवतकर आपलें ताट आपणेंच घांसून एका आयदनांत दवरप. तें पुसून जाग्यार दवरपाक बायलो तयार आशिल्ल्यो. आमीय आंवतना ताट-पेलो घांसून जाग्यार दवरून भायर सरलीं.

थंय सोबीत कला वैभवान नटिल्लें विद्याशंकराचें देवूळ आसा. तें पळोवपा सारकेंच. काळ्या पाशाणान द्रविडियन शैलींत बांदिल्ल्या ह्या देवळाच्या इल्ल्या-इल्ल्या भागार लेगीत शिल्पकलेचो अती सुंदर नमुनो कोरांतला. हांगा सुंदर हें उतर लेगीत कमी दिसता. इतली अप्रतीम अशी ही शिल्पकारी आसा.

ह्या देवळाचें वेगळें अशें खाशेलपण म्हळ्यार गर्भकुडींत राशी चक्राचें प्रतीक अशे बारा खांबे आसात. प्रत्येक खांब्याक म्हयन्यांचीं नांवां दिल्यांत. बाराय म्हयन्यांत, देवळाच्या छतांतल्यान दनपरां येवपी सूर्य किरणां त्या-त्या खांब्यार पडटात. जेष्ठांतलीं जेष्ठ खांब्याचेर, आश्विनांतलीं आश्वीन खांब्याचेर अशीं त्या-त्या म्हयन्यांतलीं किरणां त्या-त्या खांब्यार पडटात.

हाचे वेल्यान आमच्या पुर्वजांचें व्हडपण कळटा. तांणी खगोलशास्त्राचेर कसो खोलायेन अभ्यास केल्लो तो पळयात. सातवाहन राजकुळाच्या स्थापत्य शास्त्रज्ञांचे हुशारकायेची ही एक अमर अशी याद जावन आसा.

मठाचें कार्य आज कितलींशींच वरसां सतत चलत आसा. शारदांबेचे भक्त उदार हातान मठाक देणगी दितात. आनी हो निधी मठाचे विश्वस्त आद्यात्मीक, वैजकीय सेवा, शिक्षणक्षेत्र ह्या पासत वापरतात.

थंय आरती उपरांत दोनय वेळां लोकांक फुकट जेवण दितात. हजारांनी लोक ताचो दिसपट्टो लाव घेतात.

थंयच्यान आमी धर्मस्थळाक आयलीं. रातचीं आमी

थंय रावपा आसलीं. हॉटेलांत सामान दवरून फ्रेश जावन आमी देव दर्शनाक आयलीं. थंय कसलो तरी उत्सव आशिल्लो. सगळे कडेन दिव्यांची आरस केल्ली. रातच्या काळखांत ते रंगयाळे दिवे सोबीत दिसताले.

रातची लेगीत थंय आकांत गर्दी आशिल्ली तरी देवाक पांयां पडुंकच जाय आसलें म्हणून आमी गर्दैतल्यान वाट काडत मुखार गेलीं. खूब व्हड लायन आशिल्ली. तरी तिकेट काडून आमी लायनींत रावलीं.

देव दर्शन घेवन आमी एकदांचीं भायर आयलीं. भायर एक फोटो काडलो आनी परत ते गर्देंतल्यान हळू हळू चलूंक लागलीं.

## सुब्रह्मण्यम

दुसरे दिसा सकाळ फुडेंच आमी नाश्तो घेवन भायर सरलीं. दोनय वटेन पाचुची आरस आशिल्ल्या रस्त्या वयल्यान आमची टेम्पो धावूंक लागली.

आमी आतां सुब्रह्मण्यम वतालीं. सुब्रह्मण्यम विशीं पयलीं खूब कितें आयकल्लें. हांगा येवन जायते लोक आपलीं कामां जावपा पासत नवस करतात. कामां जातकर नवस पावोपाक परत येतात. हें जागृत देवस्थान अशेंय आयकल्लें.

हाचे भायर आनीक एक आख्यायिका आयकल्ली. हांगा देवळाचे गर्भकुडींत जिते नाग आसतात, तांची पुजा करतात म्हणून.

सुब्रह्मण्यम स्वामी म्हळ्यारच कार्तिकेय. म्हादेव-पार्वतीचो व्हडलो पूत आनी गणपतीचो व्हडलो भाव. बाकी कडेन तो कार्तिकेय म्हणून प्रसिध्द आसलो तरी दक्षीण कन्नड जिल्ह्यांत ह्या कडाबा तालुक्यांत जंय हें देवूळ आसा, थंय ताका सुब्रह्मण्यम स्वामी म्हणून वळखतात. ताका सोरपांचो देवय म्हणटात.

ताणें पवित्र सोरोप वासुकी आनी हेर सोरपांक आसरो दिला, अभय दिलां अशें मानतात. गरुडाचीय हांगा सदांच पुजा जाता.

नागपंचम हो हांगाचो सगळ्यांत व्हड उत्सव! मागीर 'सश्टी किरू' आनी 'नाग आराधना' हेय उत्सव हांगा जातात.

शंकराचार्य हांगा येवन राविल्ले. तांणी 'सुब्रह्मण्यम भुजंग स्तोत्र' बरयलें. हाका तिर्थक्षेत्राचो मान आसा. जायते भक्त हांगाचे 'कुमार धारा' न्हंयेंत न्हावन थंय देवसपण करतात.

हें देवस्थान बऱ्याच व्हड वाठारांत आसा. बरोच पयस आमकां टेम्पो थारावंचो पडलो. थंयच्यान कडक वतांतल्यान चलत आमी देवळा कडेन आयलीं. हें देवूळ न्हंय, रान आनी दोंगर हांणी वेश्टिलां. म्हणून तें पाचुच्या कोंदणांत बसयलां कशें दिसता. ताका एक वेगळीच सोबाय आयल्या.

त्या दिसा थंय कितें तरी उत्सव आशिल्लो जावंये! व्हड लाकडी रथ भायर उबो आसलो. ताका केळी गब्यांनी सुंदर रितीन सजयताले. रथांत गणपती आसलो.

ताका अभय गणपती म्हणटात अशें आमकां थंयच्याच एकल्यान सांगलें.

थंय आशिल्ले एके इमारती फाटल्यान आमकां व्हेलीं. थंय पांय धुवपाक, न्हावपाक नळ आसले. पयलीं खंय कुमारधारा न्हंयेंत पांय धुवन देवळांत येतालीं. आतां हांगा नळ बसोवन प्रवाशांची बरी सोय केल्या. थंयच जोतीं दवरपाचें स्टेंड आसलें. आमी जोतीं दवरून, पांय धुवन देवळा कडेन आयलीं.

देवूळ बरेंच भितर आसलें. भायर व्हड कोरीव प्रवेश दार आसलें. ताचे दोनय वटेन खऱ्या हत्ती येदे व्हड पाशाणी हत्ती आसले. ह्या प्रवेश दारा वयर तंजोर पॅगोडा म्हळ्यार गोपूर आसा. हांगाय गोपुरांतल्यो थोड्यो मुर्ती रंगीत आसल्यो. थंयच्यान आमी भितर सरलीं, म्हळ्यार बरींच सकल देंवन आयलीं. भितर व्हड जागो आसलो थंय खूब लोक बशिल्ले. मातशीं चलून मुखार वतकर काळ्या पाशाणी देवळाची फाट दिसली.

ती देवळाची फाटली वट पळयतकच आमकां याद जाली रामेश्वराची. थंयी आमी देवळाचे फाटले वटेन भितर सरिल्लीं आनी मागीर मुखार आयिल्लीं.

हें देवूळ तशें व्हड ना आनी वेगळेच तरेचें. देवळा भोंवतणी खूब व्हड वाठार.थंय अगरशाळा आनी कितें कितें बांदलां. अगरशाळेच्या वारांदार प्रत्येक कडेन पुजारी आनी यजमान, तांची वांगडचीं बसून देवकृत्य करतालीं. थंय देवकृत्य करपाक साडीच न्हेसूंक जाय खंय! आमकां गोविंदान साडी घेवपाक सांगिल्ली पूण आमकां देवकृत्य करपाचें नासलें. क्षमा, गोविंद आनी दिगामामाक देवसपण करपा आसलें. म्हणून दिदी, क्षमा साडी न्हेसून आयिल्लीं.

आमी चलत देवळा मुखार आयलीं. थंय चांदीचो गरुडस्तंभ आशिल्लो, मुखार देवूळ. म्हळ्यार फकत गर्भकूड. मुखार बसपाक मंटप बी कांय ना. भायर खांब्या खाब्यांचें बांदकाम. पूण सगळें उगडें. गाभाऱ्या भितर सुब्रह्मण्यम स्वामी आनी वासुकीची मुर्त आसली.

खंयी जितो नाग दिसता काय म्हणून हांवें बारिकसाणेन पळयलें. हांवें वांगडच्यांकय सांगिल्लें. पूण कोणाकच थंय जितो नाग दिसलो ना. हांगचो पुजारी तुळू ब्राह्मण खंय! तांकां कितेंय विचारतलें म्हळ्यार ते कितें उलयतात तें आमकां कांयच कळऽ नासलें. आमी पांयां पडून, तिर्थ घेवन मुखार सरलीं.



# DCS Techno Services Private Limited

TECHNO DCS SERVICES

www.dcstechno.com

## PAN INDIA TECHNOLOGICALLY SAFE AND SOUND

Solution provider in the area of

**Mining, Construction, Infra and Waste Treatment**

KENNAMETAL




ROCKWHEEL



eBio STP



INDECO Rock Breakers



Kubota

Mini Excavator
Made in JAPAN



LIEBHERR
TOWER CRANES



**Hyderabad**
Plot No. 169, Road No. 11, Prashasan Nagar, Jubilee Hills
Hyderabad - 500 096, T.S., India, Ph: +91 40 23558136
Fax: +91 40 23541134

**Mumbai**
410, V Times Square, Palm Beach Road, CBD Belapur
Navi Mumbai - 400 614, Ph: +91 22 2757 5355 / 56

**Goa**
First floor, Sundial, Silvera Road, Altinho, Panaji, Goa 403001
Ph: +91 832 2436420/30, Email: abhay@dcstechno.com



फाटले वटेन जेवण करताले. आमी पळोवपाक म्हणून लार्गी गेलीं. दोन लांब सोपेशे केल्ले. मर्दी देड-दोन फूट जागो आसलो. थंय लाकडां रसरसतालीं, ताचे वयर तांब्याचें व्हड तपल्यावरी रूंद तोंडाचें आयदन दवरिल्लें, आनी ताका दोनय वटेन धरपाक व्हड तांब्याचींच आरगोलां आसलीं. त्या आरगोलांतल्यान दांडो घालतात आनी दोग जाण तें जड आयदन रांदनी वेल्यान सकल काडटात.

थंय आमी एक अजाप पळयलें. तशें पयलीं आयकल्लें, पूण हांगा आमी पळयलें. एका व्हड कपड्यार धुल्ले तांदूळ घाल्ले. ताचेर शिजयल्ल्या शिताचो थर घालो. अशे दोन- तीन थर घालतात. मागीर पोंदचे तांदूळ ते हुनसाणीन शिजून येतात. ताचें बरें शीत जाता. काय बरी युक्ती पळे.

ती येदी व्हड रांदन, व्हड व्हड आयदनां पळोवन आमी भायर आयलीं. थंय सदांच लोकां पासत जेवणावळ आसता. आमी थंय पाविल्लीं तेन्ना अकरा वरां सुमार जाल्लीं. आमी थंय जेवंक रावलीं नात.

गोविंदाक आनी दिगामामाक देवसपण करपा आसलें. आमी तांचे बराबर अगरशाळेंत आयलीं. देवसपण जातकच पांयां पडून, प्रसाद खावन आमी भायर सरलीं.

## पाचुचो खडो कुर्ग

सुब्रह्मण्यमच्यान आमी कूर्ग वचूंक भायर सरलीं.काल उडपींत ह्या टेम्पोंत बसत पसून आमी वयर वयर दोंगर चडटालीं. सरभोंवतणी पाचव्या पाचव्या रंगाची तरेकवार सया आशिल्लीं झाडां झोपां पळयतालीं. पाचुच्या दोंगरार आमी वावुरतात कशें दिसतालें. तें सैम पळयतना दोळ्यांक थंडाय आनी मनाक थाकाय मेळटाली.

कर्नाटक आनी केरळ शिमेचेर आशिल्लो कूर्ग हो कर्नाटकांतलो सगळ्यांत अप्रतीम सैम सुंदरायेन संपन्न जिल्हो. तसो हो दोंगराळ वाठार. पयलीं हो वाठार 'कोडागू' ह्या नांवान वळखताले. कोडागू म्हळ्यार कानडी भाशेंत चडावाचो रस्तो वा घाटी. 'कोडागू' ह्याच नांवाचो मुखार मुखार अपभ्रंश जावन 'कूर्ग' जालें.

दाट्ट बरी रुखावळ, वेलची, काफी हांचे मळे, संत्रांच्यो बागो आनी मसाल्या खातीर हें प्रसिध्द आसा. हांचें मुखेल ठिकाण म्हळ्यार मडिकेरी. दर्या पसून सुमार 1525 मिटर इतले उंचायेर हें वसलां. हांगा वर्सयभर पावसाचो शिताडो आसता म्हणून जावंये ह्या सगळ्या वाठारांत दाट्ट काळशीं रानां. पानांचो पाचवो रंग हांगा केन्ना निळशी धुंवरी कसो दिसता, केन्ना काळशी सया मारता, तरीय पाचवी सया झळझळटा. म्हणून जावंये हो वाठार म्हाकां पाचुची खाण कशी दिसता. हो सैमीक मनभुलोवणो थंड हवेचो जागो पर्यटन क्षेत्र म्हणून नामनेक पावला.



कर्नाटकाच्या पश्चीम घाटाचे कुशींत रिगिल्ल्या सौंदर्याचे सम्राज्ञीचेर सैमान आपलें वैभव धाय हातांनी शिंवरलां म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. हांगाची थंड हवा आरोग्याक जितली बरी तितलीच उमेददिणी आसा. हांगच्या दोंगरांचे उंच उंच पाचवेचार कडे मळबा कडेन सर्त लायतात. ताका लागून ते चडशे निळनिळशा धुक्याचे विरविरीत शालींत गुठलायल्लेच आसतात. ताका लागून कांय लोक हाका दक्षिणेचें काश्मिरच म्हणटात. हांगा दोंगर माथ्यार बर्फ मात फाल्त.

आमचो टेम्पो धांवतालो आनी हांव मनान कुर्गांत भोंवतालें.

आतां दोंगरार आमकां वळीन लायिल्लीं काळशा दाट पानांचीं झाडां दिसूंक लागलीं. तांकां तांबडीं, पाचवीं फळां लागिल्लीं. गोविंदान आमकां सांगलें हीं काफयेचीं झाडां आनी ताका लागल्यात ते काफे.

आमी खूब वर्सां पयलीं एक वर्सभर चांदरा रावतालीं. थंय आमच्या शेजाऱ्यांगेर काफ्याचें झाड आसलें. तें अशें पाचव्या फळांनी गच्च भरतालें. तीं पिकून तांबडींच जातकच आजी आमकां खायात म्हणटाली आनी बियो आपल्याक दियात म्हणटाली. मागीर त्यो बियो बऱ्यो धुवून आजी सुकयताली, खलबत्यांत तांचो पिठो करताली. आनी आमकां काफी करून पिवपाक दिताली. म्हाका त्या काफ्या झाडाची याद आयली.

म्हणटासर सगळे कडेन आमकां काफ्याचीं झाडां दिसूंक लागलीं. आमी कूर्ग पावलीं म्हणून कळ्ळें. मदीं मदीं केसरी संत्रांनी भरिल्लीं झाडां दिसूंक लागलीं.

कूर्ग हिलडेल रिसोर्टा कडेन आमचो टेम्पो थांबलो. आमी देंवन आपापले कुडींनी वचून फ्रेश जावन आयलीं. ह्या हॉटेलाची रचना वयर सकल अशी. आमी देंविल्लीं त्या रस्त्या कुशीक हॉटेल. आमी सरळ भितर आयिल्लीं पूण पोंदाय हॉटेल आशिल्लें दिसतालें. थंयी दारांत गाडयो देंवन वताल्यो. आमी जेवन मात्सो सुशेग घेवन भोंवपाक भायर सरलीं.

सुर्वेक आमकां एके दोंगुल्लेर व्हेलीं. थंय 'राजास टोंब' म्हळ्यार राजाचीं थडगीं आशिल्लीं. त्यो लिंगायतांच्यो समाधी. तांकां 'गद्दिके' अशेंय म्हणटात खंय!




















# आवर्जून वाचावी अशी
# डॉ.श्री.गुरुदास भालचंद्र नाटेकर
# यांची प्रकाशित पुस्तके

१) **एक वादळ घोंगावताना** (कादंबरिका, मराठी)
२) **एक तुफान गरजता हुआ** (कादंबरी,हिन्दी)
३) **मॉड येता तेन्ना** (कादंबरी,कोंकणी)
४) **WHEN A STORM COMES ROARING** (कादंबरी,इंग्रजी)
५) **अंतःप्रेरणा** (वैचारिक लेखसंग्रह)
६) **गणेशपुरीतून....**(वैचारिक लेखसंग्रह,मराठी)
७) **मनी आले ते....**(वैचारिक लेखसंग्रह,मराठी)
८) **रणसांवट** (नाटक,मराठी)
९) **शब्द-संचित** (वैचारिक लेखसंग्रह,मराठी)
१०) **दैव किती अविचारी** (कादंबरी, मराठी)
११) **कवितेच्या गावात** (कादंबरी, मराठी)
१२) **विचार-नामा** (वैचारिक लेखसंग्रह,मराठी)
१३) **विचार-वैभव** (लेखसंग्रह,मराठी)
१४) **विचार-दूत** (वैचारिक लेखसंग्रह,मराठी)
१५) **शब्द-वीणा** (वैचारिक लेखसंग्रह,मराठी)
१६) **शब्द-शिल्प** (वैचारिक लेखसंग्रड,मराठी)
१७) **शब्द -तुषार** (वैचारिक लेख संग्रह-मराठी)
१८) **समाज मन** (वैचारिक लेख संग्रह-मराठी)
१९) **व्हिजिटींग कार्ड** (नाटक,मराठी)
२०) **काळीज-हाक** (वैचारिक लेख संग्रह-मराठी)
२१) **हिरव्या रानात** (कविता संग्रह,मराठी)
२२) **सुवर्णसंध्या** (कविता संग्रह,मराठी)

## आगामी पुस्तके

१) **व्हिजिटिंग कार्ड** (नाटक,मराठी)
२) **कथा त्या दोघांची** (नाटक,मराठी)

75 आज़ादी का अमृत महोत्सव

# बिम्ब मासिक

म्हळ्यार अथक परिश्रमाचें एक जितें जागतें मोस्त्र.

फाटलीं २१ वर्सां
नेमान आमच्या वाचनाची भूक भागोवपी
आनी दिवाळेक साहित्याचो फराळ घेवन येवपी
बिम्ब मासिकाक आमच्यो शुभेच्छा.

डॉ.हरिश्चंद्र नागवेंकार (निवृत्त प्राचार्य,कवी आनी समिक्षक) आनी सौ.कुंदा हरिश्चंद्र नागवेंकार

# बिम्ब मासिक

दिसान दीस चडांत चड परजळचें
देखून आमच्योय शुभेच्छा.

शिल्पा सुनील रायकार,
अवनी सुनील रायकार,
सुनील रायकार

दीपा संतोष लोटलेकार,
धिती आनी सौम्या लोटलेकार,
संतोष लोटलेकार

मडगांव गोंय.

व्हड बरे बागेंत आमी भितर सरलीं. थंय एके वटेन तीन धाकटुलीं घरां कशीं आशिल्लीं तातूंत थडगीं आसलीं. एक राजा लींग राजेंद्राचें, दुसरें राजा वीर राजेंद्राचें आनी तिसरें राणी महादेवी अम्मा हीचें. हीं थडगीं म्हळ्यार भायल्यान पळोवंक घुमट्यो वा घरां कशीं. भायली बांदावळ मुसलमानी धरतेची. वयर घुमट आनी कुशीक चार मिनार. भितर मात हिंदू देवांचीं चित्रां कोरांतल्यांत. एके घुमटेंत दोन लिंगां. तांकां अभिशेकय करतात म्हणपाचें कळटालें.

आनीक एक घुमटी मात्सी पेल्यानशी आशिल्ली. ती तिसरो लिंगराजेंद्राचो गुरु रुद्रप्पा हाची. तशी ती घुमटी म्हणू नज. ती मात्सी व्हडय आशिल्ली. तिचें दार धांपिल्लें. पूण भायली बांदावळ ह्या तीन घुमट्यां भशेनच.

ह्या घुमट्यांचे भोंवतणी बरी बाग केल्ली. सोबेचे माड रोयिल्ले. तांकां हेर माडावरीं शेवकां आयिल्लीं आनी तशींच फुलांय फुलिल्लीं. हांवें हें अजाप पयले खेपे पळयलें. हे बागेंतल्यान सरभोंवतणच्या दोंगरां मदीं बशिल्लो कुर्गी वाठार मनभुलोवणो कसो दिसतालो.

थंयच्यान आमी परत नागमोडी वळणांच वळणां काडत आनीक एके दोंगुल्लेर चडलीं. हांगा गच्च रुखावळ आशिल्ली. ह्या गच्च रानांत 'अब्बे घसघसो' लिपिल्लो. टेम्पोंतल्यान देंवन आमी मुखार चलपाक लागलीं. हाका 'बी' घसघसो म्हणटात खंय! ब्रिटिशांच्या काळार तांणी आपले चलयेचें नांव 'जेसी' अशें त्या घसघशाक दिलें. पूण थळाव्यांच्या तोंडांत जेसी वाट्याचें 'बी' जालें, तार्चेच अब्बे जालें अशें सांगतात.

खरें म्हळ्यार अब्बे ह्या उतराचो अर्थ कुर्गी भाशेंत घसघसो अशें जाता. अब्बे म्हळ्यार 'घसघसो घसघसो' म्हणिल्ले भशेन. म्हाका आमच्या मडगांवच्या मोती दोंगराची याद जाली. पुर्तुगेजींत माँत म्हळ्यार दोंगर. ते माँतीर वचया म्हणटाले, तार्चे थळाव्यांनी मोतीर केलें. आनी मागीर ताका मोती दोंगर म्हणपाक लागले. म्हळ्यार 'दोंगर दोंगर' अशें अब्बे घसघशा भशेन जालें ना?

ही मजा हांवें वांगडच्यांक सांगली. कोणें एकट्यान म्हळें, हाच्या मुखार आमच्या मोती दोंगराक मोतयांचो वा मोतयां मेळटालो तो दोंगर अशी आख्यायिका जोडल्यार कोण फट म्हणचो ना.

घसघशार वचपाचे वाटेक सुर्वेक वालींचो माटोव घाल्लो. थंयच्यान आमी देंवपाक सुरवात केली. सुर्वेक दोनय वटेन बसपाक शिमिटाचे बांक दवरिल्ले. कोणाच्यान सकल वचूं नज तांणी त्या बांकार बसपाचें. वयर चडून येतकरय विसव घेवंक लोक तांचेर बसताले.

दोशीं वटेन गच्च काफयेचे मळे आनी मदल्यान ही वाट. आठ-धा बारीक बरीक सोंपणां जालीं काय मदीं मेकळो जागो अशे तरेन 167 सोंपणां देंवन सकल घसघशा म्हऱ्यांत वचूंक जाय आसलें. आमी उलयत उलयत सोंपणां देंवक लागलीं. घसघसो लागीं येवंक लागलो तशीं दोशीं वटेन व्हड व्हड तळपां दिसूंक लागलीं. तांचेर जाय जाल्यार बसुंकय मेळटालें.

थोडे भोंवडेकार तांचेर वेगवेगळे तरेन बसून, उबे रावन फोटो काडून घेताले. आमी मातशीं मुखार वचून घसघसो सारको बरो दिसता थंय बसलीं. मुखावेलीं सोंपणां बरींच खोल आसलीं. तीं चडपाक त्रास जावपाचो, म्हणून आमी मुखार गेलीं नात. हेमंतय आमच्या म्हऱ्यांतच बसलो. आम चीं वांगडचीं सामकीं घसघशाच्या लागीं गेलीं.

हो घसघसो सत्तर फूट उंचाये वेल्यान पाशाणांक आपटत -धपटत सकल उडी घेता. आमी घसघशार पावतनाच पावसाचें सावट जाल्लें. आतां चडच काळोखसो जालो. पावस येत म्हणून आमी बेगी बेगीन वयर येंवक लागलीं. आमी वयर पावतासर पावस शेनूंक लागलो.

थंय चडसो पावस आसताच, म्हणून आमकां सत्र्यो हाडपाक लायिल्ल्यो. पूण आमी सत्र्यो टेम्पोंत दवरून आयिल्लीं. कूर्गी पावसांत भिजत आमी रस्त्या पलतडीन आशिल्ल्या चा च्या गाड्यार गेलीं. थंय कदेलां आशिल्लीं ताचेर बसलीं. पावस पडिल्ल्यान शीं खावंक लागलें. आम च्यो शाली,स्वेटर लेगीत टेम्पोंत आशिल्लो. आमी त्या गाड्यार कडकडीत बरी चा पिलीं.

तितलेसर पावस थांबलो. मागीर आमी टेम्पोंत परतेचे वाटेक लागलीं. खूब पुरो जाल्लें तरी विसव घेवपाच्या निम तान आमी सगळ्यो बायलो छायाचे कुडींत जमल्यो. अशीं एकठांय बसून गजाली केल्यो काय आमीं ताजीं जातात. पुरो जाल्लें विसरून वतात. जेवणाचें आपोंवणें ये सर आमी गजाली, फकणां करत वेळ पासार केलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच उठून नाश्तो घेवन भोंवपाक वचपाक वयर पॅसेंजींत आयलीं. थंय व्हड-व्हड, सोबीत रंगाच्यो दसणी आशिल्ल्यो. तांच्या म्हऱ्यांत रावन आमी फोटो सेशन केलें.

मागीर त्या हॉटेलाचो मॅनेजर आमकां घेवन तांच्याच काफयेच्या मळ्यांत आयलो. त्या मळ्यांत खूब्ब जळवो आसल्यो. आमी चडशा जाणांनी बूट घाल्ले. पूण हांवें आनी एक दोग जाणांनी मेय घालूंक नासले. मॅनेजरान आमच्या पांयार, हातार सेनिटायझर मारपाक लायलो. मागीर आमी मळ्यांत भितर सरलीं.

दोशीं वटेन गच्च काफ्याचे मळे. पाचव्या आनी तांबड्या काफ्यांनी भरिल्ले. हो वाठार देंवतो कसो आशिल्लो. मॅनेजरान सांगलें, काफ्याचीं झाडां देंवतेरच लायतात म्हूण! तांकां उदक खूब जाय, पूण मुळांत साठून उरूंक जायना.

काफ्याचें झाड स फुटां वयर वाडना. चड वयर गेल्यार आनी घशघशीत वाडल्यार तांकां फळां बरीं जायनात. म्हणून तीं झाडां चड वाडचे पयलींच कापतात. हांगा म्हाका आज्येले म्हणीची याद जाली. कोणय बायल आंगापांगान घसघशीत वाडल्या आनी तिका भुरगें जावपाक त्रास जाता जाल्यार ती म्हणी, 'माता गेल्यार फळा येना'. म्हळ्यार चडच मातल्यार त्या झाडाक फळां जायनांत!

काफ्याचें एक एक झाड शंबर-शंबर वर्सां लेगीत फळां दिवंक शकता खंय! काफ्याच्यो बियो दळून काफये पिठो तयार करतात. काफ्यांच्या वयर गर आसता, ताचे पसून सरबत करतात. ते भायर आनी कितें कितें करतात खंय!

मॅनेजराच्यो गजाली आमी तल्लीन जावन आयकतालीं. तितलेसर कोणें तरी विवेकाच्या पांयार येदी व्हड जळू पळयली. ती ताचें रगत पिवन वाडिल्ली. विवेकान वोडून ती काडली. छायान ताचेर सॅनिटायझर मारलो. रगत येवपाचें कमी जालें.

आतां आमी सांबाळून पावलां घालून भोवंक लागलीं. त्या मळ्यांत एक व्हड घर बांदलां. फाटल्यान काफ्यांचेर प्रक्रिया करपाचो जागो आसलो आनी फुडल्यान रावपाक कुडी, व्हड हॉल अशी वेवस्ता केल्ली. त्या घराच्या सकल सामकी देंवती. थंय अनशिणी रोयिल्ल्यो.

आमी सगळें पळोवन परतुपाक लागलीं. तितलेसर पळे जाल्यार म्हज्याय पांयार जळू. कांचनान वोडून काडली. छायान सॅनिटायझर मारलो पूण रगत कशेंच थांबना जालें. मागीर कापसार सॅनिटायझर घेवन घायार गच्च चिड्डून धरलो. रगत मातशें कमी जालें, पूण थांबलें ना. मागीर सगळींच आपले पांय सासपून पळोवंक लागलीं. मुखार आमकां मॅनेजरान जमनीवेली जळू दाखयली. इल्लीशी अर्द इंच लांबायेची जळू, रगत पियेवन बोटा परसय व्हड जाता. पुराय पोट भरतकच ती सुटून पडटा.

थंयच्यान आमी बाजारांत येवंक भायर सरलीं. वाटेर आमकां काफ्याचे, वेलचेचे मळे दिसताले. तशेंच मर्दी - मर्दी केसरी संत्रांनी भरिल्ले मळेय दिसताले.



बाजारांत चडशीं मसाल्याचीं दुकानां. दुकानां भायर मसाल्याच्यो मुडयोच मुडयो बांदून दवरिल्ल्यो. असो मसालो पळोवन आमकां अजापच जालें. आजवेर आमी डब्यांत दवरिल्लो मसालो पळयत आयिल्लीं. केरळय मसाल्याचें आगर. थंयी हांवें मसाल्याचीं खूब दुकानां पळयल्यांत पूण असो साकांनी बांदून दवरिल्लो मसालो पळोंव नासलो. हांगा मडिकेरीच्या सगळ्या वाठारांत म सालो भरपूर पिकयतात अशें आयकल्लें, ताचो प्रत्यय आमकां असो आयिल्लो.

आमची टेम्पो अशाच एका व्हड दुकाना मुखार उबी रावली. आमी भितर सरतनाच एका कावंटराचेर म्हाका हळदी पिठो दिसलो. म्हजें रगत गळत आसलें. हांवें तांचो हळदी पिठो घेवन घायार चोळ्ळो. रगत थप्प जालें. सामकें थांबलें.

ह्या मसाल्याच्या दुकानांत सुको मेवो आनी घरा केल्ल्यो कॅडबरी चॉकलेटी आनी कसल्यो कसल्यो चॉकलेटी, हालवे आशिल्ले. ह्यो चॉकलेटी हांगचें खाशेलेपण खंय! त्या भायर मसाल्यांचीं काडिल्लीं तेलांय विकूंक दवरिल्लीं. आमच्या वांगडच्यांनी मसाल्याची बरीच खरेदी केली. हांवें केरळच्यान हाडिल्लो मसालो म्हजे कडेन आशिल्ल्यान हांवें फकत चॉकलेटी आनी काफ्यापिठो घेतलो.

मसाल्याची खरेदी जातकर आमची टेम्पो बसस्टँडा वटेन आयली. थंयच्यान टेम्पो सकल - सकलशी देंवक लागली. ताचे वेल्यान आमी कितलीं वयर आशिल्लीं ताची कल्पना आयली. बस बरेच सकल येवन, एका आर्कांतल्यान भितर सरली आनी उबी रावली.

हांगा ओंकारेश्वराचें देवूळ आसलें. ड्रायव्हरान आम कां कशीं कशीं वचात तें सागलें. हो दोंगराळ वाठार जाल्ल्यान आमकां परत परत वयर-सकल, वयर-सकल, चड-देंव करचें पडटालें.

आमी थोडेशें चलून वतकर मुखार उंच बरें दुरीग आसलें. ताका भितर वचूंक दार आसलें. दारांतल्यान भितर सर जाल्यार थंय फुलां आनी चिरमुल्यो विकूंक बायलो बशिल्ल्यो. 'चिरमुल्योशो?' आमी विचारलें. तिणें मुखार बोट दाखयलें. थंय आकांत तळें आसलें. ताच्या चारय वटेन उंच लोखणी गराद आसली. देवळा वटेन तळ्यांत वचूंक वाट दवरिल्ली.

आमी तळ्या म्हन्यांत गेलीं. भितर खुब्ब नुस्तीं उळउळटालीं. एक-एक नुस्तें वयर उडी मारून उदकांत घालून घेतालें. चलतां चलतां मदींच उडयो मारपी, खंयी धांव मारपी मस्तीं भुरग्यांची म्हाका याद जाली. थंय कांय जाण नुस्त्यांक चिरमुल्यो घालतालीं. तेन्ना नुस्त्याचें भिरें चिरमुल्यो खावंक येतालें. फुलकान्नी चिरमुल्यो कित्याक विकताल्यो तें कळ्ळें.

तळ्याच्या मद्दीं म्हादेवाचें ल्हानशें देवूळ आसलें. थंय वचपाक एक वटेन वाट दवरल्या. व्हड्यांत बसुनय तळ्यांत भोंवडो मारूंक मेळटा. हें देवाचें तळें जाल्ल्यान हातुंतलीं नुस्तीं कोणच खायनात. पूण पक्षांक कोण आडायत! बकीं असुदाय येवन नुस्तें चोंचींत धरून व्हरून खातालीं.

महाशिवरात्रेक थंय व्हड उत्सव जाता तेन्ना थंय सांगोडार देवाक बसोवन भोंवाडे काडटात. आमी मुखार सरलीं. देवळा कडेन वचूंक उंच उंच सोंपणां आशिल्लीं. ताचे वयर ओंकारेश्वराचें वेगळेच धाटणीचें सोबीत बरें दगडी देवूळ आसलें.

1820 सालांत लिंगराज राजान हें देवूळ बांदलां. एके वेगळेच पद्दतीन बांदलां. देवूळ भितर चड व्हड ना. फकत गाभारो. पूण भायलो आकार बरोच व्हड. ह्या देवळाचेर मुघल आनी गोथीक वास्तू शैलीचो छाप दिसून येता. देवळाच्या चारय कोनशांनी चार मिनार आसात. तांकां लागून पयसुल्ल्यान पळयल्यार तें देवूळशें दिसना, मशीद कशी दिसता.

देवळाच्या चारय कोनशांनी नंदीचीं शिल्पां कोरांतल्यांत. आनी कळसाचेर कोंब्याचें शिल्प आसा. देवळाचो कळसय मुघल शैलींतलो. अशीं देवळां आमी कर्नाटकांतच बेल्लूर, बेलावडी आनी हळेबीड हांगा पळयल्लीं. आनीकय खंय खंय पळयल्लीं ताची आमकां याद जाली.

त्या काळार मुघलांचें आक्रमण येतकर ते पयलीं देवळां फोडटाले. तांकां फटोवपाक पयसुल्ल्यान मशीद कशी दिसता, अशे तरेन देवळां बांदताले.

थंयच्या एका थळाव्या मनशान आमकां सांगलें, ह्या देवळाविशीं एक आख्यायिका आसा. थंयच्या राजान चुकून एका ब्राह्मणाक मरणाची ख्यास्त दिली. ते खातीर तो ब्राह्मण ब्रह्मराक्षस जावन लोकांक पिडापीड

करूंक लागलो. राजाक तर चडच त्रास जावंक लागले. लोकांच्योय कागाळी येवंक लागल्यो. राजान राजगुरूक हाचेर उपाय काडपाक सांगलो. राजगुरून सांगलें, -काशीक्षेत्रांतल्यान शिवलींग हाडून त्या जाग्यार पुजेक लाय. तेंच हें ओंकारेश्वर देवूळ.

देवूळ पळोवन आमी येवन टेम्पोंत बसलीं.

ड्रायव्हरान परत टेम्पो वयर-वयर एका दोंगरार व्हेली. थंय एके वटेन उंच - उंच दोंगर जाल्यार बरेच सकल धुक्याचें निळशें पातळ झिरझिरीत पांगरूण घेवन कुर्ग पातळिल्लें दिसतालें. जरी स्पश्ट दिसलें ना तरी आकार कळटालो.

बऱ्याच वयर पावतकीर टेम्पो थारली. ड्रायव्हरान आमकां सांगलें,- बस आनी मुखार वच्ची ना. तुमी हांगाच देंवन 'राजास सीट' पळोवन येयात.

राजाचें सीट म्हळ्यार शिंवासनबी दवरलां काय हे बागेंत? तशें जाल्यार हे बागेंत राजाचो दरबार बी भरतालो दिसता! अशें म्हणत आमी सकल देंवलीं.

आमच्यांतलीं चार-पांच जाणां टेम्पोंत बसलीं. बाकीचीं आमी 'राजास सीट' पळोवंक भायर सरलीं. बरेंऽ चलून वतकच एके व्हड बागेंत आमी भितर सरलीं. हाका 'नेहरु मन्तपा गार्डन' म्हणटात म्हणून वॉचमनान सांगलें.

सुंदर-सुंदर फुलां थंय वळीन, कलात्मक रितीन रोयिल्लीं. येदीं मोठ्ठीं बचक्या येदीं रोजां, तांचे रंगच कितल्या तरांचे. तरेतरेचीं, रंगांची धालांय थंय आसलीं. देवकेळमे, दशणी, गुलाब तर आशिल्लेच, कसलीं आनी कसलीं म्हणूं नाका सोबीत रंगा रुपांचीं फुलां थंय धोलतालीं. तांची जतनाय घेवपाक कितलेच दादले बायल्यो थंय वावुरताल्यो.

मदीं-मदीं ल्हान ल्हान तळुलां केल्लीं. तातूंत तरेकवार रंगाचीं साळकां रोयिल्लीं. थंय आमी जांबळीं साळकांय पळयलीं. हे बागेंत एक वेगळेपण आसा, तें म्हळ्यार शिमिटाचे येदे व्हड- व्हड वेगळे वेगळे प्राणी, पक्षी, जिवाणी करून दवरल्यांत. झाडार अजगर, माकड दाखयल्यात. सगळीं जनावरां बी रंगारुपान सामकीं खरीं कशीं दिसतात.

बागेंतलीं फुलां, जनावरां तोखेत आमी बागेचे कडेर आयलीं. थंयच्यान सकल खोल रुंद बरी पाचवीचार दरय आशिल्ली. भोंवतणी पाचव्याचार दोंगराचें आडवण. भर दनपार आशिल्ल्यान वोताच्या रखरखांत तो पाचवो रंग निळसो- निळसो दिसतालो. हांगाय धुक्याची झिरझिरीत जाळी पातळिल्ली, ताका लागून दरयची सोबाय आनीकय वाडिल्ली.

हांगाच एक उंच माची आसली. ताच्या चारय कोनशांनी खांबे आसले आनी वयर घुमट 'हांगा कोणय गायन बी करतालो दिसता?' अशें म्हणून आमी हांसतालीं तें थंयच्या एका कामगारान पळयलें. ताणें मुकादमाक कितेंतरी सांगलें. मुकादम आमच्या म्हऱ्यांत आयलो, ताणें सांगलें,- सांजवेळचो राजा पासयेक म्हणून हे बागेंत





येतालो. हांगा ताचें आसन आसतालें. ताचेर बसून तो रंगाचो शिंवर घालीत मावळपी सुर्य तोखेतालो म्हणून ताका 'राजास सीट' म्हणटात.

हे बागेच्या मद्दीं व्हड कारंजें आसा पूण तें तिळसांज जातकच चालू करतात.

हे बागेच्या भायरच चामुंडा देवीचें सोबीत बरें देवूळ आसा. पूण आमी बागेंत पाविल्लीं तेन्नाच थंय आरती जाताल्यो. आरत जातकर सद्दां दनपरां तें देवूळ बंद करतात आनी बद्द सांजवेळां उगडटात. कर्नाटकांत, दक्षीण भारतांत खुबशीं देवळां अशींच दनपारचीं तीन - चार तास बंद दवरतात. भोंवडेकारांक नाईलाजान देवूळ पळयनासतना वच्चें पडटा. आमीय त्या देवळाची भायली सुंदराय तोखेली.

थंय कुशीक आनीक एक बाग आसा ती भुरग्यांची बाग. तातूंत टॉयट्रेन आनी जायते तरेचीं भुरग्यांक खेळपाचीं साधना आसात. आमी पयसुल्ल्यानच ती बाग पळोवन मुखार सरलीं. बागे भायर गाडे आसले. एका गाड्यार च्या म ळटाली. आमी थंय ग्रीन टी पिवन भायर सरलीं.

वाटेर ड्रायव्हरान बशिंतल्यान 'गांधी मंडप' दाखयलो. गांधीजींच्या अस्थींचो कलश थंय दवरिल्लो.

जेवन मात्सो विसव घेवन आमी परत भायर सरलीं. आतां कुशल नगर वतालीं. वाटेर चडसो रानवाठार, दोंगर, दरयो. काफे, वेलची हांचे मळे आनी मर्दीं संत्रांनी गच्च भरिल्लीं झाडां पळयत आमचो प्रवास चलतालो. थंड वातावरणांतलो हो प्रवास मनभुलोवणो कसो!

म्हाका बस चालू जाली काय रोखडीच झेम येता. पूण प्रवासाक बी वतकच कितें हांव नकळों पूण म्हाका मातूय न्हीद येना. भोंवतणी अशी सौंदर्याची खाण आसतकर न्हीद कशी येतली?

ह्या सौंदर्याक बाधा हाडटाले मदीं मदीं ल्हान व्हड गांव.

हांवें आयकल्लें कुर्गी लोकांचो भेस वेगळोच तरेचो आसता म्हणून. ह्या गांवानी आमकां वेगळे तरेन साडयो न्हेशिल्ल्यो बायलो दिसल्यो. फाटल्यान मिरयो घेवन तीं साडयो न्हेसतात आनी पदर उजव्या खांदार घेतात. दादल्यांचोय भेस वेगळेच भशेन आसता खंय! आमकां वाटेर दिशिल्ल्या दादल्यांनी मात पेंट शर्टच घाल्लें.

आमची टेम्पो कुशलनगर पावली. चिनान तिबेट आपल्या चोपक्यांत घेतकर थंयचे दलाई लामा आपल्या हजारांनी अनुयायांक घेवन निर्वासीत म्हणून भारतात आयले. तांचें पुनर्वसन ह्या कुशल नगरांत केलें. ह्या तिबेट वसाहतींत 'गोल्डन टेंपल बायल कुपे' ह्या तिबेटी देवळांत साठ फ ूट उंचायेची बुध्दाची मूर्त, बौध्द विहार आनी सोबीत बाग आसा. पूण करोनाच्या काळार हें सगळें बंद दवरिल्लें. म्हणून आमकां थंय व्हेलीं नात. म्हाका वायट दिसलें. एक सुंदर जागो आमकां पळोवंक मेळ्ळो ना.

थंयच्यान मुखार दुबारे हो एक ल्हानसो जुंवो. कावेरी न्हंयत हो जुंवो उफेतालो. हो जुंवो रान खातें सांबाळटा. थंय हतयांक मनशाळावपाचें काम चलता. आमची बस त्या जुंव्यार वचपाचे वाटेर थांबली.

त्या दुबारे जुंव्यार मोटर बोटीन वच्चें पडटा. ते पासत व्हड लायन लागिल्ली. आमीय ते लायनीत रावल्यार थंयच रात जातली आसली. आमी हे तडीर रावनच त्या जुंव्यार हतयांक न्हाणयतात तें पळयलें. प्रवाशांकय हतयांक न्हाणोवंक मेळटाले. आमी थोडो वेळ थंय रावन तो सगळो वाठार नियाळ्ळो, आनी परतलीं.

आमची बस निसर्गधामाचे वाटेक लागली. निसर्गधामा कडेन पावतकच टेम्पो थांबली. थंय व्हडल्या माटवांत दुकानांच दुकानां आशिल्लीं. लोकांनी खरेदी पासत गर्दी केल्ली. आमकां ड्रायव्हरान पयलीं निसर्गधाम पळोवन येयात म्हळें. त्या माटवा कुशिच्यान आमी मुखार गेलीं.

होय एक ल्हानसो जुंवो. कावेरीचो ल्हानसो फाटो ह्या जुंव्या भोंवतणी आसलो. ताचेर लाकडी पूल बांदिल्लो. भितर मोठ्ठ्या कोंड्याच्यो, बांबुच्यो आळी. झाडांय भरपूर आसलीं.

अर्दो पूल हुपतासर थंयच्यो नविदादी आमकां दिसूंक लागल्यो. एका झाडाच्या खोडाचेर हिडिंबेचें चित्र कोरांतिल्लें. ताका रंग लायिल्यान उठून दिसतालें. भितर आनीकय झाडांच्या खोडांचेर चित्रां कोरांतून तांकां रंग



मारिल्लो. ताका लागून तीं सगळीं खरींशीं दिसतालीं. एकामेकांत भरसल्ल्या पाळांकय रंग मारून चित्रां तयार केल्लीं.

झाडांचेर तरेकवार सुकर्णीय दिसतालीं. थंय मदीं मदीं व्हड जाग्यार कुर्गी समाज तयार केला. एके कडेन कुर्गी बायलो आमच्या धालांवरी खेळ खेळटातश्यो केल्यात. हांगा आमकां कुर्गी बायलांचें न्हेसप, केंस वळोवप, तांच्यो वस्ती स्पश्ट कळटाल्यो. ह्यो बायलो खऱ्योच कश्यो दिसताल्यो. दुसरे कडेन कुर्गी दादले आपल्या खाशेल्या भेसांत तोणयो घेवन खेळपाक वांटकुळे उबे आसले. तांचे कडेन तांचीं वाजपांय आशिल्लीं

आमी म्हऱ्यांत वचून तांचो हो भेस पळयलो. लांब हातांचो धवो शर्टसो, ताचेर धोपरां मेरेन येवपी काळें जाकीट. सकल धवी पेंट, माथ्याक फेटो. कंबराक तांबडो पटो हो सेदाचो आसता खंय! आमकां थंयचें एके थळावे बायलेन सांगलें. ताका छाले म्हणटात खंय. खास कार्यावळी वेळार ते हे छाले वापरतात आनी ताका खंजीर लायतात. तो भांगराचो वा चांदीचो आसता खंय, आनी माथ्याक जो फेटो आसता ताची देग जरीची आसता. ते बायलेन आमकां मोडके तोडके इंग्लीशीन आनी हिंदीन तांचे संस्कृती विशीं थोडे भितर सांगलें.

मुखार एका व्हड जाग्यांत आदिवासी घराबो तयार करून दवरला. तांच्या घराब्यांत कितलेंच लोक आसतात. कोण रांदनीर जेवण करताल्यो, कोण बांयचें उदक काडटाल्यो, कोण दळटात, कांडटात. दादले आपलीं आपलीं कामां करताले, भुरगींय मदीं खेळटना, झगडटना दाखयल्लीं. एक परिपूर्ण घराबो थंय दाखयल्लो. तांच्या तोंडावेले भाव बी सगळे खरेंचशें दिसताले. हो शिमिटाचो घराबो केला सो दिसच नासलो.ह्या घराब्या विशीं आमकां ते बायलेन बरीऽ करून म्हायती सांगली. तांची मुखेल परब हुथरी खंय. ती नोव्हेंब्र, देजेंब्र म्हयन्यांत येता. आमचे नवे परबे भशेन. आमी कशें नवें भात हाडून पुजा करून दाराक वर्सभर बांदून दवरतात, तशें ते नवे तांदूळ हाडून वर्सभर घरांत दवरतात खंय. त्या दिसा तांदळाचो पायस करतात आनी कुर्गी जिन्नस रांदून एकामेकाक जेवपाक आपयतात.

तांची दुसरी मुखेल परब म्हळ्यार कैलपोडू. सेतेंब्राच्या पयल्या सप्तकांत ती येता. त्या वेळार शस्त्रांची पुजा

करतात. आमच्या नवरात्रांतले नमीक शस्त्र पुजा करतात तशीच. तर हांच्या ह्या शस्त्रपुजे वेळार पावसाचो नेट बरोच कमी जाल्लो आसता. म्हणून तेन्नाच्यान तांचे दादले शिकारेक वचपाक सुरवात करतात. ह्या सणाक तांचें मुखेल खाण म्हळ्यार दुकराची शाकोती, आनी ताचे बराबर तांदळाचे वडे ना जाल्यार भाकऱ्यो.

ते बायलेन वतां वतां आमकां मुखार वचून पक्षांचें फार्म मुजरत पळयात म्हणून सांगलें.

आमी मुखार गेलीं. बऱ्या व्हड जाग्यार हें पक्षी फार्म आसा. भितर सरतनाच तिकेट काडपाचें ऑफीस. थंय तिकेटी काडून आमी भितर गेलीं. हांगा तरेकवार पक्षी दवरल्यात. हांगच्याच न्हय जाल्यार खंयच्याय प्राणीसंग्रहालयांत जनावरांक, पक्षांक भायलें खाण दिवंक दियनात. पूण हांगची खासीयत म्हळ्यार ते आमच्या हातार खाण दवरून तांकां दिवपाक लायतात.

हांगा पक्षां पासत ल्हान ल्हान पांजरे नात. झाडांच्या वयल्यान जाळी मारिल्ली. पक्षांक भितर सुशेगाद उडूंक मेळटा. भितर ल्हान खरीं झाडां आसात, दाणयो आसात. पक्षी बरे खेळटाले. अशे तरेचे पक्षांचे व्हड व्हड पांजरे केरळच्या आनी हैदराबादच्या प्राणिसंग्रहांत पळयल्ले.

जायते तरेच्या रंग रुपाचे पक्षी पळयत आमी मुखार सरलीं. मदीं मदीं ल्हान ल्हान तळुलां केल्लीं. थंय तरेकवार बदकां, कासवां, मानगीं दवरल्यांत. टर्की कोंब्यांचे कितलेच प्रकार पळयले.

मुखार एक व्हड जागो जाळयेन आडावन घेतिल्लो. तातूंत खूब पक्षी उठबस करतात तें दिसताले. मनशांय भितर दिसतालीं. 'अरे, हें कितें ?' आमी एकामेकाक विचारतात थंय आसात, आमकां धा-धा जाणांचो ग्रुप करून भितर वचपाक सांगलें.

आमकां भितर वतना तोंड बंद दवरात म्हणून सांगिल्लें. आमकां वांटकुळीं उबीं केलीं. आनी हात मुखार करपाक लायलो, ताचेर खाण दवरलें. थंय आशिल्ल्या आडसाट्याशा झाडांचेर खूब पक्षी बशिल्ले. पयलीं ते वोग्गी रावन आमकां पळयताले. मागीर ते आमच्या माथ्यार, खांदार येवन बसले. थोडे हातार बसून खाण खावंक लागले. म्हज्या हातार तर दोन तीन पक्षी एकदम येवन बसले. बरी मज्जा आयली.

थंयच्यान आमी भायर सरलीं. मुखार अशेंच हरणांचें पार्क, आनी कितें कितें आशिल्लें. तिळसांज जावपाक आयिल्ली. आमी थंयच्यानच परतलीं. थंय भुरग्यां पासतय पार्क आसा खंय! हतयार बसून भोंवकूय मेळटा. खरें म्हळ्यार अख्खो एक दीस त्या पार्कांत रावन सगळें पळोवपाचें.

आमी येतना पुला कडेन कलाधाम पळयलें. भितर आदिवासी लोकांनी, थंयच्या थळाव्या लोकांनी केल्ल्यो वस्ती विकपाक दवरिल्ल्यो. आमी त्यो पळोवन भायर सरलीं.

टेम्पोंत बसून आमी परतीचे वाटेक लागलीं. हॉटेलार येवचे पयलीं कुर्गाचो बाजार पळोवंक म्हणून आमी थोडीं जाणा देवलीं. कोणाक कितें-कितें घेवंक जाय आसलें तें घेवन आमी परतलीं.

दुसऱ्या दिसा सक्काळ फुडें आमी थंयच्यान भायर सरलीं. कुर्गाची सोबीत काय तोखेत, पाचुचे दोंगर आमी देवंक लागलीं. वळणा-वळणाची ती देंवतीय पाचव्या रंगा मदल्यान सोबीतच दिसताली. हे मनभुलोवणे नजारे पळयत-पळयत आमी सकल-सकल येतालीं.

आमी पुत्तूर ह्या गांवांत पावलीं. आमची टेम्पो एका देवळा मुखार थांबली. ह्या देवळाचो भायलो आवाठ बरो व्हड आसलो. पूण भितर देवूळ तशें व्हड नासलें. आमी कुर्गांतल्या भागमंडळांत वचूं नासलीं. तितलें म्हादेवाचें देवूळ आमकां हांगा पळोवंक मेळ्ळें.

ह्या देवळाच्या भायर भांगराचो गरूड स्तंब आसलो, आनी ताच्या म्हऱ्यांत सात- सात माल्यांच्यो दिवल्यो आसल्यो. 800 - 900 वर्सां पयलींचें हें देवूळ खंय. ह्या देवळाचो आकार तातयांवरी, लांबसो वांटकुळो. मुखारच नंदी मंडप. तातूंत व्हड नंदी. हाच्या छताचेर तांब्याचो पत्रो. तो वतांत बरो चकचकतालो.

देवळांत भितर ल्हान जागो. गर्भकूड बरी व्हड. आमी पांया पडून भायर सरलीं. देवळाचे भोंवतणी ल्हान ल्हान देवळां. तांचेरय तांब्याचो पत्रो.

देवूळ पळोवन आमी मंगळुरचे वाटेक लागलीं. थंयच्यान ट्रेनीन आमी गोंयांत वचपाचीं आसलीं.

---

*मो. ९४२०६८५२७८, मडगाव*

कथा



# चक्रपाणी




## आर. एस.भास्कर

नामनेचे कवी आनी लेखक. तांच्या 'युगपरिवर्तनाचो यात्री' ह्या कविता झेल्याक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.


दनपारां जेवणा उपरांत थोडो वेळ वोल्तेराचेर आरामकायेन पडप मांव अच्युत शेटीली संवय. मागीर उठावंन दुकानांत वचप जातालें. आज ह्या वेळार दोग पुलीस अधिकारी अकाडो हुंपून भितर आयले. पत्मावती जनेलांतल्यान चोवन राविल्लें. आंगणांत तुळशी कडेन पावतकच मांवान व्हडान विचारलें:

"कोण रे?"

"आमीच, यजमान"

वाणें (बूट) सोप्या कडेन दवरन पुलीस अधिकारी दोगय जगलेर चडले. पुलीस दोगय वळखीचे आशिल्ले. मांवान तांकां जगलेवेल्या कदेलार बसाय म्हळ्ळें.

"कोण ते व्हकलें आयल्याय?"

मांय वासरेंत सावन विचारताली.

"पुलीस आसाय, आम्मा!" तिणें वासरेंत वचून

मांये कडेन ल्हवूच सांगलें. ''वळखीचे दिसता, बाप्पा तांचें कडेन बसाय म्हणटालें आयकलें.''

''कितें रें?'' मांव परतून पुलिसा कडेन व्हडान विचारतालो.

''यजमान, आमचे अधिकाऱ्यान सांगून आमी आयल्याय. आमकां तुमची मदत जाय.'' कार्य तांणी विवरसून सांगलें:

''चक्रपाणील्या नांवार नवी केस रजिस्टर केल्या. आतांच ताच्या नांवार स केसां बरोबर आसाय. ताका पकडूंक मेळना. जायते दीस जाले आमी भोंवताय. ताका आनीकय ताब्यांत घेना जाल्यार आमच्या वयल्या अधिकाऱ्यांकय आमकाय सर्वीसींतल्यान भायर उडयतले असो व्हडल्या अधिकाऱ्यालो आदेश आयला. सर्वीसींतल्यान भायर जाल्यार आमचीं भुरगीं उपाशीं जातलीं यजमान.''

''हांवें कितें करका म्होण सांगताय तुमी?''

मांव तांचें कडेन विचारतालो.

ते बसिले कडेन सावन उठावंन वोल्तेरा कडेन आयले आनी ल्हवूं आवाजान तांणी मांवा कडेन म्हळ्ळें:

''तुमी कशींच ताका पुलीस कचेरींत सांगून धाडचें. एकूच दीस आमी ताका थंय राबोवूं, नांवा पुरोशें.... इतलेंच. मार बीर कांय ना. आर्दी एक पावटी तुमी सांगून तो अर्शी हाजीर जालो आसा मूं..... ही आमची विनंती आसा.''

''चोयतां हांव.'' मांवान जाप दिली. ते गेले उपरांत मांव उठावन दुकानांत वचपाचे तयारेक लागलो. मांवान सांगल्यार थळाचे कोणय मान दिवन आयकतले हें अधिकाऱ्याक आनी पुलिसांक कळतालें.

रात्री अच्युत शेटी दुकानांत सावन घरांत पावलो मात्र, मयदारांत कोण तरी उलो मारताले आयकलें:

''चन्द्रभागी माम्मी, अच्युत माम्मा दुकानांत सावन आयलो काय......? हांव चक्रपाणी आयला म्होण सांग. माम्माल्या दुकांनांतलो गोविंद आमगेर येवनु म ाम्मा सोदता अशें सांगून गेल्ला म्होण म्हजी बायल म्हणटाली.''

पुलीस ताका सोदून भोंवताय म्हूण जाणून चक्रपाणी आतां मायदरांतल्यान आयला.

इतल्यान मांव भितर सावन मायदरांत पावलो.

''माम्मा, कित्याक म्हाका येवंक सांगिल्लें?''

''आरे, ते पुलीस आयल्लेले. म्हाका त्रास दिताय. तूं एक तांचे कचेरींत वचून हाजीर राव. तुका कांय करूंना तांणी. तुका आनिकय पकडना जाल्यार तांकां कामांत सावन भायर घालतले. आनी तांचीं कुटुंबां उपाशी जातलीं म्हणटाय!''

''हांवें चोरी जावो मारफार जावो कांय करूं ना माम्मा.तुमच्या चांतरी... म्हज्या सांगात्यांनी कितेंय केल्यार म्हजें नांव येता. म्हाका कितें करूंक जातलें?''

''स केसां तुजा नांवार आसाय म्हण्टाय!'' अच्युत शेटीन ताचे कडेन म्हळ्ळें.

''जावो माम्मा, तुमी सांगिलें देखून हांव थंय वचूं.''

दुसरे दिसा तो पुलीस काचेरींत हाजीर जालो. दंड म्होण अधिकाऱ्यान ताका सांज मेरेन थंय बसयलो. मागीर सोडवण दिली. ताका खाण जेवण बी थंयसून मेळ्ळें अशें मांवान सांगून कळ्ळें.

चक्रपाणीचेर आस्या आरोप येवंक रोखडेंच कारण बी आसा. एक पोरणी घडणूक मांयेन सांगून आयकली.

शेजारच्या वाटारांतल्या व्यापाऱ्यांनी रिणाक दाम मागिलो दिल्लो ना म्होण आरोपून राय देवळाचेर घुरी घालतलो अशी गांवांत गजाली पसरली. भाविकांनी देवळांतली मूर्त्यो, भांगर, वस्त आनी दाम पुराय सुरक्षीत थळार काडून लिपोवंन दवरलें. देवाली मूर्ती आनी कांय कडेन व्हरनु दवरली. पूण देवीची मूर्ती पेलतडीच्या गांवांतल्या देवळांत व्हरून बसयली. उपरांत गांवांत वातावरण शांत जालें तेन्ना देवळांत आराधना परतून चालू जाली. पूण जें देवीची मूर्ती पेलतडीच्या गांवांतल्या देवळांत बसयलेली ती परतून दिवपाक थंयचे गांवकार तयार नाशिल्ले. हांगाच्या गांवकारांनी मूर्ती परतून घेवपाक कांय पद्दत तयार केली. हें काम गांवकारांनी चक्रपाणी कडेन सोंपयलें.

पेलतडच्या देवळांत महापूजा दबाज्यान चल्ली. प्रसाद म्होण गर्भकुडींतल्यान चक्रपाणीन भायर हाडिल्या मुळिकांच्या फोट्यांत देवीची मूर्ती लिपोवन दवरल्लेली पूण कोणाक कळ्ळेंना.

तडीर चक्रपाणीलो इश्ट आंदोणी काळखांत मचूव घेवन वाट पळेत राविलो. आखेर चक्रपाणी पावलो.

''मूर्ती मेळ्ळी गा?'' आंदोणीन आकांतान विचारलें.

"व्हय रे अंदो, व्हडें सोड वेगीन! वचात आमीं हांगा सावन. ते आमकां फाटी घेतले." चक्रपाणीन जाप दिली.

आंदोणी चक्रपाणीलो ल्हान पिराय सावनचो इश्ट. चक्रपाणी खातीर, जीव सोडपी. देखूनच चक्रपाणीन ह्या कामां खातीर ताकाच सांगात घेतिल्लो.

आंदोणीन व्हडें वेग धरलें. थंड वारें मारतालें. घट काळूख. फोट्यांत मूर्ती आशिल्ल्यान फोटो चक्रपाणीन मचवांत सकल दवरलोच ना. मचवा वेल्यान देवं मेरेन फोटो माथ्यारीच घेतलो. दीस उदेवंचे आदी चक्रपाणीन मूर्ती एलतडिच्या देवळांत पावयली. सकाळच्या सकाळी थंय पुन:प्रतीष्ठा बी जाली.

अशीं आसतना एक दीस रायाल्या रावळारांत सावन सबार भांगर चोरी जालीं. घडणूक चक्रपाणीचेर आरोपून केस जाल्ले. बेळवार मार्गार कोणा कडेन उलोवंन राविल्ले वेळार चक्रपाणीक पुलिसांनी पकडलो आनी कचेरींत व्हेल्लो. दुसऱ्या दिसा मजिस्ट्रेटाचे मुखार हाजीर केल्ले तेन्ना ताणें आरोप न्हयकारलो.रावळारांत जें घडणूक जाले ते दिसा आपूण गांवांतय नाशिल्लों म्होण ताणें मजिस्ट्रेटाच्या मुखार सत्यवाक केल्ले. आपणाचेर नक्कल आरोप केल्ला. घडणूक जालें म्होण सांगता त्या दिसा आपूण मद्रासींत आशिल्लो म्हळ्ळेल्याचो अस्सल पुरावो म्होण ताणें कांय कागत वकीलाचे वाटेन सादर केल्ले. मद्रास पुलीस कचेरींतली आधिकारीक पावती. चक्रपाणीन कांय दंड म्होण आठ आणें भरती केल्लेंल्याची पावती.

ताणें भौसीक मार्गार रावून मूत विसर्जन केल्लें म्होण पुलीसांनी पकडून कचेरींत व्हेल्ले. नेमा प्रकार आठ आणें दंड भरपाचे पडलें. हें चक्रपाणी त्या दिसा मद्रासींत आशिल्लो म्हळ्ळल्यांत प्रमाण पत्र! देखून त्याच दिसा गांवांत जाल्या चोरीचे घडणुकेंत ताचो वांटो आसूंक साक्य ना म्होण सांगून ताका केसांत सावन कोर्टान मेकळ्ळो केल्लो.

कांय म्हयनें उपरांत चक्रपाणी रावळारांत हाजीर जालो. थंयसून चोरी जालें म्हळ्ळें भांगर रायाले मुखार दवरन राया कडेन माफी मागली आनी भांगर चोरून व्हरूंक जें कारण आशिल्लें तें विवरशून सांगल्लें. कांय कारणाक लागून एक दीस रावळारांतल्या मुख्य अधिकाऱ्यान चक्रपाणीचेर आक्षेप सांगलो. 'तो तितलो दष्टीक जाल्यार आमच्या रावळारांत चोरयेक येवो, शिकयतलो ताका' अशें बेत दवरलें. हाका लागूनच चक्रपाणीक अशीं करपाचें पडलें. रायान ताचेर परतून तोखणाय केल्ली आनी ताका भांगरा सरपळी भेटेयली. सरपळी पूण ताका नाका जाल्यान ताणें गांवच्या कांय ल्हानशे देवळींतले देवतेक समर्पण केल्ली.

एक मनीस गांवांत आसता आनी त्याच वेळा तो मद्राशींतय भोंवता हें विचित्रच. हांतुली गुप्तताय कळताली पूण दोगांक मात्र. हे म्हळ्यार चक्रपाणी आनी ताचो आत्म मित्र बाप्पी. दोगय देवळा शाळेंत एकच बांकार बसून शिकिल्ले. पिरायेन दादले जों तरीय आजून ते एकमेकांक 'आरे' अशें उलो मारताले. व्हडले मनशान धाकट्यांक 'आरे' म्होण उलो मारप ही आशिल्ली चाल. परतून सम पिरायेचे दादले एकमेकांक 'आरे' म्होण उलो मारतात जाल्यार हे तांची मदीं आशिल्ली घट इश्टागत दाखयता. मात्र न्हय बाप्पी सकलच्या जातींतले आसून वयल्या जातींतल्या चक्रपाणीक 'आरे' म्होण उल्लो मारप चाल रितीक सम न्हय अशें कांय जाणांनी म्हळ्ळें तेन्ना चक्रपाणी तांकां रोकडेंच जाप दितालें: 'आरे, तो म्हजो इश्ट. म्हजी आई आमकां दोगांकय एकच पाट्यार बसोवन शीत वाडताली. ताणें म्हाका 'आरे' म्होण उलो मारल्यार तुमकां कितें पडला?' अशें जाप दितालो. मागीर मागीर कोण आक्षेप सांगना जालें.

बाप्पीक गांवांत वर्डीके खातीरचो माटोव सजोवंपाचें काम. माटोव आनी व्हंकल व्हरेताक बसपा खतीरची माटवी बाप्पीनच सजोवका अशीं गांवकार हट धरतालें. बाप्पीलो हातगूण सगटांक मान आशिल्लो. ते वेळा सात दिसांची वर्डीक जाताली. सात दिसांकय आंगणांत माटोव आसूंक जाय!

बाप्पी सदां कार्यरत आसा तरीय चक्रपाणीन कितेंय सांगल्यार मोन्यांनी आयकतलो. एक दीस चक्रपाणीन बाप्पीक आपयलें आनी मद्रासाक वचपाचें कांय गुपीत काम ताचेर सोंपयलें. तो थंय पावलो. आनी चक्रपाणीक खातीर तें काम रोखडेंच करनु सोंपयलें हेंच खरें.

००८

कथा



# पुरस्कार




**संदेश बांदेकार**

कोंकणींतले कवी आनी लेखक.अणकारांतूय ते फिशाल आसात.


म्हागेल हल्लीत लग्नांचें जमीलें. म्हयनो भर तारीक मुखार आशिली. म्हागेल मनांत सगळें लाडु फुट्टे आशिले. भविष्यांतर्ली स्वप्नां हांव रंगयते आशिलों. आयुष्यांतलो सगळ्यांत आनंदाचो क्षण तो म्हागेल साठीरचो.आनी स्वप्नांतले दिवस प्रत्यक्षांत येवचे साठी हांव एक एक दिवस मुकार धुकलते आशिलों.

म्हागेल गुरवर्य राजेश पवार सर, म्हागेल पांचवी ते धावी पर्यंतचे मास्तर. म्हाक साहित्याच्या गुड्यार वयर पावयले ते तेमीच. पवार सरांले ज्ञानवर्धीनी सार्वजनिक वाचनालय तेमगेल खेडभाळवणी गांवात. म्हागेल गांव तेमगेल गांवच्यान दोन अडीच कीलोमीटराचेर.

एक दिवस हांव सकाळीं णवा सुमार पवार सराल्या वाचनालयांत पुस्तक हाडु गेल्लों. आयतार आशिलो. वाचनालयाची चावी सरान म्हाज कडे दिल्ली आनी सर बी म्हागेल बरात आशिले. वाचनालयांत बसुन आम

गेल खबरां मांड रंगार येयीलो. लग्नांची तयारी आनी म्हागेल लेखनाविशी गजाली. हांवें थोडीं पुस्तकां चाळ्ळीं अश केली. थोडीं वाचुंक घेतलीं. वाचनालय तर पुराय पुस्तकान भरीलें. जाय जायत्या लेखकांलीं हांगा पुस्तकां आशिर्ली. स्पर्धा परीक्षेचीं पुस्तकां बी तितलींत. पुस्तक बाजु दवरन्न वर्तमानपत्र वाचुक घेतलें. इतर मासिकां बी भरपुर आशिर्ली. सर पुस्तकां यादी बरोवन घेते आशिले. तेन्नात म्हाक फोन येयलो. हांवें फोन घेतलो. कानार शब्द पडले.

" गाजरे सर न्हीं."

" हा,हय उलया तुमी."

" सर,नतुमकां अभिनंदन! "

" कित्या म्हागेल अभिनंदन?"

" नमस्कार, सर आमी तुमगेल्या 'गाव मातीतली माणसं' ह्या कथा संग्रहाक प्रा.व.बा.बोधे राज्यस्तरीय कथाभूषण पुरस्कार जाहीर केला.त्या बद्दल प्रथम तुमगेल मनांतल्यान अभिनंदन. तुमगेल हो कथा संग्रह ग्रामीण आसुन सामान्य मनशांली मनाची श्रीमंती तेतुंत तुमी उबी केला. गरीब सामान्य मनीस, पैशांन, परिस्थितीन गरीब आसा. पण मनान आनी स्वभावान खूप्प श्रीमंत आसा. तेमगेल यथार्थ दर्शन तुमी समाजाक घडयीलें आसा. तुम गेल कथा संग्रह आमगेल निवड समीतीक मना पासुन आवडला.ऐंशी कथा संग्रह पुस्तकांतल्यान तुमगेल्या कथा संग्रहाची निवड केला. तुमगेल लेखन अशेत भरभराटीक येवु म्हण तुमकां शुभेच्छा......!

तुमी 12 डिसेंबराक पुरस्कार स्वीकारुंक तुमगेल मित्र परिवारा बरोबर हजर रावचें. आनी तशें पत्र आमी तुमकां धाडते आसात."

हांवें आनंदात म्हणलें,

" देव बर करुं सर. म्हागेल सारख्या नवीन लेखकांक तुमी सम्मान करते आसा......आमगेल दखल घेतात हें आयच्या पिढीक एक आनंदाची गोश्ट जावन आसा. परत एकपटी तुमकां मनांतल्यान धन्यवाद दितां. तुमगेल रिणांत उल्लों हांव....."

फोन दवरलो. म्हाक आनंद जालो. ही खबर तेन्नात राजेश सराक सांगली. तेमी अभिनंदन केलें. तरी म्हाक रावु जाल ना. भायर येवन हांवें जावचे बायलेक याने ज्योतीक फोन लायलो.

तिक सांगलें,"ज्योती, म्हाक आतात म्हागेल्या 'गांव मातीतर्ली माणसं' ह्या कथा संग्रहाक प्रा.व.धा.बोधे राज्यस्तरीय कथाभुषण पुरस्कार जाहीर जाला." तिकां बी खुप आनंद जालो. तिणें अभिनंदन केलें. ती बी बरीत खुश आशिली आनी खुश जातलीत न्ही? कारण तिगेल जावचे घोवाक पुरस्कार मेळीलो.

हांवें फोन कट केलो. नंतर म्हागेल सगळे लागीच्या दोस्तांक कळयलें. तेमी अभिनंदन केलें. नंतर म्हागेल प्रा.रघुनाथ मुडळे सराक फोन कन्न सांगलें. तेमकां आनंद जालो. साहीत्य क्षेत्रांत तेमीत म्हाक हाडीलें. सगळ्यांले अभिनंदनान म्हाक मळब दोन आंगुळ पैसत आशिलें.

सांजेचे चार पांच वाजील उरतले. हांव डॉ.द.ता.भोसले हेमगेले 'आठवणीतले दिवस' हें पुस्तक वाचते आशिलों. सोमनाथ गाजरे सायबा कडल्यान दोन दिवसां पयलीं हाडीलें. भोसले सरांलें पुस्तक एकदम काळजांत हात घालतालें......तेन्नात म्हागेल फोन वाजलो. वाचतां आसतना फोन येयल्यार म्हाक राग येता. पूण.... नाईलाजान हांवें फोन घेयलो.

'नमस्कार, सर......'

'नमस्कार,.... उलयात......'

'सर, हांवें सकाळीं पुरस्कार संबधान तुमकां कोल केल्लो पळया........'

'हा.....हा.....उलया सर.....'

'तें कीत का म्हणलार........आमगेल संस्था जरा नवीन आसा. सरकारालें कायीत अनुदान बी आमकां मेळते ना.......तश म्हण जरा......'

तो प्राध्यापक जरा तुटोवन तुटोवन उलयतालो.

'हां उलया सर.......'

'ते कीत का म्हणलार सर .......आमगेल संस्थेसाठी तुमी देणगी पावती काडची अशी आमगेल सगळ्यांली अपेक्षा आसा. म्हण हांवें तुमकां परत फोन केलो.'

थोडे वेळ हांव शांतत रवलों. परत हांवें म्हणलें,'कितल् रुपयांची सर....?'

'तश काय जास्ती ना सर......तुमगेलसाठी ती तशी थोडीत आसा.फक्त पांच हजार रुपय!'

म्हागेल उमेदी उत्साही चेहरो एकदम काळोकयलुट जालो. म्हाक कित उलौवचें तेत्त कळतें नाशीलें.

हांव थंडत.



म्हागेल थंडसाणेर तो प्राध्यापक म्हणु लागलो,

'सर, हांव तुमकां परत फोन करतां....तो पर्यंत तुमी विचार करा.....'

प्राध्यापकान म्हागेल पुराय उलौवणे आयकोवचे पयल्या फोन दवरलो.सुर्य धारेक गेल्लो.थकुन तो आवयल हुटीत वचु लागीलो. शियांचे दिवस.आंगाक थंड शेळाव वारो मारतालो. थोडे वेळार झीळमीळ जावचे आशिले. हांव त्या फोनान जास्तत कुडकुडुन गेल्लों. कोणाक कीत सांगचें? काय सांगचें? म्हाक कळचेत ना. नंतर म्हागेल बोडांत येयलें पवार सरांक कॉल करचो. तशें म्हागेल जीवनातलें सगळें कीतें तेमकांत सांगते येयीलों. तशेत हांवें तेमकां कॉल लायलो.

''सर,सकाळी येयील्या सरालो म्हाक परत फोन येयीलो. तेमी अश अश सांगलो.''

पवार सरांन म्हाक हांसतेत सांगलें.

''अंकुश,बिनधास्त सांगुन सोड. म्हाक हो पुरस्कार नाक म्हण. दुसऱ्या कोणाक दिया म्हण सांगा.......तुका बाकी मेळील पुरस्काराक कलंक लावचो आसा?''

''हय सर, तशेत सांगता तेमकां.''

तास भरा नंतर त्यात्त प्राध्यापकालो परत फोन येयलो. म्हणलें.

''मागीर कीत निर्णय जाल तुमगेलो?''

''म्हाक नाक तो पुरस्कार. म्हागेल पेक्षा दुसऱ्या बऱ्या ो व्होड लेखकाक तुमी दिया.''

''हे पळया सर,आमगेल इच्छा तुमकांत दिवचो ा.ते बी तुमगेल पुस्तक खुप्प बरं आस म्हणत. कां पैशै कमोवचे उरलार न्हीं......आमी छापखानो न्न छापते रावते आशिले. अश कीतले तरी लेखक ात तेमी आमकां म्हणतात.....सर, ह्या वर्सा प्लीज गेल विचार करा. आमी पाच हजार रुपय दिवु तयार ात.आमी तेमगेल विचार कन्नात.......आमकां तुम दिवचो आसा आनी तुमी नाक म्हणतात?''

तो प्राध्यापक उलयते आशिलो आनी हांव आयकतेत.

''हें पळया गाजरे सर, आजपर्यंत आमगेल संस्थेक लेखकांन वर्गणीची पावती काडलात...... ा.....विचार करा......तुमकां तुमगेल नांव व्होड ो उरलार.....तुमी देणगी पावती काडतले.......ना तर.......आसात आमगेल मुखार दुसरे लेखक...... पयशे घेवनत बसलात......मागीर तेमकां दिवचो पडतलो पुरस्कार.......''

म्हाक त्या प्राध्यापकालो दोळे फुटुन राग येयलो. तेगेल उलौवणे आयकोचेत नाक दिसलें.

हांवें रागान आवाज व्होड करतेत म्हणले.

''सॉरी सर, म्हाक तुमगेल पुरस्कार नाका.जेमकां गरज आसा तेमकां दिया. अहो सर स्वता बायलेक अडव दवरन्न पेशै कमयलेशे ह्या पुरस्काराची किंमत जावन आसा......तश म्हण हो पुरस्कार म्हाक नाका. दुसऱ्याक दिया. ओके!''

हांवें फोन दवरलो. बोड सुन्न जालें. मन विचार करतेत अग्गड गेलें. प्रश्नाचो चोथो वाडलो.....पुरस्कार विकत मेळतात......? विकत घेवचो उरता तो......? लेखक पुरस्कार विकत घेतात .......?. विकत घेतील्या पुरस्कारांची कीम्मत कीतें.....? अस पुरस्कार घेवन मनाक समाधान मेळत तर......? घरात पुरस्काराची ट्रॉफी पळोवन लेखकांलें मन लजेक पडन्न काय......? ज्या लेखकाल नांवान हो पुरस्कार दितात त्या लेखकांली कींमत कमी जायन काय......? असो पुरस्कार घेवन

कशकन्न मिरोवचें......? एकाद्यान अभिनंदन केलार थँक्स म्हणताना मनाक शरम दिसना काय.....? जो मनीस पुरस्कार दिता तो......कीत्या दिता.....? हेमी पुरस्काराचो बाजार मांडला काय .....? काय आंगड घातला..???

म्हागेल मन सुन्न जालें. कौतुक दिसलें ह्या लोकांलें .....ह्या लोकांनत प्रतिष्ठेसाठी अप्रतिष्ठेचो बाजार मांडला म्हण आमी बी मांडचो ? लेखकांक कश कळना....... लेखक तर भावुक उरतात न्हीं.....? लेखकाक सगळेत कळता......लेखककत बाजार मांडता....??

मनांतल्या म्हागेल प्रश्नांची गर्दी सुटुन सुटना..... लेखक प्रतिष्ठेसाठी स्वताचो...स्वताच्या पुस्तकाचो बाजार मांडतात हे हेज वयल्यान म्हाक कळ्ळें......त्या दिवसां कोणा कडेत हांव सारखो उलयलोत ना. सरळ न्हींदुन घेतलें.

पंदरा दिवस गेले. पुरस्कार दिवचो दिवस उजवाडलो. म्हागेल पुरस्कार रद्द जाल्लो. ही घटना कोणाक कळ्ळीत ना आनी हांवें बी कोणाक सांगलीत ना. धापील मुठ सव्वा लाखाची. त्या दिवस परत सकाळच्यान दोस्ताले म्हाक फोन येवुक सुरवात जाली.तेमी म्हणताले.

''परत एकपटी अभिनंदन सर,.......आयचो दिवस मजेत आनंदात वचु.... आज सांजेर आमकां पार्टी...... ''



हांव 'हय हय' म्हणते आशिलों.'थँक्स' म्हणतालों.दोस्ताले एक सारखे फोन चालुत आशिले. दोस्ताले फोन येयल की मुस्कटात मारील अशें जातालें.फोन घेवन घेवन म्हाक पुरो जाल्लें.

सगळे दोस्ताले फोन सरले नंतर मनाक जरा बरें दिसलें. मनांत दिसलें, चल बाबा सुटलो एकपटी आतां...

हांवें एक व्होड श्वास घेतलो. पंदरा मिनटां शांततेत गेलीं. तेन्नात परत फोना रींग वाजली. काळजांत धस्स जालें. मन भील्लें अश जाले. फोन आशिल म्हागेल बायलेलो..... ज्योतीलो......फोन उकलताना म्हागेल हात थरथरते आशिलो.....तसांत थरथरते हांवें फोन घेतलो......हांव शांत.....तेत्त उलयतालें.

''पुरस्कार घेवुक व्यवस्थित चला......आनी व्यवस्थित येया. दिस उजवाडे घरा कडे येया. स्वताची काळजी घेयात.मनापासुन काळजांतल्यान परत एकपटी तुगेल अभिनंदन.......!''

परत एकपटी कोणे मुस्कटात मारील अश जालें म्हाका.

तें हांसते हांसते उलयतेत आशिलें. हांवें फकत वट थरथरत म्हणले,

''थँक्स!!!!.''



*मुळ मराठीः श्री अंकुश परमेश्वर गाजरे.*
*शेळवे, पंढरपूर, महाराष्ट्र,*
*कोंकणी अनुवादः श्री संदेश बांदेकार*
*सदाशिवगड, कारवार*

ललित



# काव्यश्रीचे आज्जेचें अनवाळें




**कल्याण सावंत**

कविता आनी ललित साहित्य बरयतात. तांचो रोखडोच कविता झेलो उजवाडाक येवपाचो आसा.


काव्यश्रीची चवथीची तयारी फाटल्या देडेक म्हयने तरी चलताली, तीं मूळ घरांत गणपती पुजतात त्या खातीर चडच बोवाळ. माळयेवेलीं आयदनां काड, घर रंगोवन घे, मखर, रांगोळी, देवाचीं आयदनां, दिवल्यो, यादस्तीक दवरप, एकय नग चुकऽ नासतना सामानाची यादी बरय, सोलां ते मिठाच्या पोंतान पोटल्यो बांदून दवर. फाटलीं चाळीस वर्सां देवाचे कृपेन काव्यश्री चवथीची तयारी उमेदीन करता. आनीकूय खूब वर्सां करूंक मेळचें अशें तें श्रीगणेशा कडेन हात जोडून मागता.

आज मेरेन एकय चवथ ताका चुकलीना. वा कसलीच अडचण आयली ना, सोडून अमेरिकेंतली! तीन वर्सां न्युयोर्क-फ्लशिंग हांगा श्री वल्लभ गणपतीच्या देवळांत मनयली आनी दुसरे चलयेचो जल्म जाल्लो त्या वर्सा कुळारा राविल्लें.

अंदू वर्सा म्हणजे दोन हजार बावीसांत पावस सामकोच शाणो कसो वागलो.

तये दिसा रातचो मोट्टो गडगडो घेवन आयलो. सामको मळब गाजयत आनी धतरेक कडकडो हाडीत.

चवथी दीस वत, आनी मजा म्हणजे तिळसांज ते रात मेरेन चंद्राक कुपांनी धापून घाल्लो. चंद्रार नदर पडपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो.

पंचमी दिसा काव्यश्रीक फातोड्डेच्या साडेतिनाक कसल्या तरी आवाजान जाग आयली. पळे जाल्यार बिराडकारांचो सुणो दारार शेपडी आपटीतालो. भूक लागली आसतली म्हूण चपाती घेवन तें भायर आयल्यार ताणें पळ काडिल्ली. कसो वळखतलो वर्साक एकदांच येवपी घर मालकाक? उंदराची वाडी भायर झुडपां कडेन दवरून तें पांय धुवन भितर आयलें. गणपतीचें ध्यान करूंक आसनमांडी घालून बसलें, 'ॐ'चो उच्चार करपाचें मनांत आयलें पूण भितर कुडींत सून आनी नात न्हिदल्यां म्हूण ओग्गी रावलें. न्हीद म्हणजे समाधी आनी ती भंग करची न्हय अशें आजी ताका सांगताली!

आज चड घाई गडबड करपाची गरज नशिल्ली, कित्याक तर चवथी दिसा केल्ली तशी पुजेची तयारी करपाची गरज नाशिल्ली. काव्यश्रीच्या देराची सून उठल्या उपरांत घसघशीत कामां करतली हें तिका खबर आशिल्लें. ध्यान करपाक दोळ्यांच्यो पातयो मात जोडल्यात, इतल्यांत टप करून ताजे मुखार माटोळेच्या शिपट्याचो बेडो सकल पडलो. बेडो गडगडत कोनशाक वचून थारलो. त्या गडगडत्या बेड्याक पळोवन काव्यश्रीच्या मनांतलो यादींचो कुरपाणो मात्सो घुंवलो आनी आज्जेची याद आयली.

काव्यश्रीची आजी म्हणजे आवयची आवय. तिका दोनूय चलयोच म्हूण ती काव्यश्रीगेरच रावताली. आईक सात भुरगीं आसल्या कारणान काव्यश्रीक आज्जेची चड ओड आनी सल्ला मसलत आशिल्ली. तशी तांगेर बापायची आवय बी आशिल्ली. तिका व्हडली आई म्हूण उलो करतालीं. पूण ती सगळीं भायलीं कामां करताली. उदक भर, भाण तापय, जळोव एकठांय करून घे,भात उकडून घे, भात सुकोवन घे...

ताजी आजी गोरी गोरी पान आनी जेवतकीर खावचें पान खाल्लें काय सांगूंकच नाकां, ओंठ सामके तांबडेच जाताले आनी ती सुंदरच दिसताली. काव्यश्रीक केन्नाय पान खायन दिसतालें. पूण आज्जेन ताका सामकोच न्हयकार दिलो. काव्यश्रीचे आज्जेक पान खावपाची संवय जाल्ली, कित्याक तर तांगेर कुळागरांत खावच्या पानांचे शेरे आनी सुपाऱ्यांच्यो माडयो आशिल्ल्यो. आपल्या नातरांनी ताज्या पासून पयस रावचें अशें आज्जेक दिसतालें. नातरांचेर तिणें खूब मोग केल्लो आनी खूबच बरी देख-रितय शिकयली.

चैत्र पाडव्या दीस देवाऱ्या मुखार आज्जेन काव्यश्रीक पाटयेर श्रीगणेशायनमः हीं अक्षरां हात धरून चिरूंक शिकयल्लीं तांच विद्या आरंभ विधी अशें आजी म्हणटाली.

आजेक अक्षर वळख आशिल्ली पूण जोडाक्षरां वाचूंक तिका जमऽ नाशिल्लें. घडये विस्त बी बरी नासली म्हूण जायत! काव्यश्री कडल्यान दासबोध, नवनाथ, अमृत मासीक, दिसाळें बी वाचून घेताली. काव्यश्रीकय बी वाचपाक खूबच आवडटालें.

सांजवेळार सगल्या भुरग्यां बाळां कडल्यान ती परवड, पाडे, स्तोत्रां म्हणून घेताली. मारुती स्तोत्र तर तिजे आवडीचें आशिल्लें.

तिजें अनवाळें खूब कडक आशिल्लें. इस्कोलांत वचून येतकीर युनिफोर्म फाटल्या दारांत काडून न्हावन घरांत येतकूच नातरांक जेवपाक वाडटाली.

वेळ पासार करूंक आनी जांवयांचेर सगलो भार पडचो न्हय म्हूण ती लोणचीं, पापड, वडयो, खाणां, पत्रावळी आनी जोडवीं करून काव्यश्रीच्या बापायच्या पसऱ्यार विकूंक दवरताली. पूण पयशे घेतना ती वयल्यान कोणाक हात लाय नासतना घेताली.

तिजें न्हावन जातकूच न्हाल्या मनशांन तिजें णववारी वायल दाणयेवेल्यान बडयेर काडून तशेंच हात लाय नासतना तिका व्हरून दिंवचें पडटालें.चवथ लागीं पावली रे पावली तिची धु-पूस करपाचीं कामां सुरू.वणटीचेर मातयेची शेड काडून घेवप, नव्यो चुली घालप, अनवाळीं आयदनां एकठांय करून दवरप, नवीं सुपां आनी हातोर शेणाच्या उदकांत धुवन घेवप...

उमा म्हूण एक बायल तिका मजतीक येताली. पूण आजी तिका पत्रावळीर वाडटाली आनी उदक आनी च्या पिवपाक काचेचो ग्लास दिताली.

सुपां, पाटले, हातोर घेवन येता त्या बायलांक तर ती घरा भायर पत्रावळीर वाडटाली. आनी कट्टेंत हुमण दिताली. जेवल्या उपरांत शेणाचें उदक त्या जाग्यार घालूंक सांगताली.

ल्हान आसतना ताजो अर्थ काव्यश्रीक कळऽ नाशिल्लो. आतां चिंतल्यार वायट दिसता. हें जाल्लें



लोकां खातीर पूण घरांतल्यांकय बी तेंच अनवाळें, भश्टें.

दिशीं दिशीं काव्यश्री व्हड जातालें. एक दीस सैमान थारायिल्ल्या नेमा प्रमाण आज्जेची आळूबाय अकस्मात व्हडली जाली. तें भियेल्लें तें पळोवन आज्जेन ताका सगळें समजयलें, शिकयलें.

एक शेंदरी, दोन चादरी, तांब्याचो तांबयो, पितळचें ताट आनी पेलो दिवन चार दीस ताका वेगळेंच दवरलें. रांदचे कुडींत, देवा कुडींत वचप बंद. जेवता थंय शेण, न्हाता थंय शेण घालून काव्यश्रीक वाज आयल्लो. पूण आज्जे कडेन उलयतलो कोण?

त्या काळार त्यो रूडी आशिल्ल्यो आनी त्यो आतां बदलूंक लागल्यात आनी बदलूंकच जाय.

तेन्ना एका जाग्यार बसून बसून कंटाळो येतालो. वेळ कसो पासार करचो तें कळऽनाशिल्लें. मागीर वर्गातले एके इस्तिणीन ताका भौ. चंद्रकांत केणी हांचीं पुस्तकां वाच म्हणून हाडून दिलीं. पूण आजी पळयत म्हूण ताणें तशींच तीं परत व्हरून दिलीं. काव्यश्रीक अभ्यास करून वर्गांत पयलो नंबर घेवंक चड आवडटालें आनी ताणें धावी मॅट्रिक पास जायसर वर्गांत पयलो नंबर घेवन आज्जेची शाबासकी घेतिल्ली.

तिका आज्जेन केळीच्या पानांचेर कशें वाडप. नेवऱ्यांनी सारण कशें भरप, सारन कशी बांदप, मल्लां कशीं विणप, गोजडी कशी मांडप, विणपाक, नुस्तें उजरावपाक अशो बारीक बारीक गजाली शिकयल्यो.

आजी एकोणीसशें श्यात्तर सालांत काव्यश्रीचे मावशेगेर म्हणजेच आपले व्हडले धुवेगेर रावूंक गेल्ली. तेन्ना काव्यश्रीन आल्तिनाचेर नर्सिंगाक ॲडमिशन घेतिल्लें. हॉस्टेलांत रावप सक्तीचें आशिल्लें. म्हयन्यांतल्यान एकदाच घरा वचूंक मेळटालें.

एका शेनवारा काव्यश्री हॉस्टेलांतल्यान भायले भायर सावर्डर्‍या मावशेगेर वचून आज्जेचें दर्शन घेवन आयलें आनी तीच भेट निमाणी थारली. एकोणीसशें अठ्यात्तरांत श्रावण म्हयन्यांत आज्जेन अकस्मात प्राण सोडलो.

काव्यश्रीच्यो टर्मिनल परिक्षा चलता म्हूण ताका कोणेंच ही दुखेस्त खबर सांगली ना. घरा येतकूच जेन्ना कळ्ळें तेन्ना काव्यश्रीन रडून आकांत केल्लो.

जांवयांगेर मरना जाल्यार पुरो. चलता भोंवतां मेल्यार पुरो म्हूण देवा कडेन मागणी करपी आज्जेचें देवान आयकलें. अकस्मात स्वासोस्वास घेवंक त्रास जाता म्हूण रिक्षात बसून हॉस्पिटलांत वतना तिका रिक्षांतच मरण आयलें.

काव्यश्रीची आजी चौवेचाळीस वर्सां पयलीं देवागेर गेल्ली. पांसष्ट वर्साचें काव्यश्री आज आजी जालें तरी आज्जेचे शिकवणीची याद आजून स्मरत आसा.

*मो. ९७६५१२८१८५, फोंडें*




# कॉफी

जे सर संवसारांत कॉफी
आशिल्ली, ते मेरेन परिस्थिती
कितली इबाडूंक शकताली?

*–कसांड्रा क्लॅर*




**ईशान कुराडे**

कविता,ललित साहित्य लेखन करपी अभ्यासक


## कॉफीचो इतिहास

कॉफीचो सोद इथिओपियेंतल्या काफा ह्या प्रभागांत लागलो. आयजूय काफाच्या रानांनी रानवटी कॉफी जाता. कॉफीचो सोद कसो लागलो हें सांगपी एक फामाद आख्यायिका आसा. कल्दी नांवाचो एक धनगर आपल्या बोकड्यांक चरपा खातीर रानांत घेवन गेल्लो. तो न्हिदून पडलो आनी ताच्यो बोकड्यो हेंडटां हेंडटां पयस पावल्यो. जेन्ना ताका जाग आयली तेन्ना तो बोकड्यांक सोदूंक लागलो. कांय वेळ सोदले उपरांत ताका ताच्यो बोकड्यो दिश्टी पडल्यो. आजापीत जावन कल्दीन पळयलें की त्यो उत्तेजीत जावन फाटल्या पांयांर नाचताल्यो. ताच्यो बोकड्यो एका झुडपा वयलीं तांबडीं फळां खाताल्यो. ताणेंय त्या झुडपा वयलीं कांय फळां खावन पळयलीं. तोवूय उत्तेजीत जालो आनी आपल्या बोकड्यां वांगडा नाचूंक लागलो. मागीर ताणें घरा येतना थोडीं फळां आपल्या वांगडा व्हेलीं आनी आपले बायलेक दाखयलीं. बायलेन ताका तीं फळां लागसारच्या एका कोवेंतांत व्हरून महंताक दाखोवपाक सांगलें. महंतान तीं सैतानाचीं फळां समजून उज्यांत शेंवटून मारलीं. भाजिल्ल्या फळांतल्यान मनभुलयणो परमळ पातळ्ळो आनी हेर जोगी थंय पावले. ताणी त्या भाजिल्ल्या फळांच्या बियां पसून एक गरम पेय

तयार केलें. ते गर्तीं प्रार्थने वेळार तांच्या लक्षांत आयलें की तांकां झेम येवंक ना. उपरांत तांणी ही गजाल हेरांक सांगली. ही आख्यायिका न्टवन फावस्टस नायरन हांच्या 1671 वर्सा उजवाडायिल्ल्या प्रबंधांत मेळटा. कॉफी ह्या विशयाचेर तो सगळ्यांत पयलो छापिल्लो प्रबंध.

काफांतले लोक ह्या विशयाचेर तरेकवार आख्यायिका सांगतात. तांच्या आख्यायिकांनी धनगराचो उल्लेख आसा पूण महंताचो उल्लेख ना. तांच्या मतान कॉफी पेयाचो उगम कॉफी फळाच्या सोदाच्या कांय काळा उपरांत जालो. बेकेल वॉल्डमग्यिम ह्या इतिहासकारा प्रम ाण ख्रिस्ता उपरांतच्या दुसऱ्या शेकड्यांत एका धनगरान आपल्या बोकड्यांक कॉफी झुडपाचीं पानां खातना पळयलें आनी कांय पानां तोडून घरा व्हेलीं. त्या धनगराचे फामिलीन तीं पानां खतखतीत उदकांत घालून शिजयलीं. हें उदक पियेतकूच तांकां ताची रूच आवडली. त्या उपरांत कांय काळ कॉफी पानां शिजोवन पियेवपाची चाल उरली. कॉफी बियांचो सोद मागीर लागलो.

आदल्या तेंपार काफांतले लोक भोंवडेर वतना, वाटेर खावपा पासत आपल्या वांगडा भाजिल्ल्या कॉफी बियांच्या पिठ्या भोंवतणी लोणी वा म्हांव थापून, ताचे गुळे करून व्हरताले.

इथिओपिया सावन कॉफी मागीर येमनांत पावली जंय सुफी संतांनी कॉफी पेय सामकेंच लोकप्रिय केलें. उपरांत कॉफी पुराय अरबी द्वीपकल्पांत फामाद जाली. हाकाच लागून कॉफीच्या एके जातीक अरेबिका हें नांव पडलें.

अबू बक्र अल-रज़ी ह्या फारसी दोतोरान बरयिल्ल्या अल-हवी ह्या धाव्या शेंकड्यांतल्या पुस्तकांत कॉफीचो उल्लेख 'बंचम' असो केला.

पूण कांय मुसलमान धर्मगुरूं मदीं कॉफी कुप्रसिद्ध जाली आनी कॉफीचेर सगल्यांत पयलो प्रतिबंध 1511 वर्सा मक्केंत घालो. पूण तो रोखडोच फाटीं घेवचो पडलो.

संवसारांतलें पयलें कॉफी हावज कॉन्स्टंटीनोपल (आताचें इस्तांबुल) हांगासर 1475 वर्सा सुरू जालें. त्या उपरांत ओटोमन साम्राज्यांत हेर सुवातेर कॉफी हावजां सुरू जालीं. ह्या कॉफी हावजांनी वेगवेगळ्या समाजीक वर्गांतले दादले येवन चकाटां मारताले पूण बायलांक येवपाक मनाय आशिल्ली. उपरांत हीं कॉफी हावजां समाजीक उचांबळायेचीं मुखेल केंद्रां जालीं. ह्याच कारणाक लागून ओटोमन साम्राज्याच्या खुबश्या सुलतानांनी कॉफीचेर जायत्या फावटी प्रतिबंध घाल्लो. पूण कॉफी पियेवप मात थांबूंक ना आनी कितलेशेच फावटी सुलतानांक कॉफी वयलो प्रतिबंध काडचो पडलो.

कांय शेकड्यां उपरांत येवरोपांत कॉफी हावजां सुरू जालीं. हांगाय इंग्लंडच्या दुसरो चार्ल्स (II) आनी प्रशियाच्या दुसरो फ्रेडरिक (II) हांणी कॉफीचेर प्रतिबंध घाल्लो.

अमेरिकेंत 1773 वर्सा कांय जाणांनी ब्रिटीश सरकाराच्या विरोधांत बॉस्टन बंदरांत आशिल्ल्या तारवांचेर हल्लो करून तातूंतल्यो च्याच्यो पेटयो दर्यांत उडयल्यो. त्या उपरांत थंय कॉफी पियेवप हें राष्ट्रभक्तीचें प्रतीक जालें आनी कॉफी खूब लोकप्रिय जाली.

1963 वर्सा अंतरराष्ट्रीय कॉफी संघटणेची स्थापणूक जाली. 1990 च्या दशका मेरेन ही संघटणा कॉफीच्या मोलांचेर नियंत्रण दवरताली. आतां ती कॉफीचेर संशोधन आनी अभ्यासाच्या मळार वावुरता.

## भारतांत कॉफीचो इतिहास

भारतांत कॉफी कशी पावली हे विशीं एक आख्यायिका आसा. 1670 वर्सा बाबा बुदन ह्या पयणाऱ्यान मक्का सावन परत येतना वाटेर येमन ह्या देशांतल्यान सात कॉफी बियो लिपचोरयां भारतांत हाडल्यो. तांणी त्यो बियो कर्नाटकांतल्या चिकमगळूर जिल्ल्यांत रोयल्यो. हाका लागून थंयच्या एके पर्वतमाळेक 'बाबा बुदन गिरी' अशें नांव पडलां. आयजूय चिकमगळूर कॉफी लागवडीची एक म्हत्वाची सुवात आसा.

19 व्या शेकड्यांत ब्रिटीश सत्ते खाला दक्षिण भारतांत कॉफीची लागवड तरतरली. पूण 1870 च्या दशकांत कॉफी पानांच्या एका दुयेंसा लागून कॉफी लागवडीचें व्हड प्रमाणांत लुकसाण जालें. ह्या कारणा खातीर आनी च्याचे लोकप्रियतायेक लागून जायत्या कॉफी शेतकारांनी च्या रोवपाक सुरवात केली. पूण कॉफीची लागवड पुराय बंद पडूंक ना आनी मागीर ह्या दुयेंसा आड प्रतिरोधक शक्त आशिल्ल्या कॉफी जातींचो विकास जालो.

भारतीय कॉफी बोर्डाची स्थापणूक 1942 वर्सा जाली. भारतांत कर्नाटक, तामीळनाडू, केरळ आनी आंध्र प्रदेश ह्या राज्यांनी कॉफीची लागवड खूब वर्सां आदीं सावन करतात, जाल्यार हालींच्या काळांत ओडिसा, पश्चिम

बंगाल, आसाम आनी मध्य प्रदेश ह्या राज्यांनी कॉफी लागवड कांय प्रमाणांत सुरू जाल्या.

## कॉफी झुडूप आनी ताच्यो मुखेल जाती

एका कॉफी झुडपाक रोयतकच चडशें तीन वर्सांनी फळां लागतात. चडश्या कॉफी झुडपांक वर्सांतल्यान एकूच फावटी फळां लागतात पूण कांय झुडपांक वर्सांतल्यान दोन फावटी फळां लागतात. कळयो येत थावन फळां जून जाय मेरेन णव म्हयने वतात. फळां ल्हान द्राक्षा येदीं आसतात. चडश्या फळां भितर दोन बियो आसतात पूण थोड्या फळांनी (सुमार 5 प्रतिशें) एकूच बी आसता. कॉफी खुंटतना ह्यो बियो वेगळ्यो काडटात आनी तांचे पसून केल्ल्या कॉफी पेयाक खेरीत सुवाद आसता असो समज आसा.

कॉफीचीं झुडपां 'Coffea' ह्या वंशांतलीं. ह्या वंशांत शंबरा परस चड जातींचीं झुडपां आसात. पूण फकत 'Coffea arabica' आनी 'Coffea canephora' ह्यो जाती व्हड प्रमाणांत रोयतात. 'C. arabica' हे जातीचो उगम 'Coffea eugenioides' आनी 'C. canephora' हांच्या संकरणांतल्यान जाला. 'C. canephora' हे जातीच्या मुख्य पोटजातीक ताच्या बियांच्या आकाराक लागून 'रोबस्टा' अशेंय म्हणटात. भारतांतलें हवामान रोबस्टाक चड फावो सारकें आसा आनी भारतांत उत्तम दर्जाची रोबस्टा जाता अशें म्हणटात. भारतांत अरेबिकाच्यो स म्हत्वाच्यो पोटजाती रोयतात : 'पोरण्यो चिक्स', 'कुर्ग', 'कॅन्ट्स', 'एस. 288', 'एस. 795' आनी 'एस. 1934'.

अरेबिका आनी रोबस्टा हांचे मदचे कांय मुखेल फरक सकयल दिल्यात.

### अरेबिका रोबस्टा

ही सगळ्यांत चड लागवड आशिल्ली कॉफीची जात. हे जातीची लागवड अरेबिका परस उणी आसा.

अरेबिका दर्या परस 1000-1500 मिटर उंचायेर रोयतात. रोबस्टा दर्या परस 500-1000 मिटर उंचायेर रोयतात.

अरेबिका लागवडी खातीर 15-24 ओ से. हें उत्कृश्ट तापमान जाल्यार रोबस्टा लागवडी खातीर 22-28ओ से. हें उत्कृश्ट तापमान.

अरेबिका झुडपांची उंचाय चड करून 8-15 फूट आसता जाल्यार रोबस्टा झुडपांची चड करून 15-20 फूट आसता.

अरेबिका बियांत रोबस्टा बियां परस अर्दें अदीक कॅफीन आसता. रोबस्टा बियांत अरेबिका बियां परस लागींलागीं दुपेटीन कॅफीन आसता.

अरेबिका बियांचो आकार ततयां भशेन आसता. बियांच्या सपाट वटेन मदीं 'ड' आकाराची चीर आसता. रोबस्टा बियांचो आकार वाटकुळो आसता आनी मदीं उबी चीर आसता.

अरेबिका झुडपांक जीवजंतू आनी दुयेंसां आड प्रतिकार शक्त उणी आसता. रोबस्टा झुडपांक जीवजंतू आनी दुयेंसां आड प्रतिकार शक्त चड आसता.

अरेबिकाच्या फुलांनी नर आनी मादी भाग एकूच फुलांत गावतात. रोबस्टाच्या फुलांनी नर आनी मादी भाग वेगळ्या फुलांनी गावतात.

अरेबिका झुडपांची बडीची विविधताय रोबस्टा परस उणी आसा. रोबस्टा झुडपांची बडीची विविधताय अरेबिका परस चड आसा.

अरेबिका बियां पसून तयार केल्ली कॉफी चड रुचीक आनी दर्जेदार अशें मानतात. रोबस्टा बियां पसून तयार केल्ल्या कॉफीचो सुवाद अरेबिका परस उण्या दर्जाचो आसता अशें मानतात.

अरेबिकाचें उत्पादन रोबस्टा परस म्हारग आसता.

## कॉफी : झुडपा पसून कपा मेरेन

कॉफी फळां जशीं जशीं जून जावपाक लागतात तेन्ना तांचो रंग पांचव्या सावन पयलीं हळडुवो आनी मागीर तांबडो जाता. कांय कॉफी झुडपांचीं जून फळां मात हळडुवींच आसतात. फळां जून जातकच हातान वा मशिना वरवीं खुंटतात. एका झुडपा वयलीं सगळींच फळां एकाच बराबर जून जायनात आनी मशिनान खुंटतना जून फळां वांगडा तरणीं फळां तशेंच चड पिकिल्लीं फळांय खुंटतात. उपरांत जून फळां हेर फळां पसून वेगळीं करचीं पडटात. हें एक तर मानायां कडल्यान करून घेतात वा'फ्लोटेशन टांकी' वापरून करतात. कॉफी फळां एका उदकान भरिल्ले व्हडले टांकयेंत रकयतात. जून फळां टांकयेच्या पोंदच्या भागांत एकठांय जातात तर तरणीं फळां वयर उफेतात. मागीर पोंदचीं आनी वयलीं फळां

वेगळीं करून काडटात.

उपरांत कॉफी फळां वल्या कारखान्यांत (wet mill) व्हरतात. थंय त्या फळांतल्यान बियो भायर काडून सुकयतात. सुकोवच्या आदीं बियांत साठ प्रतिशें वलसाण आसता जी सुकयतकच 11-12 प्रतिशें जाता. ही प्रक्रिया तरेकवार पद्दतीन करूंक जाता. देखीक,

1. सैमीक/सुकी प्रक्रिया - ही कॉफी बियो सुकोवपाची सगल्यांत पोरणी पद्दत. हे प्रक्रियेंत कॉफी फळां वतांत सुकयतात आनी मागीर सुकिल्ल्या फळांतल्यान बियो वेगळ्यो काडटात.

2. वली प्रक्रिया - हे प्रक्रियेंत सगळ्यांत पयलीं फळाची भायली साल आनी चडसो मासाळ वांटो मशिना वरवीं काडटात. मागीर उरिल्लो मासाळ भाग उदकाचे टांकयेंत विरजण करून काडटात. त्या उपरांत ती कॉफी उदकान धुयतात आनी वतांत सुकयतात.

3. अर्दी वली प्रक्रिया- ही प्रक्रिया भोव करून इंडोनेशियांत वापरतात. सुरवातीक कॉफी बियो फळां पसून वेगळ्यो करतात आनी मागीर तांची वलसाण 30-35 प्रतिशें जाय मेरेन सुकयतात. त्या उपरांत बिंयांच्या भोंवतणचें कट्टें काडून उडयतात. मागीर त्यो बियो परत सुकयतात. दुसरे खेपेक सुकयतकच बियांक वेगळेच तरेचो पांचवो रंग येता.

सुकयतकच कॉफी बियांक 30 ते 60 दिसां मेरेन एका जाग्यार सांठोवन दवरपाची रीत आसा. सुकिल्लीं कॉफी फळां च्या भशेन एक पेय करपा खातीर वापरतात.

ताचे मागीर त्यो कॉफी बियो सुक्या कारखान्यांत (dry mill) व्हरतात. थंय तांचें भोंवतणचें कट्टें काडून उडयतात. (बियो सुकोवपाक अर्दी वली प्रक्रिया वापरिल्ली आसत जाल्यार कट्टें पयलींच काडून उडयिल्लें आसता.) कट्टें काडटकच एका मशिना वरवीं बियांच्या रंगाची तपासणी जाता आनी दोश आशिल्ल्या बियांक वेगळें काडटात. उपरांत चाळण वापरून आकाराचे प्रमाण बियांचे वेग वेगळे वांटे करतात. मागीर कांय मनशां बियांचें वेग वेगळ्या श्रेणींत वर्गीकरण करतात.

भारतांत कॉफी बियांचें वर्गीकरण करपाक एक आगळी वेगळी पद्दत वापरतात. वले प्रक्रियेन सुकयिल्ल्या बियांक 'लागवडीची कॉफी' म्हणटात. सैमीक प्रक्रियेन सुकयिल्ल्या बियांक 'चॅरी कॉफी' म्हणटात तर वले प्रक्रियेन सुकयिल्ल्या रोबस्टा बियांक 'कट्ट्र्याची कॉफी' म्हणटात.

कॅफीन विरयत कॉफी करपा पासत हरव्यो कॉफी बियो वापरतात. कॉफींतल्यान कॅफीन काडपा खातीर दोन प्रक्रिया आसात. पयली, स्विस उदका प्रक्रिया, जांतूत हरव्यो कॉफी बियो हून उदकांत भिजयतात. कॉफींतलें कॅफीन आनी रुची खातीर गरजेचीं कांय रसायनां उदकांत भरसतात. उपरांत ह्यो बियो काडून दुसऱ्यो कॉफी बियो उदकांत घालतात. हे फावटीं, बियांतलें कॅफीन उदकांत वता पूण रूची खातीर गरजेचीं रसायनां बियांत उरतात. दुसरे प्रक्रियेंत व्हड दाबा खाला हरव्या कॉफी बियांत कार्बन डायऑक्सायड घालतात जाका लागून तातूंतल्यान कॅफीन भायर सरता. ह्या दोनूय प्रक्रियांनी कॉफी बिंयांतलें कॅफीन काडटना इल्लेशे प्रमाणांत कॅफीन बियांत उरताच.

भारतांतली एक खाशेली कॉफी म्हळ्यार 'मॉन्सून्ड मलबार' कॉफी. आदल्या तेंपार भारतांत जेन्ना ब्रिटिशांचें राज चलतालें तेन्ना भारतांतली कॉफी लाकडाच्या पेटयांनी भरून येवरोपांत व्हरताले. पावसाळ्यांत कॉफी खूब वलसाण सोकून घेताली. मागीर ते कॉफीक एक खेरीत सुवाद येतालो. आयच्या काळार ही प्रक्रिया एके नियंत्रीत कृत्रीम पद्दतीन भोव करून मलबारांत रोयिल्ले कॉफीचेर करतात. हाचे खातीर फकत सुके प्रक्रियेन सुकयिल्ल्यो बियो वापरतात. म्हैसूर नगेट्स (वले प्रक्रियेन सुकयिल्ली 100 प्रतिशें अरेबिका) आनी रोबस्टा कापी रॉयाल (कुर्ग, वायनाड, चिकमंगळूर, त्रवणकोर हांगा रोयिल्ली उच्च दर्जाची रोबस्टा) ह्यो भारतांतल्यो हेर खाशेल्यो कॉफी.

'कोपी लुआक ' ही संवसारांतली एक म्हारगांतली म्हारग कॉफी. सिवेट हें माजर कॉफी फळां खावन हागता त्या गुवांतल्यान वेंचिल्ल्या बियां पसून ही कॉफी करतात. सिवेटाचे जिरवण संस्थेंत कॉफीचेर एक खेरीत प्रक्रिया घडटा असो समज आसा. पूण ह्या जनावराक पांदऱ्यांत दवरून ताका जबरदस्तीन कॉफी फळां खावोवप हें जनावरांच्या अधिकारांचें उल्लंघन जाता. कांय कॉफी तज्ञांच्या मतान ही कॉफी रुचीक नासता आनी ती पियेवप म्हळ्यार पयशांची नासधूस.

कॉफी बियांक तागाच्या साकांत भरतात आनी पेटयांनी घालून तारवांतल्यान निर्यात करतात. संवसारांतली सगळ्यांत चड कॉफी अमेरिका आयात करता. कॉफीच्या



वेपारा पासत एक संवसारीक मोल वापरतात, जाका सी-मोल म्हणटात. सी-मोल म्हळ्यार ज्या मोलान न्यू योर्क स्टॉक एक्सचेंजाचेर कॉफीचो वेपार चलता तो मोल. कांय कॉफी वेपारी 'रास्त वेपार पद्दत' वापरतात. हे पद्दतींत वेपारी कॉफी शेतकारांक आदींच थारायिल्लें रास्त मोल दितात. पूण ही पद्दत फकत शेतकारांच्या सरकारी पंगडां खातीर वापरतात.

त्या उपरांत कॉफी बियो भाजतात. बियो भाजूंक लागतकच सगल्यांत आदीं ताची वलसाण ना जाता. मागीर बियांचो रंग तपकिरी जावपाक सुरू जाता आनी बियांचो आकार वाडटा. कांय वेळा उपरांत बियो व्हड आवाज करून फुटटात. ह्या खिणा सावन कॉफीचो खाशेलो सुवाद विकसीत जावपाक लागता. आतां बियो भाजपी बियांच्या रंगाचेर आनी सुवादाचेर नियंत्रण दवरूंक शकता. मागीर जेन्ना कॉफी बियांतल्यान तेल भायर सरता तेन्नाय ल्हानसो आवाज आयकूंक येता.

बियांचो रंग सामकोच काळसर जाय मेरेन भाजूं येता वा मातसो तपकिरी जाय मेरेन भाजूं येता. बियांचो रंग कितलो काळसर जाला हें मेजूंक गट्रॉन माप वापरतात. तशेंच बियो इल्ल्याशा वेळा भितर भाजूं येता वा खूब वेळ भाजूं येता. चड वेळ भाजल्यार कॉफी बियांची आम्लताय (सुवादाच्या संबंदान) देंवता आनी कोडसाण वाडटा. तशेंच रंग सामकोच काळसर जाय मेरेन भाजल्यारूय बियांची कोडसाण वाडटा.

कॉफी बियो भाजतना तांचो पीएच आदीं 5.8 सावन 4.8 मेरेन देंवता आनी मागीर परत वाडटा. बियांत साबार रसायनीक प्रक्रिया घडटात जाका लागून 500 परस चड नवीं रसायनां तयार जातात. कॉफी बियांतलीं कार्बोहायड्रेटां भाजतकच तपकिरी रंगाचे पदार्थ तयार जातात. बियांतलीं अमिनो आम्लां ग्लुकोजा सारक्या उणावपी साकरीं वांगडा रसायनीक प्रक्रिया करून तपकिरी रंगाचे पदार्थ तयार करतात. ह्या प्रक्रियेक मेलार्ड प्रक्रिया म्हणटात. आनीक एके प्रक्रियेंत आल्फा-अमिनो आम्लां कार्बोनिल पदार्थां वांगडा प्रक्रिया करून अमिनो आम्ला परस एक कार्बन उणो आशिल्लें अल्डेहायड तयार करतात. हाका स्ट्रॅकराली नश्ट करपी प्रतिक्रिया म्हणटात.

भाजल्या उपरांत वाऱ्यार वा उदकाचो शिंवर मारून बियो न्हिवयतात. मागीर ह्यो भाजिल्ल्यो कॉफी बियो वा तांचो पिठो करून पोतयांनी भरतात आनी पसऱ्यांनी व्हरून विकतात.

कॉफी पिठो उक्तडार दवरल्यार तातूंतले कांय पदार्थ वाऱ्या वांगडा उडून वतात जाल्यार कांय पदार्थ प्राणवाये वांगडा प्रक्रिया करतात. हाका लागून कॉफी 10-11 दिसांनी भेळशेवपाक सुरू जाता आनी 6-8 सप्तकां उपरांत भेळशेल्लो वास आनी रूच वळखुपाक येता. पूण वाऱ्याक भितर वचूंक मेळना तसले पोतयेंत वा आयदनांत कॉफी पिठो दवरल्यार उण्यांत उणें वर्सभर ताजो उरूंक शकता.

कॉफी बियांच्या पिठ्या पसून पेय तयार करपाक चार प्रक्रिया वापरतात.

1. भिजत घालप - हे प्रक्रियेंत कॉफी पिठो हून उदकांत भिजत घालतात. फ्रेंच प्रेस, थंड उदकांत कॉफी तयार करपाची पद्दत ह्यो कांय पद्दती ज्यो ही प्रक्रिया वापरतात.

फ्रेंच प्रेस पद्दतींत एक फ्रेंच प्रेस आयदन वापरतात. हें आयदन कांचेचें वा धातूचें आसता. हाच्या धांपण्याक आयदनाच्या भितरले वटेन एक दांडो आसता. दांड्याच्या दुसऱ्या पोंताक एक बुराक आशिल्ली ताटली आसता. ते ताटले सयत तो दांडो वयर सकयल हालोवंक मेळटा. कॉफी करतना पिठो आयदनांत घालतात आनी ताचे वयर हून उदक रकयतात. मागीर हें मिश्रण खिरयतात आनी फ्रेंच प्रेस आयदनाचें धांपणें धांपून दवरतात. धांपतना

ताटली उदकाच्या पांवड्या वयर आमा हाची जतनाय घेवची पडटा. चार मिनटां उपरांत दांडो सवकासायेन दामून पिठो आयदनाच्या तळा कडेन व्हरतात आनी ताटले वयर आशिल्लें कॉफी पेय कपांत रकयतात. हे पद्दतीन कॉफी तयार करतना मातसो खरखरीत कॉफी पिठो वापरतात.

2. गाळून काडप – हे प्रक्रियेंत एका गाळण्यांत कॉफी पिठो घालतात आनी वयल्यान हून उदक रकयतात. भारतीय गाळिल्ली कॉफी, वयल्यान ओतपाची पद्दत ह्यो कांय पद्दती ज्यो ही प्रक्रिया वापरतात.

भारतीय गाळिल्ली कॉफी वा कापी ही चड करून दक्षिण भारतांत खूब लोकप्रिय. हे पद्दतींत कॉफी पिठ्या वांगडा चिकोरी पिठो मिस्तूर करून वापरपाची चाल आसा. चिकोरी पिठो उदक आडावन धरता जाका लागून तें कॉफी पिठ्यांतले पदार्थ बरे तरेन सोकून घेवपाक शकता. कॉफी तयार करपाक दोन वेगळे वेगळे भाग आशिल्लें आयदन वापरतात. वयल्या भागाच्या तळाक खूब बारीक बारीक बुराक आसतात. ह्या भागांत कॉफी पिठो घालतात. मागीर एक दांडो आशिल्ले ताटलेंत दामून त्या पिठ्याचो एक दाट थर करतात. ताटली कॉफी पिठ्याचेर दवरून ताचेर सळसळपी उदक रकयतात आनी आयदनाचें धांपणें धांपून दवरतात. कांय वेळा उपरांत उदक कॉफी पिठ्या वांगडा मिस्तूर जावन सकयल्या भागांत एकठांय जाता आनी एक दाट अर्क तयार जाता. ह्या अर्कांत मागीर दूद आनी जाय जाल्यार साकर घालतात. (आदल्या तेंपार गोड घालताले.) हें कॉफी पेय एका डबऱ्यांत (उंच कड आशिल्ली ल्हान बशी) रकोवन परतून पेल्यांत रकयतात. अशें केल्ल्यान कॉफीच्या वयर फेण येता, अर्क दूदा बराबर बरे तरेन मिस्तूर जाता आनी कॉफी न्हिवता.



3. दाबा खाला मिस्तूर करप –हे प्रक्रियेंत कॉफी पिठो आनी हून उदक खूब दाबा खाला मिस्तूर करतात. स्प्रेसो आनी मोका तोप ही प्रक्रिया वापरतात.

स्प्रेसो पद्दतीचो सोद लुईजी बॅझेरा हांणी 1901 वर्सा इटलींत लायलो. हे पद्दतींत बारीक कॉफी पिठो वापरतात. एका स्प्रेसो मशिनांत उदक सळसळायतात आनी खूब दाबा खाला कॉफी पिठ्या वांगडा मिस्तूर करतात. अशें केल्ल्यान दाट कॉफी पेय तयार जाता जाका स्प्रेसो म्हणटात. स्प्रेसोच्या वयर फेणाचो बारीकसो थर आसता. स्प्रेसो पसून मागीर कॅपचिनो, अमेरिकानो, काफ्ने लाटे हे सारकीं अनेक कॉफी पेयां तयार करपाक मेळटात. स्प्रेसोचेर फेण आयिल्लें दूद वापरून चित्रां काडूंक येतात. हाका लाटे चित्रकला अशें म्हणटात.

4. उदका वांगडा सळसळावप – हे प्रक्रियेंत कॉफी पिठो उदकांत घालतात आनी मागीर तें मिश्रण सळसळायतात.

तुर्की कॉफी हे प्रक्रियेन करतात. तुर्की कॉफी खातीर सामकोच बारीक कॉफी पिठो वापरतात. पिठो आनी उदक मेझ्व नांवाच्या एका आयदनांत घालून उदक सळसळायतात. अशें करतकच कॉफी पेयाच्या वयर फेणाचो थर येता. मागीर ही कॉफी गाळनासतना कपांत रकयतात. पिठो कपाच्या तळा कडेन एकठांय जाता.

हे पद्दतींनी कॉफी तयार करूंक जांचे कडेन गरजेची सामुग्री ना वा जांकां हे पद्दतींनी कॉफी करूंक येना ते त्वरीत कॉफी पियेतात. त्वरीत कॉफींत पयलीं हून उदकान कॉफी पेय तयार करून मागीर तें सुकयिल्लें आसता. हातूंत उदक घालतकच कॉफी पेय तयार जाता. त्वरीत कॉफी बेस्त्या कॉफी पिठ्या परस ल्हव आसता आनी चड तेंप तिगून उरता.

## कॉफीचे मनशाचे आंगांचेर परिणाम

कॉफी आनी मनशाचे भलायकेच्या संबंदाचो इतिहास खूब वादग्रस्त आसा. कॉफीक लागून गर्भपात, काळजाचीं दुयेंसां, कर्करोग हे सारकीं कितलींशींच दुयेंसां जावपाचे आरोप जाल्यात. 1991 वर्सा विश्व भलायकी संघटणेन कॉफीन कर्करोग जाता अशें जाहीर केल्लें. पूण खूब संशोधना उपरांत 2016 वर्सा कॉफीन कॅन्सर जायना हें सिद्द जालें.

कॉफींत हजारा परस चड रसायनां आसतात आनी तीं



मनशाच्या शरिराचेर तरेकवार परिणाम दाखयतात. कॉफींत सगळ्यांत म्हत्वाचें रसायन म्हळ्यार कॅफीन. मनशाचे कुडींत डॅनोसीन नांवाचें रसायन तयार जाता जाका लागून मनशाक पुरो जाल्ले भशेन दिसता आनी झेम येता. कॅफीन मेंदवाचेर डॅनोसीनाचो प्रभाव जावपा पसून आडयता आनी डोपमीन ह्या रसायनाचो प्रभाव वाडयता. ताका लागून मनशाक तरतरी येता आनी ताची उर्बा वाडटा. उण्या वा मध्यम प्रमाणांत (50-300 मिलीग्राम) कॅफीन खाल्यार ताचे चड करून कांयच वायट परिणाम जायनात. पूण खूब प्रमाणांत कॅफीन खालें जाल्यार अस्वस्थताय, निद्रानाश हे सारके वायट परिणाम जातात. दिसाक कॉफीचे पांचा परस चड कप पियेल्यार जिवाक माल पडूंक शकता. कॉफी थोड्या वेळा खातीर मनशाचो रक्तादाब इल्लेशा प्रमाणांत वाडयता. म्हणटकच चड रक्तादाब आशिल्ल्या मनशांनी कॉफी टाळची वा उण्या प्रमाणांत पियेवची. तशेंच गुरवार वा दूद दिवपी बायलांनी आनी ल्हान भुरग्यांनी कॉफी कमी प्रमाणांत पियेवंची.

कॉफींत पॉलीफिनॉल नांवाच्या रसायनांचो गट आसता. तांकां लागून आंगांतल्या रसायनीक प्रक्रियेंची गती वाडटा. तशेंच कातीच्या आनी मेंदवाच्या भलायके पासत हीं पॉलीफिनॉलां खूब गरजेचीं आसतात. सेंद्रीय कॉफींत पारंपारीक रितीन रोयिल्ल्या कॉफी परस चड पॉलीफिनॉलां आसतात. तशेंच चड भाजिल्ल्या कॉफींत कमी भाजिल्ल्या कॉफी परस उणीं पॉलीफिनॉलां आसतात.

मध्यम प्रमाणांत नेमान कॉफी पियेल्यार प्रकार-2 गोडेंमूत, काळजाचीं दुयेंसां, मेंदवाचो धपको, कांय प्रकारचे कांक्र, उदासपण, आलझायमर्स, पार्किनसन्स हीं दुयेंसां जावपाची शक्यताय उणी जाता हें खूब संशोधनान दाखोवन दिलां. पूण हें संशोधन फुटी कॉफीचे संबंदान आसा हें मतींत दवरचें. कॉफींत दूद आनी साकर घाल्यार ताचो वेगळो परिणाम जावपाक शकता.

कॅफीना पसून वायट परिणाम टाळपा खातीर कॉफी फकत सकाळच्या आदेसाक पियेवची वा कॅफीन विरयत कॉफी पियेवची. नेमान कॉफी पियेवपी मनशाक कॉफी पियेवप बंद करूंक जाय जाल्यार दर दिसाक इल्लें इल्लें कॉफी पियेवप उणें करचें. अचानक थांबयल्यार ताचे वायट परिणाम जावंक शकतात.

(ह्या लेखा खातीर म्हायती पुंजायतना आनी लेख बरयतना म्हाका कॉफी कडल्यान जायतें उत्तेजन आनी तरतरी मेळ्ळी. ह्या मोलादीक योगदाना पासत हांव कॉफीक दिनवासतां.)

***मो. ८४०७९९७३५८, मडगांव***

## संदर्भ


1. The World Atlas of Coffee : From beans to brewing, coffees explored, explained and enjoyed - James Hoffmann
2. Where the Wild Coffee Grows : The untold story of coffee from the cloud forests of Ethiopia to yourcup - Jeff Koehler
3. Coffee : Everything coffee, the essential guide to buying, brewing and enjoying - Carl Mainwaring
4. The Coffee Dictionary : n -Z of coffee, from growing roasting to brewing tasting - Maxwell Colonna-Dashwood
5. Plantation Crops - V..Parthasarathy, P.K. Chattopadhyay, T. K. Bose
6. Handbook of griculture : Indian Council of gricultural Research
7 The Romance of Indian Coffee - P. T. Bopanna
8. Coffee Flavor Chemistry - Ivon Flament
9 Coffee : Nutrient and the health benefits - John B. Roberts
10. Coffee Consumption and Health impacts : brief history of changing conceptions - Edward F. Fischer, Bart Victor, Daniel Robinson, driana Farah, Peter R. Martin

कथा



# धाक




**वसंत सैल**

कथा आनी ललित हातूंत सातत्यान योगदान


शाळेची अखेरची घंटा वाजोवन गोविंद समतो हेडमास्तराच्या केबिनाच्या दारार येवन उबो रावलो

"सर हांव भितर येवूं?"

"यो.... यो... कितें जालें? सगळीं भुरगीं घरा वचूंक सुटलीं मरे?"

"हय सर.... वर्गांचीं दारां लावच्या पयलीं तुमकां मेळया म्हूण आयिल्लों."

"कितें जाले?"

"सर आयज म्हाका बेगीन घरा वचूंक जाय..."

"कितें.? आयज अशें कितें खास काम आयलें रे घरा बेगीन वचूंक..?"

गोविंद जरा लजेलो.... आपल्या भितर मुमुरखो हांसलो.... तकलेर हात लायत मान सकयल करून ताणें

म्हटलें, ''सर..... म्हाका आयज एक दीस बेगीन वचूंक दियात. शाळेचीं सगळीं कामां बेगीन आटपून घेता...''

''वच तूं.... पूण तुवें आपलें कितें तें खास काम सांगल्या बगर वचूंक जायना.''

गोविंदान ल्हवूच पूण लजेस्त आवाजान म्हटलें,''सर आयज म्हज्या लग्नाचो धावो वाडदीस... तशें हांवें हो वाडदीस हाचे पयलीं केन्नाच मनोवंक ना... पूण आयज म्हाका दिसलें म्हजे घरकान्नीक किदें तरी भेटवस्तू दिवन हो दीस सादेपणान घरांतच मनवंचो... भुरग्यांक बी कितें तरी भेटवचें... पूण ताचे खातीर चार पयशे बॉल्सांत आसूंक जाय न्ही! शाळेच्या पगाराचें तुमकां तर खबर आसा... बेगीन वचून वाड्या वयले चार माड पाड्न थोडे पयशे जमोवन बायल भुरग्यांक आजच्या दिसाच्या निमतान भेट पावयची मनांत इत्सा जाल्या...''

''बरें! अशें तर... सगळीं कामां जाल्यार तुवें बेगीन वयच्याक हरकत ना.''

तें आयकून गोविंदाचें मन फुल्लें. खूश जालो आनी हेडमास्तराक नमस्कार करून तो कॅबीनांतल्यान भायर सरलो. शाळेचीं सगळीं नेमाचीं कामां आटपून भायर कामाक सुटलो.

गोविंद ह्या खेड गांवांतले शाळेंत शिपाय म्हण गेल्लीं बारा वर्सां काम करतालो. पूण ताची ती नोकरी अजून मेरेन कायम जावंक नासली. शाळेच्या वेवस्थापकांनी ताचें प्रामाणीक काम पळोवन ताका कायम करची हमी दिल्ली. पूण ताचे कांयच जायनासलें. काम हंगामी आसल्यान ताका पगार सारको नेमान मेळऽ नासलो. पूण तो त्या वेवस्थापकांनी दिल्ल्या आश्वासनाची आस मनांत बाळगून शाळेचें काम प्रामाणीकपणान चोख निभयतालो आनी फाविल्ल्या वेळार हेकात तेकात मानायाचें काम ना तर माड पाडपाचें काम करून आपलो संवसार कसो बसो चलयतालो. पूण तो केन्नाच कोणा फुडें हात पसरून आपले दीन अवस्थेचें प्रदर्शन करून लाचार जायनासलो. आपलो स्वाभिमान सांबाळून आपल्या कश्टार आनी मेहनतीर चार पयशे कमोवन जाता ते परीन आपलो संवसार चलयतालो.

गाय कशी ताची घरकान्न कमला सुद्दा ताका पुर्णपणान समजून घेताली. आपले परीन संवसाराक हातभार लायताली. गोविंदाच्या साद्या भोळ्या, गोड सभावाक ती खूब भुलताली. तांच्यात रमताली.आपलें सगळें दूख विसरून ताचेर जीव लायताली. पूण ती, तो आपलो मोग, निस्वार्थी आनी समर्पीत प्रेम आपल्या शब्दानी व्यक्त करूंक शकनासली. तरी तिचें तें अतूट प्रेम तिच्या वागण्या वयल्यान खिणा खिणाक प्रदर्शीत आनी प्रकट जातालें. ताचो तो गरीब आनी ल्हान पूण गोजाच्या परमळान भरिल्लो, म्होंवाचे गोडसाणेचो संवसार पळोवन गांवांतले सगळे लोक, इश्ट, सोयरे-धायरे मत्सर करताले. तरी पूण, ते हे जोडयेक आदर्श जोडी, तांच्या कुटुंबाक आदर्श कुटुंब मानताले. ह्या गुण्या गोविंदाच्या जोडप्याक एक आठ वर्सांची सुंदर देखणी चली आनी पांच वर्सांचो शिट्टक चलो आशिल्लो. कमला आपल्या भुरग्यांक आनी घराक सांबाळटालें. फाटीं तीन वर्सां पयलीं कमल दुयेंसान आड पड्न मरतां मरतां वाचिल्लें. गोविंदान आनी ताच्या मेवण्यान तिका जी.एम.सींत व्हरून एक म्हयनो एडमीट केल्लें. तिच्या स्वास नळयेंत सुमाराची गांठ जाल्ल्यान तिका स्वास घेवंक खूब त्रास जाताले म्हण दोतोरान 'सर्जरी' करून ती गांठ हुमटून काडिल्ली. आतां ती बरी जाल्ली खरें पूण दोतोरान तिका कसलेंच काम करूं नाका म्हण सक्त ताकीद दिल्या. देखून आपलो घरकार, आपलीं भुरगीं आनी आपलें घर हेंच तिचें जग जावन आसा. मन मारल्यार केन्नाय कमल भुरग्यांक घेवन आपल्या बापायगेर वयता. पूण तें थंय चड दीस घरकारक सोडून कशेंच रावना.

आपल्या बॉल्सांत बचत करून दवरिल्ले तीन हजार रूपया आनी माड पाडून कमयल्ले अडेच हजार सगळे म ळून साडे पांच हजार रुपया घेवन तो भायले भायर बाजारांत गेलो. आपले घरकान्नीक देड हजार रुपयांची सुंदर देखणी साडी घेतली, भुरग्यांक कपडे, खेळणी आनी मिठाय घेवन तो उसरें घरा आयलो आनी आपलो लग्नाचो धावो वाडदीस घरांतच पूण मोठ्या दबाज्यान बायल, भुरग्यां बराबर मनयलो. ध्यानांत मनांत नासताना गोविंदान साजरो केल्लो तो अनपेक्षीत वाडदीस पळोवन कमलाक सुखाचो धक्को बसलो. पूण कमलान तें तशें उलोवन दाखोवंक ना. कमलाक आपल्या घोवान हाडिल्ली ती सुंदर साडी खूब खूब आवडली. तें परत परत ते साडयेचो पदर आनी पुराय आंग आलटून पलटून पळयतालें. मनांत म्हणटालें हे



साडयेची घडी हांव म्हज्या धाकट्या भावाच्या लग्नाक मोडटलें. पूण गोविंदान तिका ती साडी येता त्या कार्तीक पुनवेच्या उत्सवाक देवळांत वयताना न्हेसपाक सुचयल्लें म्हूण तिणें आपलो विचार बदलिल्लो. कमलान ती साडी परत पिशवेंत घालून देवाचे कुडींत देवाच्या फोटो फुड्यांत दवरली. बापायन हाडिल्ले कपडे भुरग्यांनी उमेदीन घातले आनी खेळणी घेवन खूब नाचर्ली, खेळ्ळीं. तांच्या सगळ्यांचो आनंद खोशी, व्दिगुणीत जाल्लो पळोवन गोविंद खूब सुखावल्लो. कमलान बेगीन बेगीन रांदचे कुडींत वचून पायस, पुरी भाजी रांदली. भुरग्यांक जेवयलें आनी तांकां न्हिदयर्ली.

गोविंद आयज खूब खूश आनी समाधानी दिसतालो. ताका आपले घरकान्नी बराबर खूब उलोवचें आसलें... कांय मोगाचें तर कांय आपल्या फुडाराचें. दोगांय जेवण जाल्या उपरांत आपले न्हिदपाचे कुडींत गेर्ली. गोविंदान आपले घरकान्नीक घट्ट वेंगेंत घेतली. मोगाचो उमो घेतलो आनी नंतर दोगांय एकामेकां बराबर खाटार बसून पुराय रातभर उलयत बसर्ली. तेन्ना तांका रात केन्ना सोंपली तें कळ्ळेंच ना.

गोविंद आपल्या अस्ताय शिरविसेक लागून केन्ना केन्नाय चिंतींत जातालो. आपली नोकरी कायम जावचे खातीर हाका मेळ, ताका मेळ करतालो. पूण ताचो ताका कांय फायदो जाय नासलो. देखून ती चिंता ताका खूब सतायताली. भुरगीं बाळां आनी घर संवसार घेवन बशिल्लो मनीस हांव, आनीक कितलीं वर्सां हे अस्ताय अवस्थेंत काडचीं हांवें! हो प्रस्न ताका भांव सतायतालो आनी ताचें मन अस्तव्यस्त जातालें. भुरगीं वाडूंक लागिल्लीं आनी तांतूंत कमलाची ती नाजूक कुडिची स्थिती. हें सगळें चिंतून गोविंदाचें मन अचल विचल जातालें आनी ताची तकली केन्नाय जड तर केन्नाय सुन्न जाताली. पूण तो तें कम लाक जाणूंक दिनासलो.

एक दीस गोविंदाक कमलाचो बाबा खूब बरो ना... केन्ना कितेंय जावं शकता म्हूण ताच्या मावोड्यासान रकाद आयलो. गोविंदाचे शाळेंत भुरग्यांची परिक्षा चालू आशिल्ल्यान ताका कमलाक घेवन ताच्या मावोड्या वचूंक शक्य नासलें म्हूण ताणें कमलाक भुरग्यांक घेवन आपल्या बापायक पळोवंक वचूंक सांगलें. पूण कमला आपल्या घरकाराक सोडून वचूंक कशेंच तयार नासलें. गोविंदाक आपल्या मावाची खूब काळजी जाताली. जाणटो मनीस, केन्ना कितें जायत हाचो हुस्को जातालो म्हूण कमलाक खूब दम्मय करून कशें भशें मनयलें आनी तिका आपल्या भुरग्यांक घेवन कुळाराक आपल्या बापायक पळोवंक धाडलें. थंय बापायची जाता तितले दीस सेवा करून यो म्हटलें.

कमलाक कुळाराक वचून चार दीस जाले. हांगां गोविंदाक ह्या दिसानी घुंवळ आयिल्लेवरी जातालें. पुराय कूड जड जाताली. चलताना पावलां सारकीं पडऽनासर्ली. तरी तो ताचेर चड लक्ष दिनासलो. नसकाक उठून शीत, कडी रांदून, च्या बी पिवन तो सदृा सारकें वेळेंत शाळेंत पावतालो. आपलीं कामां जापसालदारीन चोख करतालो. कांय वर्गाच्या भुरग्यांची परिक्षा सोंपिल्ली पूण सातवी,

आठवी आनी णववी भुरग्यांची परिक्षा चलताली. वर्गांत भुरग्यांचे परिक्षेचो नंबर बसच्या बेंचार क्रमेन बरोवप, पेपर हाड व्हर करप, दारां, जनेलां उगड बंद करप, केन्नाय ऑफिसांतल्यान वर्गांत तर केन्नाय स्टाफ रूमांत तर केन्नाय हेडमास्तराच्या कॅबीनांत यो वच चालू आसतालें. ताका भुरग्यांचे परिक्षेच्या दिसांनी एक मिनीट सुद्दा शाळेंत फुरसत मेळऽनासली. जीव हताश जातालो. पूण तो ताचेर लक्ष दिनासलो. घरा आयल्या उपरांत घरकान्नीचे आनी भुरग्यांचे यादींत गुल्ल जातालो. घर सामसूम आशिल्ल्यान ताचें मन खंयच रमऽनासलें आनी न्हिदूय धड लागऽनासली.

आयज सकाळीं गोविंद आपल्या घरांतलें सगळें काम आवरून आपलें पास्त हातांत घेवन, घराचें दार लावन शाळेंत गेलो. नेमा प्रमाण शाळेच्या वर्गाचीं दारां, जनेलां उगडून स्टाफ रूमांत वचूंक वरांड्यार आयलो तेन्ना ताचे छातयेंत धडधडूंक लागलें. फुडें सरूंक पावलां उखलना जालीं आनी दोळ्यां मुखार काळोख येवन तो थंयच वरांड्यार धाड करून ओमथो पडलो. कपल जमनीर आपटून रगत व्हांवूंक लागलें. तें पळोवन थंय परिक्षे खातीर भायर उबीं आशिल्ल्या भुरग्यांनी मोठ्यान किळांच मारली. हेडमास्तर, शिक्षक आनी सगळो स्टाफ धांवत थंय आयलो. गोविंद फ्लोरार बेशुध्द जाल्लो. एका शिक्षकान आपली बुद्द वापरून एकशे आठ एम्बुलन्सांक फोन लायलो. कांय खिणांत एकशे आठ शाळेंत दाखल जाली आनी तांच्या 'हेल्थअसीस्टंटानी' ताका शुद्धीर हाडूंक बरेच प्रथमोपचार केले. पूण कांय जमना जातकच ताणें गोविंदाक स्ट्रेचरार घालून समतो जी.एम.सींत व्हेलो. तांच्या फाटल्यान हेडमास्तर आनी कांय शिक्षक आपली गाडी, स्कुटर घेवन थंय पावले.

जी.एम.सींत कॅज्युल्टीच्या दोतोरांनी ताका तपासल्या उपरांत बेगीन बेगीन ताका अतिदक्षता विभागांत व्हेलो आनी लाईफ सिस्टमार ताका दवरलो. गोविंदाचो हय न्हय सो स्वास चलतालो. ताची परिस्थिती खूब नाजूक दिसताली. गोविंदाची ही बातमी सगळे कडेन उज्याच्या ठिणगीवरी पसरली.

थंय ताच्या गांवांत दुसऱ्या दिसाक गोविंद आताकाच्या झटक्यान भायर पडलो म्हूण धाक पसरली. पुराय गांवचे लोक, शाळेचीं भुरगीं गोविंदाच्या घरा जमूंक लागलीं. गोविंदाचो मेवणो, कमलाक आनी तिच्या दोनीय भुरग्यांक घेवन स्कुटरीन गोविंदाच्या घरा येवंक सरलो. तो ताका घेवन घरा पावल्या उपरांत थंय भोंवतणी जमिल्ले लोक पळोवन कमलाक मोठो धक्को बसलो. कोण कमलाक धरून तिच्या घरांत व्हरूंक पळयतालो तर कोण 'आमचो गोविंद' म्हूण मोठ्या मोठ्यान रडटालो. सगळे जमिल्ले लोक आपलें दुख्ख रडून, बोवाळ मारून व्यक्त करताले. तो सगळो वाठार लोकांच्या आक्रोशान भंग जाल्लो. कमलाक कितें घडलां हाची मात सुद्दा कल्पना नासली. लोकांचो बोवाळ आयकून तें पिशेंशें जालें आनी धड धड घरात वचूंक धावूंक लागलें. गोविंदाच्या घराचें फुडलें दार उक्तें आसलें. तें घरांत सरलें... थंय घरांत मेळटा थंय लोक बसून आशिल्ले आनी मोठ्या मोठ्यान रडटाले, आक्रोश करताले. ते जमिल्ले लोक आनी तांचो तो आक्रोश पळोवन कमल खवदळ्ळें.... कितें समजुचें तें तिका समजलें..... सट् सट् फुडें सरून तिणें मागील दार उगडलें आनी तिणें बांयचे वटेन धांव मारली. लोकांक कितें तें समजच्या पयलींच कमलान बांय गांठली आनी बांयत उडी मारली... बांयचें उदक बॉम्ब स्फोटाच्या उज्याच्या वणव्यावरी वयर उसळ्ळें. तें पळोवन थंय जमिल्ले कांय तरणाटे बांयचे दिकेन धांवले. तांणी बांयत उडी घेतली आनी कमलाक बांयतल्यान भायर काडलें पूण कमलाचो उस्वास केन्नाच सोंपिल्लो... बंद जाल्लो... कमला... कमला... उरलें ना...

ते वटेन जी.एम.सींत गोविंद शुद्दीर आयलो आनी तिसऱ्या दिसाक ताका डिसचार्ज दिलो आनी ताका तांच्याच एम्बुलन्सान घरा हाडलो. आपल्या घराच्या आजुबाजून जमिल्ले लोक पळोवन तो भोव संभ्रमांत पडलो. कोणें तरी ताका धरून ताच्या घरांत व्हेलो. थंय कमलाची 'बॉडी' पोस्टमोर्टम करून परत हाडून ताच्या घराचे चौकेर शेंद्रेर दवरिल्ली आनी तिची चली आनी चलो ते बॉडीच्या पांया लागीं आपल्या सुखिल्ल्या आनी निरागस दोळ्यांनी आपले आवयक टक लावन पळयतालीं. गोविंदाची नदर कमलाचे बॉडीर पडली आनी गोविंदान आपले दोनीय हात तकलेर दवरून कमलाऽऽ म्हणत एक मोटो हंबोरटो फोडलो...... दोनीय भुरगीं आपल्या बापायक भंयाकृत नदरेन पळयत रावलीं...

सांकवाळ-गोंय.मो.9422442657

ललित



# नॅकाचे आव्हान



**प्राचार्य डॉ. वामन रा. नायक**
नामनेचे अर्थतज्ञ आनी लेखक.सद्या पुण्यांत आय.यस.बी.एम.कॉलेजीचे प्राचार्य.

नॅक ची स्थापना यूजीसी वरवी सप्टेंबर 1994 त बंगळूरांत, देशांतर्ली विद्यापीठां आनी म्हाविद्यालयांचे कामगिरीचें मुल्यमापन करपा खातीर जाली. उच्च शिक्षणिक संस्था, जशे परीन देशांतर्ली विद्यापीठां, म्हाविद्यालयां आनी हेर मान्यताय प्राप्त संस्थांची मोलावणी आनी मान्यताय, संस्थांचे गुणवत्तेची स्थिती समजून घेवपा खातीर करता. हातूंत आस्पाव जाता शिक्षणिक प्रक्रिया आनी परिणाम, अभ्यासक्रम कव्हरेज, अद्यापन शिक्षण प्रक्रिया, विद्या शाखा, संशोधन, मुळाव्यो सुविधा, शिक्षण संसाधना, संस्था-प्रशासन, अर्थीक कल्याण, आनी तांच्या वावरावळी संबंधीत गुणवत्तेच्या मानकांच्या आदारार संस्थांचें मुल्यांकन जाता.

कॉलेजांत वावरतना वेगवेगळे अणभव आयले. पूण नॅकाचें काम करतना आयिल्लो अणभव वेगळोच. जाता तितले बरे तरेन आपले संस्थेची वळख करप, संस्थेची धोंगां पोंगां कुशीक दवरप, आनी आपली जमेची बाजू बरे तरेन मांडप ही एक कलाच म्हणूं येता!

नॅक ही आतां गरजेची बाब जाल्या. बऱ्याच वेळार, नॅक म्हळ्यार भोव कठीन असो एक समज जाल्लो आसा. म्हणूनच हाचे पयलीं प्राचार्य, प्राध्यापक आनी कर्मचारी दडपणाखाल येताले आनी मुखार सरपाक भियेताले! खरेपणी नॅक, दिल्ली म्हायती खरी आसा वा ना ताची तपासणी करता आनी म्हाविद्यालयाचो पांवडो खंयचो हें थारायता. अशे तरेन प्रमाणपत्र दिवपी ती एक अधिकृत संस्था. ही समिती दिसता तशी कोणाक त्रास दिवपाक येना, जे कमी दिसता तातूंत सुदारणा करपा

खातीर, सुचोवण्यो करपा खातीर ती येता. नॅक करप म्हळ्यार उदरगतीचें पयलें पावल अशें मानतात.

कांय जाणांनी पयलेच फावट तर कांय जाण दुसरी, तिसरी सायकल करीत आसात. कांय म्हाविद्यालयांनी पयलीच पद्दत आपणावन फसवें चित्र निर्माण केलें आनी ग्रेडय मेळयली. विचार केल्यार बरेच प्रस्न उप्रासतात. नॅकाक लागून अध्ययन-अध्यापन प्रक्रिया सुदारली व्हय? नॅक पळोवणी करपा खातीर आसा, पनिशमेंट दिवपा खातीर ना. ती एक शिक्षणीक प्रक्रिया, चालू उरपाची. हाची जाणविकाय सुरवातेक फाव त्या प्रमाणांत नासली. फक्त पेजाद इमारत , जाणकार प्राध्यापक, समृध्द ग्रंथालय म्हळ्यार बरें म्हाविद्यालय न्हय! बऱ्याच म्हाविद्यालयांनी हातूंतलें कितें तरी आसचें पडटा, ते पुरावे निकशा प्रमाणे आसनात. म्हाविद्यालयांत अध्ययन -अध्यमापन प्रक्रिया कशी चलता, गडगंज इमारतींनी फावो त्या प्रमाणांत सुविधा आसात व्हय? बऱ्यो शिक्षणीक चाली रिती आसात? बरें मूल्य, शिस्त आपणावपा खातीर कितें करप जाता? अभ्यासा भायले कार्यक्रम, सांस्कृतीक कार्यावळीची मांडावळ कशी जाता- हाचो विचारय गरजेचो. फकत बरो निकाल लागता म्हळ्यार बरें म्हाविद्यालय अशें जायना. नॅका खातीर घालून दिल्ल्या सातूय पद्दतीची बरे तरेन पुर्तताय जावपाक फावता.

नॅक समिती आपोवपाचें थारायल्या बराबर म्हाविद्यालयांत कांय समिती स्थापन करप गरजेचें आसता. तातूंत प्राचार्य हे सुकाणू समितीचे मुखेल सुवातेर आसतात. त्या उपरांत नॅक कोऑर्डिनेटर वा समन्वयक आसता. त्या उप्रात वेगवेगळ्यो कमिटी करप गरजेचें आसता. देखीक, परिक्षा, ग्रंथालय, पर्यावरण, शारिरीक शिक्षण, अँटी रॅगिंग, कागाळ निवारण, एनसीसी, सर्त परिक्षा, रोजगार मार्गदर्शन, सांस्कृतीक, माहितीपत्रक, वेगवेगळ्यो सर्ती, आयक्यूएसी, आय टी, संकेत थळ आदी. ह्या समित्यां भायर वेगवेगळ्यो फायली आनी रजिस्टर करचे लागतात. ह्या रजिस्टरांनी बसकेच्यो नोंदी, सुचोवण्यो, सुदारप , ते विशीचे थाराव, तेच प्रमाण विद्यार्थी संख्या, निकाल, राबयल्ल्यो वेगवेगळ्यो येवजण्यो, हांची म्हायती तशेच फायलिनी ते विशीचे पुरावे दिवपी कागदपत्रां आसचीं पडटात.

विभागाची म्हायती दितना, स्थापनेची तारीख, जागेचें क्षेत्रफळ, अभ्यासक्रम, शिक्षक आनी शिक्षकेतर हांची म्हायती, प्रवेश दितना कसले मापदंड वापरल्यात, विशया प्रमाणे पुस्तकांची यादी, ग्रंथालयांत आनी विभागांत, सुरू आशिल्लें संशोधन काम, राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय चर्चासत्रां, परिशदो, कार्यशाळा, तातूंत कितल्या विद्यार्थ्यांनी वांटो घेतला, ताची यादी, निकाल, खास प्रावीण्य, पास जाल्ल्याचें प्रमाण, गळतीचें प्रमाण, नेट/सेट, यूपी एस सी वा हेर स्पर्धा परिक्षा, पात्र जाल्ल्या विद्यार्थ्यांची वळेरी, तशेंच हेर वाठारांनी उंचेल्या पदार वावुरतल्या विद्यार्थ्यांची यादी, प्राद्यापकांक कांय राष्ट्रीय, आंतरराष्ट्रीय सन्मान मेळिल्ले आसल्यार ताची म्हायती, विभागाचें बळ, विकनेस म्हणजे त्रुटी, संदी, आव्हाना, धोके, फुडारचे प्लॅन, फुडारा खातीर उपाय येवजण्यो अशी म्हायती तयार दवरची लागता.

बऱ्याच फावट नॅक आसा म्हूणन जाता तितली तयारी करपाची आनी मागीर 'जैसे थे' अशें जालें जाल्यार शिक्षणिक प्रक्रियेक बरोच फटको बसता. जे आदर्श घालून दिल्यात ते बऱ्या म्हाविद्यालयांत सदांच आसपाक फावो. भौतीक सुदारणा पयशानी करूं येता, पूण तेच भशेन नैतिक सुदारणांय घडपाक जाय. बरी गजाल, नैतिकता एके रातींत येना. ती नेमान रुजोवपाची आसता. अध्ययन-अध्यापन प्रक्रिया, शिक्षणीक तंत्रज्ञानाचो अध्यापनांत वापर , शिक्षक, विद्यार्थी, अभ्यासक्रम हांचे विशीं अनेक संकल्पना, कांय गोष्टी म्हाविद्यालयाक करच्यो आसतात. नॅकाक लागून महाविद्यालयाक त्यो करच्यो पडल्यो. अभ्यासक्रम आनी जीण हांची सांगड शिक्षणीक संस्थेंत घालची पडली.

नॅका कडेन पळोवपाच्या दिश्टीकोणांत कांय प्रमाणांत बदल जायत आसा. ती एक परिक्षा नासून शिक्षणीक प्रक्रिया आसा. सद्या नॅकाच्य नव्या मुल्यांकना वरवीं मुल्यांकन जावपाचें आसा. नवे पद्दती प्रमाणे संगणक आनी गणिताचो आदार घेवन सुमार 70 टक्के मुल्यांकन जावपाचें आसा. तातूंत व्यक्ति प्रमाणे जावपी मुल्यमापनाक पयलीं इतली सुवात ना. हाचे पयलीं पीअर टिमीक पुराय अधिकार आसले. देखून कांय सुवातींनी गोंदळ जाला. अपात्र पात्र थारले. कांय जाणांनी पीअर टीमच्या आदारान वयली ग्रेड मेळयली. आतां पीअर टीमीचे अधिकार 30 टक्क्यांचेर आयल्या. विद्यार्थ्या कडल्यान आयिल्ल्या



फिड बॅंकाक म्हत्त्व आयलां. सद्या दर एके उच्चशिक्षण संस्थेक आपलो स्वयं अभ्यास अहवाल ऑनलायन. हेर म्हायती, पुरावे लेगीत ऑनलायनच दिवचे लागतात. म्हाविद्यालयांचो शिक्षणीक दर्जो तपासून तांकां प्रमाणपत्र दिवपाची प्रक्रिया आतां नेटान चालू आसा.

नॅकाक लागून शिक्षणीक संस्थां मदीं बरोच बदल येवंक जाय. फकत इमारतीक रंग काडलो, हिरवळ लायलीच म्हळ्यार हें जायना. दर पांच वर्सांनी नॅकाचें





मुल्यांकन जातलें. धोरणांत तें पुरायेन ऑनलायन पद्दतींत जातलें. बऱ्याच सुवातीनी जें न दाखोवपाचो यत्न जातात, अहवाला प्रमाणें रिकार्ड तयार करप जायनात, बऱ्योच सुदारणां करच्यो लागतात. अहवाला प्रमाण रिपोर्ट तयार करप जाता. बऱ्याच प्रमाणांत नव्या शिक्षणीक धोरणांत जागृताय जाल्ली आसा. प्रवेश आनी परिक्षा हाचे परसूय बरेंच कितें म्हाविद्यालयां करूंक शकतात, हें समाजाक दाखोवपा खातीर ही नॅकच्या रूपान नवी संधी आयल्या.

आमच्या देशांत सुमार स टक्के विद्यार्थी उच्चशिक्षण घेतात. शिक्षणीक संस्थांचो आंकडो वाडत आसा. पूर्ण गुणवत्तेंत आमी खंय आसात हाचें मुल्यमापन जावप गरजेचें. बदलते संदर्भ लक्षांत घेवन शिक्षण प्रक्रिया बदलूंक जाय. ह्या मळार वावुरपी सगळ्यांची मानसिकता बदलूंक जाय. नॅक थारावीक नेमान करचें पडिल्ल्यान म्हाविद्यालयांक शिक्षणीक शिस्त लागतली. फुडाराचें नियोजन करपाची शिस्त लागतली. सर्तींत तिगून उरपाक धडपड सुरू जाल्या. म्हाविद्यालयांक मेळपी दर्जो ही तांची ऊर्जा थारतली.

---

पुणें–९९२२४४५०५९



# लॉटरी




सुधा खरंगटे
पर्वरी गोंय
954502021


"कितें जालां? ओगीचशे बसल्यात आज?" रमाबायन घोवाक विचारलें.

घरांतलीं कामां आटपून सालांत येवन घोवासरीं बसपाचो नेम तिचो! शिवाप्पा मागीर हांगच्यो थंयच्यो खबरी सांगून बायलेक सदांच हांसोवपी. आज तर चड खोशयेंत आसपाचो. फाल्यां ताचो सत्तरावो वाढदीस, तीनय पूत आपापलो कामधंदो सोडून ताच्या वाढदिसाक हजेरी लायतालेच!

रमाबायक तर केन्ना काय फाल्यां उजवाडता अशें जाल्लें.

"आगे, हांव येवजितालों, तूं अशी एका दुयेंसांतल्यान भायर सरता म्हणसर दुसऱ्या दुयेंसाक वेंग मारता. घरांत तुका आदाराक एकलीय सून रावता जाल्यार पळय..!"

"हें आनी कितें? म्हाका कसलें दुयेंस आसा आतां?"

दोतोरान कितें सांगलां तें तिका सांगप ना आनी

कोणाकच सांगप ना हें आपान थारायिल्लें. देखून ताणें विचारलें, ''- आनी तकली उसळ्ळी की चार-चार दीस तकलेक फाळो बांदून न्हिदून परवता ती तूं? हें दुयेंस न्ही? कमर उसळता म्हूण चार चार दीस उबी रावंक शकना तूं. हें दुयेंस न्ही?''

''पूण दोतोराल्यो गुळयो पडतकच थोड्या दिसांनी हांव सामकें बरें जाता तें!'' रमाबायन हांसून म्हळें.

वाढदिसाक आयिल्ल्या भुरग्यांक म्हळें लेगीत ताणें- ''तीन भुरग्यांक जल्म दिवन, तांकां पांयार उबे करून शेवटाक आमी एकलीं तीं एकलींच!''

''आपा, तुमी एकलीं खंय? रकाद धाडल्यार अस्सो येता न्हीं हांव पणजेच्यान!'' विष्णून म्हळें.

''आनी आमी मडगांवच्यान येनात तर सद्दा चवथीक?'' प्रतापान म्हळें.

''म्हाका आतां सटसट येवंक जमना मुंबयच्यान. पूण कशेंतरी जमोवन येतांच न्ही हांव...?'' धाकलो मोहन ओगी रावता ..??

''तशें न्ही रे, आरेऽ हें येदे व्हडलें घर बांदलां.. सगल्यांचें येवजून. घर बांदतनाच वयर हे चार रूम, सकल हो एदो व्हडलो हॉल-व्हडली रांदची कूड.. बांय-कुशीक मान्ने.. भायल्यान ते संडास, सगळें सगळें तुमकां सगळ्यांक येवजूनच केल्लें न्ही हांवें?''

''हय रे आपा... तुवें आपल्या कश्टांनी हें ल्हानशें भाट घेतलां. नाल्ल-बोणो फाल्त ना. आंबे-पणस-केळीं फाल्त नात. घरांत वेगळी बांय.. भाटांत वेगळी बांय.. पंप चालू केलो की घेऽऽ म्हण उदक!'' मोहनान म्हळें.

''आमचो नळ वतकच सदांच आमकां घरच्या उदकाच्या घोग्याची याद येता ती..!'' सुजयान-मोहनाचे बायलेन म्हळें.

''हय रे आपा.. घराची ओड आसाच आमकां. पूण पोटापाण्याचो वेवसाय आसा न्ही. कितें करतले?'' प्रताप परवलो.

शिवाप्पान एक सुस्कार सोडलो.

चवथी कडेन आयिल्ले तशे वच्चे वेळार साक भरपाची तयारी. देमूक आनी चांफ्याक फुरसत दिवप ना. 'देमू नाल्ल बरेशे पळोवन सोल.. उदक आसूंदी- आटकां बी सोलशीत..! चांफ्या काजू बियो भाजल्यो गो? सारके म्होवळे काड. भुरग्यांक करपल्ले आवडनात हां! ''

आंब्यां तेंपार येवन एका फाटल्यान एक ओर्द सोडटाले.

''आरे सारकें तणांत घालून भर हां आंबे बॉक्सान. देमू, म्हगेले मुंबय पावपाचे आंबे सारके पॅक कर.'' मोहन म्हणटालो.

''हय बाब....हय बाब...हय बाब..'' देमू एकच उतर उलयतालो.

सगळीं घरांत आयलीं की चड बोवाळ पडटालो तो देमूक आनी चांफ्याक. भाटकाराल्या घरा फाटल्यान भाटांत ल्हानशी खोप बांदून तीं रावतालीं. दोगांय कामाक वाग सामकी. भाटकारालें ल्हानशें भाट आसा तें सांबाळप. वेळार पाडेकार किस्तोदीक आफोवन नाल्लांचो पाडो करप. जाय तेन्ना माडांक सांवळी, मीठ घालून वावर करप.. दोगांकय रोवपाचो घोस्त! कितें ना कितें रोयत आसतालीं. घरांतली बांय सदांकाळ भरिल्ली आसतालीच! आनी भाटांतले बांयक पंप बसयिल्लो.

रमाबायन चांफ्याक आपल्या हाता खाला घेवन सगळे तरेचें जेवण करूंक शिकयिल्लें. ती दुयेंत जाताली तेन्ना चांफेच तांकां रांदून वाडटालें.

हातरूणार पडिल्ले आवयक पळोवंक पुतांनी येवचें.. सुनांनी चुरचुरे करचे. सकाळचें येवन दनपरां चांफ्यान रांदिल्लें जेवण जेवन सांजचें परतें वच्चें. चांफ्यान रमाबायचें सगलें करचें. तिका न्हाणोवप, न्हेसवप, जेववप मातय वाजे नासतना भाटकान्नीचें गू-मूत ताणें काडचें.

आपा सगलें दोळ्यांनी पळयतालो. दोळ्यांत दुकां काडटालो. चिंत्तालो - असोच हो संवसार.. म्हातारपण येतकच सगल्यांक त्रास भोगचेच पडटात. दोतोरान अशी तशी तीन म्हयने काडत म्हणिल्लें, पूण म्हयनो भरांतच रमाबायन हो संवसार सोडिल्लो.

देमूच्या खोपीदारांत खेळतल्या मोर्त्याक आनी वंवळाक पळोवन शिवाप्पाक आपल्या नातरांची याद येवची.. विष्णुलें नमन आतां केदें जालां -लग्नाचें जालां.. प्रतापालीं शैला लैला हीं जुवळीं आतां कॉलेजीक वतात खंय! मोहनालो विश्वासय आतां स्कूलाक वचूंक लागला खंय! तीन चले आनी इतली नातरां आसून एकलें पडलां हांव. आसात तीं हीं देमू आनी चाफें...दोगांय भाटकाराले सेवेंत आपलें सूख मानून म्हाका सांबाळतात.

चांफें सद्दां सकाळीं भाटकाराले रान्नीक उजो घालून ताका पयलीं च्या करून दितालें. ताका जाय तश्यो मोवश्यो



चपात्यो करून दितालें. मागीरच खोपींत वचून आपले रान्नीर पेजे बुडकुलो शिजयतालें. भुरगीं समजिकायेचीं.. खोपी दारांत मातयेंत खेळत आसतालीं, भाटकाराक जाय तशें मोवशें शीत करून ताका जाय तशें नुस्तें तळून दिवन – ताचें घरदार करूनच चांफें मागीर आपली शीतकडी करतालें.

''एकल्यान तरी हिंगा येवून रावपाचें चिंतूक जाय आसलें!'' चांफ्यान देमूक म्हळें.

देमून खेदान मान हालयली. त्या दिसा तर चांफें भिलेंच !

''भाटकारा, उठना? तुका च्या कोन्न थेयल्या.'' ताणें म्हळें.

पूण भाटकार पळेल्यार बरो नाशिल्लोसो दिसता. उठच ना. चांफ्यान देमूक उलो घालो – ''आरे, हिंगा यो रे बेगीन... भाटकाराक मातसो चोय रे.. च्याव पिवोंक उठना. तोण चोयल्यार बोरें दिसना!''

देमू धांवतच आयलो. भाटकाराच्या आंगाक हात लावन पळेल्यार आंग जोरान खतखत्ता. तसोच धांवत वचत ताणें आफोंस दोतोराक आफोवन हाडलो. नाकाक मास्क बांदूनच दोतोर आयलो. ताणें देमूक म्हळें – ''आरे, हेका हॉस्पिटलान होरोंक जाय. कोरोना जालासो दिसता तेका. भाटकाराले चेड्यांक फोन करूंक जाय..''

देमून भाटकाराली डायरी हाडून दोतोरा कडेन दिली. दोतोरान भुरग्यांचे नंबर सोदून काडून तिगय जाणांक फोन केलो. तिगय पूत आयले. तांणी नाकाक मास्क बांदिल्लेच. पूण एकलोय बापायचे म्हऱ्यांत वचूंक भियेता. दोतोरान कोरोनाचो दुबाव सांगला. ताचे म्हऱ्यांत गेल्यार आमकांय कोरोना जाल्यार?

आपले मास्क सांभाळत तांणी ॲम्ब्युलन्स मागयली आनी बापायक एकदाचो जीएमसींत पावयलो.

''देमू, सारको पळय हां आपाक..तुजेर पातेवन वतात हां आमी..'' अशें सांगून ते आपापले घरा परतले.

देमू बाबडो नाकाक मास्क बांदून उपाशी पोटार थंय बसून रावलो. दोतोरान कोरोनाची टेस्ट करून जातकच

ताका कोरोना जांवक ना... सादोच जोर म्हळें आनी गुळयो बी दिवन ताका घरा व्हर सांगलें. देमून धांवत वचून जुवांवाली टॅक्सी हाडली. जुवांव सदचे वळखीचो. ताणें भाटकाराक सांबाळून फाटल्या सीटार बसयलो. इतल्यांत खंयच्यान मंगेश सोर्तीकार थंय पावलो.

"भाटकारा, तूं एक सोर्त काड न्ही. आयज कांयच खपूंक ना. तुवें सोर्त काडल्यार म्हजी आयच्या दिसाची पड सुटतली. ना म्हण नाका भाटकारा." तो सामको विनवपाक लागलो.

शिवाप्पाक ताची काळकूट दिसली. ताणें वयल्योच पांचय सोर्तीचें कागद घेतलें. आनी शंबराची नोट मंगेशा मुखार धरली.

"भाटकारा, मोड ना भाटकारा.." तो गिरायक वचत म्हूण सामको कड़कड़लो...

" उरिल्ले दवर तुका, देमू, चल रे बेगीन या.. घरा वचून च्याचो घोंट पितां.." भाटकारान वाजेवन म्हळ्ळें.

"भाटकारा, तूं व्हड मनाचो मनीस! तुका फुटतलीच पळय सोर्त- फाल्यांच आबेर्तुर आसा." मंगेशान खोशी जावन म्हळें.

आनी दुसरे दिसा सकाळीं फुडेंच मंगेश दारांत उबो.

"भाटकारा, तुका सोर्त फुटल्या. अशी तशी न्ही वीस लाखांची."

गांवभर लोकांक बोवाळ पडलो. वीस लाखांचे भाटकार आनी कितें करतलो? इतले जाण्टेपणांत कितें म्हणून भोगतलो? आरे, बरी गिरेस्तकाय आसली म्हूण आयते पयशे कोणाक नाका जातात?"

"आनी तीन पूत आसात न्ही..? घालतलो वाटून तिगांकय..."

लोकांक उलोवपाक एक बरो विशय मेळिल्लो.

खबर कळतकच तिगय पूत बायलां भुरग्यां सकट धावन आयले, येतना लारांजां हाडपाक विसरले नात. सूनबायो जाणट्या मांवाच्या पांयां पडूंक लागीं येंवक लागल्यो. नातरां लेगीत 'आज्या' म्हणून वेंग मारून येंवक लागलीं.

"आरे आरे, पयस रावात. म्हाका कोरोना जाला - खबर ना? म्हाका लागून तुमी आनी त्रासांत पडशात.".

"पूण आपा, देमू म्हणटा, सादोच जोर म्हणून दोतोरान तुमकां घरां धाडले म्हणून!"

"दोतोरान आठ दीस घे म्हळां ओगीच तर? त्या देमूक कळता माती...देमू म्हजी पेज शिजली रे? बरी फुलोर जावं दी हां.."

"शिजता भाटकारा.. रान्नीर आसा... "

"आंवाय पेज कित्याक? सारकें जेवण करूंक लाय रे चांफ्याक." संध्यान देमूक सांगलें.

चांफ्याक आनी ताच्या भुरग्यांक हे वटेन येवं नाका सांगलां हांवें थोडे दीस. चांफे आनी कोरोनांत दुयेंत पडल्यार भुरग्यांचें कोण करतलो?" आपान विचारलें. संध्या आनी मीना एकमेकांच्या तोणाक पळोवंक लागलीं..

"रांदचे कुडींत सगळें सामान आसाच. तुमी जाणातच.. वचात आनी शीत रोस-तोणाक कितेंय करात." आपान सुचयलें.

सुजयान म्हळें- "आपा, तूं बरो ना आनी आमकां जेवण वता?"

संध्यान -मीनान ताचीच री ओडली.

"म्हजीतर आपा हॉस्पिटलांत गेलो म्हणत सावन अन्नावेली वान्साच गेल्या. ओगीच खुटी कडयेन चार गोटे धुकलतां पोटांत...जेवंक जाय म्हणून.."

संध्यान दोळ्यांतलीं दुकां पुशिल्ले भशेन केलें.

"आनी कितें तर, अशा वेळार अन्न गोड लागता?"

मीनानय दोळ्यांक पदर लायलो.

हांगा आयिल्ले खेपे चांफ्या कडल्यान जाय जाय तें रांदून घेवन जेवपाची संवय. शिवाय घरांत गॅस हाडूंक ना आपान.. रांदनीर कोण रांदतलो? भर दनपारचीं आयिल्लीं तशीं सगळीं परतलीं.. हॉटेलांत वचून जेवन आपापल्या घरा गेलीं. जेवतना पुतांच्यो खबरी चलताल्यो. 'आपान खरें म्हणचें आतां दगदगी काडूंक जायनात..एकटो..जीव जाणटो..." मोहनान सुचयलें.

"आनी त्या वीस लाखांचें कितें?"

"पळोवंया! चवथ आयल्या न्ही लागीं! चवथ जातकच विशय काडया."- प्रतापान म्हळें.

पूण विष्णूच्यान राव नजो जालें. ताणें वृध्दाश्रमांत वचून हाचे ताचे कडेन चौकशी करून खबर काडलीच. ओगीच आपाक खंयय धाडूंक जाता?

मोहनाक आनी प्रतापाक आफोवन तिगय चवथी पयलींच आपाचे खबरीक आयले. आपाक कितली खोस भोगली. पूत खबरीक आयले म्हणून! ताणें देमूक

बाजारांत धाडून बरेंऽ नुस्तें मागोवन घेतलें. चांफ्याक नुस्त्याचें जेवण रांदूक लायलें.

जेवण जातकच विष्णून म्हळें – "आपा, तूं घरा हांगा एकलो आसता. जिवाक सूख लागना. आमकां तुजी चिंता जाता."

प्रतापान आपलें म्हणणें मांडलें– "आपा, तुवें मरे आतां सुशेग घेवंक जाय. कसलीच दगदग नासतना.. एकलो जीव तुजो.. आजवेर कश्ट केले. पुरो ते....!"

"आनी कितें तर?" मोहन फाटीं रावलो ना.

"हांव थंय पयस मुंबय... हुस्को जाता म्हाका...!"

आपाच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. पुतांचो मोग पळोवन ताका भरून आयलें. पुडव्याच्या पोतान दोळे पुसले ताणें. ताका दिसलें, पूत आपल्यागेर आफोवंक पळयता रावंक. ताणें म्हळ्ळें, "जाणा रे हांव. पूण जाता म्हणसर जीण ही जगूंक जायच न्ही... आनी जीण जगूंक जाता तशीं कामांय करूंक जायच न्हीं? सामकें नजो जाता तेन्ना पळोवंया." ताणें पुतां कडेन मोगान पळोवन म्हळ्ळें?

"आपा, हांवें खबर काडल्या..थंय स्नेहमंदिरांत सगले जाण्टें लोक काय बरे खोशेन रावतात जाणां! एकमेकांचो सांगात जाता. वेळ बरो पास जाता. आनी बरे बरे प्रोग्रामय जातात. जाणट्यांक मनरिजवणे पसत... हांव गेल्लों एकदीस.. हांवें तर थारायलां..जाणटेपणांत हांवूय थंयच वचून रावल्यार..!" विष्णून खांकडत म्हळें.

आपा मनांत दचकलो. पुतांच्या मनांत कितें आसा तें ताका जाणवलें. कोण आपल्यागेर आफोवंक येवंक नात हें ताका समजलें.. पुतांचो सुवार्थी सभाव जाणा जाल्लो जाणटो मनीस तो...ताणें हांसून म्हळें, "म्हणचे त्या वृध्दांश्रमांत मरे? पळोवंया! विचार करपाक हरकत ना."

त्याच खिणांत ताच्या मनांत आनीक एक विचार आयलो. कित्याक न्ही?.. तशें केल्यार कितलें बरें जातलें.. खरेंच बरें जातलें..इतलो तेंप हो विचार म्हज्या मनांत कसो येवंक ना..? हांसत्या मुखान पुतांक फुडो करीत ताणें म्हळें..

"स्नेहमंदिराचो विशय काडून तुमी म्हाका बरी आयडिया दिली हां – आतां विचार करतां.."

पूत खोशी जावन आपापले घरा गेले.

चवथीक तये दिसा सकाळींच विष्णु आपल्या बायलां भुरग्यांक घेवन पावलो. घरा कडेन पावतनाच व्हडलो उत्सव जाल्ले भशेन बोवाळ चलतालो. चलेनाब, शांतूकाका, नानूकाका बी जाणटेले बोवाळताना दिसताले. घराक नवो रंग काडून बरें सजयिल्लें.

"अंदू चवथ बरी ताण करता दिसता आपा?" संध्यान म्हळें आनी हांसतच तीं भितर सरलीं.

"आयलीं तुमी..? येयात येयात.." आपान उमेदीन तांकां येवकार दिलो. 'चलात..हातपांय धुवन च्या बी घेयात आनी मखर सजोवपाचें पळयात..."

इतके म्हणसर प्रताप आनी मोहन आपापल्या बायल भुरग्यांक घेवन पावले. घर भुरग्यांच्या बोवाळांत आनी नाचपांत खोशयेन भरलें.

किचनांत रांदनीय बी व्हड घाल्ल्यो आनी गॅस सिलिंडर, शेगडी पळोवन सगळीं अजापलींच. व्हडले तोप, आयदनां, ताटां-पेले, वाटयो- नव्यो पळोवन सगळीं अजापान पळोवंक लागलीं, आनी दर वर्सा एकच रांदपी येतालो चवथीक... हांगा दोग जाण बोवाळताले...

"सगल्या गांवांक आफयलां आपा?" मोहनान रावं नजो जावन विचारलें.

"आरे, कोण येतात ते येवंदी. आपापल्या घरची चवथ आटापून येतले ते! आफयलां सगळ्यांक." आपान सांगलें.




आझादी का अमृत महोत्सव

च्या बी घेवन सुनो आपापलें सामान दवरूंक वयर रुमांत गेल्यो. थंय पळेल्यार रूम सामके चकचकीत.. रंग काडिल्ले. चारय कुर्शीनी चार खाटी..

"पप्पा, हॉटेलांत आसतात तश्यो मरे ह्यो खाटी आनी हातरूण पांघरूण! मज्जाऽऽ" भुरग्यांनी बोवाळ घालो.

"शैला, ह्या चवथ्या रूमाक आमी आमचो रूम करया.." एकल्यान म्हळें. भुरग्यांनी रोकडोच आपलो अधिकार जमयलो.

"जाय तशें करात तुमका..तुमचो आजो चामटो म्हणतात न्ही..? आतां पळयात, जाय तसो दुडू मोडूंक शिकला!" आवयन करवादून म्हळें.

"हो म्हातारो अशें करून सगळे पयशे काबार करत म्हणून भंय..!" संध्यान तेंको दिलो.

पंचमीक गणपती पावयलो. दुसरे दीस सष्ठ..नुस्त्याचें जेवण जेवन वचपाची तांची सदची रीत!

"देमू, नाल्ल भरले रे साकांनी? पळोवन भरल्यात मरे..?" प्रतापान म्हळें तें शिवाप्पान सारकें आयकलें.

"आरे कोणाक कितले नाल्ल जाय ते वेंचून काडात. देमू सोलून दितलो. त्या प्रमाण पयशे फारीक करात.."

"पयशें? कोणाक फारीक करपाचे आपा? आमचीं फकांणां करता..?"

"ना रे बाबा. फकाणां खंयचीं? आरे हांवे हो भाटा कुडको देमूच्या नांवार केला न्ही? बाबड्यान खूब सेवा केली म्हजी आनी भाटाचीय...हांव लेगीत आतां नाल्ल विकतेच घेतां ताचे कडेन!"

"आपा हें कितें नसतेंच येवजिलां तुवें?" विष्णु तापलो. हो म्हातारो चळला काय कितें अशें मनांत येवजीत रागान उलयलो.

"आरे..भाटांत पिकता तें खावयताच रे तो म्हाका. हें चांफें म्हणून तुमचे आवयन शेवट मेरेन बरे तरेन दीस काडले. दोगांय घरांत घोळटात, म्हाका जाय तें करून घालतात. म्हजे फाटल्यान तांकां सुखान रावंक मेळचें ही इत्सा म्हजी!"

"आपा, भाट तांच्या नांवांर करप? तुजी तकली जाग्यार आसा मू?" प्रताप तापलो.

"आरे...चारूच माड आशिल्ले. ताणें कवथे घालून, शिंपून करून भाट वाडयलां. आंबे, पणस, केळीं रोवन पिकयलां. केल्ल्या कश्टाचें मोल कोण करतलो रे बाबा? म्हणूनच त्या खोपी जाग्यार नळ्यांचें ल्हानशें घर बांदून दिलां तांकां. पळोवंक ना तुमी?"

"आरे देवा आमी फाटले वाटेन वचून पळोवंकूच ना! आपा तुवें हें कितें येवजिलां?" मोहन उलयलो.

"आरे, म्हातारी बुद्द रे! तुमी सगळे सुशेगाद आपआपल्या सवसारांत सुखान आसात. हांव खोशी आसां. आतां हांवूय हांगां सुखान रावंक सोदतां...!"

"आपा, तुजे मनांत आसल्यार आमगेर येवन रावंक जाता हां तुज्यान...!"

"हय...हय. दर एकल्यागेर चार चार म्हयने रावल्यार..."

"ना रे! आतां हो गांव सोडून खंयच वचन दिसना. शारांतली जीण म्हाका चलता रे? आनी तुमचीं भुरगीं आतां व्हड जाल्यांत! तांचेंय चिंतूंक जाय न्ही?"

" पूण आपा..."

"आयिल्लेच आसात ते सोंप मेरेन रावात रे प्रोग्रामाक...!"

"कसलो प्रोग्राम?"

"सादोच रे.. पूण म्हजे खोशयेचो..!"

आतां गांवचे लोक जमूक लागिल्ले. चडशे जाणटेच. सरपंचान येवन दाराक बांदिल्ली फीत कापली आनी दार उकतें केलें. दारार वयरच एदो व्हडलो सुंदर बोर्ड. आनी ताचेर बरयल्लें खुशालकायेची जीण वृद्धाश्रम..

"हें आनी कितें आपा?" विष्णुन खेदान तकली हालयली.

"आरे.. आमच्या सारख्या जाणट्यांक सुशेगाद जीण सारपाक, सवकासायेन जगपाक... आमी एकठांय रावल्यार तांकांय मदत म्हाकाय मदत... सोळा जाणांचीं नांवां काडल्यांत. धा जाण गांवचेच, वळखीचे म्हज्या- खेळीमेळीन रावया म्हळें घरांत! घर बांदिल्लें ताचोय उपेग जातलो आनी म्हाकाय घरांतल्यान खंय वच्चें पडचें ना. विष्णु तुवें ती स्नेहमंदिराची खबर सांगली न्ही, ताचे वयल्यान म्हजे तकलेंत ही आयडिया आयली.

भुरगे चकारतूर जावन एकामेकां कडेन पळयत रावले.

---

*मो. ९५४५०२०२१, पर्वरी गोंय.*

(पान क्र. ८२ वेल्यान)



ती टक टक करून गेली. भितर गेलें. भायर येवपाक दार कशेंच उगडना. तीं पाच मिनटां म्हाका दरदरून घाम सुटलो. कितें करचें, दार धोडायलें. ॲर हॉस्टेजीन दार एकदांचें उकतें केलें. 'थँक्यू व्हेरी मच' म्हळें आनी जाग्यार बसलें. परत पर्स, पासपोर्ट, बॅग सांसपिलें. सिनेमा पळयत रावलें.

सकाळचीं स जालीं. लंडनाक विमान थांबलें. हांवें पळयलें, सगलीं उठून बॅगां काडूंक लागलीं. म्हज्या म्हऱ्यांत बशिल्ल्याक विचारलें, "लंडन?"

"एस लंडन."

लोक भायर वचूंक लागले. हांवूंय भायर सरलें. हातांत पापड-लोणच्याचें बॅग आशिल्लें. लोक टक टक करीत वताले. तांणी ट्रॉली पकडल्यो. हांवें एका ब्रिटीशाक कुरवेनूच म्हजें बॅग ताचे ट्रॉलीर घाल म्हळें. ताणें घाली. तो हांसलो. "थँक्यू व्हेरी मच" हांवें म्हळें. मागीर दुसरें संकश्ट. एस्कॅलेटर लागलो. पांय दवरपाक भंय दिसूंक लागलो. एकदांचो दवरलो. फुडें पावलें. लोक वतात तशें हांव वचूंक लागलें. खूब मेजां आशिल्लीं. लोक रांकेन उबे रावन फुडें सरताले. हांवूंय दोग-तीग जाण आसात त्या मेजा कडेन गेलें. म्हजो पासपोर्ट पळयलो आनी 'व्हाय हॅव यू नॉट कम वुइथ युवर हजबँड?' म्हळें. हांव भियेलें. जाप येवजना जाली. 'बिझनेस' हांवें म्हळें. ताणें म्हजो पासपोर्ट मेजार दवरलो आनी तो एका गुजराथी मनशाक घेवन आयलो. तो गुजराथी म्हाका 'आईये' म्हणूंक लागलो. हांवें म्हळें, 'पासपोर्ट'. तो चलपाक लागलो. हांवें धीर केलो आनी त्या ब्रिटीशाक सांगलें. 'गिव्ह मी माय पासपोर्ट'. ताणें दिलो आनी हांवें हुस्कारो सोडलो.

हांव चलूंक लागलें. लोक सगले गेल्ले. दोग-तीग जाण उरिल्ले. तांचे फाटल्यान हांव. बॅगां वांटकुळीं घुंवतालीं. दरेकलो आपापलीं बॅगां काडटालो. म्हजें बॅग येतालें, वतालें. म्हाका काडूंक कशेंच जमना जालें. आतां कितें करचें हें येवजून मनांत भियेलें. सगले लोक गेल्ले. आतां एकूच मनीस आशिल्लो. ताका कुरवेन आपयलो आनी म्हळें, 'माय रेड बॅग'. ताणें बॅग काडलें. तो वता तशें ताचे फाटल्यान भायर येतकच म्हजी धूव दोळे लावन म्हजी वाट पळयत उबी आशिल्ली. तिणें म्हाका आनी हांवें तिका पळयलें, तो आनंद उतरांनी वर्णन करूंक येना. 'आई' इतलेंच ताणें म्हळें. ताका खूब खोस जाली. 'सगले लोक आयले तरी तूं ना. तेन्ना तूं आयली ना अशें आमकां दिसलें.' ती म्हणूंक लागली. जांवय लोकांचे गर्दींत म्हाका सोदतालो. तो मेळ्ळो.

"म्हजी तार पावली मूं?" हांवें विचारलें.

ती म्हणूंक लागली, 'तार पावूंक ना. तुज्या पत्रा वेल्यान आमी आयलीं.'

आनी हांव पावतकूच दुसऱ्या दिसा तार पावली. अशे तरेन म्हजे कसोटीचो तो खीण, एकट्यान फॉरेनाक वचपाचो म्हाका सदांच येवजता.

(चित्रंगी दिवाळी अंक १९८२)

मो. ९२३६११५६२५, मडगांव

# मानसशास्त्र संशोधनाच्या इतिहासांतले अनैतिक मानवी प्रयोग






**मंजुषा सिनाय तळावलीकार**

लेखिका शिक्षणीक मळार वावुरता,काव्य,कथा,ललित आनी अणकार सारख्या प्रकारांत योगदान


मानसशास्त्रांत 20 व्या शेंकड्यांत जायतें संशोधन जावन मनशांच्या सभावांतले विवीध रंग जाणून घेवपाचे यत्न जाल्यात आनी मानसशास्त्रज्ञ तातूंत जायते प्रमणांत येसस्वी जाल्यात. पूण खंयच्याय क्षेत्रांत जावपी प्रगतीचें मनशांक तितलेंच मोलूय फारीक करचें पडटा. आनी तें जायत्या संशोधकांनी दुसऱ्याचो वापर करून वो बळी दिवन केलांय बी. मनशांचेर जावपी मानसशास्त्रीय प्रयोग हो मानसशास्त्रांतलो एक म्हत्वाचो विशय. ल्हान अनाथ भुरगीं, गरीब जनता तशेंच युध्दकैदी हांचेर बळजबरी, तांच्या मना विरुद्द वो तांच्या नकळत जायते अमानवी प्रयोग जाल्यात, जाच्या नाड्यार जायत्या संशोधकांनी मानसशास्त्रीय अभ्यास केलो. पूण कसलीय सत्य गजाल चड काळ लिपून उरना आनी ताका वाचा फुटून ती भायर सरताच. तांणी केल्ल्या (अ)मानवी प्रयोगां खातीर त्या प्रयोगांत वांटेकार जाल्ल्या वो केल्ल्या लोकांक जायतो मानसीक,

भावनीक वो शारिरीक त्रास भोगचो पडला. मानसशास्त्रांत जावपी प्रयोग व्यक्तिमत्व मानसशास्त्र, विकासात्मक मानसशास्त्र, सामाजीक मानसशास्त्र, वर्तणूक मानसशास्त्र अशा विंगड विंगड प्रकारच्या शाखेंतले आसतात. अशेच वेगवेगळे शाखेंतल्यान जाल्ले संवसारीक पांवड्यावेले कांय कुप्रसिद्द अनैतीक प्रयोग जे वरवी मानसशास्त्रज्ञानी मनशाचो वापर करून जायते निश्कर्श काडून स्वता नामना मेळयली.

## एमा एकस्टेन

नामनेचो ऑस्ट्रियन मानसशास्त्रज्ञ दोतोर सिगमंड फ्रायड हांचें नांव मानसशास्त्रांचो जनक म्हूण सगळ्यांक परिचीत आसा. मनोविकार जाणून घेवन ताचेर उपचार करपाक मनोविश्लेशण उपचार पद्दती (psychoanalysis) तांणी सोदली. मानसशास्त्राचो जायतो अभ्यास, संशोधन करून जायते सिध्दांत तांणी मांडल्यात.

1892 ह्या वर्साक 27 वर्सां पिरायेची एमा एकस्टेन हे उच्च शिक्षीत आनी उच्चभ्रू समाजांतली अस्तुरी, जी पोटांत जावपी त्रास आनी ते खातीर आयिल्लें थोडें भोव नैराश्य पयस करपाक दोतोर फ्रायडा कडेन उपचाराक आयिल्ली. दोतोर फ्रायडागेर येवचे पयलीं ती नाकाचेर उपचार करपाक दोतोर विलहॅल्म फ्लिस नांवाच्या इनटी दोतोरा कडेन गेल्ली. ताणें तिचे नाकाचेर ऑपरेशन करून अर्द मीटर गॉज तिच्या नाकांत घालून दवरिल्लो. तो काडटकच तिचें नाक विकृत आकाराचें जाल्लें. विलहॅल्म फ्लिस हो फ्रायडाचो इश्ट आशिल्ल्यान ताणें ताचो कांयच गुन्यांव केलो ना, वेल्यान एमाक फेफरें (Hysteria) जालां अशें निदान केलें. आनी आपूण तुका वखद करतां म्हूण सांगून तिचो उपेग ताणें आपल्या मानसशास्त्रीय प्रयोगा खातीर करपाचें थारायलें. उपचाराच्या नांवा खाला तांणी तिजेर तीन वर्सां मेरेन प्रयोग केले. तो कसले प्रयोग करतालो हें निमाणे मेरेन कोणाकच समजलें ना. पूण ताचे वांगडा रावन एमा एकस्टेनाक लेगीत मानसशास्त्राची आवड निर्माण जाली आनी फुडें तिवूय आपले भशेन मानसशास्त्राचो अभ्यास करपाक लागली. पूण हे नाका जाल्ले उपचार आनी केल्ल्या प्रयोगा खातीर फुडारांत दोतोर फ्रायडाचेर अनैतीक प्रयोग केल्याचो ठपको आयलो.

## भुरग्यांक विजेचो झटको दिवन केल्लो प्रयोग (electroshock therapy)

1960 ह्या वर्सा न्युयॉर्क हांगा बॅलिव्ह्यु सायकेट्रीक हॉस्पिटलांत दोतोर लॉरॅट बॅन्डर हांणी भुरग्यांचेर केल्लो प्रयोग हे मानसशास्त्रीय विशयांतले सामके अनैतीक रितीन केल्लें संशोधन. ती 3 ते 12 वर्सा पिरायेच्या भुरग्यांचेर उपचारा निमतान आपल्याक जाय तशे प्रयोग करताली. खरें म्हणल्यार तिचे कडेन मानसशास्त्राची औपचारीक पदवी बी कांय नाशिल्ली कारण तेदे वेळार मानसशास्त्र शाखेचो खाशेलो असो विकास जावं नाशिल्लो. पूण ती ज्या हॉस्पिटलांत काम करताली थंयच्या पदाचो तिणें गैरवापर आपल्या मनाक दिसता तसले तरेच्या अनैतीक प्रयोगा खातीर केलो. प्रयोगा वेळार ती सगल्या भुरग्यांक एक कडेन बसयताली आनी एकेकल्याक आपोवन ताचे तकलेर मात्सो जोर लावन धुकळटाली. जो भुरगो त्या फोर्सान फुडें धुकलतालो त्या भुरग्याक स्किझोफ्रेनियाचें लक्षण दिसता अशें निदान ती करताली आनी तांचेर उपचार सुरू करताली. उपचारा नांवान ती तांकां विजेचे झटके दिताली. भुरग्यांक कसलीतच दया माया दाखयनासतना, ती निर्दयपणान हें सगळें करताली. एकेक फावट सलग वीस दीस लेगीत ती तांकां विजेचे झटके दिताली. अशे शंबरां वयर भुरग्यांचेर उपचारा निमतान अत्याचार करून तिणें तांकां जिवीतभरा खातीर अपंगूळ करून उडयले. कांय जाणांनी तर विजेचो झटको चालू आसतनाच जीव सोडलो. तिचो फाटलो इतिहास पळयल्यार समजलें, ती भुरगेपणा सावन शिकपाक ढ आशिल्ली आनी मात्शी डिसलॅक्सिक आशिल्ल्यान घरचे लोक ताका मंदबुद्दी समजताली. ताचो सगलो राग तिणें फुडें वचून, आपल्या प्रयोगांतल्यान निशपाप भुरग्यांचेर काडलो.

## ऑपरेशन मिडनायट क्लायमॅक्स

1950 क अमेरिकन सेंन्ट्रल इंटेलिजन्स एजंसीन मन नियंत्रीत करपाचेर एक संशोधन प्रकल्प पुरस्कृत केलो जाचें नांव आशिल्लें ऑपरेशन मिडनायट क्लायमॅक्स. त्या प्रकल्पाचो हेतू आशिल्लो एल् एस् डी ह्या अंमली पदार्थाचो मनशाच्या मनाचेर जावपी परिणामाचो अभ्यास करप. सान फ्रांसिस्को आनी न्युयॉर्क हांगासरल्या लोकांक तांणी सहभागी करून घेतिल्लें. त्या भायर तांणी

जायत्यो शिंदळकेचो वेवसाय करपी बायलांक पयशे फारीक करून सहभागी करून घेतिल्लें. त्यो वेश्या आपल्या गिरायकाक संशोधकांनी सांगिल्ले सुवातेचेर हाडटकच तांकां एके कुडींत दवरतालीं जाका एकतर्फी दिसपी कांचेच्यो वणटी आसताल्यो. भितरल्यांक भायलें कांय दिसनाशिल्लें पूण भायर रावन मात भितर किर्ते चल्लां हाचें प्रयोगकर्ते निरिक्षण करताले. आपल्या गिरायकाक त्यो एल् एस् डी हो अंमली पदार्थ दितालीं. जेन्ना तांकां नशा चडटाली तेन्ना तांका प्रस्न विचारून पोलीस जे प्रमाण चौकशी करतात तेच प्रमाण तांचे कडल्यान म्हायती काडून घेताल्यो आनी तांच्या वागण्यांत घडपी बदल हाचेर भायर राविल्ले संशोधक अभ्यास करताले. तातूंत तांणी जांका वांटेकार करून घेतिल्ले तांची परवानगी सोडाच तर तांचेर प्रयोग करतात हाची लेगीत सुलूस तांणी तांका लागूंक दिवंक नाशिल्ली. ह्या प्रयोगा फाटलो उद्देश म्हणल्यार युध्दकैद्यांक कितले प्रमाणांत अमली पदार्थाची मात्रा दिल्यार तांचे कडल्यान म्हायती काडून घेवप शक्य आसा हें जाणां जावन घेवपाचो आशिल्लो. एल् एस् डी चे कितले मात्रेंत यादींचो विसर पडूं येता हाचो तपशीलवार अभ्यास ह्या प्रयोगा अंतर्गत जातालो. 1965 वर्सा लोकांक ह्या प्रकल्पाची सुलूस लागतकच तांकां हो प्रकल्प बंद करचो पडलो. पूण ते बोवाळांत जायते लोकांक त्या अंमली पदार्थाचें व्यसन लागलें. कांय जाण नैराशेंत गेले आनी कांय जाण संवसाराक अंतरले.

## द मॉनस्टर स्टडी

1939 क डॅवनपॉर्ट लोवा हांगच्या लोवा विश्वविद्यालयांतल्या वॅन्डेल जॉन्सन आनी मॅरी टूडर ह्या दोन संशोधकांनी थंयच्याय बावीस अनाथ भुरग्यांचेर अनैतीक प्रयोग केले जे 'मॉनस्टर स्टडी' ह्या नांवान कुप्रसिध्द आसात.

भुरग्यां मर्दी जें उलयतना तोतरेपण येता, आडखळप जाता तें जल्मजात आसता काय विकासात्मक जाता हाचेर तांचो प्रयोग आशिल्लो. तांचे मता प्रमाण तो दोश विकासात्मक आशिल्लो आनी भुरग्यांक मात्शी सकारात्मक घटाय दिली जाल्यार ते ना जावपाक शकतात अशें तांचें म्हणणें आशिल्लें. तें सिद्द करपाकच तांणी त्या भुरग्यांचे संमती शिवाय तांचेर प्रयोग सुरू केले.

तांणी भुरग्यांचे दोन गट केले. पयल्या गटांत तोतरीं भुरगीं आशिल्लीं जांचेर सकारात्मक वाचा उपचार पद्दत वापरली जाल्यार दुसऱ्या गटांत वेवस्तीत उलोवपी भुरगीं घालीं जांचेर नकारात्मक वाचा उपचार पद्दत वापरली. पयल्या गटांतल्या भुरग्यांची तोखणाय करप, तांकां बक्षीस दिवप हे सारकेली पद्दत वापरताले जाल्यार दुसऱ्या गटांतल्या भुरग्यांक उलोवपाक चूक केली जाल्यार ख्यास्त दिवप, उणाक लेखप अशे तरेन वागयतालीं. अशे तरेन प्रयोग केले उपरांत दुसऱ्या गटांतलीं जीं भुरगीं तोतरीं उलय नासलीं वो उलयतना आडखळनाशिल्लीं तांका लेगीत उलोवपांत समस्या येवपाक लागल्यो. तीं भुरगीं ख्यास्त मेळत हे भिरांतेन उलोवपाचीं लागीं लागीं बंदच जालीं. तांचो आत्मविस्वास उणावलो. जें जल्मभरा खातीर चालू उरलें. एक चली तर बाबडें भिवुनच अनाथाश्रमांतल्यान पळून गेलें. तांणी केल्ल्या प्रयोगा खातीर त्या अनाथ भुरग्यांक जल्मभरा खातीर मानसीक आनी भावनीक धसक्यान जिवीत सारचें पडलें. आपणें केल्ल्या मानवी प्रयोगाची नाझीन केल्ल्या प्रयोगा वांगडा तुळा जायत हे भिरांतीन जॉन्सन आनी ट्युडर हांणी आपलें संशोधन केन्नाच प्रकाशीत करूंक ना.

## स्टॅनफॉर्ड बंदखणींतलो प्रयोग
### (Stanford prison experiment)

स्टॅनफॉर्ड विश्वविद्यालयाचे मानसशास्त्रीय शाखेंत केल्लो इतिहासांतलो सगळ्यांत कुप्रसिध्द असो हो मानवी प्रयोग. स्टॅनफॉर्ड विश्वविद्यालयाच्या मानसशास्त्रीय शाखेंचो प्राध्यापक फिलीप झिम्बार्डो हांणी आगोस्त 1971 ह्या वर्सा तो केल्लो. ह्या प्रयोगाचें प्रयोजन म्हणल्यार कैदी आनी बंदखणींतले रखवालदार हांचे मर्दी जावपी संघर्शाचीं कारणां सोदून काडप आशिल्लें.

स्टॅनफॉर्डच्या विश्वविद्यालयांत तळघरांत बंदखणी सारकें दिसपी वातावरण केल्लें. मानसशास्त्रीय प्रयोगांत वांटेकार जावपाक जे दादले मनीस जाय आशिल्ले तांकां दिसवड्याक 15 डॉलर दितले अशी जायरात करून प्रयोगा खातीर कामार घेतिल्लें. सत्तर जाणांनी अर्ज केल्ले. तातूंतल्या चोवीस जाणाक निवडिल्ले, जातूंतल्या कांय जाणांक रखवालदार आनी उरिल्ल्यांक कैदी अशी भुमिका दिल्ली. तांकां ती भुमिका करपाक कपडेय तशेच शिविल्ले. प्रयोग सुरू करतना तांणी तें नाटक इतलें रंगयिल्लें की कैद्याचे भुमिकेंतल्या वांटेकारांक



कांयच कल्पना दिनासतना थंयच्या थळाव्या पालो आल्टो पुलिसांक तांच्या घरा धाडून त्या वांटेकारांक अटक केल्लो आनी पोलीस स्टेशनांत हाडून तांचेर फटीचो गुन्यांव दाखल करून तांकां बंदखणींत हाडून सोडिल्ले. मागीर तांकां सगळे कपडे काडून कैद्यांचे कपडे घालपाक दिल्ले आनी तांचेर एक नंबराचो बिल्लो लायिल्लो. त्या नंबरान तांकां उल्लेखपाक रखवलादारांचे भुमिकेंतल्या वांटेकारांक सांगिल्लें. हो प्रयोग चवदा दीस चलपाचो आशिल्लो पूण स व्या दिसाच तो बंद उडोवंचो पडलो. ज्या लोकांक रखवालदार म्हूण भुमिका दिल्ली तांणी ती चडूच गंभिरतायेन मनार घेतली आनी कैद्यांचे भुमि केंतल्या मनशांक चडूच छळपाक सुरवात केली. आनी तेवटेन ते बाबडे कैद्यांचे भुमिकेंत आशिल्ले तांणीय बी तो छळ मुकाट सोसून घेतलो. तो मानसीक छळ त्या कैद्यांच्यान सोसूं नजो जालो आनी जायते जाण मानसीक रित्या खचूंक लागले म्हूण तो प्रयोग सव्या दिसाच प्राध्यापक फिलीप झिम्बार्डो हांका तात्काळ बंद करपाक लायलो. जेन्ना एकादे व्यक्तीक अधिकार दिले जाल्यार ती व्यक्ती त्या अधिकारांचो पुरेपूर उपेग करून आपले हाता सकयल्या व्यक्तींक कसो धारेर धरपाक शकता हें त्या प्रयोगांतल्यान सिद्द जालें. पूण असले तरेचे प्रयोग अनैतीक आशिल्ल्यान त्या प्रयोगाची पुनरावृत्ती करप शक्य नासता. वांटेकारांक कल्पना दिनासतना जायत्यो गजाली तांणी केल्यो जे खातीर तांकां मानसीक आनी भावनीक यातना भोगच्यो पडिल्ल्यो. ते खातीर 30-40 वर्सां उपरांत लेगीत त्या प्रयोगाचेर खूब टिका जाली.

## मिलग्राम प्रयोग

नाझींचे हुकुमतींत उंचेल्या अधिकाऱ्यांच्या हाता खाला काम करपी जे मनीस आशिल्ले ते कसल्योय क्रूर आनी निर्दयी सुचना मोन्यानी आयकताले आनी ते प्रमाण कैद्याक वो धरून हाडिल्ल्या नागरिकांक वागयताले. म्हूण हिटलरा वेळार कुप्रसिध्द नाझी कॉन्सन्ट्रेशन कॅम्पांत जायतो मानव संहार जावपाक पावलो.1961 वर्सा अमेरीकेच्या येल युनवर्सिटींत स्टॅन्ली मिलग्राम हांणी एक संशोधन सुरू केलें जातूंत नाझीचे गार्ड आपली सदसदविवेक बुद्दी वापरनासतना फकत आपल्या अधिकाऱ्यान दिल्लो हुकूम मोन्यानी आयकून ताचेर निर्दयपणान अंमल कित्याक

करताले हें ताका सोदून काडपाक जाय आशिल्लें.

तें सोदपाक तांणी मनशांचेर प्रयोग करपाचो थारायलें. ते करपाक ताणें आपल्याक जाय तशें नेपथ्य केलें. प्रयोगांत वांटेकार जाल्ल्या सगल्यांक तांणी दोन-दोनाच्या गटांत विभागलें.

प्रयोगाचे पुर्व तयारेंत चिटयो घालून तांकां आपली भुमिका वेंचून काडपाची आशिल्ली. शिक्षक ना जाल्यार विद्यार्थी अश्या दोन भुमिकां मदली सदांच शिक्षकाची भुमिका पयल्या वांगड्याक दिताले. दुसरो वांगडी खरें म्हणल्यार एक कलाकार आशिल्लो, जाका प्रयोग करतल्यांनी पेरिल्लो. जें कितें घडटा तें सगलें खरें आसा अशें भासोवपाक ताणें फकत अभिनय करपाचो आशिल्लो. तांका सगळ्यांक कळीत केलें की विद्यार्थ्याक दुसरे कुडींत एका कदेलाक बांदून दवरतली.तांणी विचारिल्ल्या प्रस्नांची चूक जाप दिली जाल्यार शिक्षकान एक बटन दामपाचो जे वरवी विद्यार्थ्याक एक विजेचो झटको बसतलो. तो झटको कितलो तिव्रतायेचो आसतलो हें शिक्षकांच्या भुमिकेंतल्या वांटेकाराक एक झटको दिवन दाखोवन दिल्लें. दोना मदल्या एका वांगड्याक ताणें एके कुडींत दवरलें आनी ताच्या शेजरा आशिल्ल्या दुसरे कुडींत दुसऱ्याक दवरलें. दोगांकूय एकमेकांचो फकत आवाज आयकूंक येतालो. पूण ते एकमेकांक पळोवंक शकनाशिल्ले. शिक्षकाचे भुमिकेंत आशिल्ल्या वांटेकारा कडेन एक प्रस्नमालिका दिल्ली जातूंतले प्रस्न ताणें दुसरे कुडींतल्या विद्यार्थ्यांक विचारपाचे आनी चूक जाप दिली जाल्यार विजेचो झटको दिवपाचो बटन दामपाचो. बटन दामतकच दुसरे कुडींतलो कलाकार विद्यार्थी झटको लागिल्ल्याचो अभिनय करून बोब मारतालो. सुरवातेक शिक्षक वांटेकारांच्यान तें आयकूं नजो जावन तो प्रयोग थांबोंवपाक लायलो. पूण जेन्ना तांकां सांगलें विद्यार्थ्यांक कितेंय हानी जाल्यार ते खातीर आमी तुमकां जबाबदार धरचे नात तेन्ना मात ते सगले जाण तयार जाले. आनी मागीर विद्यार्थ्यांनी कितलीय विनंती करून लेगीत ते तांकां विजेच्या झटक्याची ख्यास्त दिवपाक लागले. प्रयोगकर्त्याच्या सांगण्या वेल्यान तांणी झटक्याची तीव्रताय लेगीत वाडयली

ह्या प्रयोगा खातीर लेगीत संशोधकांचेर अनैतिकतेची टिका केली. जे शिक्षक वांटेकार आशिल्ले ते प्रयोगकर्त्याचे सांगण्या वेल्यान त्या वेळार निर्दयीपणान वागले. पूण कांय जाणांक ते खातीर त्या वेळार मानसीक ताण सोंसचो पडलो आनी प्रयोगा उपरांत लेगीत तांकां खरेपणान कितें घडलां तें सगलें सारकें साम जावन सांगिल्लें नाशिल्ल्यान तांकां विद्यार्थ्यांक विजेचे झटके दिवन छळिल्ले खातीर उपरांत जायते तेंप मेरेन गुन्यांवकारी भावना आयली.

## लिटल अल्बर्टाचेर केल्ले प्रयोग

डॉ. जॉन वॉटसन हें नांव मानसशास्त्रांच्या क्षेत्रांत सामकें परिचीत. वॉटसन हे एक नामनेचे मानसशास्त्रज्ञ जांकां वर्तनवाद (behaviourism) सिद्दांताचे जनक समजतात. तांणी केल्ल्या जायत्या प्रयोगांत अनाथाश्रमांतली भुरगीं वापरल्यांत. जाब विचारपाक आवय बापूय बी कोण नाशिल्ल्यान अशीं जायतीं अनाथ भुरगीं बाबडीं जायते फावट व्हड-व्हडल्या संशोधनकारांचे भकीक पडल्यांत.

1920 ह्या वर्सा डॉ. वॉटसनान आपलें विद्यार्थी रोजाली रेअनरा सांगांतान केल्ल्या अशेच एका प्रयोगांत वर्तनवादांतले भावनीक प्रतिसाद सिद्द करपाक णव म्हयन्याच्या डॉग्लास मॅरीट नांवाच्या भुरग्याक वापरिल्लें जाका अल्बर्ट बी नांवान ती संबोधताली. भुरग्यां मदीं दिसून येवपी भिरांत ही जल्मजात नासता तर ती मागीर उत्पन्न जाता हें त्या प्रयोगांतल्या ताका सिद्द करपाचें आशिल्लें.

प्रयोगाचे सुरुवातीक सोंशे, माकड, हुंदीर, सुणो अशे आंगार दाट ल्हंव आशिल्ले जायते प्राणी अल्बर्टा म्हऱ्यांत व्हेले जांकां तो भिनासतना हात बी लायतालो. ते भायर मुखवटे, वेगवेगळे आवाज, तशे उजो पेटयिल्लो कागद अश्योय जायत्यो वस्तु तो म्हऱ्यांत व्हेल्यार भिरांत नासतना हाताळटालो. कांय दीस अशें करून अल्बर्टाक त्यो गजाली संवयेच्यो जातकच तांणी प्रयोगाच्या दुसऱ्या टप्प्याक हात घालो. तें म्हणल्यार जेन्ना जेन्ना तो त्या प्राण्याक वो वस्तुंक हात लायतालो तेन्ना वॉटसनान एक मोठो आवाज करपाक सुरवात केली. त्या आवाजाक भिवन अल्बर्ट आंग काडपाक आनी रडपाक लागतालो. जेन्ना आपूण त्या प्राण्याक हात लावपाक वतां तेन्नाच तो आवाज येता असो निश्कर्श त्या णव म्हयन्याच्या सान भुरग्यान काडलो आनी तो तांकां हात लेगीत लावपाक भिवपाक लागलो. फुडें फुडें तर त्या प्राण्याक

वो वस्तुकच पळोवन न्ही तर कसल्याय ल्हंव आशिल्ल्या टेडी बेरा सारख्या खेळण्याक लेगीत पळयल्यार तो भिवन किळांच्यो मारपाक लागलो. वर्तनवादांत भंय हो कसो शिकून आंगवळणी पडटा हें डॉ. वॉटसनान त्या प्रयोगांतल्यान सिद्द केलें. पूण फुडें त्या भुरग्याचें कितें जालें हें कोणाकूच समजलें ना. पूण अशें म्हणटात की पिरायेच्या स वर्सांचेर तो भुरगो हायड्रोसिफेलस (जातूंत तकलेंत उदक जाता) दुयेंस जावन भायर पडलो. पूण जो मेरेन तो जितो आशिल्लो ते मेरेन ताची भिरांत प्रचंड प्रमाणांत वाडिल्ली आनी तो धव्या रंगाच्या वो कापसा सारखे मोव कसलेय वस्तूक पळोवन भितालो आनी रडपाक लागतालो. हो प्रयोग मानसशास्त्रांत लिटल अल्बर्ट नांवान कुप्रसिद्द आसा.

## बोबो बावलेचो प्रयोग (Bobo doll)

स्टॅनफॉर्ड विश्वविद्यालयांत नामनेचे मानसशास्त्रज्ञ अल्बर्ट बंडूरा हांणी एक प्रयोग करपाक घेतलो. भुरगीं वर्तन कशीं शिकतात हें सिद्द करपाक तो प्रयोग आशिल्लो. ह्या प्रयोगा खातीर तांणी 3 ते 6 वर्सांची 72 भुरगीं निवडलीं जातूंतलीं 36 चले आनी 36 चलयो आशिल्ल्यो. तांका तीन पंगडांनी विभागले. एक-एका पंगडांत 24 भुरगीं आशिल्लीं.

पयल्या पंगडांतल्या भुरग्यांक तांणी एक सिनेमा दाखयलो जातूंत कांय वयस्क व्यक्ती (दादले आनी बायलां) एका बोबो (बोबो बावली ही प्लास्टिकची जड बुडाची वारें भरिल्ली बावली -punching doll- जी कशीय वडयल्यार सरळच उबी रावता.) बावलेचो शारिरीक आनी शाब्दीक रितीन अपमान करताली. येतना-वतना तिका मारप, गाळी घालप अशें अपवर्तन ते बावले कडेन करतालीं. सारांश म्हणल्यार हिंसक वर्तन आशिल्लो तो सिनेमा आशिल्लो.

दुसऱ्या पंगडाक जो सिनेमा दाखयिल्लो तातूंत वयस्क व्यक्तींचें ते बोबो बावले कडलें वागणं सुसंकृत आशिल्लें. तीं ते बावले वांगडा मायेन वागतालीं आनी ताची अपुर्बाय करतालीं. तिसरो पंगड हो नियंत्रण पंगड आशिल्लो जांकां कसलोच सिनेमा दाखोवनाशिल्लो. दोनूय पंगडांक सिनेमा दाखयले उपरांत त्या तिनूय पंगडांतल्या भुरग्यांक तीन विंगड कुडींनी दवरलें जातूंत एकेक बोबो बावली आशिल्ली.

प्रयोगाच्या परिणामांत अशे दिसलें - पयल्या पंगडांतल्या भुरग्यांनी ते बावलेक धोडाय धोडाय धोडायलें आनी वायट उतरांय दिलीं. दुसऱ्या पंगडांतलीं भुरगीं ते बावले कडेन मायेन आनी अपुरबायेन वागलीं आनी तिसऱ्या पंगडांतलीं भुरगीं ते बावलेचे वाटेक चड गेलीं नात.

अशे तरेन भुरगीं जाणट्यांच्या वागण्यांतल्यान, तांची नक्कल करून वागणें कशीं शिकतात हें त्या प्रयोगांतल्यान सिद्द जालें. पूण प्रयोगाक लागून भुरग्यांक अशें हिंसक वागणें शिकोवप वा तांच्या मनाचेर तसो परिणाम करप हें अनैतीक आशिल्ल्यान त्या प्रयोगाचोर जायती टिका जाली आनी फुडारांत असले तरेचे प्रयोगाची पुनरावृत्ती जावची न्हय हाची दखल घेतली.

## द बायस्टॅन्डर इफेक्ट
## (बघ्यांची भुमिका घेवपी लोकांचेर संशोधन)

13 मार्च 1964 ह्या वर्सा न्युयॉर्कांत कीव गार्डन्स हांगासर रावपी किटी जेनोवीज नांवाचे 28 वर्सांचे एके चलयेचेर बलात्कार जावन ताचो खून जालो. ह्या प्रसंगाच्या दोन आठवड्यां उपरांत पुलीस चौकशे दरम्यान समजलें, तो बलात्कार आनी खून जातना थंय 38 जाण साक्षिदार आशिल्ले जे तिच्या शेजराक रावताले. पूण तातूंतल्या एकानूय तिका मदत केली ना वो पुलिसांकूय आपयलें ना. सगळ्यांनी फकत बघ्यांची भुमिका घेतली.

ह्याच विशयाचेर चार वर्सां उपरांत बीब लेटेन आनी जॉन डार्ले हांणी संशोधन करपा खातीर एक प्रयोग करपाचो थारायलें. प्रयोगा मजगतीं वांटेकार जाल्ल्या व्यक्तींक एके कुडींत दवरलें जंय एक कलाकार प्रयोगकर्त्यांनी पेरिल्लो जो फेंफरें येवपाचें नाटक करतालो. प्रयोगा अंती तांका दिसलें ज्या वेळार कुडींत चड लोक आसतात तेन्ना ताका मदत करपाक येवपी उणे आसतात. बाकीचे लोक जापसालदारकी घेतले अशें मानून कोणूच फुडें सरनाशिल्लो. जेन्ना कुडींत कलाकारा वांगडा फकत एकूच व्यक्ती आसता तेन्ना मात तो मदत करपाक रोकडोच फुडाकार घेता अशें दिसलें.

त्या प्रयोगांत वांटेकार जाल्ल्या व्यक्तीं पासून जायत्यो गजाली लिपोवन दवरल्यो आनी त्या प्रयोगा खातीर तांची परवानगी घे नासतना तांकां मानसीक त्रास सोंसचो



पडिल्ल्यान होवूय प्रयोग अनैतीक प्रयोगांत जमेक धरलो.

## वर्णभेद निर्मुलना खातीर शाळेंत केल्लो प्रयोग

1968 त अमेरिकेंत वर्णभेदा विरोधांत झुजपी मार्टीन लुथर कींग हांची हत्त्या जाली. एके प्राथमिक शाळेंत शिकोवपी जेन एलियोट नांवाचे एके शिक्षिकेन आपले शाळेंत शिकपी 8-10 वयोगटांतल्या विद्यार्थ्यांक वर्णभेद कित्याक वायट हें शिकोवपाचो यत्न करपाक एक प्रयोग करपाचें थारायलें. तिचे शाळेंत काळे आनी गोरे कातीचीं अशीं दोनूय तरेचीं भुरगीं येतालीं. निळ्या दोळ्यांची भुरगीं (गोरे कातीचीं) स्वताक उच्च समजतालीं आनी तपकिरी दोळ्यांच्या भुरग्यांक (काळे कातीच्या) उणाक वागयतालीं. तिणें तपकिरी रंगाच्या आनी निळ्या रंगाच्या दोळ्यांच्या भुरग्यांचे दोन पंगड केले. तिणें भुरग्यांक फटिचें सांगलें, आपणें केल्ल्या वैज्ञानिक प्रयोगा प्रमाण तपकिरी दोळ्यांचीं भुरगीं शिकपाक हुशार आसतात आनी दुसऱ्या पंगडांतल्या भुरग्यां परस चाली रितीन चड बरीं आसात. अशे तरेन तिणें रंग-वर्णा भितर उच्च नीच असो भेदभाव करपाची गरज ना हें भुरग्यांक पटोवन दिवपाचो यत्न केलो आनी तें बरे प्रमाणांत भुरग्यांक पटलेंय बी. पूण भुरग्यां मंदी असलो प्रयोग केलो म्हूण जायते जाणांनी (चड करून गोऱ्या लोकांनी) तिचेर अनैतीक प्रयोग करपाचो आळ घालो.

## युसीएलए स्किझोफ्रेनिया दुयेंतीचेर केल्लो प्रयोग

1983 वर्सा लॉस एंजलिस हांगासरच्या कॅलिफॉर्निया विश्वविद्यालयांत ( UCL - University of California at Los Angeles) मायकल गिटलीन आनी केथ न्युचटेरीयन हांणी स्किझोफ्रेनिया ह्या मानसीक दुयेंसाचेर संशोधन सुरू केलें. स्किझोफ्रेनिया ह्या मानसीक रोगांत दुयेतींक भास वो भ्रम जातात जे खातीर तो गोंदळटा आनी ताचो परिणाम ताचे दिसपट्टे जिणेचेर जावन ताची वर्तणूक वेवस्तीत जायना. तें दुयेंस नियत्रणांत दवरपा खातीर तांकां जल्मभर वखद घेवचें पडटा. वखद घेवपाचें मदींच बंद केल्यार तें दुयेंस परत उचकता.

आपले प्रयोगा खातीर तांणी शेंकड्यांनी दुयेंतींक आस्पावन घेतलें. आनी जायते जाणाचें वखद तांणी बंद केलें जे खातीर तांचें दुयेंस परत उचकुवपाक लागलें. प्रयोग करतना दोतोरांनी आपल्या प्रयोगांत वांटेकार जावप्यांची वेवस्तीत काळजी घेवंची पडटा. तांचेर जावपी परिणामाच्यो नोंदी वेवस्तीत दवरून तांकां कितेंय त्रास जाताशें दिसल्यार आपले प्रयोग बंद करचे पडटात. पूण हे गिटलीन आनी न्युचटेरीयन करपाक हलगर्जीपणा केलो आनी निमाणें वखद बाद जावन स्किझोफ्रेनिया दुयेंस

बळाविल्ल्यान आंतोनियो लामाडरिड नांवाच्या एका वांटेकारान बिल्डींगेच्या णवव्या माळ्या वेल्यान उडी मारून जीव दिलो. ते खातीर ताका आपले प्रयोग बंद उडोवंचे पडले. तशेंच तो आंतोनियो आत्महत्या केसी खातीर कायद्याच्या कचाट्यांत लेगीत सांपडलो.

## द गुड समरितान प्रयोग

बायबलांत समरितान म्हणल्यार उदार आनी परोपकारी वर्तन करपी मनीस, जो लोकांक मदत करता आनी गरजवंताक गरजेक पावता. प्रिन्सेटन विश्वविद्यालयांत 1970 वर्सा जॉन डार्ली आनी डॅनिएल बॅटसन हांणी एक प्रयोग करपाचो थारायलो जे वरवीं लोक दुसऱ्यांक मना सावन मदत करपाक कितले उत्सुक आसतात हाचो निश्कर्श काडप हो ताचो उद्देश आशिल्लो. त्या प्रयोगांत 40 विद्यार्थ्यांक निवडले, जांणी एक बरो मनीस म्हणल्यार तांचे मतान कितें हाचेर एक ल्हानशें उलोवप करपाचें आशिल्लें. ह्या प्रयोगांत वेंचिल्ले सगळे वांटेकार हे प्रिन्सटन थियोलॉजिकल सेमिनारीचे वांगडी आशिल्ले. प्रयोगा मजगतीं तांकां उलोवप दिवपाक जे सुवातीर आपयिल्ले थंय वचपाचे वाटेर तांणी एक कलाकार पेरिल्लो जो जिवाक त्रास जाल्ल्याचें (पोटांत कळो येवन तो वाटेर पडून वळवळटालो) नाटक करतालो. पूण बरें कशें वागप हाचें शेरमांव लोकांक दिवपाक वचपी त्या वांटेकारांनी, सुवातीर बेगीन पावपाचे गडबडींत त्या मनशा कडेन सरळ सरळ आड नदर केलें आनी ताका थंयच त्रासांत सोडून ते आपले वाटेक लागले. कांय वांटेकार तर अक्षरशा ताका माडोवन मुखार गेले. प्रयोगांत भाग घेतिल्ले थोडेशेच वांटेकार थंय रावले आनी तांणी ताका मदत केली. त्या प्रयोगांत वांटेकार जाल्ल्याची परवानगी घेवंक नाशिल्ल्यान प्रयोगकर्त्यांचेर मातशी टिका जाली. पूण मनीस आपल्या सुवार्था खातीर कितल्या थरार वचपाक (समाज जांका परोपकारी आनी दयावंत समजता ते लेगीत) शकता हें तातूंतल्यान समजून आयलें.

अशे संशोधनांतल्या प्रयोगांत जावपी कसलेय तरेच्या अनैतीक प्रकारांक आळो घालपा खातीर अमेरिकन मानसशास्त्रीय असोशिएशनान 1953 वर्सा पयले फावट मानसशास्त्रांत जावपी संशोधनांतल्या प्रयोगां खातीर कांय नैतिकतेचे नेम घाले जातूंत आयज मेरेन सुदारणा जायत आसा. सद्या वापरांत आशिल्ली नेमावळ 2002त घाल्ली जातूंत 2016 वर्सा परत सुदारणा केल्या. तातूंत वांटेकारांची परवानगी घेवप, म्हायती गोपनीय दवरप, तांकां कसलीय शारिरीक वो मानसीक हानी जावपाक दिवप ना, तशेंच मानवी हक्कांचें उल्लंघन जावपाक दिवप ना अशे तरेचे नेम आसात. मनश्यां वांगडा जनावरांचेरूय अत्याचार जावचोना हाचीय खबरदारी तांणी घेतल्या.

पूण तरीय आसतना मानसशास्त्रांतले कांय प्रयोग हे वांटेकारांक काळखांत दवरूनच केल्यार सारखे सिद्द जावंक शकतात म्हूण कितेंय तरी वाट काडून तसले प्रयोग खंय ना खंय तरी जातातच. हालींच घडिल्ली ताजीच देख म्हणल्यार 2012 क फेसबूक ह्या इलेक्ट्रॉनिक सामाजीक माध्यमांतल्यान केल्लो प्रयोग. अदमाशे 7 लाख फेसबूक वापरप्यांचेर हे प्रयोग केल्लो जांचेर विंगड विगंड मजकुरांचो कसो परिणाम जावपाक शकता हाचो अभ्यास केल्लो. वेगवेगळ्या विशयाचेर आदारीत सकारात्मक तशेंच कांय नकारात्मक तरेचो मजकूर आशिल्ली चित्रां, चलचित्रां तांच्या वॉलाचेर पोस्ट केल्ली आनी तांणी केल्ल्या कमेन्टांतल्यान तांच्या भावनीक स्थितींत जावपी फरकांची नोंद तांच्या कमेंटावेल्यान घेतिल्ली. तांच्या निश्कर्शा प्रमाण तांकां समजलें की ते फेसबुकाचेर कितें पळयतात वो वाचतात तांच्या भावनीक स्थितींत खूबच फरक पडटा. पूण ह्या प्रयोगा खातीर फेसबुकाचेर जायती निंदा जाली. तांचे नैतिकतेचेर प्रस्न विचारलो आनी जायते जाणांनी तर फेसबुका सारक्या सामाजीक माध्यमांचेर हो जो प्रकार जालो तो भितीदायक आसा, जे खातीर फेसबुकाचेर विस्वास लेगीत दवरप कुस्तार अशें भाश्य केलें.

आमचे नकळत अशे जायते प्रयोग आमचे आशीकुशींक घडटाच आसतले! व्यक्तीचे जिणेंत गोपनीयता उरप आतांच्या काळांत सामकी कठीण. आमीय बी अशेच नकळत केन्नाय कोणाच्याय प्रयोगाचे भकीक पडूंक शकतात म्हूण असल्या गजालींची आमकां मातशे तरी ज्ञान आसप गरजेचें. तेखातीर दरेकल्यान दोळे उगडे दवरून आनी जागरुतायेन जिवीत उजार करपच योग्य.

*मो. ९८२२९८१५०८, मडगांव-गोंय.*

**कथा**



# अपेक्षा

मम्मा, हांव वयतां आं! कितल्यांक पावतलें तें फोन करून सांगतां.'' अपेक्षान आपले आवयक सांगलें आनी तें भायर सरलें. इतले म्हणसर ताची आवय बडबडत भायर आयली.

''कितले फावटी सांगलें गो तुका वयतां म्हणप ना म्हूण! येतां म्हण आनी भायर सर. ही घे उदकाची बाटली. चड वेळ उपाशीं बी रावशी, वाटेर घे कितेंय आनी खा. ना जाल्यार मागीर तुजें पित्त चाळवता.''

''बरें! बरें!'' अशें म्हणीत तें भायर सरलें. आज सदचे भशेन तें कामाची मुलाखत दिवपाक वतालें. कॉलेज पुराय जायत सावन सेगीत दोन वर्सां तें मुलाखती दीत आसलें. पूण ताच्या कामाचें सारकें खंयच जाय नासलें. आज परत एक मुलाखत दिवपाक म्हूण तें भायर सरिल्लें.

मुलाखत दिवपाक आयिल्ल्या उमेदवारांक पळोवन अपेक्षाच्या काळजांत कल्ल जालें पूण ताणें तोंडार तसो कसलोच भाव दाखयलो ना. थंय लागींच आशिल्ले खुर्चेर तें बसलें. दर एके मुलाखतीक, कामाक इत्सूक आशिल्ल्या लोकांची संख्या वाडतच आसली. कितल्यांक सुरू जातलो काय हो इंटरव्ह्यू? हीं सगळीं बसल्यांत तीं बरीं हुशार दिसतात. हांव हुशार ना तर? आसां. पूण म्हाका बरें 'स्मार्ट' कशें उलोवंक जमना. आजकाल शिटूकसाण आसप गरजेचें. हेच खातीर म्हजे प्रत्येक इंटरव्ह्यू फ्लॉप वतात. आसूं आजची इंटरव्ह्यू स्मार्टली दिवपाची. जाता तें जावं. मेळ्ळें काम तर बरें, ना तर शिवण करतांच हांव, उपाशीं पडचेंना. कितलो वेळ तें आपले भितरच बडबडटालें आनी हें अशें दर एके मुलाखतीक घडटालें. मुलाखत सुरू जाली काय तें सगळ्या देवांक याद करतालें. एकदाची मुलाखत बरी जावंदी अशें मागत रावतालें. सदचे भशेन मुलाखत जाली. अपेक्षा समाधानान कशें भायर सरलें. आजचो तरी पोस्ट म्हाकाच मेळ्ळ्यार पुरो अशें मनांतूच गुणगुणलें.

खूब वेळ जाल्लो. ताणें वेळ पळयलो तर साडे बारा जाल्लीं. आपूण घरा पावतां म्हणल्यार दोन जातलीं, हो हिशोब करून ताणें आवयक फोन मारलो. ''मम्मा, बरो जालो आं इंटरव्ह्यू. हांगा लागीं हॉटेल आसा. कितेंय घेवन खातां आनी भायर सरतां.''



**संपदा केरकार**
स्कुलांतल्या नेमाळ्यांनी बरोवन लेखनाक आरंभ.ललित तशेंच कथा साहित्यांत उमेदवारी करता.



आवयन 'बरें' म्हणलें. तें लागिंच्या हॉटेलांत गेलें आनी एक पुरी भाजी घेतली आनी एक चा मागयली. हरशी ताका कसलेंय खाण रूच काडून खावंक आवडटा, पूण सद्या ताचें मन कामाचो हुस्को काडीत भोंवतालें. हे खातीर ताणें बेगी-बेगीन ती भाजी खाली आनी चा सोपोवन, पयशे फारीक करूंक गल्ल्या कडेन आयलें. थंय ताका मनोज दिश्टी पडलो. मनोज ताच्याच वांगडा कॉलेजांत शिकपी भुरगो.

''आरे! तूं हांगा कितें करता? कॉलेज सोपून केन्नाच दिश्टी पडलो ना तो आतां दिसला. आनी कशें चल्लां तुजें?''अपेक्षान ताका हडकिलो.

''राव आं मातशें एक मिनटान आयलों!'' अशें म्हणून हॉटेल मालका कडेन उलोवंक गेलो. तितल्यांत अपेक्षान आपलें बील फारीक केलें आनी थंयच भायर रावलें. थोड्या वेळान मनोज आयलो.

''हा! सांग अपेक्षा, कशें आसा तूं? आनी खंय वता कामाक बी?''

'' ना रे. जॉब सोदतां. फाटली दोन वर्सां हेंच काम करीत आसां.आयजूय एक इंटरव्ह्यू दिवन आयलां. आनी तूं कितें करता तर? बऱ्या हाय पोस्टार आसतलो तूं न्हय?''

''चें!कसलो हाय पोस्ट? तुजे भशेन हांवूय हांगा थंय भोंवत आसतां.''

''कित्याक रे?'' कपलार मिरयो चडोवन अपेक्षा उलयलें. ''तूं कॉलेजींत पयलो येवपी भुरगो मरे! आमी तरी एवरेज भुरगीं, पूण तूं सगळ्या कामांनी फुडें आसतालो! शिक्षणांत तशें खेळांत, आनी कसले कार्यक्रम जाले तर तूं सगळ्या मुखार आनी असो आसुनय तुका जॉब ना? अजाप मरे !! ''

''आजकाल काम मेळपूच कठीन जालां. म्हणल्यार कामां ना अशें न्हय, पूण आमी जें इतलें शिक्षण घेतात ते प्रमाण काम मेळप मातशें कठीण. बाकी बारीक-सारीक कामां आसतात. पूण आमचें शिक्षण जाता चड आनी काम आमचे अपेक्षे परस कमी दर्जाचें!''

अपेक्षा ताका मर्दींच थांबयता, ''तें बरें आसा रे, पूण म्हाका दिसता तुका बरो पोस्ट मेळुंकूच जाय आसलो! आमचे भशेन तुका ही अशी भोंवडी उपकारना. आमची टक्केवारी कमी म्हण आमी दीत आसतात मुलाखती. तूं नर एक बेस्ट कॅन्डिडेट कसो! आनी तरी बेकार कित्याक तें कळना म्हाका!''

''हांव 'बेस्ट' आसलों तरी खंयचोच मंत्री वा संत्री म्हाका वळखना. हांव सुद्दा तांच्या पांया पडपाक वचना. फकत देवाक पांयां पडटां. दुसरें म्हणल्यार म्हजे कडेन लक्ष्मी ना. पूण देवाऱ्यांतले लक्ष्मीक केन्ना तुपाचो दिवो दाखोवपाक हांव चुकना.'' तो हांसत बिनदास्त उलयलो. ''आजकाल बरो 'जॉब' मेळटलो तर तुजो बरो मागपी एकलो तरी आसप गरजेचें.''

मनोज कितें उलयता ताचो अर्थ अपेक्षाक बेसबरो उमजलो. ताका मनोजाचे मातशे चुरचुरे दिसले. ताचे घरची परिस्थिती कशी आसा हें तें जाणा आसलें. ताची आवय कांय वर्सां पयलीं भायर पडिल्ली. बापूय आसा, तो ल्हान ल्हान पसऱ्यांचेर आपले गाडयेन साम न पावोवपाचें काम करतालो. एक ल्हान भाव आसा तो आतां कॉलेजीक बी पावला आसतलो! अशें घरचें वातावरण सुखाचें नासलें तरी मनोज कसल्या कामांत फाटीं रावनासलो. कितेंय सांगलें तर फुडारपण घेवन करपी. सगळ्या शिक्षक शिक्षिकांचो आवडटो, लाडाचो कसो. पूण आतां हो असो आपले सारकोच बेकार! तें चित्ता आनी ताका प्रस्न करता.

*(पान क्र. १६४ पळयात)*

संगीत, नाटक, साहित्य आनी निवेदनाच्या मळार संगीत कलेचें मुळावण, भजन आनी भावगीताच्या रुपान तांची आवय विजया आरसेकर हांचे कडल्यान मेळ्ळें.संगीताच्या प्रवासांत आवय तांची पयली गुरू.

मडगांवचे रामराव नायक हांचे कडेन संगीत शिक्षणाची सुरवात जाली. मागीर किराणा घराण्याच्यो ज्येश्ठ गायिका पद्मविभूषण डॉ.गंगुबाई हानगल हांचे कडेन तांणी गुरुकुल पद्दतीन गायनाची तालीम घेतली. गानसरस्वती किशोरी आमोणकार हांचें मार्गदर्शन तांका लाबलां. पंडित प्रसाद सावकार आनी शालिनी सावकार,तशेंच पंडित दिनकर पणशीकर हांचें कडेनय तांणी शिक्षण घेतलां. व्हायोलीन वाजोवपी बि.एस. मठ आनी अक्का महादेवी हिरेमठ हांचें तांका मार्गदर्शन मेळ्ळां.

'नादब्रह्म' ह्या तांच्या पुस्तकाक गोवा कोंकणी अकादमीचो आनी कोंकणी भाशा मंडळाचो राज्य पुरस्कार मेळ्ळा. संगीत क्षेत्रांत बरें काम केल्लेखातीर मुंबयच्या अनंत विकास ट्रस्टान गायनाचे सेवे खातीर 'स्पंदन' ह्या पुरस्कारान तांका सन्मानीत केलां. सोशल ह्यूमन रायट् काऊनसील मुंबय (Social Human Right Counsil, Mumbai) हांचो आंतर-राष्ट्रीय पातळी वयलो 'करेजीयस वूमन अवोर्ड' (Courageous woman Award) मेळ्ळा .

ऑल इंडिया ट्रेड युनीयन काँग्रेस (All India Trade Union Congress) चे वतीन तांची कोंकणींत रेडियोची सेवा, कोंकणीची सेवा आनी गोंयची संस्कृताय सांबाळपी म्हणून तांचो, ॲप्रिसियेशन ॲवोर्ड (Appreciation Award) मेळ्ळा . साहित्य अकादमीचे वतीन डोंगरी भाशेंतली कादंबरी 'एका शागचें मंथन' ही कोंकणींत अणकारीत केल्या.

स्वरप्रभाकर पंडित प्रभाकर कारेकर हांची बायोग्राफी (Biography) बरयल्या. तशेंच, स्वरानंद , नादब्रह्म, हीं तांची संगीत विशया वयलीं पुस्तकां. 'सुरंगी' हो तांचो कविता संग्रह.

सद्या आकाशवाणीचेर निवेदिका म्हण कार्यरत आसात. केरळ, गुरूवायूर, मद्रास, दिल्ली, मुंबय, कर्नाटक, गोंय अश्यो भारत भर संगिताच्यो मैफली जाल्यात.

'गोफ' हो तांचो कोंकणी संगीत अल्बम उजवाडाक आयला. गोवन ट्रॅडिशनल कोंकणी म्युजीक (Goan Traditional Konkani Music) हाचेर, साऊथ ईस्ट अमेरीकन युनिवर्सिटीन (South East American University) तांका Doctorate पदवीं दिल्या. गोंयचे युवा पणजी हे संस्थेन, लायफ टायम अचीवमेन्ट फेलिसिटेशन ॲवोर्ड (Life Time chievement Felicitation Award) दिलां.

19 डिसेंबर 2021 दिसा, गोंय मुक्तीक 60 वर्सां पुराय जाल्ले निमतान Flypast and Panaji Sail Parade दळान एक कार्यावळ आयोजीत केल्ली. भारताचे मानादीक प्रधान मंत्री नरेंद्र मोदी मुखेल सोयरे म्हण ते कार्यावळीक हाजीर आशिल्ले. ते कार्यावळीचें कोंकणींत सुत्रसंचालन निवेदिका शकुंतला भरणे हांणी केल्लें. तांणी कोंकणी भाशेंतल्यान सुंदर सुत्रसंचालन करतना कोंकणी इतिहासाक कोंकणी लोकगीतांची जोड दिवन कार्यावळीक एक खाशेलो आयाम दिल्ले पासत तांची तोखणाय जाली.

**श्रध्दा:** शकुंतलाबाय कलेच्या मळार लेखिका म्हूण पावल घाले. तुमचे साहित्य कृतींक पुरस्कारय लाबल्यात. तुमच्या एकंदर साहित्य रचनेच्या प्रवासाविशीं आमकां जाणा जावपाचें आसा.

**शकुंतला:** कॉलेजींत शिकतना आमकां विजय सातपुते सर आशिल्ले. ते आमकां मराठी शिकयताले. तांणी आपले आवयचे नांवान सर्त दवरिल्ली. ताका लागून दर वर्सा कविता वाचप जाताले. म्हाका दोन फावटीं उत्कृश्ट कवियत्री म्हूण इनाम मेळ्ळां. हातूंत म्हाका आत्म विश्वास आयलो. मागीर हेमा नायक हांच्या चित्रंगी ह्या दिवाळी अंकांत एक सर्त घोशीत केल्ली. ते सर्तींत म्हाका इनाम मेळ्ळें. ताचे उपरांत खुबश्यो कविता म्हज्यो सहज बरोवप जाल्यो .आनी म्हाका दिसलें ह्यो कविता सुंदर आसात .अशो कविता बरोवन कवियत्री म्हणून थोडेशें नांवूय जालें. ह्यो कविता बरयतां बरयतां मागीर संगीत म्हजो छंद आशिल्ले कारणान ताका चाल लावप आनी



गावप. आकाशवाणीचेर कविता गायन अशें हांवें केलें. ताचे उपरांत कॉलेजींतलें शिक्षण पुराय जातकच मागीर म्हाका कविता रचूंक जाय, म्हाका कितें बरोवपाक जाय काय गायन करपाक जाय असो प्रस्न आयलो तेन्ना म्हजी सगळी प्रायोरिटी हांवेन गायनाक दिली.

गायनाक जेन्ना प्रायोरिटी (Priority) वता तेन्ना ताचे कांय प्रकार म्हाका शिकून घेवपाक जाय. गायनाचें फुडलें शिक्षण जेन्ना सुरू जालें तेन्ना म्हज्यो गुरू गंगुबाई हानगल. तेन्ना तिका एबजोर्ब(absorb) करप, गाणें शिकप हो खूब वेगळे पद्दतिचो विशय आशिल्लो. कांय गजाली म्हाका कळनाशिल्ल्यो. ताचें पयलींचें जें शिक्षण आसा तें शालेय लेवलचें. म्हणजे संगिताचीं जीं स्कुलां आसतात ताच्या लेवलचें आशिल्लें. अर्थातच थंय म्हाका बेज थोडिशी पडिल्लीच. पंडित रामराव नायक बरे गुरू आशिल्ले. म्हजी गुरू गंगुबाई हानगल हांचे कडेन गायनाचें शिक्षण घेतना एक वेगळो प्रवास सुरू जालो. तेन्ना तो आत्मविश्वास बाळगून दवरपाक हांवें संगिताचें वाचन सुरू केलें. आनी म्हाका दिसलें संगिताची जी व्याख्या आसा, संगिताचें वाचन आसा हेंय तितलेंच खूब म्हत्वाचें. कारण संगीत गुरू मुखांतल्यान येवपी कला जरी आसली तरी सुराक एक खोलाय येवंक जाय. जर प्रेजेन्टेशनाक एक वेगळे तरेची प्रतिश्ठा मेळूंक जाय जाल्यार कांय गजाली संगिताच्यो आवर्जून शिकच्यो पडटल्यो.

कांय व्हड गायक वा वादक आसात तांचीं आत्मचरित्रां हांवें वाचलीं. तेन्ना म्हाका संगिताचेरूच हांवें बरोवप असो वेगळो विचार म्हज्या मनांत आयलो. कांय वेग-वेगळे विशय हांवें हाताळ्यात. पूण तें तितल्या पुरतें. मागीर चडशे म्हजे सगळे विशय संगिताचेरूच. म्हजे लेख बी बरोवन तयार जाले. आनी मागीर हांवें तशें वेगळ्या विशयांचेर बरयलां. पूण कविता हो म्हज्या जिविताचो म्हत्वाचो भाग. आनी आकाशवाणीचेर एक निवेदिका आशिल्ले कारणान उलयता आसतना कांय कविता सहज म्हज्या तोंडांतल्यान येतात त्यो म्हाका दिसता एक पोयेटीक सेन्स (Poetic Sense) हातुंतल्यानूच सगळे प्रकार बरयले हांवें. म्हणजे आतां, म्हाका दिसता संगीत होच म्हजो विशय. हांवेंन साहित्य कृती निर्माण करपाक जाय जाल्यार संगितांतल्यो बऱ्योचश्यो गजाली ज्यो कोंकणींत येवपाच्यो आसात त्यो कोंकणींत हांवेन बरोवपाक जाय, ते रितीन हांव म्हजेपरीन यत्न करतां.

साहित्य प्रकारांत आतां मेरेन म्हजी उजवाडाक आयिल्ल्या पुस्तकांत 'स्वरानंद' जातूंत भीतर शास्त्रीय संगीत, गोंयचें लोकसंगीत, मागीर शास्त्रीय संगिता संदर्भांत, शिक्षणां संदर्भांत वेग-वेगळी भुमिका आनी कांय गजाली जशो कोंकणी संगीत, लोकसंगीत, गोंयचें संगीत हाचे संदर्भांत म्हायती आसा.

मागीर उजवाडाक आयलें तें 'नादब्रह्म'. संगिताचें वेग-वेगळे विशय त्या पुस्तकांत आसात. आनीक एक म्हत्वाचें म्हळ्यार पंडित कारेकर हांचें 300 पानांचें आत्मचरीत्र बरयलां. हालींच म्हजो कविता संग्रह उजवाडाक आयला.

**श्रध्दा:** कोंकणी गोंयची राजभास जावची म्हूण, कोंकणी चळवळींत तुमी आशिल्लीं. तेन्नाच्यो तुमच्यो यादी आनी अणभव.

**शकुंतला** : कोंकणी चळवळ ही गोंयच्या अस्तित्वाची चळवळ, आमचे मातयेची राखण करपाची चळवळ, म्हणटकच थंय कोणूय म्हजेर अन्याय करता जाल्यार झुजप हें म्हजें कर्तव्य आनी हक्क. हांवें कोंकणी चळवळींत काम करून व्हडलें कितें केलें अशें हांव अजिबात म्हणना. खुबश्यो यादी आसात गांठीक. लाठी चार्ज जालो आमचे. सरकारा कडेन आमचें मागणें पुराय करपाक सचिवालया मुखार गेलीं. तेन्ना विधानसभा चालू आशिल्ली. आमी धरणे धरून सचिवालयाच्या दारा मुखार रावलीं. आमकां पोलिसांनी अटक करून व्हेलीं. तेन्ना हांव वयान 19/20 वर्सांचें. म्हणटकच घरा कडेन बी आवय-बापायक खूब त्रास जालो. अशे तरेचो संघर्श फकत पुस्तकांनी वाचिल्लो. प्रत्यक्ष घडपी गजालिंचो अणभव नाशिल्लो. कारण जेन्ना लाठी चार्ज जालो तेन्ना खूब मार लागलो पोटाक, पांयांचेर लाठयो खूब नेटान बसल्यो.

घर दार सोडून तरणाटी चली भोंवता चळवळींत हो विचार तेन्नाचे सामाजीक वातावरणाक खूब आव्हानात्मक आशिल्लो. म्हाका कोंकणी खातीर आयकुचें पडल्यार पडूं. पूण म्हज्या आवय-बापायक खुबशें आयकून घेवचें पडलें.

प्रतिष्ठा, मान, सन्मान आनी स्वताच्या फुडाराचो विचार करिनासतना सतत चळवळींत सक्रीय रावप हो एक खूब मोठो संघर्श आशिल्लो म्हजे खातीर. तशें आवय-बापूय पुराय साथ दितालीं अशें म्हणू नजो. म्हणटकच ह्या विरोधाक सहन करून, कोंकणी मराठी वादाच्या भोंवऱ्यांत आमी शेणून गेलीं... नित्याक एक एक एपिसोड घडटालो. तेदे वेळार आमी मोठे धिठायेन एकामेकांक सांबाळून घेत वावुरतालीं. तेन्ना कोंकणी प्रजेचो आवाजाची स्थापना जाल्ली. त्या निमतान पुंडलीक नायक हांचे सारको फुडारी मेळ्ळो, तांची घरकान्न आनी साहित्यकार हेमा नायक, उदयबाब भेंब्रे सारके फुडारी आमकां मेळ्ळे. खुबश्या लोकांच्यो वळखी जाल्यो. मनाचो संघर्श आमी शिकलीं. आनी निमाणें जैत आमचेंच जालें! हांगा एकूच गजाल सांगनशी दिसता, म्हाका कसलीच खंत जायना. पणजी आकाशवाणीचेर जॉयन जावचे पयलीं, एक सरकारी नोकर ह्या नात्यान पुलीस चवकशी जाता. ही पुलीस चवकशी जाली तेन्ना हांव चळवळींत आशिल्लें,



म्हजेर लाठी चार्ज जाल्लो, म्हाका झेलींत उडयल्लें म्हणून म्हजे पुलीस चवकशीक थोडो वेळ लागलो. ताका लागून म्हजी खरी वरीश्ठ जावपाची संद आशिल्ली ती म्हज्या फाटल्यान आशिल्ल्या मनशाक मेळ्ळी. म्हाका अजिबात हातूंत खंत बी तशी ना. कोंकणी चळवळिंतलें एक मनीस म्हणून जें कितें हांवें केलां तें म्हज्या गोंयां खातीर केलां, तेन्ना बरे गजालीं खातीर आमी कसलीच खंत दवरपाची ना आनी कोंकणी चळवळींत वांटो घेवन, कोंकणी निवेदिका म्हूण गोंयचे मातये कडेन संबंदीत आशिल्ल्यो कांय गजाली आनी सेवा ही मांयभूंय म्हजे कडल्यान करून घेता हेंच हांव म्हजें मोठें भाग्य समजतां.

**श्रध्दा:** आतां आमी संगिता कडेन या.तुमच्या अणभवा प्रमाण गायन म्हणजे कितें आनी तें कशें आसचें ?

शकुंतला: प्रस्न सुंदर आसा. गायनाची क्रिया वा गीत म्हणजे गावप, जाका आमी कंठ संगीत म्हणटात. सूर आनी ताल आसलो म्हणून आमी गायन अशें म्हणू येता. पूण बरें गायन वा बरो गायक जाका आमी सादर करपी कलाकार, पर्फोर्मींग आर्टिस्ट म्हणटात ताचे खातीर कांय वेगळ्यो कळाशी लागतात. गाण्याचो आवाज म्हळ्यार संगीतीक आवाज म्हणून आसा, तो वेगळो आसचो पडटा. ताका लागून तो आवाज उपजत आसचोच पडटा नॅच्यरल आसा तो. उलोवपाचो आवाज आसता, गावपाचो आवाज वेगळो आसता. थोड्यांचो आवाज जसो गाण्या खातीर योग्य आसता, गोड आसता. गाण्याच्या आवाजाचे वेग-वेगळे गूण आसात. प्रत्येक मनशाचो आवाज वेगळो आसता. ताका एक युनिकनेस (uniqueness) आसता. तो युनिकनेस गायनांतल्यान सिद्द करतलें जाल्यार मेहनत घेवचीच पडटा. खंयचेय गजालीक कितें करतलो जाल्यार ताका आकार दिवचोच पडटा. मुर्ती घडोवपाक फातराक जसो आकार दिवचो पडटा. मनशाक शरीर वेवस्थीत तंदुरूस्त दवरपाक मेहनत करचीं पडटा. तशीच मेहनत करची पडटा. गायनाचो आकार साकारपा खातीर अशें हांव म्हणीन. इतलो म्हजो गायनाचो अणभव भुरगेपणांतल्यान तें आतां मेरेन. सूर जाय, सुराक आकार जाय, ताल जाय आनी सैमीक सहजताय जाय.

**श्रध्दा :-** तुमी जेन्ना ह्या क्षेत्रांत प्रवेश घेतलो, तुमचे



भितरली गायिका वा गायन शिकपाक सोदपी विद्यार्थिनीक प्रेरणा कशी मेळ्ळी? तुमचो गावपाचो प्रवास केन्ना आनी कसो सुरू जालो?

**शकुंतला :-** भुरगेपणांतल्यान म्हाका खूब आवड आशिल्ली. सगळ्यांत पयलीं म्हळ्यार आमची शेजान्न आशिल्ली. तिणें म्हाका दोन पदां शिकयलीं. एक, 'केशवा माधवा तुझ्या नामात रे गोडवा', 'ब्रह्मा विष्णू आणि महेश्वर' आनी 'किती सांगू मी सांगू कुणाला आज आनंदी आनंद झाला' हीं पदां हांवें यत्ता पयली, दुसरी, तिसरी आनी चौथी ह्या चारूय वर्सांत शाळेंत गावन म्हाका पयलें इनाम मेळ्ळें आनी शिक्षिकांनी बी सदांच म्हज्या घरच्यांक, ताचो आवाज खूब बरो आसा म्हणून सांगप. म्हाका तें आवडप. त्या काळांत म्हणजे वर्स 1976-77 बी तेन्ना खूब असो स्कोप कलेक मेळनाशिल्लो. पूण शाळेंतले शाळेंत खूब तोखणाय जाताली. घरा कडेन म्हजी आवय सांज वेळार आमका भजनाक घेवन बसप. सोमार आसलो काय महादेवाचीं भजनां, मंगळारचें गणपतीचें भजन, बुधवार दिसा आमी सगळीं परवड म्हणप अ आ इ ई, गणितांतले पाडे बी, ब्रेस्तार दिसा दत्तम्हाराजांचीं भजनां, शुक्रारा लक्ष्मीचीं, देवीचीं आनी आयतरा आमकां संस्कृत शिकोवपाक एक पुरोहीत घरा येतालो जो आमकां सगळीं स्तोत्रां, देवी अपराध क्षमा स्तोत्र, महाभारतातले, रामायणातले कांय अध्याय अशे वेग-वेगळे संस्कृतांतले स्तोत्र अशें तो शिकयतालो. प्रत्येक आयतरा वा पंदरा दिसांनी अशे तरेन ताणें येवप. ताचो एक संस्कार म्हजेर आसा अशें म्हाका दिसता. कारण, हांव एक बिझनेसमॅनाचें चली. गायक वा संगीत क्षेत्रांत आशिल्ले लोक आमच्या घरांत कोण नाशिल्ले. आमकां भावंडांक एक आवड म्हूण गायन, नाच शिकपाक ल्हान आसतना घाल्लें. हांवें ती आवड खूब गंभीरतायेन घेतली. म्हज्या आवय-बापायन धरूंक नाशिल्लें की हे कलेच्या क्षेत्रांत फुडार घडोवं येता. कारण घरांत तसो कांयच संबंद नाशिल्लो. मागीर मागीर म्हजी ही आवड वाडत रावली. सगळे कडेन , 'तुका गावपाचो आवाज आसा, तुवें गायिका जावपाक वचपाक जाय' अशी लोकांची प्रतिक्रिया मेळटाली.

कॉलेजींत शिकतना, कॉलेजींतले सर्तींनी गायतालें. ह्या मळा वयल्या म्हज्या पयल्या मास्तरान म्हळें, कॉलेजींत हिन्दी पदां गायलीं म्हूण जायना, तुवें ही कला गांभिर्यान घेवंक जाय. कॉलेजींत शिकतना म्हाका इनामां मेळिल्लीं. उत्कृश्ट कवियत्री, बेस्ट ऑल राउंडर प्रिन्सीपल अप्रेसीएशन अवॉर्ड , बेस्ट ऑल राउंडर अवॉर्ड, बेस्ट स्पोर्ट्सवूमन अवॉर्ड, चडांत चड इनामां कॉलेजींत शिकतना म्हाका मेळ्ळ्यांत. सगळ्या क्षेत्रांनी म्हाका फुडें सरचें अशें दिसतालें. नाटकांनी अभिनय करतालें. भाशण दितालें, कविता बरयतालें. ते पिरायेर सगळेंच तुका बरें दिसपाक लागता. पूण आवाज हें वरदान आसता. संगीत हें उपजत आसचें पडटा. ती कला सहजा सहज सगळ्यांकच आसना. तेन्ना म्हाका दिसलें हांवें तें सिरीयस घेवचें. ते नदरेन हांवें पावलां उखल्लीं. सितार वाजोवपी उस्ताद छोटे रेहमत खान मूळ धारवाडचे. आतां गोंयांच आसतात. तांणी म्हाका कलाकार म्हणून डॉ. गंगुबाई हानगल हांचे कडेन वळख करून दिली. म्हाका गायिका डॉ.गंगुबाई हानगल हांचे कडेन हुबळी वचपाक उदयबाब भेंब्रे, हेमा नायक, पुंडलीक नायक, सर्गेस्त चंद्रकांतबाब केणी अशा लोकांनी खूब मदत केल्या. म्हाका थंय व्हरून, थंय म्हजी रावपाची वेवस्था करून, थंय हांव वेवस्थीत आसां काय ना तें पळोवन, शिक्षणाचें काम जरी हांवें केलें जाल्यार म्हजे खातीर हो खूब कठीण प्रवास आशिल्लो. कारण एक चली मनीस आशिल्ले कारणान म्हजे सुरक्षीततायेचो प्रस्न येतालो. हे नदरेंतल्यान म्हाका तांचो खूब आदार जालो. कोंकणीक लागून हांव शास्त्रीय संगीतांत व्हड जावपाक पावलें. ताका लागून कोंकणी म्हजी आवय, तिका हांवेंन

विसरप ना अशी भावना म्हजी जाली. शास्त्रीय संगीत हांव शिकून सुद्दां म्हजे कोंकणी भाशे खातीर, कोंकणी संगिता खातीर हांवें कितें तरी करपाक जाय. ताका एक वेगळो आयाम दिवपाची गरज आसा ही जाणीव म्हाका जाली. तेन्ना गायिका गंगुबाई हानगला सारक्यो येद्यो व्हडल्यो गुरू म्हाका मेळ्ळ्यो. गायिका किशोरीताई सारक्यो गुरू म्हाका मार्गदर्शक म्हूण मेळ्ळ्यो. तेन्ना म्हाका दिसलें, ह्या क्षेत्रांत येद्या व्हडल्यां मनशांचो सहवास, तांच्या सानिध्यांत रावपाची संद मेळ्ळी.

मागीर वेग-वेगळ्या कलाकारांच्यो मुलाखती हांवें पळयल्यो. जे गूण एका कलाकारांत आसतात ते म्हजे कडेन ना जाल्यार सुददां हांवें आपणावपाक जाय. एक सातत्य, चिकाटी, पाशियेंस, खूब कितें करपा खातीर आगळी वेगळी अशी प्रतिकार शक्त. तूं जितली मेहनत करता तशी ती येतली असो समज घेवन हांव मुखार गेलें खरें, पूण हांगा कोणाचें तरी फाटबळ जाय आसता. गॉड फादर, गॉड मदर, तसो म्हाका कोणाचें फाटबळ नाशिल्लें. जें म्हाका ह्या क्षेत्रांत तयार करचें पडलां तें खूब व्हडलो धोको पत्करून, स्वताच्या पांयार उबें रावन हांवें तें मेळयलां. आयज हांवें जें कितें मेळयलां म्हणूनच तुजे सारकें मनीस म्हजे मुलाखती खातीर येता न्ही? म्हाका नक्कीच आनंद जाता. कारण बिझनेसमॅनाचो भुरगो बिझनेमॅन जाता, दोतोराचो भुरगो दोतोर जाता तशें गायनाचें घराणें आसल्यार सहजासहज कलेचें आसचें पडटा. तसो वारसदार म्हजो कोण नाशिल्लो. ते नदरेंतल्यान म्हजे खातीर हें मोठें आव्हान आशिल्लें. कांय प्रमाणांत हांवें हें आव्हान पेल्लें अशें हांव समजतां.

**श्रध्दा:-** भारतीय शास्त्रीय संगिता विशीं आमकां जाणून घेवपाचें आसा.

**शकुंतला:-** भारतीय शास्त्रीय संगीत म्हणचे परस ताका आमी हिन्दुस्तानी शास्त्रीय संगीत म्हणुया. जशें हिन्दुस्तानी शास्त्रीय संगीत आसा तशेंच कर्नाटक संगीत आसता. कर्नाटक संगीत हें दक्षीण भारतीय संगीत. हिन्दुस्तानी संगीत हें उत्तर भारतीय संगीत. पळोवंक गेल्यार कर्नाटक संगीत हें खूब आदलें हिन्दुस्तानी शास्त्रीय संगीत. ताच्या फाटल्यान वेगळें शास्त्र आशिल्लें. वेगळे तरेचें संगीत हें. जरी कांय गजालींचें साम्य आसलें तरी तें वेगळें हातूंत दुबाव ना. आतां शास्त्रीय संगीत हाचें विशीं कितें सांगप आनी कशें सांगप तो एक खूब व्हडलो विशय. हिन्दुस्तानी संगिता भितर राग आसात, रागाचे थाट आसात. त्या थाटांतल्यान वेग-वेगळे राग निर्माण जातात. तानसेनाच्या काळांत धृपद गायिकी सुरू जाली. धृपद गायिकी सुरू जातकच इल्लो इल्लो तातूंतबदल जावन ताची ख्याल गायिकी आयली.

मागीर भारतांतल्या वेग-वेगळ्या लोकसंगिताचो आदार घेवन इल्लें इल्लें उपशास्त्रीय संगीत तयार जालें. ताका आमी ठुमरी, दादरा, टप्पा हे प्रकार सुरू जाले. शास्त्रीय संगीत हें एक शास्त्र शुद्द संगीत. म्हणजे जाका बंधन आसा शास्त्राचें. बाकिचें लोकसंगीत, भावगीत तें



वेगळें. शास्त्रीय संगिताची बांधणी वेगळी. प्रत्येक मनशाक ताचें घर म्हणून आसता, ताचें आडनांव आसता, ताचें घराणें म्हणून आसता. तशेंच शास्त्रीय संगिताक ताची स्वताची एक वळख म्हणून आसता. ताका एक वेग-वेगळे राग म्हणून आसतात. त्या रागाचो वेग-वेगळो स्वभाव म्हणून आसता. म्हणजे खंयच्याय विशयाचो आमी जेन्ना संशोधनात्मक अभ्यास करतात तेन्ना आमी ताचो शास्त्राचो अभ्यास करतात. तसो संगिताचो शास्त्राचो अभ्यास वा शास्त्र शुद्द गावप हाका शास्त्रीय संगीत अशें म्हणू येता.

**श्रध्दा:-** मनाक भावपी आनी चैतन्य हाडपी संगीत कशें तयार जाता ?

**शकुंतला:** मनाक भावपी संगीत, मनशाचे जिणेंत कांय गजाली सहजतायेन घडटात, मनशाच्या जिवितांतल्यो भावना सहजतायेन कलाकार आपले कलेंतल्यान व्यक्त करता. ते व्यक्त करपाचे तरेंतल्यान मनशाचें एक कलात्मक सादरीकरण जाता. तें संगीत चैतन्य हाडपी संगीत अशें म्हणपाक हरकत ना. आतां चैतन्यात्मक असो कलाकाराची वृत्ती आसत वा सर्वसामान्य मनशाच्या जिविताक धरून जो मनीस आपलें संगीत घडयता समरस जावन अर्थमय तरेन लोकां मेरेन पावयता तें संगीत नक्कीच चैतन्यमय संगीत जाता हातूंत दुबाव ना. ते-ते भाशेंतलेंय संगीत सुरांतल्यान लोकां मेरेन पावोवपाक बरें पडटा. कानाक भुलोवपी जें संगीत आसा ताका एक वेगळी तरेची प्रतिभा कलाकाराक लागता.

**श्रध्दा:** गोंयच्या संगिताचें खाशेलपण आमकां सांगशात ?

**शकुंतला:** व्वा ! हो प्रस्न जरी ल्हान दिसलो तरी हाची जाप० हडली आसा. गोंयचें संगीत म्हणटा आसतना आमी तातूंत भितर गोंयांत आतां मेरेन कितल्या - कितल्या लोकांनी राज्य केलें, कदंब राजा येवन गेलो, आदीलशाह येवन गेलो, मागीर पोर्तुगीज आयले, हांची राजवट येवंचे पयलीं भोजतशेंच हेर वेग-वेगळ्या लोकांनी राज्य केलें आनी गोंय हो जुंवो आशिल्लो कारणान,लागसाराक दर्यो आशिल्लो कारणान हांगा सैन्य येवन रावतालें. तांणी मनरिजवणे पासत संगीत आपणायलें. अशी जायती गिरेस्तकाय गोंयचे मातयेंत भरिल्ली आसा. आतां ही गिरेस्तकाय आसा ती आमच्या लोक संगितांतल्यान





जाणकार आनी बुदवंत वाचकांक
कितली संवेदनशिलताय जाय,
विचारांचो ग्राव कितलो दवरूंक जाय
हाची सैमीक जाण आशिल्ले,
कवी मनाचे

# मुकेश थळी

*हांचें*

*ललित साहित्य म्हळ्यार*
*जिणेचो तरल आस्वाद घेवंक*
*मेळिल्ली एक अप्रूप संद.*
*वळेसर, रंगतरंग, हंसध्वनी हें*
*ललित साहित्य जावं*
*वा हें नाटक जावं,*
*वाचकांक एके आगळेच*
*उंचायेर व्हरून*
*तांच्या काळजा- मनांत*
*संगिताची धून वाजयता...*





दिसता. उत्तर आनी दक्षीण गोंयच्या खेडेगांवांत वचून लोक संगीत आयकतात तेन्ना आमकां ताची जाणविकाय जाता. म्हणटकच गोंयचें खाशेलेपण ह्या संगितांत इतलें भरिल्लें आसलें तरी ताचे आमकां इतिहासीक पुरावे खंयच मेळना. कारण गोंयकाराक केन्नाच राजा जावपाक मेळुंकना. गोंयकार सदांच जगले प्रजा जावन. ताका लागून हें खाशेलपण जगाक पटोवन दिवपाक आमकां कठीण जालां. तरी लेगीत तें आमचें गोंयचें गोंयचें संगीत आसा. गरज आसा ती आमच्या गोंयच्या लोकांनी ताची जाणीव दवरपाची. जे गोंयकार गोंय सोडून मंगळुराक पावले, केरळांत पावले, मुंबय पावले, भायले देशांत पावले, थोडे म्हाराष्ट्राचे बॉर्डरी कडेन पावले, तेय कोंकणी मनीसच. ह्या सगळ्या कोंकणी मनशाचें संगीत जें आसा तातूंत सुद्दां गोंयच्या संगिताचो वास आसा. म्हणटकच गोंयच्या संगीताक विशाल असो दर्जो फावो जाता.

**श्रध्दा :** नवोदीत संगीत शिकतात वा जांका शिकपाची आवड आसा तांकां तुमी कितें सांगतलीं ?

**शकुंतला:** खंयचोय कलाकार किदेंय जो शिकता ताचे खातीर सातत्य, चिकाटी, मेहनत करपाची तयारी आसची पडटली. खूब फावटी खंयचीय गजाल शिकता आसतना आमकां पयलीं तें खूब आवडटा मागीर शिकपाक गेलें कांय ताच्यो सगळ्यो बारीकसाणी पळयतां-पळयतां नाका जाता. नाका जाता तेन्ना आमची खरी कसोटी आसता. देट इज द रीयल चॅलेंजींग टायम. म्हणटकच तें नाका जाता म्हणून सोडप ना. ताच्यो बारीकसाणी शिकून घेवप. कारण खंयचीय गजाल, खंयचीय कला उपजत आंगान आसताच आसता, ना न्ही. ते कलेक जर आमी योग्य रितीन न्याय दिवपाक ताचो अभ्यास करत किंवा सातत्यान ताची सेवा करत जाल्यार ती कला तुम कां अवगत जाता. खूब वेळ लागलो म्हणून जरी कठीण दिसलें, वाज आयलो तरी हातांत घेतिल्लें काम सोडप ना. आपूण करूनूच दाखयतलों वा दाखयतलें ही जिद्द नवोदीत भुरग्यांनी दवरप खूब खूब म्हत्वाचें.

**श्रध्दा :** बरी गायिका वा बरो गायक जावपाक स्वताचेर गायनाचें संस्कार करप अशें म्हणूं येता ?

**शकुंतला:** बरी गायिका वा गायक जावपाक रियाज वा प्रॅक्टीस म्हत्वाची. प्रेक्टीस मेक्स मॅन पर्फेक्ट हें तुवें आयकलां आसतलेंच ! तशेंच देर इज नो शोर्टकट फॉर रीयाज. रियाज हो आवाज संस्कारी जायसर गुरूच्या समोर करप. हो रियाज गाण्याक एक आकार दिता. ताका आमी संगीत साधना अशेंय म्हणटात. साधनां ह्या शब्दा भीतरच जें केन्नाच साधना ती साधनां. गायनाच्या रियाजांत आकार येता, आत्मविश्वास येता, आवाजाचो गोडवो वाडटा, गायनाच्या रियाजांत, गुरू आमकां आवाजांतले जे दोश दाखयतात ते रियाज करून काडपाक मेळटात. रियाज ह्या शब्दाकच व्हडलो व्याप आसा.

**श्रध्दा:** गायन शिकपी नवोदीत गायकांक तशेंच तांच्या पालकांक तुमी कितें संदेश दितली ?

**शकुंतला:** संदेश दिवपा इतली पात्रता म्हजे कडेन आसा काय हांव नकळों. पूण हांव भुरग्यां पेक्षा पालकांक सांगूंक सोदतां की जर तुमचें भुरगें गावपाचे कलेंत आवड दाखयता किंवा ताका बरो आवाज आसा आनी ताका



शिकपाची उमेद आसा जाल्यार ताचेर ताच्या बाकिच्या अकॅडेमीक शिक्षणाचो चड ताण हाडिनासतना ताका गायनाची कला शिकपाक मेकळीक निर्माण करची.

दिवची अशें हांव म्हणना, कारण म कळीक तांका स्वता निर्माण करची पडटली कारण तांका तांची एक लिबर्टी आसा ती ताकां घेवचीं पडटली. तेन्ना जर तुमचें भुरगें एकादे कलेंत खूब आवड दाखयता, जाल्यार तुमी ताका मुखार वचपाक मार्ग दाखोवंचो . तेंच वांगडा भुरग्यान कितें ल्हानशें मेळयलें वा भुरग्याक इनाम मेळ्ळें तितल्यानच ताका खूब माथ्यारूय बसोवचें न्ही. कारण येदे व्हडले कलेचो, येदो व्हडलो प्रवास तुंवेन करपाक जाय हाची जाणविकाय आवय-बापायक आसल्या शिवाय त्या भुरग्याक येवचिना. ताका योग्य दिकेन मुखार घेवन वचपाक,ताच्या करियराक मुखार घेवन वचपाक ताका आवय-बापायन नक्कीच आदार दिवचो अशें म्हाका मनां पासून दिसता.






**श्रध्दा:-** तुमी डॉ.शकुंतला भरणे. तुमकां डॉक्टरेट मेळ्ळ्या ताचे विशीं आमकां सांगात .

**शकुंतला:** डॉ.शकुंतला भरणे म्हणटा आसतना, म्हाका ही डॉक्टरेट मेळ्ळ्या ऑनररी. आमच्यो डॉ. गंगुबाई हानगल हांका भारताच्या आनी भारता भायल्या युनिवर्सीटिनी तिचे कले खातीर ऑनररी डॉक्टरेटी दिल्यात. आनी मागीर पंचवीस वर्सां उपरांत त्या युनिवर्सिटीनी एक स्कीम काडली , तिची विद्यार्थी जीं योग्य आसात डॉक्टरेट घेवपा खातीर, जाच्यांनी कार्यावळी केल्यात, जांची नामना आसा, ज्या गांवांत तीं रावतात थंयचो ताणें अभ्यास केल्लो आसा, जीं पात्र आसात डॉक्टरेट घेवपा खातीर, तांकां ती दिवपा खातीर युनिवर्सिटी मुलाखत घेवपाक सोदताली. ह्या कोरोना म्हामारीच्या काळांत अमेरीकन इस्टन युनिवर्सिटिच्या लोकांनी वेबिनार करून,शास्त्रीय संगीत विशयाचेर मुलाखत घेवन ह्या विशयाचेर तांणी म्हाका ऑनररी डॉक्टरेट दिल्या आनी ही युनिवर्सिटी आसा वेस्टर्न अमेरिकन युनिवर्सिटी.

**श्रध्दा:** तुमी पणजी आकाशवाणीचेर निवेदिका म्हूण खूब वर्सां जालीं काम करतात . गीत गावप वेगळें आनी रेडियोचेर उलोवप वेगळें. निवेदिका म्हूण तुमचो प्रवास आनी अणभव आमकां सांगात.

**शकुंतला:-** म्हजो प्रवास पणजी आकाशवाणीचेर फाटलीं 31 वर्सां चालू आसा.1991 सालांत हांव रुजू जालें आनी आयज 2022 त म्हाका आकाशवाणीचेर 31 वर्सां पुराय जालीं . ह्या माध्यमांतल्यान काम करतासतना म्हजो थोडोसो पयलीचो संदर्भ पयलीं घेतां, जेन्ना गंगुबाई हानगल हांचे कडेन गाणें शिकतालें तेन्ना एका दिसाळ्याचेर रेडियोचेर निवेदिके खातीर पोस्ट रिकामो आसा अशी जायरात आयिल्ली ती हांवें पळयली. हांवें त्या पोस्टा खातीर अर्ज केलो तो म्हज्या गुरूचे संमतीनच. तेन्ना हांव गाणें शिकतालें हुबळी म्हज्या गुरुच्या घरा. गुरू शिश्य परंपरेंतल्यान गाणें शिकतालें. गुरुच्या सहमती शिवाय आमकां निर्णय घेवप समा नासता. जेन्ना तिचे लागीं गाणें शिकतां तेन्ना सगळें लक्ष थंय केंद्रीत करप अशी शिस्त आसा. ती सोडप योग्य न्हय. तांकां जेन्ना हांवें आकाशवाणी निवेदिका जागो भरती विशीं सांगलें तेन्ना तांणीच म्हाका सांगलें, गाणे शिकप आपल्या हातांत आसता, कला आपणावप आपल्या हातांत आसता, पूण गायक म्हूण लोकांनी तुका कितली मान्यताय दिवप हें आमच्या हातांत नासता तेन्ना खंयचें तरी एक जोडपाचें साधन आपल्या

कडेन आसपाक जाय. रेडियो हें सगळ्यांत बऱ्यांतलें बरें माध्यम. चडांत चड संगीत रेडियोचेर तुका आयकुपाक मेळटलें. थंय काम केल्यार कलेच्या सानिध्यांतूच चडांत चड वेळ उरता. तूं अर्ज कर, काम मेळ्ळें जाल्यार बरेंच जालें कारण आकाशवाणी पणजी केंद्र आसा थंय चडांत चड शास्त्रीय संगिताची ध्वनि मुद्रणां आसात. ही गजाल म्हाका गुरुजी गंगुबाय कडल्यान कळ्ळी .






ही लायब्ररी आमची खूब पयलीं पसून आसा. पयलिंचो काळ तो. आतां सगळें इंटरनेटाचेर मेळटा. तेन्ना एखादें गाणे पोरणे पिळगेंतल्या कलाकाराचें आयकुपाक मेळप हें खूब कठीण आसतालें.पयशे जमा करून कॅसेट्स विकत्यो घेवच्यो पडटाल्यो. ताचे उपरांत सि.डी. कॉमपॅक्ट डिस्क आयलें. आयज गावप्याचें नांव टायप केल्यार सगळें आयकुपाक मेळटा. म्हणटकच नोकरी करून उरिल्लो वेळ लायब्ररींत बसून गाणे आयकुपाक घालोवप हो उद्देश घेवन हांव आकाशवाणीर रुजू जालें. तेंय बी म्हज्या गुरुच्या आशिर्वादान! योगा-योगान दोनशीं-अडीजशें अर्जदार लेखी परिक्षेक बशिल्ले, तातुंतलीं धा-पंदरा जाणां पास जालीं. मागीर धा-पंदरा जाणांची ऑडिशन टेस्ट जाली. ऑडिशन टॅस्टांतलीं पांच जाणां पास जालीं. उपरांत ह्या पांच जाणांची मुलाखत जाली तातूंतल्या दोग जाणांची निवड जाली. निवड जाल्ल्यां मदलें हांव आशिल्लें.

आतां तुजो प्रस्न आसा, गीत गावप वेगळें आनी रेडियोचेर निवेदिका म्हूण उलोवप वेगळें हो. म्हाका याद जाता सुमंतबाब केळेकार हांची. ते एक मुलाखत घेवप्यां मर्दी आशिल्ले. तांणी म्हाका विचारलें, 'तुजें जें गाणें आसा तें वेगळें आनी रेडियो वेगळो. हें गाणें शिकपा खातीर तुका रेडियोचेर कित्याक येवंक जाय?'

ह्या प्रस्नाक हांवें जाप दिली, 'खंयचीय कला जी आसा, उलोवप सुद्दां एक कला. म्हणजे ताका एक लय लागता, एक संगितीक असो सूर लागता. शास्त्रीय भाशेंत उलोवपाक आमी स्वर म्हणटात. हो स्वर जो गाण्यांत आसा तो उतरांनी आसा तो आमचे भाशेंतूय आसा. प्रत्येक भाशेचो फ्लो वेगळो, ताचीं उतरां वेगळीं, ताचो एक्सेंट वेगळो, ताची प्रत्येक गजाल वेगळी, ताचो टोन वेगळो आसता, ताची पीच म्हळ्यार पट्टी वेगळी आसता, ह्यो सगळ्यो गजाली संगितांत येतात त्यो आमच्या आवाजांत येता. ताका एक फ्लो लागता. ताका आमी लयकारी म्हणू येता, तालाचो एक प्रकार म्हणू येता. सगळ्यां कलांचो निमाणो प्रोसेस हो एकूच आसता. चित्रकला वा मुर्तिकला,ती सुद्दां आमी घेतली जायत जाल्यार ताका सुद्दां एक ताल आसा, एक लय आसा. म्हणटकच हे जें कोमन फॅक्टर आसात कलेचे , आमी जिविता कडेन पळयतासतना एक कला म्हणूनच पळोवप जाता. आम चे जिणेंत कितल्योश्योच गजाली अश्यो येतात आमचे कलेचीं प्रगती करपाक आमकां आडमेळ येता. तूं एक कलाकार आशिल्ल्या कारणान, ह्या जिविताक तुंवें कशें घेवप, जिविताच्यो सगळ्यो आडखळी घेवन तुंवें मुखार वचप, हे सांगपा खातीर आमकां हे कलेचो उपेग जाता. चडांत चड गजाली जितल्यो आमी फेस करतात, तितलें कलेचें दालन वाडोवपा खातीर आमकां मदत जाता अशें म्हाका मना पसून दिसता. म्हजे संगीत कलेचो बऱ्यांत बरो उपेग जाला जायत जाल्यार म्हाका ह्या रेडियो माध्यमांतल्यान. म्हाका एक निवेदिका जावपाची संद मेळ्ळ्या. ही संद म्हाका खूब वेगळे पद्दतीन गीत गावपाक आनी निवेदन करपाक मदत करता. ह्यो दोन कला म्हजे खातीर वेगळ्यो नात. कलेचो जो अप्रोच आसा, उलोवपाचो अप्रोच हो उलोवपा कडेन आसता आनी गावपाचो अप्रोच हो गीत गावपा कडेन आसता, त्या गिताचो गाभो, गीतांचो भाव मांडपा कडेन आसता अशें म्हाका दिसता.

**श्रध्दा:** रेडियोचेर निवेदिका हाचे भायर आनीक खंयचे-खंयचे फांटे वा पदां आसात जातूंत एक व्यक्ती आपलो फुडार घडोवपाक शकता? जांकां रेडियोचेर आपलो फुडार घडोवपाक जाय तांकां तुमचें मार्गदर्शन दियात.

**शकुंतला:** आकाशवाणी वा खंयचेंय श्राव्य माध्यम हें शक्ति शाली माध्यम आसा अशें म्हाका दिसता. तेन्ना ह्या माध्यमा कडल्यान जर आमी कितें शिकतां आसत जाल्यार आमी दिश्टी पडनासतना आमच्या आवाजांतल्यान, आमच्या उलोवपांतल्यान आमी आयकुप्यांच्या काळजांत पावूंक जाय. म्हणजेच म्हजे आकाशवाणीचे भाशेच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, आमच्या मनाच्या दोळ्यांतल्यान वा काळजाच्या दोळ्यांतल्यान आमी तुमकां सदांच पळयतात. तेन्ना लोकांच्या काळजांत वचपाची एक तांक ह्या येद्या व्हडल्या माध्यमांत आसा. ताचे खातीर हें पावरफ ूल माध्यम आसा. निवेदिका हाका स्कोप आसाच. हाच्या शिवाय , हांगा खुबशे कार्यक्रम अधिकारी आसात, बाकिचे जे भायले कलाकार आसात तांका आपले कलेचो जो प्रांत आसा तो सगळ्यां मेरेन पावोवपाक श्राव्य माध्यम खूब म्हत्वाचें माध्यम अशें म्हाका दिसता. आतां फुडार घडोवपाचे दृश्टिंतल्यान श्राव्य माध्यम हाका खूब स्कोप आयच्या काळांत आसा. आतां खुबशीं दृक श्राव्य माध्यमां आयल्यांत. ही कला स्वता फकत नोकरी मेळोवपा पुरती न्ही जाल्यार जिविताची कला मुखार घेवन वचपाची शक्त ह्या माध्यमांत आसा. हे नदरेंतल्यान आमी आकाशवाणी कडेन पळोवचें. चडांत चड आपलें योगदान आकाशवाणीक दिवन खूब म्हान आनी व्हड जाल्ले कितलेशेच कलाकार तशेंच साहित्यीक आमी पळयल्यात. पंडित जितेंद्र अभिशेकी, बाकिबाब बोरकार, पंडित राम नारायण, पंडित शीवकुमार शर्मा आनी कितलेशेच म्हान लोक आकाशवाणीचे एका काळा वयले स्टाफ आशिल्ले. ह्या माध्यमांत नोकरी करतकच आपल्या क्षेत्रांत एक खोलाय येता, एक दूरदृश्टी निर्माण जाता, एक व्यापक अशी नदर येवंक लागता हातूंत दुबाव ना.

**श्रध्दा:-** तुमी शास्त्रीय संगिताचें शिक्षण घेतलां तशेंच तुमी गायनाच्यो खूब कार्यावळी केल्यात. तुमी भुरग्यांक शास्त्रीय गायनाचें प्रशिक्षण दितात?

**शकुंतला:** नक्कीच दितां. म्हजे विद्यार्थी तशे खूब आसात. म्हजे दोन चार विद्यार्थी कलाकार जे बऱ्या पैकीं तयारी करतात. सावंतवाडीचो कमलेश मेस्त्री तो खूब सूंदर गाता आनी खूबशीं विद्यार्थी आसात जीं प्रशिक्षण घेतात. म्हजे विद्यार्थी कलकत्ता, मुंबय तशेंच पुण्याचीं दोन-तीन विद्यार्थिनी ज्यो ऑनलायन शिकतात.

थोडीं विदेशांत रावपी विद्यार्थी जे भारतीय आसात पूण विदेशांत स्थायीक जाल्यात अशे विद्यार्थी आसात तांकां ऑनलायन गायनाचें प्रशिक्षण दितां . कोल्हापुरचें म्हजें एक विद्यार्थी जें विदेशांत स्थायीक जालां. खूब सुंदर गाता. म्हजो एक अणभव म्हळ्यार जेन्ना तुमी तुमचो देश सोडून वतात, तुमचो गांव सोडून पयस वचून रावतात तेन्ना तुमचो गांवा खातीर जो मोग आसा तो स्पश्ट तुमच्या भितरल्यान कळवळून येता तो दिसता. तसो सो अणभव म्हाका ह्या विद्यार्थ्याक प्रशिक्षण दितना येता. ताका लागून ह्यो ऑनलायन क्लासीस म्हाका कितलेंय त्रास जावं, शेनवार- आयतार खूब फावट खंय वचपाक मेळना. पूण क्लास हांव घेतां कारण खूब फावट विद्यार्थी तितलेच इच्छेन आनी तितलेच उमेदीन ह्या क्लासाची वाट पळयतात.

**श्रध्दा:** बरीं भलायकी दर एकट्याक आवडटा. आवाजाची भलायकी बरी दवरपाक तुमचो सल्लो?

**शकुंतला:** बरी भलायकी दवरपाक व्यायाम शाळेंत वतात,आमी व्यायाम, योगा करतात तशेंच गायकान लेगीत करचें पडटा. पूण गायकाची मुख्य गरज आसता ती आवाजाक वेवस्थीत दवरपाची. आनी खास करून परफोर्मींग आर्टिस्ट म्हणून जो आसता जाका अभिनय करपाचें आसता, निवेदन, सुत्रसंचालन करपाचें आसता, वेग-वेगळें क्षेत्र जंय आवाजाचो संबंद येता थंय सगळ्यांक आवाजाची एक वेगळी मेहनत करची पडटा. आवाजाची भलायकी बरी दवरपा खातीर म्हाका दिसता ओमकार साधनां किंवा, आमची गायनाची मेहनत आनी हे मेहनतींत जें सातत्य दवरप गरजेचें. जेवण जशें आमकां जेवपाक जाय आसता भलायकी बरी दवरपाक, पोटाक भूक लागतकच जेवण जेवपाचें आमी सोडिनात. तसोच गायकान रियाज करपाचो सोडप ना. स्वर स्थीर दवरपाक मेहनत लागता. तुमची मानसीक भलायकी बरी दवरली जाल्यार ह्या अध्यात्मीक गजालीं कडेन कलाकाराक वळचें पडटा. तो जसो अध्यात्मीक पातळिचेर पावलो तशी ताका आवाजाची भलायकी आपसूक घडून येता. सगळ्यांत म्हत्वाचो आत्मविश्वास, आत्मशक्ती,सातत्य आनी चिकाटी.

**श्रध्दा:** तुमच्या अणभवा प्रमाणे जिवीत म्हणजे कितें आनी तें कशें जगचें?

**शकुंतला:** जेन्ना हांव गीत गायतां तेन्ना म्हजें जिवीत त्या गीता इतलें सुंदर आसचें अशें म्हाका दिसता. जेन्ना हांव बऱ्यांत बरी निवेदिकेची भुमिका करतां,म्हज्या आयकुप्यां कडल्यान बरी प्रतिक्रिया आयकूंक मेळटा तेन्ना म्हाका निवेदिकेच्या उलोवण्यांत जी गोडाय येता ती लोकांक उर्बा दिवपाक हांव लोकां कडेन उलयतां तशेंच जिवीत आसचें अशें दिसता. मनशाच्या जिवितांत सुख-दुख्खां येत आसतात. ह्या सूख-दुख्खांतल्यान आमी मुखार वचत आसतां.जंय जंय, जेन्ना जेन्ना म्हजी गरज दुसऱ्याक पडटा तेन्ना हांवें म्हज्यान जाता तशें तांकां पावचें. हांव हांव म्हणचे परस आमी अशें म्हणून जर आमी केलें जाल्यार जिवीत खूब सोबीत जातलें. जगता आसतना जाता तितलें दुसऱ्यांक समाधानी करप आमचें कर्तव्य.

**श्रध्दा :** मुलाखत सोंपयतना बायलांक तशेंच चलयांक तुमी कितें संदेश दितलीं ?

**शकुंतला :** म्हाका दिसता प्रत्येक बायल ही एक नवनिर्मिणी आसा. ती धर्तरेची धूव आसा. तेन्ना जितली धर्तरी कडेन तांक आसा तितली तांक एके बायले कडेन आसा. गरज आसा ती, तिणें ती दाखोवन दिवपाची. ती शिद्द करपाची. ती संद ती जो मेरेन घेना तो मेरेन तिचे कडेन कितें आसा, ताची जाणविकाय तिका जायना. तेन्ना थोडेशें एक धाडस करून, घरांतल्यान भायर सरून, आपले कलेक वा आपूण ज्या कामा खातीर डेडिकेटेड आसां तें करप. आयज काळ जरी बदल्लो तरी चूल मूल ही गजाल आमकां बायलांक चुकोंव येना आनी चुकोंव जमना. तेन्ना ती गजाल आपणे कशे पद्दतीन हाताळप ही एक कला आनी ती कला आपल्या शिवाय दुसरो कोण आपल्या खातीर करचोना. कारण आमकां जर कितें करपाचें आसत जाल्यार आमी खंयच्यानय कशीय वाट काडून मुखार वचपाक जाय. ज्या गजालींनी आमका फुडार करपाचो आसा ताचे खातीर आमी आमच्या स्वताच्या अस्तित्वाखातीर सातत्यान विसर नासतना एक वर तरी दिवप. बारीक -बारीक काय जायना , तातुंतल्यान खूब कितें बरें नक्कीच घडटा अशें म्हाका दिसता.

---

मो. ८६६१४१५७८१, मडगांव

(पान क्र. १४६ वेल्यान)





"सद्या कितें करता तर तूं?"

"जमता तें करतां गो! बरो जॉब मेळटलो तेन्ना मेळटलो. सद्या घर बरे तरेन चलता. हांव ह्या हॉटेला खातीर वावुरतां. ह्या हॉटेलाचो मालक बरो. ताणें म्हाका आपल्या आधाराक कसो दवरला. तेन्नाच्यान हांव हांगां काम करतां. ना तर घरा बेकार बसून उरपाचों!"

"कसलें काम करता तर तूं?"

"ह्या हॉटेलाचें सामान पावोवपाचें. म्हणजे तांका लागपी भाजी-पालो, नुस्तें, कडधान्य, मसाले, सगळो बाजार हांव करतां. मागीर तांचो हिशोब मारप आनी कितें बारीक सारीक काम सांगल्यार तेंय बी करतां."

अपेक्षाक हें आयकून वायट दिसलें ना. तें लेगीत अशेंच कितें तरी करतालें न्हय. शिवण क्लास केल्ली म्हण आज ताका आधाराक पडली. तें म्हूण दीस भर बेकार आसना. कपड्यांची बऱ्या पयकी शिंवण करप, तशेंच वेग-वेगळे पॅटर्न शिवप ताका बरें जमतालें. तशी ताची जोडूय कमी नासली. पूण आपूण हें काम करतां तें उणाकपणाचें अशी कितें भावना जाल्ली ताची. बरें शिक्षण मेळोवपाक सगळींच धडपडटात, तांच्या वांगडा तांचो आवय-बापूय लेगीत वयर सकयल जाता आनी शिक्षण पुराय जावन परत कामाची सोदासोद करपांत सगळींच कश्टावतात.

आपणें कॉलेजीचें शिक्षण पुराय केलां तरी घरा बेकार बसून आसतां अशी खंत ताका जाताली. दर दिसा जायराती चाळप आनी मुलाखत दिवप. ती दिवन कामाची जाप मेळटली म्हूण वाट पळोवप, मागीर थोड्या दिसांनी आपल्यो सगळ्यो अपेक्षा भंग जाल्ल्यावरी चिंतेन रावप अशी जीण तें जगत आयिल्लें. पूण आयज मनोजाक पळयलो. तो कसो बिनदास्त आसा आनी हुसक्या मेकळो जियेता तें पळयलें. आपणावरी अशीं कितलीशींच जाणां बेकार आसात हाची जाण ताका आसली पूण तकलेंत चलपी फुडाराची चिंता ताची फाट सोडिनासली.

"आनी तुज्या जॉबाची गजाल सोडली जाल्यार बाकी कशें चल्लां?"

मनोज ताका प्रस्न करता तेन्ना तें एका नव्या आत्मविस्वासान ताका जाप दिता. "हांव बऱ्या पयकी कपडे शिंवतां. दिसभर तातूंतच वता. केन्ना असो जॉब आयलो काय इंटरव्ह्यू दितां आनी कितें करतलें? तूं सांगता तेंच खरें. जॉब मेळूंक जाय तेन्ना मेळटलो. सद्या जमता तें काम करप आनी समाधानी रावप गरजेचें."

"बरें गो, मेळचें केन्नाय. काळजी घे." अशें म्हणून मनोज वचपाक लागलो.

अपेक्षानय 'बरें मेळचें' अशें म्हणत आपली घरची वाट धरली खरी पूण आज मात ताच्या कपला वयलीं टेंन्शनाचीं ल्हारां देविल्लीं.

---

मो. ९७६७११२५२४, शेळपें, धुळेर-म्हापशें.



# म्हज्या सपनांतलो तो म्हारू कोण?

म्हज्या जिवितांतली गूढ सत्य घटना



विज्ञानदूत श्रीकांत शंभू नागवेंकार
मोबायल: ९०९६५१२३५९

ही गूढ-कथा वाचून भूत, देंवचार, म्हारू, आळवांतीण आदी अमानवी भयरूपां आसात काय ना? हें वाचप्यांनी थारावचें. कथेंतलो एकय प्रसंग काल्पनीक वा घडोवन सांगिल्लो ना. व्यक्तिमत्वाचो मान राखपाच्या बऱ्या उद्देशान कथेंत गांव वा व्यक्तिचें नांव घेवंना. पयले खेपे ही हकिकत मांडल्या. हे पयलीं खाजगीपणान नात्यां पयकी वा इश्टांक कोणाक सांगिल्ली ना.

कावळ्यांचो कांव कांव कानार पडलो. उठपाचो वेळ जालो. पूण दोळे कशेच उगडपाक तयार नात. परत सूस्त न्हिद लागली. मुळांत सकाळीं उठपाक आळशी. तांतूंत गांवगिऱ्या वाटारांतलें थंड शांत वातावरण. सकाळीं उठप म्हणजे सामकें जिवार येतालें. इतल्यांत बशीचो पोंक पोंक आवाज कानार पडलो. आतां तर उठपाकच जाय. ना जाल्यार स्कुलांत पावपाक उशीर जातलो. म्हणून कूस बदलपाक लागलों. अकस्मात एक घट्ट मुट्ट दादलो म्हजे कुशीक उबो रावलो आनी म्हाका कशीच कूस बदलपाक दिना. म्हाका नेटान धुकलतालो. हांवें बरोच नेट लायलो. तरी तो कसोच नमना. कोण तो? कशेंच कळना. ताची सावली म्हाका वणटीर स्पश्ट दिसताली. हांव उठपाक कूस बदलपाक सोदतां आनी तो नेटान आडायता. बरोच वेळ हो संघर्श चलतालो. निमाणें हांवें नेटान ताका धुकल्लो आनी एकदम जागो जालों.

म्हाका वायट सपन पडिल्लें. म्हजो स्वास वाडिल्लो खरो, पूण मनाचेर कसल्याच भंयाचो तणाव नाशिल्लो. विचार करपाक तरी वेळ खंय आशिल्लो? पयलींच उशीर जाल्लो. झटपटीत सकाळच्यो सगळ्यो विधी केल्यो. च्या करपाक वेळ नाशिल्लो, तसोच धांवलों.स्कूल तशें लागींच आशिल्लें. स्कुलांत वतगर म्हज्या नित्याच्या कामांत गुल्ल जालों आनी सपनांतलो प्रसंग पुराय विसरून गेलों.

1970-80 तली ही गजाल. टिवी, फोन, मोबायल बी कांय ना, येरादारीचीं साधनां कमीच. म्हजें पदवी मेरेनचें शिकप पुराय जाल्लें. खूब तेंप वाट पळोवन, व्हड फ्रश्टेशनांतल्यान एक नोकरी मेळ्ळी. तीय बी शिक्षक म्हणून! आनी वयल्यान पयसुल्या गांवगिऱ्या वाटारांत.

आयुश्यांत केन्नाच शाराची सीम हुपून नकळों. पूण घरची वायट आर्थिक परिस्थिती आनी म्हाका नोकरी लागल्या म्हणून बापायल्या तोंडा वयली खोशी पळोवन म्हाका ना म्हणपाची धिटाय जाली ना. शिक्षक म्हणून हांव भुरग्यां मुखार उबो रावतलां? स्वपनांत पसून शक्य नाशिल्लें.

टॅक्सी करून बापायन म्हाका स्कुलाच्या गांवात पावयलो. एका घरांत वयर माळयेर रावपाची सोय केली. लागींच जेवणाची वेवस्था जाली. कशेंय जावं, शिक्षक म्हणून म्हजो नवो अवतार उबो जालो. नवो गांव आनी एकमुळो स्वभाव. सुरूवेक निर्शेवल्लो अवस्थेंत दीस काडले. पूण हे सगले फाटभुंयचो वयल्या सपना कडेन कसलोच संबंध येना. कारण सपनाचो प्रसंग घडलो त्या दिसांनी हांव स्कुलाच्या भुरग्यां मर्दी आनी गांवांत बरोच रमून गेल्लों. पोरने शिक्षक वचून म्हज्या वयाचे तरणाटे रगत रूजू जाल्लें. रूम पार्टनर मेळ्ळो. पूण तो वेगळे कडेन काम करतालो. गांवांत लोकां कडेन ओळखी जाल्ल्यो. मांडवीचे देगे वयलो तो गाव, तसो ल्हान. पलतडीं बार्जी भरपाची जेटी. त्या खातीर दीस रात जागृताय उरताली.

थोड्या दिसांनी स्कुलांत नवो पीटी शिक्षक आयल्लो. बायल भुरग्यां वांगडा हांव रावतां त्याच घरांत सकयले खोलींत रावतालो. वयान व्हड आसूनय खूब उमेदी आशिल्लो. स्कुलांत पूर्ण वेळ हेडमास्टर नाशिल्ल्यान स्कुलाचीं सुत्रां म्हज्या हातांत आयिल्लीं. सकाळची शाळा, सांजेच्या वेळा बेकार. वेळ वचपाक आमी सगळे स्कुलांत वचून टेबल टेनीस खेळटाले. पीटी शिक्षक तर उत्साही, खोखो-कब्बडीचो प्रशिक्षक. ताणें भुरग्यांची खोखो टीम करपाचें येवजिलें आनी आमी सगळे काम ाक लागले. सकाळचे वर्ग सोंपतगर कांय भुरगीं खोखोची प्रॅक्टिस करपाक जेवन तीन-चारांक सुमाराक स्कुलांत परत येतालीं. पीटी शिक्षका वांगडा, ताका मजत करपाक आमीय वताले.



असोच एका दिसा दनपरां जेवन आड पडिल्लों. केन्ना दोळो लागलो, कळ्ळेंच ना. सुस्त न्हीद लागली.

इतल्यांत आईलो आवाज आयलो, "उठना रे, वचपाक जाय म्हणटालो न्हय?"

आवाजान हांव उठपाक कूस बदलपाक लागलों. तर परत तोच म्हारू कुशीक उबो जालो. म्हाका कसोच हालपाक दिना. सुरवेक सांगलां तेच बशेन बरोच वेळ आमचो संघर्श चलतालो.निमाणें हांवे बरोच नेट लायलो आनी जागो जालों. तोंडार उदक मारून हांव भायर सरलों. बेगबेगीन स्कुलांत गेलों. म्हाका पळोवन पीटी शिक्षक म्हणपाक लागलो, "तुका उलो मारिल्लो. पूण तूं सुस्त न्हिदिल्लो!"

मुळा सावन हांव विज्ञानवादी. देव, भूत, देंवचार अश्या गजालींचेर विश्वास दवरपी न्हय. म्हजे नदरेन तें एक सपन आशिल्लें, फकत एक सपन. त्या भायर कसलेंच म्हत्व नाशिल्लें. ते खातीर म्हज्या मनांत कसलोच भंय निर्माण जालो ना. तशेंच आईक वा इश्टांक ही गजाल सांगिनशी दिसली ना.

ताचे फाटलीं दोन कारणां आशिल्लीं. एक म्हणजे घरांत उगीच भिरांतेचें वातावरण तयार जावपाचें आनी दुसरें कारण त्या खातीर घरचे लोक देंवस्पणां आनी घाडीपणां फाटल्यान लागतले आशिल्ले, तें म्हज्या मना आड आशिल्लें.

दीस खुशालकायेन वताले. मदींच एक प्रसंग घडलो. एक तरूण जोडपे चोरयां लग्न करून घरांतल्यान पळून आयलें आनी आमच्या रूमाचे फुडले एके मोडके कुडींत भाड्याक रावपाक लागलें. चली साम कें नेणार दिसतालें. ताच्या तोंडा वयलो भंय स्पश्ट दिसतालो.

दोन तीन दीस दादलो भुरगो चलयेच्या सांगताक रावलो आनी मागीर सकाळीं फुडें उठून कामाक वचपाक लागलो. तो येईसर तें बाबडें घरांत एकटेंच उरतालें. चार पांच दीस गेले. एक दीस शाळा सुटतगर जेवन हांव रूमार आयिल्लों. इतल्यांत सकयल्यान बोवाळ आयकूंक आयलो. बेगीबेगीन हांव सकयल धांवलों. तें चली आंगार भूत बशिल्लेवरी एक सारकें बडबडटालें; 'हांव फातरीर मिरसांग वांट्टालें. एक ल्हान भुरगें आयलें आनी फातरी वयलें वांटप काडून म्हज्या तोंडांत घातलें आनी हात पांय धाडायत, माथ्या वयले केंस बुड्डुपाक लागलें. घर मालक धांवत वचून गांवच्या घाडयाक घेवन आयलो. ताणें आपले परीन विधी सुरू केल्यो. हांव तांचे मोडके खोलींत भितर गेलों. फातरीर कसलेंच वांटप केल्ल्याची खूण

दिसनाशिल्ली.

ते राती जेवणा कडेन सदचे भाशेन आमी एकठांय जाले. थंय ही गजाल आयली. तशें पळयल्यार तो प्रसंग गांवभर केन्नाच पसरिल्लो. त्या वेळार आमी जेवता त्या घरांतले जाणटे बायल मनशेन एक गजाल सांगली, 'तूं (हांव)रावता त्या घरांत पयलीं खंय अशे तरेचे प्रसंग खूब वेळा जाताले.' तें आयकूनय हांवें व्हडलेंशें मनार घेतलें ना. पूण म्हजो रूम पार्टनर मातसो भियेल्या बशेन दिसलो. दुसऱ्या दिसा तें नवें जोडपें भंयान गांव सोडून गेलें.

म्हजो रूम पार्टनर एका शेनवाराक घरा गेल्लो तो आयलोच ना. हरशीं रावपाचो विचार आसल्यार तो म्हाका सांगी. सुमार चार पांच दिसांनी आयलो. तो खंय देवस्पण करता करता ताच्या मूळ गांवांत गेल्लो. ताचें फाटलें कारण ताणें जें सांगलें, तें आयकून म्हाका अजाप जालें. अर्दी मर्दी न्हिदिल्ले कडेन खंय ताचे पोटार कोण तरी बसतालो आनी ताच्या पोटांत खूब कळो मारताल्यो. गांवांतल्या घाडयान ताका सांगलें, ताचें ग्रहमान बरोबर ना. म्हणून तो म्हारू ताच्या पोटार बसता. ताचें हें घाडया कडेन वचप म्हाका मात्तय आवडलें ना आनी तशें ताका उलोवनय दाखयलें.

फुडें म्हज्या जिवितांत अनेक बदल जाले. गांवांतली नोकरी सोडून पणजेच्या स्कुलांत आयलों. लग्न जालें. मडगांवा मूळ घरांत रावपाक लागलों. मडगांव-पणजे अशी दिसपट्टी बस फेरी करची पडली.सकाळीं उठप, दनपारां उसरां पावप, बशीचो प्रवास, जिवाची काडाओड जाताली. त्या भायर विज्ञान संघटनेचो अध्यक्ष ह्या पदाचो व्याप आंगार घेतलो. ताका लागून मनांत सतत हुस्को उरतालो.

एक दीस दनपारां जेवून रोकडोच उठतलों म्हणून मातसो आड पडलों. दुसऱ्या दिसाचे विज्ञान कार्यशाळेची तयारी करपाची आशिल्ली. पूण थंयच सुस्त न्हीद लागली. बायलेन ल्हवूच आवाजान उलो मारलो. अकस्मात म्हाका जाग आयली आनी उठपाचो यत्न करपाक लागलों. तर म्हारवान हांगांय म्हजी फाट सोडली ना. परत कुशीक उबो जालो आनी कसोच उठपाक दिना. ताची सावळी वणटीर दिसताली. पूण कोण तो? कळपाक येना. जितलो हांव नेट लायतां तसो तो नेटान म्हाका आडायता. बरोच वेळ हें झगडें चलतालें. मर्दीच ताच्या नेटा मुखार म्हजी प्रतिकार शक्ती उणी पडपाक लागली. तरी एकदम नेट लावन हांव जागो जालों आनी घुस्पटमार जाल्लेवरी तोंडांतल्यान मोठ्यान आवाज आयलो.

"सपनेला काय कितें रे?" बायलेन विचारलें.

हांवें 'हय' म्हणलें आनी म्हज्या कामाक लागलों.

आतां मात ह्या संघर्शाचो म्हाका त्रास जाणवपाक लागलो. जरी तो कांय खिणां पुरतो भोग आशिल्लो, जरी त्या वेळा वयले म्हज्या मनांतले तळमळे सोसूं जाय नाशिल्ले.

मर्दीच एक दीस विचार आयलो, मनीस जेन्ना कोमात वता, तो अशेंच भोगता काय? ह्या हुस्क्यान मनांत एके तरेन भिरांत जाली. पूण कोणाकयहे विशीं सांगलें ना. ताचें फाटलें कारण हांवें सुरवेकच स्पश्ट केलां. त्या भायर भूत, देंवचार, म्हारू हे म्हज्या तत्वांत बसना आशिल्लें. म्हणून त्या सपनांतल्या म्हारवाक म्हज्या तत्वांत कसलेंच म्हत्व नाशिल्लें आनी हांव कसलीच तडजोड करपाक तयार नाशिल्लों. म्हजो दृश्टिकोन पुराय वेगळो आशिल्लो.. ल्हवू ल्हवू हे प्रसंग कमी जायत गेले. म्हज्या सपनांतलो तो म्हारू कोण? म्हजे लागीं ताचो संघर्ष कित्याक? हे सोदून काडपाची म्हाका गरज पडली ना. मानसोपचारा कडेन वचपाचीय गरज दिसली ना. कारण त्या म्हारवाची 'सायकोलॉजी' म्हाका बरी समजून आयिल्ली आनी वयर कथन केल्ल्या प्रत्येक प्रसंगा वेळार तें तर सांगिल्लेंच आसा. वाचप्यांनी सोदून काडचें.

खयंच्याच देंवचाराक रोंट-भाकर वादेवाक नाल्ल-पड दिनासतना हांवें म्हारवाक धांवणावन घालो. हें म्हज्या विज्ञाननिश्ठेक आव्हान आशिल्लें आनी तातूंत हांव येसस्वी जालों, हाचो म्हाका अभिमान दिसता.

---

*मेरशे-गोंय.मो.: ९०९६५१२३५९*

ललित



# चित्त केंद्रीत करून वावुरचे



एच. मनोज

आमचें गोंय कसल्या ना कसल्या कारणांक लागून संवसारभर गाजता. पर्यटक राज्य आशिल्ल्यान हांगा येवपी भोंवडेकारांचो आंकडोय तसो कमी ना. देसी आनी विदेसी भोंवडेकारांक गोंयच्यो दर्यावेळो खूब भावतात. ते हांगा येवन दर्या देगेर मनसोक्त भोंवतात आनी पर्यटनाचो पुरायेन लाव घेतात. गोंयांत येवचे पयलीं तांचो समज जाल्लो आसता तो म्हणल्यार 'गोवा जाओ तो खाओ, पियो, मौज-मस्ती करो' पूण हांगा येतकच कांय जणांचो समज पयसावता. जे तरेचें गोंयचें चित्र तांचे मुखार दवरिल्लें आसता तशें गोंय निखालूस न्हय म्हणपाचें ते जाणां जावंक पावतात. हांगा सरलीं देवळां, ईगर्जो पळोवन कांय प्रमाणांत जायना आमच्या संस्कृती आनी दायजा बद्दल तांकां म्हायती मेळटा. गोंय म्हणल्यार पाश्चात्य संस्कृतायेचें एक केन्द्र असो गैरसमज तांणी करून घेतिल्लो आसता. देखून गोंयांत लज, भीड दवरी नासतना कशेंय वागूंक मेळटलें असो विचार करून येतात. हांगा पावले म्हणटकच गोंयची दर्यादिग आनी हांगाची सैम सृश्टी पळोवन भुल्लुसून वतात आनी आपणाक जाय तशें वागूंक लागतात. जितले दीस ते हांगा रावतात

तितले दीस तांचो खवदळ सतत चालू आसता. पर्यटकांचो चोंबो वाडपाक लागलो म्हणटकच आमचे गोंयकार भाव लेगीत एके रातीन दुडवांकार जावंचे हावेसान आडमार्ग आपणावपाक लागतात. एक गजाल मतींत दवरूंक जाय ती म्हणल्यार एके रातीन कोण व्हड जावंक पावना. आपली बुद्द घाण दवरूंक फावना. सातत्यान यत्न करीत रावप, सत्याचो सांगात सोडप ना तेन्नाच मनीस जैतीवंत जावंक पावता. नवे पिळगेचे विचार वेगळे. तांकां सगलें कशें फास्ट ट्रेकार धाविल्लें जाय. बरी गजाल! पूण चडूय फास्ट गेल्यार अपघात जाता म्हणपाचें ते विसरतात.

आमचे जाणटे म्हणटाले 'दर एक मनीस आपल्या वावरांतल्यान व्हड जावंक पावता.' तीस-पस्तीस वर्सां पयलीं मनीस समाजा खातीर वावुरतालो. तांचे अडी नडीक पावतालो. लोकांची सेवा होच आपलो धर्म मानतालो. ताचो तो सातत्यान चलिल्लो वावर पळोवन लोक तांकां समाज सेवक हें बिरुद दिताले. आतां ते दीस उरूंक ना. एके रातीन समाज सेवक तयार जातात आनी तेच समाज सेवक मागीर नेतागिरी करूंक लागतात. मनीस जेन्ना बरो वावर करता, तो वावर मागीर स्वता खातीर वा हेरां खातीर केल्लो आसूं. ताचें फळ गोड जावं वा कोडू जण एकल्याक मेळटाच. पूण जेन्ना मनीस कसलेंय वायट काम करता तेन्ना तो आपलें नांव पिड्ड्यार करून घेता. ते भायर ताणें शिक्षेक योग्य असो अपराध केल्लो आसत तर ताका ख्यास्त भोगची पडटा. हेच कारणांक लागून म्हाका तरनाट्यांक याद करून दिवचीशी दिसता ती गजाल म्हणल्यार जेन्ना तुमी आपल्या फुडाराची मोख थारायतले तेन्ना सकयल दिल्ले कांय प्रस्न तुमच्या मनांक विचारपाचे इल्ले कश्ट तुमकां घेवंचे पडटले.

आपली मोख पुराय करतना वाटेर येतल्या आडमेळ्यांक आमी तोंड दिवंक शकतले व्हय?

आपलें अमूक ध्येय, तें पुराय करूंक आमी कोणाचो घात बी करचेना मूं?

ध्येय मेळयल्या उपरांत आपले जिणेंत ताचो लाव आनी लुकसाण कितें आसतलें काय?



आपले आवय बापायचेर हाचो उरफाटो परिणाम जावंचो ना न्हय? हाचीय जापसालकी तुमची आसतली हेंय मतींत दवरचें पडटलें.

आतां तुमकां प्रस्न पडला आसतलो, हांव तुमचे ध्येया बद्दल अशें कित्याक म्हणटा काय म्हण? हाचें कारण म्हणल्यार हालींसरा जे तरेच्यो घडणुको गोंयांत घडपाक लागल्यात तश्यो घडणुको फुडाराक तुमच्या हातांत घडच्यो न्हय म्हण ह्यो सोप्यो आनी खाशेल्यो सुचोवण्यो.

तरनाट्यांनी मोख बाळगुची शिक्षणाची, नवें कितेंय शिकपाची, आपली इत्सा आनी आपलो छंद पुराय करपाची. विचार करून पळयात, सतरा-अठरा पिरायेर तुमी फुडाराक गरज आशिल्ल्यो कुशळटाय आनी शिक्षणीक गिन्यान आत्मसात करचें सोडून तुमी दोन चाकी आनी चार चाकी आपल्याक जाय तश्यो धांवडावंक लागल्यात, तेंय बी लिसेंस नासतना. तेच परी तुमी जर आलमपेड्ड्यार कशे भोंवपाक लागले जाल्यार फुडार पर्जळीत कसो करतले? दोन व्हड्यांचेर पांय दवरल्यार व्हडें परतता आनी मनीस बुडटा. तुमकां दोन व्हड्यांचेर पांय दवरपाचो आसा व्हय? ना न्हय? म्हूण जीव तोडून सांगन दिसता, आपलें ध्येय पुराय करूंक कश्ट घेयात. हातांत येतले संदिचो लाव घेयात. संद सदांच मेळना. पूण जेन्ना मेळटा तेन्ना पुराय लाव घेवंचो आसता. तुमी म्हणटले धुम बाइक धफरावप आमचो छंद म्हूण! हो छंद जर जीव घेवंक जापसालदार जाता जाल्यार ताका छंद तरी कसो म्हणप! आमच्या मुखार कितलेशेच बरे छंद आसात ते आपणावचो यत्न केल्यार सगल्यांच्या फायद्याचेंच थारतलें. तुमी शिक्षणाच्या मळा वयल्यो नव्यो-नव्यो गजाली शिकात आनी मागीर पळयात तुमचो हावेस पुराय जाता काय ना तो!

मनशान आपल्या कला गुणांचो, कुशळटायेचो आनी आवडिचो विचार करून फुडाराची मोख थारोवंक जाय कारण आमी येवजिल्लें ध्येय पुरायपणान सारकें आसा हाची आमकां जेन्ना खात्री जाता तेन्ना तें मेळोवपाचो यत्न आमी नेट दिवन करूंक लागतात आनी जैत मेळयताय बी. अशे वेळार वावुरतना केदेंय मोड लेगीत आयलें जाल्यार तें पयसावपाची तांक मनीस दवरता आनी म्हूण ध्येय थारयतना चोंय वटेनचो विचार जावपाची गरज आसता.

तरनाट्यां मर्दी केदेंय व्हड मोड पेलपाची तांक आसता ही गजाल जरी खरी तरी हाचो अर्थ असो न्हय तुमी आपलो हट्ट पुराय करपाक चुकीचो मार्ग आपणावंचो म्हण. सतरा-अठरा वर्सां पिरायेर तुमी आपल्या जिविताक लाभदायक अशे निर्णय घेवंक शकतात जायत तर ही बरोपणाचीच गजाल जावं येता. पूण एक गजाल याद दवरात यश आनी अपेसाचो सांगात मनशाक सदांच आसता. केन्ना यश तर केन्ना अपेस सांगात दिता. जेन्ना जैत मेळटा तेन्ना मनशान भुल्लुसून वचूंक फावना. ताचो मान राखूंक कळपाक जाय. मदांत जावन यस मिरोवंक लागले जाल्यार उंचेल्या पांवड्या वेल्यान केन्ना निसरून सकयल पडत हाचो नेम आसना आनी म्हूण मनशाक ल्हानविकायेन वागूक येवंक जाय. मेकळ्या विचारांची धार सातत्यान तकलेंत घोळत रावली जाल्यार ताका साथ मेळटा हयकारी विचारांची. कसलीय गजाल नदरेक पडटा तेन्ना लेगीत बरेच विचार तकलेंत घोळटात आनी बरो वावर आपल्या हातांतल्यान घडटा. कांय तेपान ताचें फळ हातांत पडटा तेन्न तो वावर पुराय करपाक कितले तरी कश्ट घेवंचे पडिल्ले हाची याद जावन मन सुखावता. ह्या खिणांक म्हाका रहीम ग्रंथावली ह्या पुस्तकांतलो एक दोहा याद जाता जो असो,

एकै साधे सब सधै, सब साधै सब जाय।<br>
रहिमन मूलहिं सींचिबो, फुलै फलै अघाय।।

हाचो सोपो अर्थ असो, पयलीं एकूच काम करपाचेर भर दिवंक जाय. एकाच बराबर जायतीं कामा सुरू केल्यार खंयचेंच काम सारकें जावंक पावना, तीं कामां पुराय जायनात. म्हूण एक फावटी एकूच काम हातांत घेवंक जाय. जशें रुखाच्या मुळांतच उदक घालीत रावले जाल्यार ताच्यो फांदयो, पानां, फुलां आनी फळांय सोबीत आनी ताजे टवटवीत जावन उरतात. हाचोच अर्थ तरनाट्यांनी आपलें चित्त एकाच वावराचेर केंद्रीत करूंक जाय आनी तो वावर म्हणल्यार आपलें शिकप पुराय करप वा आपले कुशळटायेक फावो सारको वावर हातात घेवप. कारण एकदां शिक्षण वा प्रशिक्षण पुराय जालें म्हणटकच ताच्या आदारान बाकी सगलीं कामां पुराय जावंक पावतलीं. थंडसाणेन विचार करात आनी आपली मोख थारावन ती पुराय करूंक कश्ट घेयात.

मो. ९८२२४४१४१७, चिखली वास्को

एकांकी



# बार्बरिक



सम्राट बोरकार

पात्र:

बार्बरिक (यत्ता पांचवी शिकता)
मिस्टर क्रिस्नाद (बार्बरिकाचो बापूय)
मिसेस माया (बार्बरिकाची आवय)
अय्यमा (घरकाम करपी)
दोतोर आसिमोव (क्रिस्नादचो इश्ट)
मिनिस्टर (रोबोट)
मेक्सी (यत्ता पांचवी शिकता)
मिनी (यत्ता पांचवी शिकता)
आत्मविश्वास (धवे आनी काळ्या कपड्यांनी )

देखाव : पयलो

(माचयेच्या मध्यभागी उजवाड. धिपरान तकली सकल घालून बार्बरिक बसला. तो हुंदके दिता. मेक्सी आनी मिनी फाटीक स्कुल बॅग लावन एंजोय करीत माचयेर येता. बार्बरिक थंय बशिल्ल्याची जाणीव ना.

मेक्सी पी.टी. सराची, पी. टी. करतनाची ॲक्टिंग जाल्यार मिनी इंग्लिश टिचर स्फुर्थीची नकल करता.)

**मेक्सी** : गुड मोर्निंग स्फुर्थी टिचर! (हळूवार दबक्या आवाजान.)

**मिनी** : (वक्ल सारखें करपाची नक्कल करीत) पा...टील सर ...सी द टायम ...इट्स गुड आफ्टरनून !

**मेक्सी** : टिचर ... यु आर ओल्वेस गुड मोर्निंग.

**मिनी** : पा-टील... इट इस नोट ओल्वेस गुड मोर्निंग!इट इस यु आर ओल्वेस जोवियल!

**मेक्सी** : जेवलो? कोण जेवलो ? केन्ना जेवलो? खंय जेवलो? कसो जेवलो? कित्याक जेवलो?

**मिनी** : इंग्लिश ती...जोवियल कोण जेवंक ना! जोवियल म्हणजे हॅप्पी.

**मेक्सी** : टिचर, यु टिच मी इंग्लिश ...आय टिच यु पी. टी.

**मिनी** : नो पी. टी. आय लव योगा ...

**मेक्सी** : बट योगनंद सर इस वायट मनीस.

**मिनी** : यु नोटी पी.टी. (दोगांय एकमेकांचेर हांसता.) मेक्सी तूं पीटी सराची डिट्टो ॲक्टिंग करता.

**मेक्सी** : आनी तूं... डिट्टो स्फुर्थी टिचर! (मेक्सीची नदर कडेक बशिल्ल्या बार्बरिकाचेर पडटा.) ये ... सी हियर ... वु इस क्रायिंग ... अवर सुपरहिरो बार्बरिक!
(दोगांय ताचेकडे वता, त्रास दिवपाक.)

**मिनी** : यु क्नोव बार्बरिक, यु आर ए लूसर ... कोणाक तूं नाका.

**मेक्सी** : धरती पे बोझ. (हांसता आनी मिनीक ताळी दिता.)

**मिनी** : बार्बरिक तूं स्कुलाक तरी कित्याक येता? तूं मोनो...घोळयो !

**मेक्सी** : सदांच टिचरी कडल्यान तापोवणी खाता. अभ्यास तर केन्नाच करिना... रडकुरो.

**मिनी** : हाका मरे बरो कुमोवपाक जाय... जाल्यारूच सुदारतलो. (आनी दोगांय मेळून ताका मारतात. माचयेर सवकास उजवाड कमी जाता आनी कांय खिणान धवे आनी काळे कपडे नेसून एक आकृती येता... हो आत्मविश्वास. ह्या पात्रा खातीर बार्बरिकाचो रेकोर्डेड आवाज उपेगांत हाडचो. मुखावेले धवे कपडे सकारात्मक जाल्यार फाटले काळे कपडे नकारात्माक समजणी दितात.)

**आत्मा (काळी)** : हांव जगतां कित्याक? (धवो सकारात्मक आत्मविस्वास बार्बरिकाक वयर काडटा.)

**आत्मा (धवो)** : म्हाका उठपाक जाय. म्हाका जगपाक जाय. म्हाका झूंझपाक जाय. म्हाका जैतीवंत जावपाक जाय.

**आत्मा (काळी)** : म्हाका अस्तित्व ना. कोणाक म्हजें पडिल्लें ना. फकत स्वास घेता म्हण म्हजें जगणें चालू आसा.

**आत्मा (धवो)** : म्हाका घर आसा. म्हाका घरचीं आसात.

**आत्मा (काळी)** : पूण कोणाक म्हजें पडिल्लें ना. पापा आपल्या कामांत आनी मम्मा आपल्या लायफांत बिझी. हांव कोण? कोण हांव ?

**आत्मा (धवो)** : उलय बार्बरिक... उलय... ह्या संवसाराक आड्डून सांग... उलय...उलय...
(बार्बरिकाच्यान आनीक सहन जायना. भेरावन तो जमनीर कोसळटा. माचयेर काळोख. स्कूल बस गेल्ल्याचो आवाज. )

### देखाव : दुसरा

(माचयेच्या एका कोनशाक टेक सॅवी कपड्यांनी एक मनीस लॅपटोपाचेर काम करता. हो मिस्टर क्रिस्नाद ... बार्बरिकाचो बापूय. फकत ताचेर मंद स्पॉट)

**आवाज** : ॲंकड द इंटर्नेशनल ॲवर्ड फोर आर्टीफिशीयल डिवेलोपर गोस टू मिस्टर क्रिस्नाद परांजपे



फ्रॉम इंडिया.

(माचयेर उजवाड. ताच्या हातांत वर्चुअल मोबायल, जो रिंग जाता).

**क्रिस्नाद** : येस, क्रिस्नाद हीयर... जी हाँ मुझे पेमेंट हुआ हैं ...मैने आपको फायल भेजदी है... जो मशिन मैंने विकसित कि है, उससे आप किसी भी इंसान से, उसका मुह खुलवाये बिना सब जानकारी निकाल सकते है..आय कॅन सर्विस ब्रैन ऑफ एनीवन. गूड बाय. (फोन दवरता.)

मिनीस्टर, गेट मी वॉटर, 35 मि.ली. ट्रू बेसीक, 45 मि.ली. फास्ट अप आनी , 5 मि.ली. एनर्जी.

(मिनीस्टर हे रोबोटाचे नाव.)

**रोबोट :** (भितरसान) मॅग्नेसिअम इंटेक, सर ?

**क्रिस्नाद :** येस, आय फोर्गोट ... पुट 10 मिली ग्रॅम..

(भितरले कुडींतल्यान घर मदतनीस अयम्मा, चिंतेस्त जावन मुखेल दाराकडे वचून वाट पळेता.)

(आपलेच तंद्रेंत) कभी कभी लगता है, अपुनीच भगवान है... येस आय एम द सो कॉल्ड गॉड... जे दिसा हांव इमोशनल प्रॉग्रामींग प्रणालीचेर जैत जोडतलों ते दिसा पुराय विश्व म्हज्या पांयाकडे लोळण घालतलें. हांव हांगा बसून, हय हांगा बसून लोकांचे तकलेंत विचारांचें प्रोग्रॅम फीड करतलों. ते म्हाका जाय तेंच उलयतले... म्हाका जाय तशेच वागतले.

**रोबोट** : (माचयेर) येस बॉस !

**क्रिस्नाद** : थँक्यू माय क्रियेशन, माय डिअरस्ट मिनीस्टर ...(ताका महाभारताचो जाडजूड पुस्तक दिता.) हो ग्रंथ घे ... मेमोराय्ज्ड स्कॅन कर... म्हाका पेज वायझ समरी जाय... अँण्ड ट्रेस द पिरेड ऑफ द इवेंट्स... फास्ट. (रोबोट ग्रंथ घेता, माचयेचे फाटी उबो रावन पुस्तक स्कॅन करता.)

**क्रिस्नाद** : कभी कभी लगता है अपूनीच ... ज्या कामाक तीन वर्सां लागतालीं तें काम तीन मिणटांत! कॅरी ऑन मिनीस्टर ...

(मिसेस माया,क्रिस्नादची घरकान्न, भितरसान माचयेर आगमन. केंस अस्ताव्यस्त, हँगओवर जाणवता... अल्कोहोल्चो ग्लास हातांत ... दोळ्यांचीं शटरां आजून पुराय उगडूंक नात.)

**माया** : हाय ...

**क्रिस्नाद** : यु डॉपड अगेन ...ड्रग्स आर बॅड फॉर

हेल्थ ... मिसेस माया...

**माया** : थँक्यू फॉर कंसर्न मि. क्रिस्नाद ... हें जग म्हळ्यार स्टेबल स्टेट...ड्रग्स तुका मेटस्टेबल स्टेटींत व्हरता. तूं हवेंत उडटा...ढगांत नाचता...यू केनॉट स्टॉप मी.

**क्रिस्नाद** : आय कॅन ॲण्ड आय वील. हांव एका अश्या न्युरोसायंस प्रणालीचेर काम करतां... बाय विच आय विल कॉन्ट्रोल एव्हरीथींग ...

**माया** : (आड्ड्ता) आय एम नॉट यूवर सर्वंट... (ग्लास शेवटून रोबोटाचेर उडयता.)

**रोबोट** : सर, ग्लासाचें वजन 50 ग्रॅम, भितर आशिल्ले 30 मि.ली. ग्रे गूझ वोडका विथ 12 क्युबिक आय्स.

**माया** : स्टॉप इट. (भितर वतना, दारार रावन) आय एम स्लिपींग ... डॉण्ट डिस्टर्ब मी. (तिडकीन भितर)

**रोबोट** : सॉरी सर.

**क्रिस्नाद** : यु लक्की... तुमकां लग्न, संवसार, भुरगीं बाळां, लोन, हफ्ते ह्यो राठावळी नात. (दोतोर आसिमोव, फॅमिली दोतोर माचयेर येता.)

**आसिमोव** : हॅलो इजनेर, दोतोर, प्रोफेसोर, सायंटिस्ट, यंत्रप्रन्योर ... बिझनेस किंग ...

**क्रिस्नाद** : हाय, वॉट ए सर्प्रायझ... दोतोर आसिमोव...मिनीस्टर,तांका बसपाक कदेल हाड.

**आसिमोव** : कदेल? माय गॉड..पोर्तूगेझ हेका समजता?

**क्रिस्नाद** : ताका 42 भाशानी प्रॉग्रम केला.

**आसिमोव** : बाय द वे, तो वाचता किर्ते?

**क्रिस्नाद** : महाभारताची समरी.

**आसिमोव** : एक्सेक्ट्ली वॉट?

**क्रिस्नाद** : महाभारतांत कित्येक चुको आसात...त्योय बी वेग-वेगळ्या स्थराचेर.

**आसिमोव** : वॉट यू वॉंट टू प्रूव्ह?

**क्रिस्नाद** : गूड क्वेशन...आय वॉंट टू प्रूव्ह कि महाभारत एकट्या व्यासान बरोंक ना...कमीत कमी शंबर लोकांनी बौद्धकाळांत तें बरयलां.

**आसिमोव** : म्हणजे?

**क्रिस्नाद** : टॅक्नोलोजी इस महान ...

**आसिमोव** : टॅक्नोलोजी कॅन किल.

**क्रिस्नाद** : तुमका मारूंक शकना अशी खंयचीच गजाल, तुमकां चड उपेगी पडना. एम आय रायट? टॅक्नोलोजीच्या खुस्तार आमी केन्नाय कोणायकडे संवाद सादपाक शकतात.

**आसिमोव** : मायाकडे संवाद कसो चल्ला?

**क्रिस्नाद** : (दुर्लक्ष) चिल, आर्दी म्हायतीची देवाण घेवाण करपाक कांय दीस...केन्नां केन्नां समकांय लागतार्ली. पयर्ली ग्रीटींग कार्डां धाडटाले, आतां वॉट्सेप! मेडिसीनांत टेली-मेडिसीन आयलें... अमेरिकेंतल्यान दोतोर, जर्मनींतल्या पेशंटाचेर रोबोटीक शस्त्रक्रिया करपाक लागले.

**आसिमोव** : मायाक मानसीक ट्रिटमेंटाची सक्त गरज आसा.

**क्रिस्नाद** : ( परत विशयाकडे दुर्लक्ष) जस्ट गूगल इट... यू गेट एव्हरीथींग .... गूगलाच्या माध्यमांतल्यान तुका सगळ्या विश्वाची म्हायती बोटांनी मेळटा.

**आसिमोव** : मायाचे तकलेंत कसले विचार घोळटात, हें तुजो गूगलबाबा सांगपाक शकतलो?

**क्रिस्नाद** : आयज शिक्षकांची गरज ना. सगळें शिक्षण ऑनलायन मेळटा.

**आसिमोव** : शिक्षण ऑनलायन मेळटा आसत ... पूण परिक्षा ऑफलायनच दिवची पडटा. म्हाका सांग, मायाचें आर्किटेक्चर शिक्षण फुकट कित्याक गेलें? शी वॉज ए स्टेट रेंकर... वॉट वेंट व्रॉन्ग ?

**क्रिस्नाद** : ती सगळी मोह-माया, माया-जाल ... हीं म्हर्जी न्हय मायार्चीच उतरां...

**अव्यमा** : (भिरांकूळ) सर, बार्बरिक बाबा अजून पावंक ना. हरशीं सवाय दोनांक पावतालो. पावणे तीन जायत येयर्ली. म्हाका हुस्को जाता.

**क्रिस्नाद** : वेट अ सेकंद (लेपटॉपाचेर टायप करता) मिनीस्टर, टेल मी द स्टेटस ऑफ बार्बरिक...बार्बरिक खंय आसा?



**रोबोट** : सर, तो नाक्यार पावला. आनी ज्या वेगान तो चलता त्या हिशोबान तो तीन मिण्टां सतरा सेकंदानी घरांत पावतलो.

**क्रिस्नाद** : थँक्यू मिनीस्टर.

**आसिमोव** : क्रिस्नाद, तुज्यो इमोशन्स खंय मेल्यो? आरे तुजो एकुलतो एक भुरगो आजून घरा-दाराक पावंक ना आनी तूं सुशेगाद ?

**क्रिस्नाद** : टेक्नोलोजी! हांवें ताचे घड्याळीक सेंसोर्स बसयल्या. ताका 18 मेगा पिक्सेलाचो स्पाय कॅमॅरा फीट केला. ताचो फाटल्या धा वर्सांचो डेटा ह्या सिस्टमांत स्टोर आसा. काल तो कितलो न्हिदलो, कितलो जेवलो, कितलो चल्लो, कितल्यो कॅलोरीज जळयल्यो.. इट हेझ एव्हरीथींग !

**अय्यम्मा** : कितलो तो उलयलो हें समजता सर? ( टोमणो मारिल्लेवरी.)

**क्रिस्नाद** : (तापून) वॉट?

**आसिमोव** : (टेंशन देवोवपाक) बाय द वे ... ह्या रोबोटाचें नांव मिनीस्टर कित्याक दवरलां?

**क्रिस्नाद** : (हांसून) आमचे मिनीस्टर आमचें केन्नाच कांय आयकना... आपल्याक जाय तश्यो माकड उडयो मारतात. म्हाका तेंचो रागूच आयला. देखून हांवें म्हज्या ह्या सर्वंट रोबोटाचें नांवूच मिनीस्टर दवरलें... आतां ह्या मिनीस्टराक म्हाजें झक मारीत आयकचें पडटा.

(थंड आवेशांत बार्बरिक येता. अय्यमा ताका वेंगेंत घेवन कुरवाळटा.)

**अय्यमा** : सर, बाबा इज कम. कम बार्बरिक हेव फूड. ( बार्बरिक मशिनावरी भितर. आसिमोवचे नदरेक हें खटकता.)

**आसिमोव** : क्रिस्नाद, डॉण्ट टेक मी व्रोंग ... बार्बरिकाचेंय मशीन जावपाक लागलां!

**क्रिस्नाद** : (हांसून) कम ऑन ... हांवें ताका खुद म्हज्या निर्णयान जल्माक घाला. म्हज्या जिनोम पुलांतलें सर्वांगीण वैचारिक हेल्थी जिन्स घेतल्या... ताच्या आवयचे ब्युटी जिन्स घेतल्या आनी ताची निर्मिती केल्या... ब्युटी विथ ब्रेंस.

**आसिमोव** : क्रिस्नाद, हें अती जायना?

**क्रिस्नाद** : टेक्नोलोजी कि जय हो !

**आसिमोव** : क्रिस्नाद, तुका दिसना ...घडये ह्या टेक्नोलोजीतल्यान खुब सोयी सवलती व्हाडल्या आसत पण ह्याच टेक्नोलोजीक लागून आमच्या जिणेचो दर्जो तितलोच वायट सकल देवत आसा? संयुक्त कुटुंब वेवस्था कोसळ्ळ्या. कोणाक मावशी ना तर कोणाक मामा ना, कोणाक काका ना तर कोणाक आत्या ना ... एकसुरें जिण जगता... आजो आजी तर ऑल्ड एज होमांनी दिस काडता.

**क्रिस्नाद** : ऑल्ड एज होमावेल्यान याद जाली हांवें बाबाक आयफोन 14 घेवन दिला आनी आईक रेड मी 6 !

**आसिमोव** : तुज्या ह्या करणीक लागून तुका एक भारत रत्न फावो ! हांव सरकाराकडे शिफारस करता... आमी सर्वनाशाकडे धावपाक लागल्या.

**क्रिस्नाद** : म्हणजे आमी परत आंगाक पानां घुठलावन रानांनी वचुन रावया. पानां सुकतकीच सगळ्यांची अब्रु उगड्यार पडटली.

**आसिमोव** : क्रिस्नाद, टेक्नोलोजीच्या नादान तुज्यो भावनां सुकून केन्नाच गळून पडल्या. टेक्नोलोजीच्या खुळांतल्यान भायर सर. गेट व्हेल सून. आनी बाय द वे, रानांत वचून रावपाचो प्रश्नच उप्रासना. कारण मनशांनी सगळी रानां नश्ट केली. आनी रानांत रावपी पाश्र्वी जनावरांनी मनश्यांच्या मनाचेर कब्जो केन्नां केलो हे ह्या स्वताक सुसंस्क्रुत समजपी मनशाक उमगलेंच ना. म्हाका एक कॉल येता ... रोखडोच येता... म्हाजे सोपोंक ना... ( आसिमोव भायर वतना,मोडर्न ड्रेसांतली बबली टिचर, स्फुर्ती येता.)

**स्फुर्ती** : मे आय कम इन सर ? आय यम ... (क्रिस्नाद ताका हातान ...उलोव नाका.)

**क्रिस्नाद** : वेट अ सेकंद ... मिनीस्टर, इंट्रोड्युस हर.

**रोबोट** : सर, ताचे नाव स्फुर्ती डिकोस्टा. वय वर्सा 22, अजुन लग्न जावंक ना. केवण-राय रावता. फूटबॉल खेळपाची - नाचपाची आवड. फोन नम्बर 9923794127. व्यवसाय - टिचर, स्कूल - मेट्रिक्स हाय स्कूल.

**क्रिस्नाद** : थँक्यू... आर यु अमेझड ?

**स्फुर्ती** : सॉरी नॉट एट ऑल. म्हजी जी म्हायती हाणे दिली ती पब्लिक डोमेनांत सहज सापडता... जस्ट गूगल इट ! पुण ह्या रोबोटाक पळेतकच दिसले कि आमची जिण टेक्नोलोजीच्या नांवाखाला दिसान दीस वायट जायत चल्लया. हो पटापट उलयलो खरो...

**क्रिस्नाद** : हांवेच ताका आर्टीफिशीयल इंटेलिजेंस बसयल्या. डिप लर्निंगच्या माध्यमांतल्यान मशिन लर्निंगचो सॉफ्ट्रेर इंस्टॉल केला. 1.5 टेर्रा-बायट प्रोसेसींग स्पिड. तो खंयचाय विशयाचेर आपले मत मांडपाक शकता. आय हेव ट्रेण्ड हिम.

**स्फुर्ती** : नशीब, तुमी तुमच्या चल्याक ट्रेन केल्लो जाल्यार ... बाय द वे, हांव आयला बार्बरिकाची मार्कशीट घेवन. बार्बरिकाकडे नोट धाडिल्लो पुण घडये ताणें तो तुमका दाखोवंक ना. विचारल्यारुय काय सांगिना. म्हाका तुमचेकडे उलोवपाचे आसले. (आपल्या बॅगांत हात घालता, मार्कशीट काडपाक) ताची मम्मा ? (इतल्यान भितरसान माया दारार येवन उबी रावता.)

**क्रिस्नाद** : (हांसून)हांव सांगता ताचे मार्क्स ! ताची क्लास ? (लेपटॉपाचेर डेटा एंट्री करता.)

**स्फुर्ती** : स्टँडर्ड फाय्व.

**क्रिस्नाद** : डिवीजन

**स्फुर्ती** : बी

**क्रिस्नाद** : चेक द मार्क्स ... बाय द वे ... मिसेस माया... मदर ऑफ बार्बरिक.

**माया** : नमस्ते.

**स्फुर्ती** : हाय मॅडम.

**क्रिस्नाद** : ओके हियर आर द मार्क्स, इंग्लिश - 2, कोंकणी - 1, गणित - 4, हिंदी -3, इवियस-0. (तिडकून) बार्बरिक ... भायर यो, अय्यमा... (अय्यमा ताका भायर

घेवन येता. तो निर्जिव उबो. तो भिरांतेच्या पलतडी पावला) हे मार्क्स तुजे? आरे तूंइंटर्ने शनल ऑवर्ड फोर आर्टीफिशीयल डिवेलोपर विनर मिस्टर क्रिस्नाद परांजपेचो चलो. तुजे भितर म्हजें रगत व्हांवता ... तुजेभितर हांवे सुपरसोनिक जिन्स लोड केल्या... यु आर प्रोग्रेम्ड फोर ओंन्ली सक्सेस ... यु कनॉट फेल. इम्पोसिबल! यु माया ...तूं... तूं ह्या सगळ्या गजालींक कारणीभूत. एक आवय म्हणून तुवें केन्नाच कसलेच तरेचे कर्तव्यपालन करुंक ना. फक्त रात आनी दिस त्यो रेव पार्टी, नार्कोटिक्स आनी सब्स्टेंस एब्युस.

**माया** : येस. आनी बापुय म्हण तुवें आपल्या पुताक खुब टायम दिलो!

**क्रिस्नाद**:शट अप.

**माया** : यू शट अप

**क्रिस्नाद**:एस अ बापुय म्हण कितें कमी केला हांवें? तुमकां बरें बरें वॅकेशन, आलिशान बंगलो, कुस्ता तितलो पैसो, रियल इस्टेट, शेअर्स आनीक किते जाय तुमकां? सगळें सगळें दिलें.

**माया** :हय, मान्य आसा,सगळें सगळें दिलें. पुण एका भुरग्याक एक बापुयपण दिवपाक तू असमर्थ थारलो.



**क्रिस्नाद**:बार्बरिक उलय, स्पिक ऑउट.

**स्फुर्ती** :कॅन बार्बरिक टॉक ?

**क्रिस्नाद** : वॉट यू मीन ? तुमचो किते तरी घोळ जाला.

**स्फुर्ती** : फाटलें वर्सभर तो आमच्या स्कूलांत शिकता. आमकां टिचरींक दिसलें कि ताका उलोवपाक जमना. आताय ताका पळेल्यार तशेच जाणवता. (अय्यमा पदरान दोळ्यांतली दुकां टिपता.)

**माया** : अय्यमा, टिचर किते सांगता? आमचो बार्बरिक उलयना खंय!

**अय्यमा** : हय मॅडम. (माया आनी क्रिस्नाद अचंबीत) जेन्नाच्यान तो पांचवेक नव्या स्कूलांत गेला... ताणें उलोवपाचेंच बंद केलां.

**क्रिस्नाद** : वॉट? आनी हें तू आयज आमकां सांगता?

**अय्यमा** : हय सर, तो सदांच वगी वगीच आसता.

**क्रिस्नाद** : मिनीस्टर, म्हाका बार्बरिकाचो फाटल्या स म्हयन्यांचो स्पिच डेटा एनलायझ करून समरी दी. टेक 3 मिनीट्स.

**रोबोट** : झिरो डेटा सर. स्पिच मोड्युल इस एम्प्टी.

**स्फुर्ती** : चल्लां कितें? कसलो डेटा आनी कसले मोड्युल ?

**क्रिस्नाद** : बार्बरिकाच्या स्मार्ट वॉचींत हांवें हाय एण्ड कॉम्प्युटींग मशिन बसयलां. ताचे मार्फत म्हाका सगळो डेटा मेळटा.

**माया** : यु किल्ड माय लायफ. न कळयता तुवें म्हजे भितर एक चिप बसयली. म्हजो मूव्हमेण्ट ट्रॅक केलो. म्हजें पुराय जिवीत ट्रेस केलें. म्हजें स्वातंत्र्य तुवें काबार केलें. म्हजी दिसपट्टी जीण रेकॉर्ड केली. हांव कोणाकडे कितें उलयतां, कोणाक मेळटां हाचेर तुवें नियंत्रण मेळयलें. फकत एकच ध्यास ... टेक्नोलोजी... टेक्नोलोजी... टेक्नोलोजी... मनशाच्या भावनांचो तुवें केन्नाच विचार करूंक ना. (माचयेर आसिमोव परत येता) मनीसजातीक पडिल्लें तूं एक भिरांकूळ सपन. साखर आनी मीठ रुची पुरतें बरें लागता... अती खाल्ल्यार ताचो आरोग्याचेर वायट परिणाम जाता.

टेक्नोलोजी इनोवेशनच्या नांवा खाला तुवें क्वॉलीटी ऑफ लायफ, सुदारचे बदला मारून उडयलें. आमी आशावादी आसपाक जाय पूण पुराय वेळ आशावादी जावंक शकनात.

**रोबोट :** सर, मॅडम म्हण्टा ते सारखें. तुमी जेन्ना भासाभास करताली तेन्नां हांवें बार्बरिकाचो फाटल्या वर्साचो स्पिच डेटा एनलायझ केलो. ताका आवय बापायचो सांगात जाय. तुमी ताचे वांगडा वेळ सारपाक जाय.

**आसिमोव :** (ताळयो मारून) मनिसपणाच्यो गजाली आतां आमकां मशिनां कडल्यान शिकच्यो पडटात.. मशिन लर्निंग करतां करतां... आतां मशिनांच मॅन-लर्निंग करपाक लागलीं... आनी एक दीस असो उदेतलो हीं जगावेलीं सगळीं मशिनां एकसंघ जातलीं आनी मनीस कुळयेक काबार करतलीं. आमचो सगळो डेटा ह्या मशिनांकडे आस... आमी चोरून मोबायलार कितें पळेतात तें हेंका खबर आस... एक दीस हींच मशिनां आमकां ब्लॅक मेल केल्या शिवाय रावंची नात. मागीर भोगा कर्माचीं फळां.

**रोबोट :** सर, अजून वेळ वचूंक ना.

**क्रिस्नाद :** हांवें तुका निर्माण केलो... आनी आयज तूंच म्हाका लागलो शाणपणां शिकोवपाक ? म्हाका म्हजी चूक उमजली... पयले सुवातेर तुका बंद करपाक जाय.

**रोबोट :** नाका सर, म्हाका जेवण बी कांय लागना... फकत सात वरां चार्जिंग .... पांया पडटां म्हाकाय जगपाक दिया... म्हजे कडेन आधार कार्ड आसा... पॅनकार्ड आसा... ड्रायविंग लायसेंस आसा...

**आसिमोव :** क्रिस्नाद एक काम कर. हांव सांगतां... असले चाळीस मिनीस्टर तयार कर आनी तांका एसेम्ब्लींत धाड. मात उडी मारपाचें ओप्शन डिसेबल कर. तितलो आमकांय सुशेग. (सगळीं हांसता).

**स्फुर्ती :** सर, मॅडम... म्हाका दिसता, आमी आमचें काम केलां... आतां फुडें कितें तें तुमच्या दोगांयच्या हातांत आसा.

**रोबोट :** हय आमचो रोल सोंपलो, आमी भायर या. टिचर यो... ओ अय्यमा तुका पत्रिका धाडूं? भायर यो... आनी दोतोर आसिमोव ... तुंवूय यो भायर ... तुजेकडे पर्सनल उलोवपाचें आसा... तुमी कॅरी ऑन.

(माचयेर फकत क्रिस्नाद, माया आनी बार्बरिक उरतात. क्रिस्नाद आनी माया, माचयेचे दोनी वटेन पळयत उबीं रावतात जाल्यार बार्बरिक मदीं. इतल्यांत दोन आत्म विश्वास येतात. पयल्या देखाव्यांत एकटीच आकृताय धवे आनी काळे कपडे न्हेसिल्ली पूण आतां दोन आकृतायो येतल्यो. दोनूय पुराय काळ्या कपड्यांनी. दोनूय आकृतायो बार्बरिकाचे भोंवतणी घिरट्यो घालतात. ह्यो आकृतायो ताच्या द्विमनाची परिस्तिथी दर्शयता. बार्बरिक नजर वयर काडटा. त्याच सुमाराक क्रिस्नाद आनी माया वळटात आनी बार्बरिकाक पळयतात. ह्यो आकृतायो फकत बार्बरिकाक दिसतात. तो आपले हात आवय-बापायकडे निर्देश करता आनी आपलेसरी खुणेन आपयता. दोळ्यांतलीं दुकां पुसून दोगांय ताका वेंगेंत घेतात. तेच बराबर दोनूय आकृतायो गळीतगात्र जावन घुस्पतात आनी भोंवताडे मारून कोनश्याक वचून कोसळटात).

**बार्बरिक :** (दोगांकूय घट्ट वेंग मारून) आई - बाबा.

( स्पॉट फकत तिगांयचेर आनी हळू हळू माचयेर काळोख)

**समाप्त**



*सनलायट रेसिडेंसी, ज्योती इस्टेट,खोर्ली तिसवाडी गोंय. ४०३११० मोबायल : ९९२३७९४१२७.*




# जीवनज्योत तेंवत दवरपी दुर्गादास परब



**उदय नरसिंह म्हांबरो**
नामनेचे कवी आनी ललित लेखक.

जांचो कोण ना, जोडिल्ली जोड ना, जेवणा खाणाची वेवस्ता ना अशे जाणटे, वृद्ध घडये गोंयच्या दर एक गांवांत आसतले! कशे आसत काय तांचें जीवन ? कोणाक वेळ आसा तांचे विशीं चिंतपाक ? आमकां आमचे व्याप इतले आसतात, समाजातले अशे जायते प्रस्न आमी केन्ना आमचे मनाक आफडूंकूच दिनात.

पूण म्हजो गुरू समान इश्ट दुर्गादास परब मात असल्या कामा खातीर कसो वेळ दिता हाचें कुवाडेंच म्हाका केन्ना सुटना. कोविड काळांत सगळेच त्रासांत आसले. पूण हे जाणटेले अदीक त्रासांत पडले. घरांत उपाशीं न्हिदपाची तांचेर पाळी आयली. दुर्गादासबाबाच्या संवेदनशील मनाक ही गजाल पुटवना जाली. तांणी तांचे सारक्याच बरे मनशांच्या आदारान ह्या जाणट्यांच्या दोनूय वेळच्या जेवणाची वेवस्ता केली. 'टिफीन फॉर एल्डर्स ' ह्या नांवान

दोन अडेज वर्सां आदीं सुरू केल्ली ही सेवा गांवचे हे दानशूर लोक आजता गायत चलयतात. हे येवजणे खाला विर्नोडा गांवच्या स वृद्धांच्या जेवणा खाणाची वेवस्ता जाता. दर म्हयन्याक जितलो खर्च जाता तितलेच पयशे उबे करप. केन्ना कमी पडटात तेन्ना सगळो उरिल्लो वांटो दुर्गादासबाब उखलता. खर्चा परस चड पयशे एकठांय करप ना असो हांगा अलिखीत नेम आसा. गांवचींच दोन बायलां हें जेवण रांदतात. तांचे सेवेचो मोबदलोय हे दानशूर दितात हें हे वेवस्तेचें खाशेलपण. चोख हिशोब हें तर दुर्गादासबाबाचें जीवन तत्व.

दुर्गादास सराकडे म्हजी वळख चाळीस वर्सांची. ताचे आनी म्हजे पिरायेंत व्हडलो फरक ना. पूण श्रमजीवन, आचार, विचार, बुद्धिमत्ता, शिस्तबद्धता, आयोजन कुशळताय सगळे बाबतींत परब सर आमचे परस खुब्ब






मुखार.

जीवन विमा निगम म्हणजेच एल. आय. सी. त अधिकारी पदाचेर नोकरी करून हालींच सर निवृत्त जाला. जीवनाचो विमो करतना जीवन इतलें हांसत खेळत जगणारो ताचे सारको दुसरो कोण आसा जाल्यार सोदचो पडटलो. आनंदी जीवन कशें जगप हें जर कोणेंय तांचे कडे शिकपाचें. एक शिस्तबद्ध, प्रामाणीक आनी कामसू अशी दुर्गादासबाबाची प्रतिमा आयुर्विमा विभागांत काम करतना तयार जाली. मुळांत म्हजी आनी ताची वळख जाली तीच आयुर्विम्याक लागून.

हांव धेंपो वाणिज्य म्हाविद्यालयांत निमण्या वर्साक शिकतालों. शिकप सोपतकीर कितेंय तरी वेवसाय करतलों ह्या उद्देशान संद सोदतालों. म्हापशां बार्देस म्हालांतल्या भुरग्यांक वेवसायाचें मार्गदर्शन करपी शिबीर आसलें. गेलों हांव. एका परस एक वेगवेगळ्या खात्यांचे, बँकाचे अधिकारी आपल्यो येवजणो सांगताले. कोणाचे येवजणेक भांडवल जाय तर कोणाचें तारण. तरनाट्यांकडे जर धंद्यांत घालपाक भांडवल आसलें जाल्यार ते हांच्यो शिनिफिको आयकुपाक हांगा कित्याक येतले आसले? इतल्यांत तांचे पयकीच एक आमचे सारकोच तरनाटो उलोवपाक उबो रावलो. भारदस्त व्यक्तिमत्व. खणखणीत आवाज. ताणें पयल्याच वाक्यान तरनाट्यांक झेमेंतल्यान जागे केले. आशेचीं किरणां दाखयलीं. भांडवल नासतना वेवसाय कसो करपाचो आनी राजस मार्गान पयशे कशे जोडपाचे ते आपूण सांगतां म्हणपाक लागलो. ताणें एल. आय. सी. एजन्सी कशी घेवपाची, ताचो कितें फायदो तें सविस्तर



सांगलें. हांव ताच्या भाशणान इतलो प्रभावीत जालों, घरा येतना एजन्सी घेवनूच आयलों.

ताचे कडे इन्शुरन्स एजन्सीचें काम करतना खूब कितें शिकलों. आयज नाल्लांचो वेवसाय करतना पावला कणकणी ताणें कळत नकळत दिल्ले विद्येचो उपेग जाताच जाता. ताची स्मरणशक्ती म्हाका सदांच अजापीत करता. तीस वर्सां आदीं जाची पॉलिसी केल्ली ताचें नांव, वाडदीस, सगळी कुंडली पाठ ताका. ताणें बिजनेस वाडोवपा खातीर म्हाका केन्नाच आडमार्गान वचपाक शिकयलें ना. उलट तशें करतल्याची ताका सदांच तिडक मारता. परवडना तसली पॉलिसी कोणाच्याय गळ्याक बांदपाचें ताका सोंसना. जोडटा ताचोच विमा करप आसता हें ताणें म्हजे मनाचेर कोराथलें. ताका लागून धंद्यांत केन्नाच आडमार्गान वचपाची बुद्द म्हाका जाली ना. म्हज्या बाबाक दुर्गादास सर खुब मानतालो. बाबाकडे आपूण खू शिकलों अशें तो सदांच सांगता. पूण बाबा म्हाका सदांच सांगतालो, 'तुका गुरू बरो मेळ्ळा, शिकून घे सारको'. बाबा वतकूच मागीर हांवें एजन्सी सोडली. पूण गुरू सुटलो ना. मुखार गुरुचो इश्ट केन्ना जालो तेंय कळ्ळें ना. म्हणून हांव ताचो उल्लेख गुरू समान इश्ट असोच करतां.

मुखार म्हजें सगळें विम्या विर्शीचें काम हांवें ताचेच कडे सोपयलें. हांव जसो म्हजो विमो करतां तसोच म्हज्या ड्रायव्हराचोय करतां आनी हप्तोय हांवूच भरतां. असोच एक ड्रायव्हर स वर्सां म्हजे कडें काम करून सोडून गेलो. ताची हांवें पन्नास हजारांची पॉलिसी केल्ली. तो गेलो आनी दोन अडेज वर्सांनी अचकीत कसलें तरी दुयेंस जावन सोंपलो. तिगां भुरगीं ल्हान ल्हान. म्हाका राती कडे याद जाली. ताची हांवें पॉलिसी केल्ली. पूण ती ताचे कडे दिल्ली. हांवें सराक फोन केलो. परब सरान रोखडोच ताचो पॉलिसी नंबर सोदून डिटेल्स चेक केलें. जाल्यार हाणें म्हजें काम सोडीत साकून प्रिमियम भरूंक ना. आनी स म्हयन्या वयर प्रिमियम भरलो ना जाल्यार पॉलिसी बंद पडटा. सराक चिटमिटे पडले. म्हाकाय वायट दिसलें. पयले स म्हयने हांवें भरिल्ले हप्ते फुकट गेल्ले. कांयच करूंक शकनासले आमी.

हांव न्हिदिल्लों. रातीं साडे अकरांक परब सराचो फोन. "न्हिदूंक नासलो मरे? न्हिदला जाल्यार सुद्दा उठ. तुका बरी खबर सांगतां."

ड्रायव्हराचे बायलेक बासश्ठ हजार रुपया मेळटले म्हणपाक लागलो. म्हजो विश्वासूच बसना कानार. न्हीद उडली म्हजी. ड्रायव्हर केन्नाच एका जाग्यार सारकी नोकरी करीनात म्हणून ताणें 'न्यू जनरक्षा' पॉलिसी केल्ली. हे पॉलिसींत तीन वर्सां हप्ते चुकले तरी पॉलिसी बंद पडना. परब सराचे समय सुचकतेक लागून त्या गरीब कुटुंबाक थोडो तरी आदार जालो.

जीवन विमो हें ताणें केन्ना काम म्हणून केलें ना. एक व्रत कशें. शुद्द मनान. मुळांत हो मनीसूच भायर भितर सारको. दाखय लिपय कांयच ना.

म्हापशां करासवाडा हांगा रावपी हो सद्गृहस्थ मुळचो पेडणे तालुक्यांतल्या विर्नोडा गांवचो. गांवचेर ताचो उपाट मोग. जाणट्यांचे पडीक जमनीचेर ताणें भांगर पिकयलां.

तळपट्या सङ्यार सुमार दोनशें तरेकवार जार्तीची आंब्यांची गार्फां आनी पांचशे काजीचे रोपे जिर्पीतल्यान उदक शिंपून वयर काडल्यात. आनी शेजार पाजारच्या लोकांकूय लागवडीचें म्हत्व समजावन नवी लागवड करपाक मुखार काडल्यात. आनी घामाचें उदक करून लागवड केल्ली जमीन जेन्ना एक राजकारणी क्रिडा नगरीचें माया जाल दाखोवन गिळूंक सोदतालो तेन्ना तितल्याच किंवाट्यान ताचे आड झुंज दिवन बागायतीचें रक्षण केलां. असो हो भुंयपूत. पिकयल्ले आंबे, काजू दर वर्सा आपल्या मित्र परिवारा भितर वांटप हो एक ताचे जिणेंतलो व्हडलो सुवाळो. ताच्या भाटांतले आंबे आनी काजीचो वांटो दर वर्सा म्हज्याय घरांत चुकनासतना पावता. ताचें म्हापशेंचें घर बांदलें तेन्ना बरेशे कवाथे हाडून दिवपाची जबाबदारी म्हजेर घाल्ली. कवाथे रोयले ताणें. शिंपून वयर काडले ताणें. आनी माड पुटाक येतकीर पयले शेलीचे कळसो कशे नाल्ल घेवन परब सर वळवय म्हज्या घरा आयलो. तेन्नाचें ताचें तें आनंदी मुखामळ म्हणजे हिमालय सर केल्ल्या सारकेंच म्हाका दिसलें.

हिमालय तर हिमालय. भुंयेचो हो मोग केवळ बागायत वसोवपा इतलोच न्हय. हिमालया सारकें ह्या मनशाचे काळीज विशाल. हिमालयाचे वेंगेंत रिगून हिमालयाचेर मोग करपाचें वेसन ताका जडलां देखून जायत घडये. सेगीत एकेचाळीस फावटी हिमालयाची भोंवडी केली. पूण दोन वर्सां कोविडाक लागून हिमालयाची भोंवडी करूंक मेळ्ळी ना तेन्ना ताका कशे चुटपुटे लागिल्ले ते सगळ्यांनीच अणभवले. पूण वातावरण निवळटकूच पोरूं मात बेचाळीसावी भोंवडी काडपाक तो आनी ताची ब्रिगेड फाटीं रावली ना. राजेश राव, आरती दास, चित्रकार आलेक्सिज हांचे सयत कितलेशेच साथीदार तांणी स्थापन केल्ले 'इको ट्रेक' संस्थेच्या वावरांत मोलादीक वांटो उखलतात. इको ट्रेक ही संस्था 26 ऑक्टोबर 2008 ह्या दिसा स्थापन जाल्ली. संस्थेन आयजवेर 148 भोंवड्यो काडल्यात. गोंयांतल्या वेगवेगळ्या वाटारांतल्या भोंवडे बराबरूच रायगड, कुर्ग, मालवण, वेंगुर्ला, सिंधुदुर्ग, तपोला, तोरणा, सिंहगड अश्या वाठारांनी आनी किल्ल्यांचेर ट्रेक जातात. वर्सूय भर हे ट्रेक जातात. ताचे खातीर भोंवडेर येवपी सदस्यांक इको ट्रेकाची आचार संहिता पाळची पडटा. तांचेच बराबर तांचेच बसीन प्रवास करचो पडटा. त्या त्या वाठारांत जेवणाची वेवस्था करतात थंय गांव तसो भेस हे पद्दतीन जेवपाचें. मर्दीच ट्रेक सोडून कोणाय बराबर मनाक दिसता थंय भोंवपाक बंदी आसता. ह्या ट्रेकांत दोतोर, इंजिनियर, पोलिस, मिलिटरींतले लोक,






अमृत महोत्सव

पर्यावरणवादी, समाजसुधारक, शिक्षक, विद्यार्थी आनी वयोवृद्ध लेगीत आसतात. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणजे सोरो व्हरपाक आनी पिवपाक खर बंदी आसता. कोणूय चली भुरगें वा जाण्टीं आयलीं जाल्यार तीं घरा परत वेवस्तीत पावलीं काय ना ताची चवकशी जाता. इतली जतनाय घेतिल्ल्या ह्या ट्रेकाचो हिशोबूय तसोच पारदर्शक आसता. थंयचे थंय हिशोब करून उरिल्ले पयशे परत दितात. जसो हिमालय शुभ्रधवल तसोच हिशेब चोख.

परब सराचो हिशेब चोख देखून ताणें खंयचोय समाज उपेगी वावर हातांत घेतल्यार ताका दानी लोकांचो घसघश्यांनी आदार मेळटा. 2013 वर्सा ताणें उर्जा फावंडेशनची स्थापना केली. गांवगिऱ्या वाठारांनी जायते भुरगे घरचे गरिबीक लागून शिक्षणा पासून वंचीत उरतात. खुद्द दुर्गादास विर्नोडा सारक्या गांवांतलो. तांणी भुरगेपणांत



आपले सरभोंवतणी वांगडच्या भुरग्यांक पळयल्ले. कांय भुरगे हुशार आसतात. पूण गरिबीक लागून मुखार शिकपाक पावनात. अश्या भुरग्यां खातीर धावेक पावतकूच तीन हजार रुपयांची शिष्यवृत्ती दिवपाची येवजण उर्जा फावंडेशन चे वतीन सुरू केली. सुरवातीक फकत पेडणे म्हाला खातीर सुरू केल्ली ही येवजण दानशूर लोकांच्या आदारान आतां सत्तरी आनी दिवचल तालुक्यांतल्या भुरग्यांकूय दितात. ही शिष्यवृत्ती मेळोवपा खातीर त्या गरिब विद्यार्थ्याक उणेच ते पन्नास टक्के मार्क पडूंक जाय. एके शाळेंतल्या तीन भुरग्यांक ही शिष्यवृत्ती मेळटा. अंदू 104 शाळेंतल्या तिनशे बारा विद्यार्थ्यांक एकूण णव लाख छत्तीस हजार रुपया शिष्यवृत्तीच्या रुपान दिल्या. फुडल्या वर्सा सावन ही येवजण सांगे आनी काणकोण म्हालांतल्याय भुरग्यांक दिवपाचो निर्णय आतां उर्जा फावंडेशनान घेतला. हांगाय दुर्गादास सर हिसपाक फाटीं रावना. त्या दिसाचो हिशेब त्याच दिसा. बाकी शुन्य. बाकी ओडपाची पद्दत ना. उणे पडल्यार आपल्या बोल्सांतले घालप आनी पुस्तक बंद करप. ताच्या ह्या ताळेबंदाक पळोवन दिसान दीस चड लोक आदार करपाक मुखार येतात. देखून आतां 'अक्षय उर्जा' ही नवी येवजण सुरू केल्या. हे येवजणे वरवी धावी पास जाल्ल्या गरीब भुरग्याच्या मुखा वयल्या शिक्षणाची पुराय जबाबदारी उखलपी पालकत्व घेणारे दानी लोक मुखार आयल्यात. ही येवजण अंदू 17 सप्टेंबर सावन सुरू जाल्या. तीन भुरग्यांचें पालकत्व तिगांनी घेतलां. ही सांखळ वाडत वचपाची. शिक्षणाची ज्योत पेटत उरपाची. दुर्गादासान मातयेची पणटी करून भितर बुद्धीमत्तेची वात घाल्या. समाजांतले दानशूर लोक येवन दानाचें तेल घालून ही ज्योत सदांच तेवत दवरतले हांतूत मात्तूय दुबाव ना. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार ताची घरकान्न ज्युलीचो ताका मेळील्लो भावनीक आदार. दुर्गादासाच्या दर एक प्रकल्पांत ताचो पूत ऋषभ आनी ज्युलीचो भोव मोलाचो वांटो आसता. आयुर्विमा मंडळान नोकरी करून भायर सरतना दुर्गादास आयुर्विमा मंडळाची जीवनज्योत घेवनूच भायर सरला, समाजातल्या दर एक मनशाचें दुख्ख ल्हव करपाक.

*मो. ९४२०७६६७६९, सावयवेरें*

ललित









# ज्योती दत्तात्रय देशपांडे



सौ. सोनिया (सुनिता) सुभाष शाह

शितळ तेवपी नंदादिपांतली वात जशी आपलो परजळ धाय दिकांनी फांकायता तेचपरी ज्योती दत्तात्रय देशपांडे आपल्या कर्तुबांचो परजळ धाय दिकांनी फांकायता.

ज्योती म्हणल्यार स्वातंत्र्य सैनीक रघुवीर कामत हांची धूव मालू. मालूचें लग्न दैवयोगान एका स्वातंत्र्य सैनिका कडेनूच जालें आनी मालू रघुवीर कामत, ज्योती दत्तात्रय देशपांडे जालें. ज्योतीच्या बापायचे भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार घट इश्ट. आपलो बापूय आनी रवीन्द्रबाब हांच्या संस्काराचे मातयेंत मूळ धरिल्लें हें रोंप महात्मा गांधी, विनोबा भावे हांच्या फुडारपणा खाला आनी तांच्या सहवासांत संस्कारांचीं फुलां फुलयत चंवरूंक लागलें.

ज्योतीबायच्या भुरगेपणांतली परिस्थिती साम की वेगळी आशिल्ली. त्या काळार गोंय पुर्तुगेजांचे राजवटी खाला आशिल्लें. हे परकी सत्तेच्यो बेडयो तोडून गोंयाक मुक्त करपाची तळमळ जाल्यार दुसरे वटेन गोंयांत शिक्षणाच्या मळार सामकी उदासीनताय. शिक्षणा खातीर कसलीच साधन–सुविधा ना आनी बापूय



गोंय मुक्ती खातीर स्वताक ओंपून घेवपी एक स्वातंत्र्य सैनीक. ते खातीर आवय, आजी, भावंडां ह्या सगल्यांची जापसालदारकी ज्योतीबायच्या खांदार पडली. एस.एस. सी चें शिक्षण घेतले उपरांत आपले धुवेक जिणे कडेन संबंदीत शिक्षण मेळचें म्हणून वर्ध्याच्या सेवाग्रामांत धाडून थंयच तिचे रावपाची वेवस्ता केली. ज्योतीबाय खातीर तो वाठार, थंयचें हवामान, भात, मनशां आनी वातावरण सामकें नवें आशिल्लें. पूण तिचो पिंडूच बुद्दिप्रामाण्यवादी आशिल्ल्यान तिणें त्या वातावरणा कडेन, मनशां कडेन, भाशे कडेन ल्हवू ल्हवू जुळोवन घेतलें आनी स्वता त्या वातावरणा कडेन कशी एकरूप जाली तिकाच कळ्ळें ना.

वर्ध्याच्या महात्मा गांधीन स्थापन केल्ल्या ह्या आश्रमांत ज्योतीबाय खादीचे कपडे वापरूंक लागली. तेन्नाच्यान खादी आनी ज्योतीबाय इतलीं कशीं एकरूप आनी केन्ना जालीं हें कळ्ळें ना. जिवीतभर तिणें खादी बगर हेर तरेचीं वस्त्रां केन्नाच वापरलीं नात. महात्मा गांधीच्या चरख्याचेर सूत कातून वस्त्र करपाचो हो वारसो आत्मियतेन आनी आदरान सांबाळ्ळो. हालींच्या काळांतूय खादीचीं प्रदर्शनां भरतात, फॅशन शो जातात. पूण महात्मा गांधीन सुरू केल्ली खादीची चळवळ, त्या फाटलीं कारणां, मुल्यां आयज काळाच्या पड्ड्या फाटल्यान गेल्यांत, इतिहासजमा जाल्यांत हाची ज्योतीबायच्या मनाक खंत भोगता.

ज्योतीबायन आपल्या महिला आश्रम, सेवाग्रामांतल्या राबित्यांत शिक्षणा सांगातान थंयच्या दीसपट्टी कार्यावळींतल्यान परिश्रम, स्वावलंबन, सांघीकपणान काम, सेवा हे गुणूय आत्मसात केले आनी ह्या गुणांची जतनायूय केली. सेवाग्रामांतलें शिक्षण पूर्ण जातनाच आचार्य विनोबा भावे हांच्या भूदान पदयात्रेंतूय वांटो घेवपाची तिका संद मेळ्ळी. हे भूदान पदयात्रेंत वाटो घेवपी गोंयचीं फकत दोनूच मनशां आशिल्लीं. एक सर्गेस्त रवीन्द्र केळेकार हांचे भाव देवेन्द्र आनी मालू कामत म्हणल्यार ज्योतीबाय. हे पदयात्रे वेळार ती आपल्या मायेच्या मनशां पसून पयस आशिल्ली तरीय पत्रां बरोवन ती आपल्या घरच्यांची खबर घेताली.

गोंयच्या कांय नामनेच्या कुटुंबियांचो सहवासूय ज्योतीबायक लाबलो. तातूंत डॉ. आंतोनियो फुर्तादो, डॉ. ॲसमिना गोमीश, डॉ. मार्टिन्स, ताची बायल, ॲड. क्रिस्तोदबाब फुर्तादो (सुरेंद्र फुर्तादाचे बापूय), शालीनी फळदेसाय, व्यंकटेश गोपाळ प्रभू, राजाराम गोवेकार हांचो आनी तांच्या कुटुंबांचो आसपाव आशिल्लो.

ज्योतीबायन मागीर कांय सुशिक्षीत बायलो, शिक्षिका हांच्या वांगडा महिला मंडळां, बालवाचन मंदिरां सुरू केलीं. ह्या वावरांत भौ. बेर्ता मिनेझीस ब्रागांझा हांचें फाटबळ

ज्योतीबायक लाबलें. ज्योतीबायक कोंकणी ज्ञानपीठकार सर्गेस्त रविन्द्र केळेकार आनी तांची घरकान्न गोदूबाय केळेकार हांचोय सामको लागींच्यान सहवास लाबलो. ज्योतीबायचें हिंदी, मराठी, कोंकणी, गुजराथी, इंग्लीश ह्या भाशांचेर प्रभुत्व आसा. तांणी पंडीत जवाहरलाल नेहरू, अटलबिहारी वाजपेयी, एच. व्ही. कामत, नाथ पै, नानासाहेब गोरे, पुरूषोत्तम काकोडकार हांचे कारकिर्दीत लोकसभेचें कामकाज पळयलें.

18 डिसेंबरच्या सांजवेळार भारतीय सैन्यान गोंयांत प्रवेश केलो. वचत थंय पूल पडिल्ल्याच्यो, पुर्तुगेज सैन्य पळटनाच्यो खबरो आयकूंक येताल्यो. सिल्व्हासाचे एक रहिवासी बाबुभाई राणा हांचे कडेन, तशेंच स्वातंत्र्य सैनीक लवंदे, सिनारी हांचे कडल्यान, अर्दी मर्दी गोंय, दमण बॉर्डरी वयल्यान वेगवेगळ्यो बातम्यो आयकूंक येताल्यो. ज्योतीबाय सामकी रेडियोक कान लावन आशिल्ली. केन्ना एकदां पारतंत्र्यांतल्यान मुक्ती मेळटली गोंयाक अशें तांकां जाल्लें. निमणें 19 डिसेंबरचे पूर्वसंध्येक पणजे स्वतंत्र भारताचो तिरंगो हुबयलो. ह्या मुक्त गोंयांत अभिमानान परतूंक मेळटलें ही खोस ज्योतीबायच्या मना काळजार उदेली.

गोंय मुक्त जालें. गोंयची प्रशासन वेवस्था, न्याय व्यवस्था हातूंत बदल जायत वचपी तो संक्रमणाचो काळ. तया काळांत ज्योतीबाय गोंयांत आयली आनी ज्युडिशियल कमिशनर टिटो मिनेझीसांच्या ऑफिसांत कामाक लागली. ह्या ऑफिसांत काम करपी थेल्मा फुर्तादो हांचे कडेन इस्टागत जाली. 1963 त गोंयांत सेशन कोर्टाची थापणूक जावपाची आसा अशें कळ्ळ्या उपरांत ज्योतीबायन टिटो मिनेझीसबाबा कडेन हे विशीं वासपूस केली. थंय स्टेनो, अणकारपी अशा जाग्यां खातीर परिक्षा आशिल्ल्यो. टिटोबाबान तिका ह्या दोनूय परिक्षां खातीर बसपाक सांगलें. आनी ती खऱ्यांनीच ह्या दोनूय परिक्षांनी बऱ्या मार्कांनी पास जाली. पूण कामा खातीर मात स्टेनोग्राफर पद वेंचलें. 1963त ज्योतीबाय कामाक लागली तेन्नाच वेंचणुको जाल्यो आनी 9 जानेवारी 1964 त पयली विधानसभा जाली. सेंट्रल गव्हर्नमेंटा वतीन विधान मंडळाचें कामकाज पळोवपा खातीर एस. बालकृष्णन हांकां सेक्रेटरी म्हणून नेमिल्लो. ह्या पयल्या विधानसभेचें कामकाज सुरू जालें. त्या वेळार शब्दशा रेकॉर्डींग करपाचें आसलें. इंग्लीशींतल्यान तें करपा खातीर महाराष्ट्र विधीमंडळाचे मोरेश्वर रिसबूड हांकां नेमले. रिसबूडांचें इंग्लीश भाशेचेरूय बरेंच प्रभुत्व आशिल्लें. तांचो अणभवूय खडेगांठ. तांणी ज्योतीबायक बरे तरेन मार्गदर्शन केलें.

पयली विधानसभा जाली. मुख्यमंत्री भाऊसायब बांदोडकार हे मुक्त गोंयचे पयले मुख्यमंत्री जाले. ज्योतीबायक गोंय मुक्ती पुर्व काळांत विंगड विंगड खात्यांत काम करपाची संद मेळिल्ली. 1961 त गोंय मुक्त जालें. 1967 त जाल्लो विधानसभेंत गोंयचे मुख्यमंत्री भाऊसायब बांदोडकार हांची पयलीच रिपोर्टर म्हणून ज्योतीबाय काम पळोवपाक लागली.

स्वातंत्र्य सैनीक दत्तात्रय देशपांडे हांचे कडेन 16 डिसेंबर, 1965 त ज्योतीबायचें लग्न जालें आनी मालू कामतीची ज्योती दत्तात्रय देशपांडे जाली. फकत पांच वर्सांचो संवसार. ह्या पांच वर्सांतले दीस हांसत खेळत केन्नाच उडून गेले. दत्तात्रयबाब गेल्ल्यान ज्योतीबायचे मनाचेर एक आघात जालो. त्या वेळार देशपांडे कुटुंबान ज्योतीबायक सांबाळून घेतलें. दुख्ख पचोवन ह्या संकश्टाचेर मात करून ज्योतीबाय परती आपल्या पांयार उबी रावली. ह्या वेळार देशपांडे कुटुंब आनी कामत कुटुंबाचो धिराचो हात फाटीर भोंवलो..

ज्योतीबायची जीण महात्मा गांधी आनी विनोबा भावे हांच्या सुविचारान संस्कारीत जाल्ली. गोंय मुक्तीचो ध्यास घेतिल्ली, भुदान चळवळींत वांटो घेतिल्ली आनी गोंय विधानमंडळाचेर पयली रिपोर्टर म्हणून काम पळयिल्ली ज्योतीबाय एक आदरणीय व्यक्तीमत्व. तिचे खातीर म्हज्या काळजांतल्यान स्फुरिल्ल्यो ह्यो कांय वळी-

जल्मभुंयेचो, ध्यास मुक्तीचो
वसो तिणें आपणायलो खादीचो
भुदान चळवळींत वांटो तिचो मोलाचो
तनमनांत ध्यास सदांच स्वतंत्र्यतायेचो
देशभक्तीचें घेवन निरांजन
आपल्या कर्तुत्वान दिलो सगल्यांक उजवाड
दोनूय कुटुंबाचें वयर काडलें नांव
होच आमकां ज्योतीबाय तुजो अभिमान....

---

मो. ९४२०६९००५२, मेरशें



# दिवाळीचें दिवे



**इंदू गेरसप्पे**
बंगळूरु रावपी नामनेची कवयित्री आनी लेखिका.

कार्तिक मास लागीं आयलो की म्हाका एक चमत्कारीक रोग जडता. भार आयिल्लो बशेन जाता. हातींत फडको, ब्रश बी घेवन हांव घर भर फिरतां. दिवाळी लागीं आयली की तिका आनीकय जोर चडता. हांगा घास, थंय पूस, बायीने धुल्ले परत धुई, अशें जाता. सगलें घर चकचकीत जालें तशें मात्शें सशेग घेतां. अशें कित्याक ?

आमची शेजान्न शालीबायक विचारलें जाल्यार तिणें म्हळ्ळें..."आगो, सगळी कडेन पळै. घरां धुतात कितें, रंग लायतात कितें. दिवाळी न्ही गो!"

खरेंच, आमच्या इन्डियांत दिवाळीक सांसर्गिक रोग जाल्ले वरी सगळीं घरां स्वच्छ करतात. गरीब जावं श्रीमंत. आमच्या थोड्या नातेवाईकांचीं घरां तर सामकी एडवर्टिसमेंट सारखीं. म्युझियम म्हळ्यार जाता.मात्सो हात हालयल्यार फुलांचो वाझ बी पडद हो भंय.आमचीं घरां सामकी नोर्मल.

हय,नोर्मल बायलो उगींच इतलें कश्ट करीनात. कितेंय कारण वा निमित्त जाय.अशी प्रेरणा मेळूंक एखादो उत्सव, एखादी पार्टी, किंवा नणंदबाय चार दिसांक येता जल्यार. उगींच फरशी टूथब्रशान घासप रोज जायना.

इतलीं घरां स्वच्छ दवरूनय इन्डियाक अस्वच्छ अशें

नांव कशें पडलें? चड कोरून लोकांचें अशें आसता, काड कोयर, मार भायर. त्या खातीर आमचीं घरां सुन्दर, पूण रस्त्यार कोयर कचरो. प्रत्येकाचें कर्तव्य स्वतःचें घरच न्हय, पूण आपलो वाटारय स्वच्छ दवरूंक जाय. शारिरीक आनी मानसीक आरोग्या खातीर स्वच्छताय खूब आवश्यक आसा. आमचो आत्मविश्वास, आत्मसन्मान सुद्धांय वाडता. गांवांत कचरो प्लास्टीक पडिल्लो पळोवन वायट दिसता.घाणींतच बॅक्टिरया, फंगस, व्हायरस वगैरे उत्पन्न जाता. आमची जीवन पद्दतीच बदलून जबाबदारीन वागल्यार, भारत एक सभ्य स्वच्छ सुसंस्कृत देश जातलो. घोषवाक्यां आसातच.....स्वच्छ भारत, स्वस्थ भारत,.....स्वच्छता जंय, उन्नती थंय, वगैरे वगैरे.

आमचे हांचें घोष वाक्य म्हाका...आगो, पसारो सारको कर.

पसारो. हाजो अर्थ कितें...? खूबश्यो वस्तू अस्ताव्यस्त पडिल्ल्यो आसतात, ताका पसारो म्हणतात. आमगेर पसारो खंयच दिसचो ना! ल्हानपणा पासून वस्तू जाग्यार दवरीत आयलां. भुरग्यांकूय हीच शिस्त लायल्या.म्हजें घोषवाक्य...प्रत्येक वस्तू जाग्यार!

म्हजो प्रॉब्लेम पसारो न्हय, म्हजो प्रॉब्लेम सांठो! खरें सांगूं..? वस्तू सांठोवन दवरप अगदी सहज जाता. मनीसजातीचो गूणच तो. पयलीं म नीस फातर, गुणे, हाडां बी एकठांय करतालो, आतां भांगार, दुडू बी करता ....इतलोच फरक!

ल्हान आसतना, वेळेर शंखशिंपल्यो वेंचपाची म्हजी संवय तर अजून वचना. तांचे कितलीं चित्रां, कलाकृती केल्यो, भेट दिल्यो, गणतीच ना. शाळेंतल्यान येतना, रस्त्यार पडिल्ली बेगड, गोल फातर, चांदी बी बोल्सांत भरीत घरा येवप. आमचें आवडें तें मान्या फाटल्यान उडयतालें. रातचें रडप. पूण दुसऱ्या दिसा,परतीं बोल्सां भरप.

ही संवय अजून वचूंक ना. फातर न्हय, भांगारय न्हय, पूण बरी चांदी, रंगीत फिती, कलर पेपर,कागदां फुलां बी मेळत जाल्यार तीं जपून दवरतां. केन्ना उपेगाक येत सांगूंक जायना. सामकें प्रॅक्टिकल न्ही हें!

बरें, पसारो हाज्यो गंमती आसात. पसारो कोणी



निर्माण केल्लो नासता.ताची उत्पत्ती किंवा नाश कोरूंक जायना. एका जागे वयल्यान दुसऱ्या जागेर ट्रांस्फर कोरूंक जाता. उदाहरणार्थ, सालांतलो पसारो बेडरूमांत, व्हरांड्यांत, गॅरेजांत, माळ्यार बी चेपूंक जाता.

दुसरो कायदो....असली आवराआवर सामकी टेंपररी, पसारो पर्मनंट आसता. जमा जाल्लो पसाऱ्याचो एकूण संचय हो, पसारो करतले लोक आनी काडतले लोक हांचे आंकडेवारीचेर निंबून आसता.आमगेर पसारो करतले चार आनी काडतलो एक म्हणटकूच प्रमाण चड जातलेंच न्हय! घरचीं पर्यावरणाचेर व्हडलीं लेक्चरां दितलीं, हांव साफ करतां हें पळयतलीं, पूण हात मात लावचीं ना. आनीक एक मज्जा सांगतां. पसाऱ्यांतली एखादी वस्तू उडयली जाल्यार ती परती येता? आमगेर एक व्हडली आल्मार आसा. सामकी स्पेशल! खूब सामान भरलां. कोणें दिल्लें प्रेझेन्ट, लेमन सेट, टी सेट, नवीन स्टीलाचीं आयदानां, हॉट बॉक्स, जगभराच्यो कलाकृतीचेर, पुस्तकां....सामकी आलिबाबाची गुफा! कोणाचेंय लग्न, बर्थडे, लग्नाचो बर्थडे बी आसत जाल्यार आल्मारींत हात घालप. कसलोय सुंदर प्रेझेंट मेळत तो दीवप.रंगित कागद, फीत, बॅग, सगळें तय्यार! अशे आल्मारींतलें सामान कशें उडोवूं..? मज्जा सांगतां. आमकां कोणें दिल्लो एक स्टीलाचो सुंदर आइस्क्रीम सेट आशिल्लो, तो आमी मित्राच्या लग्नांत, तांका आहेर दिलो. तो सेट फिरून फिरून आमच्या लग्नाच्या पंचविसाव्याक परतो आमकांच मेळ्ळो. म्हणटकूच हो एक म्हत्वाचो रूल. पसाऱ्यांतली एखादी वस्तू दिली जाल्यार ती वस्तू हमखास परती येता. डबल स्पीड!

बरें, घट्ट मन करून जर वस्तू उडयलीच, जाल्यार ते वस्तूची भयंकर गरज पडटा. मागीर चुरचुरे! असो हो पसारो. काडून निवळ करीत जाल्यार कोणाच्याय लक्षांत येना. आनीक तसोच दवरलो जाल्यार म्हणटात, किते आयुष्याच्या संध्येसमयी, आमी मुंबयच्यान बेंगळूराक वचपाचें ठरयलें.... आनी म्हज्या सांठ्याचो प्रॉब्लेम निवळलो. सामान आवरूंक सुरुवात केली आनी घे....इतलीं वर्सां सांठयिल्लें सामानाचो पर्वत पळोवन रोडूंक आयलें. आमचे हे पळयत उबे. मागीर एक व्हडलें भाशण झोडूंक सुरुवात केली. ताजो थोडक्यांत आशय..पसारो सारको कर!

हांवें रडकुऱ्या आवाजांत विचारलें, ''पूण कशें ?'' उत्तर मेळ्ळें,''खंचीय वस्तू धा वरसांत उपेग कोरूना जाल्यारत उडोंवची!''

मागीर दोगांनी मेळून ढिगारो साफ केलो आनीक तें सामान आमच्या कामवाल्यांक, दूदवाल्याक, ब्रेडवाल्याक, दाणेवाल्याक, झाडूवाल्याक बी दिल्यो. सगळीं खूश! पूण म्हजें थोडें मोलादीक सामान हांवें सांबाळून दवरलें. म्हजीं आवडीचीं पुस्तकां, चल्ल्याक शाळेंत मेळिल्लीं बक्षिसां, व्हडलेन काडिल्लीं चित्रां, धाकटेलें भातुकली सामान, एक कानतुटको निळो सोसो, कपयांची गोदडी.....

नवीन घरांत दिवाळी आयली. माळ्या वयली एक लाल पेटी सकयल देंवयली. भितर आशिल्ल्यो, कागदांत गुठलायिल्यो पणत्यो भायर काडल्यो. चडश्यो मातयेचोच. वेगवेगळ्या रंगरूपाच्यो. बिचोलींच्यान हाडिल्ल्यो लाल मातयेच्यो सुंदर आकाराच्यो थोड्यो.कांय भुरग्यांनी शाळेंत रंगयिल्ल्यो. कांय शेजारच्या भारतीबायन विकूंक दवरिल्ल्यो मणयो बी लावन सुशोभीत केल्ल्यो. आनीकूय सकयल, वेगळे तरेच्यो पणत्यो. एक बदका आकाराचो सोप डीश. चल्यान म्हळ्ळें, डीश न्हय, ही तर पणती. मागीर तिची पणतीच जाली. हो सोंडेंत दिवो धरिल्लो हत्ती पंजाबचो. रंगीत मोर कलकत्त्याक प्रदर्शनाक घेतिल्लो. ह्यो दोन आकर्शक सुंदरी हातांत दिवल्यो घेवन उबी, त्यो मदुरईच्यो. भातुकलीच्यो वाटयो..अश्यो भरभरून यादी, भरभरून पणत्यो.

दिवाळी दिसा फांतोडीर, पणत्यांक तेल, वाती घालून ज्योती लायल्यो. पयलीं, सात पाकळ्यांची समयी देवघरांत. दुसरो दिवो तुळशी कट्ट्यार. मागीर सगळ्यो पणत्यो व्हरांड्यार, आंगणांत भिंतीर मांडून दवरल्यो. एकेक दिव्याक ज्योत लायली तशी लखलखूंक लागलीं, जशी मळबांतलीं नखेत्रांच आमच्या आंगणांत देंवलीं. चारी दिकांनी रंगरंगीत विजेच्यो लायटी माळो झगझगतालीं. पूण देवघरांतली समयीची ज्योत आनी पणत्यांचो उजवाड जसो सौम्य संथ पर्जळ पसरयतात ताजें सौंदर्यच वेगळें. दिव्यांनो, अशींच चमचमत रावात. अज्ञान, अशांतीचो अंधार दूर कोरून, प्रसन्न प्रकाश पसरयत रावात.

दिव्यांची ओळ....दिपावळी.

शुभ दिपावळी.

मो. ९९७२९५६१३२, बंगळूरू



# सॅम आनी कॅम

भुरग्यांचें आंगण



उषा ज. कामत

आगे मम्मी हाडया गे आमी कुत्रो. पळय आं आनी कोणेंय मागचे पयलींच सांगपाक जाय ताका.'' मीता दोन दिसां पयलींच्यान फाटीक लागिल्लें.

पूण मम्मी कशीच तयार जायना आशिल्ली. मम्मीक कुत्रीं माजरां घरांत पोसपाक आवड नाशिल्ली.अजाप म्हळ्यार मीताक आनी मिहीताक दोगांयकय कुत्रीं, माजरां आनी हेर

जनावरांय खूब आवडटालीं.
मम्मीचो हयकार मेळना म्हण अदीं मदीं दोगांय फुगूनय बसतालीं. पूण कितलो वेळ म्हण बसतलीं बाबडीं फुगून?
मागीर आजी पडटाली मदीं आनी सुट्टालो फुगडो.
अचकीत एक दीस मिहीताली स्कुल बस येवपाक वेळ जालो.
आरे बाबा! बारा जावपाक आयलीं आनी अजून कशी आयली ना ही स्कूल बस? मम्मी भायर भितर पासयो मारूंक लागली. हुसक्यान अर्द जाली सामकी. इतले म्हणसर बस दारांत थांबली आनी मिहीत देंवलो सकल. मम्मी पळयतच रावली.
हें कितें? मिहीताच्या वेंगेत एक ल्हान पेटो!
बॅग, वॉटर बोटल आनी तो कुत्र्याचो पेटो घेवन धांवतच मिहीत भितर सरलो.
"शी! शी! हाका आनी खंयच्च्यान उबारलो रे? सांगिल्लें मरे तुका, आमकां कुत्रो माजर कांयच पोसपाचें ना म्हणून!" मम्मी सामकी रागार जाली.
मि हिताचें तोंड सामकें पडलें. खरें तर तो सामको भिल्लो. पूण मम्माचे कुशीक मुम ुरखीच हांसत उबी आशिल्ले आजयेक पळोवन ताका मात्शी धिटाय आयली.
तशाच अवतारांत ताणें मम्मीक विचारलें, "मम्मी तुवेंच सांगिल्लें मगे, कोणेंय अपुरबायेन गिफ्ट दिल्यार घेंवचें म्हणून? म्हज्या इश्टान, केतनान दिला तो म्हाका.तो स्कुला कडेनच रावता. स्कुल सुट्टगीर तो धांवत घरा वचून घेवन आयलो."
एक धपक्यांत खरशेत खरशेत मिहित उलयलो.
"आरे पूण....."
"ना मम्मी .....म्हाका जायच."
इतल्यान भितरल्यान विठू आयलें



"आवयस्स बरो मरे! कोणे दिलो तुका? खंयसून हाडलो?" विठून सोमतोच ताच्या हातांतल्यान ओडून घेतलो तो पेटो. ताच्या तोंडा वयल्यान, फाटी वयल्यान हात भोंवडायत रावलें. टुक टुक करून पापी सुद्दां घेतली ताणें.
"विठू काम ना तुका?" मम्मीन आपलो राग विठूर काडलो. मिहिताक चड तापयल्यार तो जेवनासतना रावतलो. मागीर टूशनय चुकतलें म्हूण ती ओग्गी रावली. रागार जाल्ली मम्मी तडक भितर गेली.
आजी भितर गेली आनी तिणें मम्मीक बरे तरेन समजायलें. "आतां हाडलाच जाल्यार दवरून घेवया त्या पेट्याक. आनीक चड तूं ताणूं नाका. विठू आसाच न्ही. तें करतलें सगळें ताचें. विठूक आवडटात कुत्री माजरां बी!"
मम्मी ओगीच रावली मागीर. त्या पेट्याक हक्काचें घर मेळ्ळें.
स्कुलांतल्यान मीता आयलें. पेट्याक पळोवन लागलें नाचूंक. "वा वा! कोणें हाडलो? खंयच्च्याय हाडलो? ..मम्मान पळयलो? ...दिली परमिशन ..?" एक ना दोन. प्रस्नाचेर प्रस्न. मागीर धांवत भितर येवन मम्मीक वेंगायलें ताणें."थँक्यू मम्मी. थँक्यू व्हेरी मच!" ताचें

काळीज सामकें खोशयेन नाचतालें.
सगळीं वांगडाच जेवलीं. जेवतनाच मम्मीन खडसावन सांगलें, ''पळय तो पेटलो हाडला ताचो कसलोच त्रास
तुमच्या अभ्यासाक जावपाक जायना आं!
पयलींच सांगून दवरतां!''
''ओके मम्मी, तूं कांयच भियें नाका...आमी सारकीं करतलीं अभ्यास. हय मरे?''
''हय तर!'' मिहीताची तकलीय हाल्ली.
त्या पेट्याक विठून बऱ्या स्टिलच्या थाळ्यांत दूद शीत घालें. बकबकीत जेवलो बाबडो.
दनपरां दोगूय जाणां ट्युशनाक वचून आयलीं. पप्पा पयलींच घरा पाविल्लो. पप्पाय खोशी जाल्लो.
मागीर मीता मिहीतान पेट्याचो बारसो केलो. 'सॅम' नांव दवरून सगळ्यांक साखर वाटली. मिहीतान आनी मीतान सॅमाक साखर खावयली. सॅम बरोच खोशी जाल्लो.
मागीर किते? दिसूय भर सॅमाची अपुरबाय आनी ताच्योच खबरो!
करतां करतां मम्मीकय सॅमाचें पिशें लागलें. ती ताका धरनाशिल्ली खरी, पूण तो जेवला ना....ताका न्हाणयलें, भोंवडावन हाडलें काय ना हाचेर तिजें बारीक लक्ष आसतालें. ताचे कडेन अपुरबायेन गजालीय करताली मम्मा.
मात्सो जरी दोळ्यां आड जालो, तर सगळ्यांत पयलीं मम्मीचेच तकलेंत येवंक लागलें.
आनी मागीर घेऽऽ सगळ्यांक फकाणा करपाक आनी जोक्स करून हांसपाक आयतीच मम्मी सापडटाली.
एक दीस अचकीत मीतान जाहीर केलें,'आज सांजे हांव एक कुकुलें, सोबीत माजराचें पील हाडटलें'
मम्मा आं करून पळोवंक लागली तशें मीतान मम्मी उलोवचें पयलींच म्हळें, मिहीतान आपले आवडीचो कुत्रो हाडला मगे? म्हाका माजरां खूब आवडटात.हांव माजर हाडटां.'
मम्मी बाबडी ओगीच रावली.
''हाडटा जाल्यार हाडूं गो. त्या उंदरांचोय बरो बंदोबस्त जातलो! '' आजी नाती फावराद!
माजरा पिलाचोय साखर वाटून बारसो केलो. कॅमान हळूच साखर चाटतां चाटता म्यॉव केलें. बारीक आवाजातलें तें म्यॉव मीताक पिशें लावन गेलें
दिसा मासा सॅम आनी कॅम व्हड जातालीं. दोगांय बरीं गुटगुटीत जाल्लीं. एकामेका कडेन बरीं इश्टागतीन वावुरतालीं, आनी म्हणटां म्हणटां एकामेकांचेर गुरगुरतालीं आनी झुजूनय वतालीं.
दोगांयकय सांबाळून घेवंक आनी झगडीं सोडोवंक विठूकच बेस बरें जमतालें.

अशेच दीस वताले. दोगांय ह्या घरांत बरींच रूळिल्ली आनी एक दीस कॅम गाभणें आसा म्हणपाचें विठूच्या लक्षांत आयलें. मम्माक आनी आज्येकय नविदाद समजली.

सदचेवरी जेन्ना मीता आनी मिहीत ताजे कडेन मस्ती करीत खेळूंक लागलीं तेन्ना आज्येन ती नविदाद भुरग्यांकय सांगून उडयली. "आगो, ए शाण्या ताका आतां त्रास करनाकात आं! गाभणें आसा तें!"

" म्हणजे?"

"पिलां काडटलें तें आतां. आतां आवय जावपाचें आसा तें!"

दोगांय एकदम ओग्गी एकामेकाच्या तोंडाक पळोवंक लागलीं.

दोगांयकय अजाप जालें. हें येदेंशें कॅम आनी पिलां काडटलें?

मीतान विचारलें,"कितलीं पिलां जातलीं ताका?"

"केन्ना जातलीं गे तीं पिलां?" मिहीत सामकोच उचांबळ जाल्लो.

"मात्सो वेळ आसा रे सायबा. आनी कितलीं पिलां जातलीं तीं जातकीर कळटलीं!"

दीस वता तशेंच कॅमालें पोट मोठें मोठें जातालें आनी हीं भुरगीं अजापीत जावन ताचेर बारीक लक्ष दिवन रावतालीं. आजयेन आपले बशेन, एका कोनशाक बॉक्सांत एका साकार मोव मोव गोजडी पातलावन ताची वेवस्ता करून दवरली. विठू परत परत व्हरून ताका त्या बॉक्सांत बसयताले. ताका जागो कळचो म्हणून जावये. ताका त्रास जावनये म्हूण बॉक्स एके वटेन उक्तें दवरिल्लें.

आतां मम्मा लेगीत तोखणायेन, अपुरबायेन ताका मात्शी मात्शी सांसपिताली. ताचे कडेन लाडांत येवन उलयताली. वस्ताद कॅम फकत मम्मान अपुरबाय केली काय दोळे धांपून 'म्यॉव' करतालें.

'कितलें मस्त पळय, फकत मम्माची अपुरबाय मानवता हाका. आमी करतात तें कांय न्ही!' विठू चणचणटालें सामकें.

आनी एक दीस फांतोडे पारा कॅमान चार पोरां काडलीं.

दोन धवींफुल्ल तर दोन काळशीं तांबशीं.

"रावात आं, इतले बेगीन तांचे म्हऱ्यांत बी वचप ना. सात दिसांनी दोळे फुट्टले तांकां. मागीर पळोवपाचें" आजयेन सांगलें

उंचाबळ जाल्लीं मीता, मिहीत मातशीं निर्शेलीं.

"आनी तांका सात कोनशे नाचयतली आवय, मागीरच धरपाचें." विठून फुडलें सांगलें

"हीं सगळीं पिलां आमीच दवरया. कोणाक दिवपाचीं ना आं !" मितान जाहीर केलें.

पूण तीं पिलां व्हड जालीं तशीं दोगांक पप्पान आपल्या इश्टांक दिलीं.

उरिल्ल्या दोगांयकय भुरग्यां वांगडा आजीय खेळोवंक लागली. आपूण भुरगेपणांत पिलांक कशी शिकयताली ते खेळ तिणें भुरग्यांक शिकयले.

ल्हानसो काथो घेवन ताका दोरी बांदली आनी ती पिलां मुखार नाचयली काय पिलां यांचे वांगडा खेळटाली. काथो वयर काडलो काय दोन पांयांर उबीं रावन काथो ओडटालीं.

कागद दोरयेक बांदून नाचोवप, बॉलांनी त्या पिलांक खेळोवप अशे तरेन घरांतल्यांचोय वेळ बरो वतालो. आनी आजी, नव्यान आपलेंच भुरगेपण जगताली.

*मो. ९७६३८२३७४५, मडगाव गोंय*



# इरा



हर्षा सद्गुरू शेटये

इराची आजी दनपरां जेवन आड पडपाक गेली. ती कोठये कुडीचें दार बंद करपाक विसरली. तिणें इराक उलो केलो.

''आगो इरा, मात्शें वचून कोठये कुडीचें दार बंद कर पळोवंया. उंदीर बी भितर सरत. आंबे सगळे चांचावन बी दवरत!''

इरा कोठये कुडी कडेन पावलें. दार बंद करपाक हात फुडें केलो. इतल्यांत ताका कोठये कुडींत कोण उलयता अशें दिसलें. तें दारा फाटल्यान उबें रावन आयकूंक लागलें.

''आगो तपल्या, कितलो तेंप म्हजे मानेर बसलां गों तूं? जड जड गुळो तूं! म्हजी मान सामकी दुखून गेली!'' उरवळी उलयताली.

''हांव कितें करूं गो उरवळे! चलपाक म्हाका पांय आसात? तुका तरी चार खूर आसात. म्हाका कोणें तरी हालोवंक जाय. आजी म्हजी वासपूस सुद्दा करीना हार्ली'' तपल्यान म्हळें.

''सामकें खरें गो तपल्या, आजी काय बरें तोंडाक

करताली गो म्हजे भितर! कितले दीस म्हाकां मागीर घमघमीत वास उरतालो!'' लंगडेन म्हळें.

''आवयस्स, काय बरीं उलयतात हीं आयदनां!'' इराक तांचें उलोवणें आयकूवपाक मजा आयली.

''काय बरें सुंगटां हुमण शिजयतालें गो हांव. साम की रूच आयली.'' हुरवळी पुटपुटली.

''तुमकां तरी केन्नाय काडटात भायर. हांव पळय कसो धुल्लान भरलां तो! काय बरी सान्ना उकडटालों हांव ! कितलीं वरसांच जालीं म्हज्या आंगाक उदक लागल्यार!'' सांदण धाकण्यान म्हळें.

''म्हाका आजी पयलीं परती परती भायर काडटाली, धुताली. आनी तरेकतरेचे पोळे खावयताली. उकड्या तांदळाचे, शेपेचे, मेथयेचे... पूण हालीं म्हाकाय भायर काडीना ती. आंग सामकें सुकें जालां. कांय बरें तेल सारयताली म्हाका.!'' पोळ्याची कायल चुरचुरली.

''हय गो, पोळ्याचे कायले, म्हजीय तुजे भशेनूच गत जाल्या. केन्ना काय भज्यांचो वास घेयन काय जालां!'' लोखण्यान म्हळें.

''म्हाका सामको तो शिताचो खतखतो याद





जाता. आनी म्हजी सांगातीण ती दाय. तीय बाबडी कोनश्याक बसल्या.'' तपलें उलयलें.

''हय, आमकां चलपाक येतालें जाल्यार काय बरें जातलें आशिल्लें! अशी एक पासय तरी मारपाक मेळतली आशिल्ली!'' भगुण्यान म्हळें.

इरान येवजिलें, कितेंय करून आजयेक सांगून हांका भायर काडूंक जाय.

दुसरे दिसा सकाळींच ताणें आजयेक कोठये कुडींत आपयली.

''आजये, आज हया आयदनांनी रांद गे, म्हाका खूब आवडता तांतूंतलें जेवण. हांव मागीर खूब जेवतलें.''

''बरें बरें! करूंया जेवण तांतूंत. शांतव्वाक घांसपाक सांगतां आयदनां!'' आजयेन म्हळें.

हें आयकून आयदनां सामकी खोशी जालीं. तांणी इराकडेन पळयत म्हळें, ''थँक्यू इरा''

*मो. ९८५०५३०१५२, मडगाव गोंय*



# चीनाच्यो प्राचीन नीतीकथा



मानसी प्रेमानंद धाऊस्कार

## अपशकून

एका मनशाच्या आंगणांत एक मरून सुकिल्लें झाड आशिल्लें.

ताच्या शेजाऱ्यान ताका संगलें,''आंगणांत अशें सुकून गेल्लें झाड आसप अपशकुनाची कुरू थारता!''

ताचें आयकून जेन्ना त्या मनशान आपल्या आंगणांतलें तें झाड कापून उडयलें. तेन्ना रोखडोच तो शेजारी ताचे लागीं आयलो आनी त्या झाडाचीं लाकडां जळवा पासत मागूंक लागलो.

तेन्ना झाडाचो धनी भितरल्यान खंतावलो. तो येवजूंक लागलो, ह्या मनशान आपल्याक जळव मेळचो म्हूण म्हजे तकलेंत नाका जाल्लें घालून झाड मारपाक लायलें. आमी दोगूय कितल्याच वर्सांचे शेजारी! तरी लेगीत हाणें म्हजे लागीं हीं अशीं फटींगपणा करप ताका कशें पुटवलें काय? सामकीच वायच गजाल ही!

## भांगराची चोरी

छी राज्यांतल्या एका मनशाक भांगर चोरपाची आवड आशिल्ली. एक दीस सकाळ फुडें तो नचून थटून बाजारांत पावलो. थंय एका शेटीच्या दुकानार वचून ताणें एक भांगराचो कुडको फारायलो आनी थंयच्यान तो पळून वचूंक लागलो.

पूण सेक्युरिटीन ताका धरलो आनी विचारलें,''इतल्या लोकां सामकार तुका चोरी करपाचें धाडस कशें जालें?''

चोरान जाप दिली,''जेन्ना हांव भांगर चोरतालों तेन्ना म्हाका फकत भांगरूच दिश्टी पडटालें आनीक

दुसरी आनीक खंयचीच गजाल न्हय!"

## शेवण्याचो सत्कार

एक खेप एक समुद्री शेवणें लू राज्याचे राजधानींतल्या एका शारांत देंवलें.

लू राज्याच्या राजान ताका पळयलें आनी ताका तें शेवणे म्हणल्यार एक देवी दिसलें आनी ताणें ताका दबाज्यान येवकार दिलो. ताका एका देवळांत व्हरून जेवणा खाणाची सुंदर वेवस्ता केली. वांगडाच ताच्या भोवमाना पासत बऱ्यांतल बरे संगीत मैफलीचें आयोजन केलें आनी त्या समयार व्हडल्या व्हडल्या प्राण्यांक बळी दिवपाचो आदेश काडलो.

हो येदो व्हडलो थाट माट पळोवन तें समुद्री शेवणें सामकें अजापीत जालें. तें आयोजन पळोवन ताची अवस्था सामकी काकुळटेणी जाली. राजाचे ते सरबरायेंतल्या जेवणावळींतलो मांसाचो एक कुडको लेगीत तें शेवणें गिळूंक शकलें ना आनी सोऱ्याचो एक थेंबो गळ्या सकयल देवोवंक पावलें ना. तरी लेगीत राजाचो अपमान जावंचो न्हय म्हूण तीन दीस मेरेन ताणें ताची सरबराय सोसली आनी शेवटाक ती अरगती पडूंक नाशिल्ल्यान ताणें प्राण सोडलो.

समुद्री शेवण्याचो हो सत्कार राजा पासत कितलोय जरी शाही आसलो तरी एका समुद्र शेवण्या पासत तो निखालूस अनुरूप नाशिल्लो.

## आकड्यांची उलटा पालट

सुङ राज्यांतल्या एका मनशाक माकडां पाळपाचो छंद आशिल्लो. ताणें कितलींशींच म ाकडां पोशिल्लीं. तो तांकां बऱ्यो बऱ्यो गजाली सांगतालो आनी समजयतालो. माकडांय ताचें सांगणें मानतालीं. तो आपल्या कुटुंबाच्या जेवणांतलो थोडो वाटो त्या माकडांक खावयतालो.

पूण सगळेच दीस सारके आसनात. एक दीस असो आयलो ताच्या घरच्यांच्या पोटाकूच गालप ताका तांकना जालें. ताणें आतां माकडांची खावड उणी करपाचें चिंतलें. पूण ते माकड तें मानून घेतले काय कितें हाचो ताका दुबाव आशिल्लो. ताका लागून ताणें त्या माकडांक फटोवपाचें थारायलें.

ताणें त्या माकडांक म्हणलें," हें पळयात, हांव तुमकां सदांच तीन चेस्टनट सकाळच्या आदेसाक दितलों आनी चार सांजचे आदेसाक. हें इतलें तुमकां पावतलें न्हय?"

आयकून सगळे माकड तिडकले आनी रागान सामके फुरफुरून उबे रावले.

"बरें आसां, अशे रागार फुगार जावपाची गरज ना. जर हांवें तुमकां चार चेस्टनट सकाळीं दिले आनी तीन सांजचे दिल्यार कशें जातलें?"

आयकून सगलीं माकडां संतुश्ट जालीं आनी शान्तीकायेन बसून रावलीं.

## भुरग्यांक सांबाळपाची रीत

एक दीस चङ शनाची घरकान्न बाजाराक वचपाक भायर सरली,जाल्यार तिजो पूत रडूंक लागलो आनी तिजे वांगडा वचपा पासत हट्ट धरून बसलो.

तिणें पुताक समजायलें,"बाबू,तूं घराच राव. आमी जेन्ना घरा येतलीं न्हय तेन्ना तुजे पासत दुकर कापतलीं."

ती घरा जेन्ना आयली आनी पळयत जाल्यार चङ शन खऱ्यानीच दुकर मारपाचे तयारेक लागला. घरकान्नीन ताका आडायलो आनी म्हणलें," म्हज्या म्हणण्याचो अर्थ खऱ्यानीच तसो नाशिल्लो. हांवें फकत बाबूक ओगी करपा पासत तें म्हणिल्लें."

चङ शनान तिका म्हणलें,"तूं भुरग्यांक अशे तरेन कशी फटोवंक शकता? भुरग्यांक आदीं कांयच कळना. तीं आवय बापायची नक्कल करतात आनी तांचे कडल्यानूच शिकतात. आपल्या भुरग्यांक फटोवन तूं तांकां फट उलोवंक शिकयता. जर खंयचीय आवय आपले भुरग्याक फटयत जाल्यार तो भुरगो आपले आवयचेर केन्नाच विश्वास दवरचो ना. भुरग्यांक वाडोवपाची ही रीत सारकी न्हय!"

अशें म्हणून ताणें दुकराक मारलो.

---

*मो. ८७८८५९५०२२, पेडें-म्हापशें*

## रमेश भरवंत वेळुस्कार

### भिकणां भिणकुल्यो

आणकु माणकुल्यो
सवाय माणकुल्यो

भिकणां भिणकुल्यो
सवाय भिणकुल्यो
हुरबुळेंत
नाक बुडोवन
भोंवता खाणकुल्यो
भोंवता खाणकुल्यो

तेरें भोंवता
तेर्शक
तोंड फुटलां
गेर्शक
तकली तकली
येयल्या बाबा
लार्गी अशी
सेर्शक

भिकणां भिणकुल्यो
फार्टीक वणकल्यो
मेंदू लांबोवन
झुंबरांक
मनांत सणकल्यो
मनांत सणकल्यो





### बुकलो

व्हडल्या घरांतलो बुकलो
दिसूंक सामको पाकलो
एक दीस ताका घरकारान
आपले शेजान्नीक विकलो

शेजान्नीले घरांत आसले
हुंदीर इल्ले इल्ले
एकेक करून बुकल्यान
तांकां चावे वांगडा खाल्ले.

### कावळी

| | |
|---|---|
| कांव कांव | कावळी |
| चिंव चिंव | शेवणें |
| डरांव डरांव | बेबो |
| ल्हें ल्हें | बोकडी |
| कूक कूक | कोंबी |
| कों कों | कोंबो |
| टण टण | घांट |
| हुआं हुआं | बाबू |
| हामा हामा | गाय |
| ख्रोंक ख्रोंक | थंडी |

## हर्षा शेटये

१

साळोरे साळोरे
यो म्हज्या घरा
तुका दितलें हांव
गोड गोड बोरां

पिटकोळे पिटकोळे
यो गे उडून
चपातेची कुडको
दितां तुका तोडून

किरकिऱ्या किरकिऱ्या
वयर वयर उड
मेमें तुका दितलें जाल्यार
उदकांत येवन बूड

कुमातरी कुमातरी
पाखां तुर्जी हालय
जगमां झाडार बसून
जगमा मातशीं झडय

२

कुयण्यांतलो दवलो
शितांतली दाय
तीख तीख कडी
बाबूक जाय

पोळ्याची कायल
शेवग्याचे पांय
गोड गोड शिरवळ्यो
बाय खाय



# विचार खीण



शोभा फुलकार

## मळब

आयज सकाळच्यान पावस एक सारखो पडटालो. आतां अचानक पावस बंद जालो आनी धवोफुल्ल वताचो उजवाड मळबांतल्या काळ्या कुपां मदल्यान भायर सरूंक लागलो. काळीं धवीं कुपां वाऱ्याच्या नेटान हळुहळू फुडें वतालीं. मळब पळयतना मळबाक पळयत रावनशें दिसतालें. मळब सुंदर धव्यां काळ्यां कुपाची माळ घालून मुरगट्टाशें दिसतालें. कितलींशींच कुपां सकल धतरीक मेळपाक आकूळ पिकूळ जावन सकल देंवतात शीं दिसतालीं. मळबांत एकूच पक्षी आपलीं पांखां पसरावन भोंवतालो. गोल गोल व्हडलो फेरो मारत एकटोच त्या मळबाची सोबीतकाय नियाळटालो.

मात्शीं पांखां हालयतालो आनी परत तीं पसरावन एक सारखो पयस पयस व्हडल्या गोलाकारान भोंवत भोंवत म ळबांतलें सूख भोगतालो. एकटोच पक्षी तो आनीक कोणूच नासले थंय. सैमाची सोबितकाय दोळेभर पळोवंक आनी भोगूंक ताणें कोणाक आफयलें ना. कोणाच्या सांगाताची अपेक्षा केली ना. आपल्या पांखांच्या बळार तो वयर वयर गेलो आनी अख्खें मळब भोंवत मनाक तृप्त केलें.

तो मूक भार्शेत जगाक सांगतालो, पळयात... पळयात म्हाका, हांव कोणाची वाट पळयना. म्हज्या पांखांनी बळगें आसा उडपाचें. वयर वयर कुपांक हात लावपाचें. धतरेची सोबीतकाय नियाळपाची.

हांव कोणाची वाट पळोवंक बसना. हांव एकटोच पुरो म्हज्या खातीर.



# भुरगेंपण

सकाळच्च्या मोव मोव भांगराच्या किरणां सांगाता खेळत खेळत दिमकुऱ्यानी येता तें भुरगेपण. भुरगेपण कोणाक नाका? सगळ्यांकच तें आवडटा. जाय जायशें दिसता. पूण तें हळुहळू पावलां मारीत फुडें फुडें वचत रावता. त्या भुरगेपणांतल्यो यादी जुवानपणांत आनी म्हातारपणांत फकत यादी जावन उरतात. आई बाबा चो सांगात आनी इश्टांच्या घोळक्यांत दीस कशे फुर्र फुर्र करीत उडत वतात. ना जाती जाती धर्माच्यो वणटी. ना गरीब श्रीमंतांचो भेदभाव. जाणां तें फकत इश्ट आनी हांव. अशें हे भुरगेंपण आई बाबाचे छत्र छाये खाला पोरसांतल्या कळ्यां वरी हळुहळू फुलत वता. कोणांकय पळोवन हांसता अशें हें निश्पाप, निरागस भुरगेपण. खेळपाक हेंच जाय तेंच जाय अशें कांयच नासता.आसा तांतूंत खूश आसता. बाल आसल्यार बालांनी खेळप. बाल ना तर सादो सायकलीचो टायर लेगीत धुकलीत धुकलीत धांवतात. रित्या फस्काक सूत बांदून इश्टां वांगडा फटीचीं नाटकुलीं करप. झोपाळो बसूंक ना जाल्यार किते व्हडलेंशें? वडाचे फांदये वेल्यान लांबतल्यां पाळांक घट्ट धरून ताचोच झोपाळो करप. आईचो दोळो चुकोवन हळूच पावसांत भिजप. सत्री आसतना पावसांत भिजत घरा येवप. आई मारूंक आयल्यार धांव मारप. केन्ना केन्ना चुकीक आईन ख्यास्त केली जाल्यार राग  धरी नासतां सगळें विसरून 'आई' म्हूण उलो मारप. आनी आईन वेंगेंत घेवन घेतिल्ले उमे. मायेंन भरिल्ले तिचे दोळे. ते भुरगेपणांतले दीस सुगंधीत परमळान भरिल्ले सगळ्यांक जाय जायशे दिसतात. गरीब जावं गिरेस्त, सगळ्यांच्यो भुरगेपणांतल्यो त्यो यादी म्होवाळ काळजाचे कुपयेंत लिपोवन दवरिल्ल्यो आसतात. हें म्हजें, तें म्हजें  म्हण नासतना अर्दे अर्दे करून खातना कितलीशीच खोशी जाताली. आंब्याच्या झाडार फातर मारून तोरां पाडप आनी त्या तोरांक फातरार मारून फोडून तातूंत मीठ मिरसांगेचो पिठो घालून रूच काडून काडून एकांमेकांक वाटून खावप. ते भुरगेपणांतले दीस. वय वाडटा तशें जबाबदारीचें वजें खांदार पडत वता. मनशाच्यो इत्सा वाडत वतात. शिक्षणाचें वजें फुडें फुडें वचपाची सपनां आनी तीं पुराय करूंक पयशे जोडपाची सर्त लागता. संवसारांत पडून भुरग्यां बाळांचीं सपनां रंगयतां रंगयतां केन्ना म्हातारपण येता तें कळच ना. पिकिल्ल्या केंसांक हारशांत पळयतना, पडिल्ल्या दांतांक मेजतना, थकिल्ले कुडीक पळयत भुरगेपण याद येता. आई बाबाच्या सांगाता घालयल्ले ते म्होंवाळ खीण याद येतात आनी आपसुकच ओंठ गुणगुणटात..'परतून भुरगें जायन दिसता आई तुजे मांडयेर बसून खुदू खुदू हांसन दिसता. एक घांस काऊचो एक घांस माऊचो आयकतां आयकतां पोट भर जेवीन दिसता. परतून भुरगें जायन दिसता.

*(पान क्र. २५५ पळयात)*

भोंवडी



# जिंदगी ना मिलेगी दोबारा



हर्षा सदगुरू शेटये

फाटर्लीं दोन वर्सां कोविडाक लागून गोंयां भायर पांय घालूंक नाशिल्लो. गोंयां भायरूच कित्याक, घरा भायर लेगीत कारणा बगर खंयच भोंवूक नाशिल्लीं. जीण एक कोंड जाल्ले भशेन जाल्ली. उदका भशेन जीणूय व्हांवती उरूंक जाय. जीण व्हांवती उरपाक भोंवडी करपाक जाय. खळखळून हांसूक जाय. पोट भर गजाली मारूंक जाय.

मनांत म्हळें, आतां खूब जालें. कोविडाच्या मर्ण सांवटांतल्यान भायर सरल्यांत. तेन्ना कोविडाचीं हीं दोन वर्सां जिणेंत आयलींच नात म्हणून समजूं या. चार दीस मजा करपाक भायर सरुंया. कांय थारावप ना. फकत चार दीस मजा करपाची. 'जी ले जरा' म्हणत खंय तरी या. म्हजे भशेन येवजुपी म्हज्यो इश्टिणीय रोखड्योच तयार जाल्यो.

"चलात तर हंपी या." दिपान म्हळें.

"कास पठाराचेर या. ह्या म्हयन्यांत थंय रानफुलां फुलतात." छायान म्हळें.

रानफुलां म्हणतकच हांवें रोखडेंच 'पावतोसा' केलें. छायाचें उतर घट धरलें.



चला म्हळें, सुरवात तर जाली. आतां ग्रुपार एक एक सुचोवण्यो येवपाक लागल्यो. कोणाक गड-किल्लो चडपाक जाय, कोणाक धबधबो, कोणाक देवळां. मधुरा म्हणटा सज्जनगड या, स्मितान म्हळें महाबळेश्वर लागीं आसा.

मदींच छायाची मॅसेज. आगो कॉटिज बुक करतना ब्रेकफास्ट, लंच, डिनर कितें घेतलीं तें सांग म्हणलां. ताचो कुक तें करून दितात. तशें मागीरूय सांगल्यार जाता. पूण तांका बरें पडटा खंय!

"भरिल्लीं वांयगीं आनी जोंधळ्याची भाकरी." हांवें म्हजी आवड सांगली.

"म्हाका शिवराक नाका गो, हांव माजर." मधुरान म्हळें, 'बरें तर, तुका खास कोंबडी वडा सांगतां.

"हांवूय शिवराक." स्मिताचो बोवाळ.

"ब्रेकफास्टाक मात थालिपीठ सांग गो छाया. थंयचे लोक थालिपीठ बेस्ट करतात..... परतेंय हांवें सांगलें. परती परती मॅसेजीची ट्रींग ट्रींग जाता. रांदतां रांदतां हांव मॅसेजी वाचतां. ह्या बोवाळांत सुंगटां तोंडाकाक मिठा जाग्यार साखर घाली. तरी वयली वयली काडपाक मेळ्ळी म्हूण बरें जालें. हीं सगळीं जाणां रांदून बी बेकार जाल्यांत दिसता! "आगो हांव भुरकुटलां. आतां रांदतां. सांजची उलोवंया." पळयत जाल्यार आश्विनीन एक म्हण घाल्या ग्रुपार.

'भुरकुटलो भुरकुटलो आनी कुरकुटांत वचून बसलो' म्हणून. "आगो, आतां कुरकुटांत बी जावंचीं नात आमी. कुरकूट व्हडलें करचें पडटलें!" विद्यान फोण्ण घालें. म्हाकांय याद जाली ह्या अर्थाची दुसरी म्हण.

'भुरकुटली व्हंकल, कऱ्यांत मुतली'

"तरी बरें मगो, सव्यार मुतलीना म्हणून!" मधुरा उलयलें.

एक एकटीं मेकळीं जातालीं.

'आगो, थालिपीठ मेळना खंय. मिसळ आनी कांदा पोहे सांगता,' छायाची मॅसेज.

'कितें गो, फोडणी फोव, बटाट फोव, सप्तकांतल्यान एकदां तरी करतांच हांव. आनी थंयूय वचून तेंच खावपाचें गो? काय बरीं चुरचुरीत भाजिल्लीं थालिपिठां घराव्या लोणयां बराबर खातलें म्हणून आशिल्लें.' एक वाकड्या तोंडाचो इमोजी धाडलो ग्रुपार.

'इतलें वायट धरूं नाका. खंय ना खंय तरी थालीपीठ मेळटलेंच आश्विनी मराठवाड्यांत बीड शारांत रावतालें. मर्दी मर्दी वतात तीं थंय. 'मेळना जाल्यार करून खावयतां तुका.' आश्विनीक थालिपिठां करपाची संवय आसा.

आमी सगळीं जाणां पन्नाशी हुपिल्लीं. दोग जाणांची ह्या वर्सा साठीय जाल्या. तिगांनी सुनो हाडल्यात. चौगांनी जांवय, दोन आजयो. हांव आनी आश्विनी मात अजून सुनो येवपाक वेळ आसा अशीं शिडी. सडीफटींग.

दुसरेच दिसा सकाळी फुडें स्मिताची मॅसेज, 'खंय एकठांय जावपाचीं?'

'कितें गो रातभर न्हिदूना?'

'ना गो, फुडली मजा येवजुनूच म्हजी न्हीद खळल्या.'

मर्दी चवथी दिसांनी दिपान जोर काडलो. तें बरें जाता म्हणसर आश्विनी जोरान न्हिदलें. एकटें कमी जालें. पयले



दिसा म्हजो पांय मुरगळ्ळो. सुजलो. वचूं? नाका, वचूं? नाका जालें. कितें जाता तें जावं म्हणत ओग्गी रावलें.

वचपाचो दीस उदेलो. सूज कमी जाल्ली. स्मिता कुंकळ्ळच्यान टॅक्सी घेवन आयलें. छाया तर म डगांवांच येवन राविल्लें. विद्या आयलें आनी साडेसंक मडगांवच्यान भायर सरलीं. पणजे दिपाक आनी म्हापशां मधुराक घेतलीं आनी सुरू जाली आमची भोंवडी. 'जिंदगी ना मिलेगी दोबारा' म्हणत. जिवीत एकदांच मेळटा. ते





खातीर कितें मजा करन दिसता ती आतांच करपाची. हात पांय घट आसतनाच ! म्हापशें सोडटा म्हळ्यार पावसाचेर सांवार आयलो. घेऽ म्हणून आकांताचो पावस. आंबोले वचपाक शॉर्टकट म्हणून गाडी बांदेच्या रस्त्यान घेतली. हरशीं हायवे वयल्यान रस्तो बरो आसा. आतां रोखडीं आंबोले पावतलीं आनी मिसळ पाव रगडटलीं म्हणून वाट पळयतालीं. पूण फुडें वचून पळयत जाल्यार बांदेचो रस्तो उदकान भरला. आतां कितें करप? म्हाका हुस्को. गाडी चलोवपी अमोल. 'भिवपाची गरज ना.' ताणें धीर दिलो. आतां भिवपाची गरज ना हें उतर आयकल्यारूच भंय दिसता. हें ताका तरी कितें सांगतलें? पूण जावं. सावंतवाडी वचपाक दुसरो रस्तो आशिल्लो. थंयच्यान गेलीं. अटंग रानांतल्यान सो रस्तो. केन्ना सोंपतलो? केन्ना सोंपतलो करत सोंपलो एकदाचो. सावंतवाडी पावलीं आनी सूऽ जालें. पूण पावसाक उसरपत नाशिल्ली.

आंबोले धबधब्यार रावलीं. ते दिसा आयतार. पूण सकाळचो वेळ जाल्ल्यान गर्दी नाशिल्ली. आनी इतले दीस पावस पडू नाशिल्लो. 'एक फोटो तो बनता ही है।' सगळ्यांनी म्हळें. सत्र्यो उगडुनूच फोटो. फाटलो धबधबो लिपलो. कोणाक धबधब्याक हात लायता असो फोटो

काडन दिसलो तर कोणाक आनी कसो. काडूं बाबडी! तेच खातीर तर आयल्यांत. हेवटेन पोट बाबडें चुरचुरीत भूक लागल्या म्हणून आड्डतालें.

आंबोलेची मिसळपाव बेस्ट लागता अशें सांगून दिपान सगळ्यांच्या तोंडाक रूच हाडिल्ली. पूण तें सदचें हॉटेल ताका दिसना जालें. घडये बंद जाल्लें जावंये! फाटलीं दोन अडीज वर्सांत, कोविड काळांत आरत्याचें परतें जाल्लें. सगळी जिणूच वयर सकयल जाल्ली. रस्त्यार धुकें पातळिल्लें. मुखा वयलें कांयच दिसनाशिल्लें. आतां मुखार खंयचें हॉटेल दिसता थंय खावंया म्हळें.

हॉटेल माधुरी म्हणून पाटी दिसली. सरलीं भितर. घरगुती हॉटेल. बापूय बुधाजी आनी चली आशिल्ली.

"कितें आसा?"

"आंबोली काळ्या वाटाण्याची उसळ, चटणी."

'हाड' म्हळें.

"मिसळ आसा?" ल्हवूच विचारलें. "हय तर! आमची स्पेशलिटी ती!"

पयलीं प्लेट भर दाट पोळो आयलो. बराबर काळ्या चण्यांचें तोंडाक. कोंकणांतली स्पेशलिटी ती.

मटकेची पातळ ग्रेव्ही, ताचेर फरसाण. ताचे वयर बारीक चिरिल्लो कांदो आनी दोन लुकलुकीत इल्लेशे पाव आनी रिकाम्यो वाटयो. आनी तोपभर पातळ रोस.

"हें कितें?"

"हो काट".

'काट' हें उतर खूब वर्सांनी आयकलें.

खरें काट म्हळ्यार सार करपाक काडिल्लें मुगाचें वा पुरणाचें पातळ उदक. म्हळ्यार कड्डण शिजतना काडिल्लें कड्डणाचें अर्क आशिल्लें उदक. आतां गोंयांत तितलें घोळणुकेंत ना हें उतर. पूण एक म्हण आसा. 'व्हंकलेक ना काट आनी धेडी सोदता वन्न' अशी.

मागीर आमी हुनहुनीत काफी पिर्ली आनी मार्गाक लागलीं. दोन एक किलोमिटर मात गेल्यांत रस्त्या कुशीक गुलाबसर जांबळीं फुलां दिसूंक लागलीं. आनी खांदी भर धवसार गुलाबी गुलाबी कळे. आरे, ही तर कारवीं, सात-





आठ वर्सांनी फुलता.

'राव, राव, अमोल राव' म्हजो बोवाळ.तो रावलो. "कितें जालें?" ताचो प्रस्न. सगळ्यांचे तोंडार प्रस्नचिन्न.

"आगो, देंवात पयलीं. कारवीं फुलल्यांत. सात वर्सांनी फुलतात तीं! पळयात बेगीन. नाजाल्यार आनीक सात वर्सां वाट पळोवंची पडटली."

'वाव! सुंदर !' सगळीं जाणां भुल्लुसलीं. कारवीं म होत्सव बी सगळ्यांनी आयकल्लो. सगलो वाठार निळोच जाता हेंवूय जाणां आशिल्लीं. पूण अचकीत कारवीं अर्शी मुखार येवन उबीं रावत म्हणून कोणेंच धरूंक नाशिल्ले. दोळेभर कारवीचीं फुलां पळयलीं. आता आमची भेट परत सात वर्सांनी म्हणत गाडयेंत बसलीं. चल, ट्रिपीची सुरवात तर मना सारखी जाल्ली.

कारवीं हीं पश्चीम घाटाच्या दोंगरा पांयां कडेन जावपी एक वनस्पत. सेतेंब्र, ओयतुंब्र हे दोन म्हयने हीं फुलां फुलतात. मागीर तांका फळां येतात. फळां फ ुटून तांच्यो बियो उडून पयस पडटात. फुडल्या पावसांत ह्यो बियो रुजतात. ताचें झाड जाता. मागीर तें सुकता. परतेंय फुडल्या पावसांत पालेता. हें चक्र सात वर्सा सुरू उरता. आनी मागीर आठव्या वर्सा तें फुलता. त्या वाठारांतलीं सगळींच झाडां एका बराबर फुलतात. आनी पावस सोंपतकीच मरून वतात. ते खातीर म्हाका आमी 'लकी' दिसलीं. ट्रिपीक आयिल्ल्याचें सार्थक जाल्लें.

कास पठारा वयलीं फुलां पळोवपाक ऑन लायन बुकिंग करचें पडटा. एक दिसा फकत तीन हजार लोकांक प्रवेश दितात. ह्या वर्साचो सिझन पयले दिसाच्यान सुरू जाल्लो. पूण बुकिंग ओपन जायना आशिल्लें. दिपा ट्राय करत आशिल्लें.

मात्शीं फुडें वता म्हणसर हळडुव्याच रानफुलांनी भरिल्लें मळ दिश्टी पडलें. पयलीं दिसलें हरणीं आसतली! पूण ना, ही वेगळी. दोन पाकळ्यो आनी गुलाबसर रेगोश्यो. आवयस्स! मिकी मावस फुलां दिसता! कास पठाराचेर फुलतात हीं. घडये कास पठाराचेर पावसा खातीर अजून फुलां फुलूं नात म्हणून आयकलां. "देंवात देंवात, अमोल राव रे !" पूण पावस खूब पडटालो. हांव आनी दिपाच देंवलीं. सत्री घेवन फोटो काडले. सुंदर फुलां. नदर पावता तो मेरेन हळडुवींच फुलां. इल्लेंशें, दोन जोडिल्ल्यो पाकळ्यो आशिल्लें फूल. ताचेर दोन गुलाबी रेगो आनी मुखावेले वटेन इल्ल्योशो जोडिल्ल्यो वयर सरिल्ल्यो ल्हान पाकळ्यो. ते खातीर तें मिकी मावसाचें नाक कशें दिसता. ह्या वाठारांत लॅटराइट फातरांचेर फुलतात. चण्या कुळांतलें हें फूल. तशें ह्या वाठारांत सगळे कडेन दिश्टी पडटा. पूण कास पठाराक लागून चड फामाद जालां. आमकां हांगाच



दर्शन दिवन मेकळें जालें.

मागीर केसरीच धाली कश्यो फुलिल्ल्यो दिश्टी पडल्यो. पाकळ्यो सामक्यो पेपरा भशेन. सकयल देंवून तांचोय फोटो काडलो. आतां पावसान मात्सो विसव घेतिल्लो. मर्दी मर्दी उशेलां लागतालीं. उशेलांत वचून फोटो काडपाचीय कोणा कोणाक उमेद येताली. पूण देंवलीं नात.

कोल्हापूर काडून कऱ्हाडाक पावता म्हणसर तीन वरां जावन गेल्लीं. थंयच जेवपाक रावलीं. पोट भरून घेतलें आनी वाटेर खंयच रावऽनासतना बद्द सातारा काडून वयर कास पठाराचेर पावलीं. येवतेश्वर मंदिरा लागीं आम ची कॉटेज आशिल्ली. हें येवतेश्वर मंदीर खूब पोरणें. शिवकालीन अशें म्हणटात.

ह्या देवळाचें वेगळेंपण म्हळ्यार देवळांत दोन नंदी आसात. छाया पयलीं एकदा हांगा येवन गेलां. ''पळय, पळय, शुटींग चल्लां! हळडुवीच संत्री. हळडुवोच गावन, कानांत हळडुवीं फुलां, वांगडा चार पांच हळडुवे कपडे घाल्ल्यो चलयो आनी फाटल्यान पाचवीचार फाटभूंय. म्हाका दिसता हळदीच्या सुवाळ्याचें फोटो सेशन चलिल्लें. फोटोग्राफरूय बरे बरे जागे सोदून काडटात.

आमी मातशीं फुडें पाविल्लीं. रस्त्यार धुकें. कांयच दिसऽ नाशिल्लें. ''आगो, गुगल मॅप लायात. म्हज्या फोनाक रेंज ना.'' विद्याचो बोवाळ. खबऱ्यांनी घोव खालो अशें म्हणत स्मितान गुगल मॅप लायलो. फोटो सेशन चालिल्लें थंय लागींच आमची कॉटेज आशिल्ली.

कॉटेजी कडेन पावता म्हणसर वयल्यान 'आलो आलो' करीत एकटो धांवत आयलो.

'मी मोहन' हात जोडीत ताणं म्हळें. फुडल्या सिटार बशिल्ल्या छायाक तो वळखलो. हांसत्या तोंडान ताणें आमकां येवकार दिलो.

गाडयेंतल्यान देंवलीं. भायर सगळें धुकें पातळिल्लें. आकांताचें वारें. शियां कुडकुडो वयर चडपाक पंदरा एक सोंपणां. मागीर दोंगुल्लेचेर सांजवेळचीं वाऱ्याक बी बशिल्ले भशेन ती कॉटेज! विटांचें बांदकाम. भायर वारांद. वारांदाचेर जेवपाचें मेज आनी कदेलां. भितर एक साल कशें. कुशीक वणटीक तेंकून तीन सिंगल खाटी. दिवाण



म्हणुनूय वापरपाक मेळटा अश्यो. चवथ्या कोनश्याक उंचायेचेर ओटो आनी मायक्रोवेव्ह .भितर एक बेडरूम. तीन खाटी. म्हळ्यार स जाणांची वेवस्था आसा तर!

स वरां जावन गेलीं. 'खावपाक किते हाडूं?' मोहनाचो प्रस्न. ''फकत हुनहुनीत काफी हाड आनी खतखतीत उदक हाड पिवपाक.''

''खावपाक भर्जी हाडूं?''.

''नाका रे बाबा, कांयच नाका.''

व्होदोळच्यान लक्ष वचूंक नाशिल्लें. वारांदाक सुंदर रेलिंग आशिल्लें. गॅलरींत उबें रावनूय भायर पळयल्यार असोच वेळ वतलो आशिल्लो. निळ निळशे दोंगर, धुकें, घडकेन पावस.. आनी कॉटेजी फाटल्या दोंगरार फुलां. निळीं गोठलां, धवीं गोठलां, गुलाबी चिड्डो, हरणें, धवीं फुल्ल धंयेलीचीं फुलां तर अशींच फुलिल्लीं आनी फाटल्यान धुक्यांची फाटभूंय. सर्ग म्हणटात तो होच तर!

गोंयच्यान येतना गाडयेंत खावपाक म्हणून सगळ्यांनी किते किते हाडिल्लें. विद्यान लाडवांचे केक, दिपान खटखटें, स्मितान तिखशा फोवांचे लाडू, मधुरान चकऱ्यो, छायान काजू बियांचे लाडू, हांवें पिठ्याचे लाडू. सगळ्यो इश्टिणी सुगरणी. किटकिटत किटकिटत कॉफयेचो आक्त जालो. भुरगेपणांत बी पावशी सांजवेळार चवकेर जातालो तस्सो. हय, तस्सोच!

मधुराचो सभाव मिश्किल. अशें किते तरी उलयता की दुसऱ्यांक हांसूंक येतलें. आपूण मात सिरियस रावता. आमचें मात हांसून हांसून पोट दुखयतालें. स्मिताचो मंजूळ हांसो, विद्याचो खतखतो आनी दिपाचो धबधब. खूब्ब वर्सां हांसो चिड्डून उरला आनी भायलीं करपां फुटून येता तसो! गाडयेंत तर मधुरान अमोलाक लेगीत हांसून मारलो. म्हाका भंय ताचें लक्ष हेवटेन तेवटेन जायत म्हणून!

आमी फ्रेश जाता म्हणसर मोहन जेवण घेवन आयलो. कोंबडी वडे, तांबडा रस्सा. जोंधळ्यांच्यो भाकऱ्यो, झुणको, लसणीची चटणी, फ्लावर बटाटाची खास सातारा मसाल्याची भाजी. जेवण अप्रतिम. सामकी मराठमोळी रूच. हांवें हरशीं मालवणी वडे बी खाल्यात. वाटकुळ्यो पुरयो बी करतात त्या आकाराचे. ह्या साताराच्या पोकळ वड्यांक मर्दी बुराक. मटण तांबडा रस्सा सूप कसो पियात म्हणून ताचो आग्रो. थंडी बी जावचीना मागीर म्हणून. हुनहुनीत पिवपाचो. नाक बी सूं सूं. करीत व्हांवपाक जाय खंय! ह्या जेवणान मात आत्मो तृप्त जालो.

पोट जड जाल्लें. शॉल बी पांगरून रस्त्यार पासय मारपाक गेलीं. मोहन धांवत आयलो. सोरोप बी झाडा वयल्यान येवन पडटात. सांबाळून. आतां आमी रस्त्याच्या मदल्यानूच पासय मारूंक लागलीं.



हांव सोडल्यार सगळ्यांक धुवो आनी सुनो आशिल्ल्यो. कोणाक सुनेन नवे मोदीची नायटी हाडून दिल्ली तर कोणाक आनी कितें! म्हज्यो ह्यो इश्टिणी मांयो ते कपड़े घालून आपले फोटो काडून सुनांक धाडटालीं. 'मम्मा, वॉव ! लुकिंग प्रिंटी.....' सुनांचे मॅसेज आयले. मांयो खुश्श ! आमचीं सगळ्यांचीं लग्नां एकाच काळांतलीं. 'लग्न जातकीच घरांत वायलांच न्हेसपाक जाय आं! अशेंय मांयांनी बापोलमांयांनी सांगिल्ली याद जाली. फाटल्या 35-36 वर्सांत कितलो बदल घडला पळयात. आनी हो बदल खूब सुखदिणो.

न्हिदपाक हरशी दोन कुडी आशिल्ल्यो. तीन तीन खाटी आशिल्ल्यो. पूण दोन वेगवेगळ्या कुडींनी न्हिदलीं जाल्यार आमी कसलीं तीं! आमी भायले कुडींतलीं तिनूय कुलचावां हाडलीं आनी भितरले कुडींत सकयल घालीं. कुडींत ए.सी. बी कांय नाशिल्लो. फॅनूच बारीक करचो पडलो.

भुरगेपणांत आजोळा बी वतकीच तेंकून तेंकून न्हिदतालीं ती याद जाली. आमची वर्तमान काळांत भोंवडी सुरू आशिल्ली. पूण वांगडा भूतकाळूय जगतालीं. तीं व्हडलीं सालां, चवक्यो आनी तातूंत एका पांगरुणांत न्हिदपी मामे, मावस, बापोल भांवडां.. भुरगेपणांतल्यो त्यो भुतांच्यो गजाली, देवचारान कोणाक कसो लिपयल्लो तें... कोणाक केन्ना न्हिद लागली कळ्ळेंच ना.

रातभर पावस पडत आशिल्लो. टपटप आवाज येतालो जाग येता तेन्ना पावसाचो आवाज. इतले पयस येवन आकांताच्या पावसांत कसलीं फुलां पळयतलीं? केन्ना काय फांतोड जाता म्हणून वाट पळयत बसलें.

स जाता म्हळ्यार मोहन आल्याची च्या घेवन हजर. पावस पडटालोच. कास पठाराचेर वचपाक आमकां सकाळीं सात ते इकरा हो वेळ मेळिल्लो. पूण पावसा खातीर आमी ब्रेकफास्ट घेवन मात्शी उसरां वचपाचें थारायलें. आठांक मोहन आमकां इडली सांबार आनी काफी घेवन आयलो.

“आरे, तूं थालिपीठ कित्याक करना?”

“थालीपिठां करपाक खूब वेळ लागता. एकट्या म नशाचें काम न्हीं तें. आज बावीस जाण ‘न्याहारी’ घेवपाक येवपाचे आसात. इडली बरी पडटा न्हीं. म्हणून थालिपिठां करीना!”

“थालिपीठ आनी ताजें लोणी हो कोम्बो ना दिसता म्हजे नाशिबांत!”

“आगो, इतलें पिरंगूं नाका, मेळटलें. खंय तरी ! आतां शाणें भुरगें कशें इडली खा पळोवया!” विद्यान अपुरबायेन सांगलें.

बेगबेगीन नाश्तो घेवन कास पठाराचेर गेलीं. वाटेर मिकी मावस फुलांचो हळडुवोच गालिचो दिश्टी पडलो. फुडें चिड्ड्याचो गुलाबीच गालिचो. देंवून पळयल्यार मर्दी मर्दी आनीकूय फुलां दिसतलीं आशिल्लीं.

कास पठाराचेर पावलीं. फुडें गाडी व्हरपाक मेळना. तांच्यो बसी आसात. त्यो व्हरतात आनी हाडटात.

कास पठाराचेर कांय दुर्मिळ जातीच्यो वनस्पती किल्लतात. ते खातीर 2012 वर्सा युनेस्कोन हो कास पठार वर्ल्ड हेरिटेज सायट म्हणून जाहीर केला. दिसाक फकत 3,000 लोकांकूच प्रवेश मेळटा. बशींत बसलीं. जाय जाल्यार हांगा येवनूय बुकिंग करपाक मेळटालें. सिझन सुरू जाल्ल्याचो आज तिसरो दीस. बशींतल्यान देंवलीं मात, पावस आनी झणझणीत वारें. आंगार कापोत चडयली.

हांगा वर्सभराक आठशां वयर जातींचीं फुलां फुलतात. फुलां फुलतात त्या जाग्यांचेर मदल्यान चलपाक फातरांची पांयवाट केल्या. ते भायर मर्दी मर्दी स्टाफा खातीर अशीर वाटो आसात. थंय पांय दवरल्यारूच पिल्लूक आयकूंक येता.

सुरवातीक दोशी वटेन वाटकुळींच झोपां दिश्टी पडलीं. फाटल्या सप्तकांत हांव आंबोले गेल्लें. थंयूय बी सगळ्या पठारांचेर हींच झोपां पळयिल्लीं. पानां



पळोवपाक वट्टेलांवाचीं कशीं. पूण वास तसो न्हय. ह्या वाटकुळ्याच झोपां बराबर मर्दी हळदी फुलां भशेन दिसपी फुलांय वयर सरिल्लीं. तांचें नांव 'चवर' हें म्हाका कळ्ळें. छायान पानाचो वास घेवन पळयलो आनी म्हणपाक लागलें, "हर्षा, हें कचर मगो, काणकोणां, कारवारा खूब जातात. पोंदा मुणली कशी आसता. ताचें पीठ करतात. पिठाचें सत्व करतात. काणकोणकारांची ही फामाद डीश. हांवें पयलीं केन्नाच आयकूंक नाशिल्लीं. म्हजी मावस भयण काणकोणकारा कडेन लग्न जाल्या. ताचे मांयन केल्लें सत्व हांवें पयले फावट खाल्लें.

"छाया, कचरा पिठाचें सत्व करता मगो?"

"हय गो, करतां हांव. आमी दुदळी म्हणटात."

म्हजी आजी बी तांदळां पिठाची दुदळी करताली. पूण नासण्याचें सत्वूच. पुर्तुगेज तेंपार गोंय सोडून कर्नाटकांत गेल्ल्या कोंकणी घराण्यांत अजुनूय सत्वाक नासण्यां दुदळी म्हणटात. घडये गोंयांतूय पयलीं दुदळी म्हणटालीं जावंये! ताचे वयल्यान नातलां वेळार करतात तें तांदळां पिठाचें गोडशें ताचे दोदल हें नांव पडलां जावंये!

"आसू तें ! दुदळी वा सत्व! एकूच कर तूं छाया आनी आमकां पावय." छाया अन्नपुर्णा! रोखडेंच काणकोणच्यान मडगांवां पावयतलें.

पावसान आनी वाऱ्यान आमची फाट सोडलीना. येद्या व्हड मळार खंय कसले फूल फुलता तें दाखोवपाक गायडूच जाय. तेखातीर गायड घेतलो.

चिड्ड्याचीं झाडां खूब फुलिल्लीं. पूण गोंयांत जाता तो चिड्डो न्हय. फुलां आकारान मात्शी वेगळीं. रंगूय कार्लेगाद. हीं खंय गौरीचीं म्हळ्यार पार्वतीचीं आवडटीं फुलां. हांचें नांवूय गवर. गंगा गवर आनी गौरी तेरडाय म्हणटात– गायडान सांगलें. गायड मुरारी थळावो. हांसत्या तोंडान म्हायती दितालो..

आनीक एक सुंदरशीं जांबळीं फुलां सगळे कडेन दिसतालीं. हांची दुसरी जात गोंयांत पावसा दिसांनी दिसता.

"ही आभाळी," मुरारीन सांगलें. "हाचें पोलन पळयात, हळडुवें. ताचेच जातीचीं हीं निलिमा. हीं फुलां दनपारचीं फुलतलीं. तांचें पोलन सिल्वर रंगाचें." बारीक कळे आशिल्ल्या झाडा कडेन ताणें बोट दाखयलें.

मागीर मेळ्ळो मिकी मावस. हाचें थळावें नांव खंय 'नाल'. खूब कमी प्रमाणांत फुलां फुलिल्लीं. त्या मानान आमचे कॉटेजी लागसर मिकी मावसाचो गालिचो तयार जाल्लो.

पावस आनी वारो आमकां सांगात दीत आशिल्ल्यो.



घडये आमचे बराबर तोवूय ट्रिपीचो आनंद घेतालो जावंये! पूण मोबायल भायर काडून फुलांचो फोटो घेवपाक खूब कुस्तार जातालें. मोबायल उदकांत वाट लागत म्हणून भंय!

मुरारी सांगतालो, 'अंदू फुलां मात्शीं उसरां फुलूंक लागल्यांत. आनी एक पंदरा दिसांनी भार आसतलो फ ुलांचो.' ताणें जरतारी नांवाचें विलोधी शें फूल दाखयलें. निकतेंच फुलतालें.

"तशें तुमचें लक बरें आसा. हीं पळय टोपली कारवीं फुल्ल्यां." तो त्या वाटकुळ्या झोंपां कडेन बोट दाखोवन सांगूक लागलो. सात वर्सान फुल्ल्या अंद. माळ कारवीय म्हणटात तिका.

आवयस्स! दुसरी कारवी? हांवें फकत उडी म ारपाची उरिल्ली. येतना एक कारवी पळयिल्ली. आतां ही दुसरी. आठव्या वर्सा फुलपी! हीं सुंदर फुलां पळोवपाचें भाग्य आमकां मेळ्ळें. आनी दुसरें कितें जाय! बाकीचीं फुलां अंदू दिसलीं नात जाल्यार आनी केन्नाय परतें येवपाक जाता. आठ वर्सां फुडलें कोणें येवाजिलां? कारवी फुलता तेन्ना पावतलींच म्हणून सांगू येना!

आमी स जाणां चार दीस मजा करया म्हणून कितें भायर सरतात आनी आठ आठ वर्सांनी फुलपी सैमाचीं नवलां आमकां पळोवपाक मेळटात! हांव कल्पना करतां, हीं सगळीं खोटल्यावरी वाटकुळीं झोंपां निळशा जांबळ्या फुलांनी भरून गेल्यांत आनी सगळो निळो निळो वाठार म्हज्या दोळ्यां मुखार आयलो. पूण कारवीचीं तीं दोन फुलां म्हाका आपलो कसोच फोटो काडूंक दिनात. झणझणीत वारो आनी पावस बाबडो फुलांक हालयता. तोवूय म्हणटा आसतलो, फुलां दोळे भरून पळयात. फोटो कित्याक जाय?

मातशें खोल आशिल्ल्या जाग्यांनी पावसाचें उदक साठवता. थंय वेगळे तरेच्यो वनस्पती किल्लतात. फ ुडें चिखोल जाल्लो. बाकीच्यांक येवं नाका म्हळें. हांव आनी मधुरा हात धरून धरून गेलीं. ही पळय जांबळी मंजिरी,.. ही 'सीतेची आसवं'. म्हाका गोंयांत हीं सीतेचीं दुकां खूब कडेन दिसल्यांत. वेर्ण्या, बेतलांत, दिवचले..... 'हा धनगरी फेटा.' इल्लेंशें तण आनी वयर धवो वाटकळो इल्लोसो चणो कसो. होवूय गोंयांत दिसता. सगळ्या साडयांचेर. तरी बाकीच्यांक दाखोवंक म्हणून येता तसो फोटो काडलो.

"आगो, आमच्या भाटांत जातात हीं सीतेचीं दुकां. हो पळय फोटो." ताणें मोबायल काडून फोटो दाखयलो. आनी हो 'धनगरी फेटा' म्हणटात तें 'लवें' मगो! मांदरी करतात ताची!"





लवें? लवें म्हणटात तें हांवें आजये कडल्यान आयकल्लें. महाभारतांतली एक काणी आसा. एकदां दुर्वास ऋशी द्वारकेंत येता. तेन्ना कृष्णाचे पूत तार्ची फकाणां करपार्ची थारायतात. सांब बायलेचे कपडे घालून पोटाक कितें तरी बांदून गुरवार बायलेचें रूप घेता. ताका घेवन हेर भुरगे दुर्वास ऋशी कडेन येतात. "हिगेर कितें जातलें? चलो काय चली?" दुर्वास ऋशीक तांचें हें अंतर्मनान सगळें समजता.

"तुगेर मुसळ जातलें आनी तें सगळ्या कुळाचो नाश करतलें!" दुर्वास शाप दिता.

हाचेर कृष्ण तांका उपाय सुचयता. मुसळाचो पिठो करून तें दर्यांत उडोवपाक लायता. एकदां कसल्या तरी उत्सवांत ते भरपूर मदिरापान करून दर्या देगेर नाचतात. दर्या देगेर किल्लाल्लें लवें हुमटून एकामेकांचेर मारतात. त्या लव्यांचीं मुसळां जातात आनी कितलेशेच जाण मरतात.

आतां छाया कडल्यान लवें म्हूण आयकतकीच म्हाका ही काणी याद जाली. म्हळ्यार हें धनगरी 'फटा-पागोटं' म्हळ्यार आमचें लवें तर!

मुरारी आमकां फुडें व्हरत आशिल्लो. हें निळकंठाचें फूल. इल्लेश्या धवश्या कावरा भशेन दिसपी फुला कडेन बोट दाखयत म्हणूंक लागलो. 'हीं भारंगी.' निळ्या तुऱ्या कडेन बोट दाखयलें. 'ही चिचुर्डी, रानवांगी.'

'आता ही इकडची खास दिपकाडी.' एका दांड्याक इल्लींशीं धवशीं फुलां. अशे कितलेशेच दांडे जमनींतल्यान भायर आयिल्ले. गोंयांत हाची दुसरी जात दिसता.

दिपकाडी गोवान्सी. ती फकत मोपा, दिवचल, रिवण पठाराचेर दिसल्या. ते भायर कोंकणांत दिसपी दिपकाडी कोंकनेन्स आसा.

आनीकूय कांय फुलां आशिल्लीं. गुलाबी नखेत्रां कशीं इल्ली इल्लीशीं फुलां-थरमेरी. बारीक धवश्या निळ्या फुलांचे घोंस आशिल्ली निसुर्डी. गुलाबी इल्लींशीं फुलां-कापरू....वाऱ्या खातीर फोटो मेळ्ळे नात.

जावं, जें कितें पळयलें तातूंत मन प्रस्न्न जालें. देवान बरें केलें जाल्यार आनीक एकदा येवप अशें येवजिलें. हांगा चलून चलून पांय दुखल्यार मदीं मदीं बसपाक बांक आशिल्ले.

फोटो सेशन सुरूच आशिल्लें. बाकार बसून, सत्री घेवन...मधुरा मदींच अशीर पांयवाटेर पावलें. बेगबेगीन पिल्लूक आयकूंक आयली. विद्याक, मधुराक जिणेंतल्या सादया सादया गजालींतल्यान पुराय आनंद घेवपाक आवडटा. विद्या म्हळ्यार तर सळसळती उर्जा.



आझादी का अमृत महोत्सव

आमकांय ताचे कडल्यान सकारात्मक उर्जा मेळटा.मागीर पांय दुखू, पुरो जावं, तकली फोडूं....गुळी बी घेना आसतनाच ताच्या संपर्कांत आयल्यार पुरो, तुजी सगळी कासेद निवळटा!

मुरारीक निरोप दिवन आमी बशीन आमची गाडी आशिल्ली थंय गेलीं. बर्शीतल्यान देंवतनाच घमघमीत भज्यांचो वास आयलो. थळावीं खाणां जेवणां दिवपी गाडे थंय आशिल्ले. आनी वारें आनी धुकें...भज्यांची प्लेट. वयर तळिल्ल्यो मिरसांगो. बरीऽ आलें घाल्ली च्या.

आमी भज्यांचो फोटो काडटात तें पळोवन भर्जी करणारी आपलोय फोटो काड म्हणूंक लागली. आपले दोगूय पूत फेसबुकार आसात, तांका टॅग करात म्हणूक लागली...मागीर भाकरी खाता काय विचारूंक लागली.

'हय' म्हळें, जोंधळ्यांच्यो भाकऱ्यो, पिठलें, लसणीची चटणी आनी खर्डा....सगळेंच बेस्ट जाल्लें. वडा पावूय घेतले. वडा आनी पाव दोनूय इल्ले इल्लेशे! एके कायलींत भिकणां भाजताली. तिंवूय घेतलीं.

आतां थंय लागसारच आशिल्लो धबधबो पळोवपाक गेलीं. वजराई धबधबो. धबधबो खंयीय पावूं. पूण सगळी वाट सुंदर. दोशीं वटेन फुलांच फुलां. कास पठारा परस हांगा चड फुलां. तरातरांचीं रंगरंगयाळीं!

वाटेर उरमोडी धरण लागलें. थंय आनीक देंवूना. खंय खंय म्हूण देंवतलीं! सगळो परिसरूच सुंदर. वजराई धबधब्या म्हऱ्यांत गाडी वचना. दोनेक किलो मीटर चलून वच्चें पडटा. चेक पोस्ट आसा. थंय तिकीट काडची पडटा. थंय श्री जानाई देवीचें देवूळ आशिल्लें. मातशें उंचायेर. सोंपणां चडून गेलीं. देवूळबंद आशिल्लें. मुखारनंदी आशिल्लो. देवूळ ल्हानशें! पूण फलटणाक जानाई देवीचें व्हड देवस्थान आसा. शिवाजी राजाची बायल राणी सईबाई हाची ती कुळदेवी.

धबधब्या कडेन वचपाची वाट झार्डींतल्यान, फातरांतल्यान वता. पूण तीन भागांनी पडपी हो धबधबो पळोवपाची खूब इत्सा आशिल्ली. पूण पांय थकिल्ले. मधुरा आनी विद्या वचपाक तयार आशिल्लीं. आमी हांगा बसतात , ना जाल्यार लागीं आशिल्लें बांबावली पुष्प पठार पळोवन येतात म्हळें! इतलो वेळ आमी देवळा वटेनूच पळयत आशिल्लीं. मुखार घुंवलीं



जाल्यार पयसुल्ल्यान वजराई धबधबो दिसता. जावं म्हळें, निदान दर्शन तरी जालें. देवळा कुशीकूय फुलां फुलिल्लीं आशिल्लीं. पूण थंय आशिल्लो थळावो मनीस म्हाका कसोच वचूंक दिना जालो. जळू लागतली,जळू लागतली करून! आसूं म्हळें, निमित्त्याक आनी कारण नाका.

कास पठारा परस बांबावली पुष्प पठार खंय व्हड. गुगल मॅप लावन गेलीं. पावलीं म्हूण दाखयता, मळां आसात पूण फुलां नात. आनी वाटेर जितो मूस ना.अंदू फुलूं ना दिसता फुलां! म्हणत परत आयलीं.

दनपारचीं दोन वरां जायत आयिल्लीं. चलात, या म्हळें कॉटेजींत. नाचून नाचून म्हणून आनीक कितलीं नाचतलीं आशिल्लीं!

खरें म्हळ्यार आमी जेवपाक हेरीटेज वाडीत वचपाचीं आशिल्लीं.पूण आतां कोणाक व्हडलेंशें जेवपाचें नाशिल्लें!

वाटेर परतेंय शुटींग दिसलें. आज कंबरपटो बी घाल्ली व्हंकल गाडयेंतल्यान देंवताली. आमकां पळोवन मोहन बाबडो धांवत आयलो.'वरण भात आणू?'

'नाका रे बाबा!'

'मग भर्जी आणतो.'

'बरें, थोड्या वेळान भर्जी आनी पाव हाड. सोमती



च्याय हाड.'

च्याचे बराबर आमचींय खाणां भायर काडलीं.

पांचाक सुमार सातारा मार्केट भोंवुया म्हणून भायर सरलीं. विद्याक नातीक पितुळचो रांदचे वाडचेलो खेळ घेवपाक जाय आशिल्लो.चौकांत गाडी पार्क करून देंवता म्हळ्यार मुखार 'बुद्ढी का बाल' घेवन एकटो आयलो.हालीं बरे बडयेक बी लावन येतात. आमचे भुरगेपणांत निळ्या लातांत येताले. लाताक हारसो आसतालो. तातूंतल्यान गुलाबीच बुद्ढी का बाल दिसताले. सगळ्यांक खायन शें दिसलें. भुरगेपणांतली याद जाली. पूण साखरीचे कारखाने उगडलेल्यांनी ल्हवूच हात फाटीं काडले.

सातान्याचे कंदी पेढे खूब फामाद. आमच्या मोहनान मोदी पेढेवालेचें नांव सुचयल्लें. हे पेढे दूद आटोवन खवो बरो तांबसर भाजून घेतात. मागीर साखर घालतात. ते खातीर पेढ्यांचो रंग तांबसर, मातये कोराचो, कंदम ळा भशेन येता. म्हणून हे कंदी पेढे! भुरकट, धुळीच्या रंगाचे...कोल्हापुरचे धवशे पेढे. तांका फिके पेढे म्हणटात.

सगळ्यांनी पेढे घेतले. हांवें मात ड्राय फ्रूट बर्फी घेतली. मागीर कपड्यां दुकानां दिसलीं. कॉटन कपडे सातान्याक बरे मेळटात म्हणून कोणें तरी सोद लायलो. घेतले. एकेच तरेचे कुर्ते. एकार एक फ्री. मारली मजा. शॉपिंगा परस विन्डी शॉपिंग चड केलें.कॉटेजींत पावता म्हणसर काळोख जालो. घाटांर चडटना सातारा शार दिव्यांच्या उजवाडांत लखलखतालें.

रातच्या जेवणाक आशिल्ल्यो लुकलुकीत चपात्यो, जोंधळ्यांच्यो भाकऱ्यो, वांग्यांचें भरीत, खर्डा, चटणी आनी पालकची कोशिंबीर. भर्ताची रूच अप्रतीम..मसमी भिकणां बी घालून. आनी तेलूय आशिल्लें. म्हणून रुचीक लागतालें. पूण ताच्या हातांत जादू आसा!

तो सांगतालो,ताच्यो दोनूय धुवो आनी एक जांवय दोतोर. एकटें मुंबय समून हॉस्पिटलांत काम करता. आपल्या मालकान चलयांच्या शिक्षणाक आपल्याक खूब मजत केल्या. आपल्याच्यान जाय मेरेन आपूण ताका सोडचो ना. आपल्याक विचारुनूच तांणी हांगा कॉटेज बांदिल्ली.

सकाळीं फुडें मोहन नाश्त्याक झणझणीत मिसळ घेवन आयलो. सातारा स्पेशल! ब्येस्ट!

आज म्हळें हळडुव्याच मिकी मावसान भरिल्ल्या पठाराचेर एक यादस्तीक अशें फोटो सेशन करुंया. एक दीस सगळ्यांनी एकेच तरेच्यो साडयो न्हेसुंया म्हणून येतना कुणबी साडयो हाडिल्ल्यो. हांगा प्री-वेडींग बी फोटो सेशना जातना पळयिल्लीं. आमकांय रूच आयली विडिओ बी काडपाची. आमकां म्हळ्यार म्हाका न्हय आं! हांव तातूंत झिरो!

पावस आमचो गोंयां सावन सांगाती. तो आयला आमकां सोडूंक? तो शिरशिरतालोच! ताचे सांगाताक ताचो सखा झणझणीत वारो. बरींऽ हॅटां बी हाडिल्लीं. पूण वत खंय आशिल्लें? आतां म्हळे,साडयेचेर तरी घालुंया! अमोल बाबडो फोटो काडटा. एकट्याचें हॅट उडून वता,तें हाडटा म्हळ्यार दुसऱ्याचें वता...अमोल बाबडो मनांत म्हणटा आसतलो, नाका रे बाबा हाचे फ ुडें असलीं भाडीं! निमणें हॅटां हातांत धरून काडलो फोटो आनी जालीं मेकळीं. साडयो भिजून चिंब!

साडयो बदलून,मोहनाचो निरोप घेवन सज्जनगडार वचपाक भायर सरलीं. थंय संत रामदास स्वामीची समाधी आनी तांणी बांदिल्लें राम मंदीर आसा. थंय रामनमीचो उत्सव व्हडा दबाज्यान मनयतात.

देवूळ दनपरां 1 ते 2 मेरेन बंद आसता. पावस पडटा आसतना सत्र्यो घेवन सज्जनगडाची इतलीं सोंपणां चडटा म्हणसर भिजलींच. देवूळूय बंद जाल्लेंच. तांणी आमकां बेगीन महाप्रसांद घेवपाक वचात म्हणून

सांगलें. शीत, कोंबायल्ले मटकेच्यो गांठी, हुनहुनीत सार आनी सोजी. बरीऽ करून जेवलीं. वरभरा खातीर आनंदवनांत-अगरशाळेंत रूम घेतलो.फॅना पोंदा बसून कपडे सुकयले,फ्रॅश जालीं.देवळांत वचून दर्शन घेतलें. समाधीचेंय घेतलें आनी गड देंवपाक लागलीं. वाटेर झरवड,कापुर्ली ह्या झाडांचीं फुलां दिसलीं. तांचे मात फोटो काडले.बरे भशेन सकयल पावलीं.

गाडयेंत बसतकीच दिपा म्हणूंक लागलें, ‘गुगल केल्यार हांगा लागीं एक पोरण्या आयदनांचें म्युझियम आसा म्हणून कळ्ळें. तुका खूब आवडटलें. या आमी.’

गाडयेंतल्यान देंवतनाच म्हाका म्युझियमाची बसकी इमारत आवडली. हें म्युझियम 2019 म्हळ्यार हालींच सुरू जालां. श्रीमती काशिबाई गवंड हिणें तिचो नातू किरण आनी नातसून सुजाता हांणी सुंदर तरेन तातूंत मांडलां. इमारतीचें नांव‘तपोवन आश्रम’. काशिबाय आपलो पूत दादाजी आनी राम हांचे बराबर भारतभर तिर्थयात्रेक गेल्ली, तेन्ना तिणें थंयचीं थळावीं आयदनां पुंजायल्लीं. ते खातीर भारतभराचीं आयदनां तिच्या संग्रहांत आसात.

महाराष्ट्रांतलें एक आमच्या भगुण्या भशेन आयदन. आयदनाचें नांव उटनवळे. नांव वाचून मज्जा दिसली. म्हाका दिसता ,त्या आयदनाचें पोंद हालत रावतालें म्हणून असलें नांव आसूंये! आमचे गोंयचो सांदन धाकणोय थंय आशिल्लो. उकडीचे भांडे (गोवा) म्हणून. शिवकालीन खापर कळशी म्हळ्यारथोकणाचें तपलें,म ुगल वापरांतलीं कांय आयदनां.एके मनशेन केल्लो संग्रह त्या मानान खूब व्हड आसा. तरेतरेच्यो शाई भरपाच्यो दौती, तरेकवार कुलपां,किसण्या, हांडे, मापां, फिरकेचे तांबये, दोवले, अभिषेक पात्रां....आनीक एक हांगची खासीयत.

थंड पावसांत हुनहुनीत च्या घेन दिशिल्ली. आलें, गंजनाची च्या आमी करून दितात म्हूण सांगलें. म्यझियमाच्या सोंपणार बसून च्या पिलीं.

भोंवडेंतले अशे सादे सादे खीण.आनी त्या खिणांक सोबपी आमच्यो गजाली...म्युझियम पळोवन मात दोळे सुखावले. अश्यो इश्टीणी आसच्यो, तुवें सांगना आसतना तुका कितें पळोवपाक आवडटलें त्या जाग्यार व्हरपी! धा वर्सां पयलीं एका फेसबूक ग्रुपांतल्यान वळख जाल्ल्यो ह्यो इश्टीणी. मर्दी मर्दी गोंयांत एका दिसाचे पिकनिके निमतान एकठांय येतालीं. पूण कोरोना काळांतलें तांडव पळोवन कोणांक कितें केन्ना जायत तें कळना. ही जीण काय परती मेळची ना. तेन्ना तीन चार दीस हुस्को,कटकटी,रुटीन सगळें पेल्यान दवरून मना सारकें जगूंया म्हणत भोंवडेक भायर सरिल्लीं.

कोल्हापूर पावत आयिल्लीं.‘फाल्यां सकाळीं बेगीन उठून महालक्ष्मीच्या दर्शनाक या आनी मागीर बारा म्हळ्यार गोंयां वचपाक भायर सरूंया! दिपान म्हळें.

‘आगो, म्हाका नातीक इरकली साडी आनी घागरो पोलको घेवपाक जाय गो!’छायाक हुसको.

आमची गाडी चलोवपी अमोलान कोल्हापूर माड्डयलां.

‘तुमकां माधव रोडार सोडटां.थंय तुमकां जाय जाय तें मेळटलें. तुमी अशें कित्याक करीनात?’अमोलाचो प्रस्न.

‘कितें ते?’

आतां बेगीन जेवात आनी रातचे आरतीक देवळांत वचात. गर्दीय नासतली. फाल्यां सकाळीं दर्शनाक रांगो लागतल्यो!



अशें? आमकां खबरूच नाशिल्लें.हें बरें जातलें. देवळाच्या लागींच आमकां हॉडेलूय मेळ्ळें. रातचीं णवांक देवळांत वचपाक गेलीं.

पयलेच फावट देवळांत गर्दी नाशिल्ली. बरे तरेन महालक्ष्मीची भेट घेवपाक मेळ्ळी. आरती खातीर मंडपांत बसपाकूय मेळ्ळें. आरती जातकीच भटान एक व्हड शंख हाडलो आनी तो तिर्थांत बुडोवन बुडोवन भाविकांचेर फाफुडलो. प्रसन्न दिसलें. कितलोच वेळ देवळांतबस.कुशीन सरात,कुशीन सरात म्हणून हडकुवपी कोण नाशिल्लो.

'सकाळीं फुडें देवळा कुशीक ब्रेकफास्टाचे गाडे लायतात. थंयच नाश्टो घेंवया. थंय थळावे पारंपारीक पदार्थ मेळटात!' मधुरान पयलींच सांगिल्लें. म्हाका तर तेंच जाय आशिल्लें.

सकाळ फुडें भायर सरलीं. रस्तो केन्नाच उठून सजून बशिल्लो. भुरग्यांच्या कपड्यांचीं दुकानां,कोल्हापुरी जोतीं,लोखणाच्यो कायली, तवे, रांगोळ्यो, कोल्हापुरी अळंकार...विद्या आनी मधुरा फुडें आशिल्लीं.गाड्या कडेन पावल्या बराबर विद्याचो खोशयेन म्हाका उलो.

"हर्षा, तुजें थालिपीठ आसा गो! चल, जालें तुज्या मना सारकें!!"

"आनी येलापे! आजी बरीऽ करताली."

मधुरा एक म्हजे भशेन! पारंपारीक खाणां जेवणां खातना भुरगेपणांत आजोळा सांखळे पावता. सुगरण आजयेची ताका याद येता.

"पोटभर खावं नाकात आं! फुडें शाबू तांदळांची खिचडी, कोल्हापुरी मिसळ आनी कितें कितें मेळटलें!"

"थालिपिठा बराबर लोणी ना गे? लोणी आसल्यार चड बरें लागपाचें! खरेंच थालिपीठ बरेंच जाल्लें.

येलापे आनी थालिपीठ करपाक बिडें वापरलेलें.येलापे म्हळ्यार आप्पे केल्ले.

हातूंत थोडें गोड, सोय आनी बियां कुडके घाल्ले जाल्यार आजयेले येलापे जावपाचे, न्ही गो हर्षा!" मधुरा उलयलें.

मागीर मधरान पायणींतल्यान फुडें व्हेलीं. तरीकूय खूब गाडे उणे जाल्यात खंय! कोरोनाचो परिणाम आसूंये!

फुडें हॉटेल कम गाडे मेळ्ळे, बसून खावपाक म ेळटालें. तुका लोणी जाय आशिल्लें मगो,आतां हो लोणी दोसा खा. आनी शाबतांदळांची खिचडी. आनी फिल्टर कॉफी." दिपाची ऑर्डर.

शाबूदाण्याचे खिचडे बराबर हय न्हयशी तिखसाण आशिल्लें गोड धंय. म्हाका ही मराठीमोळी पद्दत आवडली. भाकरी, चपाती, आंबोळी दितना वेगवेगळ्यो घरगुती चटण्यो दितात. ठेचा, भरड, खर्डा, शेंगदाणा चटणी, लसूण चटणी, कोरडी चटणी. ह्यो चटण्यो मूळ पदार्थाची रूच आनीक वाडयतात. सगळीं जाणां आशिल्ल्यान तरेकवार पदार्थांच्यो रुची घेवपाक मेळ्ळ्यो.

अमोलान मागीर गल्ले गल्लेंतल्यान आमकां माधव रोडार पावयलीं. पंत वालावलकर साडयांचें दुकान. दिवाळी लागीं पावल्या म्हणून साडयो घेतल्यो. कोणें घोवाक कुर्ते घेतले. छायान व्हडले नातीक साडी आनी धाकले नातीक घागरो पोलको घेतलो. नाती खूश जाल्यार आजी खूश!

वाटेर पेरां आनी सिताफळां घेतलीं. चिरमुल्यांचें भडंग, कोल्हापुरी पेढे घेतले.एकामेकांक दिले.

वाटेर जेवन गोंयां वचपाक भायर सरलीं. गाडयेंत बसतनाच मनांत आयलें, कितली सोबीत जाली आमची भोंवडी! स य जाणां सामकीं एकजीव जाल्लीं. आपले पयलीं दुल्ऱ्यांचें येवजुपी आनी भोंवडेची जापसालदारकी आपखोशयेन आंगार घेवपी दिपा, आवयचे मायेन सगळ्यांची वासपूस करपी छाया, विद्या म्हळ्यार एक चैतन्य कशें, वाज-पिरंगण असलीं उतरांच नात ताचे कडेन. स्मिताची बारीकसाण, खंयच्याय प्रसंगा कडेन जुळोवन घेवपाची वृत्ती...

आनी मधुरा! ताचे बगर तर भोंवडेची कल्पनाच करूंक शकना हांव! बिनधास्त सभावाच्या मधुरान विनोदाच्या चंदरजोतींनी मिनटा मिनटाक हांसो फुलयलो आमचे तोंडार....आनी हांव?...हांव म्हजो सगळो भार म्हज्या ह्या पांच इश्टीणींचेर घालून भोंवडेचो दरेक खीण मनसोक्त जगलें. फाटल्या कितल्याश्याच वर्सां सावन म्हजे मनांत आशिल्ली कल्पनेंतली भोंवडी प्रत्यक्षांत अणभवली. जीण ही एकदाच मेळटा. आनी हे जिणेच्या प्रवासांत आनंद वाटपी इश्टीणी मेळप हें म्हजें भाग्य. आनीक म्हाका दुसरें कितें जाय?

---

मो. ९८५०५३०१५२, मडगांव

## काव्य फुलोर

माधव बोरकार

चार कविता

### घडी वाऱ्याची मोड

तार षड्जाचेर न्यास
येता तूं परत
जोरगतीचो भार
रावता काळीज भरत.

येता जोरगतीचें पाणी
वयर वयर चडत
पाखां फुटून मनाक
घेवन मळब उडत.

लागता खर म्हाका
सुरांक सुरांची ओड
अळंग हातांनी तुज्या
घडी वाऱ्याची मोड...
२२.०४.२०२१

### भुरगेंपण

ल्हान आसतना
चल्याक
व्हरतालों हांव
बाबा गाडयेन
हांगा थंय

आतां
हांव व्हिलचेअरार
व्हरता म्हाका तोच
जंय थंय
म्हज्या दुसऱ्या
भुरगेंपणांत...
२६.०७.२२

### ताणिल्लें धोणू

ताणिल्लें धोणू
केन्ना सुटत बाण
चुकिल्ल्या शब्दांक
प्राक्तनाचें त्राण.

कुरवांची माग
वता घेत वाट
दुकांचे इंगळे
फुलयता रात.

सोंपतासो दिसता
सांगात दुखाचो
पालवना भार
उजवाड रुखाचो.

दारांतल्या दुखाक
नाका कशें म्हणूं
घेता अचूक वेध
ताणिल्लें धोणू.

### काळीज

बांसरेक नासता
आपलें अस्तित्व
तिका आसता
वाऱ्याची जाणीव

वाजता बांसरी
कृष्णाच्यो ओठांनी
घायाळ काळीज
सुरांच्या बोटांनी.....
२२.०४.२०२१



राधा भावे

### प्राक्तनाच्या दारार

प्राक्तनाच्या दारार हार्ली
राखणे बसून आसतात
सुखाच्या उजवाडाची
वाट आडावन हांसतात

मोनेळल्ल्या दुकांनी
दोळे जातात तुडुंब
यादींच्यो तरसादी
घाये गालून नाचतात

गोठेल्ल्या सपनां लागीं
काळखाचो धगटो
अपेसांच्यो काणयों आतां
गांवा शिमेर गाजतात

एक चुकचो श्वास
येवची जिवाक झापडी
फुसलावपी जिणेंतल्यान
प्राण सुटका मागतात



## आर.रामनाथ

पांच कविता

### अर्दवट चित्र

हांवें एक सपन चितारलां
तांतूंत हांवें तुका दाखयलां ...
खरें म्हणल्यार
हें चित्र
अजुनूय
अर्दवट आसा
ह्या चित्रांत हांव ना ...

### अस्थी

हांवें झाडाक
ताची व्यथा विचारली
तर झाडान आपलीं सगळीं पानांच झडयलीं.
हांवें तीं एकठांय केलीं
आनी थंयच जळयलीं
उपरांत त्या पानांचो गोबोर
त्याच झाडामुळांक घातलो
आनी त्या गोबराचेर म्हाकाच झडयलो पुराय ...
आतां तें झाड म्हज्यो अस्थी घेवन भोंवता सगळ्याक ...

### जागो

तूं म्हजेर एक उपकार कर
तूं जंय ना तो जागो तूं म्हाका दाखय
हांव थंय वचून रावतां ...

तो वग्गी!
आनी हांवूंय बी ...

### काळ

दुख्ख
दुकां
वेदना
काळोख
म्हजे कडेन भरपूर आसा ...

म्हजे कडेन ना तो फकत काळ!
तो म्हाका उरजेंत जाय ...

### कावळो

पिंड दवरल्यार
खूब वेळ जालो
अजुनूय कावळो येवंक ना.
तशें पळयल्यार
हालिंसराक
म्हज्या गांवांत कावळे दिश्टीच पडनात ...

खरें म्हणल्यार
आयज मेरेन जिणेंत हांवें जायत्यो भुमिका वठयल्यात.
आतां ह्या खिणाक हांवें कावळो जावपाचो...
इतलेंच!

## रमेश भगवंत वेळुस्कार

### कोंकणीची वज

सोनांय
सोनांय
तुज्या नांवातूच
कवनाचे
चल कोचे कोचे
आनी चलपांत
ल्हारांचे शे
मींड अनवळखिचे

दोळियांनी तुज्या
झिळमिळ
चान्न्यांतुलें तळें निळें
चित्त म्हजें लेगीत
उळमळ
निळ्या मळबान म्हळें

वंठांवेलें हांशें अशें
ऋतुचक्राकूय लायता पिशें
सांग सोनांय गो
हाचे फुडें

आतां जांवचें गो कशें?

रुप शिरंगाराचो साज
तुजो,वयता
लायत मनाक अुजो
सृजनांच्या प्रलयांचें
जायत कितें कितें
आतां मात सांगू नजो
उतरांत अमृताचें
पर्व लागता गो सजों

उतरांच्या रायांनी गो
स्वरां संगीताचें तेज
चित्त आयकतल्यांचेंय जाता
आपाप सतेज
सोनांय सूर संवसाराची
वयता घडयत वज
म्हजे कोंकणीची वज
अमृताचीय दिश्‍ट लागची
अशे कोंकणीची वज
अशे कोंकणीची वज

पाळें,
२८-०१-२००३

(रमेश वेळुस्कार चलतां भोंवतां कविता येवजितालो, हातांतल्या कागदा कुडक्यार बरयतालो आनी आपल्या हातांत त्या वेळार आशिल्ल्या पुस्तकांत चोंदून दवरतालो. तांचीं पुस्तकां चाळटनां हे चिटोरे मेळटात. तो कोंकणी कवितेचो दस्तावेज. खंयच्या पुस्तकांत त्यो घेतल्यात तें सोदतकच सांपडतय बी. तरी आमी मेळटात तश्यो उजवाडायतात. कांय पूर्ण कांय अपूर्ण.... - संपादक)



## प्रमिला सुभाष बोरकार

### मळबाची भोंवडी

फुलपाखर्‍या फुलपाखर्‍या बसय म्हाका फाटीर
पांखे हालयत उड रे तूं वयर मळबा वाटेर

सूर्यमामा येतलो तेन्ना हळूच कुपांत लिपया
भांगर ताजें काडून आमी आमच्या आंगाक लावया

आरे -आरे चांदीमामा यो रे बेगीन मळबांत
हातांत हात घालून आमी खेळया निळ्या आंगणांत

वेंचया फुलां नखेत्रांचीं धवीं धवीं पोशांत
माळ तांची गुंतून घालया आमी दोगांय गळ्यांत

वाटेकडेन दोळे लावन आई बसल्या दारा
परत म्हाका फाटीर बसोवन व्हर रे म्हज्या घरा

निलबा खांडेकार

# नुपूर शर्मा



खबर आशिल्ली
गर्मी जाले वगर पावस पडचोंना
वारें व्हांवतलें
पावस पडटलो
आनी मागीरूच गरमी थोडी कमी जातली

तोंडां अर्शींच सुट्टर्ली
पोटांय अर्शींच सुट्टर्ली
मारतल्यांचे हात घडये आडोवं येता
पूण तोंडां न्हय
बोटां चलतर्ली
आनी सुसाट मनां

वाट पळयतां पळयतां
सत्य मात खंयचे खंय नानपयत जातलें
तसो,सत्याक खंयच जागो ना हेंच खरें
'सत्यमेव जयते' हें पुस्तकांतूच बरें दिसता
आनी पुस्तक बंद आलमारींतूच

वाट पळयता,
मनांतली घुसमट
आनी इतिहासाचो विपर्यास
नव्या दृश्टीकोणांतल्यान पेपरार देंवतलो
घडये काणयों बरोवप जातल्यो
पूण वाचपी घडये नासचेना
आनी आसलेय जाल्यार
स्वताभितरूच चिडूडतले
'मी नाही त्यातली,खिरळी घाल आतली'
इतले मेरेन म्हणसर
पोटभर मेळिल्ल्या धमक्यांनी
मन घट्ट करपाचें आसता

सुटलेले बाण आनी उलयल्लीं उतरां
मोजून मापून मोडिल्ल्याचें मात
दोळ्यांत दिसपाक जाय
विरगळून वचं नासतना
खंयच्याच थरार
तरीय इतिहास हो इतिहासूचासता
बोट तेंकल्यार हात लायला म्हणपाचो
आनी हेंच, खरें-फट मापूंक वचंनासतना
तो विसरपूच योग्य
म्हण नुपूर तुवूय जगतलें
बातमी जावन हायलायट जातलें
आतां तरी सुशेगाद न्हीद पिश्या

आमी अजून जिते आसात,कित्याक जाणां?
आमकां अजून कोणें मारूंना म्हण

गरमी,वारें,पावस
सगळें सत्ते वांगडा आसा

(जुलय २०२२)

## रजनी सुबण्णा बालेपूर

### वाडदीस

प्रत्येक वर्सा हांव नाका जावन सो
म्हज्या वाडदिसाचो मनयतां सुवाळो
हाचें कारण एकूच आसूं येता
खाया पिया आनी मजा करा
एक दोन खीण सगळें विसरा
प्रत्येक वर्साच्या ह्याच दिसा
एक मेणवात वाडवता आनी
एक वर्सान म्हजी पिराय उणी जाता
एक एक करत कितल्यो मेणवाती पालवतात?
आनी हांव......हांव मात थंयच
घट्ट जावन फातर
पळयत रावतां पालयल्ले मेणवातीचो
धुंगरच धुंगर
कित्याक कोण जाणां मनांत विचार येता
की पालयिल्ले मेणवाती फाटल्यान हांशें आसा
दुख्ख आसा...आनी आसा खोशेची नशा!
प्रत्येक मेणवात घुम्मटून चिड्डून दवल्ली आशा
कितले मेळटात हात हातांत
कितले मेळटात गळे गळ्यांत
कितलीं हीं फुलां आनी कितले हे हार!
अशें दिसना तुमकां की हो नकलांचो बाजार
आनी अडेची सो सगळोच वथळचार?
हांव येवजीत रावतां की,जर ही वेळ हांगाच
थाम्बिल्ली जाल्यार....हो खीण हांगाच
रावबिल्लो जाल्यार
हें जिणें कितलें सोबीत ....कितलें मोगाचें
जातलें आशिल्लें...
देवा ....म्हजे जिणेंतलीं
इतलीं वर्सां केन्नाच
जावचीं नाशिल्लीं उणीं
आनी हाचें दुख्ख सोडून हांव
करत काय दुसरें कोणी?

## ॲड. प्रा. अशोक कृ. मोये

### इश्ट कोण?

सगलेच इश्ट आसतात
केवल मेजवान्यो जोडपाक
कठीण प्रसंगार न पावपी
खरे इश्ट कोण नासतात

इश्टांची पारख करपाक
जाय कठीण काल पलोवपाक
कितले इश्ट मजतीक आयले
तें पळोवन जाणून घेवपाक

इश्ट तशे खूब आसतात
मौज मजा करपाक येतात
सुवाळे साजरे करूंक जमतात
पूण हे आपले खरे इश्ट नासतात

ह्या संवसारांत सुवार्थ चड जाला
प्रत्येक जाण इश्टागतीच्या नांवान
सुवार्थ आपलो भागोवंक आतुरला
सुवार्थ देखून तेंगशेर पावला

पुर्विल्ल्या काळांत अशें नासलें
खुबशे जाण खरेच मित्र आसले
संकटकाळांत एकमेकांक पावताले
ताचेरूच खरी इश्टागत जाणताले

सुवार्थ आनी इश्टागत
वांगडा वचूंक शकना
कोण सुवार्थ साधूंक आयला
हें सहजा सहजी कळना

सुवार्थी इश्टागत नक्कीच
खरी इश्टागत जायना....



## महेश पारकार

### नांवांत खंय कितें आसा?

शेक्सपियर सांगून गेला
नांवांत खंय कितें आसा?
म्हाकाय आतां तेंच सांगपाचें आसा
मनशांच्या नांवांत आतां कांयच उरूंक ना
म्हज्या गांवांतल्यांक, शेजाऱ्यांक
कोणाक म्हजें नांव खबर ना
भुरगीं-पोरां आपलीं-हेरांलीं
काका-बाबा, मामा-दादा म्हणटात
बायल लेगीत नांवान उलो मारीना
घडये तिवूय विसरल्या जावंक जाय
भुरगेपणांत खेळटना, संवगडी
नांव घेवन आड्डी मारताले
तेन्ना समजतालें अमके नांवाचो हांव एक प्राणी
आतां हळू हळू ते खेळूय नात
ते संवगडीय उरूंक नात
नवे पिळगेक नांव घेवन उलोवपाचें
पासियेंस ना,फकत हाय-हॅलो, मिस्टर, सर
पात्रांव-अयऽऽहात दाख्रोवन वळख्र दाख्रवप
ह्या बोवाळांत म्हजें खरें नांव शेणत गेलां!
दिसता केन्ना केन्ना हावूंच एक दीस तें विसरत
म्हण
म्हांका खूब फावट प्रस्न पडटा
मनशाक अमको-अमकोच अशीं नांवां कित्याक
तीं?
तीं नासल्यार तांचो फायदो चड काय नुकसान
चड?
हरशीं आमी सगळे मांसाचे गुळे,
थंय अमकोच शिवा, गणेश, पार्वती म्हूण
एकमेकाक पाचारिल्ल्यान आमीच आमचे भितर
वेगळेचार घेवन भोंवप कित्याक?
कोण फोणो,धोंडो,पाकलो-खाप्री म्हणून
तांका खालतेपणान पळोवंक लावप कित्याक?

पांडुरंगाचो पांडू, यशवंताचो येसू,
कायतानाचो कायतू,देवानंदाचो देवू,
कमलाकांताचो कामू करतल्यांक
नांवा परस टोपण नांवाचो घोस्त अदीक
काळ्या रंगाचो काळू, गोऱ्या रंगाचो पाकलो
रंगभेद आयलो
जाका लागून व्हडलीं झुजां जाल्यांत
म्हणून मनशाचे कपलार अमकेच नांवाचो तकटो
मारून धाडलेलो जाल्यार वायटशें नासलें!
उणेंच तांगेल्या खरे नांवाची इपश्टा जावंची
नासली
वखदांचे नांवा भशेन अमक्याच नांवाच्या म
नशाचे
वेगवेगळे गट करपाक बऱ्याक पडपाचें
खंयी परकी गांवांत गेल्यार आपले नांवाच्या गटा
भितर
हक्कान रावपाक मेळपाचें
"त्या मोटेल्या चेडवान काल गुळयो दिल्ल्यो तें
चेडूं येवंक ना?"
"तीऽऽरे तांबडे गुड्डेची बाटली-निळे बेगडेच्यो
गुळयो
फाटले शेनवाराक मोडवेल्या चेडवान दिल्ल्यो
तें येवंक ना? तें आसलें जाल्यार..
तुवेंच दिल्ल्यो मुगो-तुका याद ना?"
सारक्कें नांव घेवन वस्त मागप हें जल्मांत
थोड्यांक जमचें ना
ते भायर दुदी कसो,पोटारो,माड कसो,खड्डो-
तामीट-खाडयो


75 आज़ादी का अमृत महोत्सव

पाटीं कशी बायल,फूक माग्ल्यार पडटलो असो दादलो
हीं टोपण नांवां, तांतूंत भिनग काव्य,मजा आसा
जिणेंत रंग भरतात-पूण नांवाचें खेरीतपण शेणटा!
घडये हे संस्कार बायलां घोवाचें नांव घेनांत
घरांतल्या जाणट्यांचींय नांवां अशींच शेणत वतात
देखून हो विसरभोळेपणा येवंक ना मू?
कसलेय फॉर्म जावं इलेसांवाचे मतदार वळेरेंत नांव आसा म्हणून माणसुकी,ना तर...
भोंवतणी घाई-गडबड वाडटा-वाडत रावतली
पेपरांनी,टिवीर नेते,गिरो-हिरोईनीचीं नांवां गाजतात
देखून आमचे मतींत उरतात! आमचीं नांवां?शे...
आयजच कोण तीं तोंडांत घेवपाक तयार ना
अशें हे चारशीं वर्सांनी जातलें -शेक्सपियरान वळखल्लें
देखून नांवांत कांय एक ना अशें सांगून गेलो
चडशी पिराय उलगली-आयज म्हाका तें समजता
आनी म्हणटां-मनशाक बारशाक नांव दवरप ना
आनीक चारशें -पाचशें वर्सांनी कितें जातलें?
त्या वेळार घडये कोणाक नांवाच आसचीं नात
दर दिसाक, म्हयन्याक, वर्साक नांवां
मुदार करपाची रीत येवं येता
कित्याक तर तेन्ना मेरेन नांवांत कितें आसा?
हें शेक्स पियेरालें सांगणें लोकांचेर
अदीक खोलायेनयेवन मतींत रिगतलें!







## डॉ.उल्हास गो. प्र. नास्नोळकार

### आस

तिनसांजच्या थंड वेळार
बसलां दर्या देगेर
सूर्य गेला उदका पार
तांबुडसार शिंपडला मळबार

नाचत येता उदका ल्हार
हळूच पडटा पांयार
रेंव घेवन माथ्यार
सोडून वेता आधार

नकळत काळोख पसरत
सगळे रंग बदलत
एक आस काळजांत
चान्नें दितलें आशेचो हात

एक नखेत्र लखलखत
हळूच पुटपुटलें कानांत
आज उमाशे रात
कसो जातलो आत्मो शांत!

## सुनील पालकार

### प्रार्थना

वासुदेव देवकीच्या पुता
संवसार सारथ्या अनंता
नांव तुजें सदां स्मरतां
नमस्कार म्हजो हरेकृष्णनाथा ||१||

विश्व विधाता सुकुमारा
वेद पवित्रा ऊंकारा
कोटीसुर्य तेजा परमपिता
नमस्कार म्हजो हरेकृष्णनाथा ||२||

संवसारस्थाची दिव्य आत्मो
अनंत आत्म्यांचो परमात्मो
सगळें करणाऱ्या कृपावंता
नमस्कार म्हजो हरेकृष्णनाथा ||३||

विद्या धनाचो विद्यात्मो
परम पवित्र प्राणात्मो
परम तेजा अवदूता
नमस्कार म्हजो हरेकृष्णनाथा ||४||

जलममरणाचो आदीपती
सगळ्या कलांचो कलापती
अनंत रुपां दयावंचा
नमस्कार म्हजो हरेकृष्णनाथा ||५||

तूंच गा जलम आनी जीवन
तूंच गा दुख्ख दुखनाशन
ज्ञानदाता बुद्‌दीदाता
नमस्कार म्हजो हरेकृष्णनाथा ||६||

अनमोल ज्ञान प्रकाशकारी
आंतरीक उर्जा उर्जेच्यो झरी
तेजा परसूय तेजवंता
नमस्कार म्हजो हरेकृष्णनाथा ||७||

विशाल वर्ण विशालकायेचो
विशाल नदर विशाल दोळ्यांचो
तुजीच भक्ती दिसरात करतां
नमस्कार म्हजो हरेकृष्णनाथा ||८||

मोहित रुपाची भोवच देखणो
प्रसन्न सभाव अखंड तरणो
सगळ्यां काळजां मनानी नंदता
नमस्कार म्हजो हरेकृष्णनाथा ||९||

मनकुंभांतलें महा अमरुत
भक्तीरसाची रसाळ बिंदूत
एकलोच अख्ख्या जगाक पोसता
नमस्कार म्हजो हरेकृष्णनाथा ||१०||

मागणी समर्थी बरे बुद्‌दीची
कंठांत माळ मुक्ताफळांची
चराचरांत तुजीच सत्ता
नमस्कार म्हजो हरेकृष्णनाथा ||११||

जिवनांतलो नाद परम सुवाद
सुखांतलो गाभो सुखानंद
म्हौवा परस म्हौवाळ अमरुता
नमस्कार म्हजो हरेकृष्णनाथा ||१२||

झडून भितरलो अहंकार
घडचो मनाक साक्षात्कार
निर्गुण निराकार गुणवंता
नमस्कार म्हजो हरेकृष्णनाथा ||१३||



## सुभाष नटवरलाल शाह

दोन कविता

### पोस्टाचें पत्र

कविता बरोवपाची उमळशीक लागल्या
देखून हांव आयज कविता बरयतां

कविता बरय बरय म्हणल्यार कविता जायना
तरी पूण कितें बरयल्यार कविता जाता काय?

आतां हांवें पोस्टाचें एक पत्र पळयलें
हांव ताचेर येवजितां तें कसलें आसतलें?

आतां म्हज्यान रावंक जायना जालें
पाकीट फोडलें,आरतें परतें पळयलें

वाचलेंय बी आनी मनांत घोळयलें
हाचेरूच एक कवन रचपाचें थारायलें

असो हो धांवसरो हांवें कवितेचो धरलो
आनी पुरायेन हांव कविते भितर रिगलों.

अशें हें नवल कित्याक घडूंक पावलां
तर हांव हालींसरा कवितेच्या मोगांत पडलां

### बा

आयज म्हाका एकसुरो एकसुरो सो दिसता
'बा' तुजे विणें सगळें जग रितें रितेंशें दिसता

तूं आसतना कितलें बरें दिसतालें
केन्ना काय घरा पावता अशें जातालें

हांव खंय गेल्यार तुजे दोळे
म्हाका सदांच हंडकेताले

आमकां ल्हानाचीं व्हड करूंक
हाताचीं बोटां तुवें झरयलीं

कवाथ्यांवरी शिंपून आमकां वयर काडले
उंचेलें शिक्षण दिवन पांयार उबे केले

सगलें सूत्र आतां आमा म्हाका
'बा' तूंच ना गे आतां म्हाका

हेंच दुख्ख जाता आज म्हाका
सांग 'बा' आतां तूं खंय आसा?

हालींसरा हांव तुजेविणें पोरको जालां
घरांत येतना आतां जड जातात पावलां

उदास मनान हांव फोटो पळयत बसतां
'बा' तूं आमचे मदीं आसा कशी दिसता

उठटना बसतना घटके घटकेक
यादीन तुजे मन व्याकूळ जाता

सगळें घरूच म्हाका किण्ण कशें जालां
सांग 'बा' तूं अचकीत सोडून कित्या गेलां?

## सोनिया (सुनिता) सुभाष शाह

दोन कविता

### फुलांचें आयुश्य

सगळींच सपनां
वाऱ्यार सोडून
दिवपा सारकी
नासता न्हय?
कांय सपनां जलमभर
काळजा कडेन घट्टट वेंगोवन
तांचे गोड यादीन
भिजतनांय
जिवाक खोस
भोगता न्हय?
जेन्ना म्हजे दोळे
तुज्या बदामी दोळ्यांक बागयता
तेन्ना म्हाका दिसता
सरभोंवतणची दाट घरां
मनशाची कुजबूज
सवण्यांची चिंवचिंव
आमच्या मोगा आड येता
तुजे सांगातान जियेताना
परमळीत फुलांचें आयुश्य जगतां
ताची खोस
म्हज्या पोल्यार
उपाट भरून रकता

### दुख्खाची इश्टागत

हालीं हांवें दुख्खाकडें
इश्टागत केल्या
तेन्ना सावन
दुख्ख म्हजें इश्ट जालां

दुख्ख म्हळ्यार
खंत करीत बसना
दुख्खाची म्हाका
भिरांतूय दिसना...

दुख्खाक हांव
माणकुल्या भुरग्यावरी
खांदा-माथ्यार घेवन नाचयतां
दुख्खाकडें हांव हांसतां खेळतां

दुख्खाकडें इश्टागत केल्या
तेन्ना सावन हांव सुखी आसां
सुखाचो विसर पडूंक लागला
हालीं दुख्ख म्हज्या गोपांत आसता

थकल्या भागल्या मनाक
दुख्खाचीं गीतां गायतां
तेन्ना म्हज्या मनाक
दुख्खाची खरी इश्टागत कळटा

दुख्खाकडे झूज मारून
म्हजें मन पाशाणी फातर जालां
आतां पर्वता येदीं दुख्खां आयल्यार
म्हज्या दोळ्यांत दुख्खूच येवंचेंना...



## कल्याण सावंत

दोन कविता

### कळसुत्री बावल्यो

ल्हान आसतना तूं हिणयतालें
म्हजो बापूय गरीब म्हूण
पूण तो गरीब केन्नाच नासलो
अभिमानान जियेतालो
कश्ट करून धा पोटां भरतालो
स जाणांक शिकयतालो
सोयऱ्या धायऱ्यांक आदार दिवन
भुरग्यांक पांयांर उबीं करून
तांचें बरें बरें पळोवन
खूब खुशाल भरीत जावन
चलतां भोंवतां गेलो
आनी तूं लोकांच्या दारांत
दुसऱ्यांचेर तूं जावन भार
तुंवें आज हांतरूण धरलां
तूं जिवितांक वाजेलां
मरणाची पळयत वाट
जिणेंत केन्ना येत कसलें वोल्त
कोण चडटलो चडती
कोण देंवतलो देंवती
कोणायच्यान सांगू नजो
म्हूण कोणाकूच हांसूं नाकात
जिणेची दोरी निर्मात्याच्या हातांत
आमी फकत कळसुत्री बावल्यो



### पयल्या पावसांत

ते घेतात भिजून
पयलोच पावस तांकां आवडटा
म्हणटात खूबच जाण
पूण हांव तो चुकयतां
पयल्या पावसांत आसता घाण
साफ करता वातावरण
धरतरेचेर हाडटा धुळीचे कण
विखारी वायू जमनीर येता घोळून
पयल्या पावसांत
जमनीर येता जिवाणू, किटाणू
म्हूण सदांच मदल्या पावसांत
भिजतां, पितां, न्हातां रांदतां
मदलो पावस सगल्यांत नितळ
पूंजायल्लें उदक पिवं येता
तशाक तशेंच तापय नासतना.



## दिलीप बोरकार

### मोने कळे

तुजे दोळे मोने कळे
देखतां देखतां फुलतात
म्हजे दोळे तुजे कळ्यांक
कित्याक अशे भुलतात?

दोळे निळे, दिसूं कळे
भासूं अचकीत जळनळें
शिंपून घेतां काळीज म्हजें
जंय फुलता साळक निळें

तळ्यांत तुज्या मळब निळें
तातूंत तूं सावूल मावळें
बुडटां बुडटां दोळ्यांत तुज्या
उतरांक अळंग पाखां फुटतात

दोळे तुजे भोळे भोळे
अशेंच म्हाका पळे पळे
सैमाक तेन्नाच फुटून गळे
आमचे पासत गायता पळे

अमृत महोत्सव



## सुवेदा पालकार

### पावस

आयलो तूं क्रोधीश्ट जावन
जळीं मळीं झडप घालीत
हाका बडय ताका उडय
आकांताचो उजो ओंकीत

गरिबाची खोंपटी म्हजी
पाखें तिजें हुबयलें
कश्टांनी बांदिल्लें मल्ल
सरसकट पिसुडलें

पुर्वजांचें घर तांचें
वणटी सकट देंवलें
घरांत कितें आसलें नासलें
व्हरून न्हंयत पावयलें

दारा फुडल्या आंब्या रुखाक
बडय बडय बडयलो
वडाच्या अहंकाराक
खिणा भितर न्हिदयलो

घरांत भितर रावला येवन
रांदपा खातीर चूल ना
आंगार चडोवन लज राखूंक
सुको एकूय कपडो ना

पुरो जालें चल आतां
परतीचे वाटेक लाग
परत जेन्ना येतलो तेन्ना
मातसो मनीसपणान वाग



## अजय जल्मी

### मोग आनी फोग

मोग म्हजो आनी तुजो
जावंचो न्हय चवथीक
लावपाचो फोग
घरा येवपाक कळाव जाल्यार.
काडचो तुवें म्हजो फोग.
बाणस्तारच्या बाजारांत,
जाल्ली म्हजी आनी तुजी मेट
परत आमी मेळत, काय?
जाल्लो काळजांत दुबाव
नार्वेचे अष्टमीक,
मेळ्ळीं आमी परत
तेन्ना दिसलें म्हाका, हांव
तुजो कृष्ण
आनी तूं म्हजी राधा
देवळांत गळ्यांत तुज्या, माळ
घालतना
सोद म्हजो सोंपलो
आतां आंगणांत खेळटात
सोबीत दोन फुलां आमचीं
बाय म्हणटा पप्पा
जाल्यार बाब म्हणटा मम्मी
मोग असोच आमचो तिगचो
सकाळी उठतगीर परत धांवचो
आनी तीनसना गोडसाण येवची.

केरी फोंडा. मो. ७३९१९९६३५९



## हांव

चिमटेंत धरून एकेक करून दर्यांत मोखले दोंगर
मागीर एकाच घोंटात पिवन उडयलें सैमांतलें सगळें
खारें उदक
मळबाक कवळून दवरलें दोळ्यांत
आनी घट्ट दामून बंद केल्यो मलप्यो
पुराय हवेक ओडून घेतली भितर म्हज्या नाकांत
पुरून उडयलें चोंचलेंत म्हजे
सूर्य,चंद्र, तारे,ग्रिरे,नखेत्रां...
एकान एक हांवें हातासलें हातांत
आतां उरूंक ना भायर कांयच
जाल्यार,हांव...आतां खंय
धर्तर तर आतां नाच
हांव सोदूंक लागतां म्हजो आधार
अचकीत हांव
जावन वतां अचल
त्याच खिणाक लागतां गर्जूंक
फाफसतां शीम हुपून चोंय दिकांनी
भोंवक लागतां अमर्याद
मारतां भोंवताडे
मागीर उगडटां दोळे जाल्यार भायर तोच संवसार
हांव धापून घेतां दोळे
आनी आतां म्हाका म्हजे भितरूय लागता दिसूंक
पुरायेन तेंच
जाल्यार,आतां...हांव खंय?

**विनोद जोशी**, गुजरात
*(नामनेचे गुजराती कवी–कोंकणी अणकार दिलीप बोरकार)*



## दोन कविता

१
काळजा सावन कशें करूंक शकता
माफ
काळजा सावनूच तर केल्लो आसता
राग
‘हांव कोण?’
‘म्हजें सैमा कडलें नातें कितें?’
‘ईश्वर कितें?’
कितलेशेच प्रस्न
जाच्यो जापो सोदतात
२.
तूं काळखा लागीं कित्याक झुजता
काळखा आड कोणे जैत जोडलां व्हय?
यो हांवें जशी घरटींतल्यान कीट पेटयली
तूय तकली मन लावन रगड
कीट ही पेट्टलीच
मागीर दिवो पेटूं वा मशाल

तूं काळखा लागीं कित्याक झुजता?

**सतीश विमल**, काश्मीर
*(नामनेचे काश्मीरी कवी–कोंकणी अणकार दिलीप बोरकार)*




# पापाची चीट



**नयना आडारकार**
कविता.कथा,बालसाहित्य आनी ललित साहित्यांत योगदान

"रॉनी, युअर ग्रॅण्डपा वॉन्टस टू सी यू!" सिस्टरीन सांगलें.

"नो... नो... आय डोन्ट वॉन्ट टू मीट हीम. प्लीज... प्लीज!" रॉनीन आपले दोनूय हात जोडले.

बेर्था सिस्टर रॉनी कुशीक बसली.

"ही हॅज कम फ्रॉम सो फार वीथ ओन्ली होप टू मीट यू. कमऑन माय बॉय."

सिस्टरीन रॉनीक समजायलें आनी ती रॉनीच्या आज्याक आपोवंक भायर गेली.

रॉनी... आज्याचो रोहन. फाटल्या दोन वर्सां उपरांत आयज मेळटालो तो आज्याक. पापाच्या रागान घरा गेलोच ना आनी आज्याक पयस जालो. ज्या हॉस्टेलांत रावतालो थंय आज्याच्यो चिटयो येताल्यो. पयल्यो कांय चिटयो ताणें वाचल्यो. घरा यो म्हणून विनवणी करपी आज्याचीं उतरां... ताका आज्याची काकूळट दिसताली. पूण पापा... ताणें केन्ना चीट बरयली ना, केन्ना फोनूय केलो ना. फकत दुडू धाडले... मागता तितलेय. हांव


अमृत महोत्सव

ताच्या उतराक तरशेतालों. पूण... पापा अचकीत कित्याक बदल्लो हाची फोडणिशी ताका केन्नाच जाली ना. हॉटेल एण्ड रेस्टॉरंटाचो व्हडलो बिझनेस सांबाळपी पापाक मॉम मेळ्ळी आनी मोगान पडून तो लग्न जालो. पूण तिका भुरगें नाका आशिल्लें. पापाक जाय आशिल्लें. तिणें पापाक तें दिलें आनी ती गेली आपल्या देशांत परत. तेन्ना सावन पापाच ताची मॉम जाल्लो. पापा आनी आज्या बगर ताचें जगूच नाशिल्लें.

पूण तो चवथेंत आसतनाच पापा बदलपाक लागलो. ओगी ओगी रावपाक लागलो. ताचे पसून पयस रावपाक लागलो आनी मागीर पांचवेंत तर ताणें ताका हॉस्टेलांतूच घालें इतल्या पयस. आज्यान कितलें सांगलें तरीय ताणें आयकलें ना. तो राग रॉनी मनांत धरून आसलो. सुटयेंत तो घरा येतालो तेन्ना तरी पापान घरा रावपाचें! ज्युस्त त्याच वेळार पापा कामा निमतान खंय तरी गेल्लो आसतालो. रॉनी आज्या कडेन हाची कागाळ करतालो. तेन्ना आजो पापाचीच वट उखलून धरतालो. तुका खूब शिकोवपाक जाय जाल्यार खूब पयशे जोडूंक जाय, म्हणून पापा चड काम करता. एकदीस तोच येतलो पळय तुका हॉस्टेलांत मेळपाक. पूण पापा मात हॉस्टेलांत केन्ना आयलोच ना आनी सुटयेंतूय केन्ना मेळ्ळो ना. आतां ताका पापा विशीं एकतरेची तिडक मारपाक लागिल्ली. तो पापा पसून पयस पयस वचपाक लागिल्लो. आनी आतां...रॉनी दुख्खी जालो. इतल्यांत आजो ड्रायव्हर गणेशाचो हात धरून भितर आयलो. हो आजो...?? रॉनी आज्याक पळयत रावलो. 'आजो असो कसो दिसता? सामको हाडांचो सांपळो जाल्लो. दोळे खोल गेल्ले. जातलोच न्हय, हांव नाशिल्लों थंय ताचे कडेन. पापा तर आसून नासून सारको.'

आजो रॉनी सरीं येवन बसलो. 'हो आतां रडटलो आनी लेक्चर दितलो' रॉनीन मान घुंवडायली. पूण आजो कांय उलयलो ना. फकत ताच्या माथ्यांत हात भोंवडायत रावलो. रॉनीची नदर आज्याचेर गेली. आज्याचे दोळे दुकांनी भरिल्ले. खंयच्याय खिणाक तीं रॉनीचेर उडी घेवपाचे तयारेन राविल्लीं. पूण आज्यान निग्रहान तांकां दोळ्यां भितरूच परतिलें. खूब वेळान आजो उलोवपाक लागलो.

"तूं जाय म्हाका." आज्यान आंवढो गिळ्ळो. "बेगीन या घराकडेन. हांव येतां तुका व्हरपाक फाल्यां." इतलेंच म्हणून आजो उठलो आनी ताणें तोंड परतिलें. तसो गणेश बेगिबेगीन मुखार आयलो. ताणें आज्याक सांबाळ्ळें आनी दोगूय ल्हवू ल्हवू कुडींतल्यान भायर सरून गेले. आज्यान तोंड परतिलें तरीय ताच्या दोळ्यांतल्यान घळ्ळ जाल्लीं दुकां रॉनीचे नदरेक गेलींच.

पूण रॉनीक धक्को बसलो. ताका दिशिल्लें आजो खूब बडबडटलो. ताका दोश दितलो. हें अशें कित्याक केलें? कित्याक असो वागलो? म्हणीत लेक्चर दितलो. ताका तें आवडचें नाशिल्लें. पूण आजो कांयच उलयनासतना उठलो तें ताका चड खालें. ते परस ताणें तापयल्लें जाल्यार चड बरें जावपाचें. एक थापटूय मारल्यार जातालें. तेंच निमित्त करून तो ताचे वेंगेंत तरी रिगपाचो. ताच्या काळजांतलो पश्चातापाचो ओग तरी भायर सरपाचो.

रॉनीचें मन निरशेलें. जे वाटेर नाक मुंगरून पडिल्लो थंय सावन भायर सरपा खातीर कितलें झुजचें पडलें. मनाक, मनाचे इत्सेक आळाबंदा हाडटा म्हणसर जीव सामको पुरो जावन गेल्लो. आजो आयलो म्हणून कळ्ळें तेन्ना वयलेचाराक ताणें नाखोशी दाखयली. पूण भितरल्यान ताका सूऽऽ जाल्लें. 'आतां आजो आयला. तो व्हरतलो म्हाका घरा. पापा मागीर जाप दिवं ना दिवं. ना म्हाका पापाची गरजूच लागची ना. आजो आसा तितलो पुरो. हांव सरतलों भायर ह्या चक्रव्युहांतल्यान.' सिस्टर बेर्थाच्या मोगाळ उतरांनी आनी ममता वेसनमुक्ती केंद्राच्या वांगड्यांनी घेतिल्ल्या कश्टांनी तो तसो वेसन मुक्त जाल्लोच.

रॉनीन दोळे धांपले तसो पापाचो चेरो ताच्या मुखार आयलो. पापा...इतलो बरो वागपी. पूण मागीर तो फकत दुडवांची पुरवण करपी एक मिशीन इतलेंच ताचें म्हत्व उरिल्लें रॉनीच्या आयुश्यांत. 'आवय' ह्या नात्याची वार तोडून भुरग्याक उबंत उडोवन गेल्लेक आवय म्हणपांत कांयच अर्थ नाशिल्लो. आतां ताचे जिणेंत सगळें कितें आशिल्लो तो आजो. पूण ह्या आज्याचें सुखूय पापान ताका लाबूंक दिवंक ना. ह्या इतल्या पयस हॉस्टेलांत हाडून दवरिल्लें. हेर भुरग्यांच्यो आवयो ना जाल्यार बापूय तांकां मेळपाक येताले पूण पापा मात केन्नाच आयलो ना. आज्याकूय ताणें केन्ना हांगा येवपाक दिलें ना. हांगा येतकच फोन करपाच्या वेळार आजो ताका फोन करतालो.

ताची खबर घेतालो आनी रडटालोय. रॉनीकूय आज्याची खूब याद येताली. मागीर तोवूय रडपाक लागतालो. हेर भुरगीं मागीर ताचीं फकांडां करपाक लागतालीं. तांचीं फकांडां सोंसूं नजं जावन ताणें आज्याचे फोनूय घेवप बंद केलें. असो एकटोच, उबंत पडिल्लो आसतनाच जग्गी उर्फ जगमोहन ताका मेळ्ळो. जग्गीक आवय-बापूय आशिल्लो. पूण आपलो बिझनेस आनी हेर कामां फुडें तांकां जग्गी कडेन येवपाक लेगीत मेळनासलें. ताच्या वाडदिसाक ताचो बापूय एक व्हडलो केक आनी सगल्या भुरग्यां खातीर तरातरांचीं म्हारगेलीं गिफ्टस ड्रायव्हरा कडल्यान धाडून दितालो. शिक्षक तापयत म्हणून तो वाडदीस मनयतालो पूण रातचो हांथरुणा भितर हुडकेत रावतालो. समदुख्खी रॉनी आनी जग्गी लागीं आयले.

सुरवातीक सुटी पडटकच रॉनी आज्याचे उमळशिकेन घरा धांवतालो. पूण आतां आतां ताचें जग बदलिल्लें. व्हड जाता जाता तशे ताचे कुडींत जावपी बदला वांगडा असंख्य प्रस्नांचीं सवणी ताच्या मनांत घुंवतालीं. ते वाडटे पिरायेर ताच्या वर्गांतल्या हेर भुरग्यांच्या बापायंक तो आपल्या भुरग्यां वांगडा इश्टागतीच्या नात्यान वागतना पळयतालो. ताका आपल्या पापानूय आपलो इश्ट जावचो अशें दिसतालें. पूण पापा आनी ताचें काम. सुटयेंत लेगीत ताचे खातीर घरा ना रावपी पापा पळोवन रॉनी अस्वस्थ जातालो. केन्ना एकदां सुटी सोंपून परतो हॉस्टेलांत वता अशें ताका दिसपाक लागतालें.

मागीर मागीर ताणें सुटयेंत घरा वचप सोडलें. सुटी आशिल्ल्यान हॉस्टेलूय बंद आसतालें. पूण जग्गीन एक नवी आयडिया काडिल्ली. सुटी पडली काय रॉनीक घेवन तो भोंवडेर वतालो. हेच भोंवडेर सगल्यांत पयलीं काळजाचे दुखीचेर रामबाण उपाय तांकां मेळिल्लो. जॉयंट मारपाचो... सुरवातेक हॅश, कोकेन करतां करतां हेरॉयन, एलएसडीचेर प्रगती जाल्ली. जग्गी आनी रॉनी... बारा-तेरा वर्सांचेर स्वताचें एक वेगळें जग सोदपाक ते जैतिवंत जाल्ले... एक वेगळें जग, जंय काळजाक घाय दिवपी मनशां धुंवरा वांगडा छू जातालीं.

हॉस्टेलांतल्या कांय भुरग्यांच्या कानारूय हांच्यो जॉयंट मारपाच्यो गजाली गेल्ल्यो. तांच्या तोंडांतल्यान 'मज्जा' ह्या उतराचो अणभव घेवपाक आनिकूय कांय भुरगे फुडें सरले. आतां सुटी पयसूच उरली. आयतारचें



लिपचोरयां भायर वचून घुंवळे वखदां घेवप जातालें. तीं विकतीं घेवपाक घरा कडल्यान पयसो भरपूर मेळटालो. विचारपीय कोण नासलो. हॉस्टेल प्रबंधकाक मातसो दुबाव येवपाक लागिल्लो. म्हणून ताणें तांकां कॅम्पसा भायर वचपाक बंदी घाली. जें कितें जाय तें भायल्यान हाडून दिवपाक मनीस तैनात केलो. रॉनी आनी जग्गूचे हाल जावपाक लागले. पूण जग्गूचे कॉन्टॅन्ट खूब आशिल्ले. तो आतां इश्टा कडल्यान ब्रावनीज हाडपाची ऑर्डर दिवपाक लागलो. प्रबंधकाक ब्रावनीजांचो केन्ना दुबाव आयलो ना. रॉनीक आनी जग्गूक आतां घुंवळी वखदां हॉस्टेलांत आयतीं मेळपाक लागलीं. जग्गूचो इश्ट ब्रावनीजांत हशीश मिक्स करतालो. रॉनी, जग्गू आनी कांय भुरगे आयतारा हे घुंवळेंतूच घालयताले. पूण रॉनी आनी जग्गू हाका सामके चटावल्ले. सोमारचें पोटांत दुखता, आंग फोडटा अशीं निमतां सांगत क्लासांत वचप ते टाळपाक लागले. हेवटेन सेगीत येवपी ब्रावनीज आनी रॉनी- जग्गीचीं दुखणी हांचो कितें तरी संबंद आसूंक जाय हाचो हॉस्टेल प्रबंधकाक दुबाव आयलो. ताणें ब्रावनीज आपल्या ताब्यांत घेतल्यो तेन्ना ताका तो पॉट ब्रावनीजाच्या नांवान घुंवळी वखदां पुरवणीचें दोगांयचें खातें आशिल्ल्याचें लक्षांत आयलें.

तांकां सोडून हेर तवनास भुरग्यांक धाक दाखोवन चवकशी करतकच खरी गजाल भायर सरली. दोगांयच्या घरा नोटिशी गेल्यो. रॉनीचो पापा आयलो ना पूण जग्गीची आवय आयली. आयली ती आयली, हॉस्टेलाच्या प्रबंधकाचेर अकार्यक्षमतेचे आरोप करून गेली. व्हडलीं व्हडलीं डोनेशनां हॉस्टेलाक दिवपी तीं मनशां. तांच्या विरोधांत मॅनेजमेंट कशें वतलें? तिच्या सांगण्या प्रमाण जग्गूचेर खर निर्बंध घाले. ताका भायर वचपाक दिवप ना. हॉस्टेलांतल्यान स्कुलाक वचपाक ताका खास मोटार तैनात केल्ली ताचे आवयन. जग्गू सामको तडफडटालो. ताका त्या वखदां बगर जियेवपाक जायनासलें. एकदीस ताणें एक धाडस करपाचें थारायलें. सूख जाय जाल्यार आपल्याक सांगात दिवपा खातीर रॉनीकूय तयार केलें. रातचें गार्डाची नदर चुकोवन हॉस्टेला भायर रॉनी सांगातान पळ काडपाक तो सफळ जालो. ताणें फोन करून एकल्याक गेटी फाटल्या रस्त्यार येवपाक सांगलें. ताचे मोटारीन दोगांनीय रातचीच धांव मारली.

फांतोडेर दोंगर माथ्या वयले एके ल्हानशे खोंपी सरीं तांची मोटार थारली. ते दोगूय ते खोंपीत भितर सरले आनी रॉनी अजापान पळयत उरलो. ती भायल्यानूच पळोवपाक खोंप. भितरल्यान सगल्या सुखसुविधांनी युक्त कितलेशेच कुडींचें घर. थंय कितलेशेच लोक आशिल्ले. सगले आपलेच धुंदींत. हे धुंदींत भितर रिगतां रिगतां ते दोगूय सगलो संवसार विसरले.

एकदीस खोंपी भितर 'पुलीस येतात धांवात' असो बोवाळ सुरू जालो. मातशे अर्दवट धुंदीत आशिल्ले सटसट करून फाटले वटेंतल्यान सकयल धांवून गेले. पूण जग्गू... जग्गूक आयज डोस चड जाल्लो. तो हालपाचे मनस्थितींतूय नाशिल्लो. जग्गूक सोडून रॉनी धांवपाक शकलो ना. जिवा भावाच्या इश्टाक अशें सैतानाच्या हातांत दिवपा इतलें ताचें मन तयार जावंक नाशिल्लें. घर-दार सोडून इतलो पयस आशिल्लो तरीय आज्यान एका तेंपार केल्ले संस्कार ताका तशें करपाक दिनासले. परिणाम पुलिसांनी धरलें.

रॉनीक वेसनमुक्ती केंद्रांत भरती केलें. त्या वेळारूय फकत पयशे आयले. पापा आयलो ना. हाय डोज जाल्ल्यान ताचो जिवा भावाचो इश्ट ताका सासणा खातीर सोडून गेल्लो. आतां जियेवप तरी कोणा खातीर अशें येवजितनाच आज्याची चीट आयली. बेर्था सिस्टरीन चीट उक्ती करून ताच्या मुखार धरली तेन्ना तिचेर फकत 'म्हज्या काळजाच्या कुडक्याक' इतलेंच बरयिल्लें पळोवन ताकाय अजाप दिसलें. तेन्ना सिस्टरीन ताका ते रिते चिटयेर सुकिल्ले दुकांचे दाग दाखयले. तिणें ताका समजायलें. घडये तुज्या आज्याक फुडलें बरोवपाक जालें ना जातलें. सगलो काळजाचो ओग ताणें तुजे चिटयेंत ओतला. ताचे खातीर तरी तुवें सुदारूंक जाय. पापाचो विचार सोडून दी.

त्या आज्या खातीरूच तो ह्या वेसनांतल्यान मुक्त जावंक पाविल्लो. तें तितलें सोंपेंय नाशिल्लें. पापाचें आपले कडेन अशें वागप आनी समजून घेवपी जग्गूचें मरण ताका परत परत ह्या वेसना कडेन वचपा खातीर उकसायतालें. पूण आज्याची चीट दोळ्यां मुखार येतांच तो तातूंतल्यान भायर सरपाच्या निश्चेवाक खेम मारून रावतालो.

आयज आजो ताका घेवन घरा वतालो. वाटभर तो आज्याचे वेंगेंत आशिल्लो. आजो ताका मायेन थापटीत आसलो. घर लागीं पावतां पावतां रॉनीक दिसलें, आयज तरी पापा येवकार दिवंक रावतलो काय? पूण ताणें तें कांयच आज्याक उलोवन दाखोवंक ना. दारांत पापा दिसलो ना. घरांत काम करपी म्हाळसा मावशेन राट उंवाळून ताका भितर घेतलें. भितर सरताच ताची नदर वणटीर आशिल्ल्या फोटवार गेली. थंय पापाचो हार घातिल्लो फोटो आशिल्लो आनी फोटवा सकयल एक पत्र. रॉनीक धस्स जालें. ताणें प्रस्नार्थक नदरेन आज्या कडेन पळयलें. आज्यान नदरेनूच ताका फोटवा सकयली चिटी वाचपाची कुरू केली. ताणें बेगिबेगीन ती चीट उक्ती केली. 'म्हज्या काळजाच्या कुडक्याक...' मागीर सगले दुकांचे सुकिल्ले दाग. सकयल 'फकत तुजोच पापा' म्हणून पत्र सोंपयिल्लें.

रॉनीन आज्या कडेन पळयलें. कॅन्सराची लास्ट स्टेज आशिल्ली म्हणून तुका हॉस्टेलांत घालो. तूं वतकच स म्हयन्यांनीच पापा गेलो. आज्यान म्हणलें.

रॉनीचीं दुकां पापाच्या पत्रांतल्या सुकिल्ल्या दुकांनी मिसळ्ळीं.

---

*मो. ९८२३५३७५६३, खोर्ली*

ललित



# म्हणींचो अळंकार कोंकणीच्या मळार




अलका सिनाय असोळडेकार

अणकारा पासत साहित्य अकादेमीच्या पुरस्कारान सन्मानीत


म्हणी भाशेक चडयिल्लो अळंकार. पयलींची पिळगी आपल्या निजी जिवितांत म्हणींचो वापर करताली. ते खातीर म्हणी तोंडार घोळत रावताल्यो देखून मुखा वयले पिळगेक म्हणींचो खजानो आपसूकच हातांत लागलो. ह्यो म्हणीं तशोच जिव्यो टवटवीत उरपाक जाय जाल्यार मर्दी मर्दी तांचो वापर करप भोव गरजेचें, ना जाल्यार त्यो इतिहास जमा जावपाक कळाव लागचो ना. त्या म्हणींक जाणटेल्यांनी आपलो आदार दिवन ताची बुनयाद घटमूट केल्या. तातूंत काणयो आशिल्ल्यान मनाक सामक्यो भावतात. प्रत्येक भासांनी म्हणी आसात आनी काणयो लेगीत आसात. पूण आदारीत काणयांक मात्सो फरक जाणवता.

कोंकणी आमची म्होंवाळ भास. ताका विशिश्ट शब्दालंकारांनीं नटयत जाल्यार मुदयेर थीक, हातूंत मात लेगीत दुबाव ना.

कोंकणी भास नानपयत करपा खातीर पुर्तुगीज राजवटी वेळार जायते येत्न जाले. मराठी आनी पुर्तुगीज भास शिकपाक सक्ती केल्ली. पूण आमच्या पुर्वजांनी आपले तांकी प्रमाण आपल्या गिन्यानाच्या म्हालवजाचेर आपले

परीन घट बुनयाद घालून कोंकणी भास गिरेस्त करपाचो ध्यास घेतलो आनी कोंकणी भाशेक सुरक्षिततायेचें कवच आपले भाशेन घालें. तशेंच म्हणीं आनी ओपारींच्या आदाराचेर कोंकणी भाशेक आपलें अशें विशिश्ट स्थान मेळोवन दिलें. अशें आसतना कोंकणी भाशेक वयर येवंक दिवंक जायना म्हूण विरोधकांनी फावो ते येत्न केले. पूण तरी लेगीत ती घटसाणेन आपलो फणो वयर काडून ताट मानेन जगपाक लागली. तिचें दालन समृद्ध जायत गेलें. मानेस्तांनी तिगोवन दवरून फुडले पिळगेक व्यासपीठ उपलब्ध करून दिलें. आतां ताची जतनाय करपाची मुखा वयले पिळगेचें काम.

जाणटेल्यांनीं खूब म्हणीं करून दवरल्यात आनी ताचो अर्थ सारकोच कळचो म्हूण ताका काणयेचो आदार दिला. देखीक- भटाक दिली वसरी, भट हात पांय पसरी, भोंवती भागरथ, पत्रेक गेल्ल्याक वागान खालो, फूल थंय फुलाची पाकळी, बाप्पाय ना आनी पुडवेंय ना, भिकेंत कावळो हागलो, बऱ्याक गेल्यार बिर्मत फुटता, ब्रह्मदेवाल्यो गांठी, भांगराचें तातें दिवपी कोंबी, म्हातारेन कोंब्याक पाटल्या पोंदा घालो म्हूण दीस जावपाचो रावता? मनांत पाल चुकचुकप, मडवळाचें मडें भायर काडलें बगर कळना, माकडा हातांत कोलीत, म्हातारपणांत धवळे रंग, म्हजे घरा बारा म्हशी हांव काडटां उठाबशी, वळखीचो चोर जिवेनीशीं मारता, वाळेस कायतान, शेटी हातान कान तोंपप, सुदामाचे फोव, हुंदरां जाळांनी घराक उजो लायलो, हांडीर आसा चेडो सोदता सगळो वाडो, हातांत पयशे नाशिल्ल्यान पयलें तारीर चडपाक जाय, सटये राती नाशिबांत बरयिल्लें कशेंच चुकना, मिठा इतली प्रीय जावप, हार उडटा म्हणून गांयडोळ उडटा, मान जाय जाल्यार पान मेळना आनी पान जाय जाल्यार मान मेळना. माथ्या वयर तरसाद हुमकळप अशो जायत्यो म्हणीं आसात. त्यो सोंपून सोंपच्यो नात. तातूंतल्यो कांय म्हणीं हांगासर घेवन ताका काणयांचो आदार दिवन तांचें स्पश्टीकरण करतां.

## फूल थंय फुलाची पाकळी

आनंद एक सामको सरळ आनी शांत सभावाचो म नीस. ताणें एक दीस आपले कुलदेवतेक सांगणी करून घेतिल्ली. आपल्या मनांतलें जें काम जावपाचें आसा तें जातकीच आपल्याक परवडटा ते भाशेन अमक्याच पयशांचीं फुलां देवतेक घालतलों. ताचें तें काम जालें आनी तागेलो सांगणी पावोवपाचो दीस लागीं पावलो. तो थारायिल्ले रकमे भितर फुलां विकतीं घेवपाक भायर सरलो. भोंव भोंव भोंवलो पूण ताका खंयच्याच फुलकारा कडेन फुलां मेळ्ळीं ना. सोदत सोदत तो कुलदेवतेच्या देवळा कडेन पावलो. थंय फुलकार बशिल्ले. तांचीं फुलां बेगीनूच विकून सोंपिल्लीं आनी ते सगळे आपलीं पाटलीं उमर्थी घालून उमेदीन पयशे मेजताले. आयज तांचीं फुलां सदचे परस चडूच बेगीन खपिल्लीं. कोण आपल्या भुरग्यांक खाणां घेवन वचपाक जाय म्हणटालो तर कोण जात्रेचें खाजें घेवपा विशीं उलयतालो. आनंदालें तोंड मात पडिल्लें. सांगणे खातीर जाय आशिल्लीं फुलां ताका खंयच मेळ्ळीं ना. निमणें एकल्यालें पाटलें उदारें आशिल्लें थंय तो उमेदीन धांवन गेलो. जाल्यार पाटल्यांत कांयच नाशिल्लें. पूण एकूच पाकळी पाटल्याक दसून आशिल्ली. ताणें ती पाकळी रोखडीच त्या पाटल्यांतल्यान उखल्ली आनी सांगणेक दवरिल्ले पयशे ताका दिले. फुलकारांन म्हळें, ''एके पाकळेचे इतले पयशे कित्याक दिता रे पापया? ती तूं हरशींच व्हर. ना जाल्यार एक काम कर, फाल्यां यो, हांव तुका फुलां काडून दवरतां.'' आनंदान म्हळें, ''म्हजो आयज सांगणी पावोवपाचो दीस. फाल्यां येवन कितें करूं?'' अशें म्हणून ती पाकळी थंयच्यान सांबाळून व्हेली आनी कुलदेवतेक अर्पण केली. आपली सांगणी पावली काय म्हूण विचारपाक भटाक प्रसाद लावपाक सांगलो. देवतेन सांगणी पावली म्हूण प्रसाद दिलो. आनंदाक खूब उमेद जाली. जेन्ना कोणूय आपल्या आसपती प्रमाण परवडटा तशी लोकांक भेटवस्तू वा कितेंय दितात तेन्ना हे म्हणीचो वापर करतात. फूल थंय फुलाची पाकळी.

## भोंवती भागरथ

एक व्हडलो घराबो आशिल्लो. नणंद, देर, जावो, भुरगीं अशें सुमार वीस जाणांचो घराबो आशिल्लो. तातूंत भागरथ नांवाची एक अस्तुरी आशिल्ली. घरांत सगळें वेवस्तीत आशिल्लें. कितेंच म्हूण फाल्त नाशिल्लें. तिका घरांत रावपाची सवंयूच नाशिल्ली. काळ-वेळ तिका कांयच लागऽ नाशिल्लो. खंयच्याय वेळार, दनपार ना, गीम ना, लोकांचो कामाचो वेळ आसत म्हणून ना. उटंगराचो पावस आसल्यार पसून सत्री फुलोवन खबरो



करपाक गुल्ल आसताली. एक वेळचें जेवलें लेगीत ना जाल्यार जाता , खबरांनी ती आपलें पोट भरताली. तिका येता ती पळयना फुडें बायलो एकमेकांच्या कानांत फुतफुतताल्यो. 'आयली गो भोंवती भागरथ!'म्हूण. चाडयो मात सामक्यो रंगोवन सांगून ती आपलो दीस सारताली. कांय वेळा ती दिश्टी पडत जाल्यार तिका चुकोवपाचो येत्न करताली. काम ना धंदो, रस्ताद कशी भोंवपी बायलेक ' भोंवती भागरथ ' अशें म्हणटात .

## म्हातारेन कोंब्याक पाटल्या पोंदा घालो म्हूण दीस जावंचो रावता?

पयलींच्या तेंपार घड्याळीचो वापर जायनाशिल्लो. अलार्म लावन उठपाची सोय खंय आशिल्ली? जो तो आपल्या अदमासान उठटालो. यमुनाबायगेर एक कोंबो आशिल्लो. तो चिंचे रुखार बसून फांतोडेर साद घालतालो आनी शेजार-पाजारचे लोक तागेल्या सादार उठताले आनी आपआपल्या कामाक लागताले. कोण दूद काडपाक वतालो, तर कोण शेतांत काम करूंक वताले, जाल्यार कोण आपलीं गोरवां चरपाक धाडटाले. यमुनाबाय मात आळशी आशिल्ली.कोंब्याचो साद कानार पडल्यार लेगीत उठपाची जाप काडिनाशिल्ली. ती कुच्छिद्री सभावाची आशिल्ली. तिका सदांच दिसतालें आपल्या कोंब्याक लागून गांवातले लोक आपलीं कामां वेवस्तीत करतात. यमुनाबायन आनी कळाव केलो ना, कोंब्याक धरून पाटल्यांत धांपून दवरपाचें थारायलें. मागीर लोक कशे फांतोडेर उठटात तें पळोवंया अशें तिणें चितलें आनी ती उमेदीन वचून न्हिदली. दीस कसो उजवाडटा आनी लोक आपल्या कामाक कशे वतात तें पळोवंया! अशें येवजत ती माथ्या वयल्यान गोजडी घेवन सुस्त न्हिदली. तिका जेन्ना जाग आयली तेन्ना वाडो सामको शांत आशिल्लो. सगळे लोक आपआपल्या कामाक गेल्ले. कोंबो पाटल्या पोंदा धांपून दवरलो खरो, पूण तो साद घालपाचो रावलो ना. सगळ्यां मेरेन ताचो साद पावलो. सगळे जाण आपआपल्या कामाक वेवस्तीत गेल्ले.

कांय लोक यमुनाबाय भाशेन कुच्छिद्रीपणा करतात. लोकांच्या कामाक आडमेळी हाडटात, कशेय भाशेन तांचें काम जावचें न्हय म्हूण खंयचीय आडवाट आपणायतात. पूण कोणा पासत कोणाचें अडना. तेन्ना हे म्हणीचो वापर करतात.

## वळखीचो चोर जिवेनिशी मारता

एका गांवांत लोकेश नांवाचो गिरेस्त मनीस रावतालो. तार्ची भाटां भेसां खूब आशिल्लीं. ताका म ानान सगळे भाटकार म्हूण उलो मारताले. नांवान कोण ताका पाचारनाशिल्लो. पावसाचे दीस लार्गी पाविल्ले. माकडांनी नळ्यांचेर धुमशेणां घालून नळे सामके फोडून उडयिल्ले. पावस आयलो जाल्यार घरांत रावपाची माणसुकी नाशिल्ली, वर्सावळी प्रमाण चडावत लोकांगेर नळे शिवपाचें काम चलतालेंच. भाटकार म्हूण कितें जालें, ताकाय तें चुकनाशिल्लें. ताणें नळे सारके करपाक आनी वाशे सारके करपाक मानायाक आपयले. जण एकल्या कामगारान काम नेमून दिल्लें तें वेवस्तीत केलें. थंय काम करतां करतां तांकां घराची संवय जाल्ली. खंय कितें दवरतात हाची तांकां सुलूस लागिल्ली.

सगळीं कामां जाग्यार पडटकीच कांय तेंपान एक दीस भाटकारागेरचीं सगळीं न्हिदूंक गेल्ले कडेन तातूंतल्या कांय जाणांनी भाटकाराल्या घरा कडेन चोरी करपाचें थारायलें आनी नळे काडून भितर सरले. ताणी आपल्याक जाय

ते वस्तूंची चोरी केली आनी ताकतिकेन वतासतना एका सोंपणाक पांय आपटलो आनी सकयल पडटना डब्याक हात लागलो आनी तो सकयल पडलो. त्या आवाजान जाणटेलो उठलो. तशी ताची न्हीद जागरूक शी आसताली. तांगेर सदांच एक लांपयाव पेटोवन दवरताले. तो लांपयाव घेवन जाणटेलो आवाजाचे दिकेन गेलो. जूस्त एकल्याच्या तोंडाचेर लांपयांवाचो उजवाड पडलो. जाणटेलो ताका जुस्त वळखलो आनी ताणें ताका नांवान उलो मारलो. आतां हो जाणटेलो आपल्या पुताक म्हळ्यार भाटकाराक सांगतलो ह्या भंयान लोखणाचो वारांव घेवन ताणें ताचे तकले बराबर घालो. जाणटेल्याक जाग्यारूच मरण आयलें.



जेन्ना एक सामको लार्गीचो मनीस विश्वासघाताचें कृत्य करता आनी तो तातूंत सापडटा. मागीर ताचेर आकांत येता आनी तो ताचो जीव लेगीत घेवपाक फाटीं सरना. तेन्ना वळखीचो चोर जिवेनीशी मारता ही ओपार मारतात.

## भिकेंत कावळो हागलो

गोकुळदास सामको गरीब मनीस आशिल्लो. ताचे कडेन पयसो-आडको कांयच नाशिल्लो. पयशे ना म्हणून तो कांयच शिकूंक पावलो ना. आनी कामाय करूंक मेळ्ळीं ना. वेवस्तीत खावप-जेवप नाशिल्ल्यान ताची भलायकी इबाडली.ताचे कडेन आनीक कांयच पर्याय ना म्हणून, भीक मागून खातालो. खरें सांगपाचें म्हळ्यार कोणाकूच भीक मागपाक मात लेगीत आवडना. पोट तें मनशाचें! खाले बगर जायना. लज मुरवत घाणांत दवरून ताका भीक मागची पडटा. एक दीस घरघरांनी भीक मागपाक गेल्ले कडेन ताका कोणें चपाती, फोव, सांजो, नुस्त्या कुडको तर कोणें हुमणांत कालयिल्लें शीत पिशवेंत बांदून दिलें. घरदार नाशिल्लो बाबडो रुखाच्या सावटाक बसून आपल्या पोटाची खळगी भरपाची तयारी करतालो. ताचे कडेन एक ताटली आनी एक पेलो आशिल्लो. लागसारूच व्हाळ आशिल्लो थंय वचून ताणें तोंडार उदक मारलें. ताटली धुली आनी भीक मागून हाडिल्ले जिनस ते ताटलेंत घालून जेवपाची तयारी करता थंय आशिल्लो इतल्यांत कावळ्यान घाण केली आनी ती विशठा ताच्या जेवणांत पडली. आनी तो बाबडो अन्न भायरो जालो .

मनीस संवसारांत पडलो म्हणटकीच ताका कसलें ना जाल्यार कसल्या प्रसंगांक तोंड दिवचें पडटा. कांय वेळा पयशांचो वापर करून आपलीं कामां जाग्यार घालपाचो येत्न करता. तेन्नाच जुस्त तेच वेळार कसलींय आडमेळीं येतात आनी तोंडा कडेन आयिल्लें काम वगडता. अशे वेळार व्हडा कश्टान ताणें मेळयिल्लें पूण निमणें भिकेंत कावळो हागलो अशी ओपार मारतात.

म्हणयांची माळ गुंतत बसल्यार ती सोंपून सोंपची ना.तांतूंतल्यान नकळत सगळ्यांक बोध घेवपाक मजत मात जाली.

*मो. ९८२२९८११०७, मडगांव*

ललित



# खोटें नाणें एक अस्सल नारीशक्त



नूतन सारखरदांडे






हे कादंबरीत लेखिकेन सुंदर पात्रां उबीं केल्यांत. मांगाची आवय बापूय, ताचे भाव, आत्याचो घोव, आत्याली सून, मांगाले काका, मावशी, ग्रेगरीची आवय, भयण, फादर. एकेक पात्र जिवंत उबें रावता. परधर्मीय सुने कडेन जावपी वाद आनी बारीक सारीक प्रसंग लेखिकेन नकसुदपणान चितारल्यात.




आत्मचरित्र आनी चरित्र हे दोन म्हत्वाचे साहित्यप्रकार जे कोंकणी साहित्यांत खुबूच कमी प्रमाणांत मेळटात. कांय भारतीय लेखकांनी सरळ आत्मचरित्र म्हूण बरय नासतना ताका कादंबरीचें रुप दिलां. सरळ आत्मचरित्र बरोवपाचें धाडस कांय लेखक करिनात कारण आमची समाज वेवस्ता आनी निती मुल्यांची फास्की. ज्यो लिपोवन दवरिल्ल्यो गजाली लोकां मुखार आयल्यो जाल्यार लोक कितें म्हणटलो किंवा घरचीं कितें म्हणटलीं हाचो भंय आसता.

डॉ.संध्या भांडारे सिकेर हिणें ही फास्की मोडल्या आनी आपलें जीवन चरित्र बेधडक,मुर्वत बाळगी नासतना कांदबरीच्या स्वरुपांत मांडलां. म्हाका दिसता एके अस्तुरेन बरयल्ली ही पयलीच अशी कोंकणी कादंबरी! देखून हांव तिचें कोंकणी जगतांत स्वागत करतां.

'खोटें नाणें' ही 325 पानांची कादंबरी लेखिकेन

आपणालें शील, शिक्षण आनी शक्त हाचे बळार देशाक सदैव महानतेच्या मार्गार चलोवपी दर भारतीय अस्तुरेक ओपल्या.

'मोगा कुबेर' ही कांदबरीची नायिका, जी कर्तृत्ववान जिद्दी, महत्वाकांक्षी, संयमी, सोशीक पूण धाडशी, जिणे कडेन सतत संघर्श करपी पूण हार न मानपी धीट अस्तुरी. तिचे जिणेंत खूब कठीण प्रसंग येतात पूण ती सगळ्या तरेच्या प्रसंगांक तोंड दिता आनी आपली मोख साध्य करता.

कांदबरीचे सुरवेक मोगा स वर्सांचें दाखयलां. धर्मशाळेंत आशिल्ले सरकारी प्राथमीक शाळेंत ताचें शिक्षण जाता. शाळेंत काळो किट्ट, उंच, जिवान किडकिडीत, काळो कोट, काळी टोपी, धवें खोमीस, धवेंफुल्ल पुडवें न्हेशिल्लो. रुंद दोळ्यांचो घोंगे मास्तर, जो खूब कडक आसता, ताचे शिस्तीन तें वाडटा. शिक्षकांचे स्वभाव, शाळेचें वातावरण, थंयची मस्ती, बरे वायट अणभव ताणें जिवे तट्‌टटीत केल्यात.

मोगाक भुरगेपणांत खूब कश्ट काडचे पडले. घरची गरीब परिस्थिती, धंदो गेल्लो बापूय, नेर्वांची, बरी असल्यार सामकी बरी. ना जाल्यार एक तर बोबाटी वा तीन म्हयने न्हीदून रावपी, दोन फुडले तशेच दोन फाटले भाव, पिरायेच्या आठ वर्सा सावन चादर विकती घेवं नये म्हूण मोगा घरच्यां खातीर गोजड्यो शिवतालें. गोजड्यो शिवतना तांच्या दाव्या हाताच्या तीन बोटांच्या तोकांक सुयो तोपून बोटां काळीं निळीं जातालीं. पूण मोगा गोजड्यो शिवतां शिवतां जिणेची सपनांय शिवतालें आनी तांतूंत रंगून वतालें.

बारावे उप्रांत फादर आग्नेल स्कुलांतल्यान 'फाल्यांच्यान कामाक यो' असो रकाद येता तेन्ना मोगाचे खोशयेक शीम मेर उरना, आनी मोगा शिक्षकाचे नोकरेक लागता. मोगाचें नशीब बदलता. मोगा नोकरी करतां करतां कॉलेजूय करता. बी. ए. बी एड. डबल एम. ए. आनी एम.फील ह्यो डिग्री आपले हिमतीचेर मेळयल्यो. कॅनडा देशांत शिष्यवृत्तीचेर वचून येवन पी.एच.डी मेळयली. ही ताची ऊंच झेंप आशिल्ली.

मोगा लग्नाचें जाता तेन्ना ताका सोयरीको पळेतात. पूण ह्या ना त्या कारणांक लागून त्यो जुळनात. फादराचो एक इश्टूय ताच्या मोगांत आसता. मोगाक चिटी बी बरयता. पूण ताची कितें तरी गैर समजूत जाता आनी तो पयस वता.

इतले मजगतीं ताचे जिणेंत एक तरणाटो येता. मोगा ताचे परस, अणभवान, पिरोयन, शिक्षणान व्हडलें आनी धर्मान वेगळें. ताका सुरवेक तो आवडना पूण तो तरणाटो म्हळ्यार ग्रेगरी ताची कशीच फाट सोडीना. निमणें तें ताच्या रूपाक आनी स्वभावाक भुलता आनी ताचे कडेन लग्न जावपाचो निर्णय घेता. लग्न जातना तें कांय अटीय घालता, ज्यो ग्रेगरी मोन्यानी पाळटा.

घरा कडल्या खर विरोधाक जुमानी नासतना मोगाचें लग्न दोनूय धर्मांक पाळो दिवन जाता.

आनी जेन्ना मोगाक ग्रेगरीचें खरें रूप कळटा, तेन्ना तें सामकें सगळे वटेन फटवल्लें आसता. आयिल्ल्या दिसा अपमान, गाळी फस्ती, मार, फटींगपणा, अविस्वास, कशें तिगतलें मोगाचें लग्न? तांतूंत गुरवाचार, बांयटेर, भुरग्यांक वाडोवप, दोन तीन फावट प्रकरण घटस्फोटाचेर पावता, पुण मोगा खुंट कशें घट्ट रावता. तांतूंतल्या तांतूंत पी. एच. डी करता. ग्रेगरी घरांतल्यान धांवडायता तेन्ना धा वर्सां एकलें दोनूय भुरग्यांक सांबाळून, नोकरी करून इल्ले इल्ले पयशे एकठावन, लोन काडून स्वताचें घर उबें करता. पूण मोगा लग्न तिगयता आनी ग्रेगरीकूय आपणायता.

हे कादंबरींत लेखिकेन सुंदर पात्रां उबीं केल्यांत. मोगाची आवय बापूय, ताचे भाव, आत्याचो घोव, आत्याली सून, मोगाले काका, मावशी, ग्रेगरीची आवय, भयण, फादर. एकेक पात्र जिवंत उबें रावता. परधर्मीय सुने कडेन जावपी वाद आनी बारीक सारीक प्रसंग लेखिकेन नकसुदपणान चितारल्यात.

एका प्रसंगाचो उल्लेख करीन सो दिसता तो म्हळ्यार मोगाचो बापूय भाऊ जेन्ना कमलाबाय बरी ना म्हूण नागोबा भटजी कडेन प्रसाद घेवपाक वता तेन्ना भट सांगता की ब्रम्हे मोगाचे आवयक त्रास करतात. आनी दोन ब्राम्हणांक वाडूंक लायता.

रांदपाचें कोणाक पडलें? मोगाकूच. आवय तर न्हिदून. मोगा सक्काळीं उठून रांदपाचे तयारेक लागता. आनी न्हावपाक म्हूण मान्यात गेल्यार जांगेर रगताची धार. मोगाचेर आकांत येता. पूण तें मनाचो निर्धार करून स्वच्छ न्हाता. आनी कांसाटो मारून रांदपाक लागता. आपूण भस्टें म्हूण कोणाक वास लागूंक दिलो ना, ब्राम्हण

वेवस्तीत जेवन आशिर्वाद दिवन घरा गेले तेन्ना मोगाक सूऽऽ जाता. उप्रांत ब्राह्मणभोजन पावलां कांय ना हें विचारूंक भाऊन आनीक एकदां प्रसाद घेतलो तेन्नाय बी भोजन पाविल्ल्याचो प्रसादूय एकदम बरो जाता.

त्या काळार मोगाचो हो विचार खुबूच फुडारिल्लो. तेन्ना सामाजीक सुदारणा नाशिल्ल्यो पूण मोगा हाका आडवाद आशिल्लें. उप्रांत लग्ना दिसाय ताचेर हीच परिस्तिती येता, पूण मुळीच भियें नासतना लग्नाकूय तेच अवस्थेंत उबें रावता. हातूंतल्यान मोगाचे फुडारलेले विचार आनी प्रसंगाक तोंड दिवपाची धिटाय दिश्टी पडटा.

लग्ना उप्रांतले मोगाचे आनी ग्रेगरीचे शारिरीक संबदाचे प्रसंगूय लेखिकेन तितलेच सरळ आनी उक्तेपणान मांडल्यात. ग्रेगरीचें व्यक्तिमत्व रेखाटपाक तें तितलेंच गरजेचें आसलें.

लेखिकेन कादंबरींत म्हणींचो खूब वापर केला. उदा. तन्नेपणांत हाले हुले, आनी म्हातारपणांत फुलां झेले.

नव्यो सान्नी बऱ्यो झाडटात.

पायन दिल्लें उरना, मांयन दिल्लें सरना. कुल्ली वचूं आनी हात सुटूं.. उणाका कडेन मांडली सारी, दोनूय हारी आपणाचेर.. आनीकूय जायत्यो आसात. आनी कथानक फुडें सरतना त्यो मुदयेक थीक कश्यो लागतात. कादंबरींत मोगाचीं अनेक रूपां दिसतात. ल्हानपणा पासून कुटुंबाची जबाबदारी आंगार घेवपी, जिद्दी, कस्टाळू, मेहनती मोगा. तरणेपणांत कुटुंबांतल्या सगळ्यांक सांबाळून आपले वाटेंत आयिल्ले कांटे खुंटे अळंग पेल्यान काडून स्वताची वाट सोदपी धीट अस्तुरी, आर्थिक वेव्हारांत अपेशी थारिल्ल्या ग्रेगरीक मदत करपी, स्वताच्या भुरग्यांक बरे संस्कार दिवन, बरें शिक्षण दिवपी आनी तांका घडोवपी मोगा, खंयच जिणेंत हारलां म्हूण मानूंक तयार ना हेंच ताचें व्हडपण अश्या विंगड विंगड रूपांनी परिपूर्ण अशे अस्तुरेचें दर्शन ही कादंबरी घडयता.

मोगाचो बापूय भाऊवेल्या उपाट प्रेमान सगळ्या आव्हानांक तोंड दिवंक ताका शक्त दिल्ली. भाऊमामालें मोगा म्हूण ताका मिरोवचें आशिल्लें. आपणाक जाल्ली संतत बरी न्हय म्हूण समजतल्या भाऊक मेल्ले कडेन तुजी संतत कितली बरी तें दाखोवपाचें आशिल्लें.

आनीक एक शक्त ताका कन्याकुमारीक विवेकानंदाच्या स्मारकान दिली. शंबरेक भुरग्यां बराबर जेन्ना स्कुलान भोंवडी काडिल्ली तेन्ना मोगा पयले फावट गोंया भायर पाविल्लें. विवेकानंदाच्या स्मारकांत ध्यान केल्या बराबर ताका वेगळोच दिश्टावो जालो. स्त्री कशी सशक्त जावंक शकता हांची देख तें फुडाराक ह्या संवसाराक दिवपाचें आशिल्लें.

केन्ना केन्ना दिसता ही काणी आयकल्या. मोगाचीच न्हय तर अनेक मोगा बशेनच्या अस्तुऱ्यांची, जीं मोन्यानी कामाचो दोंगर हांसत हांसत उपशितात, जिवितांतलीं अनेक आव्हानां स्विकारतात, तांचे कडेन संघर्श करता, परिस्थिती वांगडा झुजता, ग्रेगरी सारख्या कामचोर, अवेव्हारी, बायलेचो अनादर करपी, तिका पिडपी, मारपी घोवा वांगडा संवसार करपी अस्तुऱ्यांची काणी.

निमणें ही कादंबरी वाचल्या उप्रांत असोय विचार मनांत आयलो. इतले मानसीक, शारिरीक त्रास सोंसून मोगान बंडखोरी कित्याक केली ना? कित्याक म्हूण ताणें ग्रेगरीचे सगळे गुन्यांव भोगशिले, फकत ताचेर मना पासून केल्लें प्रेम तिगचें म्हणून! काय लग्न वेवस्था तिगच्यो म्हणून! काय भुरग्यांक बापायचो सहवास मेळचो म्हणून! ह्या प्रस्नांची जाप हांव सोदीत आसां. तरी अशें म्हणन दिसता की 'खोटें नाणें' ही अस्तुरेच्या जिवितांतली खरें रूप परगटावपी एक जिवंत काणी.

ती वाचतना दाट पावसाच्या बिण्ण काळखांत मळबांत जोगूल लखलखून वच्चें आनी फाटोफाट कुपांचो गडगड जावंचो आनी मागीर कितलोसोच वेळ काळजांत खपखप चालूच उरचो अशें कितेंशेंच जाता! आज मेरेन अस्तुरी दादल्याचें वर्चस्व सोशिकतायेच्या पेल्यान वचुनूय सोशीत रावल्या. पूण लेखिकेन आपले सर्जनशीलतायेचे तांकीन एक अशी अस्तुरी निर्माण केल्या जी आयच्या वर्तमानकाळांत जगदंबेचें रूप घेवन मनीसकायेक सोबना अश्या ग्रेगरी आनी धाकल्या आतेभावाचे वर्तणकेचें पोस्टमार्टम करता आनी समाजान ताचेर पांगरूण घालें तरी तें, टराटर पिंजून उडयता आनी ताका अपराध्याच्या पांजऱ्यांत उबें करून समेस्तां कडल्यान न्याय मागता.

'खोटें नाणे' ही कोंकणींतली एक खणखणीत आनी जबरदस्त कादंबरी वाचकांक दिल्ले खातीर लेखिका डॉ. संध्या भांडारे सिकेर हांका काळजांतल्यान परबीं.

*मो. ९९७०४४५७७८, म्हापशें*

ललित



# तेफळां




**रूपा कोसंबे**

कविता,कथा,ललित साहित्याच्या मळार फिशाल.


श्रावण म्हयनो सोंपून भाद्रपद लागलो म्हणटगर चवथीचे चार-पांच दीस सामके बोवाळांत वतात आनी गणपती आपले घरा गेलो रे गेलो म्हणटगर आमकां नुस्तें खायच्यां गोंयकारांक वेध लागतात ते नुस्त्याचे आनी घडये नुस्त्याकूय आमचे! कारण जून-जुलाय म्हयन्यांत नुस्तें मारपाचेर कायदेशीर बंदी आशिल्ल्यान तांका पसोवपाक भरपूर वेळ मेळटा. आनी आगोस्त म्हयनो येता तो श्रावणाची सुलूस घेवन आनी श्रावण म्हयनो खूबश्या जाणां खातीर शिवराक म्हयनो. तर नुस्त्याचें प्रजनन जावन बारीक-बारीक नुस्त्याचे पिले उदकांत बागडूंक लागतात आनी दीस्त चवथ जातासर तांका वारें भरून कचकचीत पिले मस्ती करूंक लागतात आनी खवय्यांची रसना तृप्त करचे खातीर जाळांत फारावपाक आतूर जातात.

आनी सगळ्यांत पयलीं याद जाता ती बाजारांत हजर जाल्ल्या बांगडुल्यांची. थोंडे-थोंडे बांगडुल्यांक बांगुडल्योय म्हणटात. आमचे भुरगेपणांत इल्ल्यो इल्ल्यो



तर्जनी येद्यो बांगडुल्यो घेऽऽ म्हणून येताल्यो. व्हडलेच म्हळ्यार पांच-धा रुपया वांटो. आतां हालीं त्यो दिश्टीच श्यो पडनात. एकदम येतात त्यो दोन-तीन कुडक्यांच्यो बांगडुल्यो. शंबर रुपयांक स थंय सात. तर जिबेची रूच भागोवचे खातीर पयलीं फळफळीत सुकेंच! भरपूर आलें आनी धाडायिल्ली तेफळां घालून. आनी तेफळां खंयचीं? सुकोवन दवरिल्लीं पुरुमेंतार्चीं बी अजिबात न्हय, तर निकतीच बी धरिल्लीं पाचवींचार घोंसांचीं तेफळां. ह्या तेफळांचें आनी बांगड्यांचें नातें म्हळ्यार म्हाका पळयल्यार तुका खाता आनी तुका पळयल्यार म्हाका खाता. हीं तेफळां जशीं फातरीर धाडायलीं म्हणटगीर धवोच दीक भायर सरता आनी वांगडाच मिरमिरसाण आनी दरवळ. दाट पिळिल्ली सोयेची, भिण्णाचीं सोलां घालून केल्ली कडी आनी बशी भर सुकें वा! आनीक कितें जाय? शिताचें भातें पोट फुटसर मार आनी पोटाक तडस मारलीच जाल्यार जिरवण करपाचें कामूय तेफळांच करतलीं. थोड्या वेळान येता त्या धेंकरांक लेगीत मागीर तेफळांचीच दरपटसाण. ह्या सुक्यान तृप्ती जाली म्हणटगरच बांगड्यांचे हेर प्रकार म्हणजे हुमण (तेंवूय तेफळां धाडावन घालूनच) उड्डमेथी, कटलेट, भरिल्ले बांगडे, बांगड्याचें मसाल्याचें तोणाक, रेशाद, मसाला बांगडे बी!

खरेंच, जाणटेल्यांची म्हण म्हाका अपुरबाय कशी दिसता. ती शाळेंत वचून पुस्तकी गिन्यान शिकिल्लीं जरी नासलीं तरी 'काय कशाशी खातात?' हें तांका बेस बरें खबर आशिल्लें. आनी म्हणूनच तांणी तेफळांचो सांगड जेवणांतल्या कितल्याश्याच पदार्थां बराबर घालो. ताल्ले, बांगडे, पेडवे, कल्ली ह्या नुस्त्यांचें तेफळां बगर हुमण कशेंच मनाक पटना. कारण ह्या नुस्त्याक हिंवळांणी चड आनी धाडावन घाल्लीं तेफळां आशिल्ल्यो नाशिल्ल्यो हिंवळांणी पोटांत घेवन तोंड बंद करून बसतात. गोंयांतूच न्हय तर गोंया भायरूय तेफळांचो उपेग हुमणांत केल्लो हांवें खूब कडेन पळयला. पूण गोंयच्या हुमणाची सर तांच्या त्या हुमणाक ना हें शेंबडें पोर लेगीत सांगत!

आमी गोंयकार नुस्तें आसल्यार वीर आनी नुस्तें नासल्यार व्हीर अशें बाकिबाबान म्हणून दवरलांच. चवथीचे दोन दीस पुसून काडपाक थोड्यांक कुस्तार वतात. म्हणून तांच्या घराब्यांनी पंचमे दिसाक नुस्तें खावपाची तजवीज करून दवरल्या. थोड्यांगेर खंय पंचमी दीस नुस्तें मेळ्ळेंना तर खाऱ्याचें बोडूक तरी खंय उज्यांत उडयतात. ना जाल्यार पांच दीस मागीर घरांत नुस्तें हाडपाक मेळना म्हणून गणपती पावोवपाचे पयलींच फाटल्या दारान नुस्तें घरांत येता. आनी बांगडे, कल्ली सारकें नुस्तें मेळ्ळें जाल्यार माटोळेचो तेफळां घोस काडून धबधबीत आनी हुमण जाता. कांय ना जाल्यार खाऱ्याचें हुमणूय चलता. तेफळां धाडावन घालीं म्हणटगीर जालें. तोंडांतल्यान कितलीय लाळ टपकली तरी हो लेख नुस्त्याच्या विंगड विंगड पदार्थांचेर न्हय तर तेफळांचेर हें तुमकां लेखाच्या माथ्याळ्या वयल्यान लक्षांत आयलांच आसतलें.

हें जालें नुस्त्या खातीरचें तेफळांचें योगदान. तेफळांचे जायते उपेग आसात. डाळ, तांदूळ, हळसांदे हाजे सारकिल्या धान्यांक बरड लागचो न्हय म्हणून तांतूंत

तेफळां भरसोवन दवतात. आर्युवेदांत तेफळांचो तशेंच तांच्या बियांचो वखदा खातीर उपेग केल्लो आसा. 'शारंगधर', 'चरक संहिता' ह्या सारकिल्या ग्रंथांतूय तेफळांचो उपेग केल्लो उल्लेख मेळटा. त्या भायर अशक्तपणाचेर, रोगप्रतिकारक शक्ती वाडोवंचे खातीर, उच्च रक्तदाबाचेर, बद्धकोष्ठतेचेर, दोळ्यांच्या विकाराचेर, त्वचा रोगाचेर, तकली दुखप, मोटसाण कमी करप ह्या सारकिल्या पिडेंचेरूय तेफळांचो वखद म्हणून उपेग जाता.

शिवराक जेवणांतलें एक म्हत्वाचें म्हळ्यार खतखतें. देवकार्यां, चवथ, लग्नां सारकिल्या सुवाळ्यांक खतखत्या बगर सोबा ना. तर खतखत्याक बाकिंच्या भाज्यांनी कितलीय रूच हाडूं, तेफळां धाडावन घाली नात जाल्यार ताका सुवादूच ना. आनी खतखत्यांतलो मुळो, भिकणां, माडी, बटाट सारकिले वात प्रवृत्तीचे नग पचयतले जाल्यार तेफळांकच हात भार लावंचो पडटा. मागीर खतखतें भुरकीतना चण्यां भरशीं दातां पोंदां तेफळ येवं पुसून. अशीं दांता पोंदाक तेफळां येवन तोंड मिरमिरचें न्हय आनी जाणट्या नेणट्यांचेर बोवाळ पडचो न्हय म्हण आज्जेन एक शिटकावणी दिल्ली. खतखत्याक चणे घालतलीं जाल्यार तेफळां अख्खी घालनासतना तांचें उदक करून घालपाचें. आजून मेरेन आमच्या घरांत तोच प्रघात चालू आसा.

फाटल्या दिसांनी म्हाळांतले नमीक कोणागेर सवायशिणीक आफयिल्लें. येजमान्नीन बाजारांतलीं बरीं ऽजिर्ती तेफळां हाडून घमघमीत खतखतें केल्लें. सगळ्यांनी परत परत घेवन भुरकायिल्लें पळोवन येजमान्नूय भुरकटली.. येजमान्याच्या पानार खतखतें वाडटना तांतूंतलें तेफळ केळी पानाचेर बावन्स जालें आनी उजवे वटेन बशिल्ल्या भटमामाच्या पानार वचून पडलें. घोवान इतले मोठे केल्ले दोळे पळोवन बाबडेचे तोंड भंयान आनी लजेन काळेंच पडलें. पूण भटान प्रसंगावधान दवरून म्हळें, 'कांय नजो, पक्ष बदलाचो परिणाम हो. देवा कडेन प्रमाण जावपी मी मी म्हणयारे गेले, तेफळांचो गा खंयचो पार?' भटमामाच्या उतरांनी वातावरणूय मातशें सैलशें जालें.

पयलोच पावस झडलो म्हणटगीर तेफळीचेर बारीक बारीक मणयां बशेन तेफळांचे घोंस धरतात. लाग लागीं चवथी कडेन हीं तेफळां मातशीं पुटपुटीत जावपाक लागतात. मागीर खवय्यांच्या तोंडांक तीं पळोवनूच लाळ सुटता. हीं तन्नसार तेफळां नाखटांनी किरमांवन तांचो वास घेवप म्हळ्यार ब्रम्हानंदी टाळी कशी! बाजारांत गेल्लो मनीस हे पाचवे  पाचवे तेफळांचे घोंस घेवन घरा येता. मागीर घेऽ कुंवोळ, तिखटें, तेफळकडी, दाळचो रोस कितलेशेच पदार्थ तीं सोंपता सर करप जाता. हीं तेफळां शेजारधर्म पाळपाक सामकीं फिशाल. पयलेच खेपो घरांत तेफळांचो पाचवो घोंस पावलो म्हणटगर पयलीं शेजराक आशिल्ले ताईबायक, काकीबायक बी दिवप जातालीं आनी शेजरा हाडटगर इल्लोसो तरी घोंस आपल्या वांट्याक येतलोच हाजी खात्रीय आसताली.

व्हडली दिवाळी लागसार पावता तशीं तशीं हीं तेफळां जून जातात आनी तांचेर तांबड्या,काफये कोराची सया मारूंक लागता. घरांक हाडटगर दुसरे तिसरे दिसाक, आंऽऽ जालीं म्हणटगर समजुवपाचें हीं पक्कीं जून जालीं



आनी तांच्या पुरुमेतां खातीरचे तयारेक लागपाचें. पुरुमेताक दवरपाची तेफळां केन्नाच वताक सुकत घालचीं न्हय तर घरांतूच वाळगत दवरचीं. एकेक करून सगळ्या तेफळांचीं तोंडां उकतीं जालीं म्हणटगीर घोंस धाडावन धाडावन तांच्यो बियो काडपाच्यो. मिरयां कणावरी ह्यो बियो दिसपाक दिसतात आनी तांचेर एक चमक कशी आसता. ह्यो बियोय वखदाक उपेगी पडटात हें तुमकां हांवें आदीं सांगलांच. तर तेफळांतल्यो बियो काडटना एकान एक बी केन्नाच काडची न्हय तर थोड्यो तेफळांनीच सांडच्यो, इतल्यान तेफळांचो सुवाद तिगून उरता. शेवटाक मागीर बियो काडिल्ल्या तेफळांक बरेंऽ एक कडकडीत वत दाखोवन कंवचेच्या बाटल्यांत भरून दवरचीं. वर्सां दोन वर्सां तश्शीं उरतात. तेफळांक उदकाचो हात लागत जाल्यार रोखडींच तीं भातेतात आनी हुमणाक बी मागीर भातसाणीचो विचीत्र वास येता. म्हणून जतनाय घेवप गरजेचें.

कोर्णेय सुबेजपणां करतगर, ताका बरें तेफळांचें आजूत दिवपाक जाय अशें कोणाकूय म्हणटना तुमी आयकलां आसतलें. आतांचे पिळगेक ताजो कांय थांगपत्तो नासतलो पूण पयलीं भुरग्यांक / जाणट्यांक संडासाक जालें ना जाल्यार आजूत घालपाची पद्दत आशिल्ली. आतां गुळयो मेळटात. भुरग्यांक घालपाचें आजूत सिरींजा वरी आसतालें आनी जाणट्यांचें धवोच टमरेल कशें. त्या टम रेलाक लांब पायप आनी पायपाक तोंडार बारीक बोटभर लांबायेची नळी. हो टमरेल तेफळांचें, साबणाचें ना जाल्यार बडीशेपीचें बी शिजोवन धुगधुगीत उदक घालून उंचायेर लायताले आनी नळयेन गुदारांक उदक सोडलें म्हणटगीर पोटांत कुळकुळो पडून तांबयो घेवन धांवचें पडटालें. सांगपाचें म्हळ्यार हीं तेफळां बद्धकोष्ठतेचेर जालीम वखद कशें!

तेफळांचें झाड वाडटा बरें पकदस्त. आंगाक मात मोठमोठे काटे. हें झाड एकदम टिकाऊ आनी मधूर कशें मोंव आशिल्ल्यान ताचेर नक्षीकाम करपूय सोंपें जाता. भितर साम कें धवेफुल्ल. फेरयेक येतात ते पाट, लाटफळीं बी तेफळीणी पासून करतात खंय! म्हणटगीर फर्निचर म्हण झाडूय उपेगी. पूण ताजे काटे मात खूबच डेंजर. जोत्यांतल्यान जरी तोंपलो तरी पांय जड जातलोच म्हण गांठ घालपाची!

आतांच्या भुरग्यांक एखादलें खबर नासत पूण आतां पन्नाशेच्या हुंबऱ्यार आशिल्ल्यांक आनी तो हुंबरो हुपिल्ल्यांक 'फटास'/'चिकनोळी' म्हळ्यार कितें तें खबर आसतलेंच! ही फटास जावं चिकनोळी करपाची कृती बरीच व्हडली आसताली. एक तेंफळ वता तितली रुंदायेची पेर आशिल्ली एक कोंड्याची पोकळ बडी घेतालीं. ते बडयेचे 3:1 अशे दोन भाग करतालीं धाकल्या भागाचेर पेर येतालें. हे धाकले बडयेक पोकळ बडयेच्या दीस्त मापान एक ताशिल्ली बडी फीट करतालीं आनी जेन्ना ही बडी व्हडले बडयेंत घालताली तेन्ना मुळार एक तेंफळ उरतालें. आनी जेन्ना तीर मारपाचो आसता तेन्ना आनी एक तेफळ व्हडले बडयेंत सोडटालीं आनी पेराक फिक्स केल्ली बडी अशी धोंगशीतालीं की फट् करून तेंफळ उडून पयस वतालें. मागीर तीर धरून धरून तेफळां अशीं पेटयतालीं की ते नेम धरून मारिल्ल्याच्या पोल्यार, कपलार, फाटीर अशें रप्प करून बसतालें आनी तो वळवळटालो. घेऽ सगळ्यांची मागीर धुमश्चक्री. हो ताका मारता, तो हाका मारता, बरी मज्जा येताली. ही फटाश जावं चिकनोळी दिवाडे फेस्ताचें एक व्हडलें आकर्शण म्हूण आयकल्लें.

मराठींत ह्या तेंफळांक 'त्रिफळ' शें कित्याक म्हणटात तें कुवाडें म्हाका मात केन्नाच सुटलेंना. तेंफळ हें एक अखंड अशें फळ. उगतें जावन बीं भायर येता तेन्ना दोनूय दारीं 'आंऽ' कशीं जावन एकामेकांक दसूनच रावतात म्हणटगीर एकूण दोनूच भाग. मागीर 'त्रिफळ' कशें?

त्या मानान कोंकणींत बरें, तेंफळां! आयकुवपाक पुसून म्होंवाळ कशें! आमची कोंकणी मुळचीच गोड, उलोवपाक आनी आयकुवपाकूय. कोंकणीतच थोडे लोक ह्या तेंफळांक 'तीरफळां' म्हणटात. फटाशेंतल्यान जावं चिकनोळेंतल्यान तीर धरून हींच फळां मारतात म्हणून तिर-फळां' हें नांव म्हाका 'त्रिफळां' परस चड सार्थ कशें दिसता.

हुमणांत, खतखत्यांत घाल्लीं तेंफळां आमी जेवतना काडटात, कुशीक उडयतात. पूण तेफळांक तांचें कांयच सोयरसुतक ना, तीं बावडीं जन्माक येत सावन स्वताक धाडावन घेतात, जेवणाक सुवाद हाडपाचें काम प्रामाणीकपणान करतात, सामकीं अलिप्त कशीं. हीं तेंफळां म्हणजे आमकां सैमा कडल्यान लाबिल्लें एक वरदानूच कशें!

*करंजाळे, गोंय९४०४८१४४३७*

कथा



# रक्षा बंधन



आशा शानभाग

दिया फाटल्यांन बारा वर्सांनी ताचे आवयक गुरवाचार आयिल्लो. सगलें घर उमेदीन, खोशेन सामकें भरून गेल्लें. दिया तर आपल्याक भावच जातलो म्हणून जमनी पसून दोन तीन आंगळां वयरच उफेतालें. घरचीं सगलीं- दियाचो बाबा, आजो-आजी, आतु आतां घरांत वारसाचो दिवो येतलो,वंश ...आडनांव फुडें चलोवपी पुतच जल्मतलो म्हणून खुशाल जाल्लीं. णववो म्हयनो सोंपचे पयलींच देवान जी भालकी धर्तरिचेर धाडली...तेंच सिया. ताणेंय आकांत किळांच्यो मारून आपल्या आगमनाची वर्दी व्हडा गडगडाटान दिली. दिया जल्मलें तेन्नां 'पहिली बेटी तुपरोटी..धनाची पेटी' करून ताका येवकारिल्लें. सियाच्या जल्मा उपरांत ताचो बाबा चलीच जल्मलें म्हणून बोडार पांगरुण घेवन न्हिदिल्लो. आजो मात आयिल्या गेल्याक मुठी भरभरून साखर वाटतालो. नशीब बरें सियाचें दोन तीन दिसा भितरच पिकार जाल्ल्या बाबान घर हालोवन सोडपी आवाजाचे आपले धुवेक मायेमोगान आपणायली.

दियाची मात खरेंच काकूट शेजारच्या लोकांगेर...



सोयऱ्यांगेर जावपी भाऊबीज, रक्षाबंधन तें बापडे मोठ्ठे दोळे करून पळयतालें. आईगेर बाबूच जातलो आनी आपुणय अशेंच करतलें हें सपन सियाच्या जल्मान शेंणलें...सोंपलेंय. चार आंगळां व्हडली भयण धाकट्या बोट भर ल्हान भावाक राखी बांदता, आवयन दिवो पेटोवन धरिल्ल्या ताटाक हात लावून तें ताट भावाच्या मुखामळा भोंवतणी ओवाळता, तर खंय लंगोटेंतल्या भावाक आई घेवन बसल्या आनी ताचे भयणीचे हातांत दिव्यांचें ताट दिवन तांचें आतु ओवाळणी करता...हें पळोवन तांच्या जाग्यार आपणांकच पळोवपी दियाक सियाच्या आगमनान जबरदस्त धक्को बसलो. देवा कडेन कट्टी केली ताणें ...भावा बदला भयण दिली म्हणून!

दुसऱ्याच वर्सा ताणें आपली रक्षाबंधन, भाऊबीज हांची उमेद भागोवपाक आपले इश्टीणीच्या धाकट्या भावाक आपलो भाव मानलो. आपल्या घरांत ताका आपोवन भाऊबीज करप, पांच वातींचो दिवो दाखोंवन ताका ओवांळप.. 'सोनीयाच्या ताटी उजळल्या ज्योति' हें पद तेन्ना गावप, रक्षाबंधनाक इश्टीणीगेर वचून ताका राखी बांधप. अशें करून दिया आपली उमेद भागयतालें. सिया ह्या असल्या बाबतींत अलिप्त. जें नां तें नांच्च... आनी हेंच सत्य मानून रावपी. वडाची साल वडाकच चिकटनां ती पिपळाक खंय चिकटतली? ह्या प्रस्नाक तेंको दिवपी. संमकें सडेतोड. हेरांचे नदरेन सुबेजच. तुमी ताका बरेंऽऽ म्हळें,तें फुलनां...वायट म्हळें, ताका पडुनच गेल्लें ना. दोनूय खास्स भयणी पूण सामकीं आर्क्टिक आनी अंटार्क्टिक कशी!

सियान दियाक हांसप. 'देवा कडेन भाव मागपाचो सोडून भयणच मागली दिस्ता तुवें आवट्यान. तुजी रड पळोंवन देवान तुका म्हज्या गळ्यांत बांदलें जावंये!' असल्या टोमण्यांनी दियान तोंड कुसोवन बसप. बारा वर्सांच्या डिफरंसान दोगांय वाडलीं. तरी दोगांयचो

सभाव मात लेगीत बदल्लो ना...सिया फटकळ, सडेतोड जाल्यार दिया मेळता ताका गळ्यांत बांदून घेवन बरेपण केल्ल्याचे धुंदींत रावपी. दोगांय आपले स्वभावा प्रमाण वाडत गेलीं, सैमान आपल्या जादवान तांका सोबीत तरेन नटयलीं. बरेपणांच्या मोहान भुल्लुसपी दिया अशेंच एका उच्च शिक्षीत पूण परजातीच्या भुरग्याच्या मोगांत अडकलें. भावना प्रधान सभावाक लागून तें ह्या मोहांतल्यान भायर सरपाक शकना जालें. आनी लग्नाक विरोध केल्यार चली जिवाचें बरें वायट करत ह्या भंयान आवय बापायन ताचें लग्न करून दिलें...सम ाजाच्या विरोधाचो जबरदस्त तडाखो सहन करून. लग्न सुवाळ्यांत ल्हायो घालपाक गरज आसा म्हणून ताणें मानिल्ल्या भावाक लग्नाक आपयिल्लो. तो जुस्त टायमार आयलो, वळखीच्याच फोटोग्राफराच्या कानांत मात्सो फुतफुतलो आनी ल्हायो अग्नेय स्वाहा करून गेलो लेगीत. फुडल्या कसल्याच आक्ताक तो परतून आनी दिसलोना.

कांय तेपान लग्नाचो आल्बम आयलो. सगळीं जाणां फोटू पळयतालीं. ल्हायो घालपाचो फोटू आयलो... पळयल्यार दिया आनी ताच्या घोवाचो चेरो स्पश्ट दिसता...तर ल्हायो घालपी भावाचो फकत हात. सियाची ट्युबलायट पेटली. 'ताई, तुजो हो मानिल्लो भाव लग्नांत आक्ताच्या वेळार फोटोग्राफराक कानांत किदें तरी सांगतालो...म्हाका दिसता आपलो चेरो लिपय सांगिल्लें आसतलें माकडान! किदेंय कर पूण वडाची साल पिपळाक चिकटनां हेंच सत्य. लग्ना उपरांतच्या पयल्या रक्षाबंधनाच्या दिसा दिया आपल्या कुळारा आशिल्लें. हो ताचो मानिल्लो भाव तिनसांजेर लिपचोरयां येंवन राखी बांदून घेंवन गेलो.

'चोर कसो लिपून येवन गेलो तुजो भाव. तुजी राखी गटारांत उडयतलो आनी आपल्या खासा भयणीची मात तुटसर मिरयतलो.' सिया भरभरलें.

'जालें मुगो तुजे रक्षाबंधन? जिजु तूं त्या पाटार नाका ..ह्या दुसऱ्या पाटार बस.'

सियान दियाच्या घोवाक ओर्द सोडली.

'कित्याक गो?' '

'नन ऑफ युवर बिझनेस!'

दियाच्या प्रस्नाक फट्कन जाप आयली. झेत्तान आपले जीन पँटीच्या बोल्सांतल्यान एक नाजूक अशी राखी काडली आनी जिजुच्या हाताक बांदली. हाचे फुडें बी केरफूल जिजु. साली आधी घरवाली बी चिंतनाका. मैं तो तेरी छोटीसी, नन्हीसी बहिणाबाई बनीं.'

वडाची साल वडाकच चिकटनां हेंच सत्य मानपी सियान नवें नातें जोडून आनीकय घट केलें.

उपरांत सैमाचे करणेंन दियागेर एक सोबीत बावली जन्मली...लारा. दिया आनी घोव शिर्वीस करपी. स म्हयन्यांची दियाची बाळंतपणाची रजा सोंपून कामाक वचपाचें जालें. धाकटुल्या लाराक हांगा आजोळाच दवरपाचें थारलें. सिया मावशेक एक नवें खेळणें मेळ्ळें. अशाच एका आयतारा दिसाक कुळारा आयिल्लें दिया लाराक घेंवन दनपारचें आड पडिल्लें. लाराचें आंग मातशें गरम जाल्लें... म्हणून सकाळींच दोनूय भयणींनी दोतोरागेर व्हरून हाडिल्लेंय ताका. आतां शारोप बी पिवोवंन ताप कमी जातालो. अचकीत दियाच्या किळांच्यांनी सगली धांवत आयलीं. पळयल्यार लाराच्या तोंडांतल्यान फेस भायर सरला ...आनी ताचे दोनूय दोळे घुंवन वरशे जाल्यात. बुबळां वयर गेल्ल्यान दोळे धवे फटक दिसतात.कोण कांदो फोडून नाकाक लायता, कोण ताचे फाटीर मारता तर कोण नाडी पळयता. धवे दोळे आनी फेसान भरिल्लें तोंड पळोंवन सगल्यांनी लाराची आशाच सोडली. दियान तर व्हडा व्हडान रडपाक सुरुवात केली.

अचकीत कापाजदाद करून सियान परिस्थितीचो ताबो घेतलो. सगल्यांक लारा पसून पयस करून वारो खेळतो रावतलो हाची तजवीज केली. स्वच्छ कपड्यान लाराच्या तोंडा वयलो फेस पुसलो. हें सगळें कांय सेकंदा भितर केलें ताणें. लाराचें नाक धरून ताचा तोंटाक तोंड लावन आर्टिफिशियल ब्रिदींग दिवपाक सुरवात केली. चार..आठ..बारा ...मिणटां धापेवंन धापेवंन सियान आपलें काम सेगीत न थांबतां चालूच दवरलें. भोंवतणीं रडारड चालूच आशिल्ली. सिया जिवाच्या आकांतान धडपडतालें...लारा ..ताज्या काळजाचो कुडको ...ताका कांयच जावपाक जायनां हे खातीर. अचकीत लारान हातपाय हालयले. सियाकय जाणवलें तें. ताणें आपलें तोंड लाराच्या चेऱ्या पसून वयर काडलें. आनी लारा फटाफट शिंकलें. घरांतलीं सगलीं जाणां, शेजरा पाजराचीं मनशां लाराक वेंगांवन हांसपाक लागलीं. तांचें

काळीज आशिल्लें लारा जवळ जवळ यमराजाचें दार धाडांवन परतून आयिल्लें.

अचकीत कोणांक तरी सियाची याद जाली. यमराजा कडेन धक्काबुक्की करून लाराक ताच्या फासांतल्यान सोडोवन हाडिल्लें सियाच ना. 'आरे, सिया खंय?' फकत दियाक कळ्ळें सिया खंय आसतलें तें! फाटलें दार उगडून दिया पोरसांत पावलें. थंब आशिल्ल्या उदकान टम्म भरिल्ले बांयचेर छत्र चांमरां धरून एक गडगंज निरफणसाचे झाड गच्च सावली पातळांवन आशिल्लें. ताचे मुळांत आशिल्ली कपडे उमळपाचो फातर. हें सियाचें वारो खायत विसव घेवपाचें सिंहासन. दियान पळयलें...सिया तकली धोंपरांचेर दवरून बसलां आनी ताची कूड गदगदून हालता. हें हुमसून हुमसून पूण तोंडांतल्यान आवाज भायर सरपाक न दितां रडटा हें दियाक जाणवलें. हळूच वचून ताणें सियाक घट्ट वेंगेंत घेतलें.

'लारा बरें आसा आतां. तुवेंच तर ताका मरणाच्या तोंडांतल्यान ओडून हाडलां.चल भितर. ताका दोतोरागेर व्हरून हाडया.'

दिया आपले शुरवीर भयणीक वेंगेंत घेंवन फाटले दारांतल्यान भितर सरलें.

'आई, आमची वाघीण सगलें जाग्यार उडोंवन, लाराक त्या टोका वेल्यान सामाळून ह्या टोकार आमचे सुवादीन करून निरपणसाक दुकांनी शिपतालें..!'

'करात बकत्शायो, पयलीं लारा हातचें गेलें म्हणून आमी रडलीं तीं खरोखर रडलीं. आमीं हात कवळून रडतालीं तेन्नां हेंच भुरगें जावन लेगीत कापाजदादीन वावुरलें. आनी आतां तें आपलें घुसमटील्लें काळीज रडून मेकळें करता तर तुमी फकाणां मारतात ताची?' दियाल्या घोवान फोग काडलो सामको.

दीस सहज गेले...म्हयनेय सरले...एक वर्स जावपाक लागीं पावलें. आनी निमणो रक्षाबंधनाचो दीस उदेलो. 'आयज येतलें दिया वडाची साल पिपळाक लावपाक... त्या तोंड लिपोवपी चोराक राखी बांदपाक!'

सियान सकाळीं सकाळींच आपली कॅसेट लायली. 'लारूली, तूं मम्मा भशेन वड-पिपळ सोद नाका हां!' धाकटुलें लारा सियामाचील्यो गजाली कळील्ले भशेन किटकिटतालें. सांजचें दिया आनी घोव आयलीं हांगेर.

'आज रावतलीं मुगो रातचीं, काय वचपाची?'

'वतलीं आमीं रोकडींच!'

'आरे, पूण तुजो भाव दिसा उजवाडी येतलो मुगो?' गेटींतल्यान भितर आयिल्ल्या दियाचेर सियान टोम ण्यांचो पावस घालो. दिया कांयच उलयलें नां...पूण मंद अशें हांसलें. भितर येवन सियाक घट्ट वेंग मारली ताणें. जिजून तांका आवाज दिलो. 'आतां भितर येतलीं मातशीं दोगांय?'

दियान सियाच्या हाताक धरून भितर हाडलें. जिजून देवा मुखार पाट मांडिल्लो. भोंवतणी बरीऽ रांगोळी घाल्ली, पाटाचे दोशीं वटेन दोन पांच वाती पेटपी दिवली पेटयिल्ल्यो, आरतीचें ताट पांच वातींचो दिवो पेटोवन दवरिल्लें. '

'सिया ह्या पाटार बस .....'

'ओय..हांव भाव न्हय तुजो...तो येतलो काळखांत!'

' सिया म्हजें आयक. बस पाटार.'

'जिजू तुका मान दिवन हांव बसतां हां!'

'गुड गर्ल, चल बस.'

दियान ताका कुंकूम लायलो, पिठाच्या गुळयांनी दिश्ट काडली, ताका पनीर पेढो खावयलो. आनी ताज्या हाताचेर नाजुकशी राखी बांदली. हाचे फुडें म्हजी भयणय तूं आनी भावय तूंच.. देर आयी लेकीन दुरुस्त आयी!'

बारा वर्सांचो डिफरंस विसरून दोनूय भयणी एकामेकांचे वेंगेंत घुसपलीं. अख्ख्या घरान वडाची साल वडाकच चिकटतनां टाळयो वाजोवन येवकार दिलो.

'जिजू तूं बस आतां. हांव बांदतां तुका राखी.'

सियान सगले साग्रसंगीत सोपस्कार करून राखी बांदली.

'बाय द वे जिजू, आतां दिया, हांव आनी तूं सामकींच राखी भांवडां जालीं. अब तेरा क्या होगा जिजू?...'

सगलें घर साताठ मजली हांशान भरलें.

*येवकार, सादोळशें, काणकोण...*
*गोंय. ९४०४१४५३३७*

(पान क्र. २०१ वेल्यान)

# घराबो

इंग्लीशींत फॅमिली, मराठींत कुटुंब आनी कोंकणींत घराबो म्हणटात. घराबो म्हळ्यार आई, बाबा, ताई, दादा, आत्या, काका, आजी,आजो सगळीं मेळून एकठांय रावतात तो घराबो. एकामेकांक मान दिवन एकामेकांच्या हाताक धरून सुखान दुख्खान सांगात दिवपी घराबो.पयलींच्या तेंपार व्हडलो घराबो आसतालो. पूण आतां तो ल्हान जायत गेला. सगळ्यांनी आपलें नवें बिराड, नवो संवसार मांडलो. नातरां आपल्या आजी, आज्या कडल्यान तोखणाय करून घेवपाक पयस जायत गेल्यांत. सगळ्यांक आपलें स्वतंत्र जाय. कर्तव्याच्यो बेडयो घालून कोण झरतलो? जाण्टीं आपल्या घराचे एके कुडींत वेगळें रांदून जेवतात. आवय बापायचें वजें जावंक लागलें. सगळ्यांक पयशे जाय. पयशे जोडूंक भायर गेल्लीं भुरगीं,भायरूच लग्न जावन रावतालीं. जाणटीं पिकिल्ल्यां केसांचे आवयक ‖म्हजी आवय ती‖ म्हणपाक भुरग्यांक लज दिसूंक लागली. अशीच एक बापायची धूव हांवें पळयल्या. तिचो बापूय जाणटो, तो गाडयेन भाडी मारतालो. आठवे, णववे इयत्तेंत आसतलें तें. बापायक स्कुलान भितर आफयनासलें. ताका लज दिसताली ‖आपलो बापूय तो‖ म्हणून सांगूक. कोणेंय विचारल्यार, तो आपलो काका म्हूण सांगतालें. पूण बापूय तो बापूय आसता. ताणें खूब कश्ट करून आपले चलयेक डॉक्टर केलें. हें चली धूव म्हणचे लायकीचें आसा व्हय? असोच एक बापूय. ताका पार्ट्यो करूंक आवडटाल्यो.ताका इश्टां वांगडा भोंवडेक वचप, पिकनीको करप हातूंतच आपलें सूख शें दिसतालें. आपल्या बायल भुरग्यां वांगडा भोंवप ताका आवड नासलें. सगळो रितो वेळ ताणें लोकांकच दिलो. आतां तो दुयेंत. हातरूणार पडला. खंयचे इश्ट आनी खंयचे कोण! आतां बायल भुरगीं ताची सेवा करतात. आतां खंय गेले ताचे इश्ट? घर आनी घरांतल्या म नशांक सदांच जपचें आसता. सुखान तशेंच दुख्खांतय तींच आदार दितात हें केन्नाच विसरूंक जायना. हें विसरना तोच खरो सुखी घराबो.

# मोबायल आनी भुरगीं

ते तिगूय इश्ट णववी, धाववी इयत्तेंत शिकतात आसतले! आमच्या घरा मुखा वेल्यान हातांत मोबायल घेवन सकाळ सांज वतात. केन्ना दनपरा तर केन्ना सकाळीं फुडेंच. दिसभर हासतना चिकुळतना दिसतात. एक्टो मर्दी आनी दोग जाण ताच्या खांदार हात घालून चलतात. मदल्याच्या हातांतल्या मोबायलार नदर थीर करून पळयतना किटकिट्टात. अशें कितें पळयतात तर ते मोबायलार? केन्ना केन्ना चार पांच जणांचो पंगड त्या पर्डींग घराचे भितोडेक फातरार बसून वरांचीं वरां मोबायल पळयत हासतात, फुतफुतत, किटकिट्टात. आतां तर चौथी आनी पांचवी इयत्तेचीं भुरगीं हक्कान हातांत ते स्मार्ट फोन घेवन भोंवतना दिसतात. तांच्या मोबायलार तांचो फोटो आयकोन जावन हासतात. चोरयां एप डावन लोड करून गेम खेळटना दिसतात. म्हजी नात शनाया तीन वर्सा स म्हयन्यांची आसा. टिवीचेर एक कार्टून एड लागल्या ती पळोवन आपल्या पापाक म्हणटा, पापा तें तुज्या मोबायलार डावनलोड करून म्हाका पळोवंक दी. कितें आमचीं भुरगीं आतां खेळ, वाचन, बरोवप सगळें विसरतलीं? कितें आतां लेखक, कवी जावंक पावचेच नात? हात पांय आसून हीं भुरगीं पांगळीं कशीं भितोडेक आनी घरांत बसूनच रावतलीं? मोबायलार सगळें पळोवंक मेळटा. ते तांका जाय तें पळयतलेच! पूण अती प्रमाणांत पळोवन आपले दोळे आनी तकली पेड्यार करून उडयतले! नाका ते विचार तांचे तकलेंत घोळत रावतले.

प्रस्नांच्यो जापो तीं मोबायलार सोदतात. हांव सगळ्यांकच म्हणनास पूण अशेय पालक आसात ते म ोबायलार वरांचीं वरां काडटात. ते आपल्या भुरग्यांक कशे सांगतले तुमीं मोबायल चड वापरूं नाकात म्हणून! आवय बापूय भायर ऑफिसांत कामाक वतात. भुरग्यांक ऑनलायन शिकपाक मोबायल दिवचोच पडटा. तांका घेवन दिल्ल्या म ोबायलार, म्हजो नवो मोबायल म्हणत तांचो स्टेटस पळोवंक मेळटा. स्वता एप डावनलोड करून पयस बशिल्ल्या इश्टां वांगडा घरांत बसुनच मोबायलार पपजी गेम खेळटात. आनी आवय बाबडी लोकांचीं आयदनां घासूंक घरांघरांनी भोंवता. हें पळयतकीर एकूच प्रस्न पडटा, ह्या भुरग्यांचो फुडार कितें?

मो. ७८७५२३७४७८, चिंबल

मचमचीत





# दिवाळेचीं पक्वानां



डॉ. रीना लवंदे

## फोवांचे तरेकवार जिन्नास

### फोवांचे आप्पे

**साहित्य** – 2 वाटयो फोव,2 व्हड कुलेरां रवो,1 व्हड कुलेर किशिल्लो गाजर,1बारीक शिनिल्लो कांदो, 1 वाटी बारीक चिरिल्लो कोथमिरे पालो,1 ल्हान कुलेर सांसवां,1 ल्हान कुलेर जिरें,2हरव्यो मिरसांगो बारीक चिरून, 4-5 करबेला पानां बारीकशी,100 ग्राम धंय, अर्द ल्हान कुलेर खावंचो सोदा पिठो,2 ल्हान कुलेरां तेल,रुची पुरतें तेल.

**करपाची तरा** – फोव आनी रवो अर्दवर उदकांत भिजयात.एके कायलींत एक कुलेर तेल तापोवन सांसवां,जिरें,करबेला पानां आनी हरव्यो मिरसांगांची फोडणी तयार करात. तातूंत बारीक शिनिल्लो कांदो घालून तळसून घेयात. भिजयिल्ले फोव आनी रवो मिक्सरांत घालून एकजीव करात.हें मिश्रण एका आयदनांतकाडून तातूंत तळशिल्ल्या कांद्याची फोडणी,धंय,कोथमिरे पालो आनी रुची पुरतें मीठ घालून एकठांय करात.खावंच्या सोदा पिठो आनी जाय तितलें उदक घालून दाटसार मिश्रण तयार करात

अप्पा पात्राक तेल सारावन हें मिश्रण घालात.आप्पे पात्राचें धाकण धाकण लावन 3-4 मिनटां शिजयात. उपरांत अप्पे कुलेरान दुसरे वटेन परतून 2 मिनटां धाकण धापून शिजयात.फोवांचे अप्पे तयार.

हे चटणी वा सोसा वांगडा खावं येतात.



## फोवांची इडली (झटपट)

**साहित्य–**1 कप फोव,1 कप बारीक रवो,1 कप घट्ट धंय,1 पाकीय इनो फ्रूट सॉल्ट,2 कप उदक,रुची पुरतें मीठ.

**करपाची तरा–** एका बाउल्यांत फोव,रवो आनी धंय एकठांय करात.उपरांत देड कप उदक घालून मिश्रण तयार करात.मीठ घालून,धापणें घालून 15 मिनटां दवरात. उपरांत 1 पाकीट इनो घालात. ताचे वयर उरिल्लें अर्द कप उदक घालून बरें चाळून घेयात.इडली पात्रांतउदक घालून शिजयात.इडलीच्या साच्याक तेल सारोवन हें मि श्रण घालून इडली पात्रांत दवरात. 20 मिनटां वाफोवन घेयात.फोवांची इडली तयार.

चटणी वा सांबारा वांगडा एकदम रुचीक लागता.

(हेंच पीठ मातशें पातळसार केलें जाल्यार ल्हान ल्हान पोळे काडून वयर आवडीची बारीक चिरिल्ली भाजी घालून फोवांचे उत्तापा करूं येतात)

## फोवांचे लाडू

**साहित्य–** अडेज कप फोव,1 कप नाल्ला सोय, 1 कप किशिल्लें गोड,8–10 काजू बियांचे कुडके, 2 व्हड कुलेरां खिसमीस,1 ल्हान कुलेर वेलचे पिठो,3 व्हड कुलेरां तूप.

**करपाची तरा–** खायल तापोवन फोव 10 मिनटा सुकऽसर भाजून घेयात.न्हिवोवन मिक्सरांत बारीक पिठो करात, हेच कायलींत तूप तापोवन काजुबियो आनी खिसमीस भाजून घेयात.उरिल्ल्या तुपांत नाल्ला सोय भाजात. न्हिवतगीर गोड आनी सोय मिक्सरांत बारीक करात.एके परातींतफोवां पिठो,गोड,सोये पिठो,भाजिल्ल्यो काजुबियो,खिसमीस आनी वेलचे पिठो घालून बरेंऽ एकठांय करात. 2 कुलेरां तूपतापोवन ह्या पिठांत घालून लाडू वळून घेयात.



## फोवांची चकरी

**साहित्य –** अर्द कप भाजिल्ली चण्यांची दाळ, 1 कप फोव, 1 कप तांदळांचें पीठ, 1 व्हड कुलेर धवे तीळ, 1 ल्हान कुलेर ओंवो, 1 ल्हान कुलेर कोथमिरे पिठो, 1 व्हड कुलेर हळद, 1 व्हड कुलेर काश्मिरी मिरसांगे पिठो, 1 ल्हान कुलेर हींग, 1 लिटर तेल (तळपाक)

**करपाची तरा –** चण्याची दाळ आनी फोव मिक्सरांत बारीक पीठ करून घेयात. हें पीठ आनी तांदळाचें पीठ एकठांय करून चाळणींत चाळून घेयात. उपरांत तीळ, ओंवो, कोथमिरे पिठो, हळद, मिरसांगे पिठो, हींग आनी मीठ घालून एकजीव करून घेयात. एका तोपांत 2 कप उदकाक बरो खतखतो काडात. तातूंत तयार केल्लें पीठ घालून बरेंऽ धवळात . मातशें न्हिवल्या उपरांत बरेंऽ मळून घेयात. चक्री करपाच्या यंत्राक चक्रो म्हणटात. ह्या चक्र्याक भितरल्यान तेल लावन उपरांत रांदनीर कायलींत तेल तापपाक दवरात . ह्या पिठाचो एक एक गुळो चक्र्यांत घालून त्या साच्यांतल्यान केळी पानार वा बटर पेपरार वा स्टिलच्या ताटांत चक्री काडात. उपरांत मंद उज्याचेर तेल तापोवन चकऱ्यो तळून घेयात.

*मो. ९८२३९९८८८४, कळंगुटे*

# उतरकुवाडें





संतोष हळर्णकार

**आडवे** – १. आश्विन म्हयन्यांतल्ली दिव्यांची परब, दिपावली. ४. राजनीत, राज्यकारभार, पॉलिटिक्स. ७. खूब पोरण्या चार हिंदू ग्रंथांतलो एक. ८. निर्धास्तपण, स्थैर्य. १०. रान, जंगल, १२. चमचे, लेंबडे, हयबा, खुशमस्करे. १४. एक ल्हान सवणें, कात्याळें. १५. केंसांतलो आंकडो. १६. सर्नीस, समाज संस्थेचो वांगडी. १७. दुख्ख, खेद, खंत. १८. अचकीत येवप, अकस्मात पावप. २०. चुलतो. २१.अर्जीर्ण, जिरवण नासपाचो रोग. २२. परतून परतून म्हणपाची वा बरोवपाची प्रक्रिया. २४. निर्मळ, निवळ, नितळ, शुद्ध. २५. आडावणी, बंदी, आडखळ, प्रतिबंध. २६. नवेपण, अजाप, चमत्कार. २८. तिनसांजे लक्ष्मीक येवकार दिवंक पेटयिल्लो दिवो. ३०. फावो ताच्या परस जाल्लो चड वेळ, कळाव. ३३. गणपती, गजवदन. ३४. कारणा बगर, कारण नासतना. ३६. तराजू, जिनसांचें वजन जोखपाचें उपकरण. ३९. दरवाजो, कवड. ४०. संन्याशी, तपस्वी, योगी. ४१. कारखान्याची धनीपणाची व्यक्ती. ४२. अनुमान, सिद्धांत.

**उबे** – १. आसोरी, तिनसांज, पसय. २. तुफान, वावटळ, वावझड, चक्री. ३. डझनांतली संख्या. ४. राजाची बायल. ५. गोंयचो दक्षिणे कडलो म्हाल. ६. सात आनी दोन. ८. मोटवें, गिड्डें, मोटकें, ठेंगू. ९. उत्कृष्ट, अग्रगण्य, सर्वश्रेष्ठ. ११. नवलान भरिल्ली काणी, कादंबरी. १३. जाहीरनामो, सोपूत, प्रतिज्ञा. १४. शस्त्राक धार काडप, (कोणाकूय) पियोवप. १५. नुस्त्याची माळ. १७. दीस उजवाडपा पसून सूर्य माथ्यार ये मेरेनचो काळ, फांतोड. १९. घटसाण, कडकसाण, अवघडपण. २१. केन्नाच नश्ट जायना अशें, अक्षय. २३. जैता उपरांत घाल्ली खुशालकायेची हालेट. २५. म्हाका (मराठी). २७. जड, भारी, पेझाद. २९. XXX XX म्हातारे अर्क – मधुकर तोरडमलाचें एक मराठी नाटक. ३०. हुनसाण, ऊब, ३१. वसवशेपण, भकारेपण. ३२. सूर्य. ३५. दिवाळखोर, कंगाल. ३७. प्रवाह, ओग, लय, स्पीड. ३८ एक आनी एक, बे.

रवीन्द्र केळेकार हांच्या 'महात्मा गांधी एक जीवनी"
ह्या हिन्दी पुस्तकाची 'एका विचाराची जीवीतकथा'
ह्या नांवान केल्ल्या अणकाराक केंद्रीय
साहित्य अकादेमीचो १९९८ वर्साचो अणकार पुरस्कार,
तशेंच 'मंथन' ह्या पुस्तकाक २०१४ वर्साच्या
साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत जाल्ल्यो लेखिका,



स्मृतीशेष **डॉ.माधवी सरदेसाय**

हांचें उजवाडाक आयिल्लें आनी दरेकाच्या घरांत
आसूंकच जाय अशें साहित्य




## भासाभास

भासविज्ञानाचो शास्त्रीक अभ्यास करून बरयल्लें
कोंकणींतलें पयलेंच पुस्तक.
हे मुखार भास आनी भासविज्ञान ह्या विशयांचेर कोणाकय
कितेंय उलोवचें बरोवचें जाल्यार
ताका ह्या पुस्तकाचो खूब उपेग जातलो.
उजवाडावपी: जाग प्रकाशन,गोंय




## मंथन

साहित्याचेर आनी हेर भाशीक तशेंच सामाजीक
प्रस्नांचेर वेगवेगळ्या तासांनी तटस्थपणान केल्लें मंथन.
उजवाडावपी: जाग प्रकाशन,गोंय




## तांचे विशीं... म्हजेय विशीं...

माधवी सरदेसाय हांणी लकुबायेन निर्मिल्ल्या कांय व्यक्तीचित्रांचो
आस्पाव आशिल्लें,मनशां मदलीं नातीं सोदपी एक वाचनीय पुस्तक.
उजवाडावपी: जाग प्रकाशन,गोंय

